


वर्स ४४ : आंक ३ : ऑक्टोबर- नोव्हेंबर, २०१७

✻ संस्थापक संपादपी:

स. रवीन्द्र केळेकार

स. सुमंत केळेकार

✻ वैचारिक ढायज:

स. माधवी सरदेसाय

✻ संपादपी:

आसावरी नायक

✻ पालवी संपादपी:

चेतन आचार्य

कृपाली नायक

✻ उजवाडावपी:

जयवंत भा. सरदेसाय

२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्

रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,

मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

✻ छापपी:

फर्स्ट इम्प्रेशन टेक्नॉलॉजी

बी/३-३, अप्पर इंदिरानगर,व्हीआयटी

कॉलेज रोड, बिबवेवाडी, पुणे ४११०३७

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ३००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) | : १५०/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : ६००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

पटी मनी ऑर्डरीन वा ड्राफ्टान धाडची.

ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.

वेव्हाराचो नामो :

जाग म्हयनाळें

२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्

रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,

मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

फोन: ७४४७२६८७२०

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. १५०/-

भायले चित्र : लक्ष्मण पै

भितल्लीं चित्रां : भरत जगताप


# सं । पा । द । की । य

## उर्बेभरीत दिवाळी

'जागा'चे वतीन आमच्या सगळ्या वाचप्यांक आनी बरे मागप्यांक दिवाळेची हुनहुनीत परबीं. ऑक्टोबर-नोव्हेंबर २०१७ चो हो आंक तुमच्या हातांत दित् ना खोस जाता.

फाटली साबार वर्सां 'जाग' वेळच्या वेळार तुमच्या हातांत पावता. म्हयन्याच्या १ तारकेक अंक पोस्टांत पडटा. अंकांत बऱ्यांत बरे, दर्जेदार साहित्य दिवपाचो आमचो यत्न आसा. आमी जाणात, आमचे यत्न उणे पडतात. माधवी काडटाले तसो एकूय चूक नसताना अंक काडप कुस्तार. पुण नवें नवें प्रयोग आमी सातत्यान केल्यात. लेखकांचो तेंको मेळत जाल्यार अदीक बरें साहित्य दिवप शक्य आसा. दिवाळी अंकांत आमी आपजीण हो विशय घेतला. साबार लेखकांनी तातूंत धिटायेन बरयलां. आपजीण हो साहित्याचोच प्रकार. पूण बरोवपाक कठीण. कारण तातूंत पारदर्शकताय जाय. मन मेकळें करपाची इत्सा जाय. तशी जिणेनिश्ठाय गरजेची. ही तत्वां खबर नाशिल्लें लोक बरयतांत ती आपजीण मागीर अळणी जातां. कोंकणी लेखकांनी आपजीण हो प्रकार अदीक बरें तरेन केळवचो अशें आमकां मनाथावन दिसतां. कारण आपजीण ही त्या लेखकाचीच व्यक्तिगत काणी उरना, जाल्यार ती त्या समाजाची आनी त्या काळाची जिती तट्ट्रीत गवाय आसता. आमचेकडेन अशे तरेच्यो आपजीण खूबूच उण्यो आसात. देखूनच फाकिवंत रशियन दिग्दर्शक तार्कोवस्की हांची दिसपटी भाशांतरीत करून ह्या अंकांत उजवाडायल्या. स. माधवीची दिसपटी फाटलें वर्सभर जागांत आमी उजवाडायतात. तातूंत थोडो बदल करचो पडटा. काय नांवां काडचीं पडटात. कारण ही सगळी मनशां आमच्या भोंवतणी आसात. पूण हे किरकोळ बदल सोडले जाल्यार दिसपटी तशीच छापतात. तातूंत माधवीची पारदर्शक, सडेतोड आनी प्रांजळ मतां आयल्यांत. गुरुनाथ केळेकार आमचे माधवीक गोंयचे आयकॉन कित्याक म्हणटात ते ही दिसपटी वाचतकीर कळटा. तेच भाशेन सर्गेस्त रवीन्द्रबाब केळेकार हांच्योय साबार डायऱ्यो आमचेकडेन आसात. त्यो सगळ्यो आमकां जागांत उजवाडा हाडपाच्यो आसात. तातूंत कोंकणी चळवळ, ह्या चळवळींतले म्हालगडे, गोंयांमुखावयले प्रस्न, ह्या प्रस्नांकडेन पळोवपाची नदर आनी पोटतिडक हांचो संगम आमकां पळोवंक मेळटलो.

आमी जाणात, कोंकणी आनी गोंयांसामकार सद्या साबार प्रस्न उबे जाल्यात. जातीवाद आनी धर्मकोल्ल मातला. गोंयचे साबार वांटे जावपाकडेन पावल्यात. कोंकणी ही सगल्या गोंयकारांक एकठ्यांय हाडपी भास. दुर्दैवान रोमिवाद्यांनी आदी धोशी घाल्यो (हाचो अर्थ सगळे रोमीवादी 'अराश्ट्रीय' म्हणून तांकां हिणसावपूय बरें जावचें ना. तशी चूक आमच्या मदल्या कांय जाणांनी केल्या. काकासाहेब कालेलकर, रवीन्द्र केळेकार आनी माधवी हांणी बरोवन दवरला, क्रिस्तांव समाजाक कडेन दवरूंक उपकारचें ना. क्रिस्तांव समाजांतली नवी पिळगी जाल्यार 'कोंकणी'ची! तांच्या मनात दुबाव निर्माण जायत असे तर कसलेच वा् कडे पावल आमचे पडचे न्हय.) आनी आता जातीवाद तकली वयर काडटा. पुरस्कार हे भेदाचे कारण जाल्यात. आमी असहिश्णू जावंक शकनात. पूण साहित्यांत सगळें प्रकार येतनाय, साहित्याची प्रेरणा कितें हाका म्हत्व आसा. कोंकणी चळवळीक नखलामी करपी साहित्याक खंयचेंच परिस्थितींत फाटबळ मेळूंक उपकारना.

अंदुची दिवाळी आनी नवे वर्स सगळ्यांक खुशालभरीत वचचें. कोंकणी चळवळीक नवें आयाम मेळचे. लेखकांक नवे विशय घेवपाची उर्बा मेळची. आनी तातूंतल्यान फुडाराचें भांगराचें गोंय घडचें!



# मांडावळ





६
तें दीस तशे आसले
एके मुस्तीच्या गवायेचें निवेदन
सुरेश गुंडू आमोणकार

८
ज्या साहित्यकारांनी म्हाका घडयलो...
गुरुनाथ केळेकार



१२
जीणेरंग
अलका सिनाय असोळडेकार

१०
अव्यक्तांवणें व्यक्त
हेमा नायक



**म्हजी ल्हानपणाची जीण**
शंभू भाऊ बांदेकार २९

**म्हज्या भुरगेंपणाची झळक...**
एन. शिवदास २३

**''हांव एड्वीन उलयतां''** १४
जे. एफ. डिसॉजा

**झडली फुलां...** ज्योती कुंकळकार ४३

**आबुधाबी डेज** रमेश साजु घाडी ३२

**लिसेवांतलें दीस** डॉ. हरिश्चंद्र नागवेंकार ३८

**खोशयेचो उजवाड** राधा भावे ७७

**वाऱ्याचो हुस्कार** रमेश वेळुस्कर ११८





**नरेंद्र बोडके : कांय यादी**
एस. डी. तेंडुलकार ८५

**म्हजें उत्तरायण**
दत्ता दामोदर नायक ७९

**कविता** १५० - १५६

माधव बोरकार, आर. रामनाथ, शंकर रामाणी, सखाराम शेणवी बोरकार, मेल्विन रोड्रीगस, जॉन आगियार, संजीव वेरेंकार, तुकाराम रामा शेट, रमेश साजू घाडी, काशिनाथ शांबा लोलयेकार, दीपक गोविंद प्रभूदेसाय, किर्ती ल. गावडे, दुलू प्रदिप वळवईकार.

**दिसपटी**
माधवी सरदेसाय
६५

| | |
|---|---|
| रिणानुबंध/माधव बोरकार | ७१ |
| म्हजे जिणेंतल्यो बायलो/कृ. म. सुखठणकार | ९३ |
| पावसकाळ /जयमाला ना. दणाईत | ६१ |
| आंद्रे तार्कोव्हस्की /अणकार : अनंत साळकार | ५१ |
| कुल्ल्यो! /सखाराम शेणवी बोरकार | ९८ |
| विनय हें जैताचें सोपण/रजनी भेंब्रे | १२५ |
| द एक्झीट(कथा)/ आशा शानभाग | १२० |
| अंत अनंताचो /डॉ. जयंती नायक | १०९ |
| निमणें पान/मीना काकोडकार | १०३ |
| विस्वास/अणकार : उदय देशप्रभू | १२२ |




आत्मचरित्र...आपजीण... सगळ्यांत कठीण असो साहित्य प्रकार (भौतेक जाण आत्मप्रौढी सांगतात आनी आपल्या अंतरंगाचो ठाव लागूंक दिनात. तसली आत्मचरित्रां रुपडें घाल्ल्या मनशावरी फटीची. आपलेंच अंतरंग नियाळून, तातूंतले मनोविचार उक्ते करून दाखोवपाचें जांका सादता ताचेंच आत्मचरित्र रंगता. आमी भारतीय दाखय - लिपय हाचो खेळ चड करतात.सनसनाटीपणा तयार करून आपजिणेची पुस्तकां खपोवपाचोय यत्न साबारवेळा जाता. पूण तातूंत जिते ट्ट्टीत आनी स्फूर्तीदिणे खर सत्य-वास्तव उबे जायना. साबार पश्चिमी लेखक विचारवंतांनी आपल्या आपजिणेंतल्यान प्रखर सत्य मांडपाचे धाडस केला. ह्यो आपजिणी म्हणूनच तांचे जिवितमुखार हाडटातच, ते भायर एके मुस्तिची गवाय कशी जावन वाचप्यां मुखार काळ उबो करतात. आमच्या लेखक - बरोवप्यांची जीण आनी तो काळ ह्या आपजिणेंतल्यान आमी तुमचेमुखार दवरपाचो यत्न केला...

# तें दीस तशे आसले

## एके मुस्तीच्या गवायेचें निवेदन


**सुरेश गुंडू आमोणकार**
९४२१२४१२२१


जण एकलो आपलें जिवित हें एक उक्तें पुस्तक अशें म्हणटां. कांय जणांचें पुस्तक उकतें, बऱ्याच जणांचें धांपिल्लें. तशें पळोवंक गेल्यार जण एकल्याकडे आपजीण बरोवपा पासत 'छपन्न मसाल्यांची' शाकोती तयार आसता. पूण सरसमान मनशाक संवसाराच्या धकेचपाट्याच्या यंत्रांत घुसपल्ल्यान, सवस्तकायेन आपले जिणेची नियाळणी आनी मोलावणी करपाची फुरसद खंय मेळटा? उजवाडिल्लो दीस येता केन्ना आनी तो सरता केन्ना हें ताकाच कळना. ताची जीण म्हणल्यार तरेकवार घडणुकांची जंत्रीच. ताचे जिणेचे धडपडीची सुरवात ताका नियतीन दिल्ल्या जल्मान जाता आनी ती एक दीस सोंपता ताच्या अटळ आशिल्ल्या मरणान. बाकीबाबान संवसारांत घुसपल्लो मनीस आनी तो अटळ मरण हांचेर मार्मीक भाष्य केलां:

**इथली ओढ जरी घडीघडी मज ओढी**
**येणारच नेणारा जाणारच होडी.**

आनी जल्म आनी मरण हांचे मजगतीं हो ताचो सगळो खेळ, तरेकवार नाडेपेन्नां आनी कसरती. भुरगेंपण सोंपतासर मुळावें शिक्षण; मागीर माध्यमीक वा उंचेलें शिकप; पोट भरपापासत रोखडोच घेतिल्लो नोकरे खातीर सोद; (आदल्या काळांत रासवळ कुटुंबांत राशीर जेवणाची सोय आशिल्ल्यान, नोकरेचो कोणूच तगादो लायनासलो!) दोनांचे चार हात जातकच संवसाराचें नेमान घुंवपी कालचक्र सुरू. सकाळ, दनपार, सांज, रात हें काळ-चक्र थांबनासतना घुंवत आसता आनी तातूंत ताचो संवसार तो कितें? आदलेवरी रासवळ कुटुंबांतलो न्हय, जंय हुस्को जाण्टे काडटालें आनी एकाचो दुसऱ्याक आलाशिरो जातालो आनी अडीअडचणीक लोक एकमेकांक पावतालो. काळाप्रमाणे हीं समिकरणां बदललीं. हालिंसराक म्हजो संवसार म्हणल्यार



हांव आनी म्हजी बायल वा घोवलो आनी एक वा चडांतचड दोन लेकरां - इन मीन तीन. आदल्या काळांत नातीं खूब कोम्लिकाद आसलीं. घरचो कर्तो, आवय-बापूय, बापोलये-तिपोलये; केन्ना केन्ना तर भावजांक धोसपी एक किंवा दोन माथ्यावेल्या पदराच्यो; पै पावण्यांची सरबराय चालूच (हॉटेलां, ब्राह्मणीचो काळ येवंक नासलो; घरांत शिक्षणाखातीर लागशिल्ल्या वा पयशिल्या नात्याचे एक दोन भुरगे. एकमेकांच्या आधारान रावनच लोक व्हड जातालो. पूण काळ बदललो आनी तोय शीघ्रगतीन आनी ताचे बराबर मनशांय. बदल हो जिणेचो स्थायीभाव. काळा बराबर मनीस बदललो ना जाल्यार, तो शेणटाच. आनी ताका ताची जीण सगळ्यांकडे तडजोड करितूच जुळोवन घेत सारची पडटा. शेकीं तेंच शाणेपणाचें थारता.

म्हणटा म्हणसर ताका बसपगारी जावपाचो व्हडांतलो व्हड धपको दिवपी प्रसंग ताचे जिणेंत उप्रासता, आनी ह्या म्हत्वाच्या खिणाखातीर ताणें मनाची मातूय तयारी केल्ली नासता. आतां जिणेंतल्या देंवत्या पर्वाचो आरंभ जाता; म्हजें पोजिसांव गेल्लें; अपुर्बायेच्या एकल्याच चल्याक पाखां फुटून तो मोगान पडलो आनी आपल्या वाद्याचो जालो. चलयेन नोकरी धरली आनी ती आपलें लग्न जुळयता म्हूण कानार येता, पूण हांव वरदक्षणेच्या तकालसींतल्यान सुटत मूं? केन्ना केन्ना दिसता आपली बायलय भुरग्यांचो पाखो घेता आनी आपणाक कोणूच विचारिना. ऑफिसांत कितें म्हजी बडदास्त आनी बळेजाव! पूण बसपगारी जालों आनी सगळेच लोक बदलले. कोणूच सलाम ठोकिना; आतां कोणूच म्हजी दखल घेना; बायल लेगीत!

काळाची टिकटीक वेगान दीस फुडें व्हरता आनी आतां केन्नातरी वयल्यान आपोवणे येतलें हाचो विचार मनाक आफुडटा. आपल्याच वर्गमित्रांच्यो मरणाच्यो बातम्यो वर्तमानपत्रांत वाचतकीच मृत्यू-घंटेचो आवाज स्पश्टपणान (१२६ चेर)

मुंबयंत गिरगांव म्हण एक सुवात आसा. हे सुवातेर चार रस्तें मेळून एक चौक जाला. ह्या चौकार रामचंद्र नांवाची एक बिल्डिंग आसा. हे बिल्डिंगेच्या दुसऱ्या मजल्यार एक फ्लॅटांत म्हजो १९२९ सोंपत्याक जल्म जालों. हेच बिल्डिगेंत तळमजल्यार शणै गोंयबाब हांणी जांकां 'अशोक' ह्या बिरुदान मानले तांचो गोमन्तक छापखानो आशिल्लो.

# ज्या साहित्यकारांनी म्हाका घडयलो...



गुरुनाथ केळेकार
९४२०८९६१२५

जाणट्यांक आपल्या भुरगेपणांतल्यो वा तरणेपणांतल्यो वा आपल्या काळांतल्यो यादी सांगनश्यो दिसता. ह्यो यादी ल्हान भुरग्यांक काणयो कश्यो आयकनश्यो दिसता. पूण तरणाट्यांक मात त्यो आयकुच्योश्यो दिसनात. हाका कारणां आसात. तरणाट्यां मुखार जीं आव्हानां आसतात तांकां तोंड दिवपांत तांचो वेळ तशी तकली घुसपल्ली उरता.

हांव ११-१२ वर्सांचो आसतना एका रुपयाक ६४ पयशे अशें कोश्टक आशिल्लें. देश स्वतंत्र जाले उपरांत रुपयाक १०० पयशे जाले. देशाक 'डेसिमल सिस्टम' सरकारान लागू केलो.

आज एका चालंत हॉटेलांत पातळ भाजी २५ रुपयांक, पाव ५ रुपया आनी येदेश्या ग्लासांत इल्याश्या च्याक १० रुपया पडटात. म्हळ्यार सगळे मेळून ४० रुपया जातात.

हांव जेन्ना इकराव्या वर्सा म्हाड्डोळा पुर्तुगेज प्रायमरींत वचूंक लागलों तेन्ना पातळ भाजी २ पयशे, पाव २ पयशे आनी च्या २ पयशे म्हळ्यार ६४ पयशांच्या रुपयांतले ६ पयशे पडटाले.

उपरांत हांव पणजे लिसेवाचीं (लायसीयम) सपणां चडूंक लागलों. तेन्ना पणजे खानावळीक म्हयन्याक २१ रुपया दिवन दिसाचीं दोन जेवणां जेवतालों. म्हळ्यार म्हयन्याचीं ६० जेवणां धरलीं जाल्यार रुपयाक ३ जेवणां. आज चालंत खाणावळींत/हॉटेलांत एके रायस-प्लेटीक १००/१५० रुपया पडटात.

तेन्ना स जाणांचें एक कुटूंब घरांत एकटोच जोडकार आसतना ४०/५० रुपयांचेर चलतालें. आज घोव आनी बायल जोडटात. घरांत म्हयन्याक बरोच पगार येता.

हांव म्हारगाये आड तक्रार करिना. म्हारगाय जिविताचो वांटो जाल्या. म्हारगाय जोडीचो हात धरून चलता. ती सदचीच जाल्या. सगळो आनंदी आनंद!

***

म्हजो पिंड साहित्यीकाचों. पूण घडतां घडतां घडेल तें प्रमाण अशें जिवितांत घडून गेलें. आतां जिविताच्या निमाण्या सपणार आसतना, जागाच्या जाळवणदारांच्या मनांत म्हाका साहित्यीक थारावचें अशें आयलें आनी

**'ढळला रे ढळला दिन सखया!**
**संध्याछाया भिवविती हृदया.**
**अता मधुचे नांव कासया?**
**लागले नेत्र रे पैलतिरी...'**

असो प्रस्न विचारपाची परिस्थिती आयिल्ली आसतना ताका हांव हय म्हणून चुकलो. दोन वळी भितर हें म्हजें साहित्य पुराण आटापा हाडटलों म्हळ्यार 'जातां तितलें चड बरय' अशें बंधन घालून तो मेकळो जालो.

वयर हांवें म्हजो पिंड साहित्यीकाचो म्हळां. भोंवतणीं विशीं म्हाका सदांच ओड. हाचें कारण जल्मान हांव मुंबयकार. मुंबयंत गिरगांव म्हण एक सुवात आसा. हे सुवातेर चार रस्तें मेळून एक चौक जाला. ह्या चौकार रामचंद्र नांवाची एक बिल्डिंग आसा. हे बिल्डिंगेच्या दुसऱ्या मजल्यार एक फ्लॅटांत म्हजो १९२९ सोंपत्याक जल्म जालों. हेच बिल्डिगेंत तळमजल्यार शणै गोंयबाब हांणी जांकां 'अशोक' ह्या बिरुदान मानले तांचो गोमन्तक छापखानो आशिल्लो. (आयचें म्हाका खबर ना.) हे पवित्र सुवातेर चडशे कोंकणी चळवळीचे फुडारी तशे वावुरपी मेळटालें. हे रामचंद्र बिल्डिंगेंत कांय गोंयकार कुटुंबांय रावतालीं.

ह्या रस्त्यार एक - काळबादेवी सावन येवपी, दोन - प्रार्थना समाजा सावन येवपी, तीन - एक ऑपेरा हावजा सावन येवपी आनी चार - चौपाटे सावन येवपी अश्या चार रस्त्यांचें मीलन जाता. रामचंद्र बिल्डिंगा सावन काळबादेवी दिशेन उल्याचे वाटेर मॅजेस्टिक नांवाचें सिनेमा थियेएर आशिल्लें. ह्या सिनेमा थियेटरांत त्या १९२२-२५ च्या काळांत म्हजो बापूय शिवाजी केळेकार मॅनेजर आशिल्लो. हांगा ताका कामार आसतना १९३५त अर्धांगाचो अॅटॅक आयलो आनी तो निकामी जालो. मुंबयंत स म्हयने उपचारा खातीर काडून कांय सुधारणा जायना अशें दिशिल्ल्यान म्हजी आवय आमकां चार भुरग्यांक घेवन गोंयां पिरवळा आमच्या चौगां-घरांत आयली. म्हजे ६ वर्सां उप्रांतचें भुरगेपण पिरवळांतूच गेलें.

मुंबयंत पयलीं स वर्सां काडिल्ल्यान म्हाका भोंवतणच्या संवसारा विशीं आकर्शण जालें अशें हांव म्हणटां. मुंबयची कळाशी म्हळ्यार ती एक तर मनशाक चार वणटीं भितरलो करून उडयता, ना तर भव्य असो संवसार ताचो करता. म्हजीं पयलीं स वर्सां जंय गेलीं त्या गिरगांवांन म्हाका आयचो 'केळेकार' केलां हें म्हज्यान अभिमानान सांगूं येता.

कारण रामचंद्र बिल्डिगेंतल्या गॅलेलेंतल्यान सगली स्वातंत्र्याची चळवळ हांवें भुरगेपणांत पळयली. चारूय कडल्यान येवपी लोकाच्यो झुंड्यो ह्या चौकांतल्यान गांधी, नेहरू, पटेल सारक्या फुडाऱ्यांक आयकूंक चौपाटेवयल्या लाखांच्या सभांक 'इन्किलाब झिंदाबाद' करीत वताल्यो त्यो हांवें पळयल्ल्याचीं म्हाका हय न्हयशी याद जाता. ह्याच चौकांत 'दे दान सुटे गिराण' म्हण आक्रोश करतले अर्धनग्न दलीत ह्या चौकांत पळोवन त्या भुरगेपणांत म्हज्या काळजांत चुरक्याचों तसो काकुळटेचों झरो फुटला.

***

आमकां केळेकारांक जातकूच सामाजीक सांस्कृतीक वावराविशीं अगत्य. केळेकारांत मुकुंद केळेकार, रवीन्द्र केळेकार, शशीकर केळेकार हांणी गोंयच्या सामाजीक आनी सांस्कृतीक चळवळींनी वांटो घेवन तांकां दिशा दाखोवपाचो प्रयत्न आपले परीन केलां.

चौगां घरांतल्या हे मानसिकतेक लागूक घरांत टायम्स ऑफ इंडिया, ज्ञानप्रकाश, केसरी, किर्लोस्कर, स्त्री आदी दिसाळीं तशीं मासिकां केळेकारांगेर येतालीं. तेन्ना देशांत जबरदस्त म्हणूं येत असो स्वातंत्र्य लढो चलतालो. हाका धरून आमच्या बलकांवार देशा संबंदान गजाली चलताल्यो.

हीं मराठी दिसाळीं तशीं मासिकां सदांच दोळ्यां मुखार आशिल्ल्यान तीं म्हाका (१३२ चेर)



म्हज्या बापायक दोन नांवां. अनंत आनी पुरुषोत्तम. कोण अनंत म्हणी तर कोण पुरुशोत्तम. हो गोंदळ म्हज्या लक्षांत येवपाक खूप तेंप गेलों. ताका हांवें पुराय नांव हेमा पुरुषोत्तम शेणवी धुमटकार अशें बरोवपाक जाय आशिल्लें. हें शेणवी प्रकरण मदीं घुसडावप म्हाका मान्य नाशिल्लें. हांव जेन्ना राष्ट्रमतांत बरयतालें तेन्ना हेमा पुरुषोत्तम धुमटकार इतलेंच बरयतालें. आनी बरयतालें ते विशय सामाजीक अन्याया आड आसले. पुरुषोत्तम संस्कृतीक विरोध करपी. मडगांवांतल्या कांय प्रतिशठीत सारस्वतांक हे रुचनासलें. तिनसना जेन्ना कांय लोक मेळटाले तेन्ना तांचेंमदीं चर्चा जाताली. म्हज्या बापायच्या कानार पडटालें तेन्ना ताचेर ताचो प्रभाव पडटालोच.

# अव्यक्तांवणें व्यक्त

हेमा नायक
९७६४५९७६२८

साठ वर्सांची पिराय हुपली काय मनशाक वेगवेगळे हुस्के सतावपाक लागतात. बायलांक तर चडूच. आख्खें आयुश्य समर्पीत भावनेन आनी परोपकारी करण्यांनी जगून आयिल्ल्यान तिका हे पिरायेचेर आपल्या जगण्याचे मोल जाणवपाक लागता. जीण अस्तमपा कडेन पाविल्ल्यान फाटल्या जगपांतले प्रसंग, घडणुको, घडामोडी एखाद्या चलचित्रावरी पडबिंबीत जावन तिच्या मनांत खवदळ घालपाक लागतात. आनी होच तो वेळ आपल्या काळजांतले उत्फर्के, संवेदना उकत्यो करून तांकां वाट मेकळी करून दिवपाची. अर्थात आपली एक ल्हानशी आपजीण बरोवपाची.

संस्कृती आनी वेपाराचें केंद्र आशिल्ल्या मडगांव शारांत चार भाव, म्हजे परस व्हडले आनी तीन व्हडल्यो भयणी, हांव आठवें आनी णववी धाकली भयण अशा व्हड कुटुंबांत म्हजो जल्म. निमाणच्यान दुसरें जाल्ल्यान व्हडल्या सात भावंडांचें हांव अपुरबायेचें जाल्लें. व्हडल्या भावाक आज्याचें नांव विष्णुदास, दुसरो गजानन (गणपतिचें नांव कुळदेव), तिसऱ्याक दामोदर (मठग्रामस्थ-मडगांवकारांचो देव) आनी मागीर महादेव (गणपतिचो पिता), चलयांचीं नांवां मात वेगळींच. सुमित्रा, गुलाब, पुष्पा, हेमा आनी छाया. चल्यांक नांवां देवाचीं पूण चलयांक देवतांची ना. कित्याक काय? केन्ना विचारलें ना पूण म्हज्या नांवांतलो अर्थ मात विचारलों. तर आईन सांगलें, 'हेमा नांव हांवें दवरलां.' जाप लक्तुबायेची 'हेमा म्हणल्यार भांगर. तुका भांगराची वेगळी गरज लागची ना. तूं नांवा प्रमाण चकचकतलें.'

भुरगें मनाचेर प्रभाव रोकडे पडटा, म्हजेरूय जालों आनी तेच वृत्तींतल्यान वाडत गेलें. केन्ना भांगराची आस धरली ना. तशें हांव दिसपाक तितलें सुंदर नाशिल्लें आनी जिवानय किडकिडीत आशिल्लें. पूण नांवातली चकचकसाण राखपाचो मात यत्न करीत रावलें.

म्हज्या बापायक दोन नांवां. अनंत आनी पुरुषोत्तम. कोण अनंत म्हणी तर कोण पुरुशोत्तम. हो गोंदळ म्हज्या लक्षांत येवपाक खूप तेंप गेलों. ताका हांवें पुराय नांव हेमा पुरुषोत्तम शेणवी धुमटकार अशें बरोवपाक जाय आशिल्लें. हें शेणवी प्रकरण मदीं घुसडावप म्हाका मान्य नाशिल्लें. हांव जेन्ना राष्ट्रमतांत बरयतालें तेन्ना हेमा पुरुषोत्तम धुमटकार इतलेंच बरयतालें. आनी बरयतालें ते विशय सामाजीक अन्याया आड आसले. पुरुषोत्तम संस्कृतीक विरोध करपी. मडगांवांतल्या कांय प्रतिशठीत सारस्वतांक हे रुचनासलें. तिनसना जेन्ना कांय लोक मेळटाले तेन्ना तांचेंमदीं चर्चा



हांव नाच करून दाखयतालें. 'खोंटीचे बूट करून दाखय गो बाय' तांणी म्हणचें आनी हांवें पांयाच्यो दोनीय खोंटी वयर काडून नाचून दाखोवचें. नाचाची ही आवड म्हाका आजून मेरेन उरली. तेन्ना खंय कोणाक सांगतलें आवडीचें बी? णव जाणां भितर हांव एकलें. ते आवडीचेर मात विरज पडत गेली. केन्ना तरी मागीर उसवता तेन्ना भुरगेपणांतली याद येता.

म्हजे आई कडेन कितलीं भांगरां आशिल्लीं! दोट्टी गोंट, पाटली, तोडें, कांकणां, बाजूबंद, पोकें, मणयांची माळ, आनीकय जायतीं. तांचीं नांवांय याद जायना. म्हज्या मामान म्हणल्यार तिच्या भावान कुड्डेच्या सदाशिव प्रभूदेसायान आपले भयणीक कितेंच फाल्त करूंक नासलें. पांच भयणी ताका . सामक्यो घरंदाज सारस्वत कुटुंबात पाविल्ल्यो. रिवणा, आक्षे, पणजे, मडगांव आनी सांवड्या. सगळ्याक जुस्ताजूस्त आंगा खांदार घालून करून दिल्ल्यो बरेतरेन नंदच्यो म्हणून. म्हजे आईन आपल्या भांगरांच्या म्हालवजार व्हडल्या तिगी धुवांचें हुंडो घालून मानपान करून लग्नां करून दिलीं.

म्हज्या पुर्वजांची ही थोडिशी फाटभूंय. बरीचशी घुस्पा गोंदळाची पूण इंटरेस्टींग. देखून ती सांगची कशी दिसता. म्हजो आजो तंबाकूचो वेपारी. बेळगांवसान गोंयां खंय ते खादार साक मारून चलत येतालें. दोग भाव, विष्णू आनी सुब्राय. विष्णू धंद्यांत खापो जाल्यार सुब्राय हिशोबांत चोख. गांवान धर्मापूरचे अशें सांगतात. खंयचें बरयिल्लें सांपडना. केन्नाय खंय दर्यांतल्यान बोटीन येतालें. तेन्ना गोंय हें तांकां बंदर सांपडलें. म्हाल देंवोवपाचो आनी गोंयांत वितरीत करपाचो. गिरायक खूब. पयशांची तेजी. वेपारा निमतान यो-वच करतां करतां तांणी गोंयांच स्थायीक जावपाचे थारायलें. (१३७ चेर)

जाताली. म्हज्या बापायच्या कानार पडटालें तेन्ना ताचेर ताचो प्रभाव पडटालोच. हरशी म्हण तो मातसो कानपोकळोच आशिल्लो. एक दीस म्हजेर तापार जालों. म्हणपाक लागलो, 'तूं खूप आप्सुलाद जालां. मनाक मारता तशें बरयतां. कोणाचेरूय बरोवपाक लागलां आनी शेणवी बी घालपाक जाय नांवा मुखार बामण आनी फाल्या बापायचेंय नांव काडून उडय.'

म्हाका खूब लागलें. त्या दिसा थारायलें, म्हज्या बापायच्या नांवा वयल्यान म्हजी वळख घडोवचे परस म्हज्याच नांवा वयल्यान ती घडूं. उडयलें काडून.

म्हजे केंस लांब आशिल्ल्यान केंसांच्यो नाजूक सुंदर विणयो म्हजी तिसरी भयण बाय घालतालें. तिचे बगर आनीक कोणा कडसून विणयो घालून हांव घेनासलें. शाळेंत, इश्कोलांत वतना तशोच विणयो आनी ताणेंच घाल्ल्यो म्हाका पसंत. ल्हानपणा सावन खंय हांव पांयाच्यो खोंटो वयर उबारून नाच करतालें अशें आई केन्नाय सांगताली. सगळ्या भावंडांत हांव चड संवेदनशील आशिल्लें. म्हज्या जल्मा उपरांत आनीक दोन बाळंटेर जाले. एका बाळंटेरा वेळार तिका चड ब्लिडींग जालें. मडगांवच्या ऑश्पिशियोंत. हांव तेन्ना सामकें ल्हान म्हणल्यार देड वर्साचें आईन सांगिल्ली खबर. तेन्ना तिका जुंवळीं जाल्लीं. दोन चलयो. रक्तस्त्राव इतलो जालो, दोतोरान खंय भावांक तापोवन काडलें. 'मरोंक सोदतात रे?' विचारपाचें हरशीं बापायक. पूण तो खंय तांचे झळकेक मेळटा? बाळंटेर जालो काय तो काडून वतालो आनी मागीर ताका सोदून हाडचो पडटालो. एक तर मामान वा मडगांवांतल्या कांय लोकांनी. आयलो काय परत तेंच. इतलेंय करून आनीक एक गुरवारपण तिका आयलेंच. ऑश्पिशियेंतल्यो नर्सी म्हाका खूब बरें करताल्यो. तांकां खंय

# जीणेरंग

अलका सिनाय असोळडेकार
९८२२९८११०७



**आमच्या स्कूलांत हांव एकलेंच गोंयकार आशिल्लें. सगळे राज्यांतलीं भुरगीं थंय शिकतालीं. म्हाका गोंयकार म्हूण सांगूंक खूब खोस भोगतालीं. पूण म्हजे वांट्याक मात वेगळेंच येतालें. जो कोण गोंयचे भोंवडेर येतालो तांका पाश्चिमात्य संस्कृतायेचें दर्शन घडटालें आनी मागीर मात लेगीत मनांत भीड बाळगिनासतना मनाक येता तें उलोवन वतालीं. थंयच्यो बायलो विडी ओडटात, मांसाहार खातात आनीक बरेंच कितें... कानार पडटालें. घरा येवन ओग्गी बसतालें. म्हजें वय धा वर्सांचें आशिल्लें. तरी लेगीत हीं उतरां आयकून म्हजें मन दुखावतालें. हाची जाप तशी सोंपेपणी मेळपाचीच नाशिल्ली. निमणे हांवें थारायलें 'गोंयकार' म्हूण सांगप ना. आनी तांचें मुखार कोंकणी उलोवप लेगीत ना. घरा पुरती कोंकणी भास मर्यादित आशिल्ल्यान कोंकणी भाशेचेर फाव तितले संस्कार जाले ना. बिगर गोंयकार [illegible]णी नवी कोंकणी शिकता तशें उलोवप जातालें.**

रगेपणा म्हळ्यार वाऱ्याचेर नाचपी पाचवेचार शेत कशें. मोरपांख आंगाचेर भोंवडायले वरी. भुरगेपणांतल्यो यादी कातकुतल्यो करत रावतात. त्यो केन्नाय विसरप शक्य जायना. त्यो सामक्यो मनपटलाचेर बिंबीत जायत वतात. भुरगेंपण म्हळ्यार यादींचो अथांग सागर जितल्यो उसपिता तितल्यो त्यो यादी नव्यान जल्म घेतात. भुरगेंपण जण एकल्याचो जिणेपट कसो. न्हिदेंतल्यान उठयल्यार लेगीत टेप लायिल्लेवरी उलयत रावपी. कांय जाणांची जीण दुखदिणी आसत. पूण तातूंत उमेदीचे कांय खीण आसतले. तांकां सांबाळून दवरिल्ले. भुरगेंपणांतल्या यादीक केन्नाय कळम येता. जितल्यो उसपिता तितलों तांचो गाबो मेळटा.

म्हजें भुरगेपण तशें पळोवंक गेल्यार हांव बावलो, बावलेंक घेवन खेळूंक गेलें ना. म्हाका विंगडूच खेळांची आवड आशिल्ली. गड्ड्यांनी, गुल्ली दंगा (विटी दांडू) पतंग उडोवन हातूंत म्हजें मन रमतालें. पतंग करप. हें खेळ म्हजे आवडीचें आशिल्लें.

आवयक तें आवड नाशिल्लें. ती मनाय करतालीं. पूण हांव खेळपाचें सोड नाशिल्लें. हांव जिखून येतालें आनी आवयन ते मागीर शेवटून उडोवप. पूण खेळपाचें सोड नाशिल्लें. भुरगेंपण सामकें स्वच्छंदी आसता आपल्याच मनाप्रमाण तें रमत आसता, खेळत आसत आपले आपूणच मनाक खातकुतल्यो करून घेता.

जण एकल्याचें भुरगेंपण हें विंगड आसताच. गांव तेकीत भेस अशें समीकरण कांय-वेळां दिसून येता. म्हजो जल्म कर्नाटकांत जाल्लों तेन्ना थंयच्या समाजा कडेन आपसूकच संबंद आयलों. थंयच्यो संवयी आपणावप जाले. जेवण-





खाण, भेस लेगीत जल्म घेता त्या गांवाचो प्रभाव हो पडटाच. ताचे पडबिंब व्हडपणान लेगीत जाणवता. आवय-बापाय वांगडाच म्हजे जल्म भूंयेचेरूय तितलोच मोग जडलों. मूळ गोंयकार पूण म्हजो जल्म कर्नाटकांत जाल्लो. गोंयांतलें भुरगेपण हें दर्यावेळेर रेंवेची घरां करून खेळिल्लें. चुन्नां, चारां, काण्णां भेळसां खाल्ले. काजीनीं भोंविल्लें पूण म्हजें भुरगेंपण मात सामकें विंगड काळे मातयेचों गंध घेवपी सुर्यफुलांची हळडुवसार शेतां आनी जोंधळ्याची कणयां पळोवन गेलें. बैलगाडयो वचपाचो आवाज आनी बैलांच्या गळ्यांतल्या घांटीचो आवाज आयकून मन प्रसन्न जातालें.

जिवितान आनंद वा उमेद कशीं मेळोवपाची हें जाचे ताचे हातांत आसा. गांव तसो भेस. तातूंत भरसून वचप लेगीत एक कलाच जावन आसा. स्वताचेर कोणूय मोग करता. दुसऱ्यांचेर इल्लोसो मोग केल्यार ताचे परस व्हडलें सूख आनीक खंयचेच ना. अशें म्हाका तरी दिसता. वातावरण आपल्याक जे मेळटा तातूंत समाधानी रावन ताचो मनसोक्त आनंद लुटपाचो. आहार लेगीत शिवराक आनी मांसाहाराचें नांव घेवप म्हळ्यार निंद मानताले. त्या मनशाक कुशीक दवरताले. इतसा आसून लेगीत नुस्तें खावंक खूब आडमेळीं येताल्यों. म्हजो जल्मूच कर्नाटकांत जाल्ल्यान नुस्त्या बगर उंडी वचना अशें केन्नाच घडलें ना. पूण आवय-बापायक केन्नाय खावपाची रूच येताली आनी हाडप जातालें. हे हाडून खावपा परस ताचो वास भायर वचचो न्हय हाची जतनाय चड घेवची पडटाली. उजवात्यो नाजाल्यार सुगंधीत चेर मारून घरांत नुस्त्याचो वास लिपोवपाचें काम करतालीं. हुमणाचें तितले काय कळनाशिल्लें वास येनाशिल्लों. नुस्तें तळप म्हळ्यार व्हडलो आकांत येतालों.



आमच्या स्कूलांत हांव एकलेंच गोंयकार आशिल्लें. सगळे राज्यांतलीं भुरगीं थंय शिकतालीं. म्हाका गोंयकार म्हूण सांगूंक खूब खोस भोगतालीं. पूण म्हजे वांट्याक मात वेगळेंच येतालें. जो कोण गोंयचे भोंवडेर येतालो तांका पाश्चिमात्य संस्कृतायेचें दर्शन घडटालें आनी मागीर मात लेगीत मनांत भीड बाळगिनासतना मनाक येता तें उलोवन वतालीं. थंयच्यो बायलो विडी ओडटात, मांसाहार खातात आनीक बरेंच कितें... कानार पडटालें. घरा येवन ओग्गी बसतालें. म्हजें वय धा वर्सांचें आशिल्लें. तरी लेगीत हीं उतरां आयकून म्हजें मन दुखावतालें. हाची जाप तशी सोंपेपणी मेळपाचीच नाशिल्ली. निमणे हांवें थारायलें 'गोंयकार' म्हूण सांगप ना. आनी तांचें मुखार कोंकणी उलोवप लेगीत ना. घरा पुरती कोंकणी भास मर्यादित आशिल्ल्यान कोंकणी भाशेचेर फाव तितले संस्कार जाले ना. बिगर गोंयकार जशी नवी कोंकणी शिकता तशें उलोवप जातालें. उच्चार मराठी बशेन जातालों. आमची कोंकणी भास म्हळ्यार खतखतें कशें जाल्लें. सुटयेंत आमी काणकोणां मामागेर येतालीं. तेन्ना तांणी सदाच म्हणप कसली कोंकणी उलयतात गो तुमीं. पूण आमी वायट दिसून घेनाशिल्लीं. कित्याक म्हळ्यार कांय दिसा खातीर आमीं थंय येतालीं.

म्हजो जल्म कर्नाटकांत जालों हाची केन्नाच म्हाका खंत जालीना. चवथी यत्तेसांवन आमकां कन्नड तिसरी भास म्हूण अभ्यासक्रमाक लायलीं. आनी तिवूय सक्तीची केल्ली. म्हजे वांगडा कांय चल्यो आशिल्ल्यो ती कन्नड अक्षरां काडूंक रडटालीं. कितें म्हूण कोण जाणा म्हाका ती आवडटाली. आनी जांकां कठीण वता तांकां हांव मदत करतालें. तेन्ना लेगीत म्हाका हे भाशे विशीं (१४४ चेर)

# “हांव एड्वीन जे.एफ. डिसॉजा उलयतां”



एड्वीन जे.एफ. डिसॉजा
९८४५०८३१४८

**इंग्लीशांत सृजनशील साहित्यांत तें आसा तर कोंकणींत कित्याक आसूंक नजो?**

हें सवाल घेवन कोंकणी साहित्याक देंवल्या म्हाका हें लेक लिखूंक कांय त्रास जायनांत कित्याक फाटल्या ४३ वरसांनी हांवें कांय ३३ कादंबरी, कांय ५०० वय्र कथा/लेखनां/ उग्तें चिंतप लिखून प्रगट केल्यांत. म्हज्यो मट्व्यो कथा आनी लेखनां इंगलीश, कन्नड, मलयाळाम, हिंदी, तमीळ, काश्मिरी भासांनी तर्जण जाल्यात आनी हांव आतां ७० वर्सांच्या हुंब्रार आसल्ल्यान कांय पुणी केलां म्हळ्ळें भोगप आसा आनी हांव हाचे थंय खूश आसां. बरें.

ही म्हजी आत्मकथा न्हय कित्याक ती कांय लिखूंक सुरू करीन तर म्हाका हें लेखन तयार करूंक ‘‘जाग’’ संपादकान दिल्ली एका हफ्त्याची आव्दी पांव्ची ना! तर कसलें हें बरप? हें बरप म्हजेच विशांत म्हळ्यार अतिशय न्हय पूण खंय सुरू करूं?

हांवें जाय्तें लिखलां, इंग्लीशांतयी बरयलां आनी म्हजीं बरपां Kuwait Times, Arab Times, Deccan Herald and Woman's Era आनी Readers' Digest नेमाळ्यांनी प्रगट जाल्यांत आनी एक



**व्हय, हांव सिनेंचो पिसो! हांवें म्हाकाच दिल्लें नेम आसा - एके रातीक एक फिल्म! हें नेम म्हजो पळसहीं शिस. पूण ल्हान प्रायेर म्हजो फिल्म क्वोटा फकत म्हयन्याक एक फिल्म. पुण हें फिल्म कसलें आनी कितलें बरे आनी लंयगिकता नास्लेलें म्हण माम्मीन खात्री केल्या उप्रांत मात्र म्हाका टिकेटीक पय्शें मेळटाले. पूण क्रमेण जालें अशें की एक फिल्म बरें आसा म्हण हांवेंच खात्री कर्ताना हांवें माम्मीक सिनेमाक ''व्हर्चें'' आसल्लें. अशें म्हजी खडक्क माम्मी, शिकपी माव्शी हांणी म्हजे थंय वाचपाचें आनी जाणवायेच्या सोद्रेंचें भीं वोंपल्ल्यान आज हांव हांगासर पावलां.**

खास मटवी कथा A Cup of Hot Coffee दो.खुश्वंत सिंघ हाच्या "Our Favourite Indian Short Stories" संग्रहांत प्रगट जाल्या.

''बरपाचें देणें या पिशें म्हाका मुळावें शिकप मेळटानांच आसल्लें'' अशें म्हणताना म्हाका बरें लाग्ता.'' हांव म्हणतां वाँट रुंदाव्न. ''पांचव्या क्लासीं तरच आम्कां वाचचें पिशें आसल्लें आनी आमी चड्शें पत्तेदारी आनी साहसीक साहित्य वाचताल्यांव. शाळेंत चोर-पोलीस खेळ्वें सोड्ल्यार आमी नॉट्स बुकाच्यो फोलियो पिंजून, ल्हान ल्हान कडतिल्यो करून तांचेर पत्तेदारी कथा लिखून क्लासींत वितरण कर्ताल्यांव. आमीं ह्या कर्तूबांत सांपड्ल्यांव पूण नीज आनी विचित्र म्हजें प्रथम बरप ह्याच शाळेच्या मेगझिनार १९५५ इस्वेंत छापून आय्लें!

सव्या क्लासींत हांव सां। लूवीस कॉलेजिच्या हैस्कूलाक दाखल जाताना वाचपांत आनी बरवपांत पाटीं पळेंवचें प्रश्नंच उदेलें ना. आमकां वाचपाचें दिर्वेंच उगतें केलें पुस्तकालयान आनी आमचो गृंथपाल मार्टिन हाका आमी बुद्वाराचें (Library day) बाँबार्डिच कर्ताल्यांव. (दे) मार्टिनाक हे दीस बर्यान उडासांत आसात आनी आम्चें हैस्कूल शिकप संप्ताना आमीं गृंथालयांतले सर्व Classics वाचून काडल्ले. देकीक, Les Miserables, Hunchback of Notre Dame, The Spy, Ben Hur, The Big Fisherman, The Green Light, The Three Musketeers and masterpieces by Hall Cain, Marie Corelli, Taylor Caldwell,Irving Stone, Irving Wallace, Harold Robbins Arthur Haily आनी हेर.

म्हजें thriller dmMn gwê$ Omb| Erle Stanley Gardener, Leslie Charteris, Sexton Blake, Ngio Marsh, Ellery Queen, Micky Spillance, Edgar Wallance, Sir Arthur Conan Doyle आनी हेरांच्या बर्पा थावन. हांव इंग्लीश माद्यमांत व्यासंग कर्तालों म्हण वेगळ्यान सांगाजे म्हळ्ळी गरज दिसना. म्हजी माव्शीं (आतां देवाधीन) जुलीयाना पाय्स, जी बि.ए., बि.टि. शिक्षकी जावन आसल्ली तिणें दोन नेम म्हाका शिकय्लें. वाच आनी भंवड्यो करून संसार पळे. आजून पर्यांत हांव हे नेम पाळीत आय्लां. १६ वर्सां हांवें कुवेतांत सिर्वीस केल्या आनी सबार देशांची भंवडी केल्या. पूण ह्यो भंवड्यो फकत मझा मारूंक न्हय पूण माहेत आनी जाणवाय जोड्चे खातीर. म्हजे पतिणेन, जॅन-हिणें म्हाका सहकार दिलां. वाच्पाची तिची अबिरूच कांय उण्याची न्हय आनी आमच्यो दोगांयच्यो अबिरुची येकामेका पूरक जावन आसात.

प्री-युनिवरसिटी शिकप सुरू जताना लेक्चरांक कूस मारून सिनेमांक वेचें आनी जाण्वायेच्या सोद्रेर ऑड वाटांनी पावलां मारचें एक साहस. म्हजो खास मित्र श्री मेथ्यू लूवीस, एक तत्वग्यानी आनी मार्ग्दर्शक एका दिसा बेंग्लुरांत एका प्रथिश्टित बुक स्टॉलाक वोचून व्हरून गेलो (Higginbothams) आनी एक पुस्तक विंचून म्हज्या नाका पंदाकच धर्लें. "It is time you started reading these" ताणें म्हाका भेशटाय्लें. ह्या पुस्तकाचें नांव "The Fountainhead" ह्या पुस्तकान आनी हेर पुस्तकांनी - देकीक Jean Paul Satre, Simeon de Bovur, Kirkegaard, Karl Marx. ह्या बर्पांचो म्हजेर इतलो प्रभाव आशील्लो की हांवें म्हज्या नव्या घराक "Fountainhead" म्हळ्ळें नांव दिलां.

व्हय, हांव सिनेंचो पिसो! हांवें म्हाकाच दिल्लें नेम आसा - एके रातीक एक फिल्म! हें नेम म्हजो पळसहीं शिस. पूण ल्हान प्रायेर म्हजो फिल्म क्वोटा फकत म्हयन्याक एक फिल्म. पुण हें फिल्म कसलें आनी कितलें बरे आनी लंयगिकता नास्लेलें म्हण माम्मीन खात्री केल्या उप्रांत मात्र म्हाका टिकेटीक पय्शें मेळटाले. पूण क्रमेण जालें अशें की एक फिल्म बरें आसा म्हण हांवेंच खात्री कर्ताना हांवें माम्मीक सिनेमाक ''व्हर्चें'' आसल्लें. अशें म्हजी खडक्क माम्मी, शिकपी माव्शी हांणी म्हजे थंय वाचपाचें आनी जाणवायेच्या सोद्रेंचें भीं वोंपल्ल्यान

(१४५ चेर)




## गोंय सरकार

## राजभाशा संचालनालय

## जुन्ता हाउस- पणजी

### प्रशासनात राजभाशेचो चडांत चड वापर जावचो म्हण सरकारान घेतिल्ले उपाय

- राज्यांतल्या लेखकांच्या कोंकणी/मराठी लेखनाक उर्बा दिवपाक "राजभास प्रकाशन येवजण".
- "राजभास प्रशिक्षण येवजणे" वरवीं सरकारी कर्मचाऱ्यांक राजभाशेचें प्रशिक्षण.
- भारतीय भाशांचे उदरगती खातीर राज्यांतल्या नोंदणीकृत संस्थांक अर्थीक पाठबळ दिवपाक "भाशा विकास येवजण".
- कोंकणी/मराठी/संस्कृत भासांनी सेवा दितल्यांक "भाशा पुरस्कार येवजण".
- वेगवेगळ्या सरकारी दस्तावेजांचे कोंकणी/मराठी/हिंदी/पुर्तुगेज भाशांनी अनुवाद. हे खातीर खाजगी अनुवादक मंडळ.
- तरेकवार विशयांचेर कोंकणींतल्यान शब्दावली तयार करपाक "संशोधन आनी शब्दावली निर्मिती येवजण".
- कोंकणी भाशेच्या विकासा खातीर गोवा कोंकणी अकादेमीक आवर्ती अनुदान.
- गोवा मराठी अकादमीची स्थापना आनी आवर्ती अनुदान.
- दाल्गाद कोंकणी अकादेमी, कोंकणी भाशा मंडळ आनी अखिल भारतीय कोंकणी परिशद हांकां भाशेचो प्रसार आनी उदरगत करपा खातीर आवर्ती अनुदान.
- कोंकणी/मराठी/हिंदीतल्यान संगणकाचेर टंकलेखन करपाक सरकारी कर्मचाऱ्यांक प्रशिक्षण.
- राजभाशेच्या कायद्याची प्रभावी कारवाय जावची हे नदरेन शिफारशी करपी सर्वसमावेशक वांगड्यांचे सल्लागार मंडळ.
- गोंयच्या नेमाळ्यांक/प्रकाशनांक अर्थीक आधार दिवंक "अक्षर मित्र येवजण".
- नामफलक, नांवांचें तकटे, पदनामां, पदचिन्नां कोंकणी/मराठींत दिवपाची सोय.
- सगळीं सरकारी संकेतथळां भौभाशीक करपाचो वावर.
- सरकारी कर्मचाऱ्यांक राजभाशेचें गिन्यान दिवपाक कायम स्वरूपी प्रशिक्षण केंद्र.

**आमी राजभाशेंतल्यान वेव्हार करुया.**



**Department of Agriculture supports your Efforts through Schemes as -**

- Assistance up to ₹ 80,000/- per ha. to individual/Self Help Group for creation of infrastructure like fencing, construction of well, etc for cultivation of vegetables.
- 75% subsidy for cultivation of Horticulture Crops as Coconut, Mango, Cashew, Spices, Banana, Pineapple etc.
- 50-75% subsidy for promotion of soil conditioner, micronutrients, vermicompost units and biogas.
- 50- 90% Subsidy for creation of Irrigation infrastructure such as Well, Pump Pipeline, Sprinkler / Drip Irrigation and water storage tank.
- 75- 90% Subsidy for construction of Barbed wire / Wire Mesh/ Stonewall/Rubble wall, Solar power Battery Fencing to protect farmer's crops.
- Minimum assured price for coconut ₹10/- and paddy to ₹20/-
- 50% subsidy on cost of organic inputs like organic fertilizer, vermicompost, pressmud, Bio- fertilizers, biopesticide and biocontrol agents to promote organic farming.
- Assistance up to 75% is provided to SC/ ST farmers for purchase of agriculture inputs and machinery.

***For further details Contact:***

The Zonal Agricultural Officer of your Taluka



# Town and Country Planning Department

## Govt. of Goa

## 2nd Floor, Dempo Tower Patto Plaza, Panaji - Goa

The Government of Goa has amended The Goa Land Development & Building Construction Regulations, 2010, by proposing several new schemes and simplified procedures for benefit of general Public/Institutions prominent amongst which are as under :

### 1. Scheme for Agro based activities in Cultivable/Agriculture Zone/Orchards, etc.

Agro structures of agricultural lands, cultivable land, Orchard land shall be permitted by the Government for the purpose of promoting agricultural activities, The uses permissible and the type of structure (temporary or permanent) are Agro structures for protected cultivation of vegetables and flowers, Grading and packing house, Pre-cooling/primary proceeding unit, Cold storage unit, Mushroom production unit, Pumphouse with storage for tools and inputs and Dairy/Poultry/Piggery.

### 2. Scheme for allowing construction etc. Under Atal Asra Yojana.

The construction/re-construction/repair of houses belonging to Tribal people shall be permitted under the Atal Asra Yojana, for welfare of Tribal people of Goa. The salient features of the scheme are as under:

a) In case of repairs, renovations and re-construction of existing houses located in forest lands or in 1 kms buffer zone, the reconstruction/renovations/repair of houses shall be permitted after obtaining no objection certificate from the Forest Department.

b) In case the existing houses does not have minimum required access roads, setbacks, the same shall be relaxed in case of repair and renovations.

c) Reconstruction and new construction shall have at least 1.50 mts of access roads and 1.00 mts side setback, only in sush cases where the setbacks and not possible due to ground condition or plot size.

d) No conversion Sanad, license copy of existing structures shall be insisted for repair, renovations and reconstruction proposals.

### 3. Scheme for simplification process of conversion of land under Land Revenue Code, 1968.

To simplify the process of conversion of land under Section 32 of Land Revenue Code, 1968, the Department issued Order to all District level offices, Taluka level offices and Planning and Development Authorities and they were directed to generate conversion report along with Development Permission or Technical Clearance as the case may be. One copy of the conversion report generated along with a copy of site plan shall be forwarded to respective Additional/Deputy Collector's office and one copy along with site plan shall be issued to the applicant at the time of issuing Development Permission/Technical Clearance, A similar approach is also adopted for proposals already granted Technical Clearance for avoiding duplication of process.

Hence, there is no need for any separate conversion application to be referred to Town & Country Planing Department by Additional Collectors/ Deputy Collectors for such cases for which conversion report is already forwarded to them.

कारण सोनूं म्हळ्यार म्हज्या बापायक केन्ना तरी सादारण १९५५-५६ वो ताचेपयली मरण आयिल्लें आसूंक जाय. गोडेंमुताच्या दुयेसान तो सोंपलो अशें घरची सांगतात. म्हजी म्हत्वाचीं आनी बक्षिसपात्र कथा गळसरी. ही म्हज्या बापाय चेर आसा. गोडेमूताचें दुयेंस जाल्लो म्हजो बापूय बरो जावचो म्हण आजी शेवतू आपेव्हाळ-केली ह्या गांवांत घाडयागेर आसो काडूंक वताली. एखदां तिणें खंय थंय म्हाका व्हेल्लों, तेन्ना घडये हांव णव-धा वर्सांचों आसत, कारण म्हाका आयजूय तो आमोरेचो (?) देखाव याद जाता. घडये आमोरेचों नासत, पूण हांव आज्जे वांगडा घाडयाल्या घरांत गेल्लो तेन्ना थंय खूब काळोख आसलों आनी त्या काळखांत दिवली पेटेवन पाट फुडें दवरून पाठार आसोआसेर दवरून एक मनीस केंस सोडोवन मांडी घालून बशिल्लों. त्या मंद दिव्य उजवाडांत आयजूय म्हाका याद जाता. हो घाडी खूद तो याद जाता, एक विचित्र आवाज काढून तो घाडी एकसारखो कितें तरी तोंडांत म्हण्टालो स्सा-हू-बाळक, देवत, करणी, मान, दान,कोंबो, बोकडो ही उतरां ताणें उचारिल्लीं तीं आजून कानांत साद घालतात, गळसरी कथा राष्ट्रमत कथा स्पर्धेंत उसरां म्हळ्यार सादारण १९७७-७८ काय १९७९-८० ते याद जायना. तेन्ना गळसेर सारखे बापयच्याच मरणाचीं कथा बरोवन आमचें लोक घाड्या चेर आनी देवसपणा चेर भरवसो दवरून जीव वगडायतालें पळेलो. दोतोरा परस देवाचेर चड विश्वास, भरवसो दवरुपी समाज आयजूय आसा हे मात आयजूय अजाप दिसता.

भुरगेपण गरिबींत गेले. बापूय साप्प भुरगेपणार गेल्ल्यान आवय शाताबाय तरणेपणार विधवा जाली आनी जेन्ना बापूय गेलो तेन्ना तीं तिगेले दुसरें अपत्य पोटांत घेवन आसलीं. दुसरें अपत्य म्हळ्यार म्हजी धाकटी भयण जी बापूय मरतकूच जल्मली. बापायक खावयरें म्हण म्हजे भयणीक खूप जाण हिणयतालें, केन्नाय आवय सुद्दा रागावेळार भयणीक तशें म्हणीं. आता भयणीन बापायक कसो खालों हे मात म्हाका आयजूय समजना. मात समाजाची मानसिकता खंयचेय वायट गजालिंचो संबंध कोणाय मनशाचे जिणेंत घट्टले घडणुके कडेन लावप आनी थंय आपलो रागसंताप उक्तो करपाक तो प्रसंग उच्चारप ही रीत आयजूय आसा. ताका पायगूण म्हणून आमी अमक्या-तमक्याच्या पायगूणान ती ती वायट बरी गजाल घडली अशें म्हण्टात. सून लग्ना जावन घरांत येतकचं मांव गेल्यार सुनेचो वायट पायगूण वो परक्या पांयांची म्हण तिका पदवी घेवची पट्टां. हेर मंडळी, वांगडी, शेजारी-पाजारी म्हण्टात तसो म्हजे भयणीचो जल्म आनी बापायचे मरण ह्यो वेगळ्यो वेगळ्यो दोन घडणुको. पूण टपून बशिल्लो आमचो समाज मात भलतोच अर्थ समाजांत प्रचलीत करून दवरता. म्हजी ही अपशकुनीं भयण विमल फुडाराक गांवांतली नागेशीचे आमच्या नायक समाजांतलीं पयलीं मेट्रकुलेट जाता. हेच न्हय तर पुराय नागेशी वाड्यार आनी घडये पुराय बांदोडें गांवांत आमगेलें घराणें सुशिक्षीत घराणें थारता. १९६०-१९७० चो हो काळ निकतोच शिक्षण प्रसाराचो काळ निदान भौसा खातीर तरी म्हणू येता. गांवांतलीं बामण घराणीं शिकतालीं, पूण घरांत मास्तर हाडून. शाळा गोंय मुक्ती पयली नांवाक नासलीं. लक्ष्मण पै रायकार हो आमचो शेजारी जमीनदार, आनी तांच्याच भाटांत आमी राव मुंडकार म्हण, तागेले ओसरेसर एक मास्तर तांगेल्या भुरग्यांक शिकयतालो थंय आमीय बी वावरड्याले भुरगें एक स्लेट घेवन बसतालें ती याद जाता. पूण आमी स्लेट घेवन थंय बसप मात, ते भाटकाराक आवड नासलें. नेमकें कसलीं उतरां आनी कसलीं वागणूक भाटकाराल्या घरांतलीं मंडळी म्हाका दितालीं ती याद जायना, मात आमकां आपोवन घरांतलीं कसलीं कसलीं कामां करून घेतालीं ती याद जाता. भाटकाराल्या घरांतलीं व्हनीबाय तर शिवा फुडाराक बरो मानाय



**भुरगेपण गरिबींत गेले. बापूय साप्प भुरगेपणार गेल्ल्यान आवय शाताबाय तरणेपणार विधवा जाली आनी जेन्ना बापूय गेलो तेन्ना तीं तिगेले दुसरें अपत्य पोटांत घेवन आसलीं. दुसरें अपत्य म्हळ्यार म्हजी धाकटी भयण जी बापूय मरतकूच जल्मली. बापायक खावयरें म्हण म्हजे भयणीक खूप जाण हिणयतालें, केन्नाय आवय सुद्दा रागावेळार भयणीक तशें म्हणीं. आता भयणीन बापायक कसो खालों हे मात म्हाका आयजूय समजना.**

जातलों हे म्हजे आवयक चाटेपावलाक म्हण्टाना हांवें आयकल्लें तें आयजूय कानांत घुमता आनी मागीर आयज हांव ङ्गमानायङ्क जावपाचों तो लेखक जालां ही किमया जादू कोणाची नियती काय व्हनीबायले वानशेचीं किमया बी म्हणपाक जाता. सटये राती कपलार बरयलां तेंच घडलां. अर्थात तो काळूच तसो आसलो शिवा मानाय जातलो म्हणप ही नवीदाद वो अजाप न्हय, तो काळूच तसो आसलो, प्रत्यक्ष बामण समाजांतूय शिक्षण तशें सगळे कडेन नासले. मास्तर घरांत पोसपाची तांक आशिल्लों बामण भाटकार आपणाल्या भुरग्यांक ङ्गमराठीङ्क शिकयतालों, अशा तेंपार कुळवाडयांच्या भुरग्यांनी शिक्षणाचो विचार करप मूर्खपणाच थारताली.

१९ डिसेंबराची भुरगेपणाचीं याद, तिजो उल्लेख हांगा जावकच जाय. खूब बालीश पिराय, पूण खूब जागृत कशी. हेवूय पिरायेर माराम री धावप-उडप हें उपद्रव कशे. पूण तें हांव करी. नागेशीचें तळयेंत खूप्प पेंवप आनी घराकड कायच कळचें न्हय म्हण भिजयिल्ली काश्टी थंयच सुकोवन तळयेचे पेळे खाचीत दुसऱ्या दिसा खातीर लिपोवन दवरप, अशेच एक दीस सकाळी सकाळी तळयेर न्हावपाक पेंवपाक वच्चे वेळार मळबांतल्यान झूम-झूम करून माथ्यावयल्यान विमाना यो वच करूंक लागली. हे विमानाचे अशे इतले गतीन येवप वचप सगळ्यांकूच अजापचेंच आसलें. देवळा कडेन सकाळी सकाळी/खंयच्यान तरी धाऊन कशे आयिल्ले कितलेशेच लोक देवळाच्या प्राकारीत जमिल्ले. लोक आपणाल्यो साटल्यो पोटल्यो घेवन येत आसलो. आमकां भुरग्यांक हे दृश्य वेगळेंच आनी केन्नाच अणभवूंक नासले आसलें. लोकां मदीं पावतकच समजले हें लोक फोंडेंसानं आयिल्ले, ते भिल्ले. मळबांतली विमानां यो वच करता म्हळ्यार आता लडाय जातली आनी ते लडायेंतल्यान सालवार जावपाक फोंडेंचो लोक देवळाकडेन मेळत तशें मेळत त्या वाहनान आमच्या गांवांत आयिल्ले. गांवांतल्या जाण्ट्यांनी आमकां भुरग्यांक चड सुबतेपणा करू नाकांत म्हण धमकी दिवन गप्प बसयलो, पूण म्हजी उमळशींक मात आकांताचिच. आवय म्हजे सोदीक येतली हें हांव जाणा आशिल्लों. पूण हो अनोखो प्रकार वेगळी घडणूक प्रत्यक्ष पळोवपाक हांव तयार जालों. आमी कांय भुरगे जमलें आनी तशेच फोंडें वचपाक भायर सरले.

फोंडे चलत पावपाक ना म्हळ्यार अर्दवर लागलें. फोंड्या मिलीटरी कँप आसलो, आनी आजूनय आसा, थंय सगळो धुवोरं जाल्लो. लोकांची गर्दी जमली आनी काय तरणाटें तर भिये नासतना त्या कँपांत वतालें, थंय पुर्तुगेज मिलिटरी रावताली. तिका थंयच्यान इंडीयन आम र्मीन उखलून व्हड-व्हड लोरी-ट्रकांनी भरून खंय तरी व्हेलें. तांच्या फाटल्यान तांणी सोडिल्ल्या तांच्या वस्तूंचेर थळाव्यांनी अक्षरशा धाड चालू केलीं. मेळत ते उखलून व्हरतालें. तातूंत पुर्तुगेज करन्सीक घालो उजो पालोवन ती करन्सी म्हळ्यार नोटी बचकांनी उखलून व्हरपाक खूपशे फोंडेंचें तरणाटे मग्न जाल्लें. आमी थंय पाविल्लें पूण थंय जायत्या अनेक सामानाक, वस्तूक, फर्निचराक, कपड्याक हात लावपाचे काळीज आमकां जालेंना.

भुरगेपणातलो हो गोंय मुक्ती वेळावयलो प्रसंग सगळ्यांत अस्म रणीय प्रसंग आयजूय जिवो जावन उबो रावतां.

अशे तरेन १९ डिसेंबराक गोंय मुक्त जातना आमी पळयिल्लें.

खऱ्या अर्थान सगळें सगळें भोंवतणचे समाजीक वातावरण एका धपक्यांक मेकळें जालें अशें म्हणपाक जावचे ना, पूण कितें तरी वेगळे-वेगळे घडपाक लागलें हाची सुलूस लागपाक सुरवात जाली. शिक्षण, शाळा, सरकार, मास्तर ही उतरां चड घोळपाक लागली. आनी पयली वेंचणूक जावंन सादारण १९६३ वर्साच्यान इस्कोल प्रिमार ह्या पुर्तुगेज शाळांची जी सुरवात तेन्नाच जाली, ती इस्कोल प्रिमेरां सरकारी म्हणजेच, सरकारी मराठी प्राथमीक शाळो जावंक लागल्यो. सरकाराच्या प्राथमीक शाळांनी भौसांतली भुरगीं खोशयेन वच नासली, आनी ती वच्चीच म्हणून भौसांतल्या आवय बापायचो खास फोर्सूय नासतालो. पूण शाळा मास्तर जे चड करून बेळगांव-कारवाराचें, ते सरकारी प्राथमीक शिक्षक आसलें आनी तांणीच वाड्यार भोवून आवय-बापायक भुरग्यांक मुळाव्या शाळांनी धाडूंक सांगलें. शाळेंत वचपाचें म्हण्टकुच तत्कालीन भौसाक तितले खबर नाशिल्ले. पूण सरकारी प्राथमीक शाळा गांवांत सुरू जाली. हे भोवजन समाजाच्या परिवर्तनाचे पयलें पावल आसलें.

ताचें पयलीं नागेशी देवळाच्या प्राकारांत देवस्थान समितीचीं भवानी शंकर ही मराठी शाळा सुरू केली, तिचे अप्रूप म्हणूक जाय कारण देवळांचे म्हाजन सुशिक्षीत आनी दूर नदरेचे आशिल्ले. ही एक बरी गजाल म्हाजन म्हण्टकच ते बामणूच आसूंक जाय. त्या बामण म्हाजनांनी भवानी शंकर ही मराठी शाळा सुरू केली. ते शाळेंत गांवांतली सगळ्या समाजांतली भुरगीं शिकपाक येताली. नागेशी वाड्यार एक दोन किरिस्तावाचीय घरां आसलीं झुजेमारी, काब्राल आनी कोस्ता, कार्व्हालो आडनांवांचे किरिस्तावाची घराणी रेंदरंपण करपी आसले तांगेलीय भुरगीं हिंदू भुरग्यांमदी मराठी शिकूक येताली.

आयज ती घरां नात आनी घरांतले किरिस्तांव लोकूय थंय आता रावनात, मात तांचेर जाल्ले थळावे हिंदू लोकांचे संस्कार घेवन हे किरिस्तांव जेन्ना तांच्या जात बांदवाकडेन उलयतात तेन्ना ते चड करून साश्टींतलो किरिस्तांव आमच्या गांवांतल्या किरिस्तांवाक कोंकणे वो कोंकणे कशे उलयतात अशे म्हण्टात हे अशे परत साश्टींतय किरिस्तांव वाठारांत शेजारी शेजारी रावपी हिंदू लोकांच्या बाबतीत घडटा आनी थंयचे अस्सल हिंदू अस्सल किरिस्तांव कशें ताचे भासों बोली वयल्यान दिसतात. वातावरणाचो केदो परिणाम आसूं येता ताजी ही देख.

म्हज्या भुरगेपणांतलें समाजीक वातावरण म्हणुया वा समाजीक रचना म्हणुंया मागाशिल्लें आशिल्लीं. देवळा भोवतणच्या सगळ्या हिंदू जाती एकोप्यान आनी मायेमोगान आप आपले खाशेलेपण सांबाळून रावतल्यो, जाती भेद आसतालो पूण तो जातीभेद एक लागणूक आनी परंपरेन चलत आयिल्लो कायदोच कसो अशे समजून सगळे समाज



रावताले. बामण-भट हो वर्ग आनी त्या वर्गांतले गांवकार आनी हेर गांवकारां मदी बरीच दरी आसताली. भटांगेर कुळवाडी जेवणाक उरलोच जाल्यार ताका वेगळी पंगत खंय तरी कोनशा कशी आसताली, च्या ती कट्ट्यांनी दिताले दिताले. बरे तांबो-पितूळचे आयदण दिलेच जाल्यार तें आयदण खास भायल्या लोकां खातीरूच दवरताले आनी ते आयदण जो कोण वापरता ताजे ते वापरून धुवन बी दवरूंक जाय आसलें. भटाबामणांगेर जेवपाक उरप म्हळ्यार जेवन जातकच जेवतल्यान पान काडप, उश्टे काडप, शेणान जमीन सारावप बी हें तेन्ना खास कोणे करू नासलें, ती एक पोरण्या समाजांतली रीत आसली, आनी तिका कारण भौसांतल्या लोकांचे रावणें खावणें, पिवणें, न्हेसणे बी, रावणें वो रावप नितळ नासतालें. बामण भटांगेर जशे दिसपट्टें न्हांवप-धुंवप आसताले तशे भौसाच्या लोकांचे नासतालें, देखून खूब कडेन खास करून पुजा-अर्चा वो धर्मीक कार्य चलता थंय भौसांतल्या घटकांक आफड जावची न्हय म्हण पयस दवरतालें.

देवळांचे वेवस्थापन जेन्ना बामण भटा कडेन असुदाय पावले तेन्ना बामण भटांनी देवूळ वाटून घेतिल्लें म्हळ्यार जाता. आयजूय चडशी देवळां ही बामण भटा कडेन आसपाचे कारणय तेच आफड, निवळसाण बी. आयज तो आमकां भेद दिसता तो भेद तेन्नाय खूब आसलो पूण तातूंत कोण दुखवनासलो वो कोण आपलो अपमान जालो वो जाता म्हण कोण तांडव करीनासलो. पूण हांवें हेच गजालीचेर उपरांत बरोच बोवाळ ह्या वाठारांत केलों. तोच तो बोवाळ म्हळ्यार म्हजी १९८३-८४ पासून चालू जाल्ली देवळे खुली करा चळवळ.

म्हजो मुद्दो सोवळे सुची... जाव पवित्रपणाक, नितळसाणीक हरकतीचो नासलों. बुर्शा लोकांक, बहुजनांतल्या बुर्शी अपवित्र अशुध्द, बेबद्याक व घाणयाऱ्या लोकांक देवळांत घेयात वो तांकां पुजा अर्चेचो अधिकार दियात. देवाचे गर्भकुडींत प्रवेश दियात हे अशे हांवें केन्नाच म्हणूंना. म्हजो आग्रो आसलों तो कालचो बुर्सो अशुद्ध मनीस. कालचो शुद्र मनीस वो सुदीर जाका म्हण्टाले तो भौसोतलो घटक सदाकाळ जल्मान वो लागणुकेन परंपरेन बुर्सो ना वा तो उरना, जो मनीस शुद्ध, निवळ नितळ न्हांता-धुता आनी बरे आचर करता तांकां खंयच्यान बामण-भटांतल्या घटका प्रमाणे गर्भकुडींत प्रवेश करून मेळचो. पावित्र्या कडेन, नितळसाणीकडेन जाव नेमाकडेन तो कोंप्रोमायज पूण ङ्गभेदङ्ख जेन्ना वायट मनान, दुश्ट हेतून हिणावपाक आनी अपमानांत करपाक बुद्दी पुरस्कर जाणवेपणान करता तसो ताका घटनेंत तसो नेम कायदो करून ताज्या आदारान भेद करतात अशा जातीभेदाक आनी भेद करतल्याक म्हजो विरोध. कारण तो समाजीक अन्याय मुद्दाम केल्लो आसता. म्हज्या तरणे पिरायेर जो देवळां उक्ती करात संघर्श केलों ताका म्हज्या भुरगेपणांतलों अणभव खूप कडु अणभव कारण आसा. तो अणभव म्हाका इतलो भावलों आनी इतलो तोपलों की एक घाय जावन तो अखण व्हावपाक लागलो आनी आजून व्हावत आसा. कारण भुरगेपणांत जे हांव चाळीस पन्नास वर्सां पयली गांवांत पळयिल्लों तातुंतले ङ्गकोर कंटेंटङ्ख वा गाभो आजून तसोच आसा. म्हणजे भटा-बामणाक एकेतरेची वागणूक, सवलती सोयी, पसंती, प्राधान्य आनी मान रेस्पेद जो आयज ह्या लोकांच्या देवळांनी वा सार्वजनीक देवळांनी मेळत आसा ताका म्हजो विरोध.

अन्याय करपी भटा बामणांनी आनी एक व्हड मोटे गोडबंगाल सत्य म्हणून आमच्या हिंदू समाजांत रोवन-पेरून दवरलां आनी किल्लोवन आयज ताजो कायम महारूफ कसो उबो करून दवरलां. हो महारूख म्हळ्यार ही जी देवळां आनी भितल्लो देव-देवतां ही तांणी आपणाली खाजगी मालमत्ता कशी आनी ते ताचे धनी मलुक, संस्थापक हाडपी काडपी सगळें. आनी देवाचे मालक ते. म्हणजेच म्हाजन वो मालक! पूण दुसरें एक गजाल ह्या देवळांतल्या भटा बामणांक न्हयकारूंक जालीना, तोडूक जालीना ती म्हळ्यार हो जो देव ते ताची खाजगी मालमत्ता म्हणात तो देव बामण-भटांबगर जो दुसरो हिंदू भौस आसा म्हळ्यार म्हार, गावडो, नायक, भंडारी, गुरव, मेस्त, शेट, वैश्य, देसाय, मराठा हया सगळ्या जातींतले लोक त्या देवाचे बामणा-भटा भशेन रक्तमासाचे नातेवाईक म्हळ्यार नात्याचे आसतात, आसात. ह्याय लोकांचो तो कुळाचो राखणदार देखून कुळदेव, आनी ते कुळावी, तांकांय बी थंय ह्या बडवाचारान आफोर्साद जाल्ल्या मालक-धनी बामण म्हाजना इतलोच हक्क आनी अधिकार, पूण बामण-भटांनी बुद्दीन हक्क अधिकार मालकी मेळयली म्हणून असुदाय ह्या भौसांतल्या सगळ्यां जातींतल्या परंपरेन वयवाटान आयिल्लो हक्क अधिकार काबार जायनात, वा जाले नात वो ङ्गम्हाजनांकङ्ख ते सोपवप तोडप, न्हयकारप वास्तवात शक्य जालें ना वो जात्रा काल्यांनी भौसाच्यो ज्यो ज्यो परंपरेन आयिल्ल्यो देवकरण्यो, भोगावळी, सेवा म्हाजनांक जरी आवडलेंना तरी तांकां करू नाकांत म्हणप शक्य जालें ना. देखून आयज भौसांतलीं समाज ह्या देवळा कडेन आपले सगळे देणे-घेणे, सांगणे, मागणे भक्ती भावान करीत आसा. दिवजां पेटोवप ही भौसांतल्या सवायशिणीचीं लागणूक. ती ती करतात, आमच्या नागेशाक तर दोन जात्रा जातात, एक चैत्रपुनव आनी दुसरी कार्तिक पुनव. चैत्र पुनव ही बामणाची वो म्हाजनांची अशें मानप आनी कार्तिक पुनव (दिवजाची जात्रा) बहुजनांची म्हळ्यार साबार ब्राह्मणेतर हिंदू समाजाची. मात हे तथाकथीत धनीमालक बामण ही भौसाची कार्तिक पुनव नाकारूंक शकना. वो भौसाक आपणाल्या तथाकथीत खासगी मालमत्ता आशिल्ल्या देवळाकडे येवनाकात अशें सांगूंक शकले ना. ते ते शक्य जालें जाल्यार देवळा तांचीच मालकीची हेय म्हणपाक अर्थ उरपाचो ना. लेाीाीळीश) ताणी केले ते इतकेंच कागदोपत्री म्हाजनी कायद्या मार्फत देवळाचो कोंप्रोमिजो वो बायलॉज (लूश्ररुी) जो केलो तो ताणी म्हाजन बामणांतल्याच लोकांनी बरयलो आनी तांणीच तो अंमलात हाडटना बहुजन समाजाक देवळांची गर्भकुडीं पुजाअर्चाक बंद केल्यो २) म्हाजनांत घेनास्तना म्हाजनीकेचे

वळेरेंत फकत बामण वर्गांतलोच घटकांक सामावन घेताले. म्हणजे वेवस्थापण आनी अर्थउद्योग बामणांनी म्हाजन म्हणून बळकायलो, कांय कडेन गांवांतल्या ग्रामसंस्थाचो संबंध जो थळांतल्या देवळां कडेन आसतालो, त्या कोमुनिदादीचेय वांगडी जाले आनी जणाचे अधिकारी जाले. गांवांतल्या घाम बाळयतल्या खऱ्या कश्टकरी गांवकाऱ्याकय जणां भायर दवरलें आनी आलायते गांवां भायल्यान आयिल्ले सुद्दा फकत जातीचे बामण म्हण गांवांतल्या ग्रामसंस्थेचे जाणकार जालें.

म्हज्या भुरगेपणांत हांवें पळेलों तें हे. आनी हे सगळें स्पश्टपणान म्हाका देवळांच्या चौकार पळोवंक मेळ्ळें. हे जाणे पळोवक ना वो अणभवंक ना. ते आयज म्हजेर आरोप करतात.

म्हज्या भुरगेपणांत नागेशी हांव हेर भुरग्यां वांगडा खेळ-बागड्टालो तसो तातूंत भट बामणाचेंय भुरगे आसताले, एक दीस तांचे वांगडा दिवाळेच्या व्हडले दिवाळेक जी देवळाक सांजेवेळा आरत जाताली ते आरती उपरांत सुकें फोच कातली घालून प्रसाद म्हण वाटपी. हेर बामणाल्या चल्यां वांगडा हांवूंय भितर सामकों गर्भकुडी मेरेन पावलों. तीर्थाचे ताटण्या दरवट्या कडेन दवरतात ताजे फुडें आमच्या सारक्या सुदरांक प्रवेश ना हें म्हज्या भुरगे मतीक तेन्ना कळ्ळेना. भुरगेपणूच इतलें निवळ नितळ निश्कलंक आनी पवित्र शुध्द नासता त्या भुरगेपणाक हे असले भेदभाव स्पृश्य-अस्पृश्य जाव उंच उणाक, भट बामण ही जातपात कळकच नासलें. हे सगळ्यांच्याच भुरगेपणांतले अणभव आसतात. भेदभाव, उंचउणाकपणांची समजणी वो शिकवण ही उपरांत ङ्गबुद्दङ्ख येतकच आनी जाणटेपणांत सांगता ते समजतकूच येता. जात पात, भेद हे सगळे मनशाक उसरां समजावन दिल्ले घातकी ङ्गज्ञानङ्ख आनी हे ङ्गज्ञानङ्ख त्या त्या वर्गांतले भुजूर्ग-जाण्टे विद्वान दितात. भुरग्यांक हे अजाप! तांगेर वचप ना, तांगेर खावप ना हें भुरग्यांक सांगपी जाण्टेले हे कर्म करतात. अर्थांत म्हज्या बाबतींत हें अशें सांगपाचो प्रस्नूच नासलों. कारण आमी पयलीच उणांक नीच, सुदीर भायलें लोक, हे बामणा खातीरचे लोक जाल्ल्यान ती दुर्बुद्धी आमकां म्हळ्यार म्हाका तेन्ना कोणेंच सांगलींना वो शिकयलेंना. ते पूण आम च्याय घरांत म्हजी आजी म्हार-चांभार, किरिस्तांव-मारीस्तांव म्हण आनी शाळेंतल्यान घरा कडेन येतकच आंगावयलो युनिफॉर्म काडून ङ्गसाकङ्ख न्हेसपाक सांगप. कारण शाळेंत आफड जाता अशें म्हजे आज्जेचे म्हणणे आसतालें. म्हणजे उंच-उणांक पणाची आनी जाती भेदांची भावना ही तेन्ना सगळ्या वर्गांतल्या लोकां मदी आसली. मात चड प्रकर्शान ती भटा-बामणांतल्या घराण्यांनी प्रखरतेन दिसताली आनी प्रॅक्टीकली जाणवतालीं. म्हज्या भुरगेंपणांत ती अशा सार्वजनीक भौशीक देवळांनी जिती जावन दिसली. देवळांत उत्सवाचे पालखेच्या अखेरेक भक्त लोक सुद्धा देवळाच्या चौकार बामण-भट, एके वाटेन तर इतर सुदीर लोक दुसरे वटेन, देवळाच्या चौकार सुद्दा वयल्या-पयल्या खांब्यान तेकून भट बामण आनी उपरांत निमाणेकडेन हेर भौस आनी म्हार बद्द भायर सोणव्यार वा देवळा भायर. प्रसाद वो समरदना (जेवणां) सुद्दां पयले दुसरे पंगतीन वाडी हे सगळे उंच-उणाकपाचे ङ्गजिणेंङ्ख म्हजे भुरगेपणांत हांवें प्रखरतेन अणभवलों देखूनच सादारणपणान म्हार्दोळांत जेन्ना १९८० च्या दरम्यान नकुल गुरव प्रकरण गाजलें. म्हाळसेचे देवूळ १०१ दीस धांपून दवरलें आनी जंय कर्नाटकांतले भट बामण आर.यस.यस. वांगडी तरसादी आनी कोयतें घेवन थळाव्या म्हार्दोळकारांक भेंकडावंक लागलें तेन्ना गोंयांतल्या हेर लोकांचे लक्ष ह्या देवळाचेर खोलायेन गेले. तातूंतलो हांव एक, बरोच तपास करतकच लक्षात आयले की हें देवळां फक्त बामणाचींच कशी? इतर लोक थंय तितलेच भावनेन आनी तितल्याच हक्क अधिकारान वतात भजतात. मागीर हांचेर तांचीच दादागिरी कित्याक? १९८३ देवळे खुली करा चळवळ म्हज्या भुरगेपणांतल्या जिणेंतल्या अणभवांक लागून म्हजे कडच्यान उबी जाली. म्हज्या भुरगेपणांत हेंवूंय भायर हेर भुरग्यांच्या वाट्यांक जें जें कितें आयलें तितलेंय येवन गेलें.

घरचे गरिबीक लागून उपास तापास कपडे-लत्ते सारकें नासप. शिक्षणांतल्यो गरजो नासप, पुस्तकां वेळार मेळप ना. पूण तशें भुरगेंपण साबार भुरग्यांच्या वाट्याक येता वो आयिल्ले आसा, पोरको जावप, पालक नासून दुसऱ्यांचे पांगीत पडप, निराधार जावप, अन्नाक पातीशेरे जावप आनी अनेक खूप वायट प्रसंग खूब जाणांचेर येतात. देखून तश्या प्रसंगानी अप्रूप नासता. अप्रूप ज्या घडणुकांनी आनी प्रसंगानी आसता ज्या प्रसंगात फुडाराच्या परिवर्तनाची बियां लिपिल्ली आसतात, जिवींत हें कितेंय नवें घडोवपाक वो नवें दिवपाक उर्बा दिता वो प्रोत्साहीत करता त्या भुरगेंपणाक अर्थ आसा. म्हज्या भुरगेपण जें हांवें देवळांत, देवळा परिसरांत आनी भोवतणच्या समाजा मदीं आनी समाजा मदल्या व्यक्त घटकांमदीं आसलें ते जिवीत म्हज्या भुरगेपणांतल्या जिणेचो एक वांटो जावन रावलें आनी तोच वांटो फुडाराक तरणेपणी म्हाका स्फूर्त देणें थरलों. हांवें म्हज्या भोवतणचो लोक, समाज गोरगरीब हीनदुबळो असाह्य निराधार कसो गृहींत उरलों कोणाक तरी, आनी कोणाच्या तरी अन्याय अत्याचाराचोय आवत जावन पडलो तेन्ना म्हाका दिसलें तांचे भकीक हांव पडचोना. आनी म्हजें भुरगेपण तशें मोन्यांनी म ुकाट्यान फुडली वाट चलचें ना. हांव भुरगेंपणा उपरांतची वाट चल्लो ती सामाजीक संघर्शाची. सामाजिक आंदोलनां, जी भुरगेपणांतल्यान पयली सुरू जाली तेन्ना म्हजी पिराय सोळा सतरा वर्सांची शालेय आसली. १९६६ वर्सा हांवें पयली संघर्शांत उडी घेतली ती जनमत वो ओपिनियन पोलांत. शाळेंतलो विद्यार्थी क्वचीतच शाळेक बंक मारून आवयक फटोवन रस्त्यार गोंयचे विलीनीकरण नाका म्हण आड्ड्यो म रता तेन्ना बापूय नाशिल्ल्या पोराक कित्याक त्यो विजापुरच्यो गजाली म्हणपी म्हजी दया माया करी नासले तर हो आमचो भौसांतलो पोर



त्या बामणा वांगडा झालाच पाहिजे म्हण नास्तना महाराष्ट्रांत विलीन जाल्यार गोंयकार जातलें काबार म्हणत २० दीस उल्हास बुयावाच्या जय गोमंतक कला पथकाक गोंयभर भोंवलो तेन्नाय भुरगोच आसलो. म्हजें भुरगेपण हे पोटाक दोसो बांदून गेले, उपाशी पडल्यार दोनपारचें दोन घास नासतनाच आवय जमनीक पोट तेकोवन न्हिद म्हण किवाट्यान आनी त्रासांनी सांगताली. साप्प अगतीक हेल्पलेस जाताली दोन तांदूळ आदणांत आटेपांत नासतालें तेन्ना ती जाळांनी नाका जावन मना विरुद्ध असलें उलप करताली आनी केन्ना-केन्नाय भुरगेपणार बापूय तुमकां सोडून गेलो फाटल्यान कवडी - दमडी दवरी नासतना आनी आता हांव काडटा त्रास अशें म्हणत ती दुकांय गळयताली आनी दुसरे वाटेन वेगेंत घेवन म्हाका सासपिताली. हें सगळे भोगिल्ले खीण म्हजे भुरगेंपण गिरेस्त करतालें अशेंच आयज म्हाका दिसता. भुरगेंपणांत सगळेच कितें सुकें मळ नासलें. खेळ खेळ्ळा, पेंवलों तळयेंत, धांवलों दोंगरार आनी दादलेपण येताले तेन्ना विरोधी लिंगा बद्दल ओडय दिसूंक लागली, तेन्ना भुरगेपणार एके अस्तरेचे भकीकूय पडलों. मात भुरगेपणान म्हाका बरे भशेन व्यवस्थीत शिकपाक गावलेना. पयली थोडीशी मरठी, उपरांत पुर्तुगेज गव्हर्नर व्हासल द सिल्वा आयलो ताणें पयलेच खेप गोंयांत इस्कोल प्रिमार शाळो उक्त्यो केल्यो तेन्ना खाकी वर्दी घालून माथ्याक गांधी टोपये आकाराची खाकी तोप, कमराक बेल्ट आनी ताका ड ह्या आकाराचे पितळचें बुकल, खाद्यार काझां, पांयांत बूट घालून पुर्तुगेज सोल्दाद कसो जाल्लो तेन्नाचो तो हांव पुर्तुगेज म्हळ्यारूच आमचो अभिमान कसो समजून पुर्तुगालाचे राष्ट्रगीतय हांव म्हणटालों ती म्हाका याद आसा, आनी चोडणां मामागेर वतना पणजे नावीगावां कडेन उबो रावन फुडें लागीच पणजे पालाशे मुखार वतना पुर्तुगेज तांबड्यो पांचव्या झेंड्याक वा बावट्याक व्हीवा पुर्तुगाल म्हण सलाम ठोकतालों. हे सगळे अज्ञानांतल्यान पिरायेच्या णव धाव्या वर्स जालें. पूण गोंय मुक्त जाले तेन्ना म्हज्या खऱ्या राष्ट्रीयत्वाचें भा आयलें आनी हांव गोंयकार कोंकणी मनीस फिरंगी नासून भारती आसा हाचो दिश्टावो १९ डिसेंबर १९६१ सान म्हाक जालों. १९६ नंतर १९६७ परत म्हजे भुरगेपण नवे वळण घेवन घडलें, जे हांवें हांग वयर सांगलां. भुरगेपणाचें घट्ट बुनियादेचेर म्हजे फुडले जिणेचे मजल चडलो आनी म्हजीच अशी एक इमारत एन. शिवदास ह्या नांवाच उबी जाली. म्हजे अख्खे फुडले लेखन म्हज्या भोगिल्ल्या ताकील्ल्य भुरगेपणाचेर उबें जालें, सगळे अणभव म्हज्या फुडल्या लेखनांत सां उदक कशे उपकरलें. हांवें काल्पनीक थोडेच बरयलां, न्हय काल्पनीक म्हाका जमलेंच ना. म्हज्यो कथा, कादंबऱ्यो, नाटकां ह्यो सगळ्य वास्तव जिणेचे चीत्र, तातूंत बालकथानकाय आशिल्लें आनी ताक राष्ट्रीय पांवड्या वयला छउएठढचो साहित्य पुरस्कार फाव जाल्ल ङ्गबाबूङ्घ नवलिका हे म्हजें भुरगेपणूच चित्रीत करता, ती नवलीकाय म्हजे आत्मचरित्र हें आता हांगा सांगपाक हरकत ना. मात तातूंत फुडले वांटो मात काल्पनीक कसोच आसा; पूण म्हजेच जिणेक दसला तसलो तो वांटो आसा.

म्हजें भुरगेंपण हांवें सार्थकी लायलें अशें भुरगेपणांत गोंयां खातीर केल्लो सगळो वावर, खास करून जनमत कौलातलो म्हजो वावर हो म्हज्या भुरगेपणांतल्या गळ्यांतलो चपलाहार कसो दिसता कारण तो तेन्ना दोन पानां गुंथून केल्लो आनी त्या हाराक सकयल लोकेट आसलें फुलाचे. अंदू पन्नास वर्सां सोपलीं हें भुरगेपणांतलें व्हड मोटें घडणुकेक हेवूय एक सत्य, जे आता म्हजे जाण्टेपण वो म्हातारपण खुणयता. ■

# म्हजी ल्हानपणाची जीण

शंभू भाऊ बांदेकार
९७६४३२१३८८

**कणी कवी बाब प्रकाश थळी हांचें एक गीत याद जाता:**
**'म्हाका म्हजे भुरगेपण कोणूय हाडून दियात गो।**
**खेळटा खेळटा साणलो बोल कोणूय सोदून दियात गो ।।**

हें गीत पणजी आकाशवाणीवेल्यान केन्नाय कानार पडटा आनी तें आयकतां आयकतां म्हजें मन म्हज्या त्या पन्नास वर्सां पयलींच्या



यादींनी घुस्पल्ल्या भुरगेपणांतल्या जिणेचो थाव घेवंक लागता.

आज हो हांव शंभू भाऊ बांदेकार म्हणून तुमच्या मुखार आसां तो घडपाक खुबशे म्हजे ल्हानपणांतलें जिवीत कारणीभूत आसा, अशें म्हळ्यार अतिताय जावची ना.

म्हजो जल्म १३ ऑक्टोबर १९५० त साळगांवांत आमच्या राबित्या घरांत जालो. म्हजे वडील आमी तांकां 'आबा' म्हण्टाले. ते शंकराचे भक्त. म्हणून तांणी म्हजे नांव 'शिवशंभू' दवल्ले आनी 'कालौघांत' ते 'शंभू' म्हणून शाळेत रजिस्टर जाले. १० वर्सां मेरेन हांवें साळगांवांत आमच्या गांवात काडली. या गांवांत सगळ्यांक 'मास्तर' या नांवान लोकप्रीय आसले ते मास्तर अनंत शेणवी नावेलकर हांणी म्हाका पयले पाटयेर नांव बरोवंक शिकयले. ते बऱ्यापैकी कलाकार, संगीतकार आनी नाट्यदिग्दर्शक आशिल्ले. म्हाका नाट्यकलेचो वारसो म्हज्या बापाय कडल्यान मेळ्ळो त्या कलेक आकार दिवपाचे काम नावेलकार मास्तरान केलें. हांव जसो शिकपाक हुशार तसो नाटकांत कामा करपाकूय सदांच फुडे. नावेलकार मास्तर 'या शंभूची देख घेयात रे' अशे म्हज्या सवंगड्यांक सांगताले आनी म्हजे आवयक तुजो पूत हुशार आसा. ताका फुडें बरें शिकय अशें सांगताले. आमच्या गरीब परिस्थितीन मास्तराक केन्ना फी दिवंक मेळ्ळी ना. पण म्हजी आवय आमच्या शेतांतले तांदूळ, आमी लायताले ती तीन-चार प्रकारांची भाजी मास्तरागेर पावयताली. ती मास्तराच्या बायलेकडे दिताली. आम्ही भुरगे तिका आई म्हण्टाले. तिवूय मास्तरा सारखीच प्रेमळ आशिल्ली.

म्हजो बापूय भाऊ हो बऱ्यापैकी एक कसबी बुटांचो कारागीर आसलो. जोत्यांचे काम करपाक आमचे कडेन दुसरे कारागीर आसले. आमकां कोमुनिदादीचो ल्दांस आसलो. या जमिनींत आमी भातशेती, रहळसाणें, चवळी आनी तरेतरेच्या भाजयांचे पीक घेतालें. ह्यो वस्तू आम्ही केन्नाच विकूंक ना. हाजेरूच आमचें उदरभरण. शेजाऱ्यांक ह्यो वस्तू दिवपाची आमच्या आईक खूब व्हडवीक. ती सदांच शेजाऱ्यांचे बरेपण घेताली. आमी सगळी भावंडां शेजाऱ्यां कडेन गोडीगुलाबीन वागताली. सगळ्या जाती धर्माचे शेजारीय आमचे कडेन आपुरबायेन वागताले.

आमी ६ भावंडां. तीन भयणी. आनी हांव धरून तीन भाव. म्हजो नंबर पांचवो. म्हजी शाळा प्राथमीक शिकपा पुरती साळगांवांत जाली. फुडलें शिकप घेवपाक हांव म्हज्या व्हडल्या भावाकडे- मनोहर बांदेकार - हाचेकडेन वास्को गेलो तो तेन्ना वास्कोंत एमपीटींत कामांक आशिल्लो. हांगा म्हजें सालाझार मराठी शाळा, दी न्यू मराठी शाळा माता सेकंडरी स्कूल या चौगुले उद्योग समूहाच्या शिक्षण संस्थेन एस.एस.सी. मेरेनचे शिक्षण जाले. हांव शिकपाक जसो हुशार तसोच वक्तृत्व स्पर्धा, निबंध स्पर्धा आदी शाळेच्या स्नेहसंमेलनांत भाग घेवन म्हजे आंगांतल्या गुणांक वाव दितालों. माता सेकंडरी

स्कुलच्या विद्यार्थ्यांचो पयलो मुखेलमंत्री म्हणून निवडून येवपाचो पराक्रमूय हांवें केल्लों. चौगुले उद्योग समूहाचे त्या काळचे संचालक सर्गेस्त यशवंतराव चौगुले हे जशें प्रेमळ, प्रेरणास्थान तसेच कै. अर्जुन धोंडो, कै. र. स. गुर्जर, प्रा. श्री. शं. फडके, अर्जुन जयराम परब, ना. बा. रणसिंग हे शिक्षक आनी वास्कोचे नामनेचे दोतोर सुरेंद्रनाथ आरोंदेकर हेय म्हजे प्रेरणास्थान. म्हज्या सामाजीक, सांस्कृतीक आनी राजकीय जडण घडणुकेंत जसो म्हजो व्हडलो भाव स. मनोहर आनी धाकलो भाव सर्गेस्त विलास हांचो मोलादीक वांटो आसा तसोच वयर सांगिल्ल्या महाभागांचोय आसा हे म्हाका नम्रतायेन नमूद करीनशें दिसता.

खूब जाण म्हाका विचारतात, तूं दलीत जावनूय केन्ना बंडाची किंवा विद्रोहाची भाशा केल्ली दिसना हाचें कारण कितें? सांगपाचे म्हळ्यार तेन्नाच्या गोंयच्या समाजांत 'चर्मकार' म्हणून म्हाका किंवा म्हज्या भावंडांक वेगळी वागणूक मेळूंक ना. आमच्या गांवांन जेन्ना वेगळ्या कपान च्या, केंस मारपाक सलूनांत मज्जाव जालो तेन्ना म्हज्या व्हडल्या भावान बंड केलें. ताका ताच्या दुसऱ्या जाती धर्माच्या लोकांनी तेंको दिलो. मागीर सगले सुरळीत जालें. वास्को शारांत अपमान जावपी घडणूक केन्ना घडूंक ना. उलट म्हजे जास्त सवंगडी हे सवर्ण आसलें. आनी तांच्या घरांतूय म्हजो घराबो आसलों. ल्हानपणान जशे म्हज्या आवय बापायन, म्हज्या भावंडांनी म्हजेर संस्कार केले. तशेच फुडें म्हज्या शिक्षकांनी, म्हज्या इश्ट मित्रांनीय म्हाका घडयलों. राजकारणांत तर अण्णा झांटये सारख्या अजातशत्रून सद्‌दांच म्हाका पाठबळ दिलें. म्हणूनूच गोणपाटाचेर बसून श्रीगणेशाचे धडे गिरवपी हांव ग्रॅज्यूएट जावंक पावलों. हिंदी पंडित प्रथम श्रेणीत उत्तीर्ण जालों आनी राज्याच्या राजकारणांत उपसभापती, प्रभारी सभापती मेरेन म जल मारली. राजकारणांत आयाराम गयाराम जाल्लों जाल्यार कदाचीत आनीक मोटो जावपाचों. पूण म्हाका ताचें दुःख ना. एक राजकीय पक्ष धल्ला तोच धरून रावप, जें पटना ताजेर पोटतिडकीन उलोवप आनी 'राखावी बहुतांची अंतरे' अशी वागणूक दवरोप हो म्हजो स्वभाव.

या म्हज्या वाटचालीत ज्या ज्या लोकांचों सहभाग लाबलो, तांचो हांव मनापासून आभारी. म्हज्या घडणुकींत जे सर्गार पावले तांच्या आत्म्याक शांती मेळू. जे हयात आसात तांकां बरें जिवीत प्राप्त जावं हीच देवाकडेन म्हजी नमळायेची प्रार्थना.

## मुरगांवांतले दीस

म्हजे जीणेंतले भोव बरे दीस हांवें मुरगांवांत (वास्कोंत) सारले. तेन्ना वास्को शाराक जाण्टेले लोक 'मुरगांवां'रावता अशें म्हण्टालें. वास्को खरें म्हळ्यार फकत रेल्वे स्टेशन आनी बाजाराकडलोच वाठार. थंय सुब्राय जोशी चौक म्हण्टाले तो वास्को-डा-गामा रेल्वे स्टेशनच्या सामकार. ताचे फुडलो वाठार म्हळ्यार वास्कांचे मार्केट आनी मार्केटा मुखार आसलो आनीक एक चौक. ताचें मुखार आसलो एक पुतळो. कुन्हा चौकांत. तो म्हळ्यार स्वातंत्र्य झुजारी सत्रिस्तांव ब्रागांझ कुन्हा हांचो. थंय पुर्तुगेजाच्या काळांत एक शाळा आसली. सालाझार प्राथमीक मराठी शाळा. स्वतंत्रताये उपरांत थंय हो कुन्हाचो पुतळो मुरगांवकारांनी उबारलो. ताका नांव दिले कुन्हा चौक. कुन्हा चौका लागींचे वेळेर आमी ल्हानपणान भोंवपाक वतालें. थंयच्यान मुरगांव बंदरांत नांगरलेल्यो बोटी आमी पळोवन, खीणभर धाधोसकाय अणभवताले. त्यो बोटीं गोंयचें मीन भरून-भरून जपानांक व्हरताल्यो, म्हूण आमचे जाण्टेले सांगताले.

कुन्हा चौका कडल्यान लागींच जोयशाल्या घरा कडेन वचपाचो रस्तो आसलो. जोयशाल्या सालांत वास्कोच्या म्हाराजांची म्हळ्यार देव दामोद-राची सासाय आसली, अशे म्हण्टात. जाण्टेलें सांगतालें की, मुरगांवांत १९व्या शेंकड्याच्या मदेकात एक धाम (Epidenmic) आयली, आनी लोक पटापट मरपाक लागलें. लोकांनी देवाक गाराणें घालें. जांबावले वचून देव दामोदराक पाराथलो, आनी जांबावलेचो देवाचो नाल्ल घेवन ताची विधिनुसार पुजा केली. तेन्नाच्यान अखंड २४ वरांचो सप्ताह जोयशाल्या सालांत सुरू केलो. तेन्नाच्यान मुरगांवकारांचेर दामोदरान कृपा केली, अशें मानून सप्ताह अखंड (दर वर्सा) चालू दवरलो. सप्ताहाच्या अखंड भजनाचे सूर म्हज्या भुरग्यापणाचेर प्रभाव पाडपाक लागलें. मुरगावचे आमच्या समाजाचें अभिमानी आनी प्रतिशठीत वेपारी महादेवबाब वेंगुर्लेकार, विश्वनाथ आर्लेकार, शनैश्वर भजनी मंडळाची स्थापणूक केली. दर शेनवारा भजन करपाक शारांतले तरनाटे महादेवबाबागेर जमताले. हांवूंय थंय भुरगो भजनाक वचपाक लागलों आनी इल्लो इल्लो भजन आनी संगीताची म्हाका ओड लागली. म्हाका फुडें नाटकांत काम करपाक आनी बरीं बरीं कंपनिचीं नाटकां पळोवपाची उमेद जाली, ताचें मूळ मुरगांवांतलें म्हजे भुरगेपणांतले दीस म्हळ्यार जाता.

म्हाका म्हजे फुडले जीणेंत बऱ्या बऱ्या नाटकांनीं नटाच्यो भुमिका करपाक मेळ्ळ्यों. दत्ता भट हांचें नाटक 'काळें बेट लाल बत्ती'बरेंच गाजलेले. तशेंच वसंत कानेटकरांचें, नाटक 'रायगडाला जेव्हा जाग येते'हातूंतल्यो म्हज्यो भुमिका खूब बऱ्यो जाल्ल्यों, अशें तेन्ना आमचें घरांतले जाण्टेले सांगतालें. ते आयकून म्हज्या आंगार मूठभर मांस चडटालें, जीव धाधोस जातालों.

## म्हजो राजकी प्रवास...

तशें पळोवपाक गेल्यार सुरवातेपासून म्हजो राजकारणा कडेन कांयच संबंद नासलो. पूण म्हाका राजकारणाची आवड आसली. म्हज्या समाजकार्याच्या राबित्याक लागून गोंयच्या मुखेलमंत्र्यां पासून राज्यपालां मेरेन सगळ्यां कडेन म्हजे येवप वचप आशिल्लें. ते वर्स १९८४ चें. हांव इंडियन ओव्हरसीज बँकेच्या पणजे शाखेंत कामाक आशिल्लों. पणजी हें राजधानीचे शार. समाज कार्याच्या निमतान आमदार, मंत्री, समाजसेवक हांचे कडेन म्हजे बऱ्यापैकी संबंद आयलें आनी ताजो परिणाम असो जालो की, तेन्नाचे मंत्री हरीश नारायण प्रभू झांट्ये हांणी म्हाका सांगलें की, या वेंचणुकेंत आमकां पेडणेंचों राखीव मतदारसंघ काँग्रेसीक जिखून हाडपाक जाय. तुज्या सारखो शिकिल्लो सवरिल्लो आनी समाजकार्याचीं बरी म्हायती आशिल्लो मनीस आमकां उमेदवार म्हूण मेळ्ळो जाल्यार आमी हमखास हो सीट जिखूंक शकता. तूं विचार कर, ‍‌‌ङ्ग्यह हमारे बसकी बात नहीङ्ग अशें म्हणून हांवें त्या गोश्टीकडेन दुर्लक्ष केलें. पूण अण्णा झांटयेन म्हजी फाट सोडली ना. म्हाका म्हटले, तुका बँकेचो राजीनामो दिवचो पडटलो. म्हाका खबर आसा. तूं निवडून आयलो ना, जाल्यार आपूण तुज्या नोकरी खातीर प्रयत्न करतां. मागीर अण्णा झांटये म्हाका एक दीस मुखेलमंत्री प्रतापसिंग राणे कडेन घेवन गेलें. राजकीय खलबाता सुरू जाली. हांवें म्हज्या घरच्यांचीं इश्टमित्रांचीं परवानगी, शुभेच्छा घेवन राजकारणांत उडी मारली. आनी गोंयच्या राजकी मळार आगळो वेगळो इतिहास घडलों. पयले फावट पेडणें मतदारसंघांत म्हज्या रुपान काँग्रेसीक सीट मेळ्ळी. म्हजे खूब कौतुक जाले. काँग्रेसींचे सरकार घडले खरें पूण म्हाका आमदारकींचेरूच समादान मानचे पडले. १९८७ सावन गोंय घटकराज्य जाल्ले आनी पक्षान म्हाका उपसभापती पदार निवडून हाडलों. फुडें सभापतीक कांय कारणा खातीर राजिनामो दिवचो पडलो आनी म्हजी प्रभारी सभापती पदार नेमणूक जाली. १९८९ ची विधानसभा वेंचणूक जाय मेरेन हांव या पदार रावलों. म्हज्या पांच वर्सांच्या कालावधीत हांवें म्हज्या मतदारसंघांत रस्ते, उदक, वीज, आरोग्य आनी शिक्षणाच्या मळार केल्ल्या कामाचो लोक अजुनूय उगडास काडटात.



# आबुधाबी डेज

रमेश साजु घाडी
९८५०४५३३५५

स्टाइंप टू आबुधाबी?

फेसांक दाट तेल थापिल्ल्या म्हज्या कुशीच्या सिटार बशिल्ल्या त्या केरळी मनशान म्हाका विचारलें.

सहार विमानतळा वयल्यान बाहेरेन व्हाया आबुधाबी वचपी गल्फ एअराच्या विमानांत हांव आबुधाबी वचूक भायर सरिल्लो.

'येस इट इज माव फस्ट टाईम.'

हांवें चार उतरांनी जाप दिली.

म्हजे परत परत सिट बेल्ट बांदप, उगडप. कानांतले हेडफोन आरतून-परतून पळोवप, आबूज जावन जनेलांतल्यान कुपांच्या भिव्या कडेन पळयत रावप. ह्यो सगळ्यो म्हज्यो क्रिया, ताका म्हज्या नवेपणाची गवाय दितालीं.

हांव म्हजें काळीज गोंयां सोडून आयिल्लों. विमानाची नवलाय... केरळायटांचे उलवप... आइडयो... ह्या गजालीक म्हजो बिलकूल मूड नासलों. गोंयां सोडून हांव परकी देशात रावतलों कसो... होच प्रस्न म्हाका भेडसायतालों.

वीच कंपनी यूव आर ज्योयनींग?

ताणें म्हाका परत प्रस्न केलों.

आबुधाबी नॅशनल हॉटेल्स कंपनी.

हांवें जबाब दिलों.

वेटर?

तो म्हजी कशीच फाट सोडपाक तयार नासलो.

नो... जीम ट्रेनर.

हांवें जाप दिलीं.

सो... मे आय नो युवर सालरी?

सालरी... म्हाका तो कितें म्हण्टा ते पयली कळूंक ना. ताणें आपलो प्रस्न दुसऱ्या फोर्मान घालून परत धुकल्लो. आय मिन युवर पेमेन्ट.

९५० डिराम्स. हांवें उत्तर दिलें आनी दोळे धापलें. हो म्हाका सोयरीक हाडिल्ल्या भशेन म्हजी सगळी हिस्ट्री काडपाक उणो ना अशी म्हाका भिरांत दिसूंक लागली. ताच्या प्रस्नांनी बरो मनीस लेगीत तिडकपाचो, हांव जाल्यार तिडकपाच्या पलतडी पाविल्लों.

विमान लँडींग करच्या आदी जेन्ना, सीट बेल्ट बांदपाची सुचवणी दिली, हांवेंन न्हिदेंतल्यान उठिल्ल्यांवरी दोळे उगडले. ल्हव जनेला भायर नदर माल्ल्ीं जाल्यार वाळवंटा बगर कांयच नदरेक पडूंक ना.

एक झाड ना, वनस्पत ना, दोंगर ना, रान ना... वाळवंट, वाळवंट आनी वाळवंट 'अथांग अशें वाळवंट'. म्हज्या काळजांत घस्स जालें. झाड-पेड नास्तनाय जमीन आस्ता हाचेर म्हजो विस्वास बसूंक ना.

विमानांतल्यान देवतकच हांव सरळ एमिग्रेशन कावंटरा म्हऱ्यान गेलों. कावंटरा फाटल्या जनेलांतल्यान म्हाका एक अरबी मनीस खुणावपाक लागलो. हांव म्हजी बॅग घेवन तसोच ताच्या म्हऱ्यान गेलो. ताणें म्हज्या व्हिजा कॉपीचेर नदर माल्ल्ीं आनी आपले कडली ओरीजनल व्हिजा म्हज्या हातान दिलीं. धा मिण्टांनी हांव एमिग्रेशन फोर्मेलिटीज करून भायर आयलों.

ऑटोमेटीक स्लायडिंग दार उगडलें आनी एक गरम हवेची ल्हार येवन म्हज्या थंड कुडीर आदळ्ळीं. खिण भर म्हाका गांवांतल्या णव दिसांच्या धुळवटीच्या होमखणाचो उगडास आयलो.त्या होमखणां मुखार हांव उबो राविल्ल्याचो भास जालों. आदले रातीक मुंबयत नेटाचो पावस चालू आसलो. थंय तापमान २०-२६ अंश आशिल्लें आसत.

लेखक आपल्या इश्टांवांगडा आबुधाबींत



२५ डिग्रींतल्यान ४५ डिग्री म्हटल्यार म्हाका तो कायल्याट्याचो दाग दिल्ल्या भशेन लागलों.

'गूड मोरनिंग रामीश, वेलकम टु आबुधाबी'. त्या व्हिजा घेवन आयिल्ल्या सिरियन क्ष्ठ एदएउणढखतए ऑफिसरान म्हाका येवकार दीत हात दिलों. ताणे उगडिल्ल्या आपल्या टॉयेटाच्या डिकीन हांवें म्हजे बॅग धुकल्लें.

ए मोहम्मद गलाल ऋछज फोर आबुधाबी गल्फ हॉटेल, ताणें आपली वळख करून दिली.

यूव मस्ट बी फिलींग वेरी हॉट...

ताणें आपल्या गाडयेच्या एसीची स्पिड वाडयत म्हाका प्रस्न केलों. घामाच्या पावळ्यांनी म्हजो धवो शर्ट ओलो जावन फाटीक दशिल्लों एसी वाडयतच मात्शें बरें दिसलें.

वेट फॉर टू मोर मंथस् इट वील बी स्टिल मोर हॉट. ताणें म्हाका भेकडायलों, आनी नेटान हांसलो.

स लेन हायवे, रस्त्याच्या दोनी सायडीक खाजुराची झाडां, नितळ सुळसुळीत रस्तें, रस्त्यार १५० स्पिडीन धावपी चकचकीत Lexus-BMW मात रस्त्याच्या दोनूय दिकांनी नदर मारल्यार पयस मेरेन फकत सुको सडो. एक आताच उज्यान करपून गोबर जाल्लो गांव कसो, म्हाका दिसलें गलालाक सांगचें, 'मात्शी गाडी परती आनी म्हाका परत विमानतळार सोड... हांव फुडल्या फ्लायटान परत मुंबय वयतां. तुजो हो सुक्या सड्याचो गांव म्हाका नाका!!'

हांवें नेटान सुस्कार सोडलों, 'खंय रे रमेश तूं ह्या वाळवंटात, सुक्या सड्यार पावलों. गोंयां शेतां, गोरवां, तळयो, गोठें, तणा कुडयो, दोंगरा-रानांच्या देंगणांत वाडिल्लों हांव ह्या वाळवंटी वाठारांत कशें दीस काडटलों. त्या सुक्या वाळवंटान, मोटें तोंड उगडून म्हज्या फुड्यान यक्ष प्रस्न उबो राविल्लो.

हॉटेलांत पावचे आदी बिल्डिंगो, घरां नदरेक पडपाक लागली. हॉटेलाच्या पोर्चीन म्हजो म्हापशेचों इश्ट, फर्डी नोरोन्हा म्हाका मेळूंक राविल्लो. तो म्हाका घेवन पर्सनल डिपार्टमेंटात गेलों. थंय सगळे फोमस् भरल्या उपरांत कॅशयरा कडल्यान म्हाका तिनशें डिराम्स अँडवांस मेळ्ळे. ते पयशे आनी म्हज्या रुमाची चावी घेवंन हांव आमच्या बरॅक्सांत आयलो.

म्हजो रुममेट त्रेसस्ट वर्सांचो आसलो शीख. गुरुदेव सिंग पानेसर. म्हाका पयलेच भेटेन हो जाण्टो सरदार आवडलों. धवी फुल्ल पिकिल्ली दाढी, तांबडी रक्तवर्णी पगडी, म्हज्याच उंचायेचो, हांसऱ्या ताँडांचो शिखडो.

चाचा गुरूदेव सिंग खानदानी कार्पेटर. पंजाबांत गडशंकर गांवांतले. ते स्वातंत्र्या उपरांत दिल्लीक स्थायिक जाल्ले. पार्टिशनाच्या वेळार तांच्या गावान मारकाट जावन रगताच्यो न्हंयो व्हाविल्ल्यो. जाणटो जाल्लो तरी चाचा गुरूदेव सिंग कापाज कार्पेटर आसलो. रिटायर्ड जावपाची पिराय जाली तरीय ताका मॅनेजमेंटान मुद्दाम कामार दवरिल्लो.

धार्मीक विचारांचो हो सरदार फांतोडेर पावणे पांचांक नेमान उठ्ठालो. न्हाल्या उपरांत अर्दवर ताणें हेयर ड्रायर घेवन आपले लांब केंस सुकवप. ते उपरांत आपल्या पोरण्या रेडिओचेर कॅसेट घालून चाळीस मिण्टां ग्रंथ साहेबांले शब्द किर्तन आयकप. मागीर आपल्या सुकिल्ल्या लांब केंसाक वीस मिण्टां सासवांचे तेल चोळप. मागीर सुरू जाताली ताची पगडी बांदपाची क्रिया.

ताच्या ह्या फांतोडेवयल्या अजीब दिनचर्येक लागून कोणूच ताच्या रुमान टिकनासलो.

'बेटा आपको मेरे वजह से तकलीफ होगी, मै हमेशा बडी सुबह उठता हूँ... आपली निंद पुरी नही होगी...' ताणें म्हाका नमळीकायेन सांगलें.

'नही चाचा, मैं संभल लुंगा... वैसे मुझे भी सुबह जल्द उठने की आदत है' हांवें ताका चिती नासतना जाप दिलीं.

आठ वर्सां आमी त्या बॅरक नं. २ रुम नं. ७ त रावलें. आमच्या भितर बापूय-पुता वरी एक आपलेंपणचो नातें तयार जालें. केन्नाय म्हाका थंडी-जोर आयलों जाल्यार तो मुद्दाम उठून विक्स-बाम लायतालों. गरम कपडे घालून न्हिदपाक उगडास करतालों. एक फावट ताचो ९८ वर्सां पिरायेचो जाणटो बापूय भायर पडलो, तो म्हाका घट्ट धरून बापायच्यो आफ्रिकेतल्यो यादी सांगून रातभर रडलो.

अशीच एक दीस गरमेच्या दिसांनी म्हाका रातच्या दोनाक जाग आयली. जाल्यार चाचा वॉशिंग बेसिनाचेर पडला आनी सिंक रक्तान भल्लां. बेगोबेग हांवें ॲम्बुलन्स आपयली आनी ताका हॉस्पिटलांत व्हेलों. दोन दीस ताच्या वांगडा हांव लिव्ह घेवन हॉस्पिटलांत रावलों. त्या घडणुके उपरांत ताच्या घरचीं सारकीच ताच्या फाटीक लागली काम सोडून घरा यो म्हणून. १९९७ त तो रिटायर्ड जावन दिल्ली आपल्या घरा गेलो. एअरपोर्टार ताका पावोवपाक गेलो थंय एमिग्रेशन काऊंटराचेर ताची दुकां ताका कंट्रोल जायना जालीं... बेटा अपने चाचाको कभी भुलना नही म्हणत जड पावलांनी आपली ट्रॉली वोडीत चेक इन सेक्शनान गेलो... हे मात्शे मदीच विशयांतर जालें.

हांवें 'मै संभाल लुंगा' म्हणून हयकार दितकच ताकाय मात्शें बरें दिसलें. म्हजी कपड्यांची बॅग बंक बँडान दवरून, कपडे आलमारीत हँगराक घातल्या उपरांत, हांव फडी वांगडा हॅल्थ क्लब डिमार्टमेंटान गेलों.

गल्फ हॉटेल सुरू जावन दोन अडेच वर्सां जाल्लीं. आजून थोडें नवें बांदकाम चालू आसलें. स्विमिंग पूल, टेनीस कोर्ट, स्क्वाश कोर्ट, व्हॉलीबॉल कोर्ट, हॉर्सरायडिंग स्टेबल, विंड सर्फींग, सेलींग, बोट ट्रिप्स, अश्यो ह्यो सगल्यो सुविधा हॅल्थ क्लब डिपार्टमेटाच्या विभागान येताल्यो. हॅल्थ क्लॅब मॅनेजर ठशलर्शीं गशपपळपसी एक नांवाजतो स्क्वॉश प्लेयर आसलो. त्या वेळार टॉप वर्ल्ड शंभर खेळगड्यां भितर ताचो नंबर लागतालो.

गोंयां आस्तना हांवें सिदाद दी गोवांत तीन वर्सां हॅल्थ क्लब सुपयवायझर म्हणून काम केल्लें. विंडसर्फींग, सेलिंग, स्विमिंग आनी जीम क्लासी, टेनिसाचो म्हाकाय अणभव आसलों. त्या वेळार ह्या सगळ्या क्षेत्रांतले अणभव आशिल्लें कामगार मेळप कुस्तार जातालें. म्हाका दोन वर्सां आदी बॉडी बिल्डिंगात गोवा श्री किताबूय मेळिल्लों. म्हाका पळोवन जेनिंग्स खूब खोशी जालो 'Ramesh Thanks, for joining us, we shall make a wonderful team.'

ताणें म्हाका हांसत सांगलें, म्हजो वांगडी फडी आनी मायकल लेगीत बरें नावाजते गोंयचे खेळगडी आसलें.

हॅल्थ क्लबाच्या फेज २ चें काम चालू आशिल्लें. जिम्नेझिएम, स्टिम, साऊना, जाकुझी Infra structure तयार जावपाक फुडले णव धा म्हयने तरी लागतले आसले.

रॉब जेनिंग्सान म्हाका जो मेरेन जेम्नेजियम तयार जातलों तो मेरेन स्विमिंग पुलार लाईफ गार्डाचे काम करपाक रिक्वेस्ट केलों. ताच्या रिक्वेस्टान म्हजें तोंड सोमतेच बावलें. त्या सत्तेचाळीस डिग्री गरमेन रावन स्विमिंग पुलाचेर लाईफगार्ड ड्यूटी करप सोपे नासलें.

'इट इज फॉर शॉर्ट टायम 'याकी' ॲन्ड वी शाल कोंपनसेट वीथ एन एक्स्ट्रा अलाऊंस फॉर यू'. रॉब जेनिंग्यान म्हज्या बावक्या तोंडांकडेन पळोवन म्हाका समजायलों.



'आरें दोन हजार रुपया, अलावंन्स मेळतलों... हांगा आमी पयशे करूंक आयल्यात म्हरें'... ताळगांवचो मायकल म्हज्या कानांत फुतफुतलों.

शेवटाक हांवें 'नो प्रॉब्लेम मिस्टर जेन्निग्स' म्हणून उत्तर दिलें.

Give me five म्हणीत ताणें ताळयेर ताळी माल्ली. नशिबान एक बऱ्या मॅनेजरा वांगडा काम करपाची संदी मेळिल्ली. 'गो टू युवर रूम, फ्रेश अेप अॅन्ड कम टुमारो... अॅन्ड प्लिज शेव देट मुश्तांश' ताणें सांगलें.

मिशयो काड म्हण्टकच म्हाका टेन्शन जालें. गोंयांत सगळे इश्ट तुज्यो मिशयो कमल हसनाच्यो म्हणून तुस्त करतालें... जालें गेल्यो म्हज्यो 'कमल हासनी' मिशयो.

फडीन म्हाका वाटेर समजायलों, 'हॉटेल पॉलिसी प्रमाणे गॅस्ट संपर्कात काम करपी काम गारांनी Clean shave रावप. रुमार येवन रेजरान मिशयो तासतना खूप वायट दिसलें. पयलीं थोड्यो कातरीन कापल्यों... मागीर मात्शी अर्दी मिशीं उडयलीं. जेन्ना पुराय मिशयो तासल्यो तेन्ना हारश्यांतल्या रमेशाक हांवूच वळखूंक विसल्लों. हारश्यांत शाळेंतल्या भुरग्यांची छबी म्हाका दिश्टी पडली.

दनपरां जेवून आड पडलो. पूण दोळो कसोच लागना. आई, दाय, भाव, भयणी, पेपे सुणो, गोठ्यांतली गोरवां, शेजाऱ्यांली सगळीं दोळ्यां फुडे येवपाक लागलीं. फुडले ७३० दीस म्हज्या गांवांक, शेजाऱ्यांक, घरच्यांक, पळयनास्तना हांव कसो रावतलों? हो प्रस्न म्हाका भेडसावपाक लागलो.

दुसऱ्या दिसाच्यान म्हजी स्विमिंग पुलाचेर लाईफ गार्ड ड्युटी सुरू जाली. पेंवप... स्वींमिंग हो म्हजो एक आवडतो छंद... हॉबी... हांवें पेंवपाच्या सर्तीनी खूब फावट इनामां जोडिल्लीं. कितलेच फावट मांडवी-जुवारेची आलतड-पलतड मारिल्ली. जीव रक्षकाचे... लाईफ गार्डाचे काम म्हणल्यार म्हाका भोव सोपें आसलें पूण ४७-४८ डिग्री गरमेन काम करप म्हळ्यार खूप त्रासाचे काम. बेरेस्तार, सुक्रार वीक एन्ड आशिल्ल्यान सगळो हॅल्थ क्लब आनी बीच भरून वतालो. स्विमींग पूल ताल्ल्यांनीं उपाट भरिल्ल्या लातावरी जातालों.

कोण बुचकळटा, कोण उडी मारता... कोण धावतना पडटा, सर्कशी चालूच. खूब देशांतली भुरगीं पळयली पूण इजिप्शीयन आनी पेलस्टाईनच्या आरबाच्या भुरग्यां इतली मस्ती भुरगीं खंयच पळोवंक ना. कशीच कंट्रोल जायनासलीं, कितें सांगा ताच्या सारकें उरफाटें करप. दिसाक चार फावटी तरी बुचकळता त्या भुरग्यांक... पेंवंक येनाशिल्ल्या जाण्ट्यांक वाटोवपाक म्हाका उदकान उड्यो मारच्यो पडटाल्यों.

कामार आसतना टायमपास जातालों, पूण रुमार एकटो आसतना घरच्यो यादी घुसपटून उडयताल्यों. मागीर कित्यानूच मन लागनासलें. एक सुमार असोच गेलो. एक दीस असोच सांजचो घरचें चिंतींत बशिल्लों आनी बिचार बोटी चलोवपी म्हजो इश्ट मायकल भितर सल्लों.

'रमेश चोल सुकान या (बाजारान) तुका ऑर्केस्ट्राक व्होरता.

हांवें कपडे बदल्लें आनी ताच्या वांगडा सिटींत वचपी हॉटेलाचे बशींत वचून बसलों. आमचे हॉटेल शारा पासून ३५ किलो मीटर अंराचेर आशिल्लें. सुमार २५-३० मिण्टा शारांत पावपाक लागताली.

बस शारांत पावक लागतकच व्हडल्यो वीस-पंचवीस मजली बिल्डींग नदरेक पडपाक लागल्यो. रूंद, सुळसुळीत नितळ रस्तें, रस्त्याच्या दोनूय सायडीनी व्हडली सुपर मार्केटां, हायपर मार्केटां, मोलां, बुटिकां, ब्युटी पार्लरा. लखलखत्या लायटींनी साठ सत्तर फूंट उंचायेच्या सायन बोर्डानी कांय खीण हांव दिपोवन गेलों. आबुधाबी शार नवी व्हकल कशी शृंगारलेली.. सजलेली. जगांतल्या सगल्या देशांचे लोक हांगा दिश्टी पडटालें.

मायकलान म्हाका टॅक्सीन बसोवन पुराय शार भोंवडायलों. आबुधाबी कोर्नेशायाची सुंदर दर्यादिग झगझगते बोटींनी भरिल्लें, मरिना मनीस निर्मित सुंदर जुंवें आनी ताचे वयले मॉल आनी शॉपिंग सेंटरां, हेरिटेज म्युझियम. आंतरराष्ट्रीय किर्तीचो रामदा, हॉलिडेइन, शेरेटोन, मेरीयेटा सारकीं पांच नकेत्री न्हंयेच्या वेळेवयलीं सुंदर हॉटेलां,

आबुधाबीचो पारंपारीक मसाल्याचो बाजार, भांगराची शॉपां. हे खरेच सगळें एलळींळपस सुंदर आसलें पूण म्हज्या तोंडा वयल्यों मिरयो तश्योच उल्ल्यों.

'चोल... आतां ऑर्केस्ट्राक या.'

मायकलान टॅक्सिवाल्यां पठाणांक आमकां नरज्ञहशी हॉटेला फाटल्यान सोडपाक सांगलें.

प्लॅटफॉर्माच्या उंच्चेल्ल्या स्टेजीर, एक बायजान कसो दिसपी गांवपी हिट आयटम गीत गायतालो आनी ताच्या भोवतणी पांच साडयो न्हेशिल्ल्यो... अर्दो अर्दो किलो मेकअप थापिल्ल्यों चलयों भेणां हालयत नाचताल्यों. सगळीं कडेन सिगरेटीचो धुंवर भरिल्लो. ड्राफ बियरांची... फसफसत्या फेसाची पायटां तोंडांक लायत... मुज्गाच्या तालार तकल्यो हालयत पंदरा-वीस आड वयाचे इंडियन, पाकिस्तानी दादले बशिल्ले. हाताचे कोयणेन नकली फुलांचे हार घेवन भुरगेल्ल्या तोडांचो चिकणो दिसपी वीस-बावीस वर्सांचो भुरगो उबो आसलो.

पिवून... नशेंत तर्र जाल्ल्या शौकिनां कडेन मादक हासत मस्त्यांनी तांच्या दोळ्यान पळयत त्यो चलयो हासत हासत नाचताल्यो. मदीच कोण रेग्युलर बिनधास्त शौकीन आपलो नंबर टिश्यू पेपरार बरोवन त्य हारवाल्या चल्यां मार्फत त्या नाचतल्या ग्रुपांतल्या आवडिल्ल्या चलयेक धाडतालो. दोन मिण्टांनी तो नंबराचो कागद मेळिल्ली नाचपी चली त्या रेग्युलर बिनधास्त शौकिनाक एँीर ुशिशीं स्मायल दिताली.

त्या तिच्या मव्हाळ हाश्यान पिसो जाल्लो शौकीन. त्या हातान हार घेवन उबो आशिल्ल्या चल्याक खुणायतालो. तो चलो हार व्हरून त्या चलयेक घालतालो. त्या चलयेचो आनीक दुसरो कोण 'आशिक शौकीन' त्या बारांत बशिल्लो आसल्यार आपुणूय त्या चलयेक हाराची फर्माई करतालो. ते राती हांवें अश्या जुगलबंदीन एक चलयेचो गळो वीस-बावीस हारांनी भरून गेल्लो पळयलों.

पयली म्हाका हो हारांचो प्रकार कितें तो कळूंक ना. मागीर मायकलान म्हाका सांगलें, ल्हान हार तिनशे डिराम्स... व्हडलों पांचशे डिराम्स, तो टिप्स दिवपाचो प्रकार आसलो. काय वर्सां आदी शौकीन त्या चलया वयल्यान पयश्यांच्या नोटांचो पावस घालताले, पूण मागीर सरकारान त्या प्रकाराचेर बंदी घातली. मागीर त्या क्लबवाल्यांनी हो फुलांच्या हारांचो प्रकार सुरू केलो.

चड्श्यो नाचपी चलयो एकदम चालू आसल्यों. मादक हासत, लाग मारीत त्यो त्या शौकिनांक पिशे लायताल्यों. आपल्या फॅमिली कडल्यान पयस आशिल्ले भारतीय उपखंडांतले थोडे कामगार ह्या भुजऱ्या फाटल्यान लागून कंगाल जाल्ले. खूप जाण पांच पांच वर्सां पयशे नाशिल्ल्यान गल्फानूच शिरकून पडिल्ले.

म्हाका अर्दा वरान सुमार त्या मुजराचो कंटाळो आयलों. हांवें ल्हवूच कानांक पीळ घातलों, हे असले ऑर्केस्ट्राक हांव केन्नाच येवचों ना. हांवें दोन पायटां माल्ली. मायकलाची तीन जाल्लीं. म्हाका सिगरेटीच्या वासान आनी त्या 'तवनास माहोलान' मळमळूंक जावंक लागले. हांवें मायकलाक ल्हवूच चिमटो काडलों.

'मायकल चोल या आमी, म्हाका वाज आयलों.'

खरें म्हणल्यार मायकलाक आजून एक पायट मारपाक जाय आसलें. पूण म्हज्या वाजेल्ल्या तोंडांक पळोवन तोय उबो रावलो.

वोचपाक जाय?

किरमोळेंचे बोट दाखयत ताणे म्हाका विचाल्लें.

वोकोंक बी येयना म्हूरे?

ताणें परत विचाल्लें, हांवें कांय उत्तर दिवंक ना. रेस्ट रुमांतल्यान दोगूय भायर आयले. टॅक्सीन बसले आनी रुमार आयले. बियरीन देविल्ली तकली मात्शी ल्हव जालीं. गोंयां ११ जाल्या आसतली. दाय आजून पेपर वाचीत बसला आसतलो. घरच्या उगडासान ल्हव जालीं. तकली परत जड जाली. चाचा सुस्त न्हिदिल्लो. हांव तसोच बेडार वचून कपडे चेंज करी नास्तना न्हिदलों.

धा दिसां उपरांत इराकाच्या सद्दाम हुसेनान कुवेताचेर घुरी घालून कब्जो केल्लों. पुराय अरबी देशांनी खळबळ जालीं. दुसऱ्या दिसाच्यान युरोपियन देशांत हॉटेलानी रावपी टुरिस्ट आपल्या देशाक परत वचपाक लागलें. आनी सांजवेळा मेरेन अमेरीकन सोल्दादांनी हॉटेल भल्लें. तिनशें रुमांभितल्ले अडीचशें रूम अमेरीकन आर्मड फोसेसांक रिझर्व दवरले. पुराय आबुधाबीक युद्धाच्या छावणीचे रूप आयलें.

अमेरीकन प्रेसीडंट बुशान सद्दाम हुसेनाक धमकायलों. जर चार दिसां भितर आपले कुवेतांतले सैन्य परत फाटी घेवंकना जाल्यार इराकाचेर हल्लो करतलों.

सद्दाम हुसेनान आपलों हट्टीपणां कसोच सोडूंक ना. ताणें उरफाटें अमेरीकेक सांगलें, कुवेत आपलें. आनी जर अमेरीका फोर्सेन इराकाचेर हल्लो करीत जाल्यार आपूण आपले कडेन आशिल्ल्या कॅमिकल बॉम्बांचो वापर करतलों.

चोवीस वरां उछ्छ्य्यो बातम्यो चालू आसताल्यो. सगळे कडेन भिरांकूळ वातावरण पातळिल्लें. कुवेत, साउदी अरेबिया, बाहरेन, ओमान देशांनी आशिल्ले गोंयकार, युद्धाचे भिरांतीन गोंयां वचपाक लागले.

म्हाका घरा कडल्यान पत्र आयलें, जर जिवाक धोको आसा जाल्यार गल्फाचे पयशे बी कांय नाका, तूं बेगीन घरा यो.

चाचा गुरुदेव सिंग सगळ्या परस चड भिलों. तो इतलो भिलों की डेली न्हिदेन वथऱ्योंक लागलों. ताणें उदकाच्या बाटल्यांची कार्टूना आनी टीन फूड स्टफ हाडून भल्लों. एक अफवा सगळ्याक आयकूंक येताली, जर इराकान कॅमिकल बॉम्ब एुश्रीळेप केलें तर वाऱ्यार ही गॅस आबुधाबी शारांत पावूंक शकता.

चाचान सिलिकोन गन आनी टेपी हाडून सगळी जनेलां सिल केलीं. गरीब उपाशी भिकूण लेगीत भितर सरपाक एक बुराक वो खांच

ताणें दवरूंक ना. इतलें करूनय तो रातचो दोन तीन फावटी भिरातीन उठलोच...

'बेटा कुछ अजिब सा बास आ रहा है' हांवें ताका समजायलों चाचा आपको युही वहम हो रहा है... कुछ वास नही आ रहा है.

नही यार घर जाके कुछ हुआ तो ठिक है, ये परदेश है, अपना मुल्लूक नही है... यहाँ कुछ नही होना चाहिए. तो काकुळतीक येवन सांगपाक लागलों.

म्हाका एके वाटेन हांसूंक येतालें. चाचाक पळोवच्या आदी म्हजी धारणा आसलीं. सगळे शीख, निडर, आर्मीवाले देशाक लागून लडपी एक शूर जमात. तांकां भंय भिरांत म्हणल्यार कितें तें खबर ना. पूण चाचाक पळोवन म्हजो तो गैरसमज निवळ्ळों.

पुराय आबुधाबीन भिरांकूळ अशे वातावरण जाल्लें. सगळे देवा कडेन मागतालें, ह्या सद्दाम हुसेनाक बरी बुद्द दी. हे युद्ध जावंक ना जाल्यां पुरो... ह्या पिश्या शिरफिऱ्या इराक्यान जर कॅमिकल वेपन वापरलें तर लोक किडी-मुयों कशे मरून वतले.

हांव मात मजेन आसलों. जावंनी युद्ध जाता जाल्यार... फुटूंनी बॉम्ब फुटता जाल्यार... म्हाका त्या निमतान घरा तरी पळून वचपाक मेळटलें. कोणाक जाय हे गल्फ. पुरो म्हजी शेतां,गोरवां आनी हॉटेलांतली ल्हानशी नोकरी. कसो तरी ऑगस्ट म्हयनो सोपलों. म्हाका एक सप्टेंबराक पगार, अलावन्स आनी ओव्हर टायम मेळून बारा हजार सशे रुपया मेळ्ळें.

गोंयांत म्हाका णवशें रुपया पगार आसलों. हांव पाचशें आई कडेन घर खर्चाक दितालों. दाय रिटायर्ड जावन देड वर्स जाल्ले. दुदाचो धंदो पावसान डीम पडटालों. त्या पयश्यांनी घर सांबाळप आईक कठीण वयतालें. पुण ती केन्नाच सांगिनासली.

हांवेंन पगार घेतलों, त्याच दिसा सांजे बाजारान वचून आईक धा हजारांचों ड्राफ्ट धाडलों. हांव दर चार दिसांनी घरा पत्र बरयतालों. त्या वेळार मोबायल, इंटरनेट भारतांत पावूंक नासलें. आकांताच्या वेळार फॉरेन कॉल बूक करपाक आमचे शेजारी 'ओ कोकेरो' हॉटेलांत पर्वरी वयतालें. त्या गुळ्या कडल्या हॉटेलांत खेटा खेट गर्दी पडिल्ली आसताली. वराची वरां फोन लागनासलो. लागलो जाल्यारय पावसान खरखरतालो आनी मदीच बंद पडटालों.

आबुधाबीच्यान घरा चीट पावपाक धा - बारा दीस लागताले. ते वेळार गांवचो पिटर पोस्टमॅन म्हळ्यार एक देवदूत कसो. ताच्या सायकलिचीं कांपीण गांवांत सगल्या जाणांच्या वळखिची. कांपीण वाजतकच घारव्या वयलें आल्यान, रान्नीतलो उजो, मान्न्यांतली आयदनां सोडून सगलीं रस्त्यार धावतालीं. (दोन हजार स वर्सा पिटर पोस्टमॅन सांजावां दिसा बुडून मेलो, ताच्या इंतेराक आमच्या गांवच्या दोतोर विली परस चड गर्दी जाल्ली)

'आयल्या म्हुगे चेड्याची चीट... म्हुजो रेकाद बी घाल हां...'

अशें म्हणल्या शिवाय आमचो खंयचोच शेजारी वाटे वयल्यान पासार जाय नासलो. हांव लांब लांब चिटी बरयतालों. त्या चिटींनी कामाच्यो, इस्टांच्यो, हवामानाच्यो गल्फाच्या लडाईच्यो, दुसऱ्या देशाच्या लोकांच्यो अश्यो सगळ्यो खबरो आसताल्यों. म्हजे धाकटे भयणीन चीट वाचप आनी दाय, आईन बसून आयकप. पयलीं म्हज्यो चीटी मराठी ना जाल्यार इंग्लीशींतल्यान आसताल्यों, पूण एकदा हांवेंन कोंकणींतल्यान बरयल्ली चीट अदीक चड मानवली. तिणें रकाद धाडलो. बाबा ह्या फुडें चीटी कोंकणींतल्यान... आमचे भाशेंतल्यानूच बरय. आमच्या भाशेंतल्या चिटींतली उतरां सारकी काळजाक लागतात. त्या दिसाच्यान हांवें इंग्लीश-मराठीन चिटी बरवप बंद केलें आनी कोंकणींतल्यानूच बरोवंक लागलों.

धा हजार रुपया ड्राफ्टाची चीट जेन्ना घरा पावली, आई रडली, म्हज्या कडक बापायच्याय दोळ्यांतल्यान कुस्कूट पडल्यावरी खंयच्यान तरी दोन दुकां पगळली, ती लिपयत तो पडवेंतल्या सोप्यार येवन बसलों. भयणीन खोशयेन बरयलें... भाऊ आता आमी गिरेस्त जालीं.

जेन्ना म्हाका भयणीचीं दुकांन फुगिल्ल्या अस्पश्ट उतरांची चीट मेळ्ळी, म्हजेय मन भरून आयलें.

ते चिटीन म्हजे भुरगेंपण सोंपलें. हांव अचकीत जाणटो जालों. म्हाका वाडिल्ल्या भयणिच्या लग्नाचो हुस्को जावंक लागलो. आता दाय जाण्टो जाला, भयणिचे लग्न करप आता म्हजी जबाबदारी ही जाणीव जावपाक लागली.

बापूय जाणटो जातकच जेन्ना भुरगे घराची जबाबदारी घेतात तेन्ना जाण्ट्यांक जाल्ली खोशी हांव घराकडल्यान तीन हजार किलोमीटर पयस रावोन अणभवपाक लागलों.

म्हज्या जिवितांतल्या ठिंळीळींळशी ची म्हाका जाणीव जावंक लागली. म्हाका आवय बापायक जाण्टेपणार आधार दिवपी पूत जावपाक जाय, भयणीचो बरो भाव जावपाक जाय ह्यो साद्यो गजाली त्या खिणांक म्हाका म्हत्वाच्यो दिसपाक लागल्यो.

न्हिदसुऱ्या हांव त्या राती चिंतींत रावलों, वांकडे भेन करीत गोठ्यांत दूद काडपी म्हजे आईक आता सुशेग दिवपाक जाय. ब्लॅक ॲन्ड व्हायट इसी टिव्हीचेर आपली आवडटी महाभारत सिरीयल पळोवपी म्हज्या जाणट्या बापायक एक ओनीडा कलर टीव्ही भेट दिवंक जाय. म्हज्या कॉलेजीक वयतल्या भयणीक फुडलें बरें शिकप दिवपाक जाय... म्हाका न्हिद पडसर म्हजें लिस्ट वाडत गेलें.

ल्हव ल्हव म्हजो गोंयां परत येवपाचो विचार फाटी पडलो. दोळो लागच्या आदी हांवें मनांत म्हळें, आता व्हडलें युद्ध जाल्यार लेगीत घरा वयचों ना.

■

# लिसेवाचेर तिरंगो लासून उडयलो तेन्ना...

डॉ. हरिश्चंद्र नागवेंकार
९४२२४१७२३३

डॉ. हरिश्चंद्र नागवेंकार हांच्या ७६ वर्सांच्या जिणे-प्रवासांत तांणी पणजेच्या लिसेवाचेर दोन वर्सां (लिसेवाचें सवें आनी सातवें वर्स) घेतिल्लें पुर्तुगेज शिक्षण, हो एक म्हत्वाचो टप्पो तांच्या जिवितातलो आसा. पुर्तुगेजांच्या निमण्या दोन वर्सांच्या कालखंडात लिसेवाचेर आनी पणजेंत कितें घडलें, हाचेर तांणी उजवाड घातला.

तोडडेच्या पांच वरांचेर अर्दवट न्हिदेंतल्यान जाग आयली. सगली रात तळमळून काडली म्हणल्यार जाता. मनांत परतें परतें येतालें, अशें कित्याक घडचें? लिसेवाचेर शिकपी कितलेशेच भुरगे स्वताक पुर्तुगेज समजतालें, हें आमकां खबर आशिल्ली. पूण, तातूंतले कांय जाण इतल्या सकयल्ल्या पांवड्यार पावतले, हें म्हज्या कल्पने भायरें आशिल्लें. गोंय मुक्त जातकीर, पणजेंतल्या लिसेवाच्या ध्वज-स्तंभाचेर हांवें फुडाकार घेवन, अशोक काकोडकार ह्या म्हज्या लिसेव-सांगात्याचे मदतीन, थंयच्या सेवकाक सांगून लायिल्लो भारतीय तिरंगी बावटो कांय भारत-दुस्वासी आनी पुर्तुगेज-धार्जिण्या विद्यार्थ्यांनी सकयल काडून लासून वडयिल्लो. हे घडणुकेचो लिसेवाचेरच न्हय, जाल्यार पणजेंत सगले कडेन बोवाळ जाल्लो. शासना मेरेन ही गजाल पाविल्ली. म्हाका तर ही घडणूक खूब दुख्खाची, म्हजें काळीज चिरून वडोवपी, अशी आशिल्ली. मनाक पुराय निर्शेवणी आयिल्ली. तसोच एका कदेलार बसलो आसतना म्हजें मन फाटल्यान फाटल्यान वचपाक लागलें. गोंय मुक्त जातकीर लिसेवावयल्या म्हज्या सारख्या कितल्याश्याच भुरग्यांक खूब खोस जाल्ली. आमी भारतीय, गोंय भारताच्या गोपांत परतें येवपाक जाय, अशें आमकां काळजा थावन दिसतालें. आमी पुर्तुगेज शिक्षण घेताले, हाचो अर्थ आमी पुर्तुगेज-धार्जिणे आशिल्लें, अशें न्हय. आमच्या मदल्या खूब जाणांक सेतिम आनु पास करून उप्रांत दोतोर, शिक्षक, वकील जावपाक जाय आशिल्लें. शासनांत वयल्यो नोकऱ्यो मेळच्यो अशें दिसतालें. हे खातीर गरजेचें ज्ञान आनी पदविका मेळोवपा खातीरच आमी पुर्तुगेज शिक्षणाचो लिसेवचो कोर्स करताले. पूण, लिसेवावयले कितलेशेच विद्यार्थी स्वताक पुर्तुगेज समजताले. तिरंगी बावटो लासून वडोवपाची घडणूक घडना फुडें म्हज्या मनाचेर एका फाटल्यान एक अशीं यादींची ल्हारां आदळपाक लागलीं...

पणजेंतल्या मुखेल पोस्ट ऑफीसाच्या फाटल्यान एके अरुंद लेनींत आशिल्ली भटाची खाणावळ. आयज तिका भारत लॉज ह्या नांवान वळखतात. हे इमारतीच्या पयल्या माळ्यार लिसेच आनी मेडिसीन शिकपी भुरगें रावताले. एका रुमांत हांव आनी अशोक काकोडकार. दोगूय लिसेवच्या सेतिम, आनुचो (सातवें वर्स) कोर्स करताले. हांव

आर्टस जाल्यार अशोक हो सायन्सीच्या निमण्या वर्सांत. मुळाव्या शिक्षणाचीं चार वर्सां धरून पुर्तुगेज शिक्षणाच्या अकरा वर्सांचो हो कोर्स. आल्तिनु, पणजेच्या प्रशस्त सुवातेर तीन-चार व्हड इमारतींची ''लिसेव नासियोनाल आफोंसु दे आल्बुकेर्क'', ही लिसेवचें सात वर्सांचें शिक्षण दिवपी शिक्षण-संस्था, आमी दोगय जाण मडगांवांत इन्स्टिट्यूट आबादी फारीया, हे शिक्षण संस्थेंत लिसेवचीं पांच वर्सां पुराय करून सव्या आनी सातव्या वर्सा खातीर पणजे आयिल्ले. लिसेवच्या सव्या आनी सातव्या वर्सांत एक तर सायन्स शाखा, ना जाल्यार आर्टस शाखा घेवपाक मेळटाली. हाचो अर्थ स्पेशलायझेशन आशिल्लें. हांवें सगली रात तळमळून काडिल्लीं, अशें म्हणलां तो दीस जानेवारी १९६२ ह्या म्हयन्याच्या पयल्या सप्तकांतलो जायत. हांव आनी अशोक लिसेवच्या सातव्या वर्सांचें (सेतिमु आनु) शिक्षण घेतालें. १९६१ वर्साच्या डिसेंबर म्हयन्यांत पुर्तुगेज सत्ता नानपयत करपा खातीर भारतीय सैन्यान गोंय, दामांव आनी दीव ह्या तीनय प्रदेशांत प्रवेश केल्लो. १८ डिसेंबरच्या सांजवेळा भारतीय लश्कर पर्वरी मेरेन पाविल्लें, तें मांडवी न्हंयेच्या आलतडच्यान आमकां दिसतालें. बांबोळीच्या पुर्तुगेज रेडियो स्टेशनाचेर भारतीय वायुसेनेन केल्लो बॉम्ब-वर्षाव आमी पळयलों. १८ डिसेंबराच्या सांजवेळच्या स वरांचेर गोंयच्या साडे चारशें वर्सांच्या इतिहासांतलो भांगराळो खीण म्हणपा येता, असो खीण हांवें आनी म्हज्या सांगात्यांनी अणभवलो. पणजेच्या पालासीच्या (आदिलशहा राजवाडो) स्तंभावयलो पुर्तुगेज बावटो सकयल देंवयताले आनी रोखडोच शरणागतीचो धवो बावटो पालासिच्या ध्वज-स्तंभाचेर वयर चडयतात, तो इतिहासीक खीण आमी अणभवलों. साडेचारशें वर्सांचो पुर्तुगेज वसाहतवाद सोंपलो, ताचे आमी १८ डिसेंबर १९६१ ह्या दिसा साक्षी आशिल्लें. दुसऱ्या दिसा १९ डिसेंबर १९६१ हो भांगराळो दीस उगवलो. पुर्तुगेज सत्तेचें मुखेल केंद्र आशिल्ल्या पणजेंतल्या पालासीचेर २० डिसेंबराक तिरंगो - भारतीय झेंडो हबोवपाचो सुवाळो जालो. पणजेंत सगले कडेन आनंदाचें, उत्साह-उमेदीचें वातावरण आशिल्लें. बाणस्तारी पूल पुर्तुगेज सैन्यान सुरींग लावन मोडून वडयिल्ल्यान भारतीय सैन्य - भारतीय सैनीक व्हड्यांतल्यान बेतीं आनी बाणस्तारीच्यान आलतडी आयले. तांकां पणजे हाडपा खातीर पणजेंतल्यान ''कारैरी'' म्हळ्यार त्या काळांत पॅसेंजरांक व्हरपाखातीर आशिल्ल्यो पब्लीक कॅरियर्स घेवन पणजेचे लोक १९ डिसेंबराक व्हडा संख्येन बाणस्तारी वचपाक लागले. ह्या लोकां मदीं आमी कांय विद्यार्थींय आशिल्लें. ''कारैरी''तल्या भारती सैनिकांक पणजे हाडटना तांच्या जेवणाचीं व्हडलीं-व्हडलीं आयदनांय ''कारैरीं'' तल्यान आमी हाडलीं. ''सैने पोटावर चालतात,'' हाची याद करून दिवपी हो खीण आशिल्लो.

**लिसेवाचेर भारतीय झेंडो लावपाचो विचार**

पणजे पालासीचेर तसोच क्वार्तेलाचेर (पोलीस स्टेशन) भारतीय झेंडो हुबतना पळोवप, ही दर एकल्याक खोशयेची आनी उत्साहाची गजाल आशिल्ली. क्वार्तेलाच्या मुखावयल्या रस्त्याचेर शरण आयिल्ले पुर्तुगेज सैनीक तकली सकयल घालून बशिल्ले आमी पळयले. पणजेंत सगले कडेन भारतीय सैन्याचो जयजयकार चलतालो. पालासी सामकार भारतीय सैनीक आनी गोंयकार लोक हांचे चोमे दिसतालें. पालासीचेर हुबतालो तो भारतीय तिरंगी झेंडो पळयतकीर म्हजे तकलेंत एक विचार आयलों, तो म्हणल्यार लिसेवाच्या ज्या स्तंभाचेर आतां मेरेन जो पुर्तुगेज झेंडो हुबतालों, त्या स्तंभाचेर भारतीय तिरंगी झेंडो हुबतना आम कां सगल्या विद्यार्थ्यांक दिसपाक जाय. गोंय मुक्त जातकीर लिसेवाक नातालाची सुटी आयिल्ल्यान लिसेव नवें वर्स १९६२ येई मेरेन बंद आशिल्लो. सुटये उपरांत आमचें वर्ग सुरू जातकीर हांवें पळयलें की, ध्वज-स्तंभ रिकामो आसा. ताचेर भारतीय झेंडो हुबोवचो, असो ताचो अर्थ. वर्ग सोंपतकीर आमी भटाच्या खाणावळींतल्या आमच्या रुमांत परतलें. हांवें अशोकाक म्हणलें, हांव शेनवारा मडगांवां वतकीर येतना, वळखिंच्या दर्ज्या कडच्यान तिरंगी झेंडो शिवून घेवन येता. मागीर लिसेवच्या संबंधीत सेवकाक सांगून तो ध्वज-स्तंभार हुबोंवया.

**स्वताक पुर्तुगेज समजुप्यांक दुख्ख**

मडगांवांत येना फुडें तिरंग्याच्या रंगाचें तीन कपडे हांवें विकते घेतलें आनी रोपा-आळींत दुकाना भायर, शिंवपाचें मशीन घेवन कपडे शिंवपी म्हज्या वळखिच्या दर्ज्या कडच्यान तिरंगी झेंडो तयार करून घेतलों आनी पणजे परतना फुडें दुसऱ्या दिसा वर्गांत भितर सरचे पयलीं संबंधीत सेवकाक मेळून तिरंगी झेंडो ध्वज-स्तंभार चडयलो. भारतीय झेंडो लिसेवाचेर हुबतना पळोवन म्हाका आनी म्हज्या सांगात्यांक जी खोस जाली तिका शीम-मेर नाशिल्ली. पूण, लिसेवाचेर अशे कितलेशेंच विद्यार्थी आशिल्ले की, तांकां गोंय पुर्तुगेजांच्या वसाहतवादी राजवटींतल्यान मुक्त जालें, हाचें खूब दुख्ख जाल्लें. नात्यांतलो कोणी मेल्ल्या भशेन सुतकी चेऱ्यान ते भोंवतालें. संख्येन खूब आशिल्ले हे विद्यार्थी आनी विद्यार्थिनी आपणाक पुर्तुगेजच समजतालें. गोंय, दामांव आनी दीव,हे वाठार पुर्तुगालचे दर्यापार प्रांत, अशें तांचें मत आशिल्लें. आपूण वंशान भारतीय आसा, हे सत्य तांकां मान्य नाशिल्लें जायत. हाका लागून तांची मानसिकता त्रिस्तांव ब्रागांझा द कुन्या हांणी बरयिल्ल्या 'ऊशपरींळेपरश्रळरींळेप ष त्रेश्नपरङ्ग', ह्या पुस्तकांतल्या ऊशपरींळेपरश्रळशव गोंयकारां भशेन जाल्ली. ह्या विद्यार्थ्यांची संस्कृतीक घडणच तशी जाल्ली. अशें विद्यार्थी मडगांवच्या इन्स्टिट्यूट आबादी फारीय ह्या लिसेवचें पांचव्या वर्सां मेरेन शिक्षण दिवपी पुर्तुगेज हायस्कूलांतय आमकां मेळिल्लें. हे भुरगें स्वताक पुर्तुगेज समजपी घराब्यांतले आशिल्लें. पणजे लिसेव शिकपा खातीर हांव दोन वर्सां उरलों. सांजवेळां आमी पणजे शारांत भोंवतना आमी पणजेच्या गार्डनांत खबऱ्यो मारतना लिसेवच्याच कांय विद्यार्थ्यां कडेन म्हजो वाद जातालों. हे विद्यार्थी, भारत हो मागाशिल्लो देश,

स्वताचें पोट भरपा खातीर भारत हा देश अमेरिकी कडेन धान्याखातीर भीक मागता, अशें म्हणटालें. तांकां हांव जाप दितालों तेन्ना म्हजे लागींचे सांगाती म्हाका परत परत सांगताले, असो वाद केल्यार तूं पुर्तुगेजांआड उलयता, अशी तुजेआड ते तक्रार करीत.

**तिरंगी झेंडा लासून वडयलो**

सांगपाची गजाल म्हणल्यार, भारतीय सैन्यान गोंयांत भितर सरून गोंय मुक्त करना फुडें हे Denationalizeव विद्यार्थी चवताळ्ळे, दुख्खी जाले. लिसेवाच्या ध्वज-स्तंभाचेर भारताचो तिरंगी झेंडो हुबतना पळयना फुडें ते खुबळ्ळें म्हणल्यार जाता. आमी कांय विद्यार्थ्यांनीच हो झेंडो ध्वज-स्तंभाचेर चडयलां, हें तांकां कळ्ळें, आनी दुसऱ्याच दिसा एक अकल्पित गजाल घडली. हांवें सुर्वेक सांगलां तेप्रमाण, कोणच पळोवपाक येवचो ना, अशा वेळार कांय भुरग्यांनी भारतीय तिरंगी झेंडो सकयल काडून तो लासून वडयलो. दुसऱ्या दिसा लिसेवच्या सेवकाच्या ध्यानांत ही गजाल येना फुडें ताणें ती वरिश्ठ अधिकाऱ्यांच्या कानार घातली. त्या वेळार प्रो. फिलीप पिंतु, हे रेयतोर (प्राचार्य) आशिल्लें, आनी प्रो. पांडुरंग वर्दे, हे व्हिसी-रेयतोर (उपप्राचार्य) आशिल्लें. दोगय जाण शांत, सरकारच्या लिसेव हे संस्थेत तांची नेमणूक जाल्ली म्हणटकीर ते आनी तांचे सारकें कितलेशेच हेर सरकारी एम्प्रेगाद पुर्तुगेज राजवटीआड कांयच उलोवंक शकनाशिल्ले. पूण, मुक्तीउपरांत गोंय, दामांव आनी दीव ह्यो पुर्तुगेज वसाहती आतां सासणाच्यो भारताच्या गोपांत आयल्यात, हाची ह्या सगल्यांक जाणीव जाल्ली. ह्या सगल्यांक पुर्तुगेज राजवट जाय आशिल्ली, अशें कोणेय समजुचें न्हय. गोंय मुक्त जातकीर आमच्या सारख्या खूब विद्यार्थ्यांच्या मुखामळार जी खोशी दिसताली ती लिपून उरपा सारकी नाशिल्ली. एक दीस कोर्रिदोरांत रेयतोर फिलीप पिंतु हांणीं आमकां म्हणलें, गोंय मुक्त जाल्ल्यान तुमी खोशी आसात, हें म्हाका काळजा थावन जाणवता. हे फाटभुंयेचेर तिरंगी बावटो लासून वडोवपाची घडणूक घडटकीर एक-दोन दिसांनी ताची चवकशी करपाची प्रक्रिया सुरू जाली. प्रो. पांडुरंग वर्दे (व्हिसी-रेयतोर) हांचे एकवांगडी चवकशी मंडळ सरकारान नेमलें. म्हजी आनी हेर कितल्याश्याच विद्यार्थी-विद्यार्थिनींची ह्या मंडळा मुखार साक्ष जाली. ह्या प्रकरणाचेर प्रो. वर्दे हांणी खोलायेंत वचून चवकशी करूनय गुन्यावकार सांपडलो ना. पूण, ते लिसेवचे पुर्तुगेज-धार्जिणे विद्यार्थीच आशिल्ले, हे दुबावविरयत आशिल्लें. आमचे कडेन भायर लिसेवच्या कॅम्पसांत उलयतना, ते अशे तरेन उलयताले की, हें कर्म तांणींच केलां. लिसेवाच्या स्तंभाचेर हांवें भारताचो बावटो लावन घेतलां, हे तांच्या मदल्या एक-दोगांक कळ्ळें, तेन्ना तांच्यामदल्या एकल्यान म्हजी खाडकी धरून हालयिल्ली. मात, चवकशी मंडळाचे प्रो. पांडुरंग वर्दे हांच्या मुखार साक्ष दितना आपणाक हातुंतलें कांयच खबर ना, अशें दर एकलो विद्यार्थी सांगूंक लागलो. हाका लागून गुन्यावकार केन्नाच सांपडलो ना. प्रो. फिलीप पिंतु, प्रो. वर्दे हांका आनी हेर प्रोफेसरांकय हें कर्म कोणें केलां, तें केन्नाच कळ्ळें ना जावंये. कांय तेंपान लिसेवच्यो परीक्षा जाल्यो. लेखी तशेंच तोंडी परीक्षा सोंपतकीर चडशे जाण सेतिम आन पास जाले, आनी आमी लिसेव शिकपा खातीर दोन वर्सां पणजे रावपी विद्यार्थी मडगांवां आपल्या घरा परतलें. परिणामत: हें प्रकरण सगले विसरून गेले.

सेतिम आनु परीक्षा हांव ङर्ग्रीरी (अींी) चे शाखेंत २० तल्या १५ गुणांनी म्हणल्यार ७५% गुणांनी पास जालों. जर्मन भाशा सोडून हेर पांचय विशयांत (म्हणल्यार पुर्तुगेज साहित्य, लॅटीन भाशा, जगाचो इतिहास, तत्त्वज्ञान, राजकी संघटन) म्हाका लेखी परिक्षेंत २०तले १६ आनी १७ अशे गूण पडिल्ल्यान, जर्मन भाशा सोडून हेर पांचय विशयांत तोंडी परीक्षा दिवपाची गरज पडनासतना हांव पास जालों. फकत जर्मन भाशेंत लेखी परिक्षेंत म्हाका, हांवें खाजगी शिक्षका कडेन पणजे ट्यूशन घेवनय १६ परस उणें म्हणल्यार १२ गुण मेळ्ळें. तोंडी परिक्षेंत ते आनी उणें म्हणल्यार १० जाले. हाका लागून म्हजी पास जावपाची सरासरी २० तली १५ जाली. आयज हांव जेन्ना लिसेव शिक्षण पद्धत आनी भारतीय शिक्षण पद्धत (मॅट्रीक आनी कॉलेज शिक्षण) हांची तुळा करतां, तेन्ना लिसेवची शिक्षण-पद्धत म्हाका कितलीशीच वयल्या पांवड्याची दिसता. पुर्तुगेज शिक्षण पद्धतींत मुळाव्या तिसरी आनी चवथी ह्या शिक्षणक्रमांत सरकारच्या पांवड्यार लेखी परिक्षा आसताली आनी ह्या परिक्षांत पालक आनी हेर सगल्यां मुखार तोंडी परिक्षाय घेताले. तेचप्रमाण, लिसेवचें दुसरें वर्स, पांचवें वर्स आनी सातवें वर्स (सेतिम आनु) ह्या वर्सांत सरकारी पावंड्यार परिक्षांचें आयोजन जातालें. लिसेवच्या दुसऱ्या वर्साच्या परिक्षेत उण्यात उणें सरकारी १५ गूण (२० मदले) मेळ्ळे तर तोंडी परिक्षेंतल्यान सूट मेळटाली. लिसेवच्या पांचव्या वर्सा (किंतु आनु - हो कोर्स मॅट्रीकेक समकक्ष आशिल्लो) सायन्स आनी आर्टस् ह्या दोन शाखांतले विशय आसताले. दरएके शाखेंतल्या सगल्या विशयांत सरासरी उण्यांत उणें १४ (विसांतले) गूण मेळ्ळे तर तोंडी परिक्षा दिवंची पडनाशिल्ली. एके शाखेंत १४ परस उणी सरासरी मेळ्ळी जाल्यार ते शाखेंत तोंडी परीक्षा दिवंची पडटाली. म्हत्त्वाचें म्हणल्यार मुळाव्या शिक्षणाउपरांत लिसेवाक प्रवेश मेळयतलो जाल्यार पणजे वचून प्रवेश परीक्षा दिवंची पडटाली. प्रवेश सहज मेळनाशिल्लो.

लिसेवच्या सगल्या सातय वर्सांच्या काळांत जर्मन भाशा ह्या विशयाक उणें गूण मेळिल्ल्यान फकत ह्या एकाच विशयाचे बाबतींत म्हाका तोंडी परीक्षा दिवंची पडली. हेर सगल्या विशयांत उच्च गूण मेळिल्ल्यान हांव लेखी परिक्षेंतच अंतिम परीक्षा पास जालों.

मडगांवांत इन्स्टिट्युट आबादी फारीयांत म्हजे वेळार (मार्च १९६०त) लिसेवच्या पांचव्या वर्सांत (किंतु आनु) फकत दोगच जाण दोनय (सायन्स आनी आर्टस) शाखांत उच्च गूण (२० तले१४) मेळिल्ल्यान, तोंडी परिक्षेची गरज पडनासतना पास जाल्ले. तातूंत हांव

आनी एक चली हांचो आसपाव आशिल्लों. श्री दामोदर विद्याभुवनच्या हॉलांत जाल्ल्या इन्स्टिट्यूटाच्या वर्सुकी स्नेहसंमेलनांत आमकां स्कुलान इनाम दिल्लें आनी गौरव केल्लों.

**दोतोर, वकील जावपा खातीर लिसेव**

हें सगलें सांगपाचें कारण म्हणल्यार, हांव मराठी चवथी आनी पुर्तुगेज मुळावें शिक्षण पुराय करतकीर लिसेवचें मुखावयलें शिक्षण घेवपाक गेलों, हें म्हज्या खुबशा सोयऱ्यांक विचित्र अशें दिसलें. त्या काळांत पुर्तुगेज मुळावें शिक्षण घेतकीर हिन्दू भुरगें चडशे इंग्लेज शिकपाक वताले आनी मॅट्रीकचो कोर्स पुराय करताले. लिसेव शिकपी खूबच उणें हिन्दू भुरगे आसताले. मडगांवांत श्याम पाणंदीकार (उपरांत दोतोर), श्रीराम कंटक, शिरवयकार, तुळशीदास बोरकार, बरड, मनोहर लोटलीकार, गणपत वेर्लेकार (हो मॅट्रीक पास करून आयिल्लो), अशोक काकोडकार, रमा कंटक आनी ताचो भाव महेश अशे कितलेशेच हिन्दू भुरगे आशिल्लें. तातूंत हांव एक. आमी सगले पुर्तुगेज लिसेवाचें शिक्षण घेवपाफाटलें कारण म्हणल्यार, खूब जाणांक सरकारी नोकऱ्यो करपाची इत्सा आशिल्ली, जाल्यार खूब जाणांक दोतोर, फार्मासेवतिकू, वकील जावपाक जाय आशिल्लें. कांय जाणांक पुर्तुगालाक वचून उंचेलें शिक्षण घेवपाक जाय आशिल्लें. ख्रिश्चन आनी कांय मुस्लीम विद्यार्थ्यांचोय होच उद्देश आशिल्लो. त्या काळांत गोंयांत नोकऱ्यो खूब उण्या प्रमाणांत उपलब्ध आशिल्ल्यो आनी मॅट्रीक उपरांतचें उंचेलें इंग्लेज शिक्षण घेवपाक धारवाड, पुणें, मुंबय ह्या शारांनी वचचें पडटालें. म्हज्या नात्यांतले मनोहर लोटलीकार आनी गणपत वेर्लेकार हे त्या काळांतच सरकारी नोकऱ्यो करतालें. हिन्दू जावं वो ख्रिश्चन जावं, भोवतेकांक पुर्तुगेज वसाहतवाद केन्ना तरी वतलो, हाची खात्री आशिल्ली. आमी पुर्तुगेज शिक्षण घेतात, हाचो अर्थ आमी पुर्तुगेज राजवटीचे वटेन आसात, अशें समजप ही गजाल वास्तवाक धरून नाशिल्ली. परके भाशेंतल्यान शिक्षण घेवप म्हणल्यार पारतंत्र्यांत रावपाची इत्सा बाळगप, अशें समजप हें अबुद्दपणाचें लक्षण आशिल्लें. गोंयांतल्या कितल्याश्याच सुटके- झुजाऱ्यांनी सेतिमु आनु हो सायन्सचो कोर्स करतकीर डॉक्टरी फार्मासेवतिकलचें शिक्षण पूर्ण केल्लें. जाल्यार आर्टस् शाखेंत सेतिमु आनु पास जाल्ले कितलेशेच जाण वकिलीची सनद उत्तीर्ण जाल्लें. भारतांतल्या सुटके-झुजांतले भोवतेक फुडारी, देखीक महात्मा गांधी, जवाहरलाल नेहरु, सुभाषचंद्र बोस, हेय इंग्लेज शिक्षण घेवनच भारताक स्वातंत्र्य मेळोवन दिवपाच्या चळवळींत भितर सरिल्ले. गोंयच्या सुटके झुजांत वांटो घेवपी राम हेगडे, पां. पु. शिरोडकार, लक्ष्मीकांत भेंब्रे, त्रिस्तांव ब्रांगाझा इ कुन्य, गोपाळ आपा कामत, पुरुषोत्तम काकोडकार, पांडुरंग मुळगांवकार, शंकर सरदेसाय, घन:श्याम कंटक, रवीन्द्र केळेकार, विनायक मयेंकार अशे कितलेशेच सुटके झुजारी पुर्तुगेज शिक्षण (दोतोरकी, वकीली आनी हेर) घेवन गोंयचे सुटके खातीर सक्रीय वावुरताले. ही वस्तुस्थिती आसूनय लिसेव शिकपी हिन्दू भुरगे हे पुर्तुगेज राजवटिचे वटेन आसात, असो चुकिचो समज कांय हिन्दू कुटुंबां मदीं पुर्तुगेज राजवटीच्या निमणें काळांत पसरिल्लो. पुर्तुगेज राजवट भारतीय सैन्यान नानपयत करून वडयतकीर, पुर्तुगेज शिकपी भुरग्यांक हिणसावपाची प्रवृत्ती खूप जाणांम दीं दिसून येताली. तूं ''आव्हियांव, आव्हियांव अशें किते शिकतालो, ताचें किते जालें?'' असो प्रस्न एक दीस म्हाका म्हज्या वळखीच्यान केलों. पुर्तुगेज शिक्षणाचो पुर्तुगेज वसाहतवादा कडेन संबंध जोडपाची, पुर्तुगेज शिकपी लोकांक पुर्तुगेजांची राजवट गोंयांत सासणाची उरचीं, अशें दिसता, असो समज करून घेवपाची प्रवृत्ती गोंय मुक्त जातकीर गोंयांतल्या लोकां मदीं अदीक प्रमाणांत दिसून आयली.

**विद्यार्थी खोमसांक काळीं फितां लावन आयले**

गोंयकार हिन्दूंमदी असो समज निर्माण जावपाचें कारण म्हणल्यार गोंयकारां मदीं स्वताक पुर्तुगेज समजुपी आनी पुर्तुगेज संस्कृती कडेन पुराय एकरूप जाल्लो जो एक व्हड वर्ग आशिल्लो, तांचें भुरगे पुर्तुगेज लिसेवचें शिक्षण घेतालें आनी हे भुरगें स्वताक पुर्तुगेज समजताले. खपवळरप लोक मागाशिल्ले, असो तांचो समज करून दिल्लो. गोंय मुक्त जातकीर कांय दिसांनी नातलां उपरांत लिसेवचे वर्ग सुरू जाले, तेन्ना लिसेवचे खूब विद्यार्थी आपणाल्या खोमसांचेर काळीं फितां लावन आयिल्ले. पुर्तुगेज संस्कृती कडेन एकरूप जाल्ल्या भोवसंख्य लोकांनी गोंयांत नातलांची परब काळखांत मनयली. म्हज्या वर्गांतल्या दर एका विद्यार्थी-सहकाऱ्यांक, नातलांची आनी गोंय मुक्तीचीं परबीं दिवन हांवें शुभेच्छा कार्ड टपालान धाडिल्लें. वर्ग सुरू जातकीर एकाय विद्यार्थी व विद्यार्थिनीन म्हाका कार्ड पाविल्ल्याचें सांगलें ना. भारताच्या लश्करी कारवायेंत पुर्तुगेज सत्ता नानपयत जाल्ल्यान खूब जाण न्हिन्नळल्लें, हें स्पश्टपणान जाणवतालें. पुर्तुगेजाळलेल्या ह्या विद्यार्थ्यांक आपणाली संस्कृती पुर्तुगेज आसा, अशें दिसतालें, ताचें कारण तांची वाड पुर्तुगेज संस्कृतीचे मुशींत जाल्ली. पूण, हो समज चड वर्सां तिगलो ना. गोंयकार हे भारतीय संस्कृतीचेच भाग आसात, हें तांकां सवका सवका पटपाक लागलें. रोखडोच २६ जानेवारी १९६२ ह्या दिसा पणजेंत जाल्ल्या विद्यार्थ्यांच्या प्रजासत्ताक संचलनांत हाचो प्रत्यय आयलो. जे स्वताक पुर्तुगेज समजताले त्या कांय विद्यार्थ्यांनी ह्या प्रजासत्ताक संचलनांत वांटो घेतलो, गोंय, दामांव आनी दीवचें भारतांतले सामिलीकरण आतां सासणाचें जालां, हाचे विशीं कोणाच्याच मनांत प्रस्न उरूं नाशिल्लो. गोंयांत १९६२ त मुंबय विद्यापीठाचीं चौगुले आनी धेंपें, हीं कॉलेजा सुरू जातकीर लिसेवच्या भुरग्यांचो मुखावयल्या शिक्षणाचो प्रस्न सुटलो. किंतु आनु जाल्ल्यांक मॅट्रीकचें आनी सेतिमु आनु जाल्ल्यांक फर्स्ट इयर कॉलेजचें एींर्ळींरश्रशपलश भारताच्या केंद्रीय गृहखात्यान दिलें. हाका लागून स्वतात पुर्तुगेज संस्कृतीचे समजपी लिसेव उत्तीर्ण विद्यार्थी भारतीय संस्कृतीकडेन एकरूप जावपाची प्रक्रिया सुरू जाली. भारत



सरकारान एींळींरश्रशपलश दिवपाचो हो निर्णय घेतिल्ल्यान लिसेव - उत्तीर्ण विद्यार्थ्यां मुखावयली अनिश्चितता सोंपली. हांवें १९६२ ह्या वर्सा किंतु आनुचे Equivalence घेऊन फर्स्ट इयर सायन्सच्या वर्गांत चौगुले कॉलेजींत प्रवेश घेतलों. पूण, हे शाखेंत हांव अपेशी थारिल्ल्यान १९६३ ह्या वर्सा सेतिमु आनु आर्टस्‌चें Equivalence घेवन हावें ह्याच कॉलेजींत इंटर आर्टस्‌च्या वर्गांत प्रवेश घेतलो आनी आर्टस् शाखेत हांव येसस्वी जायत गेलों आनी मुंबय विद्यापीठाचो एम.ए. जालों.

लिसेवचे भुरगे कॉलेज शिक्षणांत येसस्वी जाले

पुर्तुगेज सत्ता भारतांतल्यान नश्ट जाल्ल्यान आतां पुर्तुगेज शिकपी विद्यार्थ्यांचो फुडार काळखी जातलो, अशें समजपी लोकांचो अपेक्षाभंग जालो. एींळींरश्रशपलश घेवन कॉलेजात प्रवेश घेतिल्ल्या लिसेव-उत्तीर्ण विद्यार्थ्यांचे माध्यम बदलल्यान (पुर्तुगेज माध्यमा बदला इंग्लेज माध्यम) तांच्या मुखार आडमेळीं निर्माण जाल्ली. पूण ह्या सगल्या विद्यार्थ्यांनी, तांकां लिसेवांत इंग्लेज ही दुय्यम भाशा आशिल्ल्यान कॉलेजींत इंग्लेज माध्यमाच्या आव्हानाक यसस्वीपणान फुडो केलो. भोवतेक सगले लिसेव-उत्तीर्ण विद्यार्थी बऱ्या गुणांनी पास जाले. हाचें कारण, पुर्तुगेज लिसेव कोर्स उंचेल्या पांवड्याचो आशिल्लो. साहित्य, भाशा, विविध शास्त्रां हांचो अभ्यास पद्धतशीरपणान करपाचे बाबतींत हो शिक्षणक्रम मातय फाटीं नाशिल्लो. मडगांवचो इन्स्टिट्यूट आबादी फारीया हातूंत किंतु आनु मेरेन शिक्षण दिवपी विनायक शेळडेंकार, जोअकीं सिल्व्हा, गोपीनाथ कंटक, व्हॅल्ल्यू (Velho) इत्यादी शिक्षक ज्ञानी आनी शिकोवपाचे कलेंत पारंगत आशिल्लें. पणजेंत लिसेवाचेर सव्या आनी सातव्या वर्सांत शिकोवपी फिलीप पिंतू, पांडुरंग वर्दे, तळावलीकर, पंढरी कामत, फादर कुलासो, फादर ग्रासीयश आनी पुर्तुगेज भाशा आनी फ्रेंच भाशेचो एक बरो शिक्षक म्हुणून नामना मेळोवन आबादी फारीय मडगांवच्यान पणजे लिसेवाचेर नियुक्त जाल्ले जोअकीं सिल्व्हा, हे कार्यक्षम शिक्षक विद्यार्थ्यां मदीं प्रिय आशिल्लें. पणजे लिसेवाचेर ऐच्छिक विशय म्हुणून संस्कृत आनी कोंकणी भाशाय शिकोवपाची वेवस्था आशिल्ली, हे खूब उण्या लोकांक खबर आसतली. म्हजे बाबतींत सांगपा सारकी गजाल म्हणल्यार लिसेवाच्या सव्या आनी सातव्या वर्सा (निमण्या दोन वर्सांत) ङर्शीरी (आर्टस) ही शाखा घेवपी हांव एकटोच हिन्दू आशिल्लों. सगले हिन्दू सायन्स ही शाखा घेताले. पुर्तुगेज साहित्य, युरोपियन भाशा, हे विशय हिन्दूंक जमपा सारके नात, अशें खूब जाणांनी म्हाका सांगलें. पूण, हांवें हे शाखेंत हांव येसस्वी जातलोंच, असो निर्धार केलो आनी जर्मन भाशेक उणें गुण पडले. ही गजाल सोडल्यार हेर सगल्या पांचय विशयांक (पुर्तुगेज साहित्य, लॅटीन, जागतीक, इतिहास, तत्त्वज्ञान आनी राजकीय संघटन) जीरश्र परिक्षेक बसपाची गरज पडची ना इतले उच्च गुण पडले (२० तले १६ आनी १७). उल्हास कैसरे (उपरांत दोळ्यांचे डॉक्टर), प्रमोद करमली (उपरांत डॉक्टर), अशोक काकोडकार (उपरांत इंजिनियर), हे लिसेवाच्या सायन्स शाखेंत शिकताले. आर्टस शाखेंत चङश्यो चलयो आशिल्ल्यो आनी म्हजे वांगडा वर्गांत आल्व्हार कुलासु, आल्व्हारु लेयांव, बेर्नादिन रिबैरो, हे चले आशिल्ले. पुर्तुगेज साहित्य, ह्या विशयांत पणजेंत सव्या वर्सा म्हाका चशवळेलीश ग्रेड मेळपाक लागली. मागीर Sufficient ही ग्रेड मेळूंक लागली. आनी एक दीस म्हाका पुर्तुगेज साहित्य ह्या विशयांत इजच (Good) ही ग्रेड मेळटकीर जोअकीं सिल्व्हा ह्या म्हज्या शिक्षकान वर्गांत सगल्यां मुखार म्हजी तोखणाय केली.

लिसेवाच्या निमण्या दोन वर्सांत हांवें आर्टस् ही शाखा घेतिल्ल्यान सबंद आयुश्यांत म्हजो खूब लाब जालों. साहित्य निर्मणेविशीं म्हज्या मनांत आस्था उत्पन्न जाली. साहित्य-शास्त्राचो अभ्यास जालो. पुर्तुगेज भाशेचेर प्रभुत्व मेळोवपा खातीर पुर्तुगेज कथा-कादंबऱ्यो-काव्य हांचें वाचन जालें. लिसेवाच्या ङ्कअङअ'ह्या वर्सुकी मॅगेझीनांत म्हजी आयुश्यांतली पयली साहित्यकृती 'लियोनार्द द व्हिंसी'- तीय पुर्तुगीज भाशेंत - उजवाडाक आयली. एक मात खरें की, आमकां भाशे विशीं आवड निर्माण करपाचे बाबतीत मडगांवांत मुळाव्या मराठी शाळेंत दळवी मास्तर हांचें आनी मुळाव्या पुर्तुगेज वर्गाचे ट्युशन दिवपी दत्ताराम कुंकळकार हांचें म्हत्वाचें योगदान आसा. (१९५१-५२ चो हो काळ. ह्याच काळांत कृष्ण कुंकळकार हे मॅट्रीकच्या भुरग्यांक ट्यूशन दितालें.) लिसेवाच्या निमण्या दोन वर्सांत पुर्तुगेज साहित्य, लॅटीन, जर्मन ह्यो भाशा आनी ताचे आदीं फ्रेंच, इंग्लेज ह्या विशयांचो अभ्यास बरे तरेन जाल्ल्यान आनी पुर्तुगेज आनी मराठी भाशेंतलीं पुस्तकां वाचपाचो नाद ल्हानपणा पासून आशिल्ल्यान साहित्य निर्मणेची आवड म्हज्या मनांत निर्माण जावंक पावली. हाचो फायदो म्हाका 'राष्ट्रमत'ह्या मराठी दिसाळ्यांत जालो. १९६३ त स्थापन जाल्ल्या ह्या दिसाळ्यांत उपसंपादक म्हणून काम करतना, पुर्तुगेज आनी मराठी साहित्याच्या अभ्यासाचो म्हाका उपेग जालो. उपरांत 'गोमन्तक'दिसाळ्यांत एका वर्सा वयर उपसंपादक म्हणून काम करतनाय म्हाका ह्या अभ्यासाचो लाब जालों. हें सगलें ज्ञान आनी अणभव म्हाका साहित्यीक म्हुणून खूब उपेगी थरलें. पत्रकारितेंत साडेचार पांच वर्सां काम करतकीर हांवें अर्थशास्त्राचो प्राध्यापक आनी खूब वर्सां अर्थशास्त्र विभाग प्रमुख म्हणून काम केलें. उपरांत हांव त्याच कॉलेजींत एम.ई.एस. कॉलेज, वास्को कॉलेजींत प्राचार्य जालों. ताचे आदीं हांव स. का. पाटील, सिंधुदुर्ग कॉलेज, मालवण ह्या कॉलेजांत अर्थशास्त्राचोच प्राध्यापक आशिल्लों. ३१ वर्सां हांवें अर्थशास्त्र हो विशय कॉलेजात आनी मुंबय विद्यापीठांत स वर्सां शिकयला, जाल्यारूय साहित्याच्या मळार लेखक, समीक्षक, आनी कोंकणी-मराठी, कोंकणी-इंग्लेज आनी पुर्तुगेज - इंग्लेज ह्या भाशांतले अणकारपी म्हुण म्हाका मान्यता आसा. हाचे फाटल्यान म्हजें कोंकणी, मराठी, इंग्लेज आनी पुर्तुगेज भाशेंचें ज्ञान आनी अभ्यास आसा. ''गोंयांतलो पुर्तुगेजांच्या काळांतलो मीठ-उदयोग आनी मीठ-निर्यात''

ह्या विशयाचेर पीएच डी. खातीर हांव संशोधन करपाक शकलों, आर्काव्हियस, सेंट्रल लायब्ररी आनी झेवियर रिसर्च सेंटर हातुंतले पुर्तुगेज डॉक्युमेंटस् वाचपाक शकलों आनी 'कुंकळ्ळेचो इतिहास'हे पुर्तुगेज भाशेंतलें लिंगू दळवी हांचें पुस्तक इंग्लेजींत अणकारींत केलें. ते फकत म्हज्या पुर्तुगेज भाशेच्या ज्ञानाक लागून, ही गजाल म्हाका स्पश्ट करपाक जाय. पुर्तुगेज लिसेवचें हांवें जें शिक्षण घेतलें जावं म्हज्या कितल्याश्याच लिसेव-सहकाऱ्यांनी जें शिक्षण घेतलें, तें फुकट गेलें ना. हांवेंच ह्या लेखांत म्हज्या कितल्याश्याच सहकाऱ्यांचो उल्लेख केला. ते सगले आपणाल्या जिणेंत येसस्वी जाले. २०१२ त लिसेवाच्या आमच्या बॅचीक ५० वर्सां पुराय जालीं म्हूणून पणजे मांडवी हॉटेलांत एक गेट-टु गेदर आयोजींत केल्लें. तातूंत अशा येसस्वी लिसेव-विद्यार्थ्यां कडेन म्हजी भेट जाली. दोतोर भिकाजी घाणेकार हे तातुंतले एक लिसेवीस. म्हज्या 'सेतिमु आनु लेत्रश'वर्गांतल्या सहकाऱ्यांचो हांवें हे आदीं उल्लेख केला. आनी दोग जाणांचो म्हाका उल्लेख करपाक जाय. एक आसा सर्गेस्त म्युरियल माश्कारेन्यश. तांणी एम.ए. फ्रेंच करून कॉलेजांत प्रोफेसर म्हुणून काम केलें. उपरांत तांचें केंद्रीय मंत्री एदुआर्द फालैरो हांचे कडेन लग्न जालें; जाल्यार दुसरी आसा बाणावलेची फातिमा सिल्व्हा. त्योय जिणेंत येसस्वी जाल्यो. लिसेवाचेर शिकिल्ल्या पुर्तुगेज साहित्याचो म्हाका आनी एक गजाली खातीर उपेग जालो. २०१४ ते २०१७ ह्या तीन वर्सांच्या काळांत गोंय विद्यापीठाच्या कोंकणी विभागांत एम.ए.च्या विद्यार्थ्यांक हांवें चार विशय शिकयलें. तातूंत ''अस्तमतेचे साहित्य शास्त्र'ह्या विशयांत म्हाका पुर्तुगेज साहित्याच्या अभ्यासाचो उपेग जालो.

**लिसेवा वयले विद्यार्थी**

पणजेंतल्या लिसेवाचेर जे भुरगे शिकताले, तातुंतले खुबशे स्वताक पुर्तुगेज समजुपी आशिल्लें. तांकां पुर्तुगेज गोंयांत सासणाचो उरिल्लो जाय आशिल्लो. हे विशीं दोन मतां आसची नात. ही वस्तुस्थिती आशिल्ली जाल्यारूय एक गजाल मान्य करपाक जाय ती म्हणल्यार, आमी लिसेवचें शिक्षण घेतालें, तेन्ना लिसेवाचेर आनी पणजेंत शिक्षणाचें वातावरण आशिल्लें. आपूण शिकून दोतोर, वकील, प्रोफेसर, सरकारी उच्च अधिकारी, फार्मासेवतीक, उच्च पदवीधर जावंचो, हो हावेंस बाळगून दर एकलो विद्यार्थी शिक्षणा कडेन गंभीरपणान पळयतालो. वर्गांत नेमान हाजीर रावप, व्याख्यान एकाग्रतेन आयकप, घरांत आनी वाचनालयांत अभ्यास करप, वाचन करप, हें सगलें गंभीरपणान चलतालें. परिक्षेंत उत्तीर्ण जावपाचे दृश्टीन ज्ञान मेळोवप, हो उद्देश घेवनच सगलेजाण वावुरताले. म्हजे सारकें दुसऱ्या गांवांतल्यान पणजे आयिल्ले विद्यार्थी म्युनिसिपल लायब्ररी आनी हेर लायब्ररींचो चडांत चड उपेग करतालें. पालकय आपणाल्या भुरग्यांचेर लक्ष दिवन आसतालें. लिसेवची शिक्षण पद्धतय शिक्षणाक पोशक अशीच आशिल्ली. भुरग्यांची परीक्षा वर्साच्या फकत अखेरेक आस नाशिल्ली. शिक्षक नेमान भुरग्यांची 'टेस्ट'घेताले. हे टेस्टीचे गूण अंतिम परीक्षा पास जावपा खातीर गरजेचे आसताले. हाका लागून भुरगो वर्सभर शिकतालो, ताका शिकचेंच पडटालें.

आमी ज्या 'भटाची खाणावळ'ह्या हॉटेलांत रावताले, तातुंतलें वातावरणय शिक्षणाक अनुकूल अशेंच आशिल्लें. एका रुमांत दोतोरकी शिकपी दोग विद्यार्थी रावताले तर एका रुमांत हांव आनी अशोक काकोडकार, एका रुमांत गणाधीश खांडेपारकार आनी तांचे शिकपी भाव, एका रुमांत कुडचडकार, सांबारी, एका रुमांत 'काफे बोअ सोर्ती'ह्या हॉटेलाचे मालक दत्ता, दया कामत आनी तांचे वडील, एका रुमांत आल्व्हास पेरैरा आनी विश्वनाथ गुडे, हे सुटके झुजारी आनी एका रुमांत लिसेव कोर्साच्या महात्मे हांचे खाजगी शाळेंत शिकोवपी प्रो. मुकूंद केळेकार (मुकेबाब) हे कोंकणीचे निश्ठावान. सगल्यांचे एकमेकां कडेन बरे संबंध आशिल्ले. एकामेकांच्या रुमांत वचून खबऱ्यो मारप, एकामेकांची विचारपूस करप, आल्व्हारु पेरैरा आनी विश्वनाथ गुडे हांच्या रुमांत वचून तांचे कडेन गोंय मुक्ती चळवळी विशीं जाणून घेवप, हें नेमान चलतालें. दोनय सुटके झुजारी खूब खेपे अचकीत नाच्च जाताले, तेन्ना कळटालें की तांकां पोलीस येवन घेवन गेल्यात. 'भटाची खाणावळ'ह्या हॉटेलाच्या लागीं आशिल्या कोर्तीतल्यान, दाव्यान-उजव्यान वयर वचपी सोपणां चडून लिसेवाचेर वचपाचो मार्ग आशिल्लो. सरळ 'स्लोप'नाशिल्लो. दनपारच्या वेळार खाणावळींत येतकीर चडशे थंयच जेवताले. सांजवेळ जावचे पयलीं थोडो वेळ अभ्यास करप आनी मागीर रातचो अभ्यास करप, ही आमची दैनंदिनी आशिल्ली. केन्ना केन्नाय धोंड हांच्या माधवाश्रमांत ना जाल्यार तिमाल्या हॉटेलांत नुस्त्याच्या जेवणा खातीर आमी वताले.

१९६०-६१ आनी १९६१-६२ अशीं दोन वर्सां पणजेंत रावन आमी लिसेवचो सव्या आनी सातव्या वर्साचो कोर्स पुराय केलो. पणजेंत सर्गेस्त मनोहर किर्तनी हे मडगांवांतले म्हजे आदले शेजारी म्हजे गार्डियन आशिल्ले. आयज ५५ वर्सां फाटली पणजे दोळ्यांमुखार हाडटना म्हाका, मांडवी वा झुआरी न्हंयांचेर पूल नाशिल्ल्यान गोंयचे हे राजधानी कडेन फेरीबोटींच्या वरवीं आमचो संपर्क जातालो, हाची याद जाता. पणजे शार सुसेगादपणाचे प्रतीक आशिल्लें. लोकसंख्या विरळ आशिल्ली. पणजे सावन मडगांवां परतो येतकीर कॉलेज शिक्षण, कोंकणी चळवळ, समाजीक चळवळ, पत्रकारिता, शिक्षणीक वेवसाय, दैवज्ञ चळवळ अशो कितल्योश्योच घडामोडी म्हजे जिणेंत घडल्यो. ह्या सगल्या घडामोडींक म्हज्या पुर्तुगेज शिक्षणाची घट्ट बुनयाद लाबिल्ल्यानच म्हजी साहित्यीक आनी शिक्षणीक जीण येसस्वी आनी समृद्ध जाली. शिक्षण, हेंच मनश्याचो फुडार घडोवंक शकता, हो मंत्र म्हज्या बापायन म्हाका दिलो. तुमकां तुमचो भांगराचो वेवसाय आसा. शिक्षणाची गरज ना, अशें खूब जाण आमकां उलोवन दाखयताले. भांगरापरस शिक्षण हेंच आमकां भांगराळी जीण दिवंक शकता, हाचेर आमचो पुराय विश्वास आशिल्लो. त्या प्रमाण आमी वागले म्हुणूनच आमी सुखी जाले, अशें म्हाका काळजा थावन दिसता. ■



वपयलीचें ज्योती प्रभू. आमी णव भावंडां. चार भाव आनी पांच भयणी. आता सात जाणां उरल्यांत. फाटल्या वर्सा २०१६ त दोन भावंडां भायर पडली. सगळ्यांत व्हडलो भाव आनी म्हजे फाटलीं भयण. म्हजो जल्म काणकोण तालुक्यांत आगोंद गांवांत. हांव स म्हयन्याचें आसतना बाबाक सरकारी नोकरेचो कॉल आयलों आनी मागीर आमी पणजे आयलीं. पणजे केणी हॉटेला मुखार ठाकुराच्या घरांत भाड्यान रावपाक लागली. आनी उपरांत रायबंदरच्या पांडुरंगाच्या मंदिराच्या प्राकारांत भाड्यान रावपाक आयलीं. आमी सगळी भावंडां, आजी, आत्या, आवय आनी बापूय. ५० वर्सां फाटीं काणकोणच्यान पणजे स्थायीक जावप म्हळ्यार अजाप. सरकारी नोकरी मेळ्ळी तरी पगार खूप उणो. ४०० रुपयां. कारण आगोंदा घरदार, भाटबेस, चा चे हॉटेल, गोरवां सगळें सोडून दिवन फकत भुरग्यांच्या फुडारा खातीर, शिक्षणा खातीर, ह्या हावेसान बापायन काणकोण सोडून आमकां पणजे हाडलीं. आई एक गजाल केन्नाय सांगताली. पणजे येवपाच्या वेळार आमचे कडेन कांय गोरवां आशिल्लीं. ती एका मनशाक विकली. दुसरे दिसा तो मनीस ती गोरवां घेवन खंय तरी वचूंक लागलो. बाबान ताका विचारले, 'खंय वता?' गोरवां मारपाक व्हरता. बाबाक वायट दिसले आनी ताणें कळाव केलो ना, परत तीच गोरवां दुप्पट पयशानी घेतली आनी येतना आपल्या भयणीगेर दवरली.

म्हजो बाबा काळाच्या खूब फुडें आशिल्लों. ताचे कडेन केन्नाय कसलीय वस्त माग, हांसऱ्यां मुखान हाडूया आं म्हण्टालो. ताचे कडेन हाडूंक जावचे ना हे ताकाय खबर आसतालें आनी आमकांय बी. आमकां सगळ्यांक बरें शिकयलें. एक प्रसंग म्हाका याद जाता, म्हजी व्हडली भयण प्रतिभा ३०-३५ वर्सां फाटी बी.ए. पास जाले. बाबान सगळ्या शेजऱ्यां पाजऱ्यांगेर साखर वाटिल्ली. तो सदाज आपल्या चलयांच्या शिक्षणांचेर चल्यां परस चड लक्ष दितालो. चलयांनी आपल्या पायार उंबे रावप हो ताचो तेन्नाचो दृष्टिकोन आशिल्लो. आमकां भावांपरस मूठभर चड दितालों.

म्हजें भुरगेंपण खूप श्रीमंतींत, समृद्धीत गेलें अशें ना. खावन जेवन सुखी आसतालीं. ते दीस म्हजें जिवितांतलें सगल्यांत सुखाचें,

# झडली फुलां... पडलें फांतर हांव घडटा घडटाना...

ज्योती कुंकळ्येकार
९८२२१६१८५३

उमेदीचें, आनंदाचे दीस. आवय-बापायन मुक्तपणान आमकां णव भावंडांक वाडयलें. जात-पात, धर्म-भेद, देव-देवस्पण ह्या शब्दांची केन्ना जाणीव करूंक दिवंना. वयाच्या सातव्या आठव्या वर्सा सावन हांव आकाशवाणीचेर पणजी केंद्रार खळार-मळार ह्या कार्यावळींत बालकलाकार म्हूण भाग घेतालें. वर्षा उसगांवकारूय ह्या कार्यावळींत येतालें. आयतारा सकाळी धा ते साडे धा ह्या वेळांत आमी भुरगीं, ताई आनी हरिमाम (स्व. कमलादेवी राव देशपांडे आनी स्व. कृष्णा लक्ष्मण मोये) हांच्या सांगातान आसतालीं. ती कार्यावळ लायव्ह आसताली. ती बेशठी कार्यावळ नाशिल्ली तर बालसंस्कार केंद्र आशिल्लें. त्या खातीर म्हज्या बालमनाक वेगळो आयाम मेळ्ळो. बऱ्यो गजाली कानार पडल्यो. थंय आमकां पांच रुपयां मानधन मेळटालें. म्हाका आयुश्याची पयली कमाई कलेन दिल्या. मागीर तें पांच रुपयां हांव स्वामी विवेकानंद केंद्रांत कथ्थक शिकूक फी दिताले.

पांडुरंगाच्या देवळाकडेन राविल्ल्यान आरती, भजन, कीर्तन आनी सगळ्यांत चड सण उत्सव जातालें. तातुंतल्यानूच हांव घडलें. पांडुरंगाच्या देवळांत एकादस व्हडा उत्सवान जाताली. रातच्या प्रसादाची चण्याची उसळी आनी च्या अजुनूय म्हजे जिबेर आसा. एकादशीची आरती हांव केन्नाच चुकय नाशिल्लें. म्हज्यो मैत्रिणी येताल्यो. हांव जागे रावतालें. आमी खूप गजाली करताली. ह्या देवळांत चिमुलकरीण देवतेची पालखी येताली. त्या निमतान दोन नाटकां जाताली. त्या उत्सवाक आमगेर भरपूर सोयरी धायरी येतालीं. पालखे बरोबर जे पंदरा वीस लोक येताले, तांच्या जेवणा-खाणाची जबाबदारी आमचेर आसताली. खूप मजा येताली. नाटकां सुरू जावचे पयलीं म्हजो तबला पेटीचेर नाच जातालो. हांव आनी अमिता (सलत्री) नाच करतालीं. प्रेक्षकांक हें नाच खूप आवडटालें.

मागीर नाटकांत ल्हान ल्हान भुमिका म्हाका मेळपाक लागल्यो. म्हज्या कलेक ह्या नाटकांनी वाव दिलो. तातोबा वेलिंगकार आनी अलकाताई वेलिंगकार हे जोडपें थंय आसतालें. अलकाताई बरोबर 'चांदणे शिंपीत जा' हे पयलें नाटक हांवें केलें. एकदा नाटकाच्या पयली मुखेल सोयरे म्हूण तातोबा वेलिंगकार आशिल्ले. हांव भुरगें म्हूण फुलांचो तुरो म्हाका दिवंक लायिल्लो.

फुलां दिवपाक हांव सामके उत्तेजीत जाल्ले. नृत्याचो ड्रेस न्हेशिल्लें. नांव घेना फुडें धांवत स्टेजीर चडले तेच तातोबा वेलिंगकारांच्या पांयांकडेन घोऽऽ करून पडलें. सगळे प्रेक्षक खो खो करून हासूंक लागले. म्हाका लज जाली. सादी फुलां लेगीत सारखी दिवपाक येना म्हूण हांव खूप रडलें. तेन्ना तातोबान म्हाका लागी ओडलें आनी म्हळें, 'रडूं नाका. रंगदेवतेक घाल्लो हो तुजो पयलो नमस्कार, तूं खूप व्हडलें जातलें.' अजुनूय याद काडल्यार म्हज्या आंगार कांटो येतो. नाटकाचे मळार हांवें जें कितें योगदान दिलां, तो तातोबांचो आशिर्वाद अशें म्हाका सदाच दिसता.

ल्हानपणांत म्हाका उत्तेजन दिवपी आनी म्हाका वयर हाडपी आनीक एक व्यक्ती म्हळ्यार स्वातंत्र्यसेनानी मोहन रानडे. रायबंदरा आमच्या शेजरां रावतालें. मागीलदार उघडलें की तांचे मुखावेले दार. दारा कुशीक एक जनेल. थंय ते सदाच बरयत आसतालें. हांव खूप ल्हान. शाळेंतूय वचनाशिल्लें. मोहनकाका सदाच म्हाका आपल्या मांडयेर बसोवन काणयो सांगतालो. नवें किते कितें शिकयतालो. एक दीस काकाक घेवन हांव घरां आयलें. वामनाची आनी प्रतिभाची वळख जाली ती अजुन मेरेन घट्ट आसा. तांगेर येवपी मेधा खानोलकार आताची मेधा पाटकर तांचीय वळख थंयच जाली. वामन आनी प्रतिभाचीय तांचेकडली वळख अजून घट आसा.

वयाच्या बाराव्या वर्सा काकान म्हाका पयलें पुस्तक दिलें, तें शाम ची आई. ते पुस्तक वाचून हांव खूब खूब रडले. तेन्नासावन मनशांतले मनीसपण आनी साहित्याची ओढ निर्माण जाली. काका वरांची वरां बरयत रावतालें. म्हाका तांची खूब तोखणाय दिसताली. सतीचे वाण ह्या पुस्तकाचे लेखनीक म्हूण म्हज्या व्हडल्या भयणीन प्रतिभान काम केलां.

काकान एकदां विश्व हिंदू परिषदेच्या सर्ती खातीर 'मला समजलेली गीता' ह्या विशयाचेर म्हाका भाशण बरोवन दिल्लें. २५ मिनिटांचे ते भाशण हांवें खणखणीत सादर केलें आनी म्हाका पयले बक्षीस मेळ्ळे. (हो प्रसंग हांवें 'मयुरी' ह्या बाल कादंबरींत तशाचा तसो बरयलों). ती बातमी पयल्याच फावटी फोटो सयत वर्तमानपत्रांत आयली. ते कात्रण कापून बॉल्सांत दवरून बाबा कितले दीस कोणाकोणाक दाखयतालो. ते कात्रण झिरझिरींत जालें. तरी बाबाची तोखणाय टवटवींत उरली. ताणें म्हाका सांगलें, 'आपल्या नांवाचो आपल्याक अभिमान आसूंक जाय. आपले नांव वर्तमानपत्रांत येता ते कात्रण कापून चिकटून दवरपाक जाय. फाटल्या २७-२८ वर्सांतलीं सगळीं वर्तमानपत्रांतली कात्रणां, म्हज्यो मुलाखती, लेख इतलेंच न्हय तर कार्यावळींत हांव आशिल्ल्यो आमंत्रण पत्रिकां व्यवस्थीत दवरल्यात. येता ते मनीस ह्या गजालीची तोखणाय करतात. हालींच कवी प्रकाश पाडगांवकार आनी तांची घरकान्न आमगेर आयिल्लीं. म्हज्या लायब्ररींतलीं ती सगळीं कात्रणां पळोवन अजाप भरीत जाली. आपल्या कडेन कात्रणां ना अशें प्रकाशनाबाबन म्हटलें. ताची मुलाखत घेतिल्ली सिडी हांवें तांकां दिली आनी परत घेतलीय बी.

म्हज्या आईबाबाक कलेची मना पासून ओड. नाटक चड आवडिचें. आमी पणजे मारुती गडाचेर जातात ती नाटकां पळोवंक वतालीं. बाबाच्या खांदयार बसून हांव ती नाटकां पळयतालें. नाटकां पळयतां पळयतां म्हजी नाटका विशींची ओड अदीक वाडली.

कांय वर्सांनी म्हळ्यार ३७ वर्सांफाटीं बाबान पर्वरी घर घेतलें. सगळ्या सोयऱ्या-धायऱ्यांक अजाप आनी तोखणाय दिसली. बाबाक स्वताचे घर घेवपाची खूप उमेद. आमी इतली मनशां. तातूंत म्हजो बापूय सगळ्यांत व्हडलों. व्हडल्या भावाची कांय कर्तव्यां आसतात. आदी पासून रायबंदरा ताच्या भावाची, भयणीची भुरगीं आमगेर रावन शिकल्या. काणकोणच्या मामीन लेगीत दोन वर्सां आमगेर रावन बी.एड. केलां. कुटुंबांत रावपाचो एक म्हत्वाचो फायदो म्हाका जाला तो, 'अतिथी देवो भव' हांव थंय शिकलें. परिस्थितीची जाण खूप बेगीन आयली. बाबा आनी वामन (गोमंतकांत) काम करतालें. नवें घर, इतल्या लोकांचो खर्च म्हाका दिसतालें. हांवें कितें तरी हातभार लावपाक जाय.

पर्वरींत कॉलनींत येतकीर दूद हाडपाक आमकां बरेच पयस वचचे पडटालें. हांवें चवकशी केल्या उपरांत कळ्ळें की कॉलनींत १०० लोकांनी सय केल्लो अर्ज ॲनिमल हजबड्रीत दिलो जाल्यार थंय तुमकां तें दुदाचो बूथ घालून दितात. पुराय कॉलनी भोवून हांवें त्यो सयी घेतल्यो. सगळ्यांनी अपुर्बायेन दिल्यो आनी म्हज्या घरा शेजरा निळो बूथ घालून घेतलों. दूद विकपाची जबाबदारी हांवें घेतली. सकाळी पांचाक दुदाची गाडी येताली. हांव दुदाच्यो क्रेटी मेजून घेतालें. परत घरा वचून साडेसाताक परत बुथार येतालें.

म्हयन्यांक ३५० रुपयां मेळटालें. १५० रुपया रेशन हाडपाक बाबाक दितालें. २०० रुपया तशेंच दवरतालें. आठ दीस हांव ते पयशे गरज आसता तांकां दितालें. सुमार २००० रुपयां म्हजेकडेन आसतालें. आठ दिसांमदी ते पयशे पणजे वचून भरचे पडटालें. लग्न जायमेरेन हांव नोकरी आनी बूथ चलयतालें. दुसरे म्हणजे दर आयताराक उषा नाडकर्णी (अनुराधा पौंडवालाची आवय) हांचे सर्व्हे खातीर म्हजी निवड जाली. दर म्हयन्यांक म्हाका ताचे ४०० रुपयां मेळटालें. ल्हानपणांसावन हांव स्वावलंबी रावपाक शिकलें. म्हजें लग्न पिरायेच्या २२ व्या वर्सा जालें. पूण म्हजें सगळें भांगर, कपडे, शिवण, आरमार हांवें म्हज्या पयशांनी केलें. तो ताण हांवें बाबाचेर वा भावांचेर घालूंना.

पर्वरे आसतना हांव पर्यटन खात्याच्या वतीन शिगमोत्सवाक चित्ररथाचे नेतृत्व करतालें. ती जबाबदारी म्हाका आदरणीय यज्ञेश्वर निगळये हांणी दिल्ली. तेन्नाच लोकां मुखार येवपाची, उलोवपाची, टी. व्ही.चेर मुलाखती दिवपाची सवय जाल्ली. तेन्ना लायव्ह म्हळ्यार कितें तेंवूय कळनाशिल्लें.

ल्हानपणात आपल्याचेर जे संस्कार जातात, ज्या वातावरणांत आनी ज्या मनशांमदीं आपूण रावतां, तांच्या संस्कारांचो प्रभाव आपल्या आयुष्याचेर सासणाचो उरतां. तो प्रभाव व्यक्त करपाक येना. अशा संस्काराच्या बाबतीत हांव खूप भाग्यवान!

भुरगेंपणासावन ते किशोर वया मेरेन पुरुशी हातांनी घडलां. पयलो दादलो म्हजो बाबा म्हज्या सामकार येता. तीच परंपरा म्हज्या भावांनी पाळ्ळी. वामन प्रभून भरपूर प्रोत्साहन दिले. सगळ्या भावंडांक शिकोवपाचे, नव्या मॉडेलाचे कपडे, सिनेमा दाखोवपाचे काम तो आवडीन करतालो. म्हाका कलेच्या मळार आवड आसा, ती पळोवन ताणें खूप प्रोत्साहन दिलें. विधानसभा पळोवपाक म्हाका आवडटालें. वामन म्हाका व्हरतालों. माधव गडकरी, नारायण आठवले हांणी २४ मार्चाक गोमंतकाच्या वर्धापनदिना निमित्त सांस्कृतीक कार्यावळींची जबाबदारी म्हजेर सोपयल्ली तिवूय वामना खातीरूच. आयज तो गोवा दूत ह्या दिसाळ्याचो संपादक आसा.

एक वर्स गोमंतकांत 'सासरे बुवा जरा जपून' हे नाटक प्रभाकर भुसारी हांणी बसयलें. तातूंत रमेशचंद्र जतकर, चंदू कासकर, रमेश बर्वे काम करतालें. म्हजें आनी सतीश गवसाचे ते पयलेंच नाटक. तेवूय बी आझाद मैदानाचेर. दोन हजार लोक. इतल्या मानेस्तां वांगडा काम करतना हातपाय थरथरतालें. मागीर त्या नाटकाचे खूप प्रयोग जालें. खूब जाणांनी ५० रुपये, १०० रुपये अशी वैयक्तिक बक्षिसां दिली. भुरगेंपणांत दिल्ल्या स्वातंत्र्याचे रुपांतर स्वैर वागपांत केन्नाच जालें ना. जिवनाक आकार लाबलो खंयच्याय कार्यक्रमाक गेल्यार एकूच नेम आशिल्लो तो म्हळ्यार, सांगिल्ल्या वेळार घरा परतुपाचो. वामन हे बाबतींत खूप कडक आशिल्लो.

पुरुषोत्तम सिंगबाळ हांच्या संस्थेंत हांव काम करतालें. पूण येसाय सोपली की नाटकांतले मनीस घरांमेरेन सोडूच हांव गेट काडी मेरेन रावताले. त्या मनशांमदीं, त्या संस्थांमदी एक शिस्त आनी प्रामाणीकपणा आसतालो. ताका लागून म्हज्या सारखी कांय जाणां कलाकार जावंक पावलीं. हांव नाटकांत काम करता हे कांय लोकांक आवड नाशिल्लें. तें बाबाक विचारताले, 'कित्याक तें नाटकांत काम करता? ताणें काम करपाचे?' पूण बाबान म्हाका केन्नाच ना म्हळ्ळें ना. उरफाटें रामनाथी नाटकां जाताली तांतुनय हांव काम करतालें. तेन्ना आई-बाबा म्हाका नाटकांक घेवन वताली.

दुसरी आवड म्हाका आशिल्लीं ती बॅडमिंटन खेळपाचीं. पूण खेळपाची वेळ रातची. सकाळी बूथावर वचप, मागीर ऑफिसांत. तेन्ना हांव हॉटेल मांडवींत काम करतालें. घरा येवन दोन तीन शिकवण्यो करतालें. केन्नाय नाटकाच्यो येसायो आसताल्यो. मागीर णवाक बॅडमिंटन.

म्हजे शेजराक डॉ. शाम भांडारीचे कुटुंब आशिल्लें. ताची भयण नयना भांडारी आता गावणेकार - दोगांय बरी खेळटालीं. बॅडमिंटनट टुर्नामेंटाकूय वांटो घेवन लेडी चॅम्पीयन कप म्हाका मेळिल्लें. म्हज्या धाकट्या भावान प्रमोदान टी.व्ही.एस. घेतिल्ली. हांव सायकल जशें शिकलें तशी टी.व्ही.एसूय शिकलें. टी.व्ही.एस. घेवन हांव पणजे वतालें. तेन्ना अवघ्योच चलयो स्कुटर चलयताल्यो. १९८० क चलयेन स्कुटर चलोवप म्हळ्यार अजापान पळयताली. काय चले म्हजी फकाणां मारतालें. पूण बऱ्या अर्थान म्हाका सगळी तोखेतालीं. हांव मात्शें सुबेजूय आशिल्लें. ताका लागून चले म्हाका भिताले.

लग्न हो 'बायलांच्या आनी दादल्यांच्या जिवितांतलो एक म्हत्वाचो टप्पो. पूण बायलेच्या जिवितातलें तें एक धोकादायक मोडण. त्या मोडणाचेर बायल एक तर मोडून पडटा नाजाल्यार नव्या तेजान परमळटा. आपल्या भुरग्यांपणांत आनी तरणेपणांत जाणिल्ली कला होमकुंडांत भस्म करून, सप्तपदी जोडिल्ल्या कितल्याश्याच बायल कलाकारांचो आक्रोश हांवें ह्या दोळ्यांनी पळयलां.

हिंदू धर्माच्या ज्या उच्चभ्रू जातींत म्हजो जल्म जालों. नाटकांत, शिगम्यांत काम करतना म्हाका तेन्ना तो स्त्राप कसो दिसतालों. कारण एकदा सिनारी नांवाच्या दादल्यान बाबाक विचारलें, 'बामणांल्यो चलयो नाटकांत काम करता रे सुभा?' म्हजें चलयेन नाटकांत काम केल्यार हांव ताका बुडोवन मारपी', ह्या जातीन कित्याक काम करप ना हे म्हाका केन्ना कळूंक ना आनी बाबांनय केन्ना सांगूंक ना.

सुदैवान हांव हातुंतल्यान मुक्त जालें. १९८३ वर्सा अवधूत कुंकळकरांकडेन लग्न जालें. लग्न म्हळ्यार एक नाटक कशें. म्हजो बाबा खूप बरो नाशिल्लों. ताचो म्हजेर खूप जीव. आपूण आसतना म्हजें लग्न जावंकूच जाय अशें ताका दिसतालें. सोयरिको पळयताली. दोतोर वेवसाय आशिल्लो नवरो बाबाक आवडटालो. एका दोतोराची मागणीय आयली. पूण म्हजें आनी ताचें पटलें ना. हांव मांडवी हॉटेलांत काम करतालें, थंय अवधूत कुंकळकार काम करतालो. थंड, वोगी, कोणाच्या भानगडींत ना आनी ताच्याय भानगडींत कोणूच ना. एकदा हांव टी.व्ही.एस. घेवन म्हापशा वतना अपघात जालों. खरे म्हळ्यार व्हडलें कांय जालें ना. पूण दोन दीस सुटी काडून घरा रावलें. मज्या करपाक, हांव आनी भयण खंय तरी भायर सरिल्लीं, आनी अवधूत म्हजे खबरीक आंबे, अणसां घेवन आयलो. घरा आई-बाबा आशिल्ली. अवधूतान ती संद घेतली आनी तेन्नाच तोंड उगडून बाबाक सांगलें की, आपूण ज्योती कडेन लग्न जावंक सोदता. बाबाक तो भुरगो थंड म्हणून आवडलो. आई म्हणपाक लागली, काळो आसा पूण बरो आसा. बाबा म्हज्या फाटल्यान लागलो. बाबा, वामन, कुंकळ्या गेलें. आंगणांत व्हडलीं नाल्लाची रास, एके वटेन आंब्याची रास, भाटबेस पळोवन बाबा खूश. आयुश्यभर खावंक जेवंक मरण ना अशें बाबाक दिसलें. (आता सगळे भाटबेस गेला.) बाबाची प्रकृती बरी नाशिल्ली. दोनूय किडनी गेल्यो. बाबाक हॉस्पिटलांत. डायलिसीस चलताले. तसोच लग्नाचो म्हूर्त काडलो. १८/११/१९८३. वामन विलास

कपडे काडपाक मुंबय. हांव भाव हॉस्पिटलांत. दोतोर आमकां पिशार काडटा, बाबा केन्नाय वचूं येता. म्हजेर टेन्शन. वामन मुंबयच्यान फोन करता, खबर घेता. करता करता १७ नोव्हेंबर उजवाडलो. बाबा हॉस्पिटलांत, व्हडल्या भावान म्हजें देवकार्य, यजमानपण केलें. घराचे मुखार माटव ना. दारांत तोरण ना. म्हाका धरून कोणाकूच उमेद ना. बाबा बरो ना. तातूंत हांवें एक हट्ट केलों. अहेर ना घेवपाचो. म्हाका दिसता ३३ वर्सां पयलीं दुसरें वा तिसरें लग्न आसूं येता अहेर ना घेवपाचें! वामनाक ही आयडिया आवडली. मांव म्हणपाक लागलो, लोकांक वायट दिसचें ना. मागीर हांवें चडच हट्ट करतकीर 'अहेर आणू नये' अशें पत्रिकेंत छापलें. (आयजूय ती पत्रिका हांवें फ्रेम करून दवरल्या.) सोयरी-दायरी देवकाऱ्यांक चडशे लोक नाच म्हळ्यार जाता. अहेर ना म्हणजे देवकाऱ्याक येवप ना अशें तांकां दिसलें. म्हाका एके वटेन बाबाचो हुस्को. चुडो घालो, जेवलें आनी सांजचे हॉस्पिटलांत वचूंक भायर गेले. हॉस्पिटलांत सगळें म्हाका पळयतात. हातांत चुडो, मेथी, माथ्यांत फुलां, साडी नेसून हांव हॉस्पिटलांत बसलां. खंयच्या तरी नाटकांतलो सीन सोपून आयिल्ल्यावरी हांव दिसतालें. बाबाचे आदले दीस डायलिसीस जाल्ले. मात्सो मोंव आशिल्लो. अकस्मात जोर आयलो. जोर कसोच कमी जायना. दोन बर्फाच्या लादयांर बाबाक न्हिदयलो. फांतोडेर बाबाचो जोर देंवलो. पयलो प्रस्न, 'आयज तुजें लग्न मुगो? या आमी घरां. आयचो दीस बरो उल्ल्यार पुरो.' दोतोर येतासर आनी डिस्चार्ज मेळटासर ११.३० वरां जाली. लग्नाचो म्हूर्त ३ जावन ५४ मिनिटांनी. वाटेर म्हाका म्हणपाक लागलों, 'केसाचो आम डो घालीना, अशेंच वतलें लग्नाक?' पोस्टा कडेन हेलन ब्युटीपार्लर आसा, जे अजुनूय आसा, थंय वचून केंसाचो आमाडो घालों आनी साडेबारांक घरा पावलीं. भट, भाव, घरची वाट पळयताली. बाथरुमांत वचून बेगीबेगीन हातपाय धुवन कपडे बदलून भटा म्हऱ्यांत बसलें. सांगलें तें देवसपण केलें. जेवणां जालीं. मिनी बस केल्ली. वामन आईक आनी सगळ्यांक घेवन मंगेशी पावलो. बाबा म्हजी एक मैत्रीण रुपा कापडी आता रुपा खोपे आनी डॉ. प्रसाद कापडी म्हज्या वांगडा रावलीं. इतल्यांत दोनाक सुमार बाबाक ओकारी येवपाक लागली. म्हजेर कलकल. लग्ना खातीर न्हय बाबाक कितेंय जायत म्हूण. बाबा म्हजे खातीरूच हॉस्पिटलांतल्यान घरा आयलां. शेजारचे डॉ. शाम भांडारी आयलें, तपासले, प्रेशर वाडलां. व्हरूं नाका म्हूण सांगलें. बाबा खातीर केल्लो इतलो हट्टाहास आनी खंचे कडेन कांय ना अशें म्हाका दिसलें आनी म्हाका हुंडक्या हुंडक्यांनी रडूंक येवंक लागलें. बाबान म्हाका फुसलायलें. हांव लग्नाक वचपाक भायर सल्लें. वतना बाबाचो हात हांवें घट्ट धल्लों आनी सांगलें, 'बाबा लग्न जाता आनी रोकडेच परत येता. तुका म्हाका व्हकल म्हूण पळोवपाचे आसा न्हय?' बाबान मानेनच हय म्हळें. आनी हांव भायर सरलें.

लोक सगळे व्हकलेची वाट पळयतालें. हारशांत लेगीत पळय नासतना हांव सव्यार वचून बसलें. तेलाच्यो विधी बेगिबेगीन केल्यो. म्हूर्त चुकचो न्हय म्हूण. आयज म्हजें लग्न, बाबा खातीर सगळी ताकतीक केली. न्हावपाक लेगीत वेळ मेळ्ळो ना. तरीय बाबांक हांगा हाडूंक पावलें ना. लग्न जालें. आठाक सुमार व्हंकलपावणी कुंकळ्ये पावली. शियाचो कुडकडो. म्हजे कित्याचेरूच लक्ष नाशिल्लें. घरभरवणी भितर वतकीर थोड्योशो विधी आशिल्ल्यो त्यो हांवें केल्यो आनी एका जाग्यार वोगीच बसलें. मांवाक ते कळ्ळें. म्हजो मांव नरसिंह शेणवी कुंकळकार. खूप कडक शिस्तिचो. घरांतली बायल भुरगीं सोडूच, ताचो बापूय लेगीत ताका भितालो. मनीस म्हूण खूब बरो. पूण गांवांत दराऱ्याचो मनीस. दनपारां तो न्हिदलो जाल्यार शेजारची बायलां कपडे लेगीत उमळ नाशिल्ली. तितलोच सामाजीक. गांवांत पयली शाळा ताणें काडली.

एक प्रसंग कोणूय सांगताले, गावांत शिगम्याच्या मांडार धा जाणां मदीं वाद जालो. ज्याचे कडेन वाजोवपाची सगळी इलामत (शिगम्याचें वाजोवपाचीं वाजत्रां) आसता, ताणे आपूण वाजोवपाची वाजंत्रा दिवचो ना म्हणून सांगलें. कोणें तरी येवन म्हज्या मांवाक सांगलें. ताणें आपलें दुकान बंद केलें आनी ताच्या घरांत गेलो. थंयची पेट उघडी केली आनी ढोल, ताशे, कासाळें सगळे सामान तांकां दिलें. शिगमो जालो. चतुर्दशिच्या आदल्या दिसा ढोल फुटलो. त्या मनशाचो बोवाळ. म्हज्या मावान एका मनशाक डोंगरेर धाडून नवो ढोल हाडून दिलों. आमकां भागेली. पूण केन्नाच मुंडकारां कडेन वाद घाल्लो, झगडिल्लो हांवें मांवाक पळोवंक ना. भाटां बेसां सगळी गेलीं. तरी सामको स्थितप्रज्ञ रावलो.

असो कडक आनी धीरगंभीर मांव जाका सगळी तातो म्हण्टाली. ताका हांवें लग्नादिसाच पारखिलों. लग्ना दिसा म्हजे बाविल्लें तोंड पळोवन तो म्हज्या म्हऱ्यांत आयलो आनी 'कितें जालें' म्हूण विचारपाक लागलों. हांवें म्हळें, 'आयज म्हजें एकूच मानून घेता, जल्मभर हांव तुजें आयकतलें. म्हाका बाबा म्हऱ्यान वचूंक जाय. बाबा म्हजी वाट पळयतलों.' त्या वेळार अख्खे घरच भियेलें. तातो कसो रिॲक्ट जायत कोणाकूच कळ नाशिल्लें. अवधूत तर सामकोच थरथरतालो. तात्याची भावंडां, तांची भुरगीं, सोयरी धायरी सगळींच पळयताली. हळदिच्या आंगांन भायर वचूंक जायना म्हूण सगळींच समजायतालीं. पूण तात्यांतलो बापूय जागो जालो. पयलेच फावट तो कडक पूण तितलोच मायेस्त म्हूण सगळ्यांक कळ्ळे. तात्यान म्हाका म्हळें, 'चल जेवन घे. तुका व्हरून हाडटां,' टॅक्सी ड्रायव्हर घरा गेलो ताका परत आपोवन हाडलें आनी रातची अकराक आमी पर्वरी वचपाक भायर सरलीं. तात्याचे हांव जल्माचें उपकारी उल्लें. रातची सव्वा बाराक सुमार पर्वरी पावली. घरा पावतकच हांवें लग्नांतलो हार बेगिबेगीन गळ्यांत घालों. अवधूताक घालूंक लायलो आनी घराची बॅल वाजयली. आईन दार उघडलें. सगळी पुरो जावन न्हिदिल्ली. फकत बाबा जागो आशिल्लो. आई म्हाका पळयत उल्ली. तशीच बाबा मुखार आमी उबी रावलीं. बाबान दोळे भरून म्हाका पळयलें. हांव बाबाक

पाया पडलें. हांव रडटा तें पळोवन बाबाय रडपाक लागलो. बाबान म्हाका लागी ओडलें आनी तात्याक म्हळें, 'म्हजो काळजाचो कुडको तुमकां दिता. हुशार भुरगें, वाघिणीचें दूद लेगीत हाडपाची कापस्ताद आसा ताचे कडेन' तात्यान म्हळें, 'कांयच भीवं नाका. आयच्यान हांव ताचो बापूय.' आनी खरेंच तात्यान म्हाका चलये वरीच वागयलें.

म्हाका दिसता हांव पयलीच व्हंकल लग्न जाल्ल्या दिसाच कुळारां येवपी, थोडो वेळ बसून आमी भायर सरली. पणजे पुलाचेर आमकां व्हडलो अपघात जावपाचो. देवान साल्वार केली. नाजाल्यार हांव हळदिच्या आंगान भायर सल्ला म्हूण म्हजेर अपशरण येतलें आशिल्लें. एका म्हयन्यान म्हजो बापूय गेलो. मागीर तो हॉस्पिटलांत वचुकूच ना. पूण तात्याच्या रुपान म्हाका रोकडोच दुसरो बापूय मेळ्ळो. आनी म्हजें दुखख मात्शें तरी ल्हव जालें.

पणजेच्या परिसरांत वाडिल्लें हांव. अंत्रुज म्हालांत कुंकळये नांदपाक गेलें. खूब ग्रामीण गांव. रस्त्यावेल्यान दोन किलोमीटर चलपाचे. तेन्नाच म्हाका शेतकी खात्यांत नोकरी मेळ्ळी. सकाळी आठाक एकूच टेंपो वतालो. ताचेर हांव पणजे येतालें. आनी सांजवेळां सात-आठाक घरां पावतालें. तातो म्हाका वयर स्टॉपार व्हरूंक येतालो. अवधूतान मडगांवां बेकरी घाल्ली. तो मडगांवां भयणीगेर राततालो. हांव, आई (मांय), तातो तिगांच रावतालीं. अवधूत पंधरा दिसांनी येतालो. गांवांत लायटीचो फ्यूज जरी गेलो जाल्यार तीन तीन दीस लायट येनाशिल्ली. पावसान तर लायट नाच म्हळ्यार जाता. मांय म्हाका सांजवेळा साताकूच वाडटाली. णव मेरेन ती न्हिदताली. जंय पर्वरी ११ मेरन म्हजी कामांच सोप नाशिल्ली. थंय म्हाका घुस्मटिल्लेवरी जातालें. पूण एकाच गजाली खातीर हांव थंय बांदून उरलें. मांय आनी मांव म्हाका सख्ख्या चलये परस चड बरी करताली. मांय तर कुस्कुट लेगीत काम करपाक दिना आशिल्ली. म्हाका नुस्तें आवडटा म्हूण म्हज्या आवडीचें रांदप. म्हाका काजूबियाचे लाडू खूब आवडटालें. मांय म्हजी आत्र्या-पयऱ्यान २०-२५ बियो भाजून दोन चार लाडू करून दिताली. अशे दिस वतालें. कविता, एखादो लेख, आकाशवाणीचें कार्यक्रम मदी मदीं चालू आशिल्लें. बाबान म्हाका लग्नात हेर सामाना वांगडा बरोवपाक एक मेज दिल्लें. 'तूं लेखिका, तुका बरोवपाक स्वत: चे मेज जाय' ३३ वर्सां पयलीं ह्या दृश्टीन मेज दिवपी म्हजो एकमेव बाबा आसतलो.

म्हजो मांव अतिशय नव्या विचारांचो. स्वता साहित्याचो रसीक, आठवड्यांत तीन पुस्तकां वाचपी. म्हजी व्हडली नणंद ताई शिक्षिका. ते मडगांवसान येतना शेनवारा तीन पुस्तकां घेवन येतालें. ती तीन पुस्तकां दुसऱ्या सोमारा व्हरतालें. आठवडो भर आमी तिगांय आळीपाळीन ती पुस्तकां वाचताली. म्हाका दिशिल्लें लग्न जातकच म्हाका नाटकांत काम करपाक केन्नाच मेळचेंना. पूण रंगदेवता म्हजेर प्रसन्न आशिल्ली. खुद्द कुंकळ्येची शांतादुर्गाच म्हाका पावली. गांवांत तेन्ना देवस्थानांतली नाटकां सादर करपाची परंपरा खंडीत जाल्ली. म्हज्या मांवान फुडें सरून नाटकांत काम करपाक लायलें. आपली सून स्टेजीर चडतगेर गांवच्यो बाकिच्यो चलयो आनी सुनो स्टेजीर चडटल्यो. ताच्या उत्तेजना खातीरूच हांवें गांवांत 'कल्पवृक्ष कन्येसाठी' नाटकांत काम केलें. कलाकार म्हूण मावांक म्हजो खूप अभिमान. पूण ताच्या मरणा उपरांत चार पांच वर्सांनी खऱ्या अर्थान लेखक, कलाकार म्हूण म्हजें करियर सुरू जालें. त्या वेळार म्हजो मांव आनी बापूय आशिल्लें जाल्यार तांका खरें समादान जावपाचें. म्हुणून म्हजें पयलें पुस्तक 'ओला पदर' हांवें तांका दोगांकूय ओंपलां. मांय-मांवाचो काच घेवन कला काबार जाल्ली असंख्य उदाहरणां म्हजे मुखार आसतना म्हज्या मांवान म्हाका पुराय सहकार्य दिलें हें हांव म्हजें भाग्य समजतां.



> बायल आपल्या मर्यादेंत रावपाक जाय. मर्यादा हांव जबाबदारेच्या संदर्भांत म्हणटा, भुरग्यांचे लालन-पालन, शिक्षण, वखद-पाणी, जेवण-खाण ह्यो गजाली बायलांनीच जबाबदारेन करूंक जाय. घरच्या संसारांत लक्ष घालप, घरांत येणाऱ्याची ऊठ-बस करप, ही कामां बायलांनीच करपाक जाय या मताचे हांव.

कले संबंदान म्हजी पूर्वपिठिका आदीच तयार जाल्ली. मांवान ताचेर शिक्कामोर्तब केल्लो आनी अवधूतान स्वाभाविकपणान स्विकार केल्लो. लग्ना आदी हांवें अवधुताक आदीच सांगिल्लें, म्हाका एखाद्री भांगराची वस्त हाडना जाल्यार कोताक येता, पूण म्हजो स्वातंत्र्याचो दस्तऐवज हिसकावन घेवं नाका. ताणें त्यो दोनूय गजाली आयज मेरेन आयकल्यो. म्हज्या लेखनांत वा कलेंत थोडो खंड पडलो तो पयल्या अपत्या वेळार. सुमार तीन वर्सां हांव संपदाक वाडोवपाक गुल्ल आशिल्लें. नोकरी, भुरगें आनी फकत वाचन वा एखाद्र्या रेडिओच्या प्रोग्रामा पुरतेच हांव मर्यादित उल्लें. पूण मागीर अस्वस्थ जावपाक लागलें. भितर खूप साचून उल्लें. दुसरें म्हळ्यार परंपरागत पुरुशप्रधान संस्कृतीत दादलो लाडावल्लो जरी आसलो, तरी ताका काळाचें भान आसता. आयज तो आपूण जावन बायलांक स्वातंत्र्य दिवचोना. पूण तिणेंन स्वातंत्र्याची अभिलाशा केली जाल्यार तिका तो आडकाठी हाडचोना इतलो तो समजूतदार जाला. कारण आयज खंयच्याय परिस्थितीत ताका संघर्श परवडपाचो ना. बायलांची मिळकत आनी सहकार्य हांची ताका आयच्या काळांत खूप गरज आसा. हाचो अर्थ बायलांनी स्वातंत्र्याचो गैरफायदो घेवचो असो ना. बायलांनी आपल्या मर्यादेंत रावपाक जाय. मर्यादा हांव जबाबदारेच्या संदर्भांत

म्हणटा, भुरग्यांचे लालन-पालन, शिक्षण, वखद-पाणी, जेवण-खाण ह्यो गजाली बायलांनीच जबाबदारेन करूंक जाय. घरच्या संसारांत लक्ष घालप, घरांत येणाऱ्याची ऊठ-बस करप, ही कामां बायलांनीच करपाक जाय या मताचे हांव. कारण घराचें स्वास्थ्य आनी सौख्य काळजींत येतले. ह्यो सगळ्यो गजाली योग्य नियोजन, प्लॅनिंग करून तिणें आपले करिअर करपाक जाय. हे म्हाका कर्तृत्ववान बायलांच्यो मुलाखती घेतना अणभवपाक आयलें. वर्तमानपत्रां, दूरदर्शन, रेडिओ ह्या माध्यमां खातीर हांवें आयज मेरेन चारशां वयर बायल दादल्यांच्यो मुलाखती घेतल्यात. बायलांच्या मुलाखतींचीच चार पुस्तकां उजवाडांक आयल्यात. ह्या सगळ्या बायलांच्यो मुलाखती घेतना म्हाका अशें जाणवलें की ह्यो दैदिप्यवान काम केल्ल्यो बायलो आपल्या संसारांत कुस्कूटभर लेगीत कमी पडल्यो ना आनी एका आघाडीचेर यशस्वी जाल्ली बायल सगळ्या आघाड्यांचेर यशस्वी जावंक शकता आनी म्हाका हें सूत्र खूप उपयोगी पडलें.

कलेचें बाळकडू हांव पयलीच पिल्ल्यान ती जोपासपाचें काम म्हाका सोपें जाल्लें. देखून कलाकार म्हूण हांव पयलें मुखार आयलें. हांव लेखिका जातलें अशें हांवें केन्नाच चितूंक नासलें. तातूंत हांव कोंकणी कथा बरोवन कोंकणी कथासंग्रह उजवाडाक हाडटलें अशें हांवें सपनांत लेगीत येवजूंक नासलें. धव्याचेर काळें करपाची कसरत मराठींतल्यान सुरू केल्ली. कविता, कथा, लेख बरयतालें. संमेलनांनी वाचतालें. मुंबय एकदां ३० वर्सां पयलीं एक कवी संमेलन जाल्लें तेन्ना शंभू भाऊ बांदेकार उपसभापती. तेन्ना हांव, शंभूभाऊ बांदेकार, लीना पेडणेकार, नागेश सोनटक्के आनी सुदाम मोटे हांणी कवी संमेलनांत भाग घेतलो. म्हज्यो ह्यो मराठी कथा खबरापत्रांच्या आयतारच्या पुरवणेंत प्रसिध्द जाताल्यो. तेन्ना शशिकांत नार्वेकार मराठी अकादमीचे अध्यक्ष. तांणी म्हाका सांगलें, 'तुज्यो कथा अकादमीच्या प्रकाशन येवजणे खातीर धाड.' तेन्ना मेरेन पुस्तक कशें उजवाडाक येता हे म्हाका खबर नाशिल्लें. तेन्ना परीक्षक मंडळान प्राध्यापक केशव मेश्राम, प्रा. म. द. हातकणंगलेकर आनी प्रा. शंकर सारडा हांच्या सारख्या नामनेच्या सर्मीक्षकांचो आस्पाव आशिल्लो आनी तांच्या नदरेंतल्यान म्हज्यां कथा अनुदानाक पात्र थारल्यो हो म्हाका म्हज्या लेखनाचो गौरव दिसलों. ह्या पुस्तकाक माधवी देसायची प्रस्तावना लाबली. नामनेचे लेखक रत्नाकर मतकरी हांच्या हातान ह्या पुस्तकाचे प्रकाशन जालें. हो कथासंग्रह वाचून गंगाधर गाडगीळांचें पत्र आयलें 'लेखिका योग्य वाटेने जातें.' म्हाका खूप बरें दिसलें. येद्या व्हडल्या लेखकान म्हज्या कथांची तोखणाय केल्ली. (तें पत्र अजुनूय म्हजेकडेन आसा.)

गोंयां मात म्हजें कथे परस म्हज्या 'ओला पदर' नांवाची बरीच चर्चा जाल्ली. म्हज्या 'ओला पदर' नांवाचो अर्थ बायलांनी भिजिल्ल्या दुकांचो ओला पदर. नवप्रभात 'जिम डार्सी' ह्या टोपण नांवाच्या लेखकाच्या सदरांत लेखकान 'ज्योती कुंकळकराचा ओला पदर सुंदर'. जणू काय म्हजो पावसांत भिजिल्लों पदर अशी ताणें वर्णनां केल्लीं. वाचून खूप त्रास जालों. भुरगें मन. तेन्ना हांव तो पेपर घेवन पयलेच फावट श्रीनिवासबाब धेंपेक मेळ्ळें. आनी मागीर तेन्ना सावन हांव धीट जायत गेलें. उज्यांत फुल्लें. आनी आता हीं ज्योत वतात केन्नाच बावचीना.

कोंकणी कथेचो मात हांवें खुबूच धसको घेतिल्लो. कोंकणी कथा म्हळ्यार कोंकणी जिवितांतलें नीजपण आनी कथेंत तें तशेंच उतरपाक जाय अशी म्हजी समजिकाय आसली.



म्हजें भुरगेंपण वो म्हजे अणभव ह्या जिविता पासून वेगळे आसलें. म्हज्या वाट्याक आयिल्लें तें मध्यमवर्गी जिवीत आनी शाराचें वातावरण.

पूण जेन्ना हांवें म्हजेच एके मराठी कथेचें पटकथा रुपांतर करून 'मुक्ता' नांवाची एक टेलिफिल्म पणजी दूरदर्शना वयल्यान कोंकणींतल्यान सादर केली तेन्ना मनांत विचार आयलो, कोंकणींतल्यान फिल्म जाता जाल्यार म्हजे कडल्यान कथा कित्याक बरोवन जावं नये? हे फिल्म जेन्ना दूरदर्शनाचेर आयलें तेन्ना असंख्य पत्रां म्हाका आयली. विश्वनाथ नाईक, माधवी देसाय ते साहित्यीक पुंडलीक नायक हांणी पत्रां बरोवन म्हजी तुस्त केली. तेन्नाच हांवें पुंडलीकबाबाक विचारलें, की कोंकणींतल्यान हांव कथा बरोवंक शकता. तेन्ना पुंडलीकबानान म्हाका सांगलें की, तुंवें जें कितें अणभवलां ते कथांतल्यान प्रामाणिकपणान मांड. बरयता ते जिवीत कोंकणीच आसूंक जाय असो आग्रो नाका, म्हाका तें पटलें. आत्मविस्वास वाडलो आनी हांव अधाशीपणान बरोवंक लागलें, हांवें बरयिल्ल्यो कथा 'सुनापरान्त', 'राष्ट्रमत', 'कुळागर', 'जाग' ह्या सारख्या नामनेच्या नेमाळ्यांनी उजवाडाक आयल्यो. वाचप्यांनी प्रत्यक्ष मेळिल्ले कडेन जावं पत्रां बरोवन अभिप्राय कळयलें. तातूंत सामान्य वाचपी तशेंच नावाजते लेखक आनी समिक्षकूय आसले.

मागीर कोंकणी अकादमीच्या 'पयलो चंवर' ह्या येवजणेक पयले पुस्तक प्रकाशक हेमा नायक हांणी उजवाडाक हाडलें. त्या पयल्या पुस्तकाक म्हाका उदयबाब भेंब्रेची प्रस्तावना मेळ्ळी. प्रस्तावनेच्या बाबतींत हांव खूप भाग्यवान. म्हाका उदयबाब भेंब्रे, चंद्रकांत केणी,

> एका बायलेनम्हजेपांय ओडलें म्हूण सगळ्योच बायलो वायट अशें हांव केन्नाच म्हणचे ना. बायलो बायलांचेच पांय ओडटात हे विधान कोणें बेसावधपणान केला अशें म्हजें ठाम मत आसा. म्हाका बायलांचे आयिल्लें अणभव म्हळ्यार विजयादेवी राणेन म्हाका माशेलांतल्या बालभवनाचे प्रमुख करून म्हाका संपूर्ण सहकार्य केलें.

मनोहरराय सरदेसाय, रवीन्द्रबाब, दामोदर मावजो, पुंडलीक नायक हांची प्रस्तावना लाभलीं.

'चित्रांतले वादळ' हाच्या प्रकाशनां वेळार रवीन्द्रबाब आयिल्लें. म्हज्या खोशयेक सीम नाशिल्लीं. चारूच दिसांनी म्हाका रवीन्द्रबाबांचे पत्र आयलें. 'इतुजें 'चित्रांतलें वादळ' काल घेवन बसलो. आदेस तुज्या सांगातान गेलो. ११ वे कथे कडेन पावलो. आता पुस्तक सोपतलें अशें कितें शें दिसपाक लागलें. पुस्तक सोपचे न्हय म्हूण ही कथा वाचची न्हय.राती न्हिदूंक वचच्या पयली ही ११ वी कथा वाचून काडली. पुस्तक सोपिल्लें पळोवन मन खंती जाले. इतलें सांगतकीर तुज्यो कथा म्हाका आवडल्यो हे वेगळे सांगपाची गरज आसा.'' १९९३ तले हे धा पानी पत्र अजून म्हजे कडेन आसा.

अशें तरेन हांव कोंकणीच्या विश्वांत आयलें. आयज म्हजी २५ पुस्तकां उजवाडाक आयल्या. १०-१२ फिल्मां हांवें तयार केल्यात. पांच जाणांच्या डॉक्युमेंटरी हांवें शूट करून दवरल्यात. रवीन्द्रबाबांची जाल्या. चंद्रकांत केणयाची तयार करपाची इत्सा आसा. काम चालू आसा. गोवा दूरदर्शन सुरू जायत सावन फाटलीं २५ वर्सां हांव थंय कार्यावळी करतां. कितलीशीच नाटकां बसयली. नाटकांत काम केलें. कथा अस्तुरीचे १०० प्रयोग लेगीत. सरकारी नोकरी सोडून पांच वर्सां बालभवन चलयलें. बालनाट्य महोत्सव घडयलें. बालचित्रपट बरोवन राष्ट्रीय पुरस्कार जोडलें, चित्रपटा खातीर, नाटका खातीर, साहित्या खातीर जायते राज्य पुरस्कार राष्ट्रीय पुरस्कार जोडले. बायलां खातीर खुबशे म्हळ्यार शंभरा वयर मेळावे घेतलें. मुलाखती घेतल्यो. कार्यावळी केल्यो. हे म्हाका स्वताक सिद्ध करपाक ३० वर्सां लागली. ह्या ३० वर्सांत खूब वायट बरें अणभव गाठीक आसा.

म्हज्या जिणेंतलों अत्यंत वायट अणभव म्हळ्यार अंजली आमोणकारान म्हजेर केल्लो वाङ्मयचौर्याचो आरोप. म्हजीच मैत्रीण म्हूण टी.व्हीर म्हजी मुलाखत घेवपाक हांवें ताका आपयलें आनी मागीर व्हडलें नाट्य घडलें. तो पुरस्कार स्थगीत उल्लो. पूण तितल्याच नेटान वावरून दुसऱ्या वर्सा नभोनाट्याचो हांवें पयलो पुरस्कार घेतलों. हांवें आदीच म्हणलां, भुरगेंपणा सावन हांव पुरुशी हातांनी घडलां. कला आनी साहित्यांतले काटेकुटे आनी साध्य करपाची उद्‌दिष्टां हाचो तपशील पुंडलीकबाबान म्हज्या मुखार दवरलों. कितें करचे परस कितें करूंक जायना हे म्हाका ताणें सांगलें. आनी आयज मेरेन मेळिल्ल्या दादल्यांच्या सहकार्या परस तांच्या सहकार्याचो वाटो खूप मोलाचो व्हड आनी म्हत्वाचो आसा.

हे सगळे सहकार्य घेतना म्हाका त्या सहकार्याचे मोलूय समाजाक फारीक करचें पडलां.

एका बायलेन म्हजे पांय ओडलें म्हूण सगळ्योच बायलो वायट अशें हांव केन्नाच म्हणचे ना. बायलो बायलांचेच पांय ओडटात हे विधान कोणें बेसावधपणान केला अशें म्हजें ठाम मत आसा. म्हाका बायलांचे आयिल्लें अणभव म्हळ्यार विजयादेवी राणेन म्हाका माशेलांतल्या बालभवनाचे प्रमुख करून म्हाका संपूर्ण सहकार्य केलें. पल्लवी धेंपेन नवप्रभाच्या 'कुटुंब' पुरवणीचे संयोजन करपाक म्हाका दिलें. हेमा नायकान म्हजी पुस्तकां उजवाडाक हाडलीं. देखणी दुरायची सहनिर्माती म्हूण म्हाका घेतलें. 'मरेपर्यंत फाशी' ह्या फिल्माक डॉ. प्रमोद साळगावकारान म्हाका मदत केली. 'दौलत' फिल्मा खातीर सहनिर्माती म्हूण मंगला कारापूरकारान म्हाका पालव दिलों आनी आता चंद्रकांत केणयाचो माहितीपट करपाक थोडो आदार करता म्हूण ताणें उतर दिलां. संगीता जाधवान म्हज्या उतराक मान दिवन गोंयां अपळारींळेप उशपीश सुरू केलें. प्रशांती तळपणकारान कथा अस्तुरीचे सुमार १०० प्रयोग करून म्हाका सहकार्य केलें.

ते भायर भारतीय महिला परिषद, म्हापसा भगिनी मंडळ, पणजे भगिनी मंडळ, महिला उद्योग संघटना, महिला काँग्रेस आनी आशा आरोंदेकराच्या ऑर्कीड संस्थेन म्हजो त्या त्या वेळार मान सन्मान केलां. हो मान सन्मान म्हाका प्रत्येक वेळार प्रोत्साहीत करता.

अशा सगळ्यांच्या उपकारान, आधारान, सहकार्यान, आशिर्वादान आयज हांव हांगा मेरेन पावलें. खरें म्हणल्यार आपल्या मनशाची तोखणाय करपाक म्हाका आवडना आनी कुटुंबाकूय आवडना. म्हज्या लग्नाक ३१ वर्सां जाली. घोव म्हूण जितलें सहकार्य दिवपाक जाय ताच्या परस चड सहकार्य म्हाका घोवान (अवधूत) दिलें. म्हुणून तर आयज हांव पांय घट्ट रोमून हांगा रावूंक शकलें. म्हाका मैत्रिणी आसात तशें मित्रूय आसात. ताणें म्हज्या सगळ्या मित्र मैत्रिणींक स्विकारला आनी म्हज्या परस तो तांचो इश्ट चड जाला. डॉ. अनुपमा, प्रशांती, मंगला, गिरबानी, भारती उज्ज्वला, विनंती म्हज्या परस ताका चड मानतां. उज्वला-प्रशांती ताका भावोजी म्हणटात. म्हज्यो दोनूय धुवो संपदा आनी समृद्धी हांच्या नांवाप्रमाणेच म्हाका भुरग्यांची सुख समृद्धी मेळ्ळी.

ह्या खिणाक एक कलाकार, एक साहित्यीक, एक बायल, एक आवय म्हूण समादानी आसा. तृप्त मात ना. अजुनूय म्हाका बरें साहित्य निर्माण करपाचे आसा. कांय लोकांचे म्हायतीपट करपाचे आसात, फिल्मां काडपाची आसात. नातरां पुणटुरांक खेळोवपाचे आसा. आनी सहज हांवें मंगलांक म्हळें, की म्हाका व्हडल्या घरान रावपाचे आसा आनी व्हडल्या गाडयेन भोवपाचे आसा. हे आयकून ताणें फट करून म्हळें, हाच्याकूय बरें घर? म्हाका हेच घर सगळ्या घरां परस बरें दिसता.' तशें म्हजें घर, म्हजें गार्डन, म्हजी स्टडीरूम, म्हजी लायब्ररी सगळ्यांकूच आवडटा. म्हजी कोणाकडेन कसलीच तक्रार ना. म्हज्या वाट्याक जे कितें आयलां ताका बरें तरेन आकार दिवपाचो हे सादेसुदे म्हजें तत्वज्ञान.

जीवनाच्या गडबडीत फाटल्यान पळोवपाक थोडेंशें विसरिल्ले. 'जागा'न म्हाका जाग हाडली म्हूण 'जागा'च्या संपादकाक आनी परिवाराक देव बरें करूं. ■



**'टायम विदीन टायम' ही तार्कोव्हस्कीच्या जिणेंतल्या १९७० सावन १९८५ मेरेनच्या घडणुकांची नोंद आशिल्ली दीसपटी. हे दीसपटयेंत सातत्य ना. निमाणे कडेन तर ताणें वर्साचे वीस- पंचवीस दीसूच दीसपटी बरयल्या. पूण हे दीसपटयेंतल्यान आत्मसन्मान आशिल्ल्या एका मनस्वी कलावंताचे सरकारी दुश्टपणाक लागून जाल्ले हाल आनी तेय परिस्थितींत काळ्या कुपांची रुप्याची देग सोदपाचो ताचो हावेस दिसता. तार्कोव्हस्कीचे दीसपटयेंतलीं हीं कांय निमाणीं पानां...**



# आंद्रे तार्कोव्हस्की

अणकार : अनंत साळकार
९८५०६९३१००



साव्या शेकड्यांत संवसारीक कीर्त फावो जाल्ल्या चित्रपट दिग्दर्शकां मदीं आंद्रे तार्कोव्हस्की ह्या रशियन (तेन्ना तो देश सोव्हियेत गणराज्यांत आशिल्लो) दिग्दर्शकाचे स्थान उंचेल्या पावंड्या वयलें. १९६२ वर्सा ताणें इवान्स चाइल्डहूड हो पयलो चित्रपट काडलो. ताका व्हेनिस चित्रपट महोत्सवांत गोल्डन लायन पुरस्कार फावो जालो. वेगळेच धाटणेचे ताचे चित्रपट. ताका लागून तार्कोव्हस्कीच्या राजकीय आनी सामाजीक धारणांचेर खर टिकाय रशियांत जाली. आंद्रे रुबल्योव्ह, मिरर, सोलारीस आनी स्टॉकर ह्या ताच्या चित्रपटांक जग भरांतल्या टिकाकारांनी वाखाणलें आनी संवसारांतल्या चडशा चित्रपट महोत्सवांनी साबार इनामांय मेळ्ळीं. पूण तार्कोव्हस्की मात सदांच सोवियत यंत्रणेच्या हीट लिस्टाचेर उरलो. पावला कणकणी ताका आडावपाचो यत्न जालो. निमाणे कडेन सोव्हियेत- इटालियन संयुक्त निर्मितिच्या निमतान ताणें इटलींत स्थलांतर केलें. 'नॉस्ताल्जिया' हो ताचो निमाणो चित्रपट. इटलींत आसतनाच ताका कांक्राचें दुयेंस जालें. थंयच आपले जल्म भुयेंक वथरेत तो १९८५ वर्सा संवसाराक अंतरलो.

'टायम विदीन टायम' ही तार्कोव्हस्कीच्या जिणेंतल्या १९७० सावन

१९८५ मेरेनच्या घडणुकांची नोंद आशिल्ली दीसपटी. हे दीसपटयेंत सातत्य ना. निमाणे कडेन तर ताणें वर्साचे वीस- पंचवीस दीसूच दीसपटी बरयल्या. पूण हे दीसपटयेंतल्यान आत्मसन्मान आशिल्ल्या एका मनस्वी कलावंताचे सरकारी दुश्टपणाक लागून जाल्ले हाल आनी तेय परिस्थितींत काळ्या कुपांची रुप्याची देग सोदपाचो ताचो हावेस दिसता. तार्कोव्हस्कीचे दीसपटयेंतलीं हीं कांय निमाणीं पानां...

**वर्स १९८३, २२ मे, रोम**

कान्स सावन परत आयलां. थंय कितें घडलें तें सांगपाची मनस्थिती आतांय ना. खुबूच वायट. दिसाळीं वाचल्यार कळटलें. सगळ्याच दिसाळ्यांनी आनी नेमाळ्यांनी भरपूर प्रसिद्धी दिल्या. म्हजेर खूब लेख छापून आयल्यात. 'नॉस्ताल्जिया' सगळ्यांकूच आवडलो. तीन पुरस्कार मेळ्ळे. ओलेग यांकोव्हस्कीक एक कंत्राटूय मेळ्ळें. पूण ताका ताचे पयलींच परत वचचें पडलें. हेरशींय म्हूण ताका कंत्राट घेवपाक मेळचेंच नासलें. म्हज्या नांवाची घाण करपा खातीर थंय बोंदारच्यह आयिल्लो. एक्यूय संद सोडली ना ताणें. ते खातीरूच ताका रशियांतल्यान धाडिल्लो आसूंक जाय. तो अशें कांयच उलोवचोना अशी खात्री म्हाका हेर सोव्हियेंत अधिकाऱ्यांनी दिल्ली. पूण म्हाका महोत्सवांत एक्कूय पुरस्कार मेळचो न्हय, हे खातीर कारस्थान शिजिल्लें हाची गवाय तांच्या तोंडा वयल्यान चांटे पावलाक मेळटाली. पुरस्कार मेळ्ळो जाल्यार परदेशांत रावन काम करपाक म्हाका आनीक संद मेळटा. तेंच तांकां नाका.



बोंदारच्यकान वाट लायलीच, पूण ब्रेसनानूय संद सादली. आपल्याक गोल्डन पाम पुरस्कार मेळ्ळो ना जाल्यार आपूण आनीक कसलोच पुरस्कार घेवचो ना म्हूण ताणें पयलींच जाहीर केलें. मागीर म्हाका पत्रकार परिशद घेवन सगळें सांगचें पडलें. ज्युरीचो गैरसमज जावचो न्हय म्हूण.

मागीर हांव ब्रेसनाक मेळ्ळों. आनी मार्टीन ऑफ रॉयाकूय. रोमांत वतकच तोस्कान दुप्लांतियेराक मेळपाचें थारायलें. फुडाराक दोगांयनी मेळून चित्रपट काडूं येता.



'द बीच' चित्रपटा खातीर हांवें ॲना-लेना वायबॉमा कडेन करार केलां. आतां रशियांत वचून येरमाशा कडेन परत एकदां उलोवचें पडटलें. म्हाका आनीक कांय तेंप अस्तमतेंत रावपाक दी म्हूण सांगचें पड्टलें.

'आरएआय'न एक पार्टी दवरिल्ली. अख्खो दुतावास आयिल्लो. फकत एकल्यानूच म्हाका परबीं (अनधिकृत) भेटयलीं. उरिल्ले उलयले लेगीत नात. राजदूत खंय दुयेंत आसा. म्हाका मेळपाची ताची इत्सा ना. म्हाका कोन्सूल आनी येरमाशा कडेन उलोवचें पडटलें.

आतां बरोवपाचीय इत्सा उरूंक ना.

कामाक सुरवात करचीच पडटली. तायपाची (चल्याची) खूब याद येता.

**२३ मे, रोम**

'नॉस्ताल्जिया'क तीन पुरस्कार मेळिल्ल्याचें काल बरोवंकूच विसरलों हांव. म्हाका उत्कृश्ट दिग्दर्शकाचो पुरस्कार मेळ्ळां.

२१ तारखेत सोव्हियेत कल्चर नेमाळ्यांत कान्स महोत्सवाचेर बरयलां. महोत्सवाचो पावंडो खंय खुबूच सकयलो आशिल्लो. भारत (!) आनी तुर्कीतल्यान खंय कांय बरें चित्रपट आयिल्ले. सगळ्यांत बरो चित्रपट खंय जपानाचो आशिल्लो आनी उत्कृश्ट दिग्दर्शकाचो पुरस्कार तार्कोव्हस्की आनी ब्रेसनाक वांटून दिलो. ॲना सेम्युयोनोव्हना आनी म्हजे मॉस्कोंतले हेर इश्ट अस्वास्थ जाल्यात. पूण ताणीं खुबळचें न्हय म्हूण हांवें सागलां तांकां. जितलें वायट येता, तितलें बरें.

कलेची निर्मिती ही अंतरात्म्याची अभिव्यक्ती अशें म्हणटात, तें कितलेंशें सत असो विचार सदांच मनांत येता. घडये मनीस आपल्याक घडतल्याचेंच अनुकरण करपाक सोदता आसत. पूण, अशें करप योग्य? आम कां रचणाऱ्याचें अनुकरण करपाचें धाडस

आमी करचें? रचणाऱ्यान आमकां जें स्वातंत्र्य दिलां ताचो उपयोग नश्ट्या प्रवृत्ती आड झुजपा खातीर आनी देवाच्या पांयां कडेन व्हरपी वाटेर आशिल्लीं आडमेळीं पयस करचे खातीर जावपाक जाय. ताचे वरवीं आमचे मदली गुन्याव केल्ल्याची भावना सोंपतली आनी आमचें अध्यात्मीक उत्थान जातलें. देवा, म्हजी मजत कर. म्हाका अथ्रेकणी लागल्या एका शिक्षकाची. ताका धाड. पुरो जालां म्हाका.

**२५ मे, रोम**

आयचो दीसूच पाडो. मनांत भिरांकूळ विचार. म्हाका भंय दिसता.

हांव शेणलों. हे मुखार हांव रशियेंत रावपाक शकचो ना. आनी हांगाय रावप जमचें ना.

**२६ मे, रोम**

क्लाउडियो आबादोक मेळपाक म्हाका ३१ तारखेक मिलान वचचें पडटलें. म्हज्या 'हॉफमानियाना'च्या स्क्रिप्टाचेर कोणाक तरी चित्रपट काडूंक जाय खंय. बर्लिन सावन फोन आयिल्लो. म्हाका रोख पन्नास हजार डॉलर्स दिल्यात, खंय. ताचे परस चड मेळूंक नाका आशिल्ले?

म्हज्या चित्रपटांच्यो कान्साक भोयो भोयो जाल्यो अशी चर्चा मॉस्कोंत चल्ल्या खंय. देवा, हाचे परस आनीक चड नालस्ती कसली असतली?

**२७ मे, रोम**

म्हाका जर्मनींतल्यान म्युनिक फिल्म फेस्टिव्हला खातीर आपोवणें आयलां. हांव वतलोंच.

आमी घर सोडचें म्हूण टेलेग्राम आयला. आतां खंय वचप तेंच कळना.

आमी मॉस्को फोन करून उलयलीं. कान्सांत हांव फ्लॉप जालां म्हूण वावड्यो उठत आसात. सूडान पेटल्यात नांवाडगे.

ॲना सेम्योनोव्हा कडेन उलयलों. तें अस्वास्थ आसा शें दिसलें. बरें दिसना आसत घडये. लारा आनी हांव चिंतेस्त. म्हज्या तायपाक परिक्षेंत आलजिब्रा, फिजिक्स आनी रशियन भाशेंत तीन तीन गूण पडले.

आयज आमकां फ्रँको टेरेल्ली ताच्या भावा कडेन घेवन गेलो. भावाचें सोबीत घर आसा थंय. पूण ताची दुरुस्ती करपाक जाय. फुडले तीन म्हयने तरी थंय राबितो करप शक्य ना.

इ्वायगुबस्की सांगातान काम कशें करप तें म्हाका पळोवचें पडटलें. सदांच बशीन रोमाक गेल्यार बरें काय? कठीण शें न्हय तें. स्टेशना वयल्यान रोमाक वचपाक एक बस सुटटा. फ्रँकोचो भाव थंय सावन सदांच व्हेटिकनांक कामा खातीर वता. तो गाडी व्हरता. ताचे सांगातान वचूंक मेळ्ळ्यार बरें जातलें.

**३० मे, रोम**

तें घर दुरुस्त करपाचे लायकेचें ना म्हूण फ्रँकोन फोन करून सांगलां. म्हणचे, आमी परत वाऱ्यार पडलीं. दुसरें एक घर आसा. पूण थंय फोन ना. रोमा कडेन संपर्क करूंक अडचण.

**२ जून, रोम**

मिलान सावन आयज परत आयलां. खुबूच थकलां हांव. आबादो, सर जॉन टुली आनी इ्वायगुबस्कीक मेळ्ळों. गॉडुनोव्हाचेर भासाभास जाली. कांय बऱ्यो कल्पना सुचल्यात. पूण म्हाका नाका पुरो जालां. तकलेर धरतलो जाल्यार पांखें ना. कसलेंय तरीं काम करूंक जाय, कितें तो निर्णय बेगोबेग घेवचोच पडटलो. कितें तरी करूंक जाय अशें म्हणटा हांव आनी कितें करप तेंच कळना.

लारा फ्रँको सांगातान सान ग्रेगोरियो गेलां. थंय घर भाड्यान घेवन रावं येता आमच्यांनी. घर तयार जायसर तरीं. इ्वायगुबस्कीक सांगातान घेवन थोडें काम केलें. मागीर तो पारिसाक गेलो. येतलो कांय दिसांनी परत. येरमाशा कडेन उलोवन कितेंय तडजोड जाता जाल्यार पळोवचें पडटलें. ताचेय पयलीं रोस्त्रोपॉविचा कडेन उलोवपाक जाय.

**५ जून, रोम**

खूब थकलां हांव. आमी अँजेलाक मेळपाक गेल्लीं. आमी कितें थारायलां ताका ताचें फाटबळ आसा. आमच्या फुडारा खातीर एक येवजण तयार करपाचें ताणें मनार घेतलां. सध्याक ताचे भोंवतणी तेरा आनी वीस वर्सां मजगतीं पिराय आशिल्ल्या बारा तरणाट्यांचो रेवाडो पडला. 'इ्वअतिंद्रीय'' शक्त आशिल्ले हे ताचे साथीदार खंय. ते खंय खंयच्या तरी गिऱ्या कडेन संपर्क दवरून आसात. हीं सगळीं खेबाडां, पूण आपणें दोन दोनदां तपासणी केल्या आनी ते सांगतात तें सगळें खरें म्हूण अँजला गवाय दिता.

आतां सान ग्रेगोरियोक रावपाक वचप. मागीर येरमाशाक फोन करून कॉन्सुलेताक स्पष्टीकरण दिवप.

**६ जून, रोम**

सान ग्रेगोरियोक वचून फ्लॅट पळयलो. सामकोच ल्हान आनी अशीर. रांदची कूड तर वेंतभरूच. पूण उपाय ना. रावचेंच पडटलें. आज शिलायेव्हाचो फोन आयलो. सॉव्हेक्सपोर्ट फिल्माचो अधिकारी तो. राजदुताक मेळपाक म्हज्या सांगातान ताकाय येवपाचें आसा. तशेंच तो सांगतालो. हांव तांकां एकूच प्रस्न विचारतलों- ऑक्टोबर क्रांतीचो दीस मनोवपाच्या सुवाळ्याक तुमी आमकां कित्याक आपयलें ना? उणेंच नॉस्ताल्जियाच्या शोक तरी आपोवपाचें. ते खंय तो चित्रपट भाशांतरा बगर दाखयतले. म्हणजे, तो लोकांक कळचोच न्हय. तांणी म्हाका आपयल्लो जाल्यार तो चित्रपट कसो पळोवचो हाचेर हांव

उलयतलों आशिल्लों.

**११ जून, रोम**

८ तारखेर आमी सान ग्रेगारियोच्या फ्लॅटांत रावपाक आयल्यांत. हांगा सावन आमच्या घराच्या बांदकामाचेर नदर दवरूंक मेळटली. त्या घराचेर खूब जाणांची नदर आसा. पूण तेरिशिया भाव आमच्या सांगाताक आसात. भंय ना.

**१२ जून, रोम**

एका नवोच इटालियन मंत्री उदेला. ताका कांय म्हजी मजत करूंक जाय. बेगिनूच सगळें थिरावतलें अशें सांगता तो. आता मेरेन कितें थिरावलां तें आमकां सोमारा कळटलेंच. मागीरूच येरमाशा कडेन अर्थपूण अशें कितेंय उलोवपाक जमतलें. राजदुता कडेन उलयतना मात हांव मूर्ख कसोच वागलों. तो म्हाका दोस्तोव्हस्की विशींचे येवजणेचें विचारतालों. म्हाका त्या प्रकल्पा विशीं आस्था आसा, इतलेंच सांगलें हांवें ताका. चड उलयलों ना. कित्याक? तर राजदुता कडेन वेळूच नाशिल्लो. आनी, कांय दिसा पयलीं आमचो कोन्सुल लाराक विचारतालो, हांवें गॉदिनोव्हा विशीं कितें थारायलां काय, म्हूण. सगळेंच विचित्र.

**वर्स १९८४**

**जानेवारी, सान ग्रेगोरियो**

फ्रान्सेस्को रॉसी मेळ्ळो. आपूण त्रोम्बादोरी कडेन उलयतां म्हूण सांगलां ताणें. ताचो सल्लो घेवप गरजेचें अशेंय सांगतालो. हांवें सोवियेत गणराज्या कडेन एकनिश्ठ आसपाक जाय आनी मुत्सद्द्यावरी वागपाक जाय अशेंय ताका दिसता.

मॉस्को सावन खबर आयल्याः म्हजे रुबल्योव्ह आनी मिरर हे दोनूय सिनेमा तांणी जपानांत महोत्सवा खातीर धाडल्यात खंय. खबर खरी आसत तर तांणी आनीक लफडीं नाकात म्हूण सादुरतायेन तशें केलां आसपाक जाय. तशेंच आसतलें, अशें आमी धरून चलप.

मॉस्कोंत घरच्यांक पयश्यांची बरीच चणचण जाणवपाक लागल्या. म्हाका कितेंय तरी करून मजत करचींच पडटली. धुकराचे वृत्तीचो लोक हो. म्हाका म्हज्याच घरच्यां खातीर पयशे धाडूंक दिनात. म्हणजे तांकां तशेंच मरूंक दिवपाचें काय हांवें? कसलोच गुन्याव नाशिल्ल्या म्हज्या भुरग्यांचेर तिडक काडून ते म्हजो सूड घेतात. खाटीक, देवचार शे! ही भूंय तांकां गिळीना कित्याक?

**२४ जानेवारी, सान ग्रेगोरियो**

२१ तारखेक ॲना -लेना हांगा आयिल्लें. हांवें फेब्रुवारी म्हणसर स्क्रीन्पले तयार करप आनी ऑगस्ट सावन चित्रीकरणाक सुरवात करपाचेर एकमत जालां. ताका शाळेची कल्पना आवडली. पूण ताचो घोवूय हेच कल्पनेचेर खंय खूब तेंप विचार करीत आसा आनी हांवें ताच्या घोवाक मेळपाक जाय अशेंय ताका दिसता.

खंयचेय परिस्थितींत म्हाका एप्रीलाचे सुरवेक स्टॉकहोम वचून सिनेमा खातीर तयारी करचीच पडटली.

ओलाफ पाल्मे आंद्रे ग्रोमिको कडेन म्हजे विशीं उलयला म्हणपाची खबर सत न्हय. तशें ॲना-लेना खात्रेन सांगूंक शकना. आपूण सारकी चौकशी करून फोन करतां म्हूण सांगलां ताणें. उलोवप जावंक नासत तर पाल्मे ग्रोमिकोक पत्र बरयतलो खंय. खूब पुरो जालां. आंगपांग दुखता.

**२६ जानेवारी, सान ग्रेगोरियो**

काल मायकल क्रुगर मेळ्ळो. म्हजें पुस्तक आनी स्क्रीनप्ले पुस्तक रुपान प्रसिद्ध करपा विशीं उलोवप जालें. हॉफमॅनियाना, नॉस्ताल्जिया आनी दी ब्रायट डे हांचेर भर दिवची अशें म्हाका दिसता. नॉस्ताल्जिया जर्मनी, मोनेको आनी न्यूयॉर्कांत दाखोवपाचे आसात. दाखोवपाक लागल्याय आसतले. पुस्तकाचें नांव म्हाका सुचलां. मिरराचो स्क्रीनप्ले सारको करपाक जाय. म्हणजे, काम वाडलें. आनी म्हजे कडेन तर वेळूच ना. सॅक्रिफायसाचेर काम सुरू केलां. काल ॲंजलान म्हजी वळख मिलानांतल्या एका प्रोफेसरा कडेन करून दिली. तो खंय प्राणोलॉजी- भविष्य शास्त्रांतलो मनीस. आमकां पोप सायबा कडेन व्हरपाचें उतर दिलां ताणें.

**२७ जानेवारी, सान ग्रेगोरियो**

मॉस्को कडेन कसो संपर्क करूं येता तें आमी पळयतां अशें सांगपा खातीर कॉर्नेलिया गॉसनमायरान फोन केल्लो. सध्याक तें शक्य आसा अशें दिसना. वेपारी प्रतिनिधीं वरवीं यत्न करप चड बरें. पूण जर्मनींतल्यान तें जायत अशें दिसना. हांवें इटालींतल्यान तशें जावंक शकता काय हाचो अदमास घेवचो अशें ती सांगताली. सरकारां बदलतात, पूण उद्देजक तेच आसतात. सोवियेतांक तें ज्युस्त खबर आसा.

**६ फेब्रुवारी**

आमी ॲमस्टरडॅम आनी रॉटरडॅमाक वचून आयलीं. थंय चित्रपट महोत्सव आशिल्लों. डिमा शुश्कालॉव्ह मेळ्ळो. उबगणूच सगळी. म्हाका थोडें काम मेळटलें अशें उतर तांणी दिल्लें. पूण कांयच घडलें ना. फस्ट क्लासाच्यो तिकिटी दिवपाचीय बातांच थारलीं. एक भौशीक व्याख्यान जालें आनी ब्रेसनाचेर उलोवप. सगळींच पिशेपणां.

हांव गेल्लों तो लॅरिसाक दिमा आनी ओल्गाक मेळपाची इत्सा आशिल्ली, म्हूण. आतां, दिल्ले मुदतींत म्हजो स्क्रीनप्ले पुराय जाल्यार पुरो.

ऑतार यॉसेलिनीक मेळ्ळों. आमी सोव्हियेत नागरीक उरूंक ना, अशें जाहीर करपाचें कमिटीन थारायलां अशी माहिती ताका मेळ्ळ्या. ताणें बास्कांचेर केल्लो माहितीपट आमी पळयलों. उदास करपी चित्रण तें.





ऑतारान शुटींग पुराय केलां. आतां हेर कामां उरल्यांत. ताचो वेळ सोंपला आनी ताका मॉस्कोंत परतुपाक सांगलां. पूण ताका थंय वचपाक कसलोच भंय दिसना. शेवरनाद्झे आपल्या फाटल्यान आसा, अशें तो सांगता. हें विचित्रूच कशें... पूण तशेंय नासत घडये, देवाक खबर.

आयज आनीक एक पत्र आंद्रोपोव्हाक बरयलां.

**११ जुलै**

पत्रकार परिशद सोंपली. कांयच बरोवपाचें त्राण ना आंगांत. पूण घडणुको वेगान घडत आसात.

मोविमेंतो पोपोलार आनी एफपीन लॅरिसा आनी म्हजे खातीर मिलानांत पत्रकार परिशद घेतली. राबेर्तो फॉर्मिगोनी हो मोविनेंतोचो राजकी फुडारी. हो पाद्री, एक बरो मनीस कसो दिसलो. पत्रकार परिशदेंत स्लाव्हा रॉस्त्रोपोविच, युरी ल्युबिमोव्ह आनी व्लादिमीर मॅक्सीमोव्ह आयिल्ले. तिगांयनी आपलें सोव्हियेत नागरिकत्व सोडून दिलां. आमचे विशीं फाटले दोन दीस अमेरीकन आनी युरोपीयन दिसाळ्यांनी खूप छापतांत. पत्रकार परिशदेच्योय खबरो छापून आयल्यात.

लारा आनी म्हजी परिस्थिती थतरवितर जाल्या.

लंडनांक एका भाशणा खातीर वचचें पडलें. थंय सेंट जेम्स इंगर्जेंत हांव संवसाराच्या नाशाचेर उलयलों. बरो प्रतिसाद मेळ्ळों. थंय आमी आमचो चलो आनी घरच्यां खातीर मोहीम उगडची म्हूण एक समिती घडयल्या. मरिना व्हॉयखानस्क्या खूब सक्रीय जाल्या. आपल्या कुटबा खातीर झुजतना तिकाय कठीण परिस्थितींतल्यान वचचें पडिल्लें. लेनिनग्राडांत ती मनोविकारतज्ञ म्हणून काम करताली. सरकारा कडेन पटना आशा 'दुयेंतीं'क 'वखद' करपाक तिणें न्हयकार दिल्लो.

८ नोव्हेंबर, स्टोकहोम

विमानांत बसलां. संस्कृती मंत्रायलाय आमकां मेळपाचें आ आमची मजत करपाची आसा खंय.

ही फोनाफोनी करचे पयलीं हांव ओलाफसनाक मेळ्ळों. इन्स्टिट्युटाचो मुखेल. ताचे कडेन कांय गंभीर विशयांचेर उलोवप आशिल्लें. आमचें कडेन कसलेंच अधिकृत कंत्राट करूंक ना तां ॲना- लेना तितलें शिटूंक ना आनी तें दिग्दर्शकाक सगळेंच सांगी असो म्हजो समज जाला.

आमकां पारिसाक वचचेंच पडटलें. थंय संस्कृती खात्या मंत्र्याक म्हाका मेळपाची इत्सा आसा. चित्रपट आनी कुटुंबाचे नदरे हें मेळप भोव गरजेचें. आतां पयलीं बर्लिनाक वचप. थंय सा पारिसाक आनी मागीर मिलानाक पत्रकार परिशदें खातीर. म्हप लारा आनी म्हजी भेट इतल्यांत जावची ना.

आतां पयलीं आमी रोमांत वतलीं. थंय नॉस्ताल्जिया दाखयत मागीर हांव बर्लिनाक वचून अलेक्झांडर क्लूजा कडेन उलयत ह्या जर्मन दिग्दर्शकाक खंय रुदोल्फ स्टेनराचेर चित्रपट काडप आसा. म्हाका हॉफमानियानाच्या स्क्रीनप्लेचेंय काम सोपोव आसा. आतां हॅम्लेट खातीर अर्थीक पालव सोदपाचेंय मनार घेंव जाय. आनी अमेरिकेचेरूय चिंतपाक जाय. कितेंय जालें तरीं आम व्हिसा घेवचेच पडटलें.

काल रातीं एक वायट सपन पडलें. फातोड जाल्या... रशियेंतलें, तळ्याचे देगे वयलें एक ठिकाण. पलतडचे देगेर दोन म सांबांत अश्यो इंगजों आनी वण्टी... मागीर कळजांत उपाट वेदना दुख्ख दाटून आयलें.

आमी बर्लिनाक एक फ्लॅट घेतलों. तीन कुडींचो. पूण ताचें दार आनी शेजारच्या फ्लॅटाचें दार एकामेकांक तेंकलां. आतां फाल्यां आमी दुसरो फ्लॅट पळयतलीं, लागींच.

**वर्स १९८५**

**११ जानेवारी, बर्लिन**

आमची वळख वायलँड श्मीडा कडेन जाली. हो बर्लिन आर्ट अकादेमीचो अध्यक्ष आनी जर्मन अॅकेडमीक एक्सचेंज सर्विसिचो संचालक. हांव ताचे कडेन आमचे सुरक्षे विशीं उलयलों. आमी थळावे बँकेंत खातें उगडलां. मागीर हांवें गॅम्बारोव्हाक फोन केलो. तो जाग्यार नाशिल्लो. ताचे सेक्रेटरी कडेन म्हजो फोन नंबर दिल्लों. पूण ताणें फोन करूंक ना.

**१ फेब्रुवारी, बर्लिन**

सगळेंच फिसकटलां. व्हिसा आनी नोंदणीकरण खात्यान कुटुंबाचीं कागदपत्रां घेवपाक न्हयकार दिलो. अर्ज खंय नेमा प्रमाण ना. आतां नवो अर्ज तयार करपाक जाय

- हों व्हिसा आनी नोंदणीकरण खात्याच्या संचालनालयाक करप, खात्याक न्हय.

- अर्ज जर कायम नागरिकत्वा खातीर आसा, तर म्हाका इटालींत रावपाचो अधिकार आसा म्हूण प्रमाणपत्र दिवचें पडटलें.

त्या पत्राक इटालीच्या कोन्सुलान प्रमाणीत करचें पडटलें.

**२७ फेब्रुवारी, बर्लिन**

बर्लिन शार मनशांनी रावपाचें न्हय. हांगा सावन जाता तितले बेगीन परतुपाक जाय.

महोत्सवांत हे हेडल्न म्हजे कडेन कुस्केपणान वागलो.

हांव पयलीं स्टोकहोमाक वतलों. लारा उपरांत येतलें. हांव सर जॉन टुलीक मेळ्ळों. फ्लाइंग डचमॅन चित्रपटाचेर उलयले आमी. जर्मनां बराबर कितेंय करपाची शक्यता म्हाका तरी दिसना.

आंद्रिउशा याब्लॉन्स्की दिसलो आयज. ताचीय परिस्थिती बरी ना. घरा, आनी युनेस्कोंतूय.

**६ मार्च**

ह्या स्वीडनांतल्या लोकांक कामूच करपाक नाका. सामकें झेमे आनी संथ. तांकां कायदे आनी नेम पाळपाचीच उमेद. चित्रीकरण खंय सकाळीं णवांकूच सुरू जावंक जाय. एक्कूय खीणाचो कळाव जावंक जायना. तेंय बी भायर - लोकेशनाचेर. चित्रीकरण आनी कार्यालयांतलें काम हांचे मदलो फरक कळनाशिल्लो हो एकूच देश आसपाक जाय. इतलो इतलो वेळ... इतले इतले दीस... चित्रपट हो घडोवपाचो आसता हाची जाणविकायूच ना. कलेच्या विश्वांत अशे तरेचीं वेळेचीं बंदना उपकारनात. हांकां कामूच करपाचें ना कशें दिसता.

**८ मार्च, स्टोकहोम**

स्टोकहोमाक परत आयलां. ब्राँकायटीसाचें दुवेंस जालां.

बर्लिनाक एक म्हत्वाची घडणूक घडली. आमी इरिना पाब्स्टाक मेळूंक गेल्लीं. थंय तिची इश्टिण, एक्झेल स्प्रिंगर्स मेळ्ळी. आपल्या जिविताचेर बरयिल्लें एक पुस्तक तिणें दिलां. आमची मजत करपाची इत्सा आसा ताकां.

आमच्या कागदपत्रां खातीर इटालीक केन्ना वचपाचें ताचो अदमास येना.

आमकां आयसलँडाच्या अध्यक्षाचें आपोवणें आयलां. तांणी थंय आनीक एक कमिटी घडयल्या. पारिसाची कमिटीय घटमूट जाल्या. कागदपत्रां आनी पयसो उबो केला तांणी. आमकां बेगोबेग पासपोर्ट आनी नागरिकत्व मेळपाकूच जाय अशेंच प्रत्येक जाण सांगतात.

**८/९ मार्च, स्टोकहोम**

बर्लिना सारखें भिरांकूळ शार आसचें ना. म्हजो अणभव बरो ना.

निमाणे कडेन आमी मॅक्झिमिलियन शेलाक मेळ्ळीं. ताकाय ब्राँकायटीज जाल्या. ताणें म्हज्या घरच्यांक (मॉस्कोंत) धा हजार रुबल्स दिल्यात. आतां दुकानांची देणीं फारीक करून कांय रिणांय पावोवपाक जमतले तांकां. लॅरिसान बर्लिनांत कपडे घेतिल्ले. तेय मॅक्झिमिलियना तांचे कडेन दिले खंय. कपडे घेवपाकूय ताणेंच पयशे दिल्ले. तो सभावीक निसुवार्थी वृत्तीन सगळें करता. संवसारांतल्यो सगळ्यो उदात्त भावना एका बरे करणे इतलेंय मोल राखून नात,अशें म्हाका दिसता. आनी म्हाका सकयल मान गेल्ले वरीय दिसना. दितल्याकडेन पळयतना तितलीच खोशी मेळटा जितली ताणें दिल्ले भेटवस्तू कडेन पळोवन मेळटा. जिणेंत पयलेच फावटीं हांवें खरो आदार म्हणजे कितें तें पळयलां आनी म्हजो फुडाराचेर विस्वास बसूंक लागला.

मॅक्झिमिलियनाक आतां आमचे वतीन आमच्या सर्वणदारां कडेन उलोवन आमची मजत करपाची आसा.

**९ मार्च, स्टोकहोम**

काल बरोवपाकूच विसरलों. ऑल्गा सुर्कोव्हान एक भंयानक पत्र बरयलां. आतां म्हाका जाप दिवची पडटली. पूण म्हाका तिचे कडेन पत्रांतल्यान लेगीत संपर्क दवरपाचो ना.

'प्रामाणीक मनीस केन्नाच गिरेस्त नासता आनी गिरेस्त मनीस केन्नाच प्रामाणीक नासता'- लाओ त्झू 'जें तुकाच करपाक जमता, तें तुजे खातीर दुसऱ्यान करचें म्हूण ताची फाट धरूंक नाका' - लेव्ह तॉलस्तॉय.

काल युरी व्हिटा कडेन भासाभास जाली. ताणें दिसाळ्या खातीर म्हजी मुलाखत घेतल्या. ओलोफ पाल्मेच्यो मुलाखती आनी वक्तव्यां पळयत जाल्यार तो आमची मजत करपाक तयार आसा आनी तशी राजकी भूमिकाय ताणें घेतल्या; देखून हांव ताची मजत मागपाक अनम



नचो ना, अशेंच हांवें व्हिटाक सांगलें. राव, राव! आत्तांच म्हाका एक कल्पना सुचल्या... स्टोकहोमांतले सोव्हियेत वकिलाती मुखार बेमुदत काळा खातीर उपोशण करप. स्विडना भितरल्या सगळ्याच प्रवाहांत रिगपाचो यत्न सोव्हियेत करीत आयल्यात. हांगा संवसार भरांतल्या टेलिविजन कंपन्यांचे मनीस आसतात. तांचे मुखार उपोशणाची कांय दीस घसघशीत जायरात करपाची. सांस्कृतीक आनी राजकी मळा वयल्या नामनेच्या लोकांक आसपाव घेतिल्ल्या बसकांचें व्हिडिओ काडपाचें. दरेका देशाचो प्रतिनिधी मेळ्ळो जाल्यार भोव बरें जातलें.

फ्लाईंग डचमॅनाचेर काम करपाक जाय. खूबूच कठीण काम तें. पूण करपाकूंच जाय.

**१० मार्च, स्टोकहोम**

ल्यूबिमोव्हाचें मॉस्कोंतलें थेटर तांणी काड्न घेतलें, अशें म्हाका मॅक्सीमोव्हान सांगलें. आतां तो सोव्हियत नागरीक उरूंक ना. 'तुजें आतां पयलीं वरी ना. देखून तुजो हक्क उरना!' अशेंच तांणी सांगलें खंय ताका.

विस्वासूच बसना. विस्वास बसचो ना अशी दुसरी गजाल म्हणजे अमेरिकेन खंय येवतुशेंकोक ताच्या दी थ्री मस्केटियर्सचे स्क्रीनप्ले वयल्यान चित्रपट करचे खातीर आपयला. तो खंय दिग्दर्शन(!?) आनी अभिनय (!!?) करतलो. डी'आर्तांग्ननाची भूमिका करतलो खंय (!!!???) म्हाका आत्तांय खरें दिसना हें. कोणें तरीं चिकाण केलां आसतलें. येवतुशेंको आपणाक मुखार करपाक कसोच आयकना हेंवूय तितलेंच खरें. आनी सध्याच्या राजकी वातावरणाचो लाव तो घेवपाची शक्यतायूय चड. चित्रपट आपट्टलो म्हणपाचें अमेरिकनांकूय आतां सावनूच खबर आसा.

हांव साबार तार्कोव्हस्की कमिट्यांच्या संपर्कांत आसा. म्हजे खातीर मोहीम उगडल्या तांणी. लंडन, इटाली आयसलँड आनी फ्रान्सां भितर. इतालियन मोविमेंतो पोपोलारा कडेनूय संपर्क दवरला. आतां जें घडटा ताचेरएक चित्रपट काडपाचो आनी ताचे विशीं सोव्हियेतांक कळटलें म्हणपाची तजवीज करपाची. मागीर दरेका महोत्सवांत तो चित्रपट दाखोवपाचो. व्हिडिओ न्हय तर १६ एम.एम. फिल्म काडपाक जाय. इंग्लंडांतल्या तार्कोव्हस्की कमिटीच्या टी. गोथार्डी कडेन उलोवचें पडटलें. पत्रकांचो मसुदो तयार करपाक जाय. स्विडीश सरकाराक एक पत्र बरोवंक जाय. ते खातीर योग्य असो खीण सोदून काडप भोव गरजेचें. युरी करतलो तें काम म्हजे खातीर. म्हाका पयशे उबें करचे पडटले चड करून. कितेंय जालें तरी पारिसाक- फिलिपोक फोन करपाकूच जाय.

**१० जून**

मॉस्को, आंद्रुश्का कडेन फोनार उलयलों. हो म्हजो चलो आतां १.६८ मिटर लांब जाला. म्हणजे म्हजे इतलोच. आमी फ्लॉरेन्सा सावन परतत पमून लारा दुयेंत पडलां. प्रवास त्रासांचो जालो. येरादारीची

गचमुड्डी जाल्ली. लारा आतां रोमांतल्यान बर्लिनाक वतलें. मर्दी म्युनिकाक रावतलें. हांव आनीक एका अर्द वरान कॉपेन हेगना सावन स्टोकहोमाक वतलों. आमच्या नव्या पासपोर्टां सयत. तांका प्रवासा विशींचीं कागदपत्रां म्हणप चड समा जातलें.

**जुलै, स्वीडन**

परिस्थिती सुदारपाक लागल्या. सगळें जाग्यार पडूंक लागलां.

आमकां १२० चौखण मिटरांचो एक फ्लॅट दितले अशें फ्लॉरेन्साच्या मेयरान सांगलां. शारांत मदेकादूच आशिल्ल्या ह्या फ्लॅटाक बाल्कनीय आसतली खंय. लारिसाक थंय म्हजे खातीर एक स्टुडिओ तयार करपाचो आसा. सध्याक आमकां काम करपाक म कळीक आसची म्हूण तांणी तेच इमारतीच्या सकयल्या मजल्याचेर आमकां एडिटिंग टेबल घालपाची मेकळीक दिल्या. बर्लिनाक वचून लॅरिसा फर्निचर घेवपाचें आसा. २० सप्टेंबर मेरेन फ्लॅट पुराय जातलो खंय. सोपें न्हय तें.

२९ सप्टेंबर, स्टोकहोम

सगळेंच कुवती भायलें कशें दिसता. सामकोंच थकून गेलां. आतां आनीक सहन करूंक शकचों ना. आंद्रुश्का बगर म्हाका जियोवपाचेंच ना.

**१० नोव्हेंबर**

तॉमासी सांगातान फ्लॅटाचे सजावटींचें थोडें काम केलें. अजून कांयच स्पश्ट दिसना, पूण आमी सारके दिशेन वतांत, हातूंत दुबाव ना.

म्हाका सेंट अँथनी करचोच पडटलों. फोर्मिगोनीक मर्दी घालून पोप सायबा कडेन मजत मागूं येता.

आंद्रुश्का विशीं कांयच नवी घडणूक ना. फाल्यां आमी पाल्मेक मेळपाचीं आसात. दुसरे फावटीं.

आमी जिनो ग्युगनीक मेळपाक गेल्लीं. तो एक बॅरिस्टर आनी सिनेटरूय. भरपूर वळखी आसात सरकारांत. आंद्रियोतीन ताका कुटुंबाचे वतीन अर्ज करचे पयलीं आनीक एक सप्तक वाट पळोवया, अशें सांगलां.

मॉस्कोंतल्यान आयिल्ली खबर खोदसिणी ना. कसलो हो काळ, कसले हे दीस. देवा, म्हाका सोडूंक नाका वाऱ्यार!

झानुसीन फोन केल्लो. बरो मनीस. आपलो पारिसांतलो फ्लॅट आमकां जाय जाल्यार वापरपाक दिवपाची तयारी आसा ताची.

**११ नोव्हेंबर, स्टोकहोम**

आयज ओलाफ पाल्मेक मेळ्ळीं. तो म्हणटालो, दोन शक्यतायो आसात. (१) नेमा प्रमाण, परराष्ट्र वेव्हार मंत्रालयाच्या उदेशीं अर्ज करप आनी म्हज्या चल्याक स्विडनाक येवंक दिवचें म्हूण विनवणी करप. कायद्याचे नदरेंन ते शक्य ना. (२) तार्कोव्हस्कीच्या पुताक अस्तमते कडेन (खंयचे सुवातेर हाका चड म्हत्व ना) येवपाक परवानगी दिवची म्हूण तो स्वताच सोव्हियेत सरकाराक पत्र बरयतलो. रशियेंतलो तांचो राजदूत तें पत्र सरकाराक दितलो.

हो पर्याय चड बरो, हातूंत दुबाव ना.

डॉक्टरान म्हजे एक्स-रे काडून ते तज्ञा कडेन धाडल्यात.

काल खोंकतना तोंडांतल्यान रगत आयलें. आयजूय येत आसा. पूण कालचे इतलें न्हय.

लॅरिसाची याद येता. हांव दुयेंत पडटकच तर चडूच येता.

**१८ नोव्हेंबर**

दुयेंत पडलां. ब्रॉंकायटीस तरआसाच. पूण म्हजे तकलेच्या फाटल्या अर्दांत आनी भुजांत आनी आंगापागांत कितें तरी अजस्र अशें आसा आनी तें म्हज्या शिरंतरांचेर दबाव हाडून म्हजे मानेक आनी भुजांक वेदना दिवंक लागलां. थंडी आनी खोकलीय आसा. चित्रपट जाग्यार घालपाचो आसा आनी वेळ तर पळपाक लागला.

**१९ नोव्हेंबर**

फिजियोथरापिस्टाक वचून मेळ्ळों. सोसना इतल्या ताणाक लागून म्हजी भुजां आनी फाट इबाडल्या. उजव्या खांद्या कडेन ऑपरेशन करचें पडटलें खंय. जें कितें थंय आसा, ताका तशेंच दवरप समा न्हय, अशें तो सांगतालो.

मॉस्को फोन केलो. सांगपा सारखें नवें अशें कांयच नाशिल्लें. हांव नाशिल्ल्यान फिल्म इन्स्टिट्युटांतूय सगळें ठप्प जालां.

**२४ नोव्हेंबर**

हांव दुयेंत पडलों. चडूच गंभीर परिस्थिती खंय.

चित्रपटाचे लांबाये वयल्यान म्हजे आनी निर्मात्याचे मतभेद. लांबाय आसा २ वरां १० मिण्टांची.

गोर्बाचेव्हआनी रिगन हांचे मजगतींचीं उलोवणीं सोंपलीं. फुडाराची आशा दिसपाक लागल्या.

**३०नोव्हेंबर**

चित्रपटाचे लांबाये वयल्यान खूबूच खर वादावादी जाली. हांव अजुनूय दुयेंतूच आसा. रगताची चाचणी करून हड्ड्याचो एक्स रे काडला. कितें तें अजुनूय कळूंक ना.

**७ डिसेंबर, स्टोकहोम**

सोसूंक जायना म्हज्यान.

स्लावा रॉस्त्रोपोव्हिच आयला. म्हजें पत्र रिगना कडेन दिवपाक तयार जाला तो. आनी, फ्लॉरेन्साक येवन तो मेयराकूय मेळपाचो आसा. तांची इश्टागत आसा खंय. आमी खंय रावपाचें तें थारायतलें ते. म्हजे एक्स- रे धाडल्यात त्या कन्सल्टंटाचें नांव आनी हुद्दो सोदून काडपाक सांगलां हांवें ताका. तोय भियेल्ले वरी दिसलो.

ताका बोरीस गोदुनोव्हाचेर ऑपेरा फिल्म करपाचें आसा. सिनेमा म्हूण तें कशें करचें हाचो म्हाका अदमासूच येना म्हणपाचें हांवें ताका सांगपाचो यत्न केलो. तांचो गोंदळ जाला. बोरीस नाटक

म्हूण करपाक म्हाका येस मेळ्ळें म्हणजे सिनेमाय बरोच जातलो अशें दिसता तांकां.

चुकताच तांचें. थियेटर म्हणजे सिनेमा न्हय. आनी ऑपेराचो सिनेमा कसो करचो हें म्हाकाय कळना.

**१० डिसेंबर, स्टोकहोम**

काल स्लावा रॉस्त्रोपोविचान फोन केल्लो. तो दोन दिसां खातीर हेलसिंकी गेला. हांवें रिगनाक बरयिल्ल्या पत्राची तारीख बदलची अशें ताणें सुचयलां.

हातांतलीं सगळीं कामां तशींच सोडून म्हजे कडेन येवचें कशें लाराक दिसता. सध्याक फ्लॅटाचें काम ताणें पुराय करून घेवचें अशें सांगून हांवें ताका थातारलें. थंय वतकच म्हाका सुशेग घेवंक आनी फ्लाइंग डचमॅन तो विचार करपाक उसरपत मेळपाक जाय.

हांवें १३ तारखेर - शुक्रारा (दीस बरो सोदून काडला) पुलमावांच्या तज्ञांक वचून मेळचें अशें दोतोरान सांगलां

इरा प्रावना कडेन उलयलां. कोवेंत गार्डनाक म्हज्या दुयेंसा विशीं सांग म्हूण सांगलां ताका. आमचे फुडले येवजणेचेर परिणाम जातलो ह्या दुयेंसाचो.

हांव जर सिनेमाची लांबाय थारायिल्ले प्रमाण उणी करीना तर म्हाका देणे आशिल्ले ५५,००० डॉलर्स आपूण दिवची ना, अशें ॲना- लेनान सॉलिसिटर कावोक टेलेग्रामा वरवीं सांगलां. हाका ब्लॅकमेल म्हणटात. ताणीं एक तार्कोव्हस्कीचो सिनेमा घेवचो वा देड वर लांबायेचो खंयचो तरी वेवसायीक सिनेमा घेवचो अशें हांवें इनिस्टट्युटाच्या संचालकाक पत्र बरोवन कळयलां. मागीर हांव देड वर सुमार ॲना-लेना कडेन उलयलों. उपरांत ती संचालका कडेन उलयली. म्हज्या पत्रांतल्या काय मुद्द्यांत तथ्य आसा अशें संचालकांक सांगलें खंय तिणें.

**अर्पणपत्रिका**

'नेणतेपणांत गुन्यावाविणें जाणट्यां वरी ख्यास्त भोगतल्या म्हज्या सान पुताक, आंद्रियुश्काक हें सगळें हांव ओंपतां.'

**११ डिसेंबर**

जसो हांव जाणटो जातां तसो म्हाका भोंवतणाचो लोक विचित्र दिसपाक लागला. म्हजे नदरेंतल्यान निखळून पयस वतात ते. हाचो अर्थ, म्हजी यंत्रणाच कोसळूंक लागल्या आनी लोकांचें निरिक्षण करपाची म्हज्यो तांक शेणपाक लागल्या. अशें तरेन एकाद्री यंत्रणा अपेशी जावप बरें. पूण सगळ्योच यंत्रणा अपेशी जाल्यो जाल्यार? देवा, म्हाका खाकनपाळ जावपा पसून वाटाय. कितें जालां काय म्हजें? हे टी.बी. खर जावपाक लागता काय कितें? काय हो न्युमोनिया? काय कॅन्सर? १३ तारखेक कळटलें म्हाका.

दुयेंत जावन हांव खाटीर पडून आसा. पुलमावाचे सकयले वटेन खूप दुखता.

**१२ डिसेंबर**

कांय दिसां पयलीं हांव हांगाच खाटीर पडून आशिल्लों. न्हीद मात येनाशिल्ली. अचकीत म्हाका म्हजें पुलमाव भितरल्यान दिसूंक लागलें. ताका बुराख पडिल्लो आनी रगत व्हांवतालें. असलो दिश्टावो म्हाका हाचे पयलीं केन्नाच जावंक नाशिल्लो. प्रकृती खुबूच इबाडल्या. खर, हड्डें फोडपी खोंकली आनी पुलमावांत सहन करपाक जायनात अश्यो वेदनां, तकलीय उळसळटा.

**१३ डिसेंबर**

आयचो दीस काळो शुक्रार म्हणचो पडटलो. दोतोराक मेळपाक क्लिनिकांत गेल्लों. खूब बरे तरेन वागले थंयचे कर्मचारी म्हजे कडेन. गरजे परस इल्ले चडूच बरे. तांकां कामांतल्यान मेकळीक मेळिल्ली आनी तो वेळ ते म्हज्यो चाचण्यो घेवचे खातीर वापरताले. स्लावा रॉस्त्रोपोविचान खंय तरी कळ घुंवडल्याशी दिसता. दोतोरान ती सूज आयल्या आसत, अशें सांगलें. पूण तें सत न्हय. सूज आशिल्ली जाल्यार तो काळो डाग अँटीबायोटीक घेतकच वतलो आशिल्लो. हो टी बी काय? ट्यूमर बी न्हय मूं? जर वायटार पडलें तर म्हजें ऑपरेशन खंय करचें काय म्हूण तो विचारतालो. ऑपरेशनाची गरज पडटली अशें दिसना म्हाका. लाव मेळना जाल्यार जिवाक त्रास कित्याक करप? पुलमाव तें, बायलेचो स्तन न्हय. म्हजे तकलेचेर म्हयन्या भरा पयलीं खंयच आपटनासतना एक गूट आयिल्लें. ताचे पेशींचीय चाचणी करतात आता ते. टीबी खातीरूय चाचणी केल्या. २० तारखे मेरेन कितें तें कळटलें.

कितें जाता तें जावं. हांवें म्हज्या मनाची तयारी केल्या. ते दिसा, म्हाका जाल्ल्या दिश्टाव्यांत तो ट्युमर कसो दिसनाशिल्लो. बुराख कसो दिसतालो. भळभळीत रक्त व्हांवतालें. म्हणजे, म्हाका तशेंच दिसता. खात्री ना. ट्युमर कसो दिसता तें म्हाका खबर ना. पूण जखमेच्या भोंवतणी सगळें नितळ आशिल्लें. खंय मातेर बी जाल्लेवरी दिसनाशिल्लें. हांवें इटालींत आसतनाच विमो घेवपाक जाय आशिल्लो. आता घेवप कुस्तार जातलें.

**१५ डिसेंबर**

मनशाक बुद्द येतनाच आपूण केन्ना तरी मरतलों म्हणपाची जाणविकाय येता, पूण केन्ना तें मात ताका खबर नासता, आनी आपली जीण सुखाची जावची म्हूण तो दीस तो अनिश्चित काळा खातीर फुडें धुकलून उडयता. पूण म्हाका आतां कळ्ळां... म्हजे खातीर जियेवप सोपें उरूंक ना. खूप त्रास जातात. पूण चड दुखता तें लॅरिसा खातीर. ताका कशें सांगतलों हें सगळें? म्हज्याच ह्या हातांनी ताचेर तो घाव कसो घालतालों?

**१६ डिसेंबर**

आयज सगळो दीस हॉस्पिटलांत गेलो. म्हजे तकलेंत जाल्लों ट्युमर उगडून ताणीं तपासणे खातीर नमुने घेतले. चाचणे वरवीं कळ्ळां तें खोसदिणें ना अशें दोतोर सांगता. ट्युमरा विशीं खंय कांयच करपाक येवचें ना. जर तो एके विशिश्ट तरेचो आसलो जाल्यारूच ८०% बरो जावपाची शक्यताय आसता. हाचे वयल्यान म्हजें कांयच खरें ना म्हणपाचें स्पश्ट जाता. आता लॅरिसाक कशें सांगपाचें?

**२१ डिसेंबर**

२३ तारखेर हांव इटाली वतां. म्हजें सगळें सामान सांगाताक घेवन. भलायकी दिसान दीस इबाडत आसा. हांव आनीक चार सिनेमा  करपाक शकतलों, अशें बोरीस पास्तरनाकान म्हणिल्लें तें खरेंच. रॉयरिका मदल्या त्या आध्यात्मीक खिणांची याद येवपाक लागल्या. बोरिसाचो हिशोब सगळोच सारखो नाशिल्लो. हांव वट्ट सात सिनेमा करतलों म्हूण तो सांगतालो. पूण ताणें दी स्टीमरोलर आनी दी व्हायोलिन हांकाय हिशोबांत धरलें. ते तशे सामान्य सिनेमा. पूण सरसकट पळयल्यार ताचें भविश्य मुदयेर थीक थारलें.

**१९८६**

**१० जून, ऑशेलब्रॉन**

आयज सांजे सावन म्हाका जर्मनींतल्या अँथ्रोपोसोफिकल क्लिनिन्कांत हाडून घाला. आंगांत खर जोर आसा. आनी खोकली तर केन्नाच येवंक नाशिल्ली, अशी. दोतोर सांगतात, आता किमोथेरपी दिवन कांयच उपयोग जावचो ना. मन थतर वितर जालां.

**१२ जुलै, ऑशेलब्रॉन**

हांगाचे कर्मचारी खुबूच बरें. चड करून सिस्टर एलिझाबेथ. ती इटालियन उलयता. आनी मायेस्त. तिच्या व्यक्तीमत्वांतल्यान शांती आनी माया पसवता.

काल हांव पासयेक म्हूण भायर सरलों. आनी अकस्मात कसली तरी अनामीक इत्सा मनांत दाटली. पांयांतले बूट काडले आनी अनवाणीच चलपाक लागलों. पांयां तळांत थंड शितळ भूंय आनी आंगांत जोर. खोकली आनी सांधे धरल्यात. हांव खरेंच पिसो. मनांत निराशेची वावटळ.

**३ डिसेंबर, पारीस**

आयज ॲना - लेनान फोन केलो. ती सांगताली:

(अ) आंद्रिउश्काच्या शिक्षणा खातीर एक फंड घडोवपाक लागल्यात. हाचो अर्थ, ताच्या शिक्षणाचो भार अमेरिका, इंग्लंड आनी स्विडन सोसतलें.

(ब) सोव्हियेत गणराज्याक सॅक्रीफायज विकत घेवपाचें आसा. ताचे हक्क म्हजे कडेन आसात. वेव्हारा विशीं उलोवपाक जाय. हक्क म्हजे कडेन आसात म्हूण सोव्हियेतांक कळपाक जायना.

**५ डिसेंबर, पारीस**

काल (बुधवारा) म्हाका किमोथेरपी दिली. (तिसरे फावट) कितेंशेंच जाता. हातरुणांतल्यान उठूंक लेगीत जायना. बसपाचेंय त्राण ना. कितें करचें तें कोणाकूच कळना. म्हाका अश्यो वेदना कित्याक जातात, तें कोणाकूच होलमना. चित्रपट इंग्लंडांत दाखयलो आनी ताका उपाट जैत मेळ्ळां. अमेरिकेंतूय. परिक्षणांय खूब बरीं आयल्यांत.

**६ डिसेंबर, पारीस**

पयलीं कबलात केले बगर म्हजें बरवप प्रसिद्ध करपाक मनाय करपी कागदपत्रां तयार करपाक वकिलाक सांगपाक जाय. 'ओरिजिनल मटेरियल' विरयत सिनेमा विकत कसो घेतात, तें म्हाका सोदून काडचें पडटलें. कार्लो तॉमासीक खंयचेय परिस्थितींत सांबाळून दवरचो पडटलो. बरो मनीस, आनी सिनेमा मळा वयलो तज्ञ.

आंद्रियुश्काक सिनेमा आनी साहित्यांतलें कितलें कळटा काय? ताचे कडेन उलोवन सोदून काडूंक जाय.

**१५ डिसेंबर, पारीस**

हेम्लेट... दीस भर खाटीरूच पडून आसा. उठूंकूच जायना. पोटाचो सकयलो भाग आनी फाट खूब दुखता. रंध्रांतूय वेदना जातात. पांय लेगीत हालोवंक मेळनात. इतली दूख खंयची तें दोतोराकूच कळना. म्हाका दिसता, किमोथेरपीक लागून पोरनो संधीवात बळावला. भुजांय एक सारखीं वळपाक लागल्यांत. भितर गांठी मारिल्ले वरी दिसता. खूब अशक्त दिसपाक लागलां. हांव मरतलों काय कितें? एक करूं येता... सारसेला क्लिनिकांत भरती जावप. थंयच्या दोतोरान हाचे पयलीं म्हजेर उपचार केल्लें. हेम्लेट...? आंगपांग अशें दुखनाशिल्लें जाल्यार किमोथेरपीचो उपयोग जावंक ना, अशें समजुपाक येतालें. पूण आतां कितेंच करपा इतली शक्त उरूंक ना - तीच तर समस्या जाल्या.

(निमाणी डायरी बरयले उपरांत १५ दिसांनी, २९ डिसेंबराक आंद्रे तार्कोव्हस्कीक पारिसांत मरण आयलें. तो मरचे पयलीं ताच्या चल्याक, आंद्रिउश्काक देश सोडून वचपाची परवानगी सोव्हियेत प्रशासनान दिल्ली.

तार्कोव्हस्कीच्या मरणाची वेळ आनी सोव्हियेत गणराज्यांत पेरेस्त्रॉयकाचें वारें येवपाचो काळ एकूच. १९८२ वर्सा ताणें देश सोडले उपरांत ताच्या चित्रपटांचेर घाल्ली बंदी काडून घेतली आनी ते सिनेमा दाखोवंक लागले. आयज ताच्या चित्रपटांचेर भासाभास करपाक रशियेंत राष्ट्रीय आनी आंतरराष्ट्रीय परिसंवाद जायत आसतात.)

## जयमाला ना. दणाईत

९७५७११९३१७



**गोंयच्यान हांगा येतना ट्रान्स्फर बी घेनासतना, जॉयन्ट फॅमिली म्हणून म्हाका नोकरी सोडून घरांत बसचें पडलें. "कितें करतां?" "कांय ना, घराच आसतां" अशें म्हणपी पुराय वेळ गृहिणी जावन बसलें. मागीर भुरग्यां शाळेंत वचूंक लागतगीच रेडीओचेर बी गेलें. हांची वाटच ह्या डोंबीवलींत पुरल्या म्हणूंक जाय. फुडें उदकाच्या त्रासाक लागून सगळ्यांनी वेगळीं बिराडां केलीं, पूण कोणच डोंबीवली सोडून वचूंक ना. तर एक दोन वर्सां कांय समजलें ना. मागीर मात खूप पावस पडलो, भायर उदक सांचलें काय जमनींतल्यान झिरपून घरांत पावलभर उदक येवचें - सामकें निवळ, नितळ! पावस कमी जालो, भायलें उदक देंवलें की आपोआप घरांतलें उदक देंवचें.**

पावस कोणाक आवडना? भुरग्यांसावन जाण्ट्यां मेरेन, गिरेस्तां धरून गरिबांक सगळ्यांकच घोस्ताचो! भुरग्यांचो तर 'इको-फ्रेंडली'! पावस खूप जालो म्हण्टगीच आमी भुरगेपणांत साप्प पिशीं जातालीं. शाळेंत वतना पावस सुरू जाल्यार सत्री, कापोती आसूनय पावसांत भिजप, एकमेकांक भिजोवप! 'पावसा पावसा यो रे यो...'करीत पदां म्हणत रस्त्यार व्हांवपी रेब्या उदकांत नाचत बांद घालून उदक आडायत भरिल्ल्या उदकांत कागदाच्यो होडयो सोडप; कोणाली बोट बुडनासतना सगळ्यांत फुडें आनी पयस वता हाजेर सर्त लावप- मागीर शाळेची लेगीत याद उरनासली... - बाई - मास्तरालीं उलोवणीं, बडयो खावप, घरा वतगीच भिजलीं म्हणून तापोवणीं खावप हो दर एकल्याच्या जीणेंतलो अणभव आसतलोच.

व्हड जाता तशी पावसाची मजाय वाडत वता, तरणेपणांतल्यो पावशीं यादीं तर गोड गोड खोशी शिंवरायत येवपी... पावसाचेर बरोवप, कविता करप सुरू जाता. ताचेर पदां आयकून मन भरून येता. तांतूनय पयलो पावस तर धरतरेवेल्या प्राणीमात्रांक शेवण्यां सुकण्यांक सगळ्यांक खोसदिणो! मायाच्या कडकडीत तळपत्या वता उपरांत शिंवरपी पयल्या पावसान धरतरेवेलीं झाडां-पेडां, शेवणीं सुकणीं, मनशांचीं तानेल्लीं मनां दाधोस जातात. शेतकामत्यांचो जाल्यार पावस म्हणचे जीव की प्राण! तांची आख्खी जीणच पावसाचेर निंबून! तरी पावस कांय वेळार तांचो इश्ट तसोच शत्रूय थारता. केन्नाकेन्ना सारकें पावस-पाणी जालें ना तर शेतां भाटांचे लुकसाण आनी अती जाल्यारय ओलो दुकाळ एकूणच पावस हो तांचो जीवनाधार! तसो कोणाचो न्हय? पावसाक लागून अन्नधान्य पिकता, झाडां-पेडां, भाजीपालो, फळां-फुलां चंवरतात. ना तर मनीस कितें खातलो, कितें पियेतलो उदकाक 'जिवन'म्हळां तें ओगीच न्हय. आनी हें सगळें पावसाक लागून तर मेळटा.

हेर खंयच्याय गोश्टीक लागू जाता तशेंच 'अती थंय माती'हे विधान ह्या पावसाक लागू जाता. कारण पडपी पावसान मन खोशी जाता. प्रफुल्लीत जाता, पूण तेंच मन हरंदारानी पावस सतत पडूंक लागतकीच ताका खेपूंक लागता - 'पाड पडलें ह्या पावसाचें. मात पूण आसर करिना.'म्हणून बेजारतां. पूण पावसाचे चार म्हयने हे खरे आसतात. बाकी शून्य! हें जरी खरें आसलें तरी नाका थंय अती पावस पडल्यार ताचे वायट परिणामय दिसून येता. हालींच्या ग्लोबलायजेशनान म्हणा, मनशांच्या बेपर्वा वागण्यान म्हणा सैमाचेरय वायट परिणाम जाला आनी मागीर पावसय जाय तसो जाय तेन्ना पडूंक लागला. सगळी जिणच व्होळोंवक लागल्या. २६ जुलय २००५ च्या पावसान जशी सगळ्यांची जीण व्होळून घाल्ली तशें पयर २० ऑगस्टाक पडिल्ल्या पावसान परतून एक फावट आख्खी मुंबयच उदकापोंदां गेली. ह्यावेळार आमी हांगा नासलीं. - बेंगलोर पाविल्लीं. पूण सगळ्यो खबरी आयकल्यो. पावसाचो आकांताचो अवतार आयकूनच काळीज हाल्लें - घायावयली खवळी निखळ्ळीं आनी पयलीं घडून गेल्ल्या घडणुकांच्या यादींनी मन भरून गेलें.

खरें तर म्हजो आवडटो ऋतू पावसाळो! हाजेर शाळा-कॉलेजींत खूब बरोवन जालां. हांगा डोंबीवलींत येत सावन होच पावसाचो तेप नावडटो जायत गेलो आनी 'आय हेट रिअर्स'म्हणचेवरी 'आय हेट पावस'केन्ना म्हणूंक लागलें, कळलें लेगीत ना. सुटयेंत गोंयां रावन येतगीच परततना भुरग्यां सामकीं रडटालीं - गोंयांच रावया म्हणून. धाकलें तर "डोंबीवली - शीऽऽ मॅक्क् -

हळशीक'म्हण्टालें. पूण हाणें कोणाचेंच कानामनार घेनास्तना हांगाच रावपाचें थारायलें. हांगा बंगलो घेवचे वेळार म्हज्या नानाकारा कडेन लक्ष दिनासतना - म्हज्या भावने कडेन कर्तव्या मुखार हाणें दुर्लक्षच केलें. तशें हांवेंय चड आडावन धरलेंना - ल्हान ल्हान पन्नासेक बंगल्यांची ती सोसायटी कोणाच्याय मनांत भरपाची, शांत आनी सगळें लागीं आशिल्ली - म्हणजे बाजार, स्टेशन, शाळा. एके वटेन ताचें म्हणणेंय म्हाका पटतालें. - फाटल्या भांवडांची लग्ना जावची आसली. लग्न जातगीच खंय रावतलो हो मोठो प्रस्न आसलो. मुंबयत बाकी कितेंय मेळत, पूण रावंक सुवात मेळप मोठे कुस्तार! म्हणून तर मुलूंड सोडून डोंबीवलीक रावंक आयिल्लीं - तेन्ना अशें घरांत उदक बी येना आसलें.

गोंयच्यान हांगा येतना ट्रान्स्फर बी घेनासतना, जॉयन्ट फॅमिली म्हणून म्हाका नोकरी सोडून घरांत बसचें पडलें. ''कितें करतां?''''कांय ना, घराच आसतां''अशें म्हणपी पुराय वेळ गृहिणी जावन बसलें. मगीर भुरग्यां शाळेंत वचूंक लागतगीच रेडीओचेर बी गेलें. हांची वाटच ह्या डोंबीवलींत पुरल्या म्हणूंक जाय. फुडें उदकाच्या त्रासाक लागून सगळ्यांनी वेगळीं बिराडां केलीं, पूण कोणच डोंबीवली सोडून वचूंक ना. तर एक दोन वर्सां कांय समजलें ना. मागीर मात खूप पावस पडलो, भायर उदक सांचलें काय जमनींतल्यान झिरपून घरांत पावलभर उदक येवचें - सामकें निवळ, नितळ! पावस कमी जालो, भायलें उदक देंवलें की आपोआप घरांतलें उदक देंवचें. मागीर उदक काडून ते डॅटोल फिनेल घालात, साबणाच्या उदकान घर धुयात करून निवळसाण करूंकच सगळी शक्त खर्च जावची. एकेकदां तर पावस गेलो, उदक देंवलें म्हणून हावा शिवा करून घर साफ केलें आनी मात्सो विसव घे म्हणसर परतून पावस सुरू जावचो आनी 'ये रे माझ्या मागल्या'म्हणून आसा तशें परतें घर उदकान भरचें. सदां न्हय तरी पावसा तेपार म्हयन्यांतल्यान चार पांच वेळा तरी हें एकस्ट्रा काम करचें पडटालें. मागीर मागीर तर चड चड उदक येवंक लागलें. पावल दोन पावलां करतां करतां फूट देड फूट! माया म्हयनो सरत आयलो काय सगळें सामान वयर वयर काडत रावप हो उद्योगच जावन पडलो.

एकदां तर १४ ऑगस्टाक आमी कळवा भयणीगेर गेलीं. पंदरा ऑगस्टाक चल्याक शाळेंत झेंडावंदनाक वचपाचें म्हणून हो ताका घेवन वचपाचो आसलो, पूण पावस पडत आसा म्हणून सकाळीं उठून वचपाचो आळस केलो. तो आळसच म्हारग पडलो. - सगळें घर उदकांत व्हांवन गेलें, असो उंटांगाराचो पावस, न थांबपी. मात्सो आसोर जातगीच वचपाक भायर सरलीं. स्टेशनार आयल्यार रिक्षा मेळनात. कमर भर उदकांतल्यान पडत धडपडत घरा आयलीं. जनेलांतल्यान कांदे बटाटे, आयदनां सगळीं उदकांत उफेतना दिश्टी पडलीं. तशींच निर्वासिता भशेन देरागेर गेलीं. अशें भायल्यान भितर आयिल्लें उदक कितलें घाण आसतालें कल्पनाच केल्ली बरी! गाद्यो कपड्यांसकट सगळें सामान भायर मोखलें.

मागीर सगळे बंगल्यांक वयर मजले बांदचे पडले. हेरांचे बापायनी बंगलें घेतिल्लें. पुतांनी भर घालून फूट देडफूट जमीन वयर काडिल्ली. उदक चड येता तशें सगळ्यांक वयर मजले चडोवचे पडले. आमची परिस्थिती वेगळी आसली. हाणें दुसरे फावट लोन घेवन म्हण्टा तशें हें घर घेतिल्लें. १९८९ त हाका हार्ट अॅटेक बी येतगीच नव्वद कांय पंचाण्णव हजार खर्चून वयर बांदून घेतलें. पूण पक्कें न्हंय. बरे तरेन बांदूक चड पयशे पडटालें, आनी आमकां चार पांच जाणांक हें येदें व्हडलें घरच खूब जातालें. फकत पावसा तेपार दोन तीन म्हयने रावपाक म्हणून साधी कोब्याची जमीन भरून वयर दोन कुडी बांदिल्ल्यो. तेवय वयर पत्रे घालून, मागीर तर केन्नाय चार पांचदां उदक येता म्हणून सामान वयर उडवपा पुरतें तें बांदकाम उरिल्लें आनी आसा नाशिल्ली रेस्त अडगळ वयर वचून पडिल्ली.

फुडें डोंबीवलीचीं सगळीं गटारां बी बांदून काडून सगळे कडेन अंडरग्रांवड ड्रेनेज सिस्टीम केली आनी तेन्नां सावन आमचे फाटले हे पावसाचे त्रास सोंपले. सोसायटींतलीं चार बायलां एकठांय जालीं की 'ते ही नो दिवसा-गत:'म्हणून त्या काळांतल्यो मागीर त्यो कडू कांय जायना-यादी जागयतालीं. कशें कितें जातालें, आपापणें कितें कितें भोगलें तें सगळें हांसहांसून सांगतालीं. सामकें साखर न्हिदेंत आसतना अकस्मात कशें उदक भितर येतालें, न्हिदिल्ले कडेन गादी ओली जाली तरी कसो पत्तो लागनासलो तें सामकें रंगून रंगोवन सांगतालीं.

''आतां मजा दिसता, पूण तेन्ना कितें हाल काडलें, कशी सजा दिसताली पावसा तेंप म्हळ्यार - देवा नाका ती नरकपाश्ट जीण भोगली आमी!'म्हणून सगळीं आपलीच काकूट करतालीं. खरेंच तें. पयलीं पयलीं सामकें रडूं येवचें म्हाका - शी, कितें हें, कसले घाणींत दीस काडचे पडटात - बंगले खंय - झोपडपट्टी बरी हाज्याकय - अशें दिसतालें. मागीर हळूहळू संवयेन मनाक समजावप - भुरग्यांक हांवें समजावचें-

'काश्मीरांत बी लोक शिकाऱ्यांत रावतात. थंय एक दीस रात रावंक भोंवडेकारांक हजारांनी दुडू मोडचे पडटात. आमच्या घरा भोंवतणी उदक आसता - हय काय ना'मागीर आमीय शिकाऱ्यांत रावतात म्हण मानपाचें - पान दुडू खर्चनासतना! खुब पावस आयल्यार रस्त्यार लेगीत उदक भरता. मागीर रिक्षा-वाल्यांच्ये होडयो सोडप - होडयेन शाळेंत, बाजारांत वचप - मज्जा न्हीं? ''भुरग्यां ती खोशी जावन टाळयो मारतालीं. आनी तशेंय तांकां त्या निमतान उदकांत नाचूंक मेळटालें. त्या तेंपार टि.व्ही.चेर एक सिरीयल लागतालें. गुल, गुलफाम, गुलशन - भुरग्यांनी मागीर आमच्या बंगल्याक तीं नांवां दवरिल्लीं - ''आई, आज मगे गुलशनांतल्या युगीन दादान म्हाका चॉकलेट दिली.''''गुलफामांतल्या विकून पवनाक बडयलों.'- अशाच नांवांनी उलोवप.

खरें तर मुंबयकार कसल्याय परिस्थितीक तोंड दिंवक शकतात,

कितल्याय संकटांचे मात करतात. कितें घडलां तें सगळें विसरून दुसऱ्या दिसा परत जैसे थे! मांजराक शेपटेक धरून शेवटील्यार तें कशें परत पांयार उबें - तशें कसल्यार परिस्थितीन मुंबयकार तावून सुलासून येतात. आमी गोंयकार मात्से सुखावसानी - सुसेगाद! हांगाची ही वृत्ती आंगांत बाणावप नीज गोंयकारांक तशें मात्शें कश्टदायकच. पूण मागीर मागीर थोडें भोव प्रमाणात साधलें. हांवें दर वेळार मोडून पडचें - नव्यान! हाणें सांवरून घेवचें. कारण शिकतना धरून हो हांगाच्या परिस्थितीक तोंड दीत आयिल्लो, त्रासांतल्यान वयर सरिल्लो. त्या मानान हांव सुखी कुटुंबांतलें - म्हाका मात्शें हें सगळें जड वतालें - तरी इतले वर्सांनी हांव शिकलें म्हणूंक जाय. ह्या पावसान म्हजें बरप व्होळून गेलें. केंसांची दैना जाली...

सव्वीस जुलयच्या हुंवारान तर कहर केल्लो - आख्खी मुंबय व्हडलो आकांताचो दर्या जावन गेल्ली. खंय दोन फूट, तर खंय चार फूट आनी धा फूटां मेरेन उदक चडिल्लें. रेल्वे रुळांनी उदक भरून गाड्यो थांबिल्ल्यो - बसी मदींच आडकल्यो, टॅक्सी, रिक्षा, कारी तर ह्या उदकाच्या लोटांत बुडल्यो, व्हळल्यो, कितलेशेच लोक घरांत भितर उदक गेल्ल्यान दारां उक्तीं करूंक जायना जावन बुडून मेले. ऑफिसांनी गेल्ले घरा पावले नात तर घरचे दारांत पावनात अशी अवस्थां जाल्ली. प्रत्येक घरांतलो कोण ना कोण ह्या पावसांत भायर आडकल्लो. कांय जाण आठ-आठ धा धा वरां ह्या असल्या उदकांतल्यान वाट काडींत काडींत दुसऱ्या तिसऱ्या दिसा घरा पावले. अन्न ना, उदक ना, न्हिद ना असली सगळी भयंकर परिस्थिती!

ह्याच तरेची परिस्थिती ह्या २९ ऑगस्टाक जाल्ली मुंबयची. मंगळारा पुराय मुंबय उदकापोंदां गेली - तेंवय गणपतीच्या दिसांनी. सकाळीं आठाक सुरू जाल्लो पावस थांबलोच ना. रस्त्यांच्यो न्हंयो जाल्यो. रस्ते आनी रेल्वेच न्हंय तर विमान येरादारीय ठप्प जाली. मुंबयची रेल्वे बंद म्हणचे लोकांजीणच ठप्प! कामार गेल्ले थंयच स्टेशनार आडकले. कांय जाण मात ऑफिसांनीच रावले - सव्वीस जुलैच्या आकांताच्या पावसाच्या यादीन सगळ्यांची काळजां हाल्लीं. गणेश मंडळाचेरय पावसाचे संकट - कांय मंडप कोसळले तर कांयकडेन उदक भरलें. मीठी न्हंय लागसारचीं घरां - बिल्डींगांनी लेगीत उदकाचे लोट भितर सरले - सगळो चिखलकालो. सामको रेकॉर्ड ब्रेक पावस - ढगफुटी जाल्लेवरी!

खरें तर सव्वीस जुलैचीच परिस्थिती आयिल्ली. नैऋत्य मान्सून सक्रीय जालो आनी अरबी समुद्रांत कमी दाबाचो पट्टो तयार जाल्ल्यान पावसान हें रुद्र रूप धारण केल्लें. फरक इतलोच की हो पावस णव एक वरां कोसळ्ळो. सव्वीस तारखे भशेन चोवीस वरां कोसळ्ळो. ना भरते वेळार - ना तर मुंबय आख्खीच व्हळून वचपाची. तरी कितलेशेच लोक बुडले. बॉम्बे हॉस्पीटलांतलो फामाद दोतोर अमरापूरकर - बाकीच्या दोतोरांनी वचनाका म्हणून आडायलें तरी घरा काम आसा म्हणून बेगीनच भायर सरलो. पूण अर्दार वतगीच कारिच्या इंजिनांत उदक वचून मोटार बंद पडली. घर लागीं आसा म्हणून गाडी थंयच सोडून कमरभर उदकांतल्यान चलत गेलो. मदीं गटाराचें मेनहॉल आसलें ताका दिसलें ना, तो भितर पडलो. सोदूनय सापडलो ना. दोन दिसांनी ताजें मडें मेळ्ळें खंय. अशे अनीक कितले जाणाचेर काळान हावेळ घातलो नकळ.

देवाचे व्हड उपकार ह्या वेळार डोंबीवलींत बुडटी आयली ना. पावस भरपूर पडलो. पूण उदक साठून उरलें ना... सगळी ड्रेनेज सिस्टीमची कृपा! गटारां साफ आशिल्लीं जावये. तशेंच वाखी धरण बी सोडलें ना. आकांत पावस, भरती आनी धरणाचें उदक. तिवूय एका थरावर जाल्यार मात विचारपाची सोय ना. बुडटी येवपाची. पूण नशीब - आमी घरा नाशिल्लीं म्हणून आमचे परस आमच्या सोयऱ्यांक चड चिंता जाल्ली. आमी मात व्हॉटसेपाचेर शेजाऱ्यां पाजाऱ्यां कडेन चौकशी करून शांत बशिल्लीं.

एक मात खरें, अशा वेळार मनशांचे मनीसपणाचें दर्शन घडटां. आमच्या संस्कृतायेचें व्हडपण ह्या वेळार जाणवता. मनीस मागीर मनीसपणाचें आसूं जात पात, उच्च नीच कांयच पळेनासतना आपणाक तांकता ती मदत दुसऱ्यांक दिता. सर्वसामान्य मनीसच एकमेकांचे दुख्खांचेर, घायांचेर मनीसपणाची, मायेची फूंक मारता. भौसच भौसाच्या कामाक येता. उदकांतल्यान आपापल्या घराची वाट चलपी लोकांक दादलें जांव बायल, जाण्टी वा तरनाटी, हाताची साखळी करून येतल्याक रस्त्यावेले खांच खळगे, फोण फोणकुलां सांगून वाट दाखोवपी - त्या भागांत रावपी लोक मागीर ते झोपडपट्टींनी, चाळींनी वा बिल्डींगांनी रावपी आसूं.ऐन पावसांत चाचो घोंट घालपी, बिस्कीटी वांटपी, उदक दिवपी, जेवण खाण दिवपी - हें सगळें मनशाचें मनीसपणच न्हय? असल्या ह्या प्रलयकारी रुपांत लेगीत हें रुद्र रूप अणभवपी, पळोवपी जणएकाच्या उगडासांत सासणाची उरपी ही मनीसपणाची भुती हो भिरांकूळ पावस दिवन गेलो. सदांच आपल्या भोंवतणी वावुरपी आपल्याच मनशांची नव्यान वळख करून दिवपी हो पावस! आमचे तरनाटे बेजबाबदार नात तर वेळ पडल्यार ते कसल्याय परिस्थितीक धिरान खंबीरपणान तोंड दिवन लोकांक आदार दिवंक शकतात. हो आगळो वेगळो सोद ह्या पावसानच लावन दाखयलो.

२९ ऑगस्टच्या ह्या पावसान २६ जुलैची याद परतून एक फावट ताजी केली. जांच्या बाबड्यांच्या घरानी ऐन सणाच्या दिसांनी उदक भरलें तांच्या जीवाक कितें जातलें? घरांनी आनी दुकानांनी जाल्ले कोटी कोटीचें लुकसाण कशें भरू येतलें? आनी भितर आयिल्ल्या उदकाच्या त्या लोढ्या बराबर चिखल आनी घाणींचे राज्य! मनशाक सादूर करचे पसत गणरायानच हो साक्षात्कार करून दिला जावये. हांतल्यान नसत्यो पीडां आनी रोगराय फांसना जाल्यार पुरो इतली... त्या विघ्यहर्त्याच्या पांया कडेन प्रार्थना करपाची.

■



# दीसपटी



माधवी सरदेसाय

**■ २६ एप्रील, IIAS गॅस्ट हावज, दिल्ली, रातचीं बारा.**

शिमला तिनूच दीस रावलें पूण खूब कितें केलें. हिमालयाच्या सांगातांत जीव मेकळो मेकळो, ताजो टवटवीत जालो. केन्नाय दिसता म्हाका, म्हाका दर्या परस दोंगराची उंचाय आनी भंरीव थंडाय अदीक मानवता...

पीटरा बरोबर (डिसौझा) खूब उलोवंक मेळ्ळें हे फावटीं. खूब थोड्यांक हेरांक कामाक लावंक जमता. पीटर तांतलो. उंचायेची आनी खोलायेची खरेली तळमळ. गोंयांत आमी एक Research Institute उबें करुया. गोंयाचेर सगल्या आंगांनी अभ्यास जावंक जाय... तो सांगतालो काल. आलेतोय (सिकैरा) येवपाचो अशें दिसलें.

पयर खखअड च्या पुस्तकांच्या दुकानांतल्यान दोन तीन पुस्तकां विकतीं घेतलीं. एक 'In the tracks of the Mahatma'ए. के. चेट्टियार म्हण एकल्यान गांधीजीचेर पयली डोक्युमँटरी केल्ली तिची काणी. चेट्टियारानूच सांगिल्ली. मूळ तमीळ भाशेंत बरयल्ल्या पुस्तकाचो इंग्लीश अणकार. डोक्युमँटरी खातीर कितें कितें केले. खंय खंय गेलो, कोणा कोणाक मेळ्ळो, कसले कसले अणभव आयले ताची खबर... अर्दा वयर पुस्तक वाचून जालां. वाचतना तातोची याद... तातोक खूब आवडटलें आशिल्लें हें पुस्तक.

कुलदीप कोठारी कडेन वळख जाली. कोमल कोठारीचो पूत. हो नांवाजतो लोकवेद संशोधक खंय. हांवें नांव पसून आयकूंक ना. पूण कुलदीपान ताचे विशीं खूब कितें सांगलें शिमला सावन कालका टॅक्सीन येतना. तांच्या जोधपुराच्या 'अरना झरना'म्युझियमाची खबर. आगळी वेगळी. कृपाली सारकेल्याक थंय धाडून ताचेर एक म्हायतीपूर्ण लेख जागा खातीर बरोवन घेवचो अशें दिसलें.

आज पुपूनाची खूब याद शी आयली. कांय दिसां फाटीं खूब अस्वस्थ जावन फोन केल्लो. कोण फ्रांसाक वता, कोण जर्मनीक, कोण इंग्लंडाक वतां... कोणाक टाटांत मेळ्ळां... म्हजें कितें जातलें काय... हो हुस्को. फोनार रडलें उलयता आसतना.... ताका म्हजे परीन cheer करपाचो यत्न केलो. असल्या कामांक हांव उणेंच पडटां काय दिसता म्हाका... तरी, सांगलें, उथळ हुशारेची केन्ना ओड धरूं नाका. करता तातूंत प्रामाणीकपणा आनी खोलाय आसतली हाची जतनाय घे... सगलें जाग्यार पडटलें. चकचका फाटल्यान, दुसऱ्याक

impress करपा फाटल्यान केन्ना वचूं नाका...

मागीर रोखडोच ताचो sms आयलो -

Feel so much better now! The fact that you believe in me so much really means something to me Mumma... I think, once I grow up a little more, we'll be the best of friends! And I'll try my best to make, you proud! Won't let you down! Thanks for believing in me... Gives me a lot of confidence!

वाचतना भरून आयलें... ही मॅसेज डिलीट करूंक ना. तशशी सांबाळून दवरल्या... पुपून सारक्या मार्गार आसा असा विश्वास दिसता खूब फावटीं. गणेश देवी, पीटर असल्यांचें मार्गदर्शन मेळूंक जाय ताका.

येदोळ तुकीचो फोन आयलो - उर्वी म्हाका अलिलांत swimming आपयता. म्हाका swimming करुंक नाका आज... सांगून. म्हळें, तूं तुजें पुस्तक घेवन वच. पेंवपाक नाका जाल्यार तशें सांगपाक शीक...

■ **१७ मे २०१२**

भुरग्यांच्या होलिडे मुडाची सावळी म्हजेरूय, म्हाका परवड नासतनाय. तांचो चडसो वेळ टिव्ही मुखार बसून सरता. एके वटेन होय हुस्को. मदीं मदीं हांवूय तांचे म्हऱ्यांत बसून सिनेमा पळेतां. काल असोच 'एक डॉक्टर की मौत'पळेलो.

परां ओंीश वर डळपसेर उरपरीळा चें लोकार्पण. तयारेक लागलां. पूण हात आनी तकली धा कामांनी वांटून गेल्या.

आज कितल्या तेंपान भारती मोदीचो फोन आयलो. 'जाग दिशीं दिशीं अदीक बरो जायत आसा. I am proud of you...'खंय...

तुकी विजया बरोबर थायलँड वचूंक भायर सरलें. आज रातचें मुंबयच्यान विमान धरपाचीं आसात. रातीं म्हाका न्हिदपाक रावलें. कुशींत रिगून शें न्हिदलें. ताका म्हऱ्यांत घेवंक गेलें तेन्ना तें रडटा म्हूण कळ्ळें. आज सकाळींय हांव आनी राजू वतना 'मोव जाल्लें'. 'राव गे आज...'म्हणटालें. पूण कशें रावतलें...? दॅल्फींच्या उतरांनी Tower of BabelM| incharge! कोंकणी, मराठी, इंग्लीश, पुर्तुगेज आनी फ्रँच विभागांचें...

विद्यापीठांतली ती बायल मनीसूय 'हाल्ल्यां'. काल सांगताली, म्हज्यान एकलें जगूं नजऽ... म्हळें, तुज्या भुरग्यांक सांबाळून घेवपी कोणूय मेळटा जाल्यार लग्न जावप तुवें...

सांगूंक सोंपें...

काकूळट दिसता तिची.

आज तिका सांगले, म्हजे कडेन उलयलां तें सगल्यांक सांगीत रावं नाका... आपणाले घाय अशे वाऱ्यार घालपूय बरोबर न्हय...

असले 'उपदेश'हरशीं हांव दिना, पूण भंय दिसता, तिचो कोणूय फायदो घेत म्हूण.

■ **सोमार, २८ मे २०१२**

**हालीं डायरेक पयसावलां.**

'मंथना'चे फाटीक लागलां. ल्हान ल्हान कांय गजाली उरतातूच. आज युनिव्हर्सिटीचे लायब्ररींत बसून कांय संदर्भ तपासले. डॅनिसान खूब मदत केली. हरशीं आयच्यान म्हजी 'खरी सुटी'सुरू. पूण युनिव्हर्सिटींत गेलें. प्रॉजक्टाचें काम तपासपाचें काम चल्लां. पयर शुक्रारा ज्योतीन मिटिंगेक आपयल्लें. रिझल्ट धाडपाचो आशिल्ल्यान वेळान पावलें. ज्योती मातशें 'नाराज'दिसलें. शेनवार आयताराय ताणें सगळ्यांक कामाक आपयल्ली. म्हाकाय यो म्हणूंक लागलें. जमचेंना म्हूण सांगलें. तातूंत भासविज्ञान आसा, ना न्हय. म्हजी गरज आसा तेन्ना वेळ दितलेंच प्रॉजेक्टाक. पूण तरी, हो म्हजो 'स्वधर्म'न्हय अशें दिसले बगर रावना. 'जाग'इल्लें कमी करूंक जाय - ज्योतीचें मत. ताका कितें सांगतलें...!

पुपून सविता बरोबर बी Wildernest त गेलां, मदीं मदीं ताचो हुस्कोय जाता. 'पावता थंय पावत'म्हूण... आयिल्ल्याक सुधीर कक्कराचें एक पुस्तक वाचूंक घेतलां. ताचे पयलीं 'अदृश्ट'घेतिल्लें, तें थंयच सोडलें खंय. हांगा, म्हजे म्हऱ्यांत आसा तशें तातोचें पुस्तक वाचूंक घे म्हूण केन्नाय सांगतां ताका. चड सांगल्यार कोंकणीच नाका जायत होय हुस्को दिसता, पूण टिवी, फोन, स्कुटर चड जाता. तुकीचें जोतूय पुपूनाल्या जोता फाटल्यान शें. भायर सरतना आतां तेंय दोळ्यांत काजळ घालूंक लागलां... आवयपणाक हांव उणें पडना जाल्यार पुरो म्हणटां...

तुकी आज थायलँडच्यान आयलें. नवीं नांवां, नव्यो खबरी घेवन आयलां, येना फुडें टिवीक दसलें...

बॉस्को बरोबर रातचें गेलिनांत जेवलें.

पयर लेओनार्दाक आपोवन मीर्ग, गोमंत भारतीच्यो फायली दाखयल्यो - Young India आनी हरिजनाच्योय.

Arte...च्या लोकार्पणाक माचयेर लेओनार्द, फादर मोउझीन्यु, प्रताप नायक आनी हांव. प्रताप नायक दाव्या पांयान कुंटलो - रोमी हाडलीच. एक दीस रोमी राजभाशेचीय लिपी जातली आनी विद्यापिठांतूय पावतली खंय. आयकुपी चडशे इंग्लीश उलोवपी गोंयकार आशिल्लें. जाणटेले चड. हांवें म्हजें अर्दें उलोवप 'खालें', फकत पुस्तकाची वळख केली.

फादर मौउझीन्यु आतां जून म्हयन्या सावन नेवरेंचो पाद्र विगार खंय. 'भारतीय भाशा सुरक्षा मंचा'चो धग खरो बादलो तो फादराक... तातो ताका 'कोंकणो पाद्री'म्हणटालो. इगर्ज ताका त्रास दिले बगर रावचिना अशेंय म्हणटालो...

■ **पणजी, ३१ मे २०१२.**

राजूची मुंबयची मैत्रीण राजश्री चल्याक घेवन दोन दिसांचे सुटयेर गोंयां आयलां. दोना पावल रावलां. ताका घेवन Sea Pebbles त जेवंक गेलीं. तुकी, राजू, हांव. पुपून आयलेंना.

'मंथना'ची निर्देश वळेरी करूंक घेतल्या. मनान उर्बा, वेग - सगळें

आसा, पूण, हजार विघ्नां! देव परिक्षा पळेता काय...? आज सकाळीं खतिजाच (वावराडी) आयलेंना. मन दमळट जालें. तरी ताणलें व्हडें. पूण कितलें म्हूण ताणटलें? वेळा कडेन झगडून म्हणटात तशें पयल्या लेखांतले 'निर्देश'वेगळे काडले. पुराय लेखाचेर थंड तकलेन आनीक एक नदर मारून ते परते तपासून पळेतलें म्हूण आशिल्लें, जमलें ना.

आमी पणजे आयल्यांत म्हूण राजू खूश. वेळ गेलो म्हूण म्हजें मन जड... कितें करतलें?! असल्यो गजाली राजू कडेन उलोवंक मेळनात...

जेवन परतलीं तेन्ना तुकी म्हणूंक लागलें, 'मम्मा चल, आज प्रुफां बी कांय काडूं नाका. आमचे बरोबर न्हीद. तेन्ना सवाय अकरा जाल्लीं. 'तुका कितल्या दिसांनी पप्पा मेळ्ळा. ताका खबरी सांग... शाण्णें तें...'म्हणून ताची एक पापी घेतली आनी जागाचो एक लेख सुधारलो... फाल्यां उठ्ठना मना वयलीं कुपां इल्लीं तरी निवळूंक जाय, म्हूण...

पयर राजदीपान राज्य पुरस्कार घेतलो ना. ज्या माध्यम प्रस्नाक लागून आपूण सरकारा आड उबो राविल्लों तो अजून सुटावो जावंक ना, म्हूण, हो पुरस्कार घेवक आपणाक पटना, अशें सांगून. 'लोकमता'चेर पयल्या पानार बातमी आयल्या. 'सुनापरान्ता'चेर मात बातमीच ना. फकत विष्णु वाघाचो 'दवरण्या'चेर एक 'उवाच'आयला. तातूंत, राजदीपाक आपणें अशी अशी बुद्द दिल्ली, पूण ताणें आपणालो निर्णय घेतलो ही म्हायती मेळटा... 'सुनापरान्ता'चेर कसलें वागरें पडलां, कळना...

काल सांजे राजदीपाक फोन केलो. ताणें २ तारकेक एक पणजी टी.बी. कुन्या हॉलांत बसका दवरल्या खंय तरणाट्यांची. म्हाका म्हणूंक लागलो, तूंय यो आनी आमी कितें कितें करूं येता ते विशीं आमकां मार्गदर्शन कर... वतलें म्हूण आसा.

कितलेशे दीस जाले, नवें कांय वाचूंक ना... उतरांची सांसपणीच चल्ल्या फकत.

आज घरांतले सगले पेपर (रद्दी) काडून विकूंक दिले. कात्रणां काडटलें म्हूण आशिल्लें... फाटलीं कात्रणांच अजून वाचून जायनात...

सोमारच्यान युनिव्हर्सिटी सुरू. थंय वेळाचो आनिकूय भंवसो ना सो...

नामूक सरपळेक बांदून सकल घेवन वतालें तेन्ना म्हाका ओडून व्हरपाचे तांकीच्या नामूक हांव सरपळी मोटवी करून फाटीं ओडटालें तें चित्र येता दोळ्यांर... आज हांव नामू... सरपळी 'वेळ'...

■ **मडगांव, ५ जून २०१२**

काल माध्यम प्रस्नाचो 'रिजल्ट'आयलो. तसो, अपेक्षे प्रमाण. पूण निर्शेणी हाडपी. राजून आज गाळी घाल्ले बशेन सो अग्रलेख बरयला. 'क्रिये'ची 'प्रतिक्रिया'. निमाणें कोंकणी कडेन कितल्यो शाळा उरतात काय? कांयच कळना. एके वेटेन दिसलें, कोंकणी डायसेसनच्या उपकारांतल्यान मुक्त जाली... फादर मोउझीन्याची खूब याद आयली काल. ताका कितें जालां आसतलें काय निर्णय कळटकच...?

येदोळ ताचो फोन आयिल्लो - 'पर्रिकार घातमारो. हे आरएस्एस् पातयेवपाचे न्हय.... दिगंबर कामतीचेर घाल्लो तसो हाचेरूय बहिश्कार घालूंक जाय...'म्हणटालो.

'सुनापरान्ता'चेर सामकी 'पातळ केल्ली'कशी बातमी आयल्या. आंकूंक नामू मेला हें मानूंक 'नाका आशिल्लें'तशें 'सुनापरान्त'कोंकणीच्या म्हालगड्यांची ही हार मानून घेवंक सोदिना... उदयबाबाची प्रतिक्रिया आदोगादाची. 'धोरण स्पश्ट ना'खंय. इंग्लीश शाळांक कितलो तेंप अनुदान मेळटलें हें खंय स्पश्ट जायना.

आतां खरें म्हळ्यार आमी एकठांय जावन नव्यो कोंकणी शाळा सुरू करूंक जाय.

फाटल्या शेनवारा राजदीपाले मिटिंगेक गेल्लें. सकाळी ॲलनॉरागेर टिचरांची मिटींक जाली. एक मेरेन थंय उरलें. मागीर घरा येवन रांदप बी. पणजे चारांक सुमार पावलें. पुपूनाक घेवन गेल्लें. कृपाली आनी डॅनिसूय आयिल्लीं. भाटीकार मुखार, मदीं बशिल्लो. पर्रिकार सरकाराचेर विश्वास दाखोवपी शीं भाशणां. मदींच आंफास बॉतेलाच्या पुस्तकाचो निशेध - अमेय कामत ह्या पुस्तकांतलें संशोधन कितलें फालतू ताचेर उलयलो. मागीर एक सूर - 'हें पुस्तक withdraw करचें म्हूण आंदोलन करुया'/"पुस्तकाचो जाहीर निशेध करुया'मिटींग खंयचे खंय व्हांवता काय दिसलें. 'तुमचेय विचार मांडात'म्हूण आपोवणें आयलें तेन्ना हांव उलयलें. म्हळें, मराठी-कोंकणीचे फाटल्या आंदोलनांत जें जोत बांदिल्लें ताचे फाटल्यान वचूंक हांव येवंक ना. हांव आयलां तें कोंकणी खातीर, फकत कोंकणी खातीर... सगलो ओग काडलो, प्रामाणीकपणान. गोंयची राजभास खंयची हे विशींय म्हज्या मनांत दुबाव आसा. पयरूच एकले ब्रिटीश बायलेन म्हाका सांगलें, गोंयच्यो दोन राजभासो - कोंकणी आनी मराठी. दोन राजभासो आशिल्लें भारतांतलें एकूच एक राज्य गोंय खंय!

काल सकाळीं राजदीपा फोन करून परतें उलयलें. ताका सांगलें, बॉतेलाच्या संशोधनाचो निशेध बी करपांत शक्त वगडावप ना. आनी, हो फॅसिस्ट मार्ग. असहिश्णुताय दाखोवपी. असल्याच लोकांनी भंडारकर इंस्टिट्युटाची नासधूस केल्ली. आमकां हें सोबना. हाका लागून आज कोंकणी वेटेन आसात ते क्रिस्तांवूय आमी वगडावन बसतलीं. जाय जाल्यार एका शिक्षण तज्ज्ञा कडल्यान ह्या संशोधनाचो नियाळ करून घेवं येत...

ताका म्हजें म्हणणें पटलें शें दिसलें.

सकाळीं वजरीकाराचो फोन आयिल्लो. ताकाय सांगलें हें.

येदोळ सांजचो सुचीचो फोन आयिल्लो. म्हणूक लागलें, म्हाका तुमी पयर सांगिल्लें तें सगलें पट्टा. 'मॅडम, तुमी आमकां मार्गदर्शन करांत. आमी एक ल्हानसो पंगड करुया आनी कितें तरी ठोस करुया कोंकणी खातीर... पयरच्यान येवजितां हें हांव... तुमी आमकां lead

करात'.

हांव 'लीडर'?

म्हाका सुचोवण्यो दिवंक येता. येरें हातांत धरूंक जायत?

तातो आसपाचो...

काल पिलार सेमिनारींत गेल्लीं. फादर कॉज्मीचो म्युझियम पळेलो. अपुर्बायेन उबो केला. ख्रिस्तपुराणाचें एक हातबरप ताणें साल्वार केलां. सेमिनारींतलो 'कोयर'लासूंक म्हूण गायरींत उडयल्लो, तांतल्यान. तेन्ना तो सुमार अठरा वर्सांचो आशिल्लो खंय. हातबरप तीग-चौग जाणांनी बरयल्लें. सुंदर अक्षरांनी. सतराव्या शेंकड्यांतलीच प्रत आसूंक जाय खंय ती.

ब्रदर एवझॅबियोय मेळ्ळो. 'जागा'चो वाचपी. म्हजे लेख खूब आवडटात म्हूण सांगतालो. तातोची याद काडटालो. Inter-religious meets...

फादर जेजुईन आल्मैदूय मेळ्ळो.

बरेंऽ दिसलें तांकां मेळून. उंचाये वेलें वारें खावन, आनी सुंदर गोंय पळोवनूय...

घरा परतलें तेन्ना लायट गेल्ली...

मागीर पावस...

■ **१५ जून २०१२**

गणेश देवी आयला. कितलो सादो मनीस... तितलोच भरिल्ले कळसो.

भूषण ताचे खातीर सरकारी रेटीन रूम बूक करपाचो आशिल्लो. रातीं मावज्याचो फोन आयलो, 'पुंडलीकान सांगलां, सगले रूम 'फूल'म्हूण! निमाणें राजू पावलो. आज सकाळीं भूषणाचो फोन, रुम एका दिसाक जाय काय दोन दिसांक, विचारून... 'आतां नाका'म्हळें. हे मुखार ताका सांगप ना. केन्ना केन्ना राजूचेय उपकार नाका दिसता, आनी सद्दां विजया कडेन कितें मागतलें... म्हूण भूषणाक सांगिल्लें. आसूं.

पयर मधुसूदन जोशीक फोन करून विचारलें, शिक्षा सदन, कुंडयच्या बी इश्कॉलांनी कोंकणी मुळावे शाळे खातीर कित्याक अर्ज करचो न्हय? पयलीं म्हणूंक लागलो, भुरगीं मेळूंक त्रास जातले... म्हळें, भोंवल्यार मेळटलीं. हांव म्हजे शेनवार दिवंक तयार आसां, भोंवपाक. आशा कामत आनी विनंती कांसार दोगांय कडेन फोन करून उलय म्हणूंक लागलो. दोगांय म्हणूंक लागलीं, करुया! आपूण फॉर्म मागयतां म्हूण सांगलां मधुसूदन जोशीन. उशपीं एर्वीलरवीं डेलळशींचीं ५ इश्कोलां आशिल्लीं. सुमंतमामान मुखार सरून सुरू केल्लीं. तांतलें पंचवाडेचें इश्कोल खंय बंद पडलें... पयर दिसलें, सुमंतमामाल्या चलयांक सांगप, कोंकणी शाळेक वेपरींळेप दियात म्हूण आनी तिका सुमंतमामाचें नांव दिवंक सांगप...

आज दिलीप आयिल्लो मेळपाक. प्रकाशाच्या रुमांत बशिल्लीं.



ताचे कडेन उलयतां उलयतां फट्ट करून जिबेर आयलें - तातो मुखार सरूंक नाशिल्लो जाल्यार कोंकणी साहित्य अकादेमींत पसून पावची नाशिल्ली... भाऊ काकोडकारान तर 'महाभारता'च्या लोकार्पणा दिसा तातोक आठवे वळेरेचेर उतर काडूं नाका म्हूण सांगिल्लें...

■ **१८ जून २०१२**

पयर PLSI ची मिटींग जाली.

भूषण आयलो ना.

प्रताप नायकाक पावणे अकरांक सुमार फोन केलो, खंय पावला तें विचारूंक 'अजून केंद्रांतूच घुसपून उरलां'म्हूण जाप मेळ्ळी.

गणेश देवी म्हणूंक लागलो, 'गोंयच्या खंडाचो'हुस्को आशिल्लो तकलेंत, तो आज ल्हव जालो. तुवें खंडाची सारकी बरी आंखणी केल्या.'

आयकून म्हाकाय समाधान जालें. ताका सांगलें, म्हाका कसलेंच मानधन नाका. (संयोजकाक १०,००० मेळटले म्हूण बरोवन ताचें पत्र आयिलें.)

मिटिंगे उपरांतचें जेवणाचें बिलूय हांवें दिलें. च्या अीं । डींश्रींीशन दिल्ली.

मिटिंगे उपरांत ताका शांतादुर्गेच्या देवळांत वचूंक जाय आशिल्लें.

वाटेर पिरवळा तातोगेर गेलीं. लायब्ररी पळोवन खूब खूश जालो.



दीस 'rich'गेलो म्हणूंक लागलो. तातोची एक website कर. आपूण जाय जाल्यार मनीस धाडटां म्हूण सांगतालो. लायब्ररीचें कॅटलॉगींग करूंक जाय अशेंय म्हणटालो.

रातचो ताका गाडयेर पावयलो.

हांगच्यान कालीकट गेला. भोंवत आसता. म्हणूंक लागलो हो सव्हें जातकच हांवे नाऽच जातलों म्हूण आसां. उतरांच्या संवसारांतल्यान पयस, मोनेळाच्या संवसारांत.

तातोची खूब याद आयली. तातो आशिल्लो जाल्यार देवीक घेवन ताचे म्हऱ्यांत वचून, दोगांयच्यो खबरी म्हऱ्यांत बसून आयकतलें आशिल्लें. तातोकूय खूब आवडटलो आशिल्लो देवी...

काल रॉकी मिरांदा आनी पुष्पा येवन गेलीं. तांकां मंगळूरचे गाडयेर बसयलीं. हींय बी भांगर मनशां...

■ **मडगांव, १९ जून २०१२**

राजयाचो ४० वो वाडदीस+ Ph.D. मेळिल्ल्याची खोस मनोवपाचो सुवाळो. नीतान अपुर्बायेन घडोवन हाडिल्लो.

बेळगांवां Impressionंत फोन करून ७ तारके पयलीं म्हाका पुस्तक मेळूं येत काय ताची वासपूस घेतली. मेळटलें खंय. शेनवारा-आयतारा तांकां DTPचें मॅटर पावपाक जाय. राजयाक पुस्तकाचेर उलोवंक 'बूक केलो'. हनुमंताचें सुत्रसंचालन. फोंडेच्यान येतना फादर मोउझीन्याकूय फोन केलो. ताच्या हातान लोकार्पण. सगळें वरा भितर उलगूंक जाय... पळोवया...

रातीं पणजे राविल्लें. फाल्यांय रावतलें. पुस्तकाचें काम सोंपयतलें म्हणटां.

आज खूब दिसांनी चंद्रलेखा मेळ्ळी.

■ **पणजी, २६ जून २०१२**

निमाणें पुस्तकाचें काम आज सोंपलें... राजून कुरियरान Soft/hard copy रोखडीच धाडून दिली. मोल २०० दवरलां. खूब दिसता... २५,००० चें अनुदान मेळ्ळां. येदोळ मनांतल्यान हिशेब करतालें. - 'एके प्रतीचे २०० जाल्यार १००० प्रतींचे वीस हजार'- म्हूण ...केदो वेळ कुवाडेंच सुटना... निमाणें, तीन आनी दोन मेळून पांच शुन्यां म्हणपाचें लक्षांत आयलें आनी बाईची याद जाली, गणीत कळना जाल्यार भुरग्यांक कितें म्हूण शिकयतलें तूं, काय विचारिल्लें एक दीस तिणें म्हाका...

आज आलेतो आयिल्लो. व्हिजा खातीर आनीक कितें कितें जाय तें सांगतालो. आनिकूय अप्रिय कामां... फोटे काडपाचें, तेय बी अम केच तरेचे, काम धरून.

हनुमंत प्रॉजेक्टाची फायल घेवन आयिल्लो. तिगां जाणां बसपाची वेवस्था करूंक जाय खंय. म्हज्याच रुमांत बसोवया, रुम व्हडलो आसा म्हूण सांगतालो. हांवें नाका म्हळें. अशें 'बाजारांत'बसप तेंवूय बी सतत तीन वर्सां - येवजूंच नजऽ. ज्योती बशेन म्हजी संत प्रकृती न्हय. अशें दीस भर लोकां मदीं उरल्यार हांव खऱ्यांनीच पिशें जातलें काय दिसता. प्रियाक म्हळें, जाय जाल्यार, प्रॉजेक्टाक म्हजो रूम दिवया. आनी हांव तुजो धाकलो रूम घेतां... निमाणें, ऑफीस व्हेलां त्या धाकल्या क्लासरुमांतूच प्रॉजेक्टाक जागो करून दिवप म्हूण थरलें. सूऽ जालें जिवाक. ज्योतीक एक एक वायट दिसतलें. सद्या राम दासान (करमली) आपल्या रुमांत प्रॉजेक्टाचें राज्य चलूंक दिलां. हांव इतलें उदार न्हय. आनी, उदार नासतना उदार आशिल्ल्याचें दाखोवन जीव त्रासांत घालपूय कोणाच्याच बऱ्याचें न्हय. ह्या विशयांत हांव 'येवरोपी'- 'I need my space, my time"!

पयर (प्रोबोल) दासगुप्ताचो फोन आयिल्लो. खूब वेळ उलयलो. Amphiglossia ताणें विकसीत केल्ली नवी संकल्पना म्हजे कडेन डिसकस करन दिसली म्हूण केल्लो खंय फोन. बंकीमचंद्राच्या भाशेच्या वापराचेर कितें तरी बरयता खंय तो. एके तरेची डायग्लॉसिया ही... 'हाचेर तुवें काम केला म्हूण तुजे कडेन उलयन दिसलें.'म्हणूंक लागलो.

पयरूच म्हज्या मनांत डायग्लॉसिये संदर्भांत एक नवो विचार आयिल्लो. 'वयले'आनी 'सकल्ले'भाशेची वेगळी वेगळी उतरावळ आसता आनी हें डायग्लॉसियेचें एक म्हत्वाचें लक्षण अशें फर्गुजन म्हणटा. पूण मराठी आनी कोंकणीच्या नात्यांत उतरावळीचें वेगळेच तरेचें नातें दिसता. 'सुध्र मराठी मध्रिमां लोकांसि न कळे'म्हूण स्टीफ

न्सान 'ब्राह्मणी भाशेचीं'उतरां आपणाल्या कवित्वांत भरसून तें सोंपें केलें - म्हळ्यार, व्याकरण 'वयले'भाशेचें, पूण उतरावळ 'वयले'आनी 'सकल्ले'- दोनूय भासांची / दोनूय रुपांची. एके नदरेन पळोवंक गेल्यार, 'सकल्ल्या'रुपाचेर हो 'वयल्या'रुपाचोच धेंक. हीं उतरां तशीं 'म्हजीं'न्हय - पूण तीं म्हज्यान वापरूं येतात जाणविकाय - स्टीफ न्साच्या काळार कोंकणी उतरां मराठीक 'सुलभ', 'सोंपी'करतालीं. बाकीबाबाच्या काळारूय कोंकणी उतरावळीन मराठीक गिरेस्त केली. ह्या काळार कोंकणीची अवतिकाय कशी आशिल्ली काय? म्हज्या दोळ्यांर पतिव्रता बायलेचें चित्र उबें रावता. घोवाचो संवसार जीव ओतून चलोवपी पूण ह्या संवसाराचेर कसलोच धेंक नाशिल्ली, घोवाक पुरायेन समर्पीत आशिल्ली 'सौभाग्यवती'. कोंकणी उतरां कोंकणी व्याकरणांत घोळूंक लागलीं तेन्ना हे भाशेक खरेलो आपणालो आवाज मेळ्ळो. ते आदीं ती मोन्यांतूच मोडटाली अशें म्हणूं येता...

मराठी-कोंकणी भाशाव्दित्वाचो हे नदरेंतल्यान अभ्यास करतलें म्हूण आसां.

दासगुप्ताक म्हळें, 'तुमचो पेपर म्हाकाय मागीर वाचूंक मेळत?'ताणें 'धाडटां'म्हळां. खूब बरें दिसलें ताचे कडेन उलोवन.

मनांत खूब येवजणो आसात. उमेदूय आसा. आनी, कोंकणीक संशोधनाच्या, भासविज्ञानाच्या मळार म्हजे कडल्यान भरींव कितें तरी मेळूंक जाय ही जाणविकाय. आतां समाजभास-विज्ञानाची वळख दिवपी पुस्तकाची आंखणी करप. मागीर, भासविज्ञानाच्या मळा वेल्या म्हज्या संशोधनात्मक बरपांचें पुस्तक. शणै गोंयबाबां वयल्या बरपांचेंय एक पुस्तक... एक एक 'प्रॉजेक्ट'घेवन बसप, तडीक पावोवप. ललीत बरपां उजवाडा हाडलीं नात जाल्यार कांय जावपाचें ना. भासविज्ञानाच्या संशोधनाच्या मळार कोंकणीक म्हजी खरी गरज आसा अशें परतें परतें दिसत रावता हालीं. तातोच जागयता काय देवा म्हाका?

**■ पणजी, ५ जुलै २०१२**

पुस्तक प्रकाशन. तयारी माथ्या वेल्यान खांदार आयल्या. आमंत्रणांय बोवाळान धाडलीं. कांय जाण उल्ल्यात आसतलें... तातूंत तखडअचो बोवाळ, पुपूनाचें ॲडमिशन आनी SPT-IL प्रॉजेक्ट. ज्योतीच न्हय, हनुमंतूय सांगता, 'मॅडम, आतां हो तुजो प्रॉजेक्ट.'खंय तरी मनांतल्यान हांव प्रॉजेक्टा भायरूच शें आसा. दिसता, विद्यापीठांत हांव एकलेंच भासविज्ञान शिकिल्लें आसां म्हणटकच हाचो फायदो प्रॉजेक्टाक - कोंकणीक - मेळूंकूच जाय. पूण हें म्हजें फिल्ड न्हय. समाजभास - विज्ञानाच्या मळार म्हज्यान खऱ्यांनीच कितेंय दिवं येता. मदीं मदीं जीव घुस्मट्टा...

काल भालचंद्र मुणगेकराच्या 'मी असा घडलो'पुस्तकाच्या हेमान केल्ल्या अणकाराचो लोकार्पण सुवाळो जालो. पुस्तकाच्यो अकरा आवृत्त्यो आयल्यात खंय. लेखक दलीत. पूण कोणाच विशीं कसलीच कोडसाण नासतना बरयलां खंय पुस्तक. वाचचें पडलें. मूळ मराठीच वाचतलें म्हणटां.

पुंडलीकबाब मेळिल्लो.म्हणूंक लागलो साहित्य अकादेमीच्या सल्लागार मंडळाची निमाणी बसका (फाल्यां कुंदापूर दवरल्या ती); कशेय बशेन पाव. परां मागीर गाडी धरुन परतें यो. तुज्या प्रोग्रामाक पावतलें.

इतली शक्त जिवांत ना. फाटींत तरी... पन्नास वर्सांचें कशें वागप आतां - 'वयाचो मान राखून'!

व्हिजा खातीर मंगळारा कोंसुलातींत गेल्लीं. उटंगारांचो पावस. तीन-साडेतीन वरां चिप्प भिजलीं - उब्यांनी. पाड पडूं तें पोर्तुगाल, जालें गुजरात्यांच्यो झुंडी. खंयचें दामांव आनी दीव घेतलें काय जालां आसतलं पोर्तुगेजांक.

आज आय् ए एस् अधिकाऱ्यांक म्हजें व्याख्यान जालें. 'नामा'चेर. तांकां भास शिकोवपा बदला व्याकरणाचेर व्याख्यानां कित्याक दवरल्यांत, समजना. सुके काश्टेन पेंवंक शिकयल्ले वरी...

**■ २२ जुलै २०१२ मुंबय विमानात...**

काल पुपूनान म्हळें, मम्माक सुटयेची गरज आसा... हांव तोखणायेन हांसलें.

तेरा वर्सांची परतून पोर्तुगालाक वतां...

फाटले कांय दीस हिसपा भायर काम केलें. म्हजे म्हाकाच अजाप जालें. भंयूय दिसलो. रब्बर इतली ताणप बरोबर? तुटूं येता केन्नाय... रातीं न्हिदूच पडलिना केदो वेळ. तीन जावन गेल्लीं. हुस्को सेमिनारांत मंडपाच्या पेपराचो. खूब जाणांक असल्या वेळार फकत कंडो हालयतना पळेतां. म्हजें अशें केन्नाच जावंक जायना. पेपर बरो जाला. पूण आनीक मातसो पॉलीश करुं येतालो. असल्या वेळार इंग्लीशीची आडखळ जाणवता. Not my cup of tea! काय हांवूच मुद्दाम ह्या घराच्या हुमऱ्यारूच रावतां, भितर सरना...?

सुषमा आमकां मेळूंक विमानतळार आयलें. आमकां आपल्यागेर घेवन गेलें, परतेंय विमानतळार पावोवंक आयलें. ताणेंय म्हळें, मदीं मदीं सुशेग घेवंक लाग - तुकाच मागीर नवे उमेदीन काम करूंक जमतलें.

बरें दिसलें मेळून ताका...

ॲल्केचो फोन आयिल्लो येदोळ. म्हणटा, जमता जाल्यार येवन वच बर्लिनाक. वचप? कळना.

**(मुखार चलता)**





माधव बोरकार
९४२०२२२८७६

प्रोफेसर गणपत विनायक कंटक आज आशिल्ले जाल्यार शंबर वर्सांचे आसतले आशिल्लें.

प्रो. कंटक म्हजे कोण लागतात हांचो हांव विचार करतां. आमचे मदल्या नात्याचो अर्था लावपाचो हांव यत्न करतां. सगळ्यांच जापो मेळटाच अशें ना. नातीं रगताचीं आसतात तर कांय नातीं वेगवेगळ्या संबंदांतल्यान जुळिल्ली आसतात. गूढ भावनेन जुळिल्लें नातें हें आनी वेगळेंच आसता. अशें नातें हें अनेक पदरी. सारस्वतांमदीं नातीं हो एक वेगळोच अभ्यासाचो विशय. दोन सारस्वत मागीर ते उबे आसूं वा आडवें एकठांय बसून उलयतना तांचे मदी आशिल्लो हो नात्याचो धागो मेळू येता. ते खातीर घडये चार पांच पिळग्यो फाटीं वच्चें पडूं येता. आनी खंय ना खंय तरी नातें मेळूं येता. पूण प्रा. कंटकाचे बाबतींत हें नातें म्हाका खंय दिसना. तरी आसतना आमी एकमेकांच्या एकदम लागीं आयले. एक आगळे ओडीन. आमचे मदीं आशिल्ले पिरायेचें अंतर कातरून...

१९६९ वर्सा म्हजो पयलो कविता संग्रह प्रसिद्‌ध जालों तेन्ना हांव पिपल्स हायस्कुलांत आठवेच्या वर्गांत आशिल्लों. त्या संग्रहाची प्रत हांवें आमचे प्राचार्य मंगेशबाब सुर्लकार हांकां भेट दिली. कांय दिसांनी म्हाका आमच्या स्वरुपा ठाकूर टिचरीन म्हळें, तूं आमच्या गणपतमामाक मेळ. पूण हो गणपतमामा कोण हें म्हाका खबर नाशिल्लें. मात केन्नाय म्हाका पिपल्साच्या वाचपघरांत वा स्कुलाच्या तांबड्या बिल्डींगे कडेन उबी आशिल्ली एक व्यक्ती दिसताली. मध्यम उंचाय, धवो बुशकोट, निळें काल्सांव आनी दोळ्यांर रेबन वक्ल. चंन्यावेली नुरा बरीच गंभीर आनी उग्रशी. हे व्यक्तिक केन्ना हासूंक येता काय कितें असो म्हाका प्रश्न पडटालो. मुखार तिचे कडेन म्हजो सबंध येतलो हाची म्हाका तेन्ना कल्पना नाशिल्ली. एक दीस शंकर रामाणी आनी हांव पणजेच्या पोस्ट ऑफिसा कडल्यान वतना तीच व्यक्ति म्हाका दिसली आनी रामाण्यान ते व्यक्तिक हडकून म्हजी वळख करून दिली. 'माधव बोरकार तो तूं?' अशें म्हणून ती व्यक्ति म्हजे कविते विशीं उलोवपाक लागली. म्हाका कळ्ळें बेबीताईन म्हाका मेळपाक सांगिल्लें तो हो गणपतमामा. फ्रेंच आनी पुर्तुगेज भासांचो प्राध्यापक प्रो. ग. वि. कंटक. ते सांतिनेझ हांगा 'स्वाती'त रावपाक वच्चे पयलीं कांय काळ मळ्यांतल्या विश्वनाथ दुकळो हांच्या

बिल्डीगेंत भाड्याक रावताले. रामाणी आनी हांव एक फावट तांगेर थंय गेल्ले ताची म्हाका याद आसा.

प्रो. कंटकाचें कुटूंब मडगांवचें. थोडे कंटक उतड्ड्या आसात. पूण तांचो आनी ह्या कंटकांचो तसो कांयच सबंद ना. तांचे दायजीपण आतां सोपलां. प्रोफेसराचें मुळावें शिकप मडगांवां जालें. ते जातकच हुशार आनी वेगळे तरेन विचार करपी. ल्हानपणा सावन हो तांचो गूण दिसतालो. आपले विशीं ते केन्नाच कितेंच सांगी नाशिल्लें. पूण चुकून केन्नाय उलोवपाच्या ओगांत कांय तपशील तांच्या तोंडांतल्यान भायर सरताले. एक खबर तांणी म्हाका सांगिल्ली ती अशी. सेगुंदग्राव्हाचे परिक्षेक तांणी चित्रकलेच्या पेपराक पिस्तोलाचें चित्र काडलें. आनी ताका नांव दिलें 'रिव्होल्त'. तांच्या ह्या चित्राचो परिक्षक मंडळान कौतुक केलें. तांकां चित्रा बरबरूच तांणी दिल्ल्या नांवांत वेगळेंपण दिसलें. तांणी तशी चित्रकला केन्ना केळयली ना. पूण नेमाळ्यांत छापून आयिल्लें चित्र तांकां आवडलें जाल्यार तें कापून काडून संग्रहांत दवरतालें आनी तातुंतलें चड आवडिल्लें अर्थपूर्ण चित्र फ्रेम करून वण्टीर लायताले. श्रेष्ठ स्पॅनिश चित्रकार मिरो हाचें एक सादेंच पूण सुंदर चित्र तांचे कडेन आशिल्लें. तेंय फ्रेम करून तांणी वण्टीर लायिल्लें.

प्रोफेसरान लिसेव केलो तोय पणजे रावन. मुळांतूच तीख बुद्धीचे आशिल्ल्यान सान पिरायेचेर तांणी ह्यो परिक्षा दिल्यो. दोन वर्सांचे शिकप एका वर्सा अशे गतीत ते सात वर्सांचो कोर्स पांच वर्सां भितर करूंक पावले. आनी परत सेत-आमाम तांणी सिंएस आनी लेत्र असो केलो. तांकां जशी भासांनी गती आशिल्ली तेच प्रमाण फिजिक्स, गणीत सारकिले विशय तांकां आवडटाले. दोनूय विशयांत पारंगत आशिल्ले आडवादानूच पळोवपाक मेळटात. तांच्या पुस्तकांच्या संग्रहांत कविता आनी गणीत एकठांय दिसतालीं. आपल्याक खरी इंजिनियरिंगची आवड पूण परिस्थिती अणुकूल नाशिल्ली अशी खंत ते केन्ना केन्नाय म्हजे कडेन व्यक्त करताले. पूण अशें आसलें तरी जो व्यवसाय वांट्याक आयलो तो आपणे मन लावन आनी जीव घालून केलो अशेंय तें म्हण्टाले.

त्या काळार मध्यम वर्गांतल्या समाजाची तीव आवतीकाय आशिल्ली. भाटां बेसां आसलीं तरी हातांत जाय तसो आनी जाय तितलो पयसो घोळ नाशिल्लो. घरांत खावपी तोंडांय चड आसतालीं. ताका लागून इत्सा आसुनूय भुरग्यांक जाय तशें शिक्षण दिवपाक जम नाशिल्लें. घरांतलो व्हडलो चलो आपलें शिक्षण सोडून भावंडांचीं शिक्षणां करपाक वावुरतालो. ताका लागून तार्चीं फुडें शिकपाचीं सपनां आनी सगळ्यो इत्सा करपून वताल्यो. विनायकबाबालें तीन चले आनी चार चलयो अशें व्हडलें कुटूंब. ते कस्टम खात्यांत काम करताले. घरची तशी गडगंज इस्टेट बी कांय नाशिल्ली. तांणी चलयांक बऱ्या घरांत लग्न करून दिल्ल्यो. एकली प्रि. सुर्लकाराची घरकान्न तर दुसरी रामचंद्र कैसऱ्याक दिल्ली. एक दिवचले सरदेसायांगेर आनी एकलीं दणायतागेर पडिल्ली. मालिनी ही दणायतागेर दिल्ली मात खूप भुरगेपणांत भायर पडली. प्रोफेसराक तिची केन्ना केन्ना याद जाताली. प्रोफेसरा फाटलें भाव शिकताले. घनाबाब दोतोरकी  शिकतालो तर भवानीशंकर हो कॉलेज करी. म्हण्टकच खर्चाचो ताळेबंद घालपाक कुटुंबाक कितले कश्ट पडटाले ताची कल्पाना आमचे पिळगेक येतली. पूण आतांचे पिळगेक ताची कल्पना आसचीच ना.

१९३६ वर्सा मंगेश फोंडू सुर्लकार ह्या विशींतल्या तरणाट्यान एका नवे इंग्लीश शाळेची बुन्याद घाली. तांकां पणजेंतले सगळे लाला सुर्लकार म्हूण वळखताले. ते म्हापशेंच्या गुंडू सिताराम आमोणकाराचे विद्यार्थी आशिल्ले. पणजे शारांत तेन्ना कृष्णराव केणी हे मॉर्डन स्कूल हें इंग्लीश शिक्षण दिवपी एक शाळा चलयताले. जांका नोकरे खातीर गोंयां भायर वचपाक जाय आशिल्लें ते मॉडर्नांत शिकताले. हे शाळेंत शिकिल्ले भुरगे फुडाराक गोंयां भायर वचून व्हडल्या पदांर पावले. तातुंतलो एक शंकर केशव बोरकार. तो भारताचो ड्रग कंट्रोलर जालो. सादारणपणान विसाव्या शेकड्याच्या तिसऱ्या दसका सावन गोंयकार भुरगें इंग्लीश शिक्षणा कडेन वचपाक लागले. कांय जाण लिसेंव करून मॅट्रिक करताले आनी फुडलें शिकप घेवंक आनी नोकरे खातीर भायर वताले. पणजें तेन्ना सरकारी लिसेव आशिल्लो आनी तेच भशेन खासगी लिसेव आशिल्ले. इंग्लीश शिक्षण दिवपी आनीक एक शाळा आसची अशें तांकां दिसून सुर्लकारान ही नवी शाळा सुरू केली. सुरवेक थोडेंच भुरगें आशिल्लें. आतां रुझ द औरे रस्त्याचेर मेरी इम्यॅक्युलेट ही शाळा आसा ताका तेंकून एक घर आशिल्लें थंय शाळेचो वर्ग भरतालो. कांय काळा उप्रांत शाळेचें स्थलांतर लागींच आशिल्ल्या तीन घरांनी जालें. तें घर मोडून आतां थंय व्हड इमारत उबीं आसा. पूण ती वास्तू मोडचे पयली त्या घराच्या दरवंठ्याचेर शाळेच्या नांवाची अक्षरां दिसतालीं. तेन्ना ह्यो शाळा सरकाराच्या अनुदानाचेर चल नाशिल्ल्यो. विद्यार्थी फी दितात तांचेर सगळो खर्च भागोवचो पडटालो. ना जाल्यार कोणूय तरी बरो मागतो आपले पयशे घालतालो. वा देणग्यो दितालो. आतांचे भशेन शिक्षणाक बाजारी रूप येवंक नाशिल्लें. शिक्षण हें एक व्रत कशें समजून शाळा चलयताले. पिपल्स चलोवपा फाटल्यान प्रिन्सीपल सुर्लकाराची हीच भावना आशिल्ली. विद्यार्थ्यांनी बरें शिकून बरे आदर्श नागरीक जावचे अशी तांची तळमळ आशिल्ली. कोणूय भुरगो परिक्षेंत पास जालो ना जाल्यार तांकां वायट दिसतालें. आज काळ कितलो बदल्ला हाची जाणीव हे क्षेत्राचेर एक नदर मारल्यार लक्षांत येतलें. शिक्षणाची उदरगत जाल्या काय अधोगत असो प्रस्न पडटा आनी मन खंती जाता. बऱ्योच गजाली आयत्यो मेळिल्ल्याचो तो परिणाम अशेंच म्हणपाक जाय.

१९४० वर्सा म्हळ्यार शाळा सुरू जावन चार वर्सांनी प्रो. कंटक पिपल्सांत शिक्षक म्हूण रुजू जाले. आनी प्रि. सुर्लकारांक बळगें मेळ्ळें. तेन्ना ते फकत २३ वर्सांचे तरणाटे. तांकां सेत-मान आशिल्ल्यान



सरकारी नोकरी मेळटली आशिल्ली. खंयच्याय नोकरे खातीर कुंकुर्साक बसल्यार ते सहज पास जावप कठीण नाशिल्लें. अशें आसुनूय तांणी शिक्षण क्षेत्रा सारकिली कांट्या खुंट्यांची वाट धल्ली आनी व्यव्हाराचो विचार केलो ना. कांय वर्सां उप्रांत प्रोफेसरान पिपल्स हायस्कुलाची जल्मकथा आनी प्रि. सुर्लकार हांचें शिक्षणीक मळार दिल्ले योगदान हाचेर एक लेखमाळ 'नवप्रभा'त बरयली. पूण आपले नांव मात बरयतना लेखक म्हूण टोपण नांव घेतलें. येणावळ म्हणपा सारकी नाशिल्ल्यान सुरवेक शाळेचीं बारीक सारीक कामां तांची भयण ओंवळ मावशी करताली. हे शाळेच्या विद्यार्थ्यांचें व्यक्तिमत्व घडोवपांत ओंवळ मावशेचोय मोलाचो वांटो आसा. तिचें रीण मान्य करपी त्या काळावेले कितलेशेच विद्यार्थी म्हाका मेळ्ळ्यात. आज अश्यो व्यक्ती मेळनात.

प्रो. कंटक शिकोवंक लागतकच शाळेक एके तरेची घटाय आयली. विद्यार्थ्यांचो आंकडोय वाडपाक लागलो. पणजेच न्हय तर आशीकुशीकच्या गांवांतले भुरगे पिपल्सांत येवपाक लागले. सांगे सारकिल्ल्या पयसुल्ल्या वाठारांतले भुरगें पणजे क्वार्त करून वा म्हाम ाय कामतीले माळयेर रावन शिपाक येवंक लागले. कंटक फ्रेंच आनी पुर्तुगेज ह्यो दोन भासो शिकवपाक फिशाल आशिल्लेच. पूण गरजे प्रमाण कांय हेर विशय शिकवपाक ते फाटीं रावं नाशिल्लें. आज काल ट्यूशन संस्कृताय रुजून ती फोफेल्या तशी परिस्थिती तेन्ना नाशिल्ली. अभ्यासांतल्यो अडचणी समजून घेवपाक विद्यार्थी सांजवेळचे शाळेंत येताले आनी परत वर्गूचसो भरतालो. पूण तांणी केन्नाच कसली अपेक्षा केली ना विद्यार्थ्यांनी शिकपांत फुडें वच्चें इतलीच तांची मोख आसताली. आज जे शिक्षणाक बाजारी रूप आयलां तें पळयल्यार हांव सांगता तें काणयो दिसूं येता. प्रोफेसरान तेन्ना जीं बियां रोयलीं तीं फुडाराक रुजून आयलीं... केन्ना केन्ना कांय विद्यार्थ्यां कडेन शाळेची फी भरपाक लेगीत पयशे नासतालें. अश्या विद्यार्थ्यांची फी लेगीत तांणी कांय जाणांची भल्ल्या. जो पगार तांकां शिक्षक म्हूण मेळटालो तो चड नासतालो. पूण आपली एक लागणूक अशें समजून तांणी आपलें कर्तव्य केलें. एका पयशाचीय अपेक्षा धरी नासतना हे विशेश. आयच्या काळांत असले व्यक्तिंक अव्यव्हारी असो छाप आम चो समाज मारतलो. पूण प्रोफेसरांक ताची कसलीच खंत नाशिल्लीं. विद्यार्थ्यांच्या शिक्षणीक उदरगतींत तांणी आपलें समाधान मानलें. आनी ह्या समाधानाचें पयश्यांनी मोल करूंक येना.

१९४० ते ५२ मेरेन तांणी पिपल्स हायस्कुलांत अध्यापन केलें. आपले जिणेंतलो हो म्हत्वाचो काळ अशें ते सदांच म्हणटाले. ह्या काळांत तांकां जे विद्यार्थी मेळ्ळे तशे मुखार केन्नाच मेळ्ळेना अशें तांकां दिसतालें. तांच्या हाताखाला शिकून व्हडल्या पदांर पाविल्लें विद्यार्थी खूप आसात. रवीन्द्रबाब केळेकर कांय काळ लिसेव सोडून पिपल्सांत मॅट्रीक करपाक आयिल्ले. पूण तांचें शिक्षणाचेर लक्ष नाशिल्लें म्हणून तांकां मॅट्रिकेचे परिक्षेक बसपाचो फॉर्म प्रि. सुर्लकारान दिलोना. ही खबर खासा रवीन्द्रबाबाच्या तोंडांतल्यान शाळेच्या सत्तराव्य वाडदिसा जाल्ल्या खाशेल्या सुवाळ्यांत आयकुपाक मेळ्ळी. १९४२ वर्सा शांता आत्माराम बोरकार हिणें मॅट्रिकेचें परिक्षेंत घसघशीत येस मेळयल्लें. फुडाराक तिणें दोतोर जावन मुंबय शारांत नांव जोडलें. जयवंत यशवंत तळावलेकार लंडन स्कूल ऑफ इकॉनोमिक्स हांगा पदवी मेळोवन टेल्को हे टाटा कंपनीत व्हायस चेअरमनाच्या पदार पावलो. तर डॉ. जयवंत सरदेसाय किटकशास्त्रज्ञ जालो. जयवंतबाब आजूय प्रोफेसराच्या फ्रेंच शिकोवपाची याद काडटा. तांणी शिकयल्ले फ्रेंचीचेर आपणे कॅलिफोर्नियाक शिकवण्यो करून थोडी जोड केली अशें तो सांगता. ते भायर बाबला विनायक सिंगबाळ तांचे विद्यार्थी. रवीन्द्रबाबा भशेन सिंगबाळ लिसेव सोडून मॅट्रिक करपाक पिपल्सांत आयिल्ले. टाटा इन्स्टिट्यूट ऑफ फंडामेंटल रिसर्च हे संस्थेंत ते गणिती आशिल्लें. एक फावट मे म्हयन्याचे सुटयेंत सिंगबाळ पणजे आयिल्ले कडेन प्रोफेसर आनी तांची भेट जाली तेन्ना तांच्या ह्या विद्यार्थ्यांन कसो आदर व्यक्त केलो ताचो हांव गवाय आसा. ते भायर डॉ. शरद वैद्यासारकिले सर्जन तांकां खूप मानताले. डॉ. डायस हो न्युरोलॉजिस्ट असोच तांचो विद्यार्थी.

प्रो. कंटकाच्या शिकवपाचे कले विशीं मोट्या आदरान आनी भक्तिभावान उलयताले ते नारायण व्यंकटेश देसाय. आज आमी इंटरडिस्प्लिनरी टिचिंग विशीं उलयतात. कंटकाचें शिकवप त्या काळांत हे संकल्पनेक धरून आसतालें. फ्रेंच आनी पुर्तुगेज सारकिल्यो भासो शिकयतना इतिहास भूगोल आनी व्युत्पत्तीशास्त्र ह्या विशयांक ते स्पर्श करून वताले. एखाद्री पुर्तुगेज कविता शिकयतना तसल्याच आशयाची मराठी कविता आसल्यार तिचेर ते भाश्य करताले. एक फावट खंय आवय ह्या आशयाची कविता शिकयतना तांणी कवी यशवंताचे 'स्वामी तिन्ही जगाचा आईविना भिकारी' ही कविता वर्गांत वाचून दाखवन दोनूय कवितांमदलें सारकेंपण दाखयलें. नारायण देसायाच्या उतरांनी सांगपाचें जाल्यार तें एक रसाळ किर्तन आशिल्लें. शिक्षकान विद्यार्थ्यांक आपूण जाणा तें दिवन तांचें गिन्यान वाडोवचें हो तांचो हेतू आसतालो आनी तळमळ आसताली. एक फावट वर्गांत येवन शिकवप सुरू केलें काय प्रोफेसरांक वेळाचें भान उरनाशिल्लें हो तांच्या विद्यार्थ्यांचो अणभव. आज शिक्षणाच्या मळाचें चित्र कितलें वेगळें आसा हें वेगळें आनी सांगपाची गरज ना. पन्नास साठ वर्सां पयलींच्या शिक्षकांक वेळार पगार मेळटलो हाची शास्वती नासताली. आनी मेळटालो तो पगार संवसाराक पाव नाशिल्लो. तरी आसतना शिकवप म्हळ्यार एक व्रत कशें ते मानताले. तो काळूच वेगळो आशिल्लो. प्रो. कंटक हे शिकवपाक व्रत मानप्यांतले आशिल्ले. आयचे पिळगेच्या शिक्षकांक ह्यो काणयो दिसतल्यो. शिकवप कमी आनी व्यव्हार चड अशें आयचें चित्र आसा. तें पळोवन प्रोफेसर अस्वस्थ जाताले. आमी कसली पिळगी घडयतात असले निर्शेवणेचे उद्गार तांच्या तोंडांतल्यान

भायर सरताले. आज शिक्षणाचो जो बाजार जाला जावं मागीर तें शाळेच्या पांवड्यार वा विद्यापीठाच्या हें वास्तव अस्वस्थ करपी आसा. आदले पिळगेक तें खरपणान जाणवतालें. आज ती पिळगी काळाआड गेली.

भाशेचो खरो शिक्षक ते भाशेचे निखटें व्याकरण शिकयना तर आपल्या शिकपांतल्यान तिचें अंतरंग उक्तें करून आत्म्याचें दर्शन घडयता. प्रो. कंटकानी आपल्या विद्यार्थ्यांक फ्रेंच सारकिले विदेशी भाशेचीं गुपितां फोडून सांगलीं. ते भाशेचीं दारां उक्तीं करपाची चावी तांच्या हातांत दिली. भाशेचो खरो शिक्षक तसो आसपाक जाय. हे विशीं दोन अणभव हांगा सांगपाक जाय. डॉ. आनंद काशिनाथ कामत हे प्रोफेसरांचे मुंबयच्या सिद्धार्थ कॉलेजींत विद्यार्थी जाले. मुखार फ्रेंच भाशेंत एम.ए. आनी डॉक्टरेट ह्यो पदव्यो तांणी घेतल्यो. ते भवन्स कॉलेजींत फ्रेंचीचे प्रोफसर जाले. तांणी खूपशे मराठींतलें दलित साहित्य फ्रेंच भाशेंत अणकारलां. आनी तें फ्रांसातल्या नाम नेच्या प्रकाशकांनी उजवाडायलां. त्या निमतान तांकां फ्रांस देशाचो प्रवास बऱ्याच फावट घडलो. लक्ष्मण माने हांचें 'उपरा' हें आत्मचरित्र ताणी अणकारींत केल्लें पयलें पुस्तक. ताची भेट प्रत आपल्या गुरूक धाडटना तांणी बरयलें 'तुमी म्हाका फ्रेंच भाशेची गोडी लायली ताचें हे फळ'. पयश्यांनी मोल करूंक येना अशें समाधान प्रोफेसरांक ह्या उतरांनी मेळ्ळें. तशेंच तांचो आनीक एक विद्यार्थी फ्रेंच भाशेच्या अभ्यासाक लागून एके भौराष्ट्रीय कंपनीत खूप वयल्या पदार पावलो. हरशीं तो रसायनशास्त्राचो विद्यार्थी आशिल्लो. प्रो. कंटकाच्या शिकवपाक लागून फ्रेंच भास घेवन मुखार शिकचें असो आपलो विचार आशिल्लो अशें लेखक विष्णू जयवंत बोरकार हांणी 'कंटक आणि ब्लांयड शुट्स' ह्या 'मौज' दिवाळी अंकांत प्रसिद्ध जाल्ल्या लेखांत बरयलां. प्रोफेसरान अशे तरेन फ्रेंच भाशेचो मोग आपल्या विद्यार्थ्यांमदीं जागयलो आनी रुजयलो. हरशीं ह्या काळांत ते आपल्या निर्शेवणेचे अवस्थेंतल्यान वताले. ताका कितली तरी कारणां आशिल्लीं. पूण विद्यादानाच्या वावरांत तांणी आपल्या वांट्याक आयिल्लीं सगळीं अपेसां आनी दुख्खां विसरायेर घालीं.

बारा वर्सां पिपल्स हायस्कुलांत शिकयल्ल्या उप्रांत १९५२ वर्सा ते मुंबय आयले आनी कॉलेजीचें शिकप घेवपाक लागले. कला शाखा आसली तरी गणिताचे दोन पेपर तांणी घेतिल्ले. खरें म्हळ्यार गणितांत अणवे आशिल्ले कलेच्या फांट्याक वतात. पूण मुळची गणिताची आवड आनी त्या विशयांत रस आशिल्ल्यान तांणी गणीत घेतलें. एके खासगी विम्याचे कंपनीत तांणी नोकरी धल्ली. मुंबयच्या कांय कॉलेजीनी नोकरी करतल्यां खातीर सकाळचीं लेक्चरां आसतालीं. ताचो लाव खूप जाणांक जातालो. सकाळचीं कॉलेज करून कांय जाण आपलें शिकप पूर्ण करपाक पावले. चड करून सिद्धार्थ कॉलेजींत अशी सोय आशिल्ली. शिकवपांतल्यान विम्या सारकिल्या रुक्ष वातावरणांत वावुरतना प्रोफेसराक कितलो त्रास जाला आसतलो ताची कल्पना करूं नज. त्या काळाची याद ते केन्नाच काडी नाशिल्लें. एखाद्री फायल काम जातकच घट्ट बंद करून कडेक काडून दवरतात तशेंच त्या दिसांची याद तांणी आपले जिणेंतल्यान पुसून उडयल्ली. वि. ज. बोरकारान तांकां एक फावट तांच्या ह्या नव्या अवतारांत पळयतकच कितें दिसलें ते विशीं 'कंटक आणि ब्लांयड शुटस्' ह्या लेखांत बरयलां. पूण तांचो एक गूण घेवपा सारको आशिल्लो. शिकवपाचें काम आसूं वा विम्या कंपनींतलें काम आसूं वांट्याक आयिल्लें काम चोख करप हो तांचो स्वभाव आशिल्लो. घेवपा सारको गूण हो. हो शिस्तीन करपाचो गूण खूप थोड्यांच ठांय आसता. कोणेंय हो गूण घेवपासारको. हांगा तांकां बुद्धिक पोसवण दिवपी वातावरण मेळ्ळें. वेळांत वेळ काडून फोर्ट वा दादर हांगा जावपी चर्चा आनी नामनेच्या वक्त्यांची उलोवपां ते आयकताले आनी कांय काळ तरी जिणेंतले रखरखीत अणभव विसरताले. ह्या काळांत तांचे कांय विद्यार्थी मुंबयच्या वेगवेगळ्या कॉलेजांनी शिकताले तेय तांकां अदीं मदीं दोडटाले.

१९५८ वर्सा ते एम्.ए. जाले. फ्रेंच आनी पुर्तुगेज हे तांचे विशय आशिल्लें. तांच्या संग्रहांतलीं ह्या विशयांवेलीं पुस्तकां पळयल्यार तांच्या अभ्यासाचो आवाठ लक्षांत येता. ही परिक्षा ते पयल्या वर्गांत पास जाल्ल्यान तांकां फ्रेंच सरकाराची पॅरिसाक वचून मुखावेलें शिकप घेवपाक फेलोशिप मेळ्ळी. पूण आयुश्यांत आयिल्लया कोडू अणभवांक लागून तांची उमेद विरजल्ली. हीच संद तांकां ऐन उमेदीचे पिरायेर मेळिल्ली जाल्यार ते हातांतल्यान सोडची नाशिल्ले. केन्नाय ते तशें उलोवन दाखयताले. जें वेळार मेळपाक जाय तें तशें मेळप ना हें एक एकल्याचें प्राक्तन आसता.

प्रोफेसरांक आपल्या भाचरांचो मोटो अभिमान आनी कौतुक. डॉ. नारायण रामचंद्र कैसरो हो तांचो भाचो. एकदम रुबाबदार व्यक्तिमत्व आनी बुद्धीन तीख. ताणें पुर्तुगालाक वचून व्हडलें नांव मेळयलें हाची ह्या गणपतमामाक खूप व्हडवीक आशिल्ली. धीशभाई एक उत्तम शिक्षक हाचेंय तांकां कौतुक आशिल्लें. जें कितें बरें आसा तें पळयतकच खोशयेन तांकां उचंबळून येतालें. पूण तुस्त केलीच जाल्यार ती अस्वडी करप हो तांचो सभाव आशिल्लो.

परत ते शिक्षणाच्या मळार आयले. मुंबय विद्यापीठांन तांची नेमणूक पणजेच्या पदव्युत्तर केंद्रांत फ्रेंच आनी पुर्तुगेज भासांचे रिडर म्हूण केली. तांच्या मनासारके आनी आवडीचे काम तांकां मेळ्ळें. प्रोफेसर खोशी जाले. आतांच्या विद्यार्थ्यांक विद्ये परस पदवेची चिंता अशी तांकां खंत भोगताली. खूप फावट तांकां पळोवन पिपल्सांतल्या आदल्या विद्यार्थ्यांची ते याद काडटाले. विद्येच्या मळावेलो हो अधोगतींचो काळ तांकां अस्वस्थ करतालो. म्हयन्याचे पयले तारखेक मेळपी पगारा खातीर सेंटरांत येवचें असो प्रस्न तांकां पडटालो. आनीकूय खालावल्ली आयची परिस्थिती पळोवन तांकां कितें दिसतलें आशिल्ले ताची म्हाका कल्पना करप कठीण दिसता. आज काल भारतांतल्या विद्यापिठांनी विद्या सोडून सगळें आसा.



प्रोफेसर कंटकांक दोन व्यसना आशिल्लीं. एक पुस्तकांचें आनी दुसरें सिगार ओडपाचें. तांचो आपलो असो वेंचिक पुस्तकांचो संग्रह आशिल्लो. आनी पुस्तकांची काळजी कशी कशी घेवचीं आनी तीं कशी दवरचीं हें तांचे कडल्यान शिकपा सारकें आशिल्लें. पुस्तक घेतकच ताका ते बटर पेपराची कव्हरां घालताले, ना जाल्यार खाकी रंगाचो कागद वापरताले. पुस्तकाचीं पानां परतुपाची लेगीत तांची तरा आशिल्ली. अळंगपणान पानां परतिल्यार पुस्तकांचें आयुश्य वाडटा अशें तें सांगतालें. हांव तांगेर इतलो वचपी पूण एखाद्रे पुस्तक वाचूंक मागपाचें धाडस म्हाका केन्ना जालेंना. तांणीच केन्नाय पुस्तक काडून म्हाका वाचपाक दिवंचें आनी तें तुकाच दवर अशें सांगचें. चड करून पेंग्वीन मॉडर्न पोएट्स ह्या माळेंतलें संग्रह म्हाका तांणी भेट दिलें. तांकांच लागून म्हजी सिजार पाव्हेज, आपोलिनेअर आनी व्हादिमिअर हॉलां सारकिल्या कवींकडेन वळख जाली. क्वाझिमोडो हो इटालियन कवी म्हाका तांच्याच संग्रहांत भेटलो. १८९० वर्सा प्रसिद्ध जाल्लें फ्रेंच भाशेचें व्याकरण तांच्या संग्रहांत आशिल्लें. हे प्रतिचेर रँ. र. पु. परांजपे हांची सय आसा. तें तांणी १८९२ वर्सा कँब्रिजाक शिकतना घेतिल्लें. ताका लागून हें प्रतिक मोल चड. आतां ही दुर्मीळ प्रत म्हज्या संग्रहांत आसा. प्रोफसरांक ही प्रत मुंबय फुटपाथार मेळिल्ली.

एका वेळार ते खूप सिगार ओडटाले. दिसाक तांकां कांय ना म्हळ्यार विल्स ह्या ब्रँडाचीं दोन पाकिटां लागतालीं. दनपारचें जेवण जातकच एक सिगार तांकां लागतालेंच. कांय नाय पस्तीस वर्सांचे व्यसन एके रातयांत सोडलें. उतार वयांत तांकां बिण्णाचो त्रास जावंक लागलो. ते खातीर दोतोरान तांकां सिगार ओडप कमी करपाक सांगलें. तर तांणी तेन्नाच सिगार सोडलें तें परत तोंडांत धल्लें ना. तांच्या स्वभावांत एके तरेचें हट्टीण आशिल्लें. एखाद्री व्यक्ती कांय कारणांक लागून तकलेंतल्यान देंवली काय ती सदांकाळ देंवली म्हूण समजुपाचें. तो मागीर तांचो लागींचो सोयरो जावं वा इश्ट. आपल्याक भावनीक सबंद राखून दवरपाक जमना हाची तांकां जाणीव आशिल्ली. पूण सभावाक वखद नासता न्हय रे अशें ते म्हाका केन्ना केन्ना म्हण्टाले. ताकाच लागून तांचे कडेन उलयतना चत्रायेन उतरां वापरचीं पडटालीं. तांची आनी म्हजी इश्टागत टिकून उल्लीं ताचें कारण हेंच आसुंये.

प्रो. कंटकान म्हाका कितें दिलें आनी हांवें तांचे कडल्यान कितें घेतलें हाचो हिशोब हांव म्हज्या मनांत मांडटां. सगळ्यंत पयलीं तांणी म्हाका कशें वाच्चें तें शिकयलें. वाचनाक एक शिस्त आसची अशें तांचें सांगणें आसतालें. थॉमस हार्डी वाचतना ताचीं सगळीं पुस्तकां क्रमान वाचचीं. जमल्यार ताचेवेली समिक्षाय वाचूक काडची अशें तांचें म्हाका सांगप आशिल्लें. तांकांच लागून हांवें कांय लेखक आनी कवी पुराय वाचून काडले. पिरायेच्या १९ व्या वर्सा म्हाका वाचनाची अशी दिक्षा मेळ्ळी. दुसरें म्हजी प्रत्येक कविता वाचून ते टिका टिपणी करताले. ताका लागून म्हाका कवितें कडेन पळोवचेली नदर आयली. 'पर्जळाचें दार' हो म्हजो संग्रह हांवें शंकर रामाण्या बरबर तांकां ओपलो. ताची भेट प्रत मेळटकच तांणी भावनेन भरिल्ले एक पत्र बरयलें. तें हांवें जपून दवल्लां. हांव आकाशवाणीचे नोकरे खातीर मुंबय पावलों आनी आमचें अर्दीमर्दीं भेटप चुकले. तांचें पयली बरेच दीस हांव दिसलोन जाल्यार ते वर्षा बुक डेपोच्या वामनबाब भाटेकडेन म्हाका रकाद दवरताले. आतां येवजिल्यार म्हजे भितर तांकां फकत एक इश्ट दिस नाशिल्लो तर तांच्या पुताच्या जाग्यार दिसतालो आसुंये. अशी आपुलकी हेच भावनेंतल्यान जागी जाली आसुंये. हरशीं तांचें आनी नात्यांतल्या लोकांचे सूर जुळिल्लें हांवें पळोवंक ना. ताका कारणां कितलीशींच आसूं येता. भवानी शंकर हो तांचो धाकलो भाव मुंबय गोदरेज कंपनीत व्यवस्थापकीय पदार आशिल्लो. तो अचकीत काळजाच्या आताकान भायर पडलो. तेन्ना त्या धक्क्यांतल्यान भायर सरपाक तांकां खूप दीस लागले. मदींच ताचे यादीन ते आकूळ पिकूळ जाताले. भवानीबाब तांचो एकेतरेचो भावनीक आधार आशिल्लो.

मनश्याचें आयुश्य ताची जन्मवेळ घडयता. जायत्या घरांनी फाव ते गिरे पडल्यार ताचें जिवीत सफळ जाता. जोतिशशास्त्राचे परिभाशेंत गृहसुखाचें एक स्थान आसता. प्रोफेसराच्या कुंडलेंत त्या घरांत अनिश्ट ग्रह येवन बसलो. आनी त्या अनिश्ट ग्रहान तांकां जायते सूख मेळूंक दिलेंना. पिरायेच्या पन्नाशी उप्रांत तांणी स्वताची वास्तु घेतली. माई आनी स्वातीन तांकां मायेची ऊब दिली. जिवीतांतली कोडसाण थोडी कमी जालीं. ते रिटायर जालें तेन्ना तांकां पेन्शन बी कांय नाशिल्लें. प्रोफेसर खूप मानी. आपलीं कसलीच अडचण कोणाकूच सांगपी न्हय. पूण तांचो एक विद्यार्थी ज्याचेर तांणी मनापासून माया आनी ताका मदत केल्ली तें गुरूचें रीण तांणी वेगवेगळे तरेन फेडलें. ही गुपीत खबर म्हाका धीशभाईन सांगली तेन्ना म्हजे दोळे भरून आयले. आनी ही खबर सांगतना धीशभाईचो गळो दाटून आयलो... हें खरें पुण्याचें संचीत. कोणा एकल्या भाग्यवंताच्या वांट्याक तें येता.

१९८९ वर्सा तांकां बलायकेचो त्रास सुरू जालो. तांच्या काळजाक रगताची पुरवण करपी एक दोन शिरो भल्ल्यात म्हणपाचें तपासणेंतल्यान कळ्ळें. मुंबयच्या जसलोक ओश्पितालांत शस्त्रक्रिया करपाचें थारलें. तांचेच एक आदले विद्यार्थी थंय दोतोर आशिल्लें. तें मुंबय वचपाच्या दोन दीस पयली आमी तांची भेट घेतली आनी तांकां पांयां पडून तांचो आशिर्वाद घेतलो. ही आमची निमाणी भेट आसतली अशें हांवें सपनांत लेगीत येवजूंक नाशिल्लें. जसलोकांत तांचें ऑपरेशन जालें. पूण ते परत शुद्धीचेर आयलेच ना. ती तारीख २१ सप्टेंबर १९८९ ही आशिल्ली. शंकर रामाण्याच्या उतरांनी सांगपाचें जाल्यार दुसऱ्या संवसारांतलो 'उजवाड' पळोवपाक ते गेले.

दुसरे दिसा हांव योगिनीक हाडपाक पिपल्सांत गेलो. दिस्त म्हाका धीशभाई मेळ्ळो. ताणें म्हाका विचाल्लें, ''आरे तूं आमच्या गणपत मामाचो कोण लागतालो?'' म्हाका जाप फुटली ना.

आतां इतलें वर्सांनी म्हाका दिसता आमचे मदलें नातें शब्दापेलें आशिल्लें...



# खोशयेचो उजवाड

राधा भावे
७०२८९२१९६१

भुरगेपणांत एका दिवाळेंत कोल्हापूर गेल्ले. आजोळाक. सकाळचे 'अभ्यंगस्थान' जालें, आनी आजयेन लाडू, चिवडो, शंकरपाळी, चकल्यो, नेवऱ्यो अशा कितल्याशाच खाणांनी भरिल्ली ताटां मुखार दवरलीं. आनी म्हळें, 'करात फराळा', म्हाका अजाप. हें आनी कितें? फोव ना तर? आनी फोव ना जाल्यार दिवाळी कसली?

हरशीं खूब मजा आशिल्ली. फांतोडेर उठून, आमच्या मावश्यांनी, शेजाऱ्यांनी, दारांत 'सडाशिंपण' करून सोबीत रांगोळी घाल्ली. तरा-तरांच्या रंगांनी ती पितारिल्ली. नवें कपडे घालून कितलीशिंच भुरगीं आप-आपल्या दारांत फुगोट्यो आनी हेर फोग लावपांत गुल्ल जाल्ली. खंय तरी शेजराक बरीं पदां लागिल्लीं. सगल्या वातावरणांत एक उमेद भरून आयिल्ली.

म्हाका मात हें सगलें सिनेमांतलें कशें दिसतालें. दर एकल्याच्या दारांत सात-आठ पण्ट्यो लायिल्ल्यो आशिल्ल्यो, घरांत वीजेचे दिवे पेट्टाले. हरशीं म्हाका थंय बटण दाबलें की बल्ब पेट्टा, उजवाड पडटा हाचें अपरूप आशिल्लें. पूण दिवाळे दिसा म्हाका हें सगले मान्य जालें ना.

म्हाका म्हज्या दोळ्यां मुखार, म्हजें घर दिसतालें. फांतोडेर उठून, घरभर, आंगणात आनी त्या फुडल्या वाटेर लायिल्ल्या पण्ट्यांच्या उजवाडान उजळिल्लो आंवाट दोळ्यां मुखार येतालो. सुपारेच्या सोलींनी तेल भरून, वात दवरून ती पेटोवन, दारांत व्हावपी पाटाच्या उदकांत ह्यो पण्ट्यो सोडून, गंगेत दिवे सोडिल्ल्याचो आनंद घेत चलिल्लो आमचो बोवाळ म्हाका याद जातालो. मागीर दिवें दाखवप, जण एकल्यान आरतेच्या ताटांत खळाळ आवाज करत घाल्ली नाणी... आंगाक रगरगडून तेल लावपी चुलत आजयेचे खरखरीत हात... आवडीन तेल लावन घेता हाचीं तिका दिसपी तोखणाय... हांड्यांतलें हुनहुनीत उदक - नवो 'मोती' शाबू - ह्यो गजाली याद जावन आनी हांगा सगलें वेगळेंच देखून मन उदास जालें.

अर्थात म्हजी आजी अन्नपूर्णेचोच अवतार आशिल्ल्यान तिच्या हातची रुचीक खाणां खातना, कांय खीण म्हजी उबगण हांव विसरलें खरें. पूण जे मुखार आसा, हातांत पडलां ताचे परस, जे ना ताचीच खंत घेवन बसपाचो मनीस - सभाव म्हज्याय जिवाक वेंग मारून बशिल्लो. ताका लागून इल्लीशी खोस आनी कितलीशिंच निर्शेणी हांचे म्हज्या मनांत युद्ध सुरू जाल्लें.

कांय वेळान, सादारण णव वरांचेर, शेजार पाजारच्यो बायलो, भुरगीं, आपापल्या घरांतल्या फराळाची भरिल्लीं ताटां दिवन गेलीं, तेन्ना तर आनीकूय अजाप जालें.

खरें म्हळ्यार, आमगेर हो वेळ, न्हावन-धुवून बेकार जावन, कारीट फोडून, ते इल्लें जीभेक लावन, गोडाच्या फोवाचो नैवेद्य जातकीच घरांतल्या सगल्यांनी एकठांय बसून, खबरी मारत ते खावपाचो. आनी मागीर इस्पिकाच्या खेळांत गुल्ल जावपाचो. तर हांगा वेगळेंच चल्लां. फकत खाणांची ताटां आनी भायर फुगोट्यो, गर्नालांचो आवाज करपी भुरगीं!

दनपार चडत गेली तशी, घरच्या यादीन मन आकुळपिकूळ जांवक लागलें. आतां रांदचें कुडींत, तरां-तरांचे फोव करपाची तयारी चल्ल्या आसतली. फाटल्या सोप्यार, वावराड्यो, एका फाटल्यान एक नाल्ल फोडून सोय काततात आसतल्यों. ल्हवू ल्हवू

लोक जमूंक लागल्यात आसतलें. फुडल्या दारांत रेखिल्ली सोबीत रांगोळी आनी शेजराक रांगोळीनच बरयल्ल्या 'सुस्वागतम' पळोवन आयिल्ले लोक तांतुतली रंग-संगती, आकृती हांची तोखणाय करतात आसतले. 'हाडात मरे इस्पिकांचो कॅट' - अशें म्हणत कोणेतरी मांद्र्यो पातळयल्यो आसतल्यो. खेळगडी चड जाल्ल्यान, खेळाचे दोन-तीन मांड घाल्यात आसतले, खेळटल्यांचो बोवाळ चल्ला आसतलो.

भितर दोनूय वासऱ्यांनीं, पाट आनी केळींचीं पानां मांडून, व्हडल्यो भयणीं आनी आयिल्ल्या कांय बायलांनी मेळून त्या पानां भवतणी रांगोळी काडपाचे काम सुरू केला आसतलें. कोणेतरी दोनूय पंगतींच्या मदीं उजवाती लावन दवरल्या आसतल्यो. 'चला, बसुया न्ही' म्हणत सगल्यांक फोव खावपाक येयात असो येवकार दिला आसतलो. पंगतिंतल्या जण एकल्याक आरत दाखोवन जातकीच, श्लोक म्हणून सगल्यांनी फोव खावपाक सुरवात केल्या आसतली. मागीर खबरी, एकमेकाक आग्रो, आवडिल्ल्या गोडाच्या वा फोडणेच्या, ताकाच्या वा कडयेच्य, तिखशे वा साखरेच्या फोवांची तोखणाय चल्ल्या आसतली. ल्हान भुरगीं लाडूच जाय, शंकरपाळी जाय अश्यो मागण्यो करतात आसतलीं - हीं सगलीं चित्रां दोळ्यां मुखार येताली. आनी आपल्याक हें सगलें चुकलें या वर्साक म्हणून चुरचुरे पडटालें. कित्याक कांय आयलें हांव हांगा? अशें म्हाका जाल्लें. म्हज्या मनांतल्या निर्शेणेचें पडबिंब घडये म्हज्या मुखा मळार दिसतालें जावुये. मावश्यो, आजी विचारूंक लागलीं, 'कंटाळलीस का ग?' खरें सांगल्यार, तांकां वायट दिसतलें आनी फट तर उलोवं नज, देखून हांव ओगीच रावलें. सांज जाली की घरची याद चड येता म्हणपाचें तेन्नाच कळ्ळें...!

मावशेन दारा मुखार परत साफसफाई करून नव्यान रांगोळी काडली. बरे रंग भरले आनी थंय पण्ट्यो लायल्यो. ल्हवू-ल्हवू काळोख पातळूंक लागिल्लो. शींय खूब आशिल्लें. स्वेटर घालून शाल पांगरूनय जीव कुडकुडटालो. रस्त्यावेल्या लायटीच्या खांब्यावेल्या दिव्यांक लागून, सगल्याक चकचकीत उजवाड पडिल्लो. त्या उजवाडांत त्यो पण्ट्यो, दारांत लायिल्लो आकाशदिवो, सामकोच किण्ण दिसतालो. तो आकाशदिवोय बाबडो विकतो. शेजाऱ्यांच्याय दारांत तसलोच.

म्हज्या दोळ्यां मुखार दिवाळेच्या पंदरा दीस पयलीं, कोंडो तासून आकाशदिव्या खातीर बडयो तयार करपी म्हज्या बापोल भावाचे हात दिसूंक लागले. आपणेय एक ल्हानसो आकाशदिवो करचो, अशें म नांत येवन, 'हें हांव घेंव रे?' म्हणत बडयो फारावपी आमी धाकली भांवडांय दिसूंक लागली. तो आकाशदिव्याचो आरकटो करतना, बरी तार बी वापरून, त्यो बडयो घट्ट कशो उरतल्यो ते पळयता, तेन्नाच आमी मनांत पुडयेच्या सुतान बडयो बांदत बसतात, आनी आमचो आकाशदिवो लकडदियाब जाता हाची याद जावन म्हाका हांसो येवंक लागलो. मागीर आमचोय 'आरकटो' घट्ट करून दिरे - म्हणून आमी ताच्या कशीं फाटीक लागतात, आनी निमाणे सगले मना सारके करून घेतात हाची म्हजी म्हाकाच तोखणाय दिसूंक लागली. बऱ्यो रंगीत फोली लावन फितारिल्ले, दोन-तीन ल्हान व्हड आकाशदिवें दिवाळे दिसा आंगणांत हुमकळावन दवरतना कितली खोस भोगतां... तांतूतलो व्हडलो आकाशदिवो तर वयर झाडाक बांदिल्ल्या ऊंच काठयेर दोरयेच्या आदारान चडोवंन तो आनी ताका लायिल्ल्यो कागदाच्यो लांब शेपड्यो वाऱ्यार धोलतना पळोवंक कितली मजा येता, आकाशदिव्या भितर घट्ट बांदिल्ल्या निरांजनांतली ज्योत पालवत म्हणून आमकां सगल्यांक कितलो हुस्को जाता! - या सगल्या गजालींची म्हाका याद येत रावली, ती सगळी मजा हांगा दारांत एका वाटेन बांदिल्ल्या, भितर बल्ब सोडिल्ल्या आकाशदिव्यांत ना म्हणपाचे मनांत येत रावलें. आजोळच्या घरांतलो, आनी भायलो झगमगाट अडयेचोसो... परकोसो दिसूंक लागलो. रातचे आज्यान केल्ले लक्ष्मी पुजन, अपुरबायेन प्रसाद म्हणून दिल्ले बदाम, बत्ताशें, कांयच गोड लागले ना.

दिवाळे दिसाकच राती लक्ष्मी पुजन आसलें की, सकाळचें अभ्यंगस्नान, दनपरां सांजचे घरचे आनी शेजाऱ्यांगेरचे फोव खावन, खेळून धुमशणां कांडून जार जाल्लीं रात जाली की न्हिदून पडपी आमी, आनी लक्ष्मी पुजन जालां देखून तीर्थ प्रसाद खांवकच जाय, रातचे जेवण जेवुंकच जाय असो नेम पाळपी घरचीं, हांचे भितरलें नाट्य म्हाका दोळ्या मुखार दिसूंक लागलें. आमकां न्हिदेंतल्यान उठोवंन नेटान सगले सोपस्कार करूंक लावपी आई, काकी आनी अर्दोंशि न्हीदेंत आशिल्ली, झेमत-झेमत जेवपी आमी हे सगलें कितलें मजेशीर हे जाणवलें.

दुसरे दिसाक, पाडवो म्हणून, कुळाराक आयिल्ल्या दोन मावश्यांचेर बोवाळ पडिल्लो. जेवणाक कितें करुया हाजेर आजये बरोबर तांची चर्चा चलिल्ली. म्हाका मात, हांगा ना गोरवां ना पाडकां, पाडवो तरी कसलो? - असो प्रस्न पडिल्लो. कुळाराक येवन आपल्या मनशांत गुल्ल जाल्ल्या आईक - 'घरा या गे' म्हणन दिसतालें. मनांत येतालें - आतां गोठ्यांतली सगलीं गोरवां आंगणांत हाडून मेढींक बांदल्यांत जातली. सगल्या 'सवत्सधेनूंची' आतां पूजा जातली. तांबू मुख्य आनी आवडटी गाय जाल्ल्यान तिका पूजेचा पयलो मान. गळ्यांत फुलांच्यो माळो, गोंड घालून सगल्यांकच सजयतले पूण नाल्ल फोडून, एका वळ्याक मदीं बुराक मारून, ताका दोरो घालून लॉकेट कशें तांबूच्याच गळ्यांत बांदतलें. तिचें पाडूक 'मती', तिच्या गळ्यांतली माळ खांवक धडपडटा आसतले. सगल्या गोरवां म्हशींच्या फाटीर शेड घालून तयार केल्ल्या उदकांत वाटी बुडोवन वाटकुळेच छाप मारल्यात आसतलें. फोव भात खांवक सगलीं गोरवां उतावीळ जाल्यांत आसतलीं... ताका मागीर रानांत चरूंक सोडटलीं... सांजची तीं घरा येतलीं तेन्ना तांच्या खातीर तयार केल्लीं सान्ना तांकां दिंवक हांव थंय ना हाची खंत भोगूक लागली.

मावश्यो मात खूब उमेदीर आशिल्ल्यो. दनपरां (१४९ चेर)

# म्हजें उत्तरायण

दत्ता दामोदर नायक
९८२२१०२४१६

## लखनौ

लखनौक एक खेरीत लखनवी बाज आसा. इतिहासाचे साकर न्हिदेंतल्यान लखनौ अजून जागें जावंक ना. लखनौच्या अमिनाबाद, हजरतगंज अशा वाठारांनी भोंवत जाल्यार दिसता काळ हांगा गोठून गेला. फॉसिलाजड जाला. लखनौक बडा इमानबादा, छोटा इमानबादा, रोमी गेट, ब्रिटीश रेसीडन्सी असल्यो पुरातन वास्तू आसात. ह्या वास्तूंनी लखनौचो इस्लामीक आनी इस्लामोत्तर ब्रिटीश इतिहास सांबाळून दवरलां. ह्या वास्तू मदलो ब्रिटीश रेसिडन्सीचो वाठार भग्नावस्थेंत आसा. ताका १८५७ च्या गेर्राची फाटभूंय आसा. ब्रिटीश रेसिडन्सिच्या वाठारांत ब्रिटीशांचे अधिकारी रावताले. १८५७ च्या गेर्रांत हिंदू मुसलमान सैनिकांनी तांकां मारून तर उडयलेंच ब्रिटीश रेसिडन्सिच्या वास्तुचोय विध्वंस केलो.

लखानौ हीं खव्वयांची काशी म्हणूंक जाय. अमीनाबाद आनी हजरतगंज कबाब, बिर्याणी, लस्सी, कुल्फी आनी चाट हांची रेस्टॉरंटस आसात. अमीनाबादाक तुंदे कबाब हे सगल्यांत फामाद रेस्टॉरं. थंयचे तुंदे कबाब खावपाचे. हांगा बोकड्याचे आनी बिफाचे (म्हशीच्या मांसाचे अशें आतां स्पश्ट बरयलां.) तुंदे कबाब मेळटात. हे कबाब तोंडांत घालतकीर विरघळटात. ते खुबच रुचीक आसतात. एक प्लेट मागयतकीर आमी दुसरी प्लेट मागयली. खंयच्याच दुसऱ्या रेस्टॉरंटांत असले तुंदे कबाब मेळनात. थंय आमी चिकन बिर्याणी घेतली. ताचे वांगडा रस्सा आनी रायताय दितात. ते खातीर बिर्याणीची सुरबूससाण वाडटा. तुंदे कबाब रेस्टॉरंटांत कपिल देव पासून अमिताभ बच्चन मेरेन सगले सेलेब्रिटी येवन गेल्यांत. ह्या रेस्टॉरंटाचे ॲम्बिएन्स व्हडलें बरें ना. पूण तुंदे कबाब आनी बिर्याणींची रुचच इतली बरी आसता

लखनौ शार गोमती न्हंयच्या देगेर वसला. लखनौचो गोमतीनगर हो वाठार आधुनीक ब्रिटीश पध्दतीन विकसीत जालां. मायावतीच्या, मुलायम आनी अखिलेशाच्या सरकारान हांगा बऱ्यो पायाभूत सुविधा केल्यात. मायावतीचेर किदेंय आरोप जावं मायावतीन केल्लो समता चौक थंय उबारिल्लो आंबेडकराचो, गौतम बुद्धाचो पुतळो, हत्तींचे पुतळें पळोवपा सारके. आता थंय तिणें आपलो स्वताचो पुतळो उबारपाचो न्हय इतलेंच! मायावतीन एक बरी गजाल केल्या. लखनौंच्या हाय स्ट्रीटावयल्या बोर्डांनी ब्लॅक ॲन्ड व्हायटच पाटयो लावच्यो असो तिणें नेम केला. देखून हायस्ट्रीटावेल्या सगल्या दुकानांच्यो पाटयो धव्या आनी काळ्या रंगांत पिंतारल्यात. ते खातीर हाय स्ट्रीटाक एक खेरीत वेगळें रूप आयलां. ह्याच हाय स्ट्रीटार फामाद इंडिया कॉफी हावस आसा. थंय राम मनोहर लोहिया, जयप्रकाश नारायण, चंद्रशेखर, अटल बिहारी वाजपेयी हे कॉफी पीत राजकारणाचेर भासाभास करताले. लखनौ हें फाटले चार पांच शेंकडे भारतीय राजकारणांतले नर्व्ह सेंटर जावन आसा.

की लोक लखनौ आयले म्हण्टकीर तुंदे कबाबांत येवन जेवले बगर रावनात. ताच्याच फुडें प्रकाश कुल्फीचे दुकान आसा. थंय आमी केशर कुल्फी खाली. कुल्फीचेर वयर फालूदा म्हळ्यार शेवयो घालतात.

लखनौची ख्याती शॉपिंगा खातीर आसा. लखनौ चिकन फॅब्रिकाच्यो साडयो आनी चुडीदार मेळटात. ह्या कापडाचो दर्जो खूब बरो आसता. सवाय, म्हारग सगल्या तरेच्यो साडयो, कापडां हांगा मेळटात. दुकानदार नमळायेन गिरायक करतात. एक गजाल हांवें लखनौच न्हय पुराय उत्तर हिंदुस्तानचे भोंवडेंत पळयली. कपड्यांचेर ५% जी.एस.टी. आसा. आमी लखनौ, अमृतसर, दिल्ली हांगा खरेदी केली. शॉपींग करतना हांव चडसों क्रेडीट कार्डाचों उपेग करतां. कोणाकच बील दिवन ५% जी.एस.टी. फारीक करपाची ना. सगळे 'साब कॅश दे दो. हम कच्चा बील दे देंगे''अशें म्हणटात.

भारतीय मनीस मुळांतच असो अप्रामाणीक. ताका ५%य टॅक्स दिवपाचो ना अशें न्हय. ताची भिरांत ५% जी.एस.टी. दिल्यार ताका फुडें ३०% इन्कम टॅक्स भरचो पट्टा. ''आमीं ना, आमकां बील जाय. जी.एस.टी. पडल्यार पडूं''अशें म्हणलें तेन्ना बेजारून सगल्यांनी बिलां दिली!

भारतांतले असंघटीत वेपारी प्रामाणिकपणान कर भरत तर भारताचो महसूल कितल्याशाच पटीन वाडटलो आनी कराची टक्केवारीय उणे करप सरकारान शक्य जातलें. गोंयांतय वेपारी हेंच करतात अशें म्हाका दिसता. हें करतना वेपाऱ्यांचे तर्कशास्त्र (rationation) विचित्र आसता - आमी टॅक्स किदयाक दिवचो? सरकार फटींग! मंत्री फटींग! ते पयशे खातात. तांकां पयशे खावपा खातीर आमी टॅक्स दिवचें? काय मध्यमवर्गीयांचीय हीच मानसिकता हांवें पळयल्या. फकत बँकेचे कर्मचारी, सरकारी नोकरी, संघटीत आस्थापनां हांकां न सुटकेक टॅक्स ॲट सोर्स भरचो पट्टा ना जाल्यार ते लेगीत कर भरचे नाशिल्ले.

लखनौ शार गोमती न्हंयच्या देगेर वसला. लखनौचो गोमतीनगर हो वाठार आधुनीक ब्रिटीश पध्दतीन विकसीत जाला. मायावतीच्या, मुलायम आनी अखिलेशाच्या सरकारान हांगा बऱ्यो पायाभूत सुविधा केल्यात. मायावतीचेर किदेंय आरोप जावं मायावतीन केल्लो समता चौक थंय उबारिल्लो आंबेडकराचो, गौतम बुद्धाचो पुतळो, हत्तींचे पुतळें पळोवपा सारके. आता थंय तिणें आपलो स्वताचो पुतळो उबारपाचो न्हय इतलेंच! मायावतीन एक बरी गजाल केल्या. लखनौंच्या हाय स्ट्रीटावयल्या बोर्डांनीं ब्लॅक ॲन्ड व्हायटच पाटयो लावच्यो असो तिणें नेम केला. देखून हायस्ट्रीटावेल्या सगल्या दुकानांच्यो पाटयो धव्या आनी काळ्या रंगात पितारल्यात. ते खातीर हाय स्ट्रीटाक एक खेरीत वेगळें रूप आयलां. ह्याच हाय स्ट्रीटार फामाद इंडिया कॉफी हावस आसा. थंय राम मनोहर लोहिया, जयप्रकाश नारायण, चंद्रशेखर, अटल बिहारी वाजपेयी हे कॉफी पीत राजकारणाचेर भासाभास करतालें. लखनौ हे फाटले चार पांच शेंकडे भारतीय राजकारणांतले नर्व्ह सेंटर जावन आसा. जाच्या हातांत लखनौची चावी ताच्या हातांत दिल्लीचें कुलूप अशें म्हणूनच म्हणतात.

## रायबरेली

**झुमका गिरा रे**
**बरेलीके बझार में**
**झुमका ऽऽ**

हे लोकप्रीय पद आयकून बरेली वचपाची इत्सा मनांत जाल्ली. हालींच बरेलीची बर्फी नांवाची हिंदी सिनेमाय आयलां. बरेली आनी रायबरेली हे दोन वेगळेवेगळे गांव म्हाका थोड्या दिसांआदी कळ्ळें. रायबरेलींच्यान सोनिया गांधी लोकसभेची वेंचणूक लडयतात. देखून रायबरेली देशभर फामाद जाली. पूण गोंयचे रायबरेली कडेन खासा नातें आसा. गोंयचे कवी आनी आमच्या सगल्यांचे इश्ट रमेश वेळुस्कार हे रायबरलीचें जांवय. रायबरेलीची मिथिलेशकुमारी श्रीवास्तव हिचे कडेन ताचे लग्न सुमार पस्तीस वर्सां पयली जालें. तांचे रायबरेली घर आसा. रमेश थंयच रावता. मदीं मदीं गोंयांत येवन वचून आसता.

रायबरेली लखनौसावन ८० किलोमीटरांचेर आसा. थंय वचपाक टॅक्सीन देडेक वर लागता. आमी लखनौ आशिल्ली तेन्ना रमेश ताच्या रायबरेलीच्या घरा आशिल्लो म्हणटकीर सुशांतान आनी हांवें रमेशागेर वचपाचें थारायलें.

रमेशाचे धुवेचें हालीच लग्न जालां. लग्नाक रमेशान फकत दिलीप बोरकाराकच आपयल्लो.

''रमेश म्हाका किदयाक आपयलो ना रे?''हांवें शीण काडलो.

''जे येतले अशाच लोकांक हांवें आपयलें'' - रमेश

''कोण येवचें ना तें तुका कशें कळ्ळें?''

''जांकां होंवळीक धाडूंक ना तें येवचें ना हें स्पश्टच आसता दत्ता''- रमेशाचें तर्कशात्र हें आसता. मागीर तें दिसपट्ट्या जिणेंतल्या ल्हान सान गजाली संबंदान आसूं वा ताज्या कवितेंतल्या तत्वज्ञाना विशीं आसूं!

रमेशागेर ताचो जांवय, निक्तीच लग्न जाल्ली धूव, दुसरी धूव, पूत सगलीं आशिल्लीं. रमेशाले घरकान्नीक आमी पयलेच फावटी मेळटाली. रमेशागेर सगल्यांनी सुशांताक आनी म्हाका आकांताचो येवकार दिलो. दोन तीन वरां गजाली मारत कश्यो गेल्यो त्यो कळ्योय ना. हाली रमेश असो निवांत उलोवंक मेळूंकच ना.

पयर रमेशाची 'मळबकळी' वाचली. रमेश हेराल्डांत एक मराठी स्तंभ बरयता. चडसो तो कवितेसंबंदान आसता. रमेशान संगणकावयल्यान



आपले अकरा लेख म्हाका वाचूंक दिलें.

जागाच्या फाटल्या एका अंकांत हांवें रमेशाच्या कवितेचेर टीका केल्ली. ''रमेशाची कविता अजून सावुलगाळीत रुतून पडल्या''अशें हांवें बरयल्लें. त्या वाक्यानें रमेश खूब दुखावल्लो. रमेशान म्हजेर डचडड.. चो पावस उडयत आपले कवितेचें समर्थन केल्लें. रमेशाच्या मतान जो खंयचेय गजाली कडेन जे नदरेन पळयता ताका ती गजाल तशी दिसता. हांवें रमेशाचेर जी टीका केल्ली ती रमेशाक खुबळावपाक केल्ली - रमेशांत महाकवी जावपाची तांक आसा. ताच्यांत अखील भारतीयच न्हय तर एक वैश्वीक नदर आसा. पूण ताची कविता बऱ्याच फावटी 'सावुलगोरी' ह्या मूळ कविता संग्रहांतल्या उतरांच्या मोहांत गुंतता अशें म्हाका दिसता. हांव स्वता काली घाट ते करुणा घाट, अरेबियन डेज, जाय काय जूय, फांतोड पावला ह्या पुस्तकांनी उतरांच्या भूलुभुलय्यांत गुंतिल्लों. जोडवी पुस्तकांत हांव तातुंतल्यान मुक्त जालां. लेखका फुडें जांव कवी फुडें एक सांपळो आसता. ट्रॅप आसता. ताका आपणें आपलेंच अनुकरण करचे असो मोह जाता. वाचप्या फुडें हो ट्रॅप आसता. ताका आपल्या आवडत्या लेखकान वा कवीन तो जशें बरयत आयलां तशेंच ताणें बरोवचे अशें दिसता. रमेशान आतां आपले कवितेची फास्की मोडूंक जाय. ताचे कवितेंत कांय वेळां तो दुर्बोधते कडेन व्रता, विनाकारण अतितात्विकरण करता. ताची गरज ना. ते नदरेन ताणें विं.दा. करंदीकराचे कवितेचो अभ्यास करूंक जाय. श्रेश्ट [illegible] जंजाळात आडकना. ती सोपी आसता सुबोध आसता. तत्वज्ञान लेगीत ती सादेपणान सांगता. रमेशाचे जिणेचे तत्वज्ञान नेमकेपणान किदें तें ताकाच खबर. ताचो जिवाभावाचो इश्ट दिलीप बोरकार तें आपल्या कळ्ळां अशें म्हणटा. दिलीपाक तें कितलें कळ्ळां ते दिलीपाकच खबर. दिलीपाचे नदरेन रमेशाचे तत्वज्ञान हे झेन तत्वज्ञान. जे कळना तें तत्वज्ञान झेन तत्वज्ञान म्हणपाची हाली फॅशन जाल्या! रमेश आनी दिलीप हांणी दोगांयनीय हाजेर विचार करचो जाय जाल्यार सुरेशबाब आमोणकारांची बुद्द घेवची.

रमेशान आतां (कांय तेंप) कविता बरोवपाचे थांबोवचें आनी (कोंकणी आनी मराठी) गद्यच बरोवचें अशें म्हाका दिसता. रमेशाचें गदय वाचून रमेशाचें नवें रूप म्हाका दिसलें. गद्यांतल्यान रमेश मेकळो जाला. गदय हे मुक्त अशें माध्यम कवितेक एक फास्की आसता. ते फास्केंत कवी घुस्मटता. तसो कवितेचे फास्केंत हालीं हालीं रमेश घुस्मटूंकय लागिल्लो. गद्यांत तो मेकळो श्वास घेता.

मळब कळयेंतली वेळुस्काराची भास पळयात.

''मोगरे कळ्या, तुकां कळटा जाल्यार सांग तूं म्हाकां, सांग, ह्या फांतोड उजवाडांच्या कडाकडांनी तूं कित्या परमळटा? ह्या सैमाच्या पांबऱ्याचेर अशें शुभ्र, शुभ्र, शुभ्रंकर जावंक तुका कशे कळटा?''

मागीर फुडें वेळुस्कार म्हणटा ''धूप उसवत रावचो तशो यादीय उसवन वयतात केन्ना केन्ना...''

आपले प्रियेचे वेळुस्कारान केला ते शारीर वर्णन वाचात.

''कित्याक कोण जाणा, तूं उदक भरून घेवन येतना, वयतना



अत्यंत सुंदर दिसता. सैमान तुका जी बड दिल्या ती आखीव रेखीव आनी सौंदर्य धार्जिण्या दोळ्यांक आपाप कुकार घालपी. आनी तुजें न्हेंसण तर गच्चच. तुज्या आंगावेल्या सकल-उंच आकाराक दृश्य-अदृश्य आकर्शणांचे मखर लायल्लेवरी. तुजे सैमीक कपनियतेक तुजे ताकतिकतेकेचो ठेको कोणयच्याय काळपाचो ठेको चुकोंव येता असो. तुजी गोरसाण न्हाल्या चांफ्याच्या रंगारूय ताण घालपी... आनी तुज्या पायांतल्या पैजणांची अरुण रुणझुण, तनर झणझणायत वचपी... तूं एका खिणाच्या देंठांतल्यान गेलें... आनी जाणीव तारुण्य अरण्याच्या घन-गच्च रुखावळींतल्यान झुळझुळत व्हांवत वचपी... रातकिड्यांच्या किर्रसाणींत... सपनाखिणांत निवळून गेले.''

फुडें वाचात

''तो तिच्या देहांत आडखळा. सांजवेळच्या काळ सांवळ्या गडद मळबार उदेतल्या शुक्राच्या नक्षत्रा परसय सुंदर दिसपी तिचो मुखडो, तिच्या मुद्याल्यो रशीम केंसाच्या लखलखत्या खांपानी कुर्बान करुन घेवपाची तिची अदा, स्वप्नांच्या साम्राज्यांत तिचे दोळे, तिची दोळ्यां पातीं, तिचे गाल, तिचे शीर कशें नाक, तिचो लांबूस गळो, तिची फुलपाकुल्ल्याच्या झेतात फुरफुरपी, फडफडपी आंगळ्यो, बाजूबंदाची सोब वाडोवपी तिच्यो बाजू वा बावळे, सर्व कोणीय हालचालींत तरबेज आसलेली तिची कमनीय कमर, मोगाळ ओलायेची लवलव निर्माण करपी तिचे बोमलेची मलमल खोलाय, भांगेकय लज करून आपल्यांत मुंगरून घेवपाचें कर्तुब करून उडोवपी तिज्यो झनन झंकृत जांगो आनी पांयजणांक झणझणावन उडोवपाची कदर आनी नदर आसलेली तिची लयसुंदर पांवलां. ह्या सगळ्यांकूच तो आडखळून पडला.''

रमेश वेळुस्कार इतली सुंदर गद्य कविता बरयता आसतना ताणें आता पद्य कविता कित्याक बरोवंक जाय असो प्रस्न पट्टा!

मदींच वेळुस्कार बरयता ''घराभार सुकण्याच्या रडपाचो आवाज आयलो. आनी खिणाक हांव अटंग्या रानांत आसपाचो भास जालो. सुकण्याच्या आवाजांत दु:खाचे धागें तांच्या प्राणांक खेंचून घेतात अशें म्हाका जाणवलें.''

सैमकवी बालकवीचे कवितेंत मदीच अशो उदास वळी येतात. वेळुस्कार 'आमोर-मोर' हें नवें उतर कोंकणींत घडयता. तो म्हणटा-आमोरी ही एक मेरच आसता. तिचे एके वटेन सांज आसता जाल्यार दुसरे वटेन रान.

''तें आयकून आवयन उमेदीन धुवेक आपले वेंगेंत आनीक घट्ट धल्ली. रुंवारुंवार पेट्टलो हुलप मंद मंद जायत पालवत येता अशें तिका दिसलें.''

''तिणें ताट दवरचे बदला पाचवेंच केळीचें पान दवल्लें. तो काळूच तसो, अदीं मदीं जेवण केळीच्या पानांन जातालें. आनी ताचेर गरम गरम शीत वाडले. त्या गरम गरम खतखतत्या शीताचो स्पर्श त्या पानाच्या पाचवेपणाक जातांच आपले थोडेशें हरवें सत्व तें शिताचे गरमेंत सोडटा. एक अद्‌भूत भूक वाडोवपी रुच - परमळटा तांतुतल्यान सुट्टा. शितार हरव्या मिरसांगाचो रोस, सांगाताक घोंसाळ्यांची दाळ घालून केल्ली भाजी, चार-पांच तांबूस म्होव्या रंगाच्यो वेल्ल्यो आनी भाजलेले कातलेची चटणी. अन्नाचे रूच-समृद्ध रुप पळोवन हांव तर चक्रावलोंच.''

अशा वाक्यांतल्यान वेळुस्काराच्या उतरांनी कोंकणी भास आपलें निजाचें सेंद्रीय रूप दाखयता. हो खरो निजाचो वेळुस्कार. ताची आमी इतले दीस सावुलगोरी उपरांत वाट पळयतालें. तो आमकां कवितेंतल्यान भेटलो काय गद्यांतल्यान भेटलो हो गौण प्रस्न. हो निजाच्या वेळुस्काराचो आविष्कार आमकां दिसलो.

''सांजवेळा ही वाट सांज-साजूक रंगांनीं निमग्न जाल्ली दिसताली. आनी चान्ने राती तिच्यांत गंधर्वाचे नगरिचे चैतन्य म्होवाळून येताले. आनी हे चान्ने राती जर मळबांत पानांनी कुपांचे भांडार आसले. जाल्यार आनी सांगुकच नाका. आनी अमास आपले काळखे राती तिच्या आंगार नकेत्रांचो शालू घालताली. पयल्या पावसांत तर ती तन्ने अस्तुरेच्या कंवळ्या पूण उतवळ्या हालचालीं वरी दिसताली. तशेंच श्रावणांतल्या भांगर वतांतल्या पावसांत भिजतना तर तिचे आंग पळोवन मस्तकांत भांग भरत वयताली. आनी हातूंत रंगत वचपी तनर देंव म्हटलर देंव नासली. कारण, कारण ती तुज्या येवपाची वाट आसली.''

''पळयतां पळयतां तिच्या हातांत, तिच्या बोटांत नृत्य स्पंदनाची सया मारपाक लागता. तिच्या पापण्यांच्या फडफडीत व्हांवतल्या

पाणयाची तडफड धड्डडटा. ताची जाणीव आयकतल्याचे जाणीवेंत चंवरत वयता. आतां गायिका फकत गायिका उरता. तिचे जिबेंतल्यान येवपी स्वराकारांतल्यान ती नादब्रह्माची सृश्टी करीत वयता. नादब्रह्म ल्हवुल्हवू परब्रह्मांत परावर्तीत जायत वयता आनी आयकत वयतल्या दर एकाच्या शिरंत्रांतली शीर शीर थरथरत ते परब्रह्म आपल्यात अस्सोवन घेवपाच्या व्यापांत व्यस्त जाता...''

'मळबकळी' बरयतना रमेश वेळुस्कार वायन मॅच्युअर जावचे तसो मॅच्युअर जाला.

हेरॉल्ड दिसांळ्यांतले ताचे मराठी लेख वाचतनाय होच अणभव येता.

मन क्यु बहका रे बहका
आधी रात को
बेला महका रे महका
आधी रात रात को

हे मृच्छकटीक नाटकावयल्यान काडिल्ल्या उत्सव ह्या हिंदी सिनेमांतले हे गीत. ताजेर वेळुस्कारान एक लेख बरयला. चारुदत्ताक मेळूंक वचपी ताचे आभिसारीकेच्या - वसंतसेनेच्या मनाची अवस्था ह्या गीतांत आसा. ह्या गीताचे एक खेरीतपण म्हळ्यार चारुदत्ताची घरकान्न धृता ही लेगीत गीताच्या उत्तरार्धांत आपली व्यथा वसंतसेने कडेन उक्ती करता. पूण ती चारुदत्ताची घरकान्न हे वसंतसेनेक खबर ना.

हेराल्डांतल्या मराठी लेखानी रमेश विंगड विंगड भारतीय भासांम दल्याच न्हय तर इंग्लीश भाशेमदल्याय कवितांचे रसग्रहण करता. रमेशाक बंगाली भास येता. हिंदीचेर ताचे प्रभूत्व आसा. उर्दू शायरी, गझल ताणें वांचल्यात. इंग्लीश कवितांचो ताणें अभ्यास केला. ते भायर वेळुस्कार 'चराति चरतो भग:' ह्या नेमा प्रमाणे सतत भारत भ्रमण करत आसा. देखून रमेश वेळुस्कार हेर खंयच्याय कोंकणी लेखक वा कवी परस अदीक बहुश्रुल जाला. रमेशान आतां फकत एकच करूंक जाय. तो डोळस आसा. ताणें कानस जावंक जाय. ताणें ।शलशींळींश जावंक जाय. ताणें सदांच रीसींशपीींळींश ।वशत वचप सोडून दिवंक जाय. प्रत्येक गजाल क्षीींळष्र करूंकच जाय अशें ना. कांय गजाली रमेशान नमळायेन मान्य करूंक जाय. जशें - रमेश आतां खरेंच बरें गद्य बरोवंक लागला ही गजाल रमेश मान्य करतलो! थोडें दीस रमेशान आपले कवितेक विसव दिवंक जाय. शेतकामती आपल्या शेतांत दर वर्सा तेंच तेंच पीक घेना. दर तीन वर्सांनीं तो दुसरें पीक काडटा. ना जाल्यार इंटर क्रॉप काडटा. रमेशान तेंच करूंक जाय.

रायबरेली कांयच पळयलें ना. रायबरेली फकत रमेशाक मेळ्ळो. ताचे कडेन मनसोक्त गजाली मारून लखनौंक परतलों.

## दिल्ली

हालींसराक दिल्ली खूब फावट पावप जालें. पूण तें नवी दिल्लीक हें फावट दिल्ली पावलो तेन्ना पोरणे दिल्ली वचपाचें थारायलें. खूब वर्सांनी हांव जामा मशिदीची सोपणां चडलो. जामा मशिदिचो आवाढ येदो व्हडलो - थंय पंचवीसेक हजर लोक नमाज पढपाक शकतात. जामा मशिदिच्या म्हऱ्यांतच लाल किल्लो आसा आनी ताच्या मुखार चांदनी चौक. चांदनी चौक म्हळ्यार शॉपिंग पॅरेडायज.

खूब वर्सां आदी भूगोलाच्या पुस्तकांत वाचिल्लें - दिल्लीक खुष्कीचें बंदर (ड्राय पोर्ट) म्हणटात. दिल्ली चड करून पोरणे दिल्ली कितें मेळना अशें ना. सगळे तरेची ड्राय फ्रूटस हांगा मेळटात. हांगा व्हडलें होलसेल खिलौना मार्केट आसा. कपडें आनी गार्मेंटस घेतना तातूंत जें वैविध्य आनी वैचित्र्य आसा ते सोसपाचे न्हय. चड करून पंजाबी ड्रेस, पाकिस्तानी साडयो हांगा मेळटात. जामा मशिदी कडेन करीमस नांवाचे खूब पोरणे फामाद रेस्टॉरंट आसा. थंयची तंदुरी, कबाब, टिक्का, बिर्याणी खावपाक देश विदेशांतले लोक येतात. हांगा पराटेवाली गल्ली आसा थंय तरांतरांचे पराटे मेळटात. दिल्ली करोलबाग, अजमल खाँ मार्केट हांगाय लोक शॉपिंगाक वतात. करोलबागांत रोशन दी कुल्फी ह्या दुकानार रगडा पॅटीस शोले भदुरे, कुल्फी हे सगळें रुचीक पदार्थ मेळटात. नवी दिल्लीक कनोट प्ले हो हाय स्ट्रीटच जाला.

दिल्लीच्या रस्त्यांनी इतिहास व्हांवता. कौटिल्य मार्ग, राणा प्रताप मार्ग, अशोक मार्ग ह्या नांवां वांगडाच पंचशील मार्ग, नीता मार्ग, जनपथ, राजपथ, संसद मार्ग अशीं सोबीत नांवा दिल्लींतल्या रस्त्यांक आसात.

दिल्ली हे चक्राकार शार. नवी दिल्ली ही साकरिच्या पाकांत काडिल्ल्या गोड ताजे जिलबे भशेन तर पोरणी दिल्ली गरम तेलांत तळिल्ले तिखट खुसखुशीत चकरे भशेन. नवी दिल्ली हे आटीव शार - दूद आटोवन केल्ले बासुंदी भशेन तर पोरणे दिल्ली दूदांत म्हेळांय घालून जाल्ल्या धंया भशेन. नवी दिल्ली कॉन्टीनेन्टल शार जाल्यार पोरणी दिल्ली मोगलाई शार. नवी दिल्ली बेक्ड शार जाल्यार पोरणी दिल्ली तंदूर शार!

नवी दिल्ली आनी पोरणी दिल्ली - दिल्लीची हीं दोनय रुपां म्हाका भोव आवडतात!

## अमृतसर

फांतोड फुटपाक अजून कळाव आशिल्लो. चार वरां जाल्ली. अमृतसरांतल्या सुवर्णमंदिरांच्या परिसरांत आमी पाविल्लीं. फुलांनी सजयल्ल्या रथांत घालून ग्रंथसाहेब सुवर्णमंदिरांत हाडटाले. ''वाहे गुरु वाहे गुरु''असो शीख भक्तांचो गजर चलिल्लो. सुशांता आनी हांव रांकेंत रावलीं. सुवर्ण मंदिराचे भांगराचे पत्रे काळखांतय लखलखताले. सुवण मंदिरा भवतणी एक तळे आसा आनी सुवर्ण

मंदिराकडे तळ्यांतल्यान वचपाक सांकव आसा. सुवर्णमंदिराचो गाभारोय सुवर्णमढीत आशिल्लो. थंय कांय भक्त भजन करताले. कांय भक्त ग्रंथसाहबाक वारो घालताले. सगळ्यांनी शिस्तीन ग्रंथसाहबा मुखार उबें रावून ताका वाकून नमस्कार केलो. खंयच खेंटाखेंट ना. घांटी मारप ना. फुलां घालप ना. पयशे उडोवप ना. पंडे, पुजारी हांचो त्रास ना. भायर येतकीर आमकां द्रोण्यांतल्यान शुद्ध तुपांत केल्ल्या शिऱ्याचो प्रसाद दिलो. मागीर आमी सुवर्ण मंदिराचो परिसर भोंवत पळयलो. सगळे कडेन निवळसाण नितळसाण. खंयच कोयर ना. घाण ना. फांतोड जायत आयली सुवर्ण मंदिरा फाटल्यान चोवीस तास लगरांत जेवण मेळटा. लंगराचें जेवण कशें लागता तें आमकां पळोवपाचे आसलें. रोटी, बटाटाची भाजी, गरम शीत दाळ आनी पायस अशें सादेंच पूण रुचीक जेवण आशिल्ले. जेवण शीख भक्तच करसेवा म्हणून करताले. कांय भक्त सुवर्ण मंदिराचो परिसर सान्न मारून निवळ दवरताले. कांय भक्त आयिल्ल्या गेल्ल्याची जोतीं सांबाळटाले. सगळे कडेन आमकां नमळायेची वागणूक मेळ्ळी. बौद्ध, क्रिस्ती आनी शीख तीर्थस्थानाचें हे खेरीतपण. ह्या तीन धर्मांचीं तीर्थस्थानां सामकीं निवळ. तीनय कडेन कोण पुजारी, पंडे, पाद्री तुमचे कडेन पयशे मागनात. हिंदू धर्माच्या तीर्थस्थानांनी मात हाच्या उरफाटो अणभव येता. स म्हयन्याच्या आदी आमी अजमेर दर्ग्याक भेट दिली. थंय लेगीत वचत थंय पयशेच पयशे दिवचे पडले.

सुवर्ण मंदिराच्या म्हज्यांतच जालीयनवाला बाग आसा. थंय हुतात्म्याचे फावो ते यादस्कीक केलां. आमी अमृतसराक ताज स्वर्ण ह्या हॉटेलांत राविल्लीं. थंय गुरमीत चड्डा ही पंजाबी दिग्दर्शक मेळ्ळीं. चक दे इंडिया हो हिंदी सिनेमा तिणें दिग्दर्शित केल्ली. १९४७ पार्टिशन हो तिचो हिंदी सिनेमा प्रदर्शीत जावपाचो आशिल्लो. ते पयलीं जालियनवाला बाग आनी वाघा बोर्डर हांगा सिनेमांतली अभिनेत्री हुमा कुरेशी वांगडा वचपाक ती आयिल्लीं. आमकां मात वाघा बोर्डर वचन अशें दिसलें ना. एके वटेन भारत पाक झगडटा आसतना वाघा बोर्डरीर एकमेकांक हस्तांदोलन करप हें एक तरेचे नाटक, ते पळोवंक किद्याक वचचें असो विचार म्हज्या मनांत आयलो.

अमृतसरच्यान वाघा बोर्डर ३० किलो मीटर अंतराचेर आनी थंयच्यान लाहोर शार आठ धा किलो मीटराचेर आसा. अटलबिहारी वाजपेयी पंतप्रधान आसतना अमृतसर लाहोर बस सुरू जाल्ली ती फुडें बंद जाली. म्हाका केन्ना ना केन्ना पाकिस्तानांत वचपाची इत्सा आसा. पळोवया, केन्ना पूर्ण जाता ती!

अमृतसर फुलवारी तरेचे ड्रेस मटेरियल मेळटां. ते सुशांतान घेतले. अमृतसराक आमी थळावी जिलेबी खाली. ते भायर हांगाची लस्सी, चाट फामाद ताचोय आस्वाद घेतलो. पंजाबी लोकांक शाकाहार आनी मांसाहार दोनय आवडटा. शाकाहारांत मक्केदी रोटी आनी सरसौदा साग तांचो आवडटो. मांसाहारात चिकन तंदुरी, मटण बिर्याणी, टिका मसाला, फिश फ्राय अशो तरातरांच्या प्रती हांगा मेळटात. पंजाबी लोकांमदी बीयर व्हिस्की पिवपाचे प्रमाणय सुमारा भायर. ते भायर पंजाबांतले बरेच तरनाटे ड्रग्ज घेतात. उडता पंजाब ह्या सिनेमांत हे सगलें चित्र दाखयलां. पंजाबी मनीस कश्ट करपाक फाटी ना. शेतकी आनी उद्योगीक अशा दोनय मळार उपाट कश्ट काडून पंजाबी मनीस गिरेस्त जाला. पूण पंजाबांत व्यसनाधीनता वाडल्यां. धर्मांधताय वाडल्यां. इंदिरा गांधीन आनी तिच्या उपरांत राजीव गांधीन खलिस्तान चळवळ सोंपोवंक जी पावलां उबारली ताचे खातीर पंजाब भारतांत उरलां. ना जाल्यार तो केन्नाच फुटून भारतांतल्यान भायर सरपाचो. अजून अमेरिका कॅनडांतल्या गिरेस्त शिखांक खलिस्तान जावंचें अशें दिसता. पूण पंजाबी भौसाचो तांकां तेंको ना.

## धरमशाला

अमृतसरच्यान आमी टॅक्सीन डल हौसी आयली. डलहौसी थोडो वेळ सारून धरमशाला गेली. भारतांतली सगली हिल स्टेशनां ब्रिटीशांनी सोदून काडली. तांणी शंबर देडशें वर्सांआदीं ही हिल स्टेशनां सोदून काडली. तेन्ना दोंगरावयले हे गांव नितळ निवळ आसूंक जाय. हे गांव पळोवन ब्रिटीशांक स्कॉटलंडांतल्या कंट्रीसायदाची याद जाली जावंक जाय. आनी गिमांत दिल्ली मुंबयचो गिमाळो सोंसना जावन ते ह्या आपल्या बायल भुरग्यांक इश्टमित्रांक घेवन ह्या हिल स्टेशनाचेर रावंक वताले आसूंक जाय. सिमला, कुलू, मनाली, मसुरी, नैनीताल, महाबळेश्वर, उटकमंड, कोडायकेनल, मुन्नार ह्या सगल्या हिल स्टेशनाचेर ब्रिटीशांचे सोबीत डाक बंगलें आसात. क्लब हावस आसात. फाटल्या शंबर देडशें वर्सांत मात आमी ह्या हिल स्टेशनांचे रूप सामके बुरशें, बकाल आनी विद्रुप करून उडयलां. ह्या ल्हान गांवांची आता शारां जाल्यांत. पूण तांकां अर्बन पोलिओ जाल्ल्या भशेन ती शारां रोगग्रस्त स्थितीत आसात. डलहौसी, धरमशाला आनी मेकलगंज हांची स्थिती तीच जाल्ल्या. दोंगराचे देगेर कसलेच नेम पाळी नासतना लोकांनीं घरां बांदल्यांत, बिल्डींगो बांदल्यात, हॉटेलां बांदल्यांत. रस्ते सामके अशीर. सगल्याक कोयर. सैमीक सुंदरकायेन नटिल्लो हो प्रदेश मनशान आपले करणेन कुरूप करून उडयला हाचें वायट दिसता. त्या मानान गोंय कितलेंशेच निवळ आसा. सुंदर, सोबीत आसा. तें आमी तशेंच दवरूंक जाय!

मेकलगंज दलाई लामा रावता १९५९ त तिबेटाचेर चीनान घुरी घालतकीर भारतान दलाई लामाक आमच्या देशांत आश्रय दिलां. दलाई लामा एका साद्या घरांत रावता. ताचें राजकी म्हत्व लक्षांत घेवन ताका लष्करी सुरक्षा आसा. ताच्या घरा मुखार एक बुद्धमंदीर आसा. ज्या दिसा आमी मेंकलगंज आशिल्लीं तेन्ना दलाई लामाय थंय आशिल्लो. हांवें तांकां मेळपाची इत्सा व्यक्त केली. पूण दलाई लामा खूब दिसांनी प्रवचनां दिवन थकिल्ले अवस्थेंत मेकलगंज आयिल्लो. (१२४ चेर)



# नरेंद्र बोडके : कांय यादी

एस. डी. तेंडुलकार

## १

नसांज. नरेंद्र आनी हांव पणजे सुरेश बारांत माळयेर बसलात. सकयल टेपरेकॉर्डर हिंदी फिल्मी गितांची कॅसेट चालू आसा. पांच-स वर्सां जाली तरीय आपल्याक भुरगें जावंक ना हे विशीं तो म्हजे कडेन सकयल्या टोनांत उलयत आसा. आनी तेन्नाच 'आह' फिल्मांतलें लताचे गीत चालू जाता:

ये शाम की तनहाईयां
ऐसे मे तेरा गम...

आमी एकदम वग्गी जातात. आमचे कान थंय लागतात. गीत आयकतां-आयकतां एकदम घायाळ जाल्ल्या सारको नरेंद्र म्हाका म्हणटा, 'ह्मलताचो आवाज पळय रे ब्लेडिच्या धारे सारको. ब्लेड लागल्या हें पयली कळना, रगत आयल्या उपरांतूच कळटा.''

मनांत घर करून उरली ही नरेंद्राचीं उतरां.

## २

नरेंद्र बोडके आनी हांव दोगूय म्हापशेकार. नरेंद्र तेन्ना अलंकार थिएटरा लागी रावतालो. म्हाका दिसता हांवें नरेंद्राक पयलेच फावट पळयलों तो 'नवोदितांची कोरी पाटी' हे कार्यावळींत. अवधूत कुडतरकार आनी नरेंद्र हांणी मेळून ही कविसंमेलनाची कार्यावळ म्हापसा म्युनसीपल हॉलांत दवरिल्ली. (हे कार्यावळींत पुंडलीक नायक, हेमा धुमटकार हांणीय आपल्यो कविता वाचिल्ल्याचो म्हाका उगडास जाता.) हांव बेठो प्रेक्षक म्हूण थंय गेल्लों. हे आदीं नरेंद्राच्यो कविता हांवें मराठी दिसाळ्यांत वाचिल्ल्यों आनी त्यो म्हाका आवडिल्ल्यों. आता कविसंमेलनांत प्रत्यक्ष कवीकय पळोवपाक मेळ्ळो. नरेंद्राची म्हूर्त मोटवी पूण तावें दोन्ने आनी आवाज हिप्नॉटाईज करपी आसलो. (हालीच इरफान खानचें पिक्चर पळेताना म्हाका जाणवलें की इरफान खानाचे हांसप आनी नरेंद्र बोडकेचे हांसप हातूंत खूब साम्य आशिल्लें.)

उपरांत म्हापशांत तो म्हाका दिसत रावलों. ताच्या हातांत सदुदा एक डायरी आसताली. म्हाका प्रस्न पडटालों ते डायरेंत कितें आसा काय? कविता? पूण ताचे चालींत एक कवीचो झेत आशिल्लो. कवी कसो आसता, आसूंक जाय ताचो रोल मॉडेल म्हूण नरेंद्र बोडकेक हांव पळोवंक लागलो.

कांय दिसांनी 'म्हापसा क्लब' हे इमारतींत एक भौभाशीक कवीसंमेलन आशिल्लें. थंयूय हांवें प्रेक्षक म्हूण हजेरी लायल्ली. त्या संमेलनांत परत नरेंद्र म्हाका दिसलों. थंय ताणें दोन कविता वाचल्यो. तांका बरीच दाद मेळ्ळी. (त्या संमेलनांत नागेश करमली, भिकाजी घाणेकार बीन आशिल्लें हाची म्हाका याद जाता.) पूण तें संमेलन म्हज्या लक्षांत उरलें तें एका सोळा-सतरा वर्सांच्या चलये खातीर. ही चली काळी-सावळी तरीय ॲट्रॅक्टिव्ह आशिल्ली. ती तेन्ना भांगरा कोराच्यो चमक्यो आशिल्ली काळ्या कोराची साडी नेसून आयल्ली आनी ती साडी तिका उठून दिसताली. म्हज्या सकट सगलेच ताका एकसारकें पळयत उरलें. कवयित्री म्हळ्यार वॉक्लीस आजीबाय टायप असो जो समज आशिल्लो तो ह्या चलयेक पळोवन पयस जातालो. खरें म्हळ्यार तिच्यो कविता तश्यो साद्योच आशिल्ल्यो. पूण त्यो वाचताना तिचो हावभाव भुलसावन उडोवपी आशिल्लो. ही कवयित्री आशिल्ली - 'नयना गुरव'.

उपरांत कांय दिसांनी ही नयना गुरव, नरेंद्र बोडके वांगडा भोंवताना दिसूंक लागली. मनांत म्हळ्ळें, नरेंद्रान हिचेर कितें जादू केलों काय? (आनीक दोनेक वर्सांनी नयना गुरवची ती शिल्पां नरेंद्र बोडके जाल्या हें कळ्ळें).

पूण तो मेरेन नरेंद्राची आनी म्हजी पर्सनल वळख जावंक नाशिल्ली. ती जावची अशें म्हाका दिसतालें. तेन्ना अवधूत कुडतरकार म्हापसा केणी वाड्यार एका भाड्याच्या रुमांत रावतालो. ताची आनी म्हजी

वळख आशिल्ली. ताच्या रुमार बरेच फावटी येवप-वचप जातालें. नरेंद्रय थंय ताच्या रुमार येतालो. एक दीस अवधूताच्या रुमार नरेंद्राची आनी म्हजी पयली भेट जाली. अवधूतानूच वळख करून दिली, हांव एक नवोदित कवी म्हूण. तेन्ना हांव फकत मराठीनूच कविता बरयतालों आनी अवधूताकडें आशिल्लो म्हजो कवितेचो कादेन वाचून नरेंद्रान कॉमेंट केल्ले खंय की म्हजेर सदानंद रेगेचो प्रभाव आसा. नरेंद्राचो हो कॉमेंट अवधूतान म्हाका हे आदीच सांगिल्लों. तो हांवें घट्ट मतींत धरिल्ले. हे पयले भेटींत नरेंद्रान म्हाका विचारलें, तुका मराठींतले खंयचे कवी आवडटात? तेन्ना हांवें मुद्दमूच म्हळें 'सदानंद रेगे'. तें आयकून ताच्या तोंडार विजयी हासो उदेलो. आपूण जाणाच आसलो असो किते अर्थ त्या हास्यांत आशिल्लो. हांवें मुद्दमूच ती खोस ताका मेळोवन दिली, हें मात म्हळ्ळें ना.

नरेंद्राचे एस.एस. सी. मेरेनचे शिक्षण म्हापसा न्यू गोवा हायस्कुलांत आनी इंटर आर्टस मेरेन तो सेंट झेवीयर्स कॉलेजांत शिकलो. उपरांत कॉलेज सोडून मदीच तो पत्रकारिते कडेन वळ्ळो. रामचंद्र सरदेसाय नांवाच्या एका मनशान 'उगम' नावाचें मराठी साप्ताहीक सुरू केल्लें ताचो नरेंद्र वावुरपी संपादक जालो. पूण आपल्या बायोडेटांत मात ताचो उल्लेख ताणें करूंक ना. 'अनार्य' ह्या ताच्या कोंकणी झेल्यांत निमणो ताचो बायोडेटा छापलां, थंय लेगीत तो येवंक ना. तर ह्या 'उगमां'त अवधूत कुडतरकार, नयना गुरव लेगीत सुर्वेक कामांक आशिल्ली). उपरांत तो 'गोमंतक' ह्या दिसाळ्यांत उपसंपादक म्हूण गेलो. थंय परत नयना गुरव आशिल्लें. हें चालू आसताना ताणें बी.ए. केली. उपरांत साळगांवकर लॉ कॉलेजींत ॲडमिंशन घेतलें. आपूण वकील जातलो अशें तो म्हणपाक लागलो. त्या वगतार अवधूताच्या जमनीचो कोर्ट चालू आशिल्लो आनी नरेंद्र अवधूताक भोंवोन-भोंवान सांगी, - 'तूं कायच भियो नाका रे. म्हाका लॉची डिग्री मेळ्ळी की पयली केस तुजी घेतां.' तेन्ना अवधूत ती केस आपल्याच फावोरांत जाल्ल्या सारकों मुमुरखो हांसतालों. पूण नरेंद्रान मदीच लॉ सोडली आनी पोस्ट ग्रॅज्यूएट सेंटरांत तो मराठी आनी इस्थेटिक्स घेवन एम.ए. करूंक लागलो. त्या वगतार हांवूय पोस्ट ग्रॅज्यूएट सेंटरांत एम.ए. करतालों. तो एक वर्स फुडें आनी हांव एक वर्स फाटीं. पूण इस्थेटिक्सच्या पिरिएडाक दोगूय वांगडाच एकाच क्लासींत आसतालें. तेन्ना तो लग्न जाल्लो आनी वेऱ्या

रावतालो. आमचे मेळप पोस्ट ग्रॅज्युएट सेंटरांत आनी उपरांत बसप कुशीच्याच 'सुरेश बारांत' जातालें. हे मदी ताणें 'गोमंतक' सोडलो आनी तो आता 'नवप्रभा'त जॉईन जाल्लो. सर्वीस करून तो एम.ए. करतालो. मूळचोच हुशार. भांगरापदक मेळोवन तो एम.ए.क फर्स्ट आयलो. उपरांत आपूण शंकर रामाणीच्या मराठी कवितेचेर पीएचडी करपाचो आसा आनी एक दीस फाम ताणें सोडली. तें आयकून रामाणी खूश जाला आसतलो. पूण हांवें ताका सरळ प्रस्न केल्लें: - 'मराठी कवितेंत रामाणीचें कॉंट्रीब्यूशन कितें? कांय कविता सोडल्यो जाल्यार ती सामकी सांकेतीक कविता. पीएचडी करतालो जाल्यार मराठी कवितेंत जाणें नवी भर घाल्या, नवी दिका दाखयल्या अश्या कवीचेर करूंक जाय.' - ही म्हजी उतरां आयकून तो बरोच डिस्टर्ब जातालों. उपरांत ताणें शंकर रामाणींच्या कवितेचेर पीएचडी करपाची आयडीयाच ड्रॉप केली आनी नवप्रभा सोडून तो सरळ बायलेसकट मुंबय गेलो. थंय कॉलेजींत प्राध्यापकी, लोकसत्ता, नवशक्ती, मुंबई सकाळ, राजधानी करीत करीत परत गोंयांत एकलोच आयलो तेन्ना ताचो बायले वांगडा डायव्होर्स-प्रोसेस सुरू जाल्लो. हे मदी ताका शारिवा नांवाचें एक चलीय जाल्लें.

डायव्होर्स जाल्या उपरांत ताची बायल एका नॅव्ही ऑफीसराकडेन लग्न जाली आनी चलयेकय आपल्या वांगडा घेवन गेली. नरेंद्र परत एकलो एकसुरो जालो.

तेन्ना गोंयांत आसतना ताणें 'बुलंद' नांवाचें मराठी साप्ताहीक सुरू केलें. तें ताणें स-सात वर्सां चलयलें. त्या 'बुलंदा'त हांवेंय कांय दीस



लिखाण केलां. पूण बरेचशें तें एलो-जर्नालिझमच्या पद्धतीन चलतालें. त्या दिसांनी तीग नाईक ताच्या वांगडा चडशे दिसतालें, तें म्हळ्यार भालचंद्र नाईक, सुरेश नाईक आनी रमेश नाईक. हे मदी एके बायलेकय ताणें 'दवरून' घेतली. पूण नरेंद्रा सारको मनीस एका सुवातेर टिकपी न्हय. ताणें 'बुलंद' बंद केलो आनी ह्या नवे बायलेक घेवन सरळ नागपूराक गेलो. थंय कांय दीस पत्रकारिता करून पुण्याक आयलो. पुण्यात 'प्रभात' दिसाळ्यांत निवासी संपादक म्हूण जॉईन जालो. उपरांत थंयच एक फ्लॅट घेवन तो 'पुणेकार' जालो. पूण पुण्यांत ताची भलायकी इबाडूंक लागली. दोनूय किडनी फेल जाल्यो. डायलेसिसचेर पडलें. अशेच ताणें देड वर्स काडलें. आनी मरणाक एक म्हयनोच उरिल्लो तेन्ना ताच्या तकलेंत आयलें की पुण्याचो फ्लॅट विकून गोंयांतूच एक फ्लॅट घेवन सेटल जावपाचें. ते नदरेन ज्युलीयस डिक्रूज ह्या आमच्या आमीगान ताका म्हापशा-काणग्या भाडेपट्टीर एक फ्लॅट पळयलो. तीन म्हयन्यांचे भाडें बीन ताणें ॲडव्हान्स दिलें आनी मरणाक धा दीस आसा म्हणल्यार तो बायलेक घेवन थंय रावपाकय आयलो. चार-पांच दीस रावलो. आनी कितेतरी काम आसा अशें सांगून परत मुंबय गेलो. मुंबयच्यान दोन दिसांनी पुण्याक आयलो. आनी थंयच ताची भलायकी क्रिटीकल जावन एक-दोन दिसांतच ताका मरण आयलें. ताच्या मर्णांची खबर म्हाका सद्रे सरान फोनाचेर सांगली.

पूण म्हाका धक्को-बक्को कांय बसलों ना.

## ३

नरेंद्राचे आनी म्हजें रिलेशन कसल्या प्रकारचें आशिल्लें? आमि जादीचें? आसूं येता. तो म्हाका सिनियर. पूण पुष्पाग्रज वा सुदेश लोटलीकार हांच्या सारको हांव ताचो शिश्य केन्नाच नाशिल्लो. मेळ्ळे काय अनेक विशयांचेर आमची वादावादी आसतालीच. आनी ताचे कडेन वाद घालपाकय मजा येताली. आमी दोगूय 'इस्थेटिक्स' विशयाचे स्टुडन्ट. मुद्देसुद आनी लॉजीकल कशें उलोवप हें इस्थेटिक्स शिकल्या उपरांत चड बरें कळटां हाचेर आमचें दोगायचें एकमत आशिल्लें. पूण मुळांतूच नरेंद्र रोमँटीक प्रवृत्तीचो आशिल्ल्या कारणान ताचो स्वभाव बरोचसो मस्त कलंदर आशिल्लो. ताचें लग्न टिकलें ना हाका कारणूय ताची बेफिकीर आनी कलंदर वृत्तीच आशिल्ली. ताका कंपेअर करीत जाल्यार हांव म्हजे जीणेंत बरोच शिस्तबद्ध. त्या खातीर तो उपहासान म्हाका 'क्लार्क' म्हणी.

आमी एकमेकाचेर कोंकणींत कविता बरयल्यांत हे खूप जाणांक खबर नासतलें. हे कवितेंत आमी नांव न घेतां एकमेकाची तासमपट्टी केल्या. देखीक, नरेंद्राची 'तागडी' म्हणून एक कोंकणी कविता आसा. ती ताणें म्हजेर बरयल्या. त्या कवितेंतल्यो सुर्वेच्यो कांय वळी अश्यो:

**एके तागडेन तूं**
**एके तागडेन हांव**
**कोण कोणांक उबारता**
**आता पळयत राव**

**तुजेलागी कितें?**
**फातोर आनी गुणें!**
**म्हजे तागडेन आसा**
**अमुरपिके जिणें**

- ताचे हे कवितेक आमच्या मदी जाल्ल्या एका मोट्ट्या वादाचें कारण आसा.

एक दीस आमी अलंकार थिएटर सामकार आशिल्ल्या बेनावच्या माणाच्या सोप्यार बसून वाद घालतालें. 'नरेंद्राची मराठी कविता' होच वादाचो विशय आशिल्लो. हांवें म्हळें, 'तुजे कवितेंत त्योच-त्योच झरलेल्यो प्रतिमा, प्रतिकां येतात, ते खातीर तुजे कवितेंतली भास सामकी सांकेतीक दिसता.' - हाचेर नरेंद्र बरोच तापलो. हांवूय तापलों. बरीच वादावादी जाली. हांवें नरेंद्रांक म्हळें, 'जे मेरेन तूं तुजी भास 'रिफ्रेश' करिना, तो मेरेन तूं बरी कविता बरोवंक शकचो ना. मराठी कवितेंत तुजे काँट्रीब्यूशन कांयच आसचें ना. जिती भास बरोवपाक शीक.' ताचेर नरेंद्रान नेटान म्हळें, 'पळयत राव, हांव मराठींतलो केदो व्हडलो कवी जाता तो.' निमणें हांवें ताका चॅलेंज दिली की, - 'हांव वीस वर्सां तुका दिता. झरलेली, सांकेतीक कविता बरोवन वीस वर्सांनी तूं केदो व्हडलो मराठी कवी जाता ते हांव पळयतलों' 'घेतलें चॅलेंज' - नरेंद्रान नेटान म्हळें, हे गजालीक आता पस्तीसेक वर्सां जाल्यात. नरेंद्र आतां आमच्यांत ना. पूण नरेंद्राचे पांच-स मराठी कविता संग्रह आसात. पूण गोंय सोडलें जाल्यार गोंयां भायर कोण समिक्षक ताचें नांव घेता अशें दिसना. हाचो अर्थ असो न्हय की नरेंद्रान बऱ्यो कविता बरोवंक ना. नरेंद्राच्यो बऱ्यो खूब कविता आसात. पूण एकूण मराठी कवितेंत भर घालपी अशें 'श्रेश्ट' तातूंत कांय ना. देखीक, बा.भ. बोरकार, पु.शि. रेगे, मर्ढेकर, नारायण सुर्वे, नामदेव ढसाळ, दिलीप पुरुषोत्तम चित्रे, अरुण कोलटकर, ग्रेस बीन कवींनी जशी मराठी कविता वाडयल्या, तिका नवी दिका दिल्या त्या अर्थान हें म्हजे विधान आसा.

'अनार्य'त ताची आनीक एक कविता आसा. 'मर्णा भियेड्ड्या' नांवाची. तांतल्यो कांय वळी अश्यो:

**कोणें कोणें**
**कितें कितें म्हटलें**
**हांवें सगळें सोसलें**
**एकल्याक म्हटलें,**
**तो बोडके मरे?**
**तो व्हाईट कॉलर गुंडा**
**हांव कॉलर टाईट करून भोवलों**
**आनी एकल्यान म्हटलें,**

**तो कवितेचो पाडेली**

- ह्यो वळी ताणें म्हजेर बरयल्यात. एक फावटी ज्युलीयस डिक्रुजाक हांवें म्हणिल्लें, नरेंद्र म्हळ्यार व्हाईट कॉलर गुंड! 'बुलंदा'च्या संदर्भांत हांवें हे विधान केल्लें. देखीक, एका दोतोराचें कितेंतरी प्रकरण आशिल्लें. हो ताचे कडेन गेलो आनी ताका सांगलें की- 'ङ्बुलंदा'त हे प्रकरण आपूण छापूंक सोदतां. छापू नाका जाल्यार अमके पयशे दिवचे पडटले''. आता ह्या गजालीक व्हाईट कॉलर गुंडगिरी म्हणचें न्हय तर कितें?

तशेंच नरेंद्राच्यो कांय कोंकणी कविता वाचून हांवें म्हणिल्लें की, 'सध्या हो कविता पाड्टा.' - आनी ह्यो सगल्यो गजाली ज्युलीयस नरेंद्राच्या कानार घालतालो. ज्युलीयस ताचो 'पायलट' आशिल्लो. म्हणुनूच तो वयल्या कवितेंत म्हणटा - 'आनी एकल्यान म्हळें, तो कवितेचो पाडेली.'

म्हजी एक गजाल ताका चड लागली. ती म्हळ्यार, एक दीस ताणें म्हाका पुण्याक सावन फोन केलो, 'आता आपल्याक डायलेसीस करचें पडटलें.' ताचेर हांवें सट्ट करून म्हळें की, - 'डायलेसीस? म्हळ्यार तुज्या जिणेंतलें निमणें एकूच वर्स उरलां तर!' - हें म्हजें उलोवप ताका खूप लागलें. खरें म्हळ्यार, आपल्या मरणाविशीं नरेंद्र इतलो थतरवितर जाला हाची म्हाका कल्पना नाशिल्ली. सदचे भाशेन आपल्या मरणाविशींय नरेंद्र बेफिकीर आसतलो असो म्हजो समज. दुसरें म्हळ्यार, कांय दिसां पयली म्हजो एक उल्हास नांवाचो आमीग, एका वर्सा भितर डायलेसीसच्या टेबलार पालवल्लो हेंवूय म्हजे तकलेंत आशिल्लें. म्हणजेच ताका दुखोवपाक हांवें तें म्हणूक नाशिल्लें. पूण तो दुखावलो. सामान्य मनशासारको दुखावलो. थंयच आमचें एकमेकांकडेन उलोवणें बंद जालें. हांवेंय ताका 'सॉरी' म्हणूंक ना. हे घडणुकेक एक वर्स जाल्या उपरांत तो ज्युलीयसाक खंय म्हण्टालो - 'ताका सांग एक वर्स जालें तरीय हांव अजून जितो आसां. मरूंक ना.' - तें आयकून हांव फकत वगीच रावलों. पूण ताच्या उपरांत पंदरा दिसानीच ताका मरण आयलें. आता हे घडणुकेच्या संदर्भांत ताणें आपल्या कवितेंत ह्यो सकयल दिल्ल्यो वळी मात बरोवन दवरल्यो. मरणाचें प्रतीक फुडें करून तो हांगा म्हजेरूच वार करता:

**मर्णा**
**भियेड्ड्या**
**तूं इतल्या सकल्या पावंड्याचेर**
**पावलंय?...**
**...हांव रावतालों**
**तूं सामकार मेळटलंय**
**आनी फाफुडटलो म्हणून**
**आनी तुवें**
**सकयल मान घालून**

**हो असो वार केलो**
**भियेड्ड्या...**

- नरेंद्र म्हज्या फाटल्यान म्हजेर टीका करताना म्हाका 'भियेड्डो' म्हणटालो. कारण हांव टोपण नांवान कविता बरयतालों. दुसरें म्हळ्यार - 'हांव रावतालों / तूं सामकार मेळटलंय/ आनी फाफुडटलो म्हणून' - अशें मरणाक कोण म्हणचोना. तें जित्या मनशांकूच म्हणटलो. आनी तो जितो मनीस हांवूच आशिल्लों. ताणें कवितेंत कितलेंय म्हणूं पूण आमच्या मदलें नातें हें सकल्या पावंड्यावेलें नाशिल्लें हेंवूय हांव सांगूक सोदतां.

आतां हांवें ताचेर बरयल्ली एक कविता पळोवया. ती 'काशिक म्हणचेच पडटा' ह्या संग्रहांत आसा. कवितेचें नांव 'फडके आनी लोलयेकार' आता हातूंतलो फडके म्हळ्यार बोडके. नरेंद्र बोडके. - हे आज हांव रसिकांक डिसक्लोज करुंक सोदतां. कविता अशी आसा:

Glad to meet you ची. झहरवरज्ञश
But how unpleasant to meet ची. डेश्रळशपज्ञरी
कारण हो लोलयेकार म्हणजे एक कटू सत्य
त्या सत्याक भेटना फुडें तुजें तांबे-पितुळ पळय कशें उगडें पडलें
आता बोकडे मारूंक तुजेकडे उतरां नात
आता तुज्या बामण पॉलिसीची मात्रा चलाना
आता तुका जाय एक आख्खो भाशेचो बांयटेर
नाजाल्यार तूं मड्याच्या ताळुवयलें लोणीच खायत उरतोलोय
लक्षांत दवर, तूं हात धरताय, दामताय, लोट्टाय, घालताय्
पुण तुवें फकत हातीक कांकणां घालपी वळार जावचो न्हूं
तूं जा घोव आख्खी भूंय नांगरून मोंव करपी जीवाशिवाची

काशि म्हंटा: बाब लोलयेकारा, तूं दुसऱ्यांक फकत शापादाच सांगीत उल्लोय, पळय, एकमेकाची गांड मारीत ते सगलें फुडे गेले आनी तूं हांगाच हालत उल्लोय्.

टी.एस.एलियटची एक कविता आसा. तातूंत सुर्वेकूच एक वळ येता : 'How unpleasant to meet ची. Ediot' ह्या वळिवेल्यान ही वयली कविता खरें म्हळ्यार म्हाका सुचिल्ली. ते खातीर पयल्यो दोनूय वळी हांवें इंग्लेजींतल्यानूच बरयलात. पूण फुडे हे कवितेचो विकास हो फडके आनी लोलयेकार हांच्या नात्यामदल्या संघर्शाचो आसा. जो संघर्श नरेंद्र आनी म्हजे मदीं आशिल्लो. आमच्या मदी जाल्ल्या साहित्यीक चर्चांची, वादावादींची ताका फाटभूंय आशिल्ली. उदाहरण दिवचें जाल्यार इंदिरा गांधीन जेन्ना इमर्जन्सी लायली तेन्ना रेडियो स्टेशनचेर इमर्जन्सीक तेंको दिवपी वीस कलमी कार्यक्रमाचेर नरेंद्रान - 'वीस पाकळ्यांचे फूल फुललें' अशी गीतां बरयली. तर दुसरेवटेन - 'ङ्कणाहीन आकाश सर्वत्र'' अशी आणीबाणीच्या विरोधांत कविता बरयली. हाचेर हांवें ताका एकदा खिजयल्लों. तेन्ना



ताणें म्हळ्ळें - 'रेडिओचेर बरयल्लां ते पयशा खातीर रे.'

कलावंताकडेन उच्च पावंड्यावयली नैतिकता आसूंक जाय हे गजालिचें भान ताणें व्हडलेशें पाळूंकच ना. अवधूत कुडतरकारान एकदा म्हाका म्हणिल्लें - 'नरेंद्राचे कॉलेजच्या टायमार खंय एक सपन आशिल्लें की जीणभर हातींत शराबचो जाम आनी वेंगेत शबाब (प्रेयसी) आसची.' पूण हें सपन कितलें इमॅच्युअर हें ताका निमण्या काळांत जाणवलां आसतलें.

हरशी नरेंद्रा वांगडा ड्रिंक घेवप म्हळ्यार गजालींची एक मैफल आसताली. ताची ड्रिंक घेवपाची पद्दत ही एखादो क्लासिकल राग आळयल्ल्या सारकी. पूण एक क्वार्टर जालो की नरेंद्राक ॲडव्हेंचरस गजाली सुचतालो. तातूंत बरोवपाचे नवें-नवें प्लान लेगीत आसतालें. पूण सकाळ जाली की तो हें सगलें विसरतालो. मागीर परत त्या प्लानांची उजळणी बद्द फ्रेश ड्रिंकाक बसल्या उपरांत.

अशेच एक दीस आमी पणजे सांतिनेज बशिल्लें. एक क्वार्टर जाल्या उपरांत नरेंद्र म्हणूंक लागलो, 'अमक्या-अमक्याक मेळपाक ताळगांवां या. त्या मनशाचें हांवें काम केलां त्या खातीर ताणें मुद्दम म्हाका आपल्यागेर आपयलां.' हांवेंय म्हळ्ळें, 'या'. चलत आमी ताळगांवां आयलें. पूण त्या मनशाचे घर नरेंद्राक खबर नाशिल्लें म्हणून ताणें थंयच्याच एका मनशाक ताचें नांव सांगून तो खंय रावता काय म्हूण विचारलें. त्या मनशान सांगलें की तो आंतोन गुड्डेकाराच्या घरालागी रावतां, जालें, आमी आंतोन गुड्डेकार ह्या मनशाचें नांव घेयत ताचें घर सोदूंक लागलें. एकल्यान सांगलें, 'तें पळय आंतोन गुड्डेकाराचें घर' आमी त्या घराकडेन गेलें. ते बरोबर मोटवें कलसांव घातिल्लो एक मनीस भायर आयलो. आमी ताका विचारलें, 'हें आंतोन गुड्डेकाराचें घर'? - इतलें म्हटलां मात, त्या मनशान आमचेर गाळ्यांचो शिंवर घालो आनी झुडून आमकां मारपाक येवंक लागलो. आमी काचाबूल जाले. मागीर कळ्ळें की तो मनीस आंतोन गुड्डेकारूच आशिल्लो, आनी ताची लोक 'गुड्डेकार' अशे म्हणून फकाणां मारतालें. कोणेय ताका गुड्डेकार म्हटल्यार ताची तिडक मस्तकाक पावताली. हांवें नरेंद्राक म्हळ्ळें, 'पुरो जालें, चल या हांगासून' निमणें जो जाय त्या मनशाक ना मेळटाच आमी परतलें आनी पिकासावांत परत बारांत बसलें!

एक दीस म्हापशां तो आनी दीपक प्रभूदेसाय बशिल्ले. दोनेक पेग जाल्या उपरांत नरेंद्राक दिसलें की स्कुटर चलोवपाक आता शिकूंक जाय. थंयच प्रभुदेसायाच्या आमीगाची स्कुटर आशिल्ली. ती स्टार्ट करपाक म्हणून ताणें कीक मारली आनी तो स्कुटरीसकट जमनीर पडलो आनी पाय फ्रॅक्चर करून घेतलो.

नरेंद्र म्हणटालो, 'बारवाल्याचे आनी आपलें सदाच केस्तांव जाता.' केस्तांव कित्याक? तर हो टायमार उठाना आनी ताका बार बंद करपाक मेळना म्हणून. एक दीस असोच लेट जालो. बारा-साडेबारा जाली. बारवालो पयलोच तापिलो. उपरांत बिलाचे कॅश ना दिता, तो ताका चॅक बरोवन दिवंक लागलो. बरीच वादावादी जाली. पूण तरीय हो लेखक-कवी-पत्रकार म्हणून बारवाले ताका रेस्पेदान वागयतालें हेंवूय हांवें पळयलां. आनी ताचे कडेन उलोवपाची चलाखीय आशिल्ली. चार-चौगजाणाच्या गजालींचे मैफीलींत तो बाजी मारतालो. पूण मोट्या सभेंत वा समारंभांत मात ताचो फोकस पडनाशिल्लो. थंय ताका भाशणबीन दितना सामको घाम फुट्टालो.

एकदा आमच्या 'साहित्य प्रोत्साहक मंडळा'चो दुसरो वर्धापनदीस आशिल्लो. नरेंद्रान आपूण जावनूच सांगलें, आपूण बा. भ. बोरकाराच्या कवितेचेर उलयता. तो उलयलो. पूण ते भाशण सामकें अळणी आनी वयरवयरचें आशिल्लें. उपरांत घाम पुशीत ताणें लोकांक हेवूय म्हळ्ळें की, 'बघा, बोरकरांच्या कवितेने मला देखील घाम काढला.'

तेदे वेळार म्हापशांत 'साहित्य प्रोत्साहक मंडळ' नांवाची एक संस्था आमी स्थापन केल्ली. आनी सुर्वेकूच एक कविसंमेलन घेवपाचें आमी थारायिल्लें. आता कवि संमेलनाचो अध्यक्ष कोण? हांवें म्हळें, 'म्हाताऱ्यांक हे अध्यक्षपद दिवप ना. नव्या दमाच्या कवीक तें दिवया. तेन्ना नरेंद्र कवी म्हणून फॉर्मांत आशिल्लो. हांवें नरेंद्राचें नांव सुचयलें. तें सगल्यांक मान्य जालें. उपरांत ताका तें कळोवपाक आमी ताच्या घरा गेले. (तेन्ना ताची आनी म्हजी पर्सनल वळख नाशिल्ली). आमकां ताटकळत दवरीत हो बऱ्या अर्द्यावरान भायर आयलो. आनी आयलो तो कसो, सामकीं नाटकांतल्या सारकी एंट्री घेयत. म्हळ्यार दाराचो पड्डो सारून तो आमी बशिल्ल्या रुमांत आयलो. पूण आमचे कडेन पळयता संभाजीसारको छाती फुडें काडून एका टेबला कडेन गेलो. आनी टेबला वयले वर्तमानपत्र उब्यानी वाचिल्ल्यासारके करीत कांय वेळ तसोच उबो रावलो. उपरांत गुर्मीत मान मात्शी वाकडी करून आमचे कडेन वळ्ळो. ताणें अध्यक्ष म्हणून संमेलनाक येवपाचें मान्य केलें आनी आपल्याक एक 'स्मरणपत्र' धाडात अशेंय सांगलें. भायर येवन हांवें म्हळें, की 'नरेंद्राची ही पयलीच खेप. असलें अध्यक्षपद हे आदी ताका कोणेच दिवंक ना, म्हणून मात्सो भाव मारता.'

पूण नरेंद्रान आमची खरी विकेट उडयली ती खुद्द कवि संमेलनांतूच. म्हापशांत जंय 'राम मनोहर लोहिया' जार्दीन आसा ताच्या सामकार तेन्ना 'म्हापसा क्लब' नांवाची बिल्डिंग आशिल्ली. ह्या 'म्हापसा क्लबां'त तें संमेलन आमी सांजचे चार वरांचेर दवरिल्लें. मुखेल सोयरे बीन सगलें आयलें. पूण अध्यक्षांचो पत्तोच ना. प्रत्येक जाण म्हणूंक लागलो, 'हो बोडके खंय गेलो काय?' पांच जाली तरीय हाचो पत्तो ना. म्हणून निमणें आमी कवि संमेलनाक सुरवात केली. उपरांत स वरांचेर नरेंद्र आपल्या गर्लफ्रेंडा सयत आयलो. आमी ताका अध्यक्ष पदाचेर बसयलो. पूण उपरांत भाशण करपाक म्हणून हो उठलो आनी म्हणूंक लागलो, 'कवितेचेर भाशण दिवच्या परस हांव म्हज्यो कविताच वाचून दाखयतां. म्हज्यो कविता आयकून उत्कृश्ट कविता कशी आसता हें

तुमकां कळटलें. कवितेचेर भाशण दिवचे परस तें बरें' -अशें म्हणून ताणें आपल्यो तीन चार मराठी कविता वाचल्यो आनी तो सकयल बसलो. व्हड जमावा मुखार आयलो की नरेंद्राचो भाशण दिवपाचो कॉन्फीडन्स हालता हें हांवें तेन्ना पळयलें.

सुर्वेच्या काळांत नरेंद्रान 'पाणंद' नांवाचे कवितेचे मराठी अनियतकालीक काडिल्लें. म्हज्या म्हायती प्रमाण ताचे फकत दोनूच आंक आयल्यात. तातुंतल्या ताच्या कवितेचेर ग्रेसाचो प्रभाव स्पश्ट दिसतालो. ताच्या कवितेंत 'काळोख' हें उतर मोट्या प्रमाणात येतालें. हांव ताका म्हणी, 'काळोख हें उतर ना वापरतां आतां तुवें काळखाची जाणीव करून दिवपाचो यत्न करूंक जाय, तेन्नाच तुवें कवितेंत कितें विकास जाला अशें म्हणूं येता.' पूण नरेंद्राक म्हजे टिकेची पर्वा नाशिल्ली. तो आपलेच धुंदीत जियेतालो आनी आपलेच धुंदीत कविता बरयतालो. वारुणीच्या धुंदीत 'भरकटप' हें तर ताचें सदचेंच जाल्लें.

एकदा नरेंद्र रातच्या बारांक आमगेर आयलो. दर खटखटयत 'शिवानंद शिवानंद' म्हणूंक लागलो. आमची सगली न्हिदिल्ली. हांव अर्दवट झेमेंत आशिल्लों. ताचो आवाज आयकून हांवें दार उगडलें. तर म्हणूंक लागलो, 'चल या'. हांवें म्हळें, 'खंय?' - तर म्हणूंक लागलो, 'ते मागीर सांगता, भायर सर?' हांव बोवाळ नाका म्हणून ल्हवूच भायर सरलों. तर भायर स्कुटर घेवन पुष्पाग्रज उबो आशिल्लो. नरेंद्र म्हणूंक लागलो, 'आमी तिगूय या बिचोली स्कुटरीन नव्या सोमाराक.' हांव अजाप जावन तांकां पळयत उरलों. कारण नव्या सोमारांत कितें नरेंद्राक रस आसा अशेंय नाशिल्लें आनी भायर कास्ताची थंडी पडिल्ली. आनी अशा थंडेंत बारा वरांचेर ट्रिपल सीट स्कुटरीन वचप म्हळ्यार मरपाचेंच. हांवें म्हळें, 'ना. हांव येयना?' - 'भियो नाका रे, स्कुटर चलोवपाक पुष्पाग्रज एक्सपर्ट' - नरेंद्रान म्हळें, पूण हांव बदलोना. निमणो तो प्लान बदलून अलंकार थिएटराकडेन आमी तिगूय आयलें आनी थंय च्यायेक बसले. सांगपाचें जाल्यार, पियेल्या उपरांत नरेंद्राक असली ॲडव्हेंचरां करपाक आवडटाली.

आनीक एक दीस हांव एल कापितान थिएटरांत पिक्चराचो रातचो शो पळयतालों. साधारण अकरा जाल्ली. हांव पिक्चर पळोवपांत गुल्ल आनी इतल्यान पड्ड्याचेर 'इञ्ञश लरश्रश्रळपसङ्क अशी उतरां झळकली. हांव पळयत उरलों. उपरांत ऑडिटोरियमच्या भायर आयलों जाल्यार वयर सिनेमा - मॅनेजराच्या कॅबिना भायर नरेंद्र रावलां आनी म्हाका हात दाखयता. पिक्चर अर्देच सोडून हांव ताचे वांगडा भायर सरलों.

डायव्होर्स जाल्या उपरांत तो परत लग्न करपाचें चितूंक लागलो. म्हजी एक कवयित्री सोयरी आशिल्ली. तिची पिराय जाल्ली पूण आजून लग्न जावंक नाशिल्लें. कवयित्री म्हूण नरेंद्र तिका वळखतालों. केन्नाय बसले की तो तिचो विशय काडी. म्हाका म्हणी, 'तिका उतर घाल. जाती-बितीचो कांय प्रस्न ना.' नरेंद्र म्हजी चिकाना करता अशें म्हाका दिसतालें, कारण ती चली रुपांत सादी आशिल्ली. अशें आसुनूय हांवें तिका विचारलें. ती नरेंद्रा वांगडा लग्न जावपाक रेडी आशिल्ली. पूण तिच्या बापायक नरेंद्राचे थळ पसंत पडलें ना. 'आपले चेडू तशेच उल्लयार उपकारता पूण सोरो पियेता ताका आपूण चेडू दिवचो ना.' - अशें तिच्या बापायन म्हळें. नरेंद्राची 'दारुण' फाम जाल्ली हे हाचे वेल्यान कळटा. निमणें तें फिसकटलेंच.

आनीक एक दीस आमी दनपारां पणजे बशिल्ले. खाना-पिना जातकुच नरेंद्राक मूड आयलो. म्हणूंक लागलो, - 'रायबंदरा या'. रायबंदरा तेन्ना एक कवयित्री रावताली आनी नरेंद्राक तिची ओड आशिल्ली. हांवें म्हळें, 'अशा अवस्थेंत? वास येतलो मरे तिका!' नरेंद्र म्हणूंक लागलो, 'येवदी रे, आमी कवी म्हूण तिका खबर आसा.' नरेंद्रान पणजेसून टॅक्सी केली आनी आमी रायबंदरा तिच्या घरा कडेन गेले. पळयत जाल्यार ती कवयित्री घरा ना, खंय तरी गेल्या. नरेंद्रान तिच्या बापाय कडेन दोन गजाली मारल्यो आनी आमी परत पणजे आयलें. ड्रींक घेवन कोणागेर वचप हें म्हाका केन्ना पुटवलें ना. पूण नरेंद्र ते बाबतीत बिनधास्त आसतालो. अशेंय आसून तो म्हणी की ड्रींक घेतल्या उपरांत आपल्याक न्यूनगंड येता. आता ताका कसलो न्यूनगंड येता हें म्हाका केन्नाच कळ्ळें ना. पूण टॅक्सींतल्यान रायबंदरा वतना म्हाका दिलीप पुरुषोत्तम चित्रेची 'टॅक्सीराईड' ही कविता आनी तातुंतल्यो वळी मात उगडास जाताल्यो:

**मी जातोय भरधाव टॅक्सीतून**

एक एस्केपिस्ट, वाऱ्यावर केस उडत असलेला.

'बुलंद' चालू आसताना नरेंद्र अदीं-मदी म्हापसा 'काझा बेलां'त बसतालों. काझा बेलाचो पात्रांव ताचो बरो आमीग जाल्लो. हो पत्रकार - कवी म्हूण ताका बरो रेस्पेद दितालो. तर ह्या पात्रांवान ताका आपली बायोग्राफी बरोवपाची ऑफर दिली. नरेंद्रान ती ऑफर घेतली. ते निमतान तो सद्दा ताची काणी आयकुपाक बारांत वचूंक लागलो. ड्रीकांचे पयशे दिवपाची आता ताका गरज पडना जाली. पूण कितें जालें खबर ना, धरेपेत एक दीस तो आपलें बिराड कवळून नागपूरा गेलो तो गेलोच.



'बुलंदा'च्या टायमार ताचेर कोणेतरी डिफेमेशन केस घाल्ली. नरेंद्र साहित्य संमेलनाक म्हणून गोंयांत आयिल्लो. तेन्ना पुलिसांनी भर संमेलना ताका अरेस्ट केल्लो. पूण गोंयांतल्या एका पावरफुल राजकीय फुडाऱ्यान मध्यस्थी करून ताका तेन्ना सोडयल्लो.

एकदा म्हापसा अर्बन बँकेंतल्यान कर्ज घेवपाचें ताणें थारायलें. ताचो तेन्नाचो आमीग दीपक प्रभुदेसायाक तो श्युअरिटी रावं म्हणूं लागलो. पूण प्रभुदेसाय पक्को व्यवहारी. ताका नरेंद्राची फाफारावपणां खबर आशिल्ली. लोन घेतलो आनी पयशेंच भरचो ना. ताणें सरळ 'ना' म्हळें. निमणो कवी सुदाम मोटे ताचे गरयेक लागलो. ताका श्युअरिटी दवरून नरेंद्रान पयशे घेतले आनी मुंबय गेलो. पूण एक पयसो भरलो ना. निमणो सुदाम मोटेक बँकेची पत्रां येवंक लागली. सुदाम मोटे केन्नाय म्हाका मेळ्ळो की ताचो पयलो प्रस्न हो आसतालो - 'नरेंद्र बोडके भेटलेत का? सध्या कुठे असता ते?' निमाणें व्याजासकट मोटेकूच ते सगले पयशें भरचे पडलें.

'बुलंदा'ची छपाई आरोलकार नांवाचो एक मनीस करतालो. ताकाय धायेक हजाराक नरेंद्रान टोपी घातल्या. (हें खुद्द आरोलकारानूच म्हाका सांगलां.)

'बुलंदा'च्या टायमार ताचेर कोणेतरी डिफेमेशन केस घाल्ली. नरेंद्र साहित्य संमेलनाक म्हणून गोंयांत आयिल्लो. तेन्ना पुलिसांनी भर संमेलना ताका अरेस्ट केल्लो. पूण गोंयांतल्या एका पावरफुल राजकीय फुडाऱ्यान मध्यस्थी करून ताका तेन्ना सोडयल्लो.

इतलेंय जावन नरेंद्राचे गांवांगांवांनी आमीग आशिल्लें. मडगांवां गेलो की शरद नरेश, पुष्पाग्रज. वाळपय गेलो की सीताराम शेट्ये, माधव सटवाणी, साखळे गेलो की प्रेमानंद नाईक, फोंड्या गेलो की सुदेश लोटलीकार, आर. रामनाथ अशी ही वळेरी लांब-लांब आशिल्ली. तशेच पत्रकार जाल्ल्यान प्रत्येक गांवांतल्या पुलीस स्टेशनाचेर ताची पुलिसां कडेन वळख आसताली. चंद्रकांत साळगावकर, अनंत विरनोडकार बीन ताचे घट आमीग आशिल्ले. अशेंय आसून ताका एक दोनदा पुलिसेचो मारूय पडला. एकदा बेतीन रातची एका हवालदारां कडेन ताची बाचाबाची जाली. हो आपलो नेट दाखोवपाक ताचे कडेन इंग्लीशींत उलोवंक लागलो. हवालदाराक हाची इंग्लीश कांय समजूंक ना. उलट हो पियेल्लो टुरिस्ट बीन आसतलो अशें धरुन हाका रातभर कस्टडींत दवरलो.

> नरेंद्राक डायलेसीस करताना चडानचड पयशे लागूंक लागले, तेन्ना आमचे मदीं संवाद नाशिल्लों. पूण ताणें मदती खातीर खूप जाणांक चिटयो धाडल्यो. तातूंत म्हाकाय धाडिल्ली. हांवें तीन हजारांची ताका मनिऑर्डर केल्ली.

आनी एके फावट म्हापसा राम मनोहर लोहिया जार्दीनांत कसलो तरी प्रोग्रॅम आशिल्लो. हो बरोच तायट. सर्गेस्त बाबा नाईक आनी हाचें कितेतरी केस्तांव जालें. दोगांमदीं धक्काबुक्की जाली. तातूंत एका फोटोग्राफरच्या हातांतलो कॅमेरा जमनीर पडून फुटलो. ते वेळार ज्यो नांवाचो म्हापशा पुलीस इन्स्पेक्टर आसलो. ताणें पुलिसेंत व्हरून नरेंद्राक बडयलो. दुसरे दीसा हांवें नरेंद्राक पळयलों तर ताची मानसीक स्थिती बरीच डिप्रेस्ड आसली. हांव ताच्या घरा गेल्लों तेन्ना तो मुखेलमंत्री प्रतापसिंह राण्याक त्या पी.आय विरुद्ध इंग्लेजींत कंप्लेंट लेटर बरयतालो. ताणें तातुंतलो थोडो भाग म्हाकाय वाचून दाखयलो. मुखेलमंत्र्यांक ताणें पत्र धाडलें खरें पूण ताचेर कांय ॲक्शन जालीना. 'बुलंदा'त राण्याविरुद्ध ताणें एकदा लेख बरयल्लो हाची जाणविकाय मुखेलमंत्र्यान दवरल्याच आसतली.

एकदा ताका कामीण जाली. सोरो-बिरो सगलें बंद. पूण हो आमचे वांगडा न पियेता बसतालो. सदच्या सारकोच गजाली मारतालो. वाद घालतालो. म्हणटालो, 'तुमी पियेतात पूण कीक येता आपल्याक.'

नरेंद्र जरी फॉल्गीस आसलो तरीय ताचे कडेन एक कवीचें काळीज आसलें. देखीक, एक दीस आमी म्हापशां हॉलेटांत च्या घेत बशिल्लें. इतल्यांत थंय एक भिकारी पांच-स वर्साच्या चलयेसकट आयलो. दोगायच्या आंगावयली मुस्ताकी पिंदून भादरी जाल्ली. भिकारी हॉटेलवाल्याक म्हणू लागलो - 'साब ये लडकी दो दिनमे भुखी है, कुछ खाने को दो साब.' हॉटेलवालो गाळी मारीत तांका धावडावंक लागलो. नरेंद्राक त्या भिकाऱ्याची दया आयली. ताणें हॉटेलवाल्यांक थांबोन म्हळें, - 'तांका दी रे जाय तें, पयशें हांव फारीक करता.' तो भिकारी नरेंद्राक - 'अल्ला तुम्हारा भला करेगा' अशें परत परत म्हणीत गेलो.



मरणाक दोनेक वर्सा आसतना तो पुण्यासून म्हापशां आयिल्लो. तेन्ना ताणें ड्रींक पूर्ण बंद केल्लें. डायबेटीस वाडून किडनीचेय जाल्लें. चलपाचो आनी दोळ्यांचो प्रॉब्लेम जाल्लो. आमी 'पौणिमें'त बसले. ताणें फकत थोडें खावपाक घेतलें. खातां खातां ताणें सरळ भीड मुरवत ना धरता म्हाका सांगलें, 'आता कसोच उबो जायना मरें!' हांव आनी बायल आता एकमेकाच्या माथ्यांतल्यो उयो पळयत बसतात.'

- असल्यो सिक्रेट गजाली सांगपाचो बिनधास्तपणा लेगीत नरेंद्राकडेन आशिल्लो.

गोंयांत जायत्या कवींक ताणें प्रॉजेक्ट केल्ले आसात. तातूंत पुष्पाग्रज, सुदेश लोटलीकर आनी हांवूय आसा. म्हजेर ताणें खूप वर्सां आदीं 'गोमंतका'त 'बंडाचा झेंडा फडकविणारा कवी' - ह्या माथाळ्याचो लेख बरयल्लों. त्या लेखान हांव कवी म्हणून कॉलेजींत सामको फामाद जाल्लो.

तशेंच, 'नवप्रभा'त आसताना तो साबार कवींच्या कवितांचेर सुंदर आस्वादनां बरयतालो. ताचे पुस्तक कोणेतरी काडूंक जाय इतलें तें

लेखन मोलादीक आसा.

पूण इतली वर्सां मराठींत कविता बरोवन ताका केन्ना महाराष्ट्रांतलो प्रतिश्ठेचो दमाणी सारको पुरस्कार बीन मेळ्ळो ना. तो मेळ्ळो ताच्या शिश्याक. सुदेश लोटलीकाराक दमाणी मेळ्ळो तेन्ना हांवें ताका मात्सो चाळयल्लों : 'दमाणी पुरस्कार गुरुक मेळचो सोडून शिश्याक मेळ्ळो मरें!' तो फकत हासलो. पूण म्हजो हो कॉमेंट ताका भितरल्यान खंय तरी लागिल्लोच हें ताच्या तोंडावेल्यान जाणवतालें.

निमण्या काळांत ताणें 'सुनापरान्ता'त म्हजे कवितेचेर एक लेखमाला बरयल्ली, ती म्हजे वांगडा बरेपण जोडपाक काय कितें हें म्हाका कळ्ळें ना.

आयुश्य भर बाकीबाबाचेर टीका केल्या उपरांत, बाकीबाबान कोंकणी-मराठी कवितेंत भव्य-दिव्य काम करून दवरला. हाचो साक्षात्कार ताका असोच निमण्या काळांत जालो. 'म्हजी (बाकीबाबा विशीं) मतां दुरुस्त करपाची संद म्हाका मडगांवां रवीन्द्र भवनांत मेळ्ळी' - अशें 'अनार्या'चे प्रस्तावनेंत ताणें बरोवन दवरलां. तशें पळोवंक गेल्यार ताचो 'अनार्य' हो पूर्ण कोंकणी काव्यझेलो न्हंय. कारण तांतल्यो बऱ्योचश्यो कविता ताणें मूळ मराठींत बरयल्ल्यो आसात आनी उपरांत तांचो कोंकणी अणकार केल्लो. 'अनार्या'त 'किडो' नांवाची ताची एक कविता आसा. नरेंद्राच्या व्यक्तिमत्वांतली एक प्रवृत्तीच तातूंत व्यक्त जाल्या अशें म्हाका दिसता.कविता अशी:

**'तूं किडें पडून मरतलंय.'**
**तिणें म्हाका म्हटलें**
**स्त्राप दिल्ल्यावरी**
**हांव हांसलो**
**पिशी -**
**किडें पडपाचो भंय**
**किड्याक घालताय?**
**हांव हांसलो**
**आनी लुचत रावलो**
**तिचें रगत**

- नरेंद्राच्या रगतांत ही गुर्मी आशिल्लीच आनी हेच गुर्मीन ताका निमणो डायलेसीसकडे पावयलो - रगत शुद्ध करपाक.

नरेंद्राक डायलेसीस करताना चडानचड पयशे लागूंक लागले, तेन्ना आमचे मदीं संवाद नाशिल्लों. पूण ताणें मदती खातीर खूप जाणांक चिटयो धाडल्यो. तातूंत म्हाकाय धाडिल्ली. हांवें तीन हजारांची ताका मनिऑर्डर केल्ली.

त्याच निमण्या दिसांनी नरेंद्रान आपली वेबसाईट सुरू केल्या हे नॅटाचेर हांवें पळयलें. तातूंत ताणें कोंकणी शब्दकोशाची मोट्टी जायरात केल्ली. शब्दकोशा खातीर ऑफीस जाय, स्टाफ जाय आनी त्याखातीर दुडू धाडपाचेय भितर लोकांक आवाहन केल्लें. लोकांकडल्यान पयशे उकळपाचो हो एक स्टंट आसा अशें तें वाचून म्हाका तेन्ना दिसलें आनी मन दुख्खी जालें. ('किडो' कवितेंतलो रगत लुचपाचोच हो एक प्रकारचो दिसलो.)

पूण कितेंय जांव, कवितेंतली कलात्मकता ताणें आपल्या जीणेंतूय अनेकदा वापरल्या हेंवूय हांवें पळयलां. देखीक, एक दीस बायलेन ताका 'लक्ष्मी'चो फोटो हाड म्हणून सांगलें, हो सदचे भशेंन तो हाडपाक विसरलो. बायल रागार-फुगार. हाणें कितें करचें, एक धवोफुल्ल कागद घेतलो. ताचेर एक फ्रेम काडली आनी त्या फ्रेमींत मोट्ट्या अक्षरांत 'लक्ष्मी' अशी अक्षरां बरयली आनी तो कागद देवाकुडींत वण्टीर दसयलो. आता हाचेर ताची बायल खुश जाली काय कितें हांव नकळों. पूण ताच्या ह्या कलात्मकतेक हांवें मात दाद दिल्ली.

मनशांतले सगले गुण - अवगूण ताचे मदी आशिल्लें. ताचे कडेन ते इल्ले चडूच आशिल्लें अशें म्हणूंक जाय. ताच्यांतले गूण पळयत जाल्यार तो सद्‌गुणांचो पुतळोच थरतलो. आनी अवगूण पळयत जाल्यार ताच्या इतलो जापसालदार आनी बेफिकीर मनीस दुसरो आसचो ना. आज कुडीन तो आमचे भितर ना. पूण ताच्यो कविता आमचे वांगडा आसात. आता फुडली पिळगी, फुडले रसिक ताचें मूल्यमापन ताच्या कवितेवेल्यानूच करतली.

## ४

दिलीप पुरुषोत्तम चित्रे जे दीस गेलें ते दीस नरेंद्रान पुण्यासून फोन करून म्हाका ताच्या मरणाची बातमी सांगिल्ली. उपरांत फोन दवरच्या पयली ताणें म्हाका हेंवूय सांगलें की, 'सध्या हांवूय बरो ना रे, म्हजीय धडगत दिसना.'

नरेंद्राच्या मरणाक तेन्ना दोनेक वर्सां उरिल्ली.

## ५

सद्रे सरांचो फोन. नरेंद्र गेलो. हांव बिझी. बँकेंत म्हजे काम करीत रावलों. दुसरे दिसा पेपरांत श्रद्धांजलीचे लेख. टिपीकल. वाचलें. म्हाका दिसतालें म्हज्या दोळ्यांतल्यान एक दुक येवचें. पूण आयलें ना. फकत म्हाका उगडास जायत रावलें तें मुबारक बेगमचें गीत:

**कभी तनहाईयो में यूँ हमारी याद आएगी**
**अंधेरे छा रहे होंगे के बिजल कौंध जाएगी**
**ये बिजली राख कर जाएगी तेरी प्यार की दुनिया**
**न फिर तू जी सकेगा और न तुझको मौत आएगी.**

आईन म्हाका जिजाई भ
स्वराज्याची स्थापना
म्हणून केन्नाच सांगलें
हे खातीर हांव तिका द
दिना, म्हजो जल्म जाल
तेन्ना गोंयचेर भाऊ साहेब
आपलें राज्य स्थापन केल
तिणें आपलें मृत्यू पत्र
बरोवन दवरूंक ना. ह
फाटीं तिच्या उश्या पों
आल्मारींत सांसपून पळयल
आल्मारींत म्हाका पन्न
पोस्टकार्डां मेळ्ळीं. ता
तिणें 'हीं पोस्टकार्डां आनी
पन्नास लोकांना पोस्ट क
ना जाल्यार साईबाबांचा को
होऊन तीन दिसाच्या भि
तुम्हाला अपघात होईल' अ
कितें तरी बरयल्लें. हांवें त
पोस्ट केल

# म्हजे जिणेंतल्यो बायलो

कृ. म. सुखठणकार
९८५०५३०७५६

सावळ्याक हांव बरयतां ताचें अप्रूप. तो म्हाका लिखाणांत मार्गदर्शन करीत आसता. तो म्हजो पयलो वाचक. कितेंय बरयतकच हांव पयलीं तें ताका दाखयतां. बरयतना खंयूय अडत जाल्यार पयलीं ताका सांगतां. तो मागीर म्हाका खंयच्यान तरी कोणाच्या तरी लेखांतलों उतारो बी दाखोवन म्हजी बरोवपाची वाट मेकळी करता. फाटीं ताणें खुशवंत सिंग सांजेचो ज्यूस्त सातांक व्हिस्की घेता अशी मोलादीक म्हायती म्हाका दिल्ली. म्हज्यान माळयेर बसून हें काम करूं येता अशें मार्गदर्शनूय बी ताणें म्हाका केल्लें. म्हाका तें शक्य ना. हें हांवें ताका सांगतकच ताणें म्हाका कित्याक असो परतो प्रस्न केलो. ''मेरे पास माँ है'' असो दिवार सिनेम ांतलो शशी कपूराचो डायलॉग मारून हांवें जाप दिली. सांगपाचो हेतू म्हणल्यार म्हाका सावळ्याचें पावला पावलाक मार्गदर्शन मेळत आसा. फाटल्या सुमानांत हांव सकाळीं फुटी च्या, रातच्यो दोन खटखटीत चपात्यो आनी नलून केन्ना तरी धाडिल्ली शेंगदाण्याची चटणी असो नाश्तो करतालों. शेंगदाण्याच्या कुटींतल्या मुंयांक तांकां दुखय नासतना फूक मारून पयस करतालों. इतल्यान सावळो धडकलो. सावळो मदीं मदीं धडकता. जेन्ना तो धडकता तेन्ना तो म्हजे खातीर चेलेंज घेवन येता.

''''''तूं सद्याक कितें करता?'' - सावळो.

''ह्या कुटींतल्या मुंयांक कुशीक सारतां'' - हांव फूक मारीत.

''तूं त्यो मुंयो मागीर कुशीक सार पयलीं तुज्या मेंदवाक घयरांव जाल तो पयलीं कुशीक सार आनी कामाक लाग.''



हांवें दोळ्यार आयिल्ल्यो दोन बटो कुशीक काडल्यो.

"कसली मोहीम?"

"खुशवंत सिंगाचे जिणेंत बायलो आयिल्ल्यो."

"ताचो म्हाका कितें उपेग?" - हांव.

"मदींच पचपचूं नाका! ताणें तांचेर पुस्तक बरयलें तशेंच तूं तुजें जिणेंत आयिल्ल्या बायलांचेर बरय." ताणें अशें म्हणपाक भितर रांदचे कुडींत फोण्णां मारिल्ल्याचो आवाज आयलो.

"आगे बाये! अश्यो कितल्यो बायलो तुमच्या जिणेंत आयल्यात व्हो?" ही दवलो घेवन भायर आयली.

"भाभी, तुका अजाप जालें मगें?" - सावळो.

"हय तर!! जालें तर! तोयाक मारपाचीं फोण्णां हांवें भेण्याच्या सुक्या भाजजेक मारलीं." - भाभी.

"तुका जालां तशेंच लोकांक अजाप जातलें आनी ते अजापा भरशीं ते पुस्तकाक येतले आनी आमची पयली आवृत्ती अशीच खपतली." सावळ्याक असलीं गणितां बरी जमतात. सावळो अशी कीड म्हजे तकलेंत सोडून वता आनी मागीर ती वळवळत रावता.

तशें खंयच्या दादल्याचे जिणेंत बायलो येनात? खुशवंत सिंगाचे जिणेंत आयल्यो म्हूण तातूंत व्हडलें कितें! म्हज्या दिसाची सुरवात शेंवतें "गूड मॉर्नींग! बाबा, उठलो" म्हणून करता आनी दिसाची समाप्ती "बाबा दार आड कर आं, गूड नायट" ह्या ताच्याच उतरांनीं जाता. खुशवंत सिंगाचें म्हाका खबर ना. म्हजी जीण बायलांनींच समृद्ध करून उडयल्या म्हणल्यार जाता. Behind every successful man there is a woman अशें म्हणटात, म्हणटकच तें म्हाका लागू जाता. (म्हजीं आठ पुस्तकां छापपाचे वाटेर आसात.) दर एका मनशाचो जल्म आवयच्याच पोटांतल्यान जाल्ल्यान आवय ही ताचे जिणेंत येवपी पयली बायल मनीस. आमचे आईक, आपणे खंयच्या जल्माक पातक केल्लें म्हणून हांव तिच्या पोटांत जल्माक आयलों ह्या प्रस्नाची जाप आजून सापडूंक ना. अशें आसलें तरी तिचो म्हजे जिणेंत बरोच प्रभाव पडला हें हांव हांगा नमूद करूंक सोदतां. ती 'श्यामची आई'तली आई घडये नासत, तिचें जेवण चडशें खारूच जाता. श्यामच्या आईचें जेवण अळणी जातालें हें वाचून हांव जाणां. फुडें-फाटीं म्हाका अशें पुस्तक बरोवचें पडत देखून आईक हांवें अळणी रांदपाक सांगिल्लें पूण तिणें काना मनार घेतलें ना. तिका हांवें श्यामच्या आईचो संदर्भ दिवन पळेलो. "तिका माळूण चाबिल्लें दिसता" अशें म्हणून तिणें म्हजें सजेशन भायर मारलें. सोड.

आईन म्हाका जिजाई भशेन स्वराज्याची स्थापना कर म्हणून केन्नाच सांगलें ना. हे खातीर हांव तिका दोश दिना, म्हजो जल्म जाल्लो तेन्ना गोंयचेर भाऊ साहेबान आपलें राज्य स्थापन केल्लें. तिणें आपलें मृत्यू

पत्र बी बरोवन दवरूंक ना. हांवें फाटीं तिच्या उश्या पोंदा, आल्मारींत सांसपून पळयल्लें. आल्मारींत म्हाका पन्नास पोस्टकार्डां मेळ्ळीं. ताचेर तिणें 'हीं पोस्टकार्डां आनीक पन्नास लोकांना पोस्ट करा ना जाल्यार साईबाबांचा कोप होऊन तीन दिसाच्या भितर तुम्हाला अपघात होईल' अशें कितें तरी बरयल्लें. हांवें ती पोस्ट केलीं. आसूं. आईक हांवें तिचे दोळे दान कर म्हणिल्लें. पुस्तकांत अशें कितेंय मॅटर आसल्यार वाचप्यांचेर ताचो छाप पडटा. तोय प्रस्ताव तिणें भायर मारलो... ''दोळे दाखोवपाक कुडचडकारागेर व्हर म्हणल्यार तुका फावना! दोळे कोचून काडपाक मात तूं फुडें!!'' अशें म्हणून तिणें आपल्या दोळ्यांक पदर लायलो. परत आनी हांव तिच्या दोळ्यांचे वाटेक गेलों ना.

तुमी व्हड मनशांची आपजीण वाचत जाल्यार तांकां घालपाक कपडे नासताले. गांधीजी (दांडी यात्रा फेम) वालो न्हेसून फामाद जालो. म्हज्या कपड्यांक आई सदांच खळ घालताली हाका लागून म्हाका शाळेंत पयली सुवात फावो जातालीं. म्हणजे, शाळेंत इन्स्पेक्टर तपाशणेक येतालो तेन्ना पाटील गुरुजी म्हाका म्हज्या कपड्यांक लागून पयल्या बांकार बसयतालों. तेन्ना जायरातिंचें यूग येवंक नाशिल्लें तरी रुक्सानान (आतां दुबय आसता) तेन्ना म्हाका विचारिल्लें...

''तुम्हारी कमीज मेरी कमीज से सफेद कैसी?''

''मेरी कमीज को मेरी माँ खळ में डालती है. कपडा कडक रहता है, ऑग को लगता है लेकीन सफेद रहता है. समझी ना?'' मागीर परत ताणें म्हाका केन्नाच कितेंच विचारलें ना. जेन्ना हांव म्हज्या पांयांर उबो रावपाचो प्रस्न आयलो तेन्ना बापायचें सगलें पेन्शन हांवें बाजारांत घालें (कल्याण व मुंबई बाजार शनिवार रविवार बंद राहील). ''कसलोच धंदो करपांत लज ना, चोरी करपांत लज'' अशें म्हणत आई म्हज्या फाटल्यान उबी रावली. खंयच्याच व्हड मनशान अशें भांडवल ह्या बाजारांत घालूंक नासतलें आनी ताची आवयूय ताचे फाटल्यान अशी उबी रावंक नासतली. आई उपरांत म्हजे जिणेंत येवपी बायल मनीस म्हणल्यार गंगू सुईण. तिच्या हातांतल्यान हांव हे भुंयेर आयलों. तिका हांव कसो विसरूंक शकन? तिचें नांव हांवें घेतलें ना जाल्यार तिचेर अन्याय जातलो. व्हड व्हड मनीस फकत व्हडल्या व्हडल्या मनशांचोच उल्लेख आपल्या पुस्तकांनी करतात हें सारकें न्ही अशें म्हाका दिसता. गंगून म्हाका हे भूंयेर हाडलोच, उपरांत म्हाका तेलूय तिणेंच लायलें. म्हाका पिठी आनी तेल रगडून म्हज्या आंगार पिठें दवरलें ना. हांव हे खातीर तिचो उपकारी. खुशवंत सिंगाक तेल बी कोणे लायलां हाचो उल्लेख तांच्या पुस्तकांनी आसा जाल्यार हांव नकळों कित्याक तर तांचो जल्म हदालीक (आतां पाकिस्तान) जाल्लो. मागीर ते दिल्लीक रावताले. दोनूय कडेन थंडी खूब. थंडेंत पिठ्याचो खूब त्रास जाता म्हणून म्हणलें. उलोवंक लागतकच पयलें उतर म्हज्या तोंडांतल्यान आयलें तें मेंमें. आई, बाबा हीं उतरां नॉर्मल भुरग्यांच्या ज्या तोंडांतल्यान येतात. तीं म्हज्या तोंडांतल्यान खूब उसरां आयलीं. हे खातीर हांव रोजालीन, सुकोरीन, इजाबेल ह्या समेस्त नुस्तेकान्नींचो उपकारी. तांच्या माथ्यार नुस्त्याचीं पांटी चडयत हांव तांचे खूब लागीं आयलों. गोंयांत दादल्यांचे (नुस्तें खातात ते) जिणेंत नुस्तेकान्नी येतातूच, हें खंयचोच दादलो न्हयकारचो ना. आनी तांच्या बायलांकूय हें खबर आसता. 'तुमीं नुस्तें हाडपाक गेल्ले काय नुस्तेकान्नी पळोवपाक गेल्ले?' हें वाक्य दादलो मागीलदारा नुस्त्या पोती दवरता तेन्ना प्रत्येक घरांत आयकूंक मेळटा. आसूं लोकांचें आमकां नाका! हांव ल्हान आसतना इजाबेल म्हज्या पोल्याक टोकी लायतालें आनी हांव किटकिटून हांसतालों अशें म्हाका आई सांगता. मागीर म्हज्या पोल्याक टोकी कोणेंच लायली ना. आतां आमच्या दारांत नुस्तेकान्नी येना. सगल्या गोंयांत हेंच चित्र दिश्टी पडटा. आमच्या दारांत धरप्पा बजाज एम टेनाचेर नुस्त्या पाटें घेवन येता. खूबश्या गोंयकार हालीं शाकाहारी जाल्यात ताचें हें मुखेल कारण जावंयें मागीर ते कितेंय म्हणू. सरकारी प्राथमीक शाळेंत बापायन म्हजें नांव घालतकच आपशींच खूब चलयां कडेन म्हजो संबंद आयलो. पूण तांचें बायल म्हणून रुपांतर जाता म्हणसर म्हजे जिणेंत कोणूच टिकलीं नात. थोडीं तर शाळेंतूच चिचारे, ओवळी धोडे, बोरां, जांबळां दिवन पयस जालीं. हातुंतलें शिरवयकारालें सीमा आमगेर मेळांय व्हरपाक येतालें. कितलो तेंप तें म्हाका आमगेर म्हाकाच लागून येता शें दिसऽ.

कालांतरान तामून दूद दिवपाचें कमी केलें तशें सीमानूय आमगेर येवपाचें कमी केलें. म्हाका आनी तामूक दोगांयकूय खूब वायट दिसलें. तामूक तर खूबूच वायट दिसलें आनी तें चंबू भर दूद दिवपाक लागलें. रेखा भुजंगराव हुबळीकार हें आनीक एक 'पाखरू' जें म्हजे जिणेंत आयलें आनी 'स्मृती ठेवून' गेलें. हें म्हाका आमचे घरची सून जातलें अशें दिशिल्लें. हाका लागून हांवें नुस्तें लेगीत थोडो तेंप सोडिल्लें. हाचे वयल्यान हांव भितरल्यान कितलो पेटिल्लो हाचो अदमास तुमकां येवपाक जाय. आयलोना जाल्यार तो तुमचो प्रोब्लेम. आई कितलेशेच दीस शिवराक आनी नुस्त्याचें अशीं दोन तरेचीं जेवणां म्हाका लागून करताली. नुस्त्याचें जेवण जातकच कामणे तिका रांदन सारोवन दितालें. एक दीस रेखा आमगेर आयिल्ले कडेन आईन केल्ले आळू वडी तोंडांत उडयत 'तूने मेरा नाम कभी आँखों से बुलाया नहीं मैंने जाने कैसा सुना था... जायेगी घर जायेगी डोलियाँ चड जायेगी...''अशें ताणें म्हणिल्लें लेगीत. मागीर आळू वडीचे हात म्हज्या सदऱ्याक पुशीत आईन दिल्ली च्या घेतली. वतना हांवें ''अगं आता डोलीचा जमाना गेला बरं का गडे, आता तुला चंद्रकांताच्या गाडीत चडावं लागणार बरं का गडे'' अशें म्हणिल्लें म्हाका याद जाता. ताणें म्हाका सदचे भशेन पोल्यार विणी मारून बरो प्रतिसाद दिल्लो. ते रातीं म्हाका आमी चंद्रकांताचे गाडयेन कवळ्यां गेल्यांत आनी देवतेचें दर्शन जातकच बाबुली भट आमकां तीर्थ घालतना ''बेगीन देवतेक पेडे घेवन येयात'' म्हणटा अशें सपन पडलें. आनी म्हज्या आंगार कांटो आयिल्ल्यान हांव जागो जालों. हांवें हें सपन रेखाक सांगलें लेगीत. ''ह्या वयांत असली सप्नं पडायचीच. योगिनी जोगळेकरांनी एका कादंबरीत असं म्हटलं आहे. मला ना किनई मी मतदान करून माझा हक्क बजावते असं सप्न पडलं, आई

शप्पथ!'' अशी ताणें म्हाका जाप दिली. शेवटीं म्हजीं सपना सपनांच उरलीं. भुजंगरावान ताका एसटींत बसोवन गांवांक धाडलें. म्हाकाय हांव बी.कॉम जावन कामाक लागलां आनी पयलों पगार बापायच्या (१९११-१९८१) हार घाल्ल्या फोट्या सामकार आईच्या हातार दवरला अशीं सपना पडपाक लागलीं... ''बरें जालें गांवांक गेलें तें कितलें फावटीं रान्नी सारोवपाच्यो आमी?'' अशें म्हणून कामण्यान रान्नी सारोवपाचें बंद केलें.

म्हजे जिणेंत येवन खूब तेंप घराबो केल्ली अस्तुरी म्हणजे संध्या बरड. ताचो म्हजेर खूब प्रभाव पडिल्लो. तेन्ना हांव दोनदां संध्या करतालों. (आमचें शास्त्र्यांचें घराणे). तांचे आनी आमच्या घराब्याचे संबंद आशिल्लें (आमची उदारी तांच्या पसऱ्यार आसा, म्हयन्यान फारीक करतां, तुमचे म्हायती खातीर). तें सांजचें गल्ल्यार आसतालें.

''हीं बटाटां सामकीं करकरीत. गणपत गुदांवांतल्या साकांतलीं बटाटां घाल ताका'' अशें म्हणून तें बऱ्यांतलीं बरीं सुळसुळीत चकचकीत बटाटां म्हजे पिशवेंत घालतालें. ज्या दिसा कुसकी बटाटां आमचे रांदचे कुडींत पावतालीं तेन्ना आईक ज्युस्त कळटालें. ''आज तुगेलें संध्या नाशिल्लें काय कितें रे पसऱ्यार? कुसको म्हाल सामको!'' म्हाका कुसक्या म्हालाचें पडिल्लें नासतालें आईलीं 'तुगेलें संध्या' हीं उतरां म्हज्या कानांत संतूर कशी वाजत रावतालीं. आमची आई 'मुडी'. एक दीस हांवें, ''म्हगेलें संध्या आशिल्लें गे आज, कांदे पळे आपोल कशे'' अशें म्हणून कांदे दाखयलें. ''पुरो आं बायजणपणां! बरडालो जांवंय जावन हांगांय पसरो उगड आतां'' अशें म्हणून तिणें आपोल काडून म्हजेर शेवटिलो. आपोल तो कामण्याचेर कसो बसलो खबर ना. तें तेंच नीब करून दोन दीस घरा रावलें. बापूय खबर घेवपाक थंय पासयो मारपाक लागलो. तीय तापोवणी म्हाकाच! आसूं! संध्या आनी हांव धेंपो कॉलेजीचीं (आल्तीन्य) सोपाणां सांगातान कितले खेपे चडलीं आनी देंवलीं पूण सप्तपदीचीं सात पावलां ताका म्हजे बराबर चलपाक जमलें ना हाचें दुख्ख म्हाका अजून आसा. बरडाक आमच्या नाजूक नात्या विशीं हांवें 'हिण्ट' दितकच ताणें, ''तुजे परस सिताराम केसरी परवडलो'' असो म्हजो अपमान केल्लों तो तुमकां याद आसतलोच. ताचें जावपाचें तेन्ना लग्न जालें. तागेलो घरकार साऊदीक आसता. हांवें संध्याक साऊदीक वच म्हणलें, ''तुजेंय बरें एक पुस्तक जातलें''. ताणें हो वेळ मेरेन काना मनार घेवंक ना. ताची मर्जी! जेन्ना हांव जिणेंत आयिल्ल्या बायलांचो विचार करता तेन्ना हांव शेंवत्याक कसो विसरूंक शकता? हो ताचेर आनी म्हजेर दोगांयचेर अन्याय केल्ले वरी जातलो.



सपना वरवीं म्हजे जिणेंत ड्रीम गर्ल हेमा मालिनी धरून कॅट्रीना कैफ ह्यो सगल्यो नटयो आयल्यात हें वाचून खूब जाणांच्या पोटांत दुखतलें हें हांव जाणां. हेमा मालिनी धर्मेंद्राचे जिणेंत एकुणशे अंयशींत आयली.

कित्याक तर ही माप लवंडून (आई उडोवन म्हणटा) आमचे घरांत येवचे पयलीं शेंवतें, "May I come in Sir?" अशें म्हणून भितर सरिल्लें. शेंवत्यान म्हज्यो संवंयो सामक्यो इबाडून दवरल्यात ताचो हिका आमगेर माप लवंडून येतकच खूब त्रास जालो. देखीक, हांव न्हावपाक वता तेन्ना तें तुवालो घेवन भायर उबें रावतां. ही नवीच व्हंकल आशिल्ली तेन्ना हिका तो सगलो प्रकार विचित्र दिसलो. हिणें पळयल्ल्या एका सिनेमांत खंय विनोद मेहराखातीर रेखा मान्न्या भायर तुवालो घेवन उबी राविल्ली. मागीर विनोद मेहरान तुवालो घेतना रेखाक भितर ओडली. हें आयकून म्हज्या आंगार ओगीच रोमांच सो आयलों, कित्याक खबर ना. ही म्हयनो भर आवयगेर गेल्यार म्हाका फरक पडना पूण शेंवतें एक दीस आपसेंट आसल्यार हांव म्हज्याच घरांत आंदळों जातां. एक दीस शेंवतें ना हें म्हाका याद उरलें ना आनी हांव सदचे वरीं सकाळी तुवालो घे नासताना न्हावपाक गेलों आनी ओल्या आंगार मान्न्यांत तीन वरां उरलों. निमणे जेवपाक कित्याक येवना हें पळोवपाक जेन्ना आईन घर सोदलें तेन्ना कपडे दिवन (आंग सुकिल्लें!) आईन म्हाका भायर काडलों. सोड.

म्हजें लग्न खूब उसरां जालें म्हणटकच ही म्हजे जिणेंत उसरांच आयली. हाका लागून म्हजें व्हडलें लुकसाण जालें अशें हांव म्हणना कारण आमच्या संवसाराचे वेलीर फुलपाचीं तीं तीन फुलां फुल्लींच. थोडे जाण ओगीच आपली बायल आपली फ्रेण्ड, गायड, फिलोजोफर बी म्हणटात. हांव अशें म्हणपाक धजना कित्याक तर म्हाका अजून गायड करपी आवय आसा. घरांत तिचेंच राज्य चलता. हिचें मार्गदर्शन ताल्ले हाडूं कांय संवदाळे हाडूं, पातंजली रायस हाडूं काय कमल तांदूळ हाडूं हे मेरेन मर्यादीत आसा. म्हज्या बऱ्या मागप्यांनीं म्हाका कुशीक व्हरून, तुंवें हिच्यांत कितें पळयलें, असो खूब फावटीं प्रस्न केला. हांवें, वेळ तो, अशें म्हणून वेळ मारून व्हेलो. आमचे जिणेंत आमी कांय खोशयेचे खीण वांगडा भोगल्यात ना न्हय. टिव्हीचेर (क्राऊन टिव्ही) आमी रंगोली (ही रांगोळी म्हणटा), भारत एक खोज, महाभारत (मैं समय हूँ) हे प्रोग्राम सोफ्यार बसून वांगडा पळयल्यात. कांय दुख्खाचे खिणूय बी आमी वांगडा भोगल्यात. आमचें लग्न जातकच बापूय रोखडो गेलो (पांय गुणाचेर बी म्हजो विस्वास ना). तेन्ना हिणेंच म्हाका समजायलो. ''आतां म्हजो बापूय तोच तुजो बापूय'' ही हिचीं उतरा म्हाका याद जाता तेन्ना म्हाका भरून येता.

ही चामुंडा देवी महिला मंडळाची अध्यक्षा आसा तें आमच्या सगळ्यां खातीर अभिमानाची गजाल. हिका तोय, बटाटाचीं कापां, मिर्ची तळप, ताकाची कडी बी बरी जमता. आनीक कितें जाय! शेवटी ब्रह्मदेव गांठ मारता थंय आपलें लग्न जाता ही खरी गजाल. ओगीच दुसऱ्याचें बरें दिसलें तें आपलें जायना. जें पदरान पडलां तें पवित्र मानून दीस काडपाचे. हें म्हजेच बाबतींत अशें न्हय. आमगेलें व्हडलें (उग्तें मळब फेम) आमचें लग्न जाले उपरांत दोन वर्सांनी जालें. इतलो कळाव कित्याक जालो तें म्हाका अजुनूय कळूंक ना. ''पयली बेटी तूप रोटी'' अशें म्हणून हांवें ताका येवकार दिलो. मुलाचे पांय पाळण्यांत दिसतात तशें म्हाका व्हडल्याचे दिशिल्लें. तें 'उग्तें मळब' गाजयतलें हें तें ल्हान आसतनाच कळिल्लें. तें सादारण चार वर्सांचें आसतना ताणें आपली पयली चारोळी सादर केल्ली. मागीर ताणें फाटीं वळून पळयलें ना. ती चारोळी अशी आशिल्ली...

म्हशिचें दूद दाट
गायेचें कित्याक पातळ
म्हाका तें पचना
तुका कित्याक समजना

हांव ही रचना आयकून शॉकाद जाल्लो. अजून जायत आसां. काल ताणें एक कविता म्हाका आयकयल्या. सगळी याद जायना सुरवेच्यो वळीं अश्यो आसात...

हांव आसा आलतडी
व्होडें लागलां पलतडी
हांव जेन्ना पावतलें पलतडी
तेन्ना व्होडें लागतलें आलतडी...

हांव परत शॉकाद जालों. तें अजून लग्न जावंक ना तें अजून शिकता म्हणटकच म्हाका नात बी कोण ना. चलेय शिकतात म्हणटकच सुनोय नात. 'म्हजी सून म्हाका सून कशी दिसना, ती म्हजी दुसरी चली' असलीं उतरां म्हाका सद्याक तरी वापरपाक मेळचीं नात हाचें म्हाका भान आसा.

व्हड मनशांच्यो आपजिण्यो वाचात, सगळ्यांचे जिणेचेर तांच्या गुरुंचो प्रभाव पडला आनी अजापाची गजाल म्हणजे सगळे गुरू दादलेच आशिल्ले. पूण म्हजेर जोशी टिचरीचो (एम.ए मराठवाडा) प्रभाव चड पडलां ही तुमच्या खातीर अभिमानाची गजाल. जोशी टिचर आमकां इंग्लीश शिकयतालीं आनी तिका सिनेमांची खूब आवड आशिल्लीं. हाका लागून म्हजी इंग्लीश भाशेंत रुची उत्पन्न जाली आनी म्हजे सिनेमे पळोवपूय वाडलें. जोशी टिचरीचो कमल हासन हो आवडटो नट. ताच्यो मिश्यो तिका खूब आवडऽ अशें वर्गांत ती आमकां सांगताली. तिका इम्प्रेस करपा खातीर कमल हासना भशेन मिश्श्यो दवरपाचो हांवें खूब यत्न केलों. दाट मिश्श्यो येवच्यो म्हणून हांव टोपाज ब्लेडीन परती दाडी करतालों पूण म्हाका दाट मिश्श्यो केन्नाच आयल्यो ना. हांवें ही खंत जोशी टिचरी कडेन उक्तायली.

"Teacher, I am always shaving in opposite direction but moustache is not growing as thick as Kamal Haasan, I am feeling sad for you."

"No Problem! Moustaches differ from men to men. Some have thick some have thin", जोशी, टिचरीन म्हाका समजायलों. हांव एसएससी पास जालों हें पळोवपाक ती उरली ना, म्हणजे हांव तिसरे खेप एसएससीक बसलों तेन्ना ती रिटायर जाल्ली आनी आपल्या गांवांक स्थायीक जाल्लीं. सेलीन टिचर आमकां बायोलॉजी शिकयताली. तिणेंच म्हाका डिसेक्शन ऑफ फ्रॉग शिकयल्लें. म्हाका हाचो म्हज्या फुडाराक खूब उपेग जालो. लग्ना उपरांत नुस्तें उजरावपाचें काम म्हजेरूच पडिल्ल्यान हांवें तें गिन्यान थंय वापरलें. हांव कुल्ल्यांतली लाक, तिसऱ्यांतलीं मांसां, सोलार सुंगटांतले दोर जे सहजतायेन काडटा तें पळोवन खूब जाणांनी म्हाका, तूं दोतोर जावन एम.एस. कित्याक जालो ना, असो प्रस्न विचारला. हाचें श्रेय सेलीन टिचरीक वता. सोड.

जिणेंत चड उतार ते आसताच. लग्न जालें म्हणटकच बायल आयलीच पूण जेन्ना जिणेंत उतार लागता तेन्ना हातांत पैमाना (ग्लास) घेवन उबी रावपी बायल मेळप खूब कठीण. म्हाका वितोर मेळ्ळां तें हांव म्हजें नशीब समजतां. उर्दू शायरींत 'साकी' हें उतर पुल्लींगी पूण म्हजे जिणेंतली पैमाना भरपी साकी ही स्त्रीलिंगी हें आतां तुमकां कळ्ळांच आसतलें. नर्गीस फक्री सारकें दिसपी वितोर जेन्ना शराबा वांगडा (सोऱ्या वांगडा) उर्दू शायरी पेश करता तेन्ना सोरो चडला काय शायरी हेंच कळना. ताच्या मैखानांतल्यान (बारांतल्यान) भायरूच सरन दिसना. हो मैखानो आमचे घरचे वाटेंरूच आसा म्हणटकच म्हाका म्हजी वाट वांकडी करची पडना. वितोर म्हाका पडिल्लें एक सपन (हाचो अर्थ विचारूं नाका). ताका म्हजो गम (पिकासांव) ज्युस्त कळटा आनी त्या हिस्पान तें म्हजो पैमाना भरता. तुमचे (दादल्याच्या) जिणेंत गम (पिकासांव) जरी नासलो तरी हातांत पैमाना घेवन सदांच साकी (आण्टी) दर एका मोडणार उबी आसची अशें हांव मागतां. सपना वरवीं म्हजे जिणेंत ड्रीम गर्ल हेमा मालिनी धरून कॅट्रीना कैफ ह्यो सगल्यो नटयो आयल्यात हें वाचून खूब जाणांच्या पोटांत दुखतलें हें हांव जाणां. हेमा मालिनी धर्मेंद्राचे जिणेंत एकुणशे अंयशींत आयली. ताचे कितलेशेच वर्सां पयलीं ती म्हज्या सपनांत येताली म्हणुनूंच हांव तिका ड्रीम गर्ल म्हणटालों. ह्या नांवान खूब तेंपान मागीर तिचेर सिनेमा आयलो ही गजाल वेगळी.

बायलो आमचे जिणेंत केन्ना वाऱ्याची झुळूक कश्यो येतात जाल्यार केन्ना वादळ कश्यो आनी आमकां मुळां पासून हालोवन उडयतात. तरी आसतना त्यो आमकां आमचे जिणेंत येत रावच्यो अशें दिसता. मागीर तो हांव आसूं नाजाल्यार खुशवंत सिंग.



# कुल्ल्यो!

अणकार : सखाराम शेणवी बोरकार
९९२३३०६७५१



**स. गोपाळकृष्ण भोबे हांणी गोंयच्या नुस्त्याचेर ''मासे आणि मी'' हें मराठींतल्यान सोबीत पुस्तक उजवाडायलां. १९६६ वर्सा उजवाडाक आयिल्लें हें पुस्तक आयज दुर्मीळ. ह्या पुस्तकांतल्या ''कुल्र्या'' ह्या लेखाचो केल्लो अणकार.**

कुल्ल्यो!!! व्वा! मटण खावप्याक जशें कोंबडेचें तशें नुस्तें खावप्याक कुल्ल्यांचें अप्रूप. थाराविकच नुस्तें खावप्याक लेगीत कुल्ल्यांचो घोस्त. सगल्याच नुस्तें खावप्यांक कुल्ल्यो आवडटात. जेवणांत कुल्ल्यो आसप म्हळ्यार एक पव्वान्न आशिल्ल्या सारकें. कुल्ल्यांचो आनी मटणाचो एकेच तरेचो मसालो इतलोच ताचो संबंद!

कोथमिऱ्यो, मिरसांगो, मिरयां, जायफळ, एकाद्री वेलची, दोन तीन लवंगां, जायपत्री आदी घाल्लो घरावो मसालो नाल्लाचे सोयेंत घालून त्या भाजिल्ल्या वांटपांत लाखेच्यो कुल्ल्यो शिजोवपाच्यो. शिजतना ताच्या फकत वासानच जी धुंदी येता ती एकाद्या कसबी वादकाचे विणेंतल्या लांब सुरांचे धुंदी सारकी.

बेगीन बेगीन जेवप्याच्या जेवणांत कुल्ल्यांचें मसाल्याचें तोणाक घालपाचें. ताचें जर हरशीं दोन तीन मिनटांत जेवण जेवन जाता आसत तर कुल्ल्यो आसल्यार ताका वीस मिनटां सहज लागतली. पंदरा तरी सेर्त! कुल्ल्यो जर सवकासायेन खाल्यो नात, तिचे व्हडले दांगे फोडून कुशीक केले नात तर भितरलो रुचीक गर खावपाक येवचो ना आनी कुल्ल्यो खाल्ल्याचें समाधानय जावचें ना.

कुल्ल्यो धरप ही नुस्तें धरपाच्या शास्त्रांत सगल्यांत सोपी गजाल. कित्याक तर कुल्ल्यो धरपाक चड उदकांत देंवचें पडना. कितें करपाचें तें धडेर रावनच. धा वर्सांचो भुरगो धरून ते हात पांय धड आशिल्लो सामको म्हातारो लेगीत कुल्ल्यो धरूंक शकता.

कुल्ल्यो धरून विकपाचो धंदो करपी मात

न्हंयच्या मदेकांत पनेळांतल्यान वचून सायकलीच्या रोदा येद्या लोखणाच्या चक्रार खोलगट जाळीं बांदून आनी त्या आट्याच्या मदीं मांसाचे वा व्हडल्या नुस्त्याचे कुडके बांदून ते खोल उदकांत सोट्टात. आट्याच्या दोरांक खुणे खातीर बोंडे बांदतात आनी पांच पांच मिनटांनी ते आटे वयर काडून पळयतात. केन्ना केन्ना एका आट्याच्या जाळ्यांत चार पांच कुल्ल्यो मेळटात. पूण हें धंदेवाल्यांचें काम. ह्या कुल्ल्यांत आनी न्हंयचे देगेर उबे रावन धरिल्ल्या कुल्ल्यांचे रुचींत फरक आसता.

कुल्ल्यांच्यो साबार जाती आसतात. दर्यांत रावपी, न्हंयंत रावपी, दर्यो आनी न्हंयच्या संगमार खडपा पोंदा रावपी, न्हंयच्या वोल्तार अडचणीच्या जाग्यार रावपी, व्हाळांत, तळ्यांत रावपी, न्हंयचे धडेच्या व्हडल्या फातरांनी रावपी, आनी धडेर सपाट जाग्यार बिळां करून रावपी अश्यो कुल्ल्यांचो साबार जाती आसात. प्रत्येक कुल्ल्यांची रुचय वेगवेगळी.

ह्या शिवाय साव्या उदकांत मेळपी ''मुठेङ्ख जातीच्यो कुल्ल्यो वेगळ्योच! त्यो फकत पावसा दिसांनीच वयर येतात आनी तांकां धरपय सामकें सोंपें. न्हंयचे देगेर रावपी लोक पावसा दिसांनी हे मुठे खावन कुल्ल्यो खाल्ल्याचें समाधान मानतात. गोबरा कोराचें आंग आनी दांग्यांक काळी कडा आशिल्ले मुठे सामके रुचीक आसतात. पावसा दिसांचे सुरवेक हे मुठे दर्या देगेर लेगीत मेळटात.

एकदां हांव पावसा दिसांचे सुर्वेक केगदी वेळेचे एके वटेन गेल्लो. हो वाठारच असो आसा की थंय दीस रात दरयाचीं ल्हारां मोटमोटयान देगेर येवन आपटटात. ह्या दर्या देगेर माडांची व्हडली रांग आसा. ल्हारांचें उदक आपटून आपटून माडांचीं मुळां वयर सरल्यांत. पावसाळ्याच्या मदल्या दिसांनी तर हीं माडाचीं मुळां जमनींतल्यान सुटून वयर हवेंत दवरिल्ल्या भशेन दिसतात. केन्नाकाय तीं पडटलीं असो भंय दिसता. त्या माडां मुळांत रावप भिरांतेचें दिसता. पूण कितलींशींच वरसां हें सगलें सोंशीत हे माड उबे आसात. केन्नाय मोड बी आयलें जाल्यार तांतलो एक म्हातारो माड मातयेभरवण जाता पूण बाकीचे माड मात मोडान खवदळिल्ल्या उदकांत - नेटान हांसत - आपलें प्रतिबिंब उदकांत नियाळत आनी ल्हारांचें गाणें आयकत उबे आसात.

काळ्या दांग्याचे मुठे पयल्या पावसाक भियेवन ह्या वयर सरिल्ल्या माडाच्या मुळांक दसून रावतात. वर्सभरांत केन्नाच दिसनाशिल्ले हे मुठे पावस पडलो रे पडलो खंयच्यान उदेतात ताचें अजाप दिसता. ह्या मुळांचेर खूप मुठे हांवें पळयले. इतल्यान एक कुणबी येवन ताणें एक बडी ह्या माडामुळांर दवरली. मुयो चडच्यो तशे सात आठ मुठे ते बडयेर चडले. ताणें ती बडी आपल्या सुंबाचे पोतयेंत कोंबून मुठ्यांक भितर घाले. अशें करून पोती भरून मुठे ताणें एकठांय केले.

''कितें रे, खावपाक बरे आसतात रे हे?''

''हें कितें विचारप जालें? कुल्ल्यां परस ते चड रुचीक. मीर्ग नक्षत्र सोंप मेरेन ते मेळटात. ताचे उपरांत वखदाक लेगीत मेळचे नात. तुमकां थोडे दिवं?''

हांवें नाका म्हण मान हालयली. कारण आज मेरेन जाची केन्नाच रूच घेवंक ना ताचे वाटेक वच्चेंच कित्याक? पूण घरा येवन जेन्ना हांवें एके जाणट्या मनशाक ही गजाल सांगली तेन्ना ताणें म्हाका पिश्यांत काडलो आनी असली दुर्मीळ वस्त फुकट मेळटा आसूनय हाडूंक ना म्हण म्हाका खेपलो. पूण ताणें म्हाका कितलोय खेपलो म्हण हांव जो मनीस दर्यांत मेळपी कुल्ल्यांक कुल्ल्यो म्हण मानपाक तयार ना थंय ह्या मुठ्यांक कुल्ल्यो म्हणपाची म्हजी कसली बिशाद? पूण धोला फुडें तुणतुणें कोण आयकतलो?

दर्यांतली कुल्ली रंगीबेरंगी पटे आशिल्ली, जशें काय दर्यांत राबितो केल्ल्या चित्रकारान तांचे फाटीर नाना रंगाची चित्र विचित्र रांगोळी घाल्ल्या भशेन. ह्या कुल्ल्यांचे पयले दोन दांगे वयल्यान धवे आनी पोंदच्यान रंगीत कडा आशिल्ले. ते बक्याचे माने भशेन अस्ताव्यस्त. रांपणीच्या जाळ्यांत त्यो खूब मेळटात. उदकांतल्यान वयर येतकच तांच्यांत व्हडलो फोर्स आसना. तसो दोन वरां भितर तांचो जीव वता. पूण न्हंयच्या उदकांत रावपी गोबरा कोराच्या कुल्ल्यांक दर्यांतल्या कुल्ल्यां परस चड फोर्स. उदकांतल्यान भायर येतकच उगड्यार त्यो चोवीस वरां वयर जित्यो रावंक शकतात. न्हंयचे धडेर मोट्या फातरां पोंदा रावपी कुल्ल्यो चड चिवट. तांकां धरतना तांचो एकाद्रो दांगो वा बारकेले दोन पांय तुटले जाल्यारय आनी तशे अवस्थेंत त्यो पळून गेल्यो जाल्यारय आशिल्ल्या पायांचेर त्यो जित्यो उरूंक शकतात. खूब दिसांनी त्यो तशे अवस्थेंत मेळटात लेगीत. न्हंयच्या उदकांत रावपी कुल्ल्यां परस व्हाळांतल्यो कुल्ल्यो वजनान जड. पूण सगल्यांत रुचीक आनी बऱ्यो कुल्ल्यो न्हंयचे देगेर सपाट जाग्यार बिळां करून रावपी. त्यो सगल्या कुल्ल्यां भितर राजा भशेन! तांकां धरप लेगीत मोटे कठीण आनी तें काम जाणकाराचें. सटरफटर मनशान तांचे वाटेक वच्चें न्हय.

कुल्ल्यांक बाकीच्या नुस्त्या भशेन थारावीक मोसम नासता. वर्सभरय कुल्ल्यो मेळटात. ज्या देगेर अडचण खूब थंय तांचो राबितो चड. धा पांय, गुंजी एदे दोन दोळे, आंगभर घट्ट कट्टें आशिल्ल्यो. खूब उदकांत तशेंच उदका भायरय बी बिनधास्त जगपाक शकपी हो प्राणी चडसो सुशेगाद. जितलो सुशेगाद तितलो खंयच्याय हांयसाक रोखडोच बळी पडपी.

ताची चाल तिरकी. मनशा भशेन ह्या प्राण्याक दुसऱ्याचें बरें जाल्लें पळोवंक नज. पांच पन्नास कुल्ल्यो एका खोल पाट्यांत खुशाल उक्त्यो दवरपाच्यो. एकूय कुल्ली भायर वचपाक ना. पळून वचपाक एक कुल्ली वयर चडली की दुसरी तिका फोर्सान सकयल ओडटाच.

कुल्लेचे फुडले दोन पांय जाका दांगे म्हणटात. होच तिचो व्हडलो आदार. ह्या दांग्यांक आशिल्ले दांत तिची सगल्यांत व्हडली शक्ती. चुकून तिच्या आंगाक हात लागलो तर तिणें आपल्या दोनय दांग्यांनी

हाताचो कुडको काडलोच म्हण समजुपाचें. चड करून आंगठो आनी पयलें बोट हाचो मदलो भाग जर दांग्याच्या दांतांत सांपडलो तर मात कितें जातलें तें येवजिल्यारच आंगार कांटो येता.

भरतेचें उदक चडपाक लागलें आनी धडेर आशिल्ल्या फातरांनी तें घुसपाक लागलें की धडेर फातरां पोंदा आशिल्ल्यो कुल्ल्यो हळूच भायर येतात आनी त्या नव्या उदका बराबर आयिल्ल्या जिवांक खावपाक उदकांत भितर सरतात. बराबर ह्याच वेळार तांकां धरपाक दोरयेक बांदून हांयस घाल्लें आसत तर तें आपल्या दांग्यानी घट्ट धरून दवरतात आनी बकाबका खावपाक तल्लीन जातात. इतलें की ज्या मनशान तें केलां ताणें ती दोरी वयर काडून आपल्या जाळ्यांत घाली मेरेन तांकां पत्तोच नासता. वयर काडटकच मात ती मागीर आपले धावूय पांय हालयत धडपडटा आनी जाळ्यांत आनिकय घुसपून वता.

कुल्ल्यो धरप ही गजाल सोंपी आसली तर त्या कामाक थारावीक वेळ आसता हें म्हाका म्हज्याच अणभवा वयल्यान कळ्ळें. हांवें पयलेच फावट जेन्ना कुल्ल्यो धरपाचो यत्न केलो तेन्ना तीन चार वरां वगडावन एके बारकेले कुल्लेच्या चिपडा शिवाय म्हज्या हाताक कांयच लागलें ना. आमचो घरचो मानाय भिंवरो म्हजी धडपड बरोच वेळ पळयत आशिल्लो. हांव बेजार जावन फणफणपाक लागलों तेन्ना तो म्हज्या म्हऱ्यांत येवन म्हणपाक लागलो, ''भाटकारा वोगीच कित्याक फणफणटा? तुमची पयली चूक म्हळ्यार तुमी न्हय त्या वेळार हांयसां घालीं!''

''आरे पूण देगे मेरेन उदक भरिल्लें तेन्नाच हांवें हांयसां घाल्लीं!''

''तीच तर व्हडली चूक! हांयसां भरती येवंक लागता तेन्नाच घालपाचीं आसतात. उदक पुराय भरतकच न्हय. आनी दुसरी चूक म्हळ्यार काथ्याच्या सुंबाक बांदून हांयसां केन्नाच उदकांत उडोवचीं न्हय!''

''तीं कशीं घालपाचीं?''

''फाल्यां णव वरांचेर यो! तेन्ना दाखयतां. ते कुल्लेचें चिपड पयलीं उदकांत उडय. कांय उपेग ना ताचो. भाजून लेगीत खावंक मेळचें ना तें.''

हांवें रागान तें कुल्लेचें चिपड न्हंयच्या उदकांत भिरकटायलें. तें उदकांत पडचे पयलींच माडाचे तेंगशे वयल्यान एक घोण आयली आनी तिणें तें आपले चोंचीत धरून सामकारच्या झुडपांनी नाच्च जाली.

दुसऱ्या दिसा आठ वरांचेर एक पारय, एक व्हडलें कोबलें आनी कमराक धार आशिल्ली कोयती अश्या थाटांत भिंवरो आयलो. आळवाच्या पानांत गुठलायिल्ली कसली तरी पुडी ताणें दाव्या हातांत धरिल्ली.

''भाटकारा, एक साका पोती घेयात बराबर!'' घरांतली रिकामी शिमिटाची पोती घेवन हांव भिंवऱ्या बराबर चलूंक लागलों.

''त्या आळवाच्या पानांचे पुडयेंत कितें आसा रे?''

''सकाळीं तळ्यार वचून चार पांच बेबे हाडले!''

''ते रे कित्याक?''

''मागीर हांयसां कसलीं घालपाचीं?''

''शीऽऽ बेब्याचीं हांयसां?''

''हें पळय भाटकारा, आमकां कुल्ल्यो धरपाच्यो आसात न्हय? मागीर तांकां बेब्याचींच हांयसां लागतात. अशें विटून कशें चलतलें? हें पळयात, कुल्ल्यो देगेर येवन कितें खातात तें पळयल्यार तुमी कुल्ल्यांक हात लेगीत लावचे नात. हांयसां खावचे पयलींच आमी कुल्ल्यांक धरतले. तांकां तीं खावपाक थोडींच दितले! पूण असले भासाभाशेंत वेळ घालचो न्ही, उदक चडचे पयलींच आमचीं हांयसां घालून जावंक जाय. अजून खूब कामां आसात.

एका कवाथ्याचें चुडत ओडून मदेकात भिंवऱ्यान आपले धारेचे कोयतेन घावो घालो आनी केळ्याची साल ओडली तशी ताणें लांबचे लांब पट्टे काडले. अशे चार पांच पट्टे काडटकच त्या पट्ट्यांचे दोर ओडून काडले. ते दोर व्हाळाच्या उदकांत बुडोवन आपल्या हातांनी चोळून मोव केले. त्या एक एक दोराच्या पोंताक बेब्याचो कुडको बांदून वेंत वेंत अंतराचेर अर्द कील जायत इतले फातर बांदले. अशी धा पंदरा हांयसां बांदून जातकच तीं घेवन आमी न्हंयचे देगेर आयले.

सगलीं हांयसां आनी सामान देगेर दवरून भिंवरो एका फातरा म्हऱ्यांत तायट उबो रावलो आनी हात जोडून कितें तरी पुटपुटपाक लागलो. मागीर हांयस बांदिल्ल्या दोरांतलो एक एक घेवन पंदरा पंदरा हाताच्या अंतराचेर बांदून दवरले. निमणे हांयस बांदून जातासर पयलो बांदिल्लो दोर उदकांतल्यान कोणतरी ओडटा असो दोराक ताण पडपाक लागलो. भिंवऱ्याचे नदरेंतल्यान तें सुटलें ना. म्हजें काळीज वयर सकयल जावंक लागलें, पूण भिंवरो खंबीरपणान निमणे हांयस बांदपांत गुल्ल जाल्लो.

''आरे धांव; चार दोर ताणले. ओडून व्हरतल्यो त्यो!''

''ओगी राव मातसो! ताचो बापूय येवंक जाय तोडून व्हरपाक. चुट्टाची वावली ती. मनीस लोंबकळ्ळो तरी तुटपाची ना.''

निमणे हांयस फातराक गच्च बांदून जातकच, ज्या हांयसाक चड ताण पडटालो ताच्या म्हऱ्यांत सवकास पावलां मारीत भिंवरो कोबलें घेवन आयलो. कांठार बसून ताणें दोर ओडून पळयलो. म्हजो जीव बेठोच वयर सकयल जातालो. हळूहळू ताणें दोर वयर ओडून घेतलो, आनी एकाच धपक्याक कोबलें उदकांत बुडोवन तळिल्ली पुरी काडची तशी हांयसा सकट कुल्ली वयर काडली. वयर आयली तशी कुल्लेन दांग्याच्या चपक्यांतल्यान हांयसाक सोडलें; आनी ती जीव वांचोवंक धडपडपाक लागली. केदी व्हडली कुल्ली! वेंतभर लांबायेची. तिचे फाटीर पांचवे पटे आनी तिचे दांगे तांबडे आसले.

भिंवऱ्यान तिचे कडेन पळय लेगीत नासतना दाव्या हातान हांयस परत उदकांत उडयलें. आनी उजव्या हातांतलें कोबलें परतें करून

कुल्लेच्या फाटीर उजव्या पांयांचो आंगठो दवरलो. एक सुकी काडी तोडून घेतली आनी कुल्लेचे दांग्यांत भायले वटेन खोयली. तिका तशीच जमनीर दवरून कोबलें घेवन तो दुसऱ्या हांयसा कडेन वचपाक लागलो. तशी कुल्ली तिरकी धांवंक लागली.

"धर तिका आनी पोतयेंत घाल!"

"आरे पूण चाबतली मरे ती म्हाका?"

"आतां कापास्ताद आसा तिका चाबपाक? हांवें सारको बंदोबस्त केला. धरात तुमी वेळ काड नाकात. एकदां कुल्ली आडसाक गेली की सोदपाक त्रास जातलो."

हांव भियेत भियेत कुल्ले फाटल्यान धांवलों. म्हजे कोबलें तिचे फाटीर घालून मागीरच तिका हातांत धरली. म्हजे कडेन पळय नासतना भिंवरो दुसरी कुल्ली काडपांत गुल्ल जाल्लो. भिंवरो सांगता तें खरें काय फट हें पळोवपाक हांवें हळूच कुल्लेचो दांगो चिमटेंत धरलो. लुंड्या हाता भशेन कुल्ली तो दांगो बेठोच हालयताली. तिचो चाबपाचो फोर्स भिंवऱ्यान आदींच काडी घालून ना केल्लो. तरी पूण ओगीच धोको नाका म्हण भिंवऱ्याची नदर चुकोवन हांवें तिचे दांगे कट्ट करून मोडले आनी तिका पोतयेंत घाली.

थोड्याच वेळान बारीक मोट्यो सोळा सतरा कुल्ल्यो एकठांय जाल्ल्यो.

"पाड पडिल्ल्यो सगल्यो दादले कुल्ल्यो! एकूय बायल कुल्ली ना!"

"दादले! ते कशे वळखुपाचे रे?"

"आतां कुल्ल्यांतली दादलो कुल्ली खंयची आनी बायल कुल्ली खंयची हेंवूय तुमकां वळखूंक येना? अजाप मरे हें!"

"ना रे केन्ना लक्षांतच घेतलें ना. आमकां कुल्ल्यो खावप इतलेंच खबर आसा, पूण तांतुतली दादलो कुल्ली खंयची आनी बायल कुल्ली खंयची हें मात कळना पळय. बरे जातीची खंयची, वायट जातीची खंयची हेंवूय कळना. दादलो कुल्ली खंयची रे?"

"आरे, दादलो म्हळो की ताच्या पोटार हें अशें त्रिकोनी पान आसता आनी बायलेच्या पोटार उश्या भशेन वांटकुळें कट्टें आसता. दादल्या परस बायल कुल्ली बरी. तिचे दांगे, पांय, आनी आंग गरान भरिल्ले आसतात. लाख बायल कुल्लेंतच आसता. दादलो कुल्ली सगल्या आंगान पोकोळ. तिचे दांगे दिसपाक पेजाद; पूण आंगांत खूप उदक आसता देखून ती जड आसता.

हळू हळू न्हंयचें उदक चडत रावता. परते दोर ताणटात. एका दोराक इतलो ताण आसता की एका परस दोन कुल्ल्यांनी त्या दोराक बांदिल्ल्या हांयसाक धल्लां काय असो म्हाका दुबाव आयलो. भिंवऱ्याक उलो मारचे परस हांवच ते दोरये कडेन गेलों. ताणिल्लो दोर हळूहळू वयर घेत हांयस खावपांत गुल्ल जाल्ल्या सावजाक कांयच कळूंक दिना आसतना हांवें तें म्हज्या दोळ्यांक दिसता इतलें वयर हाडलें. आतां कोबलें घालून तें वयर काडटा म्हळ्यार त्या सावजाक पळोवन म्हजो आवरोच उडलो. कुल्ले वांट्याचें एका हिंचणान त्या हांयसाक धरिल्लें. हांवें मोटमोट्यान भिंवऱ्याक उले मारले. भिंवरो धांवत आयलो. आपले दांत मिचकायत खो-खो करून हांसपाक लागलो. म्हज्या हातांतल्या दोराक झोंपय मारून तें हिंचण हांयस घेवन पळपाचे तयारेंत आसलें.

भिंवऱ्यान म्हज्या हातांतलो दोर आपल्या दाव्या हातांत घेतलो आनी उजव्या हातांतलें कोबलें उरफाटें करून ताच्या दांड्याचे दोन तीन धपके हिंचणाच्या तोंडार घाले. हांयस सोडून हिंचण पळ्ळें.

"हिंचणाक भियेताय बामणा? शी! आतां तें हांयस सोडयात आनी पयस दुसरे कडेन बांदात!"

"कित्याक रे?"

"आरे तें हिंचण! ताचे असली लज नाशिल्ली दुसरी जात ना. कितलोय मार खालो तरी परत परत येवन तें हांयस धरतलेंच!"

खरेंच! एकाद्र्या फाट सोडनाशिल्ल्या चिकट मनशाक "हिंचण" कित्याक म्हणटात हाची जाणविकाय आतां म्हाका जाली. हांवें तें हांयस उखलून दुसरे कडेन बांदलें. आमी वचसर तें हिंचण त्याच जाग्यार वळवळटालें.

आतां न्हंयक पुराय भरती आयिल्ली. देड दोन वरां काम करून म्हजे नदरेन आमकां बऱ्योचश्यो कुल्ल्यो मेळिल्ल्यो. पूण भिंवरो मात सातिशफेत नासलो. ताचें नदरेन त्या कुल्ल्यांत कांय अर्थ नासलो. सगले दोर ताणें न्हंयंत पयस भिरकाटावन मारले आनी हातांत पारय घेवन म्हणपाक लागलो. "शी! ह्यो कितें कुल्ल्यो? चिपडां हीं. सगलेच दादले. अशें कोंताक येना. चल, आमी दोन तीन बिळां उस्तूंक या."

"आरे त्या बिळांनी दुसरें कितें नासतलें मरे?"

"तुमी चलात पळोवया! तुमकां दुबाव चड!"

आमी बिळां सोदूंक लागले. थोड्याच अंतराचेर भुसभुशीत जाग्यार आमकां कांय बिळां दिसलीं. नीट पळोवन भिंवऱ्यान कोबल्याचो दांडो त्या बिळांत घालून थाव घेतलो. ताका अदमास आयलो ना. मागीर ताणें एक बारीक बडी घालून परत अदमास घेतलो. आनी बिळा पसून चार हात वयर खणपाक सुरवात केली. हात भर खणटासर तागेल्या हातांतली पारय सुळ्ळ करून भितर गेली. भिंवऱ्यान पारय भायर काडली आनी बिळ आनिकय व्हडलें केलें. भितर उदक आसलें. त्या उदकांत बडी घालून ताणें परत अदमास घेतलो आनी मोट्यान किळांच मारली.

"मेळ्ळी."

भिंवऱ्याचें तें काम हांव अजापान पळयतालों. खणिल्लो जागो तसोच दवरून आनी दोन वेंताचेर ताणें खणपाक कोमेस केलें. वेंतभर खड्डो खणला जायत भिंवऱ्यान म्हाका उलो मारलो.

"हांगा येयात आनी ती बडी बुराकांत घालून पळयात!"

ताणें सांगिल्ल्या भशेन हांवें बडी त्या खणिल्ल्या बुराकांत घाली.

खटखट करून आवाज आयलो आनी बडी घट्ट कोणेंतरी धरून दवरली.

"एक न्ही, दोन आसात!" भिंवरो म्हणूंक लागलो. हळू हळू भायल्यान खणून ताणें मातयेच्या थराचें एक धेंप पारयेन पयस केलें आनी कितें अजाप - आपले व्हडले दांगे उबारून दण दण एकम काचेर आपटून दोनूय कुल्ल्यो आपलो जीव वाटावपाक भिंवऱ्याचेर घुरी घालपाचे तयारेंत आसल्यो. पूण आपली पारय दोगांयचेय फाटीर दवरून भिंवऱ्यान चुट्टाच्या व्हिरान तांचे दांगे बांदले आनी त्या कुल्ल्यांची ती जड जोडी म्हजे कडेन दिली.

"ह्यो खऱ्यो कुल्ल्यो! पळय हो दादलो आनी ही बायल! हे बायल कुल्लेंत भरपूर लाख आसा."

हो सगलो म्हाल घरा येतना हांवें भिंवऱ्याक विचारलें...

"तुका ह्याच बिळांत कुल्ल्यो आसात म्हण कशें कळ्ळें रे भिंवऱ्या?"

"हें! तातूंत कितें व्हडलें? कुल्ल्यांच्या बिळांचे दार शेण काडून सारयतात तशें दिसता."

"पूण भितर दोन आसात हें तुका कशें कळ्ळें?" म्हज्या प्रस्नाची जाप कशी तरी दिवपाची आनी म्हाका टाळपाचे खातीर भिंवरो म्हणूंक लागलो...

"तेंच देव शिकयता आमकां!"

हें तो सहज म्हणून गेलो आनी कितें तरी येवजिल्ले भशेन करून न्हंयक पळोवपाक लागलो.

"कितें रे! कितें जालें?"

आंगार कांटो आयिल्ल्या सारकें आंग शिरशिरावन तो म्हणपाक लागलो,

"आमकां ह्या बिळांतल्यो कुल्ल्यो घरा व्हरपाक मेळच्यो नात!"

"कित्याक रे?"

"दोन कुल्ल्यांची हांवें सुरवेकच देंवचाराक आंगवण केल्ली. पोतयेंतल्या सगल्या कुल्ल्यांचे तुंवे दांगे मोडल्यात. ते मोडूं नाका म्हण सांगपाचें भान म्हाका उरलें ना. त्यो दोन कुल्ल्यो तरी धड आसात मरे?"

"मागीर रे? ह्यो दोनूय कुल्ल्यो सोडपाच्यो?"

"हय, नाजाल्यार आमकां कुल्ल्यो पचपाक नात!"

भियेवन आमी देगेर आयले. भिंवऱ्यान त्या दोनूय कुल्ल्यांचे दोर फिशालकायेन सोडयले आनी ती व्हडल्या कुल्ल्यांची जोडी उदकांत देंवचाराच्या नांवान सोडून दिली.

"समजा, आमी ह्यो कुल्ल्यो देंवचाराक सोडूंक नाशिल्ल्यो जाल्यार, कितें जातलें आसलें?"

"आयक, भाटकारा, एक दीस कितें जालें, आमचो धोंडू तारी आसा न्ही, ताणें एके रातची देंवचाराक आंगवण केली की आयज जें कितें नुस्तें मेळटलें तांतुंतले दोन नग तुका दितां. ते रातीं धोंडूक दोन वेंत भर लांबायेचे धा बारा शेंवटे मेळ्ळे. ताका हांव सुटली. आपली आंगवण पुराय करपाक जिवार आयलें. आनी मेळिल्ले सगले शेंवटे घेवन घरा आयलो. बायलेन ते शेंवटे पाट्यापोंदा धांपून दवरले आनी ती न्हिदली. बऱ्याच रातचो कोण तरी आपल्या नांवान उलो मारता तें धोंडूक आयकूंक आयलें. आनी - "कितें धोंडू, आयज कितें पागलें? असो मोटट्यान प्रस्नय आयलो.

न्हिदेंतल्यानच धोंडून जाप दिली, "देंवचारा फातर पागले आयज; दुसरें कांयच ना!"

"सकाळीं धोंडूची बायल पांटें वयर काडून पळयत जाल्यार पाट्या पोंदा धा बारा फातर. शेंवटे नाच्च जाल्ले. हांगाचो देंवचार सामको जागृत. आमी ताचे वाटेक वच्चें न्हय."

घरा येतना हांवें म्हळें, "भिंवऱ्या, लाखेची कुल्ली कशी वळखुपाची रे?"

"लाख बायल कुल्लेच्याच पोटांत आसता. लाखेची कुल्ली मातशी मोटी आनी लांबट आसता. मात चान्या रातीच्यो कुल्ल्यो उदकाच्यो आनी पोकोळ आसतात.

"तुमगेर कुल्ल्यांचें मसालो घालून तोणाक करतात रे?"

"शे! कुल्ल्यांत मसालो घालून तांची गोड खारी रुच तुमी वगडायतात. कुल्ली खावची ती भाजून. शिजोवन शिजोवन तुमी तिची मुळची रुचूच वगडायतात. साद्या कांद्याच्या वांटपांत कुल्ल्यो शिजयल्यो आनी शिजतना उबो कांदो चिरून घालो जाल्यार भाजिल्ल्या कुल्ल्यां इतली न्हय तरी बरीच रूच उरता. तुमी फकत मसालो खातात. कुल्ल्यो न्हय. आनी खावन खावन तुमी कितल्यो खातले? तुमकां पचपाचें न्ही तें!"

उलयतां उलयतां केन्ना घरा कडेन पावले तें कळ्ळेंच ना. एका कोनश्याक आमी पोतयेंतल्या त्या कुल्ल्यांचे दोन वांटे केले आनी म्हज्या वांट्याक आयिल्ल्यो कुल्ल्यो घेवन हांव घरा आयलों.





आमच्या रस्त्यार मेजून चार घरां. एक आमचें, आमकां तेंकून दाम काकालें, मागीर फुर्तादं आज्यालें आनी निमणें यशवंतकाकालें. यशवंत काकालें सरोजा म्हज्या वर्गांत शिकता. आमगेर दिसाळें येता ताचो यशवंतकाका संपादक.

फुर्तादं आज्यागेर ल्हान भुरगीं कोण नात. नात म्हळ्यार थंय रावनात. ताचीं नातरां लंडनांत रावतात. हांगा ह्या घरांत फुर्तादं आजो, आव्हो आनी तांची धूव मारियाआंटी रावता. मारिया आंटी केक बेस्ट करता. ती बेकिंगाच्यो क्लासी घेता. व्हड जातकीर हांवय वतलें शिकूंक. खरें म्हळ्यार हांव आतांच वतलें आशिल्लें. पूण मम्मा म्हण्टा, 'बायो, तूं पयलीं अभ्यासच कर. केक बी व्हड जातकीर शीक.'

तर हांव बायो... तशें म्हजें नांव सिया. पूण सगलीं म्हाका बायो म्हणटात. चवथे यत्तेंत शिकतां.

सकाळचो वेळ मम्मा खातीर ताकतिकेचो. सक्काळीं ऊठ, ब्रेकफास्टाची तयारी कर, आमचीं टिफिनां भर, 'ऊठ रे शाण्या, ऊठ रे गुण्या' करून राहुलाक उठय. हें सगलें करतना मम्मा पांयांक चाकां लावन भोंवता कशें म्हाका दिसता.

राहूल म्हजो धाकलो भाव. म्हजे परस तीन वर्सांनी ल्हान. सामको आळशी. सद्या शाळेक सुटी म्हणून मम्माक मातसो सुशेग. राहूल तर हातुणार लोळत आसा. पूण म्हाका अशें लोळप आवडना. हांव सदांचे संवयेन साडेसंकच उठटां.

आमच्या पप्पाचो दीस सकाळीं ५.३० क उजवाडटा. मागीर सकाळची पासय, योगा बी करून तो साडे स म्हणसर मेकळो जाता आनी मागीर च्याचें कोप आनी दिसाळें घेवन भायर गॅलरींत बसून वाचता. काम जातकीर मम्माय भायर गॅलरींत येवन बसता.

दामूकाकालें घर आमच्या घराक तेंकून. मदीं फकत दुरीग. सकाळफुडें उठ्ठकीर शाळा नासता तेन्ना हांव सदांच पोरसांत भोंवतां. मम्मा म्हणटा, 'चानी गेली पोरसांत भोंवक'. दामूकाकान हालींच तांच्या पोरसांत पॅशनफ्रुटांची वाल रोयल्या. ती वाल आमच्या दुरगाचेर चडल्या. पयलेच फावटीं तिका पॅशनफ्रुटां लागल्यांत. पाचवींचार पॅशनफ्रुटां पिकून हळडुवींच जातात. एक फावट सुमीकाकीन म्हाका तांचें सरबत करून दिल्लें. तें म्हाका खूब म्हळ्यार खूबच आवडलें. हांव त्या दिसा पोरसांत वच जाल्यार पांच-स हळडुवीं पॅशनफ्रुटां आमचे वटेन गळून पडल्यांत. हांवें तीं पुंजायलीं. आनी मम्माक सरबत करूंक सांगलें. मम्मान म्हळें, 'बायो, ती वाल दामूकाकाली. तांकां व्हरून दी तीं पॅशनफ्रुटां'

म्हाका मम्माची तिडक मारली. वाल दामूकाकाली, पूण पॅशनफ्रुटां आमच्या पोरसांत पडिल्लीं. मागीर ती तांकां कित्याक व्हरून दिवपाचीं? पूण मम्मा सांगता म्हणून हांव ती पुंजायिल्लीं पॅशनफ्रुटां घेवन दामूकाकागेर गेलें.

सुमीकाकीन विचारलें, 'कितें हाडलां? गो बायो?' म्हाका मम्मीचो राग आयिल्लो. हांवें मातशें रागानच म्हळें, 'तुमचीं पॅशनफ्रुटां आमच्या पोरसांत पडिल्लीं. मम्मान तुमकां व्हरून दी म्हळां.' हें आयकून सुमीकाकी आनी मंजुशादिदी लागलीं हांसूंक.



**सुमीकाकीन म्हाका मंजुशादिदीच्या शेजरा बसूंक सांगलें. हांव खोशशेन वचून बसलें. इतल्यांत कोणें तरी म्हळें, 'आगो, गुरवान्नी म्हऱ्यांत चल्याक बसयल्यार चलोच जाता.' पूण सुमीकाकीन तिका फाफडून उडयलें. 'आमकां बाये चलीय जाता.' अशें म्हळें. चल्याक म्हऱ्यांत बसय म्हणटाली तिचें तोंड काळेंच जालें. हांव खुक्क करून हांसलें. तें पळोवन मम्मान बशिल्ले कडल्यान दोळे मोटे केले.**

दामूकाकालें मंजुशादिदी बाळंटेराक घरा आयलां. म्हाका तें खूब्ब आवडटा. तें लग्न जावन गेलें तेन्ना हांव खूब रडिल्लें. मंजुशादिदीन म्हळें, 'तेवटेंतलीं सगलीं पॅशनफ्रुटां तुजी आं बायो. व्हर तीं तूं' हांव उडक्यो मारीत ती घेवन घरा आयलें. मम्माक कुय्य म्हणून पप्पा म्हऱ्यांत गॅलरींत वचून बसलें. इतल्यांत मम्मा च्याचें कोप घेवन भायर आयली.

पप्पान म्हळें, 'जाणा मगो रतू, यशवंत इल्लो चडच खर बरयता.' मम्मान विचारलें, 'कितें जालें?'

'वाच तूं. परत काशीनाथाचेरच बरयलां.' पप्पान म्हळें.

म्हाका ह्यो जाणट्यांच्यो गजाली मातय आवडनात. पूण काशीनाथाचें नांव आयकून म्हजे कान उबे जाले. ताणें फाटीं केन्ना तरी यशवंतकाकाल्या घराचे हारशे फोडिल्ले आनी गाडीय फोडिल्ली अशें कोण कोण उलयताले.

मम्मान म्हळें, 'तुमी ताका सांगात, तुमचो घट इश्ट तो. आयकतलो तुमचें. बेठेंच हुसक्याक कारण नाका.'

'सांगलें गो ताका हांवें जायते फावटीं. एक दोन खेपो फोनावयल्यान धमक्योय आयल्यो म्हणटालो आपल्याक.'

'तशें जाल्यार यशवंत भावोजीन सादूर रावल्यार बरें.'

'तो म्हणटा, कोणेंय तरी काशीनाथाचीं कर्मां उकतीं करूंकच जाय.'

'सगलें खरें. पूण तुमी परत एक फावट शिटकायात ताका.'

'खरें तुजें. काशीनाथ गुंड मनीस. कितें करीत सांगूंक येना...'

पप्पा फुडें उलोवंक वतालो पूण हांव कान दिवन सगलें आयकतां हें लक्षात येतकीर गप्प जालो.

इतल्यांत राहूल उठलो म्हणून मम्मा भितर गेली.

'पप्पा...'

'कितें गो?' पप्पा पेपर वाचत रावलो.

'तो काशीनाथ कितें करतलो?'

'कोण काशीनाथ?'

'तो गुंड रे... तूच तर मम्माक सांगतालो आत्तांच...'

इतल्यांत पप्पाक फोन आयलो आनी तें निमित्त्य करून पप्पा उठलो. आमचें उलोवणें अर्देंच उरलें. हे फोनय म्हणून नाका तेन्ना येतात!

मंजुशादिदीचीं पयर णवव्या म्हयन्याचीं फुलां जाल्लीं. मम्मी आनी हांव गेल्लीं. राहूल मामागेर गेल्लो म्हणून बरें जालें. ना जाल्यार वता खिणाक घरा या म्हणून फाटी लागतलो आशिल्लो.

सालांत दोन कदेलां दवरिल्लीं. मुखार बरी रांगोळी घाल्ली. दुदाच्या फराळाचीं दोन सोबीत ताटां थंय मांडिल्लीं. सोबीत फराळ. सामको खरोच कसो. तेरेकवार फळां. सगलीं दुदाचीं. हळडुवींच केळीं, केसरी संत्रां, पाचवोच निरपणस, तांबडे गुंज टॉमाट, अनस. भेंडो खूब्ब कितें, कितें!

सुमीकाकीन म्हाका मंजुशादिदीच्या शेजरा बसूंक सांगलें. हांव खोशेन वचून बसलें. इतल्यांत कोणें तरी म्हळें, 'आगो, गुरवान्नी म्हऱ्यांत चल्याक बसयल्यार चलोच जाता.' पूण सुमीकाकीन तिका फाफडून उडयलें. 'आमकां बाये चलीय जाता.' अशें म्हळें. चल्याक म्हऱ्यांत बसय म्हणटाली तिचें तोंड काळेंच जालें. हांव खुक्क करून हांसलें. तें पळोवन मम्मान बशिल्ले कडल्यान दोळे मोटे केले.

मम्माची म्हणून पिडापिडच चड!

फुलां माळून सुमीकाकीन मंजुशादिदीक बेगडींत गुटलायिल्लो येद्‌दो व्हडलो लाडू दिलो आनी म्हाकाय एक दिलो. मज्जाच सगली! मागीर सुमीकाकीन मंजुशादिदीक त्या फराळांतल्या ताटांतलें कितेंय काडून उश्टाय म्हळें. मंजुशादिदीन केळें काडलें. उदळचे ते बायलेन म्हळें, 'चलोच गे बाये.'

मागीर सुमीकाकीन म्हाका सांगलें, 'बायो, तूय काड गो.'

हांवें विचारलें, 'एक काय दोन?'

मम्मीन परत दोळे मोटे केले. पूण सुमीकाकीन हांसून म्हळें, 'दोन जाय मगो, मागीर दोन काड.' म्हणटकीर हांवें एक संत्र आनी एक अनस काडलें. एक म्हाका आनी एक राहुलाक.

हो सगलो दुदाचो फराळ अनिताकाकीन म्हळ्यार यशवंतकाकाले बायलेन केल्लो. म्हाका तो खूब्ब आवडलो. हांवें म्हळें, 'म्हाकाय शिकय आं काकी.' हें आयकून मम्मीन म्हळें, 'बायोक फकत रांदपाचे दुवाळें. मारिया बायकडेन केक शिकता म्हणटा आनी तुका फराळ शिकय म्हणटा.' अनिताकाकीन म्हळें, 'बायो मास्टरशॅफ जातलें शें दिसता.'

मारिया आंटीन केक केल्लो आनी ताचेर 'हॅपी बेबी शॉवर' म्हणून बरयिल्लें. मंजुशादिदीन तो कापलो आनी कुडको म्हज्या तोंडांत घालो.

कोणें तरी म्हळें, 'बारसो बरो गडगडाटान कर गो सुमी.'

सुमीकाकीन म्हळें, हय तर. पयलें वयलें नातरूं.'

म्हाका जाल्यार मंजुशादिदीगेर केन्ना काय भुरगें जाल्यार पुरो कशें जाल्लें.

'मंजुशादिदी केन्ना जातलो गो बाबू?'

मंजुशादिदीन म्हळें, 'बायो, तो मगो भितरल्यान दारार मारतलो... घपेलज्ञ घपेलज्ञ...'

हांव मंजुशादिदीच्या पोटाक कान लावन आयकूंक लागलें बाबू घपेलज्ञ घपेलज्ञ... करता काय म्हणून...

कांयच आयकूंक आयलें ना. भितरल्यान ताणें एक खोंट मात मारली.

'मंजुशादिदी, बाबू मस्तो. म्हाका खोंट मारली.' हांवें म्हळें.

मंजुशादिदी लागलें हांसूंक.



अनिताकाकी खूब हुशार. तिका खूब गजाली करुंक येतात. ती स्वेटरय विणटा. सुमीकाकीक तसलें कांय जमना म्हणून मंजुशादिदीच्या भुरग्याखातीर मेय आनी स्वेटर अनिताकाकी विणटा. हांव सरोजा वांगडा खेळूंक तांगेर वतालें तेन्ना ती लांब सुयो आनी लां घेवन विणटा तें पळोवंक म्हाका आवडटालें.

'अनिताकाकी, तूं सामकी हुशार. तुका सगळें येता.' एक दीस हांवें म्हळें, ती लागली हांसूंक. व्हड जातकीर तुका शिकयतां. मागीर तूं वीण.' तिणें म्हळें, व्हड जातकीर करपाच्या लिस्टांत आनीक एक भर पडली. बारशा दिसा घालूंक अनिताकाकीन धवेच मेय विणिल्ले. तांकां रिबीनी घालूंक मदीं मदीं बुराक दवरिल्ले. आतांच कित्याक घालना गे रिबीनी हांवें विचारलें. अनिताकाकीन म्हळें, 'आगो बाबू जाल्यार निळें रिबीन घालतलें आनी बाय जाल्यार गुलाबी.'

'बायच जातलें.'

'तुका कशें कळ्ळें गो बायो?'

'फुलांक मंजुशादिदी म्हऱ्यांत हांव बशिल्लें न्हय गे अनिताकाकी?'

अनिताकाकी हें आयकून खूब हांसली.

हांवय हांसलें.

मंजुशादिदी येद्दें व्हडलें पोट घेवन सद्दां सकाळीं सुमीकाकीवांगडा पासयेक वता. हांवें एक दीस ताका विचारलें, 'तुका पोट जड लागना गो?' सुमीकाकीन म्हळें, 'म्हशीचीं शिंगां म्हशीक जड लागनात गो बायो?'

'म्हस कोण गे. सुमीकाकी?' हांवें विचारलें.

'कळटलें तुका.' सुमीकाकीन म्हळें. ती म्हणून सामकें हुमाणें घाल्लेवरी उलयता.

हांवें मागीर घरा येवन मम्माक विचारलें.

मम्मान म्हळें, 'तूं'

'हांव कशें गे मम्मा? म्हाका खंय मोट्टें पोट आनी शिंगां आसात?' पप्पा आमच्यो गजाली आयकतालो. ताणें मम्मीक म्हळें, 'आगो, ताचेकडेन कुवाड्यांनी कित्याक उलयता?' मागीर पप्पान म्हाका म्हळें, 'बायो, हांगा यो, हांव सांगतां तुका कोण म्हस ती!'

'हें पळयात. ताका कितेंच सांगपाचे भानगडींत पडूं नाकात. सामकें चुळक तें.' मम्मान म्हळें.

पूण पप्पान मम्माचें आयकनासतना म्हाका सारकें समजावन सांगलें - मम्मा बेठीच अडचिता.

जूस्त तेन्नाच मंजुशादिदी तांच्या पोरसांत भोंवतालें तें म्हाका दिसलें. मागीर म्हज्या दोळ्यांसामकार मंजुशादिदी म्हस जाल्या आनी तिका शिंगां फुटल्यांत कशें दिसलें.

हांव खी..खी... करून हांसूंक लागलें.

राहूल लागींच खेळटालो. हांव हांसतां तें पळोवन तोय बी खी... खी.... करूंक लागलो.

'कित्याक किटकिट्टात तुमी?' मम्मी तापली.

तें आयकून म्हाका चडच हांसो येवंक लागलो.

पप्पान म्हळें, 'हांसू गो तांकां. भुरगीं तीं.'

'पप्पा तुका खबर आसा? पयर हांवें एक पुस्तक वाचलें. तातूंत मरे राजकुंवरीचो हांसोच शेणटा.' हांवें म्हळें.

'अशें?'

'हय. राजान मरे सगल्याक पेरगांव घालें. राजकुंवन्नीचो शेणिल्लो हांसो परतो मेळोवन दिता ताका आपूण आपलें अर्द राज्य दितलों.'

'आरे व्वा! मागीर मेळ्ळो तिचो हांसो परत?'

'खबर ना.'

'म्हळ्यार गो?'

'त्या पुस्तकाचें निमणें पान मरे शेणिल्लें.' हांवें पिकासांवान म्हळें.

'म्हाका तूं तसलें नवें पुस्तक घेवन दी आं.'

'बरें, बरें.' पप्पान म्हळें.

'म्हाका जाणा जावंकच जाय राजकुंवन्नीचो शेणिल्लो हांसो तिका परतो मेळ्ळो काय कितें तो.'

'तुजो हांसो शेणत बी. सांबाळून दवर तो.' मम्मान हांसत म्हळें.

त्या दिसा मम्मान इडली सांबार केल्लो. म्हज्या मम्माचो इडली सांबार बेस्ट जाता. उडपी हॉटेलांतले परस बरो. आव्होक आनी यशवंतकाकाक खूब आवडटा देखून मम्मा इडली सांबार इल्लो चडच करता आनी आव्होगेर आनी यशवंतकाकागेर धाडटा.

मम्मान त्याय दिसा दोगांगेरय धाडूंक डबे तयार केले आनी पिशव्यांनी घाले. म्हाका सरोजाली नवी बावली पळोवपाची आशिल्ली हांवें म्हळें. 'मम्मा हांव येतां.'

मम्मान म्हळें, 'तूं आनीक कित्याक गो? हांव रोकडेंच येतलें.'

'पूण हांवय येतांच' अशें म्हणून हांवें पायांत जोतीं घालीं.

मम्मान मागीर एक पिशवी म्हजेकडेन दिली. 'आव्होगेर व्हरून दी' म्हळें.

आव्हो भायरच आशिल्ली. हांवें मम्मान दिल्लें तें पार्सल तिचेकडेन दिलें.

'आव्हो, इडलीसांबार मम्मान दिला.' तिणें विचारचे पयलींच हांवें सांगून उडयलें.

'देव बोरें कोरों' आव्होन म्हळें आनी म्हाका भितर आपोवन मेजावयल्या आच्यांवांतल्यो चॉकलेटी म्हाका दिल्यो.

आव्होगेर चॉकलेटी आसतातच.

म्हाका मारियाआंटी दिसली ना. 'आव्हो मारिया आंटी ना?' हांवें विचारलें.

'तें फार्मासींत गेलां' आव्होन सांगलें.

हांवें मान हालयली आनी चॉकलेटी बोल्सांत घाल्यो. राहुलाक दिलेबगर हांव केन्नाच खायना. तेदोळ म्हणसर मम्मा यशवंतकाकागेर पाविल्ली. हांव धांवत तागेर गेलें.

यशवंतकाकालें घर मातशें ल्हान. हॉलांतच एके कुशीक जेवणा मेज आसा. सरोजा थंयच अभ्यास करता आनी यशवंतकाका लेगीत थंयच आपलें काम करता.

हांव गेलें तेन्ना सरोजा आनी यशवंतकाका च्या पिवंक बशिल्लीं. अनिताकाकीन उप्पीट केल्लें. मम्मान इडली सांबाराचे डबे उक्ते करून [illegible]वरिल्ले. हांव सरोजा म्हऱ्यांत वचून बसलें.

अनिताकाकीन म्हळें, 'बायो, तूंय बी इल्लें उप्पीट खा.'

मम्मान म्हळें. 'तें खावचें ना. आमी आताच [illegible]वन आयल्यांत.' म्हाका तिडक मारली. अनिताकाकीन उप्पीटाचेर बरो शेव बी घाल्लो. म्हाका रुच आयिल्ली. हावें मम्माक रागानशें पळयलें.

अनिताकाकीन म्हळें, 'खावूं ताका थोडेंशें' आनी म्हजेमुखार बशी दवरली. अनिताकाकीक सगळें सांगनासतना कळटा. मम्माक कळच ना.'

बशिल्ले कडल्यान भायलो रस्तो सारको दिसतालो. मंजुशादिदी सुमीकाकी आनी मारियाआंटी भायल्यान वतालीं.

अनिताकाकीची तांचेर नदर पडली. तिणें सरोजाक म्हळें, 'आगो, मंजुशाक आपय मातशें. स्वेटर विणून जाला तो पळय म्हणचे.' सरोजान जनेलाकडेन वचून उलो मारलो, 'मंजूशादिदी मम्मी तुका आपयता. स्वेटर पळोवंक यो खंय.'

हें आयकून तीं तिगांय भितर सरलीं.

मारियाआंटीन म्हळें, 'चोवया गो केसो स्वेटर तो.'

अनिताकाकी स्वेटर हाडूंक भितर गेली. म्हजें आनी सरोजाचें खावन जाल्लें. सरोजान म्हाका आपली नवी बावली दाखोवंक खेळाचे आलमारीकडेन व्हेलें.

यशवंतकाकान बशेंत इडल्यो घेतल्यो इतल्यांत बेल वाजली. यशवंतकाका उठून भायर गेलो.

अनिताकाकी कुडींतल्यान बॉक्स घेवन भायर आयली.

'कोणें बेल मारली?' तिणें विचारलें.

'कुरीयर गो.' यशवंतकाकान म्हळें, ताच्या हातांत एक पार्सल आशिल्लें. अनिताकाकीन हातांतलें बॉक्स उकतें केलें. हांव धांवन अनिताकाकी म्हऱ्यांत गेले. म्हजे फाटोफाट सरोजा आयलें.

बॉक्सांत हळडुवसार रंगाचो स्वेटर तोपरें आनी मेय आशिल्ले. तेभायर धवेंफुल्ल तोपरें आनी मेयय आशिल्ले.

मंजुशादिदी ते पळोवन सामकें खुशाल जालें.

'कितले सुंदर विणल्यात गे अनिताकाकी.' ताणें स्वेटर हातांत घेवन म्हळें. सगलींच स्वेटर तोखेवपांत गुल्ल जालीं.

म्हाका ते कुकुले मेय खूब्ब आवडले. हांवें ते हाताच्या बोटांक घाले.

'इतले कुकुले पांय आसतात तरी गे कोणाचे? उल्ले उल्लेशे?' हांवें विचारलें.

'तुजेय पांय येदेच आशिल्ले. कुकुले! तूं जाल्लें तेन्ना.' सुमीकाकीन हांसत म्हळें. सगलीं हांसूंक लागलीं.

मेजाकडेन रावन यशवंतकाका एकलोच पार्सल उकतें करतालो. आमी सगलीं सोफाकडेन आशिल्लीं. इतल्यांत आकांताचो आवाज जालो. सगलें घरच हाललें. खळखळ करून हारशे फुटले. उसळून आमचे मेरेन पावले. कितें तरी ओलें तांबडें सगल्याक शिंवरलें. आमच्या आंगार; कपड्यांचेर... मारिया आंटीचे तकलेक कोंक जाली. तिचे कपलावयल्यान रगत गळूंक लागलें. सगल्यांनी आवाजाचे दिकेन

पळयलें जाल्यार यशवंतकाकाची तकली जेवणा मेजार आशिल्ली आनी तो उमथो पडिल्लो. कदेलां बी वांकडीं जावन पडिल्लीं.

अनिताकाकी आनी सरोजा किळच्यो मारीत ताचे म्हऱ्यांत धांवलीं. तांचे फाटोफाट मम्मा आनी मारियाआंटी धांवली. अनिताकाकीन उमथो पडिल्ल्या यशवंतकाकाक उदारो केलो. ताका तोंडच नाशिल्लें. तो रगतान पुराय भरिल्लो. मेजार शिंवरून पडिल्ल्यो इडल्यो तांबड्यो जाल्ल्यो. पुराय मेजच तांबडें जाल्लें... रगतान... यशवंतकाकाल्या! किळच्यांनी सगळें घर भरून गेलें.



दोळ्यांसामकारचें तें भिरांकूळ चित्र कंवची तोपची तशें म्हज्या दोळ्यांत रोमलें. मंजुशादिदीच्या हातांतल्या स्वेटराचेर तांबडो गुळो पडिल्लो तो पळोवन ताणें किळांच मारून स्वेटर सकयल उडयलो. म्हज्या हातांतले मेय तर केन्नाच सकयल पडिल्ले. अकस्मात म 'जुशादिदी पोटार हात धरून पिंरगूंक लागलें. सुमीकाकीन ताका घट्ट धरलें आनी ती हेवटेन तेवटेन पळोवंक लागली.

म्हणटासर पप्पा, दामूकाका आनी कितलेशेच लोक थंय जमले. सुमीकाकीन बेगिबेगीन दामूकाकाक उलो मारलो.

'मंजूक हॉस्पिटलांत व्हरचें पडटलें काय दिसता.' तिणें म्हळें.

पप्पान येवन म्हाका सांसपिलें, 'बायो तुका कांय जावंक ना न्हय?' हावें 'ना' म्हणून मान हालयली.

'मम्मा खंय?' हावें मुखार बोट दाखयलें.

लोकांची हीऽऽ गर्दी जमली. बाबूचे स्वेटर, मेय माड्डीत ते कितें जालां हें पळोवंक फुडें फुडें वताले.

सुमीकाकीन दोळे पुसले, 'केदो आकांत गे बाये हो?' तिणें म्हळें.

तें आयकून तांबड्याच दोळ्यांचो 'आकांत' घरभर नाचता कसो म्हाका दिसलो.

इतल्यांत मम्मा आमचे म्हऱ्यांत आयली. तिची साडी रगतान भरिल्ली.

मम्माक कितें जालें काय म्हणून म्हाका भंय दिसलो. पूण मम्म ान म्हळें, आपल्याक कांय जावंक ना. अनिताकाकीचीं सोयरीं थंय पाविल्लीं म्हणून ती भायर आयिल्ली.

पप्पान म्हळें, 'तूं बायोक घेवन घरा वच. हांव हांगा रावतां.'

मम्मान बरें म्हळें.

मम्मा, हांव, मंजुशादिदी बी त्या 'आकांताक' थंयच सोडून घरा गेलीं.

पूण ना... तो 'आकांत' म्हजे तकलेंत बसून आमगेर आयलो. म्हजे नदरेंतल्यान सगल्याक पळोवंक लागलो.

म्हाका याद जाली. पप्पान म्हणिल्लें, 'तो काशीनाथ कितेंय करुंक शकता' म्हजे तकलेंतल्या 'आकांताक' नांव मेळ्ळे... 'काशिनाथ'!

दनपरां पप्पा घरा आयलो. एकलो राहूल सोडल्यार आमी कोण धड जेवंकच नात. कितलें हांसत, उडयो मारीत तांगेर गेल्लें हांव... आनी परतलें तें अशें...!

मम्मा आनी पप्पा एकसारकीं म्हजेकडेन उलयत आशिल्लीं. कितें उलयतालीं कोण जाणां. म्हजें लक्षच नाशिल्लें.

मदींच मम्मान म्हळें, 'बायो, तुज्या मंजुशादिदीगेर बाबू जालो गो.'

आयकून म्हाका खोस जालीच ना.

कितले उमळशिकेन वाट पळयतालें हांव त्या बाबूची. म्हजे दोळे भरून आयले.

केन्ना तरी म्हजो दोळो लागलो. आनी भिरांकूळ सपन पडलें. यशवंत काकाच्या जाग्यार म्हाका पप्पा दिसलो. रगतान भरिल्लो; तोंडच नाशिल्लो आनी आकांतान रडपी हांव आनी मम्मा...

हांव किळच्यो मारीत जागें जालें... पप्पान म्हाका घट्ट धरलें. पूण म्हाका दोळे धांपूकच भंय दिसूंक लागलो.

....काशिनाथान आमगेर बॉम्ब आशिल्लो कुरियर धाडल्यार?...

पप्पाक कितेंय जालें जाल्यार?...

मम्माक कितेंय जालें जाल्यार?...

राहूलाक कितेंय जालें जाल्यार?...

भिरांतेचें मोड म्हज्या काळजांत घों घों जावंक लागलें.

म्हाका पप्पाक खूब कितें विचारपाचें आशिल्लें पूण ओंठार उतरांच येना जालीं.

रात जाली. म्हजे दोळे टकटकीत जागे.

पप्पा जोक्स सांगून म्हाका हांसोवपाचो यत्न करतालो. ते ज्योक आयकून राहूल खी खी करून हांसतालो.

मम्माय बी बेठीच हांसताली.

म्हाका मात हांसो येनाशिल्लो.

हांव ती हांसो शेणिल्ली राजकुंवन्न जाल्लें...

पुस्तकाच्या त्या निमण्या पानार राजकुंवन्नीक तिचो हांसो परतो मेळ्ळो काय?... म्हाका जाणा जावपाचें आशिल्लें.

ते खातीर तरी तें निमणें पान म्हाका वाचूंकच जाय...

■

# अंत अनंताचो

डॉ. जयंती नायक
९८२३५७५६२३



''यदी... यशोदी...''

''आगे, येता म्हगे... येवन मेळटा म्हुगे म्हाका निमणी...''

''आज जर तूं येयली ना तर मागीर आमी केदनाच परत भेटोंक पावची नात... हांव वयता खूब खूब पयस... हिंगाचो वाठार, हो गांव - देस... हिंगाचे लोक... हिंगाची जिती-जिवार... सगळें सोडोन हांव वयतलों पयस दूरदेशा... साता समुद्रां पलतडी. खंय वयतलों... खंय रावतलों हें आजोन थारलेलें ना म्हाजें, पुणोन खंयच्या तरी मनीस जातिचो साद-सुरांव नासलेल्ल्या थळार, जंय कोणूच तरास दिवोंक पावचोना अशा जाग्यार, दोंगरा माथ्यार वचोन रावतो हांव... मागीर तुका हांव खंय दिसोंक येयला... हांव आसतो कितकोशोच पयस... मेजूंक जावचोना इतको पयस. तुका म्हाजो मागमुसय लागचोना. ते खातीर कळवळोन सांगता तुका यशोदी गे... जंगा आसा थंगा साकोन यो गे बाये धांवोन... म्हाजेकडेन चड वोगोत ना. फकत आयची एक रात आसा. फाल्यां फात्या पारार हांव भायर सरतो म्हागे निमाणे यात्रेक... ते दिगंताचे वाटेक... कित्याक तर फाल्यां सूर्य उदेवानंतर हिंगाचें सगळें काब्बार जातलें. सामको तुळाकार जातो हिंगा... कांय एक उरचेंना... सगळो विध्वंस जातोलो... जेका लागोन हांव हिंगा म्हाजीं सासाय घेवोन आसलेलो ते सगळें ना नपश्चात जातोलें. आनी तूं जेंकां आशेताली पोशेताली, जेंचे फाटीर मायेन हात भोंवडोयताली तेंचेर फाल्या काळ येतोलो... तेंचें मरण जातोलें फाल्यां. तुज्यान तें पळोवंक जावचेंना. म्हाज्या सारक्या मसणखांबाक तें पळोवपाची छाती ना, म्हूणून तर हांव हिंगाच्यान वचपाची घाई करतां, मागीर तुजे सारके मायेक कितें जातोलें?... ते खातीर यो गे यशोदी यो बेगी... तुका, तुज्या आनी म्हाज्या नात्याची आण यशोदी! यो बेगी यो! यो धंवन मेळपाक! यशोदी... यशोदी...''

फाटल्या कितक्या तरी दिसां सावन यशोदी एके व्हडले यात्रेची वाट चलता.



व्हडली वाट ती... कितली व्हड तें सांगूंक जावचेंना, मेजून मेजूंक जावचेंना. तिका कित्याचेंच भान ना. तिका फकत मुखावेलो मारग तितको दिसता... तिका तिचे धुयेची याद ना. तिच्या नातरांची याद ना. तिच्या हांतुणा कुशीक बसोन ती तियेची वाट पळयात तेंवूंय ती नकळ. ती फकत काळ्या भिण्ण काळखाच्यो म्हाकाय काळकोंडी एकार एक वलांडीत फुडें वताली. कितक्यो कोंडी तिणें वलांडल्यो तेचो हिशेब ना. आनी कितल्यो उरल्यात तेचे तिका अदमास ना. ती चलत आसा... चलत आसा. तिच्या सांगाताक एक जितो मुसय ना. म ात कितकेशेच आवाज तिच्या कानार येवन आदळटात. कसले आवाज, कोणाचो उलो - साद, कांयच स्पश्ट समजना. सगळो गोंदोळ गोंदोळसो कानाकडेन. त्या गोंदळाचेर आड नदर करून ती एके तनरेंत कशी चलता, फुडें वचत आसा.

तिका तिच्या अंतीम थळार पावपाचें आसा. त्या थळार वचून तिका सासणाचो थारपाचें आसा. चलोन चलोन तिका आतां थकस येवंक लागल्या. तिच्या पांयांतली शक्त सोंपत येयल्या पूण ती आता थारूंक शकना. ज्या गोश्टिच्या सोदाक ती इतकें अंतर माड्डून येयलेली ती गोश्ट आजोन तिका सांपडलेली नासलेली. एका फाटल्यान एक अश्यो म्हाकाय काळकोंडी ती वलांडीत आसा...

आनी एके कोंडींत भितर सरतां सरतां तिची पावलां सट्ट करून थारतात.

''यशोदीऽऽऽ!''

तिच्या कानार एक इकळापून मारलेलो साद पडटा.

''यशोदेऽऽ यशोदे गेऽऽ यो गे बेगी... यो...!''

वदळच्यान एक साद - आवाज तिच्या कानार पडटालो, पुणोन तिका त्या आवाजाचो माग लागनासलेलो. लागनासलेलो म्हणचे परसय तो आवाज तिच्या चलपाच्या वेंगांत खंड घालूंक पावले नासलेलो. आतां मात तो आवाज सामको आर्त जालो. तिच्या अंतरमना मेरेन पावलो.

...कोणाचो काय हो साद. कोण उलो करता म्हाका? कित्याक काय ह्या आवाजान म्हाजें काळीज तुट्टां?

त्या आवाजाचो माग घेवंक तिका फकत कांय खीण वतात. ती एकदम किंळचेता.

... हय... हय... वळखली... वळखली हांव

तुका! कितक्या वर्सांचें नातें सायबा आमगेलें, कितक्या काळाचो संबंद! निकट्या तुज्या पावलटीच्या आवाजानय, तुजी फेरी आयल्या म्हुणोन पारखुवपी हांव. तूं इतक्या कळवळ्यान उलो करता आनी तुजो आवाज म्हाका वळकोंक येना, अशें जातलें केदना?

...राव, राव. राव म्हका. येता हांव तुजे भेटेक. इतक्या वर्सांचें आमगेलें नातें, तेचो पोद सांबाळून दवरपाचो आसा म्हाका. तुका... आखरीचो दोळे भरून पळोवपाचो आसा... सरपट जावन तुका दंडवत घालचो आसा.

...येतां.... येतां.... ही पळय येयली हांव!

ज्या काळकोंडींतल्यान यशोदीन इतको व्हडलो प्रवास केल्लो, त्याच काळकोंडीतल्यान ती एक एक करुन मागा परतता. आतां तिच्या चलपाचो वेग वाडटा. वयतना ती चलत गेलेली, आतां परततना ती धांवूंक लागता. आपली पिराय - जाण्टेपण सगळें ती विसरता. तिका याद आसलेली ती फकत एकूच, तेका भेटपाक जाय... सूर्य अस्तमना वयचे आदीं तेच्या थळार पावपाक जाय. तो थंयच्यान वयचे आदीं आपल्याक थंय उबें जावपाक जाय.

...यशोदीच्या लाकूड जालेले कुडींत इल्ली इल्ली करून जिवंतपणा येवंक लागता... तिचे हात-पांय हालूंक लागतात...

यशोदीन ल्हव ल्हव दोळे उगडले. एक खीण ते बिटबिटायत तिणें हेवाटेन तेवाटेन पळयले. तिची कूड गुप्प अंधकारांत बुडलेली पूण त्या अंधकाराकय उजवाडाची एक देग आसलेली. पुनव लागीं पावलेली.

यशोदी भ्रमलेले अवस्थेंत हांतुरणा वेल्यान उठली. दोके जाल्ल्या पांयांचेर आपल्यागेलो कुडीचो तोल सांबाळूंक तिका बरोच वेळ गेलो. तिचे हात-पांयूय धरलेले बशेन जालेले. कुडींत त्राण नासलेलें. तरी ती उठून उबी रावली.

तिच्या हांतरुणा कुशीकच जमनीर मांदरी पातळावन तिची धूव न्हिदलेली, तिचे कुशीक नात आनी नातू. यशोदीन भरलेल्या दोळ्यांनीं त्या तिगांयकडेन पळयलें.

- कितलो जीव करतात हीं पोरां म्हाजेर. आजोन म्हाका सोडून न्हिदनात. म्हाका ही अशी व्हडली, काळ न्हिद लागलेली पळोवन घडये ती म्हाज्या म्हाऱ्यांतल्यान हाललेलींच नासतलीं. ना म्हणलर ह्या पोरांक म्हाजेबगर आनीक दुसरो आसा तरी कोण? हांवूच तेंचो धीर! हांवूच तेंचो आदार! हांवेंच तेंकां छातयेकडेन धरून वाडयलीं, व्हड केलीं. फाल्यां हांव ह्या संवसारांतल्यान वयतकच पोरां सामकी अनाथ जातलीं...

- पुरो गे यशोदी, थांबय आतां हें सगळें मायेपुराण. चड घुस्पोन रावनाका ह्या संवसाराच्या जंवजाळांत. आनी हा वोगोतय न्हूं असलें येवजुवपाचो. तुका तेका मेळपाक वयचेलें आसा. सूर्य उदेव लागीं पावलां. कांय घटकाच बाकी आसात आनी अर्द मैलाची वाट आजोन चलचेली आसा... इल्लो बुसोन वोगोत जाल्यार आविंश्यभर दुकां गळयतली तूं!

यशोदीन न्हिदलेल्या धुयेच्या आनी दोगांय नातरांच्या तोंडार एक नदर मारली. तिगांय गाड न्हिदेंत आसलेलीं. एका लांब काळाच्या जाग्रणाची न्हीद तीं घेतालीं अशें दिसतालें.

झेलपत तेंचीं हांतरुणां वलांडीत ती दाराकडेन पावली. दार फकत आड केलेलें आसलेलें. तिने दाराचीं दोनय कवडां ल्हव उगडलीं आनी ते न्हिदपाचे कुडींतल्यान भायर येयली. वयतना कोनशाक तेंकोवन दवरलेली आपल्यागेली बडी हातींत घेवपाक ती इसरली ना.

घरांत झिळमिटो उजवाड आसलेलो. यशोदीच्या जाण्ट्या दोळ्यांक त्या काळशेलेल्या उजवाडांतय सगळें स्पश्ट दिसतालें.

पडवेवयले वण्टीर, खुंटयेक हुमकळायलेले आपले पोतयेंतल्यान तिणें वक्ल काडून दोळ्यांक लायलें. घराच्या म्हाल दाराची खिळी काडून ती भायर सरली. सरतना हात फाटीं करुन तिणें दार लोटून घेतलें मागीर पडवेचें सोंपण देंवन ती पांवळ्यांत पावली. पांवळ्यांत एके कुशीक तिच्यो व्हाणो आसलेल्यो. त्यो पांयांत चडोवन तिणें मार्ग धरलो.

बडी तेंकयत तेंकयत ती चलताली. घराकडले पांयवाटेन ती डांबरी रस्त्यार पावली.

खंयचें बळ तिच्या पांयांत येयलेलें कोणाक खबर. मर्दी खंय एक थारनासतना ती अखंड चलत गांवचे शिमेर पावली. शीम हुंपून तो रस्तो फुडें वयतालो, पूण त्या रस्त्याक उजव्यान एक पांयवाट फुटलेली. ती वाट उजये वटेच्या मळावयल्यान मोडणां घेत मुखार वचून दोंगुल्ले मुळांतल्या व्हाळा देगेक थारताली.

म्हालरस्त्यान फुडें वचनासतना यशोदी ते पांयवाटेर देंवली आनी एक-दोन दांगा घालून मर्दींच चप्प करून थारली. तिच्या काळजांत उमाळो येयलो. मळबापोंदच्या त्या सांवळेलेल्या उजवाडांत, तें सावळेलेलें मळ आनी त्या मळावयलीं झांडा-झोपां दगड-फातोर पळोवन तिका धळ्ळ जालें. त्या सगळ्यांकडेन तिचें कितक्याशाच वर्सांचें नातें आसलेलें. थंयची कीड-मूय. सुकणें-सावर तिका आपलें कशें दिसतालें. एक आनी दोन वर्सां न्हू, लागीं लागीं पन्नास वरसां ती ते वाटेन येता वयता. थंयच्या झाडां-रुखांक तेळटा. तेचेकडेन संभाशण करता. तिणें जायत्यांचो जल्म पळयला, जायत्यांचें तरणेपण देखलां आनी कांय जाणांच्या म्हातारपणाचीय ती गवाय आसा. हे पांयवाटेवयल्या धुल्लाच्या तुसाची बुसून तिका वळख आसा. दोळे धांपूनय पांय दवरल्यार आपूण खंय पावल्या, ती तें सांगूंक शकता.

त्या झाडां-झोपांक, थंयचे जीव-जितापतीक, माती-धुल्लाकय यशोदी आपली सोयरी दिसता. ती येतांच तीं उमेदीत जातात. आस्थेन तिची खबर घेतात.

फाटले बरेच दीस यशोदी थंय येयली ना. तिचो तेंकां हुस्को जालेलो. बरी ना काय ती? पुणोन आतां तिका थंय पळोवन तेंची

बावलेलीं तोंडां उमेदीत जालीं. तीं उंचाबळीत जावन तिका एकार एक प्रश्न विचारूंक लागलीं.

''खंय आसलेली गे इतके दीस? कित्याक येयली ना हिंगा? जिवाक बरें नासलेलें?''

''आमची याद येयली ना गे?''

''आमकां सोडून तूं केदनाच रावना म्हगे? आतांच इतके दीस कशी रावली?''

''नागो बाये... ना गो! ना रे बाबा... तुमचेर रागार ना रे हांव...''

म्हणत यशोदीन कुशीच्या पिटकोळे झोपामाथ्यार मायेन हात भोंवडायलों. तश्यो तेच्या तुऱ्याच्यो न्हिदलेल्यो एकान एक कळ्यो जाग्यो जाल्यो आनी कलकलाट करूंक लागल्यो,

''मायऽऽऽ! मायऽऽ!''

''ओऽऽ! ओऽऽ! ओ गो बाये!'' म्हणत यशोदी मुखार सरली. इतक्यांत आंसाळेच्या झोपीमुळांतल्यान एक हळडुवें कांड वेटाळत मुखार सरलें आनी मद्‌दीं वाटेर फडा उबारून उबें रावलें.

यशोदी मुमुरखीच हांसली.

''कित्याक रे बाबा आडायता वाट म्हाजी? तूंवय रागार आसा रे म्हाजेर, हांव इतके दीस येयली ना म्हुणोन तुमकां मेळपाक?''



"आरे पुता, खरें सांगपाचें म्हुटल्यार हांव केन्ना परत येवपाचीच नासलेली हिंगा! हांव गेलेली रे ते म्हायात्रेक... ती यात्रा केन्नाच सोंपना... ते यात्रेक गेलेल्याक परत केन्ना येवंक मेळना... पूण घडलें पोरा अशें म्हाका अर्देवाटे वयल्यानच परत येवचें पडलें ह्या सेवाभाटांत. तेणें साद घातलो रे म्हाका... म्हणपाक लागलो, आपूण चल्लो हिंगाच्यान पयस दिगंताक; मनशाची जाग-जूग ना, त्रास-उपाद्रे नात अश्या जाग्यार. तेन्ना एकदां येवन मेळून वच. मागीर केन्नाच दिसचो ना आपूण तुका. तेचो उलो कानार पडलो आनी म्हाज्यान रावंक जालेंना. म्हाजी पावलां आपशींच फाटीं घुंवली आनी हे वाटेच्या मार्गाक लागलीं.

ङ्कपुता म्हाज्या, तूं ह्या वाठाराचो वाठारो! वाठाराचो अधिकारी. तुज्यो कितल्यो पिळग्यो ह्या वाठारांत जल्मल्यो - वाडल्यो आनी गुप्त जाल्यो. ह्या वाठारांत अधिकारान रावले तुमी आनी हिंगाच्या गांव-गांवकारानींय तुमचो मान-पान केलो. तुमच्या पोरां-बाळांचेरूय केन्ना फाटीर एक बडी-कांठी मारलीना... पूण पोरा, हें फुडें कितें जातलें सांगोंक म्हाज्यान जायना रे! तुमचीं घरां-दारां हुमटून पडटलीं. तुमच्या जाण्टयां-नेट्यांची मडीं पातळटलीं! तुमचोच विध्वंस जातलो अशें न्हूं रे, हिंगाचें झाडान झाड, कापतलें. शेतवड-व्हाळ पुरवतले. दोंगर-गुडो सरपट सपाट जातलो. जिती जिवार वांचचीना. आनी ती दोंगुल्लेंक येंगायतली वर्साचे बाराय म्हयने दोंयतडी भशेन व्हांवतली कुशावती गंगा, तिवय सुकोन तळपट जातली रे...!"

"तो ह्या देवरायेचे... ह्या देवाभाटाचो... हें दोंगुल्लेचो राखणदार. कितकीं वरसां तेणें हे देवरायेची, हिंगाच्या जीव-जिता-पतींची राखण केली तेचो हिशेब म्हाज्यान सांगोंक जायना! एखाद्रे हे धन्नेच्या आरंभासावनच तो हें कार्य करता आसत. हिंगाच्या शेवण्यांचें पांख आनी झाडाचें पानय सांबाळूंक तो धडपडलो... पूण आतां तो परिस्थिती मुखार शरण गेला. तेच्या आसपान नासपान आतां कांय अर्थ उरलोना. हें तेकाय बेसबरें समजलां म्हणून तो हिंगाच्यान भायर सरोन वयता रे!

फाल्या सकाळीं हिंगाच्या झाडांचीं कापणी सुरू जातली. व्हडल्या व्हडल्या लायटीच्या सरवतींनी हिंगाचे जाण्टे-नेण्टे सगळे रूख खिणांत हाणून, जमनीर आड पड्टले. तेंचे बरोबर हिंगाची, जीव-जिवार, सुकणीं-सावदाय मारतले, कापतलें. जो हिंगाच्यान पळटा, तो सुट्टलो. ह्या तांबड्या गुंज मातयेचें, अखंड तळपांचें दोंगरागुडें पोखरवून सरपट जातलें. धन्नेचे छातयेक फाळ पडटले. कोण खंयचें मसणें-तुतयांव येवन सपासप सगळो दोंगर भुंयसपाट करतले आनी तेच्रेर शिमिटा - फांतरांच्यो इमारती उब्यो जातल्यो. तेतूंत कोणा धर्माचे, खंयच्या देशाचे लोक येवन रावतलें देव जाणा!

हिंगाची पिकाळ जमीन, मेजूंक येना इतकी वखदी वनस्पत, मुळां-कोडलां, उदकाचे हिंगा थिंगा व्हांवतले वझरे, इतकी सगळी जितापत... कांयच उरपाचेर ना हे फुडें. इतकीं वरसां जेंकां सांबाळ्ळें, जेंची संकश्टांतल्यान राखण केली, जेंकां आंगा-खांदार खेळयले, जेंचें लालन-पालन केलें, तेंचो अंत आपल्याच्यान पळोवपाक जावचोना, म्हुणोन तो त्या तुळाभाराक आरंभ जावचे पयलींच हिंगाच्यान उठोन पयस वयता. पूण वयचे आदीं तेका म्हाका एकदां मेळपाचें आसा. तेपसत तेणें म्हाका साद घातला! इतकीं वरसां आमी दोगांय सांगातान हे दोंगुल्लेर वावुरलीं तेणें म्हाका हिंगा घडटल्या दर एक गोश्टीची आदी नखलामी केली; म्हाका शादूर केली. हायेंय तेका परतेक संकश्टार उलो घातलो. म्हागे मनांतलें सूख-दूख तेका सांगलें. तो कांयच उलयनासलेलो, तोंडान एक उतर काडनासलेलो, पूण सगळें आयकतालो, म्हाका मार्ग दाखयतालो. राती-अपराती हांयें तेच्याच धिरार त्या दोंगरार काडल्यात. कोणा मनशाक केन्ना छाती जाली ना म्हाजे वाटेक वचची, ना म्हण खंयचे जिवारेक, खंयच्या जनावराक धाडस जालेंना म्हाका आपुडपाची! तेकाय म्हाजी संवकळ जालेली. हांव घरा वचोंक वयता म्हुणोन समजताच तो आपल्यागे थळावयल्या आंब्याचीं पानां जोर-जोरांत सळसळायतालो... न्हंयेच्या पाणयाचो खळखळ वाडयतालो...

म्हाका तेची करणी कित्याक तें समजतालें आनी हांसोंक येतालें. हांसतच मागीर तेका म्हण्टालें,

"आरे बाबा, तुज्या थळांत सदांच कशें रावतो रे हांव? तीं पोरां आसात म्हरे गांवांत? तेंची मदीं मदीं वासपूंस करूंक नाका?... तेंकाय कोण आसा म्हाजे शिवाय?

तेच्या रागण्याचेर लक्ष दियनासतना हांव घरा वयतालें. पोरांक दोळेभर पळोवन दुसऱ्या दिसा परत हिंगा येतालें. येतांच पयलें तेच्या थळार वचोन, हांव येयलें म्हणपाचें तेका कळयतालें. तो खुशाल जातालो. तेची ती खोशीय म्हाका समजताली. थळावयलो तेचो आंबो... तो व्हडलो आंबो ल्हव धोलोंक लागतालो.

...तर अशे पद्दतीचें नातें रे पोरा आमच्या दोगांचें. आतां तो सांसणाचो हिंगाच्यान वचोंक भायर सरता... वयचे आदीं एकदां तरी येवन मेळ म्हुणोन तेणें म्हाका साद घातला. हांव खरी तर जायतीं पयस आसलेली... अनंताचो मार्ग चलताली... पूण तेचो तो साद कितकीं मळबां, कितकी आकाशां वलांडून येवन म्हाज्या कानार पडलो!

तेच्या सादान हांव म्हाज्या यात्रे थळार पावतां पावतां फाटीं परतलें आनी थेट हिंगा येयले. म्हाजेकडेन येळ सामको उणो आसा. फातें जावपाचेर पावलां. तें जाताच तो आनी केन्नाच दिसचोना. तेन्ना पोरां म्हाका बेगीनात बेगीन वचों जाये. म्हाजी वाट सोड आनी तूंवय वच तुज्या बायल-भुरग्यांक घेवन दुसऱ्या वाठारांत! बाकीच्यांकय सांग, आतां हिंगा लागीं खंयच रावनाकात म्हुणोन. तुमच्या जिवाक धोको आसां. ...बरे रे पोरा, बरो करून राव! सुखान राव ह्या संवसारांत! हांव वयता फुडें! सोड म्हाजी वाट!"

यशोदीन त्या झेंडाक हात जोडले. तसो तो वेटाळो सोडयत वाटेवयल्यान कुशीक सरलो. यशोदी झप्प करून पांयवाटेन फुडें सरली. कांय अंतर ती चल्ली आनी वझऱ्या देगेर येवन थारली. मळ आनी दोंगुल्ली हेंचे मदीं शीम काडीत तो वझरो व्हांवतालो. मार्ग शिर्शाचो म्हयनो आसलेल्यान तेचें उदक इल्लें सुकिल्लें, पुणोन तें पळोवंक नितळ स्फटीक कशें दिसतालें. तेतूंतल्यान तळाचे फांतर तश्या तशे उदेतालें.

यशोदीन कांय खीण थंय थांबोन त्या वझऱ्याच्या खळखळटल्या उदकाकडेन एकटूक पळयलें, मागीर मान वयर करून दोंगुल्लेचेर नदर मोखली.

काळोख बरोच उजळ जालेलो. त्या उजळ अंधारांत दोंगुल्लेकडेन पळयतां पळयतां, तिचो गळो भरून येयलो. वझऱ्याच्या उदकासारकें उदक खळ्ळ खळ्ळ करून तिच्या दोळ्यांतल्यान व्हांवलें.

- ''तुजें हें रुप आज निमाणें पळयतलें हांव!'' ती तोंडान बडबडली आनी हातांतली बडी तेंकयत पोंवट्यो भिजयत वझरो वलांडून मुखार सरली.

दोंगुल्लेवयल्या सगळ्याच मदीं तिचो जीव आडखळलेलो. तो दरेक वर्सा न चुकता चंवरतलो साखर आंबो, तो रात-दीस सळसळ घालतलो पिंपळ, धवेफुल्ल आंगाचो अर्जुन, पौशांत परमळटलो सांतोण ङ्गुलाबी फुलांनी दर वर्सा व्हंकल कशी रुजतली सांवर, गिमांत, आंगार खोटल्यांनी पोरां घेवन मुरगट्टली भिरंड, कुडकुटले थंडेंत धव्या फुल्ल ओंवळांचो मुळाक शिंतोड घालतली वोंवळ, तांबड्या काजुच्या बोंडांनी भरतली काज, पानान पान घोंसांनी लागतली जांबळ, चारां-चुन्नाचीं, कणेर-पिटकोळीचीं झोपां... आनी तीं कांठयाळी कांठी आनी कणकी ... निवलकोंडो ...

एक आनी दोन न्ही, तेंचीं नांवां घेवन सोंपचीं नात. दोंगुल्लेवयलो ... देवमळावयलो फांतर आनी गुणो बुसोन तिका जिवाचो. तेतूंत भर म्हुणोन भाटकारान रोयलेले आनी तिणें शिंपून मोठे माड केल्ले पन्नाशेक कवाथे! सगळ्यां मदीं तिचो जीव अडखळलेलो.

दोंगरावयले हे माड पेंडींनी भरलेले, पूण कोणा गांवच्यांक-भायल्यांक त्या पेंडीक हात घालपाची हिंमत जाली ना. जाय जाल्यार यशोदीच्या दोळ्यां आड कोणाच्यानय नाल्ल काडून व्हरोंक येताले पूण सगळ्यांकच तेचो भंय आसलेलो. यशोदीच्या आनी तेच्या नात्याची खबर सगळ्यांक आसलेली. तिच्या माडांच्या पेंडींक हात घातलो तर तो शिक्षा केलेबगर रावचोना हेची तेंकां खात्री आसलेली. मनशांच कित्याक, माकड बुसोन त्या नाल्लांक हात लायनासलेले. दर पाड्याक, माड पाडून जातकच, ती एक नाल्ल तेच्या मानाक फोडटाली. ह्या फोडलेल्या नाल्लाचीं वळीं ती आपूण व्हरनासलेली. ती थंयच सांडटाली, तीं मागीर माकड घेवन वयताले, होच माकडांचो वांटो आसतालो.

....पांयांकडल्यान पुट्ट पुट्ट करून उडक्यो मारपी धवें फुल्ल सोंशें, झाडार सूर्र सूर्र करून चडपी चान्यों तिनसांजेर कूयऽऽ कूयऽऽ करून कुयो घालपी कोलें, झोपींतल्यान ते झोपींत धांवपी मुंगसां, मांजरां पावलटीन चलपी वागटां, शेंऱ्याचो तुरो नेटान उबारीत झाडाच्या शेंड्यार झेतान बसपी कुमात्तर पावसाची सुलूस लागताच उमेदीन कुंच फुलोवन नाचपी मोर, आंब्या-काजूंचो चंवर खायत कूऽऽ कूऽऽ गायन करपी कोगूळ... आनी रोयणी मुखार आंगाचें निवणें करून घमंडेंत बसतलो नागसर्प... ह्या सगळ्यांची यशोदीक जशी माया तशी तेंकांय सगळ्यांक यशोदीचो मोग. तिका पळयतांच तेंची ल्हवर - पांखां-शेंपे-शेंपड्यो उमेदीन फुरफुरताल्यो, फुलताल्यो. फुलझाडांक दिसतालें आपलें पयलें फूल यशोदीन काडचें, व्होटयेंत घेवचें, फळझाडांक दिसतालें आपलें पयलें फळ तिणें खावचें ना तर काडून घरा तरी व्हरचें. सुकण्या-सावदांक दिसतालें, आपल्या पोरांक यशोदीन अपुरबायेन पोशांत घेवचीं, तेंचे फाटीर मायेन हात भोंवडावचो...

मागीर आंबो-आंतेर-काज यशोदी लागीं पावताच आपल्यो खांदयो सकल बागयताली. भिंडीण-पेरीण तिच्या मुखार टप टप करून फळां झडयतालीं, वोंवळीण-सुरंगीण ती येवपाचो वेळ पळोवन फुलांचो शिंतोड घालताली...

यशोदीय त्या झाडां जितापतींचे लाड करताली, धूव आनी नातरां सोडल्यार तिचें कोणाकडेनच चड नातें नासलेलें. हीं झाडां-झोपां-रूख, सुकर्णी-सावदां, कीड-मूय, जीव-जिवार... म्हणजेच तिका तिचीं सोयरीं आसलेलीं. ती तेंचेकडेन उलयताली, तेंकां उलो मारताली, तेंकां कापलां - दुखलां, तुटलां-मोडलां तें पळयताली. तेंची जतनाय घेताली. हुस्को काडटाली. तेंचें दुखणें मोठें तर तेका उलो करताली, आंगवण-गाराणें घालतालीं. बेगीनात बेगीन तेका गूण घाल म्हण मागताली. खूब दीस एखाद्र्या जिवाचें तिका दर्शन जालें ना वा तिका दिसलो ना तर तिका तेंचो हुस्को जातालो. ङ्कोणें काळान घात घेतलो ना मूं देवा म्हाज्या पोराचो? ती सामकी आकांताली, हे झोपींत ते झोपींत, ह्या झाडार त्या झाडार पळयत, तेका सोदीत भोंवताली. तरीय दिसलोना तर मागीर तेका गाराणें घालताली, बेगीनात बेगीन, दीस अस्तमना वचचे आदी वा तीन दीस आदी तेंकां दाखोवन दी म्हण्टाली. मागीर तो तिच्या उल्याक ओं म्हण्टालो, तिका दाखलो दाखयतालो. दीस पडचे आदी वा गाराण्या परमाणें तीन दिसां भितर तिका तिचो शेणिल्लो सोयरो दिश्टी पडटालो. कोणूय जनावर जाण्टें जावन मेलें तर ती तेका स्वताच्या हातान फोंड काडून मातयेक लायताली. अशें कोणूय मेल्यार तिचें काळीज तुट्टालें. तिका कांय दीस अन्न-उदक वचनासलेलें.

खरें पळोवंक गेल्यार वयाच्या वीस वर्सां पर्यांत यशोदी ह्या सगळ्या गोश्टींपासून पयस आसलेली. तिचे आवयगेर गोरवां आसलेलीं, शेत आसलेलें, पूण तिका केन्ना गोरवांचें शेण भरपाक पडलेंना. शेतांत

वावर करचो लागलोना. ती आवय-बापायली एकटीच धूव. तेणीं तिका अपुरबायेन वाडयलेली. परक्या घरा वचपाचें म्हुणोन मात आवयन तिका रांदप-वाडप तितकेंच शिकयलेलें. वयाच्या अकराव्या वर्सा तिचें लग्न जावन ती ह्या गांवांत पावली. लग्नाच्या दुसऱ्याच वर्सा ती न्हाती-धुती जाली. पंदराव्या वर्सा तिगेर चेडूं जालें.

घरांत मांय-मांव आसलेलो. तिचो घोवय एकटोच भुरगो. मांवाचो घरचो खाज्याचो धंदो. जात्रेंत फेस्ताक खाजे-लाडू करून तो विकतालो. तिचो घोव बापायक धंद्याक आदार करतालो. ना शेत, ना गोरवां, खाज्याच्या धंद्यांतल्यान खावन-जेवन सुखी घर आसलेलें. तिच्या आवय-बापायन घरांत शेत-भाताचे कश्ट ना तें पळोवन मुद्दाम तिका त्या घरांत दिलेली. पूण तिच्या नशीबांत कश्टच बरयलेले आसलेले. तिचें चेडूं तीन वर्साचें आसतना, खाजे करतना शिजलेल्या तेलाची कायल आंगार परतून, तिचो घोव लांसून मेलो. पुताच्या दुख्खान मांवान हांथूण धरलें आनी तीन म्हयन्या भितर तोवय गेलो. पूत-घोव आड मरणान गेले तें पळोवन मांयन सामके हात-पांय सोडले...

यशोदीच्या माथ्यार ऐन तरणेपणांत मळब कोसळ्ळें, पूण काळजार फांतोर दवरून संकश्टांतल्यान उबें रावपाचें तिणें धाडस केलें. केन्ना कसल्या दुख्खाची सांवळी आंगार पडले नासलेली यशोदीक मांयक आनी धुवेक पोसपा खातीर विणविणचें पडलें, हिंगा-थिंगां कश्ट करचे पडलें. मांव-घोव गेलो, खाज्याचो धंदो न्हिदलो, तो सांबाळप यशोदीक शक्य जालेंना. पूण पोट भरपाखातीर ती कोणागेर लुंवणेक वच - नंडणेक वच, कोणागेलें भात सडून दी - कोणागेलें पीठ दळून दी... अशीं जमता तीं कामां करताली. हाताक असलीं कामां करून खिणां पडलीं पूण तिगांचें पोट काय सारकें भरना जालें...

यशोदी चिंतेन वावुरताली. धूव आतां व्हड जाता. तिचें शिक्षण आसा, फाल्यां लग्न कार्य आसा... मांयचें वखद-पाणी आसा... कशें जावपाचें हें? खंयच्यान हाडपाचो पयसो?

एका दिसा शेजारच्या गांवचो भाटकार, केंकऱ्या बाबान तिचे मुखार एक विशय मांडलो. गांवचे शिमेकुशीक आसलेल्या दोंगुल्लेच्या मुळसांत तेचे काय माड आसलेले, तेची तल्लूक तिच्या मांवाकडेन आसलेली. आतां तो ते दोंगुल्लेरय आनीक कवथे घालतलो. यशोदीन तेंची राखणी-शिंपणी करची. बदलाक तेंची तल्लूक तिचेकडेन आसतली. पाड्या-पाड्याक अमूक नाल्ल मेळटले आनी जाय तर कामत-पोरसूं करूंक भात-गोंडा पिकोवंक दोंगुल्ले जंय जाय थंय जमीन मेळटली. शिवाय दोंगुल्लेर आंबे, पणस, काजू-भिरंड... कितें जें पिकता, तेचो तिका वांटो मेळटलो. लाकूड-बडी, जळव मेळटलो...

यशोदी एका पांयार तयार जाली. हेच्या-तेच्या दारांत घोळचेपरस हेंच बरें अशें तिणें येवजिल्लें. मागीर तिचें आनी त्या दोंगुल्लेचें एक नातें तयार जालें. दीस-रात ती त्या दोंगुल्लेर वावरूंक लागली. कवाथे-मांडांक शिंपणें करून उरिल्ल्या वेळांत ती एकटीच शेत रोवपाक बांदलां तयार करूंक लागली.

तिणें आपल्या हातांनी झाड-झोप बेणलें... पाल्या-पत्र्याक उजो घातलो... खोऱ्यान जमनीचीं धेंपां काडलीं... दिवळ्यान फोडली... मागीर तेतूंत भात-गोंड्यांचे बीं पेरलें. पावसाच्या दिसांनी पावसा उदकार, गिमा दिसांनी दोंगुल्ले मुळसांतल्यान व्हांवतले न्हंयेच्या उदकार ती पीक काडूंक लागली.

आरंभाक तिका खूब त्रास जातालें, सुरवेक तिची मांय नातीक खाक्याक घेवन तिच्या सांगाताक थंय येवन बसताली. मागीर तिणेंच तिका येवची बंद केली आनी नातीक घेवन घरांतच रावपाक सांगलें.

पयलीं पयलीं एकटीच दोंगुल्लेचेर वावुरतना तिच्या पोटांत भंयान गुळो येतालो. एक दीस अचकीत तिका मांवान सांगलेल्या उतरांची याद जाली. मांव म्हण्टालो,

''दोंगुल्लेचेर वझर्यो रावता. संकश्टाच्या वेळार कोणेंय ङ्गपाव रे सायबा वझर्थाङ्ग म्हुणोन उलो केल्यार तो संकश्टाक उबो जाता.''

मांवालीं उतरां याद जावन तिणें ते दीस वझर्याक उलो केलो, ''पाव रे म्हाका वझर्याऽऽ! राव म्हाजे फाटल्यान राखणेक उबो!''

यशोदीक भास जालो, तिच्या तोंडांतलें उलोवप सोंपता ना सोंपता, एक आडदांड सांवळी मुखावयले झोपींतल्यान उबी जाली आनी नदरेक पडटा म्हटल्यार गुप्त जाली.

- शेर्त, तोच्च आसतलो! आपूण सायेक आसा म्हणपाचो दाखलो दिलो तेणें म्हाका!

यशोदी अंतरमनांत समजली. मागीर तिचो भंय खंयचे खंय ना जालो. मागीर अशी घडणी सदीचीच जावंक लागली. मळार-दोंगुल्लेर वावुरतना रात जाली, काळखां जाली, दनपार भारार घुल्ली हुंबून भोंवरी जावोंक लागली, झोड-मोडाचो पावस येयलो... यशोदी तेका उलो करताली. संकश्ट निवारण कर म्हण मागताली. मागीर तो तिचे सायेक आशिल्ल्याचो निर्वाळो दितालो, तशी ती बिनधास्त जाताली. सगळ्या संकश्टांक तोंड दिताली.

अडी-अडचण येवची, संकश्ट उबें रावचें आनी यशोदीन तेका उलो करचो, हें मुखार सदींचेंच जालें. इतकें-की यशोदीचो दर सकाळीं पयल्यान पयलीं न्हंयेचे धडेवयल्या, तेच्या आंब्यामुळांत वचोन तेचेकडेन उलयले बगर दिसूच सुरू जायनाशिल्लो.

मनांतलें - पोटांतलें सगळें ती तेका सांगताली. खंयच्या झाडाक पयलें फळ धल्लां... खंयच्या कवाथ्याक पोंय फुटल्या..., वाऱ्यान खंयच्या रुखाचो खांदो मोडलो... खंयचे झोपींत सोंशाचीं पोरां पळयलीं... पिट्टोळेचीं पिलां केन्ना घोंटेर सोडून गेलीं... धुवेन आज कसलो हट्ट केलो... सगळेंऽऽ ती तेका सांगताली.

तो एक तर तिका सपनांत येवन दृश्टांत दितालो ना तर तेची सांवळी तिका दिसताली, तिवय पयस पयस चलत वचून गुप्त जाताली. तेची फाट सांवळी दिसप म्हणजे तिचे खातीर वायटाची नकलामी आसताली, तर

सपनांत दृश्टांत दिल्यार तिचेवयलें अरीश्ट कशेंय पूण पयस जातालें.

तेचे सासायेक लागोन ते दोंगुल्लेक तिणें देवाभाट नांव दवरलें. ती तेचो वर्साचो मान-पान करूंक लागली, न चुकता तेका सूर-रोट दिवंक लागली. उणें उणें पन्नास वर्सां तेंचो दोगांयचोय एक-मेकांक सांगात...

ह्या पन्नास वर्सांत यशोदीचे जिणेंत जायतें कितें घडलें. तिची मांय गेली, धूव व्हड जाली, तिचें लग्न जालें, तिगेर दोन भुरग्यां जालीं... यशोदीचे काणयेन परत मूळ धरलें, तिचे धुवेच्या वांट्याक ऐन तरणेपणांत रांडपण येयलें. तिचो जांवय सोऱ्याच्या वेंसना फाटल्यान लागलो, तेतूंतच तो सोंपलो. धुयेक सासरा बरीं नंदय ना जालीं, यशोदीक कळटकच तिणें वचून धुयेक आनी नातरांक आपल्या म्हाऱ्यांत हाडलीं.

त्या तिगांक पोसप यशोदीक व्हडलें नासलें. ती दोंगुल्ले माथ्यार भांगर पिकयताली. आदीं ती एकटीच मशागत करून चार बांदलां रोयताली. मागीर तिणें भाटकाराचे परवानगेन जमीन थोडी वाडयली, कामेरी-जोत घालून ती रोवंक लागली. तिच्या कश्टांक धन्नी भरभरून परतावो दिताली. यशोदीच्या घराची चौकी गोणयांच्या दाळांनी भरताली. सांगाताक नाचणो-कुळदांचे कंड्डे. भाटकाराक दिवन, स्वताक दवरून, विकून शे-दोनशें रुपया घेवपा इतकीं सोलां तिका दोंगुल्लेवयल्या भिंडिणीचीं भिंडां दितालीं. आंबे, पणस, जाम, पेरां, अनसां, आंबाडे, तेंफळां, अटंबां... भाटकाराचो वांटो भाटकाराक दिवनय, तिच्या वांट्याक खावन पुरो इतकें उरतालें. जाय जाल्यार तें विकून ती चार पयशे करूंक शकताली. खावंक जाय तो भाजीपालो, शाक भाजी ती पावसांत तशेंच गिमांत रोयताली. तल्लुकेचे नाल्ल भरपूर मेळटाले...

धुवेचो संवसार मोडलो हेचें तिका दुख्ख आसलेलें, पुणोन तें दुख्ख घेवन बसोवंक तिका वेळ नासलेलो. नातरांक वाडोवपाची तिचेर जबाबदारी आसलेली. तिची धूव वयान तरणी खरी पूणोन यशोदे इतकें धारीश्ट तिचेकडेन नासलेलें. ती अबरगत जावन घरांत वावुरताली. पुर्यायेन आवयचेर भरवंसून आसलेली आपले सारखी धूव अनपड उरची न्हूं म्हण यशोदीन तिका मॅट्रीक मेरेन शिकयलेलें, केन्ना तिका शेताभातांतलो वावर लागोंक दिलोना. आतां तिच्यान शेता-भातांतलो वावरूय करूंक जमना जालो. तरी ती आवयच्या सांगाताक वावरूंक येताली, आपूण आवयचेर भार जाल्या हेंचें दुख्ख तिका आसलेलें. यशोदीक तें जाणवतालें. तिणेंच तिका मागीर वावरूं येवचें बंद केलें.

"तूं घरांतलेंच पळय. त्या पोरांच्या शिक्षणाचेर सारकें लक्ष दी. दोंगुल्लेवयलें हांव पळयतां. आजोन हे कुडींत बळ आसा."

करतां करतां यशोदीक दोंगुल्लेची इतकी वोड जाली, तिचें कशेंच घरांत मन रमना जालें. तिचो जीवच जणू दोंगेल्लेर कोणें बांदून दवरलो. पयलीं तरी घर एकटें उरता म्हुणोन ती रातची तरी न्हिदपाक घरा वयताली. आतां ती धूव-नातरां रावंक येतांच रातची दोंगुल्लेचेर रावंक लागली. थंय तिणें एक चुडटांचें खोपूट बांदलें. तेतूंत ती रातची न्हिदोंक लागली. त्या खोपटांत तिका पोटभर सूख मेळटालें. शांत न्हीद लागताली. आपलो देह निमाणो हेच मातयेंत वयचो अशी तिची इत्सा आसलेली. आपल्या मांय-मांवाक, घोवाक ज्या जाग्यार पुरले थंयच आपलोय देह पुरचो अशे तिका मनापासून दिसतालें. तिणें चल्या-भाटकाराक ते संबंदान सांगोनय दवरलेलें,

"भाटकारा, तुज्या बाप्पान म्हाज्या हातीन ही दोंगुल्ली दिली, तिका हायें जिवापाश्ट सांबाळ्ळी. हायें जें हातवयर करून दिलें तें तुमी विस्वासान घेतलें, केन्ना तुज्या बाप्पान, ना म्हण तुयेंय उतरान अदीक-उणें जाल्ल्याचें उलयलें ना -विचारलें ना. आतां म्हाजेर एकच उपकार कर, तुज्या बाप्पान जसो म्हाज्या मांय-मावाक-घरकाराक मातयेक लावंक ह्या देवाभाटांत जागो दिलेलो, तसोच म्हाकाय दी. तेंकां दिलेलो त्याच जाग्यार! तेंच्याच सांगातान म्हाकाय हे धन्नेर रावपाचें आसा!"

यशोदीची ही मागणी वाऱ्यारच उरली, तिच्या काळजाक मात व्हडलो धक्को बसलो. भाटकारान गूप-चूप ती दोंगुल्ली एका बिल्डींगांचो धंदो करप्याक विकली. दोन कोटींवयर दुडू तेका मेळ्ळे. तो बिल्डर थंय हॉलीडे रिसोर्ट बांदपाचो आसलेलो.

यशोदीच्या राज्याक हेतूंतलें कांयऽ एक खबर ना. एक दीस भाटकार नोटींची दोन बंडलां घेवन तिच्या म्हाऱ्यांत येयलो. पंचवीस हजार रुपया ते, म्हुणोन सांगतालो. यशोदी मुखार ते दवरून, आपणें दोंगुल्ली विकलेल्याची खबर तिणें यशोदीक सांगली.

यशोदीच्या पांयांसकली जमीनच हाल्ली. तिणें आकांत केलो, इकळाप केलो. भाटकाराच्या पांयांर उडी घेतली.

यशोदीक आपल्या आनी आपल्यो धुवे-नातरांच्या तोंडांतली उणी वतली हेचें दुख्ख तर आसलेलेंच. तेवूय परस तिका दोंगुल्ले वयल्या वनरायेचो... जीव-जितापतींचो विध्वंस जातलो हेचें चड दूख्ख आसलेलें. तिणें त्या पयशांच्या बंडलांक हात न्हूं बोट लायलें ना. वयल्यान ती कपलां आपटूंक लागली.

ती दोंगुल्ली राखपाचो तिणें हरतेरेन यत्न केलो. वझर्याक उलो केलो. आपल्या वै-वडलांक उलो केलो, भाटकारागेर वचून जाण्ट्यांक-बायलांक हात जोडले... पूण कांयच उपेग जालोना. अखेरेक ती आदोगादाक बुसोन मेळ्ळी. पूण तेचोय कांय फायदो जालोना. ती ते जमनीची कूळ वा मुंडकार, तल्लुकार... कितेंच म्हुणोन खंयच्याय सरकारी कागदांनी बरयलेलें नासलेलें. मागीर ती खंयच्या हक्कान तो दोंगर विकपाचो आडायताली आसलेली? भाटकाराचें मोठेंपण म्हुणोन तो पंचवीस हजार तरी तिका घेवन येयलेलो! यशोदीक आपले धुवेची बुसोन तिडक मारली. आपूण एक अनपड, आपल्याक कायदे-नेम खबर नासलेले. पुणोन मॅट्रीक जाल्ले तिणें केन्ना एकदां आवयक हे

विशीं शिटकायलेलें ना!

यशोदी सामकी पिशांतूर जाली. तिणें अन्न-उदक सोडलें. ती दिसभर वझर्याच्या थळार बस्सून रावंक लागली. तेचेकडेन झगडूंक लागली. तेका आणो-भाको दिवोंक लागली. ङ्गजर तुयें ही दोंगुल्ली राखली ना तर तुज्या पांयांकडेन जीव दितलेंङ्घ अशी तेका धमकीय दिवोंक लागली.

कितकें सांगलें, कितकें विनयलें तरी यशोदी घरा येनासलेली. तिची धूव पयलेंच जिवाक तारुण्य नासलेली, आतां आवयक अशी पिशांतूर जालेली पळोवन सामकी घाबरून गेली.

एका दिसा आवयक सोदूंक दोंगुल्लेर गेल्लेकडेन धुयेक ती जीव-वाचा नासलेली सांपडली. तिणें धांवन येवोन गांवच्यांक आपोवन व्हयले. गांवच्यांनी तिचे हात-पांय बांदून निशणीर घालोन घरा हाडली.

दोतोर-वैज जाले, पूण यशोदी कशीच शुद्धीर येना. चार दीस आस्पीत्रेंतय दवरली. पूण कांय उपेग जालो ना. दोतोरान सांगलें, तिची कूड जिती आसा पूण मेंदू जागो ना. तो केन्ना जायत सांगोंक जायना. घडये केन्नाच जावचोय ना. धुयेन दोतोराच्या सांगण्याचेर सारासार विचार करून तिका घरा हाडली. म्हटलें, ङ्गजीव वयतलोच जाल्यार आपल्याच घरांत वचों.ङ्घ

सुमार एक सोमन यशोधी घराकडेन निंदेल्ले स्थितींत आसलेली. ती दोळे उगड नासलेली, हात-पांय हालय नासलेली, फकत तिचो उस्वास चलतालो आनी म्हुणोनय ती जिती आसा म्हण्टाले.

...बडी तेंकयत चलता चलतां यशोदीन फाटीं वळोवन उंदेतेवटेन पळयलें. उदेंत तांबशेवंक लागलेली फांते सामकें सुये तोंकार पावलेलें. तिच्या काळजांत कच्च जालें.

- बाप्पा रेऽऽ! फांतोड पावली म्हरे! फकत एक पळ बाकी आसा!

- हे म्हातारे पांय वोडीत चलतां चलतां कळाव जालो रे म्हाका!

- राव रे बाबा वझीया...! म्हाका भेटल्या बगर वचनाका! ही पळय पावली हांव तुजे भेटेक!

आंगात आसलेली नासलेली शक्त एकवठावन यशोदीन दोन उडणां मारली आनी ती वझर्याच्या थळार पावली.

यशोदीन पळयलें. फांतोडेच्या तांबड्या किरणांनी वझर्याचें थळ रगशेल्लें. तिच्या काळजाक धडधडी भरली.

''गेलो काय किते?...''

''खंय आसा रे बाबा? तुजेखातीर हांव इतकी अनंताचे वाटेवयल्यान परत येयली म्हरे!... वझर्या रे, दर्शन दी रे बाबा तुजें!''

यशोदीन भिवन चोंयवटयां नदर भोंवडायली. वझर्याच्या थळावयलो, आंब्या रुखा सकलो काळो तळप, बाबडो, सत्व काडलेले बशेन उबो आसलेलो. तेचे मागा आसलेलो व्हडलो आंबो... तेचीं सगळीं पानां बावलेली... जित्या वा मेल्ल्या कोणाचोच सादसुरांव नासलेलो. सामकें किण्ण जालेलें.

आकांतान यशोदीन न्हंयेवटेन वयतले पांयवाटेर नदर मारली...

कमराक मूंड, माथ्याक मुंडासो, खांदार कांबळ, हातांत सोटो... अशा भेसांतली एक धिप्पाड दादल्याची सांवळी ते पांयवाटेन ल्हव ल्हव उदकाचे दिकेन चलत वताली.

फाटीन दिसतली ती सांवळी पळयताच यशोदीन व्हडल्यान किंळाच मारली,

- देवा रेऽऽ! घात जालो रे जल्माचो! कळाव जालो रे म्हाका पावपाक!

मागीर तिणें इकळापून, काळजाच्या तळासाकोन तेका उलो केलो,

''राव रे, थांब रे बाबा वझर्या! थांब! म्हाका मेळून वच म्हरे निमणचो!... तुजे खातीर हांव येदे व्हडली वाट चलून येयली, इल्लो कळाव जालो खरो पुणोन तेखातीर असो रागान, म्हाका मेळनासतना वचोक नाका रे!... म्हाज्या आनी तुजेमदल्या नात्याची आण रे तुका!.. ह्या दोंगुल्ले वयल्या झाड-पेड, सुकण्या-सावदाचो सोपूद तुका!... वच नाका रे, राव! वझर्या रेऽऽऽ''

यशोदी ते सांवळे फाटल्यान धांवली, पुणोन तिच्यान दोगांमदलें अंतर हुंपूंक जालेंना. तिणें पळयलें, तेची फाटीन दिसतली कूड, पांयवाट सोंपोवन आतां न्हंयेच्या उदकांत देंवल्या. उदकांत ती फुडें वचत आसा. इल्ली इल्ली करून तिची कूड उदकांत गुप्त जायत आसा...

तेची आख्खी कूड भलेल्ले न्हंयेंत गुप्त जाली आनी हेवाटेन यशोदीन व्हडल्यान बोंब मारली,

''गेलो म्हरे म्हाका भेटनासतना?... विसरलो म्हरे आमगेलें इतक्या वर्सांचें नातें? तुजे नेम तुवें पाळ्ळे! दीस फुटचे आदीं तुका वचपाचें आसलें, तूं गेलो! हांव मात ते अनंताचे वाटेवयल्यान, सगळे नीत-नेम सोडून परती येयली!... मूर्ख रे हांव... मूर्ख! एक फावट न्हूं, शंबर फावट मूर्ख!''

''पुणोन आतां ना जावची हांव मूर्ख! तूं गेलो म्हरे?... आतां हांवूय वयतां. मागीर हांव ना येवंची परत केदनाय! कोणेंय कितकेय उले मारूं नातर हाको मारूं! हांव ना येवचीं, म्हटल्यार ना येवची... ही पळय हांव चल्ली त्या अनंताच्या मारगाक!''

...यशोदी पांयवाटेर आडवी पडली.

सकाळी, दीस उजवाडटांच, सोदा-सोद करीत थंय येयलेल्या यशोदीचे धुवेक आनी गांवच्यांक, यशोदी ते पांयवाटेर आडवी न्हिदलेली सांपडली. शांत, एके लांब काळाचे न्हिदेंत!

तिणें दोळ्यांक लायलेलें वक्ल तशेंच आसलेलें. पांयांक घातलेल्यो व्हाणोय तश्याच्यो तश्यो आसलेल्यो. उजव्या हातांतली बडीय मुठींत घट्ट धरलेली आसलेली. दोळेंय झांकलेले आसलेले, मात तिचो उस्वास थांबलेलो.

# वाऱ्याचो हुस्कार



प्रीय वाचक

नमस्कार

वाचकश्री, "वाऱ्याचो हुस्कार हांव" ह्यो दोन दोन वळींच्यो कविता. जशे उर्दूंत शेर आसतात तशो आसात ह्यो वळी. आनी तेच धर्तेचेर तांचें चलन आसा. तांचें निर्मितीकरणूय त्याच अंदाजांत आसा. उर्दूंत शेर म्हणपाची म्हटल्यार शेर बरोवपाची शेंकड्यांनी वर्सांची परंपरा आसा. उत्तर भारतांतले गंगा-जमनी तहजीबीच्या (संस्कृतिच्या) प्रभावाक लागून लोक हांगासर उतरा पावलाक कच्च करून एक शेर उडयता आनी उलयतां उलयतां आपल्या सगळ्या उलोवपांत एक खाशेलो रंग भरून वयता. शेर बरोवपाची, शेर आयकुपाची आनी शेर 'कोट' करपाची एक खडेगांठ पद्धत, व्यापारी अरबांच्या आगमनासावन भारतांत रुजू आसा खंय. नाय म्हटल्यार शेरो-शायरीची एक हजार णवशें वर्सांची परंपरा आनी रियाज हांगचे जिणेचे जिबेक आसा. हाका लागून उत्तर भारतीय सांस्कृतिक परंपरेत आनी जिणेंत शेरांक एक निश्चित अशें महत्व आसा. त्या अर्थान कोंकणी जिणेक हाची तशी संवकळ आसा अशें म्हण्टां येंवचें ना. देखून कोंकणीत ह्या वळींक शेर म्हणप बरें दिसलें ना. ह्या वळींक कितें म्हणचें हो म्हजेमुखार एक व्हडलो प्रश्न आसलो. ते खातीर एक नवें उतर निर्माण करप हो असल्या वेळार एक उपाय आसता. खरें म्हटल्यार ती भाशेची ते वेळावयली गरजूच आसता. आनी भासूच हे गरजेचो ताण एकाद्र्या मनाचेर घालता. हे वैचारिक धुमश्चक्रिंतल्यान एक फावो आसलेलें उतर भायर येता. हें नवें उतर भाशेंतल्यानूच आकारुन येंवक जाय अशें म्हाकां दिसता. हांव सादारणपणान तसोच विचार आनी प्रयत्नूय करतां.

कांय दिसां उपरांतची गजाल. एक दीस हांव आनी म्हजी घरकान्न दोगांय टिवीचेर भारताच्या पूर्वोत्तर भागांतलो लोककलेचो कार्यक्रम पळयत बसलेलीं. कांय अस्तुऱ्यो एकामेकांच्या भेणांत हात घालून राती वेळार नाचताल्यो तें पळोवन म्हाकां आमच्या धालांची याद जाली. धालांच्या मांडार बायलो वळीक उब्यो रावतात. एक पावट दुर्गा भागवत, तारा भवाळकर आनी महाराष्ट्रांतले कांय साहित्यिक आमच्या पाळयांत देवळांत जातल्यो धालो पळोवपाक आयल्ले. तेन्ना एके जाण्टे बायलेन तांकां म्हटलें की "आतां तुमी येयल्यां, जाल्यार वळीक उबीं रावात." वळीक उबीं रावात म्हणचें धालांक उबीं रावात. आमच्या धालांच्या मांडार जीं धालो खेळपाक वयतात तेन्ना तीं वळीक उबीं रावतात. दोन वळींक ह्या मांडार जेन्ना वळ म्हणप जाता तें म्हाकां खूप आवडलें. आनी ज्या खातीर हांव उतर सोदतालों तें उतर म्हाकां मेळ्ळें. वळ. म्हजेच भाशेन दिलें तें म्हाकां. देखून हांवें ह्या दोन वळींक वळ म्हटली. ह्या प्रकाराक तें सामकें फीट बसता अशें दिसलें. आनी अशे तरेन ही वळ आकाराक आयली. आनी म्हाकां तुकाराम म्हाराजांची याद जाली. तो आपल्या एका अभंगांत म्हण्टा, "तुझें आहे तुजपाशी । परि तू जागा चुकलाशी ।।"

हालींच्या काळाक खूपशें ह्या संदर्भांतलें वाचनूय जालें. गजल, शेर, शायरी, रुबाईयाँ, अफसाने हांच्या सांगाताक कांय लागीच्यान पळयल्ले शायरुय ह्या विषयाक सारें घालताले. निदा फाजली, शिन काफ निजाम, सरदार अली जाफरी, अनवारे इस्लाम अशा कांय शायरांकडलें लागसारपणाचें नातें आनी तांचेकडें जाल्ल्यो चर्चा शिवाय गालीब, फैज, बशीर बद्र, जाँ निसार अख्तर, बहादुर शेर जफर, फिराक गोरखपुरी, मजरुह सुलतानपुरी, मोमीन, मीर तकी मीर, साहीर लघुयानवी, अमीर खुसरो अशे कितल्याशाच शायरांची शायरी वाचपाचो योग आयलो. आनी तांची वेगळी वळखूय जायत गेली. हें जग आमकां तशें हेर भासांनी दाखयल्लें पूण ते बोटभर, हांगा तें मुबलक प्रमाणांत वाचूंक मेळ्ळें. शिवाय मूळ वाचपांत जी एक मजा आसता ती कितें वेगळीच आसता.

आमचेयकडें कांय कांय लोक असले प्रकार बरयतात. पूण तांचेर दिसता तो मरठी गजलकारीचो सेकंडहँड, किंचित प्रभाव. कोंकणींत उर्दुची नजाकत आपणावपाची प्राकृतिक सुंदरताय आसा. पूण आमचो आमचेच भाशेर तसो full-fledged विस्वास नासल्या कारणान ताका अस्सल रुप येना अशें दिसता. "आसा कामरुण खाता शीं" हो उर्दु नजाकतीचे नदरेन एक सुंदर 'मिसरा' म्हटल्यार शेरांतली एक ओळ अशें जेन्ना हांव निदा फाजलीक सांगतां तेन्ना तो अजापून वयता. प्रतिक्रिया म्हण ताणे जें कितें म्हटलें तें तर आनीक सुंदर आसलें. "इस जुमले का अंदाज देखकर लगता है कि यह जुबान बहुत पुरानी है और इसका आशय तथा तजुर्बा, अनुभवीय अंदाज बहुत गहरा है." अशें निदा फाज़ली म्हटलें. तर हें सगळें आतां "आम्हांस आम्ही पुन्हा पहावें" अशे पद्धतीचें आसा.

आतां ह्या वळींच्या गुच्छाक कितें म्हणप होय एक प्रश्न आसलो. उर्दूत अशा शेरांच्या गुच्छाक गज़ल म्हण्टात. आनी ह्या सगळ्या रसायणांतल्यान म्हाकां बरोवपाक प्रेरीत करतले प्रवृत्तीच्या रुपाक कितें म्हणचें, तें हांव सोदतालों. कारण ही वृत्ती तर आमची. आनी तिका नांवूय आमचेंच आसूंक जाय अशें दिसतालें. आनी तेंय म्हाकां एक दीस मेळ्ळें. आनी तें नांव म्हटल्याल "गजाल". गजाल हें आमचें उतर. आनी गजाली करप म्हटल्यार कोंकणी जिणेचो प्राण. उलयलो ना जाल्यार कोंकणी जीव घुस्मट्टा. आनी चार गजाली माल्ल्यो की जिवांत जीव येता. गजाल ह्या शब्दांत अनेक अर्थ आसात. आनी गजालींचीं रुपांय खूप. एक गजाल सांगतां, ही गजाल अशी, गजाली करतां करतां वेळ कसो गेलो कळ्ळेंच ना, ह्यो गजाली कोणाक सांगता, तिच्यो गजाली म्हटल्यार उजवाड आनी नेट, गजालींनी घोव सांडलो, गजाल मारप अशीं कितलींच तासां आसा हे गजालीक. ह्या वळींच्या गुच्छाक म्हाकां गजाल म्हणप आवडलें तें हे खातीर. हांवें सुमार सत्तरेक गजाली बरयल्यात. आनी त्यो सगळ्यो फेस-बुकार आयल्यात. वेळ येतांच त्योय तुकां वाचूंक मेळटल्यो. ह्या वेळार फकत कांय वळी. तुकां ह्यो वळी आवडूंकूच जाय ह्या अर्थान त्यो वाचू नाकां. अशें केलें जाल्यार ती जबर्दस्तीशी जांव येता. तर ह्यो वळी तुकां निकत्योच दिसता. निकतोच तूं तांकां मेळटा, एकदम अनवळखी. वळख करुन घेंवचे आपुलकायेन पळयल्यार आनी उलयल्यार, तिचेकडें गजाली माल्ल्यार ही इश्टागत निश्चितूच आकाराक येंव येतली. आपलें मन 'अनलर्न ' करुन तांकां पळोवप गरजेचें आसा. ल्हवु ल्हवु ही इश्टागत पालेत वयतली हातूंत दुभाव ना. आनी तुजे सारक्या मोगाळ इश्टाक हें सहज शक्य आसा हें म्हाकां खबर आसा.

बरें मागून

सस्नेह तुजो

रमेश भगवंत वेळुस्कार

# द एक्झीट

आशा शानभाग
९४०४१४५३३७

“आई... ए आई. भजीं कर गे. पावस कसो पडता पळय. असो झमाझम पावस पडचो आनी आई... तुज्या हातची तिखटजाळ... झणझणींत आनी कुरकुरींत भजीं मुखार येवचीं. मस्त मेनू. पळय आई... लाळ पडतली आतां सकयल. प्लीज कर गें भजीं.” म्हजो पूत... अनय म्हाका मस्को मारतालों. आमगेलें 'हो'उलयलोच तो मेरेन. “आरे... अन्या... आईचो पांय उसळटा... फोडता म्हणून शेक घेता पळय. आनी तुका भजीं येवजतात?” अनायाचे तोंड उतरलें. हांवेंच म्हळें... “पांय किदें... सदचेंच ते... पूण पावसाळी दमट वातावरण... थंडसाणेन भरिल्ली हवा. भिरभिरो पडपी पावस... आनी सामकार खोबरेलान तळिल्लीं भजीं. रूच येना तुका?” “येता गो रूच... पूण तुजो फोडता तो पांय... तुजे चेऱ्याचेर दिसपी दुख पळोवन दिसता. भंगू ती भजीं.” “पूण.. भजीं खावपाची इत्सा आसा? रुचय येता हें खरे न्हीं?” आमची भासाभास आनी हयकारी हालपी बापायची मुंडी पळोवन अनायाची जीब रुसरुसली. बरीऽऽ ताट भर भजीं करून... खांवन आमी ती पावसाळी सांज सोबयली.

दीस वतालें. पूण म्हज्या पांयांची कटकट कमी जालीं ना. उलटी वाडतच गेली. “आई... आमीं फाल्यां रोहितासरां वचुंया... तुजो पांय दाखोवंक. हांव उलयला ताजेसरी.” “कोण रे हो रोहित? धावी मेरेन तुजे वांगडा...” “हय तोच. दोतोर जाला तो आतां. आनी सुपरस्पेशलिटी हॉस्पिटलांत काम करता. फाल्या सकाळी उपाशी पोटार यो सांगला ताणें तुका. हांव आनी बाबा हाफ डे घालतात फाल्या.” “ओगीच येदे व्हडलें हॉस्पिटलांत वचप आमी. काप... काप... कापतलें तुमचीं बोल्सां. आनी येतलें किदें? पादे... पादे... फुस्स.” हांसो चेपन अनयान समजायलें. “तें हांव पळयतां. तूं फाल्यां वचपाची हे शेर्त.” हांवेंय मुंडी हालयली.

दुसरे दिसा आमची तिगांचीय पालकी भायर सरली. अनयान बायक घेतली आनी आमीं गाडी. पांच मजली... निळ्या काचांची हॉस्पिटलाची बिल्डींग तांबडे प्लस नाजाल्यार फायव्ह स्टार हॉटेलच कशें. सकयल्यांन अनयान रोहिताक फोन लायलों. “चला आई. बाबा रोहित तिसऱ्या माळ्यार आमचीच वाट पळयता.” लिफ्टान आमी तिसरे माळ्यार पावलीं. “आई कशी आसा?” लिफ्टा भायरच एका तरणाट्यान हटकिलें. सादारण अनया येदोच... हांसतगीर वळख मेळ्ळी. “आरे... रोहित न्ही रे. हांसलें बरोबर दोळ्यां सामकार आयलों तो अनय वांगडा आमगेर येवपी हाफ-पँट युनिफॉर्मांतलो बुडकुलो कसो रोहित.” “बरी मगें तूं?” “ हय रे. पांय मात्सो दुखता म्हणून अनयान तुजे सरी हाडला.”

“तूं भिये नाका आतां. हांव आसा न्हय. ल्हानपणांत तुजे हातची खाल्ली कांद्याची भाकरी आनी घराव्या लोणयाचो गुळो याद आसा म्हाका अजून.”

“आरे येता तर यो आजच. सांची करता भाकरी.” “आई... आतां म्हाका फकत एक भाकरी पावची नां. म्हणून पयलीं तुका घटमूट करता आनी मागीरच येता. कमीत कमी अर्दडझन तरी जाय आसतल्यो भाकऱ्यो.” रोहितान आपले केबिनाचें दार उगडलें. आमी भितर बसलीं. सगलें जाणून घेवन रोहितान उलोवंक सुरवात केली. “अनय... आईची पन्नाशी जाल्या. सो कॅल्शीयम डेफिशियन्सी येंव येता. मेनापॉजय परिणाम करता ह्या वयांत. तुमी वचात कामाक. हांव बाकी पळयतां.” हांवें हाजेकडल्यान गाडयेची चावी मागून घेतली. “आयज भायरच जेवात दोगूय. हांव वतां घरा गाडी घेवन.” “व्वा... ब्राव्हो आई तूं ड्रायव्हिंग बी जाणा तर? गुड.”

ते दोगूय गेलें. आनी रोहितान म्हाका चेअकप करपाक भितर व्हेलें. हें आनी तें... चेकअप करून घेवपाक हांवें म्हजी कूड रोहिताचे सुवादीन केली. रगत... मूत... थुकी... देवा... देवा... निमणे एकदाचें तपासणेचें भोग सोंपलें. कँटीनांन वचून च्या-बिस्कीटी खांवन परतून रगत काडलें. “आई... रिपोर्ट फाल्या मेळटले सगले. आयले की हांव अनयाक कळीत करतां.” “रोहित... ताका कांयच कळोंव नाका. दोगूय बापूय-पूत लिव्ह मारून रावतले. चिंतत रावन म्हजोय जीव खातलें. हांवच येता. फाल्यां साडे-धांक सुमार.” “ओके तर वता मगें

तूं? फ्राकेज बी दिसना मगें रगत काडिल्ल्यान?'' ''ना रे... पोटभर खाला हांवें कँटीनांत. चल बरें तर येतां हांव फाल्यां. याद धर हां तांकां काय सांगूं नाका फाल्यां रिपोर्ट येतलो म्हणून.''

दोन दिसां उपरांत हांव हॉस्पिटलांत रोहिताक मेळपाक गेलें. रोहितान आपली नदर सकयल केली. 'रोहित... घे तुज्या आवडीची कांद्याची भाकरी आनी लोणी. चार आसात भाकऱ्यो. फॉयलींन गुठलायल्यात. गरम आसात. खांवन घे.'' ''अरे... तूं एकटीच आयली? अनय... ताजो बाबा...'' ''रोहित... हांवें सांगिल्ले तुका हांव एकटेंच येतलें म्हणून. विसरलो... काय विसरपाचे नाटक करता?'' ''ना गें... याद नाशिल्ली आतां जाली.'' ''चल तर रिपोर्ट किदें म्हण्टा सांग.'' ''आई... हांव अनयाक सांगता मागीर.'' ''रोहित... खरें सांग. रिपोर्ट गडबडीचो मरे?'' ''ना गें... तशें कांय ना.'' ''रोहित... म्हजें वाचन खूप... दुवेंसांची म्हायती... तांची लक्षणां जाणतां हांव.'' ''तशें दुवेंस कांय ना गें.'' ''हय मरे? चल तर रिपोर्ट दाखय.'' ''आई....'' ''रोहित... म्हजे म्हणणें आयक. हांव मरणाक भियेनां... म्हाका म्हजी एक्झाट वेळार जावंक जाय. बेस्ट मिन्स हेरांक चड त्रास न दितां. चल रिपोर्ट दी.''

निमणें रोहितान रिपोर्ट म्हजे सामकार दवरलो. फायनल स्टेज कॅन्सर. ''आरे... म्हाका अपेक्षीतच हें. म्हजी आजी ह्या दुवेंसाची मानकरी. एक पिळगी सोडून दुसऱ्याक खंय हो वारसो मेळटा.'' सहज... हांसत उलोवपी म्हाका पळोवन रोहित अजापलो. ''आई... तूं भियेनां?'' ''कोणाक मरणाक काय मरपाक? आरे यमराजा कडेन लेगीत घट आमीजाद आसा म्हजीं. ताणें यो म्हळें की चल्लें हांव.'' ''ग्रेट तूं आई. हांवें पळयिल्ली अशी पयली तूं... जी मरणाक भियेनां. बाकीचे... सोड तांचे.'' ''रोहित... एक सांग... कितलो तेप?'' ''ना... ना. तशें कांयच ना गे.'' ''रोहित खरें सांग... वर्स... स म्हयने... काय ताजेकय उणें?'' ''सॉरी आई... मॅक्झीमम वर्स.'' ''खूप जालें रे वर्स म्हळ्यार. रोहित एक काम करशींत?'' ''सांग.'' ''हांव केन्नाच कोणांच कडेन कांयच मागनां. पयलें आनी निमणें तुजे कडेन मागतां. दितलो?'' ''हय'' ''म्हज्या रिपोर्टा विशीं अनय आनी ताजे बाबाक फट सांग.'' ''आई... पूण दोतोराच्या एथिकसांन हे बसनां.'' ''तें जाणां हांव तुजें नांव खराब जावंचें न्हय म्हणून हांव तुजे खातीर एक पत्र बरोवन दितां. म्हजे निमणे वेळार पावल्यार नातर म्हजे फाटल्यान हे पत्र आनी रिपोर्ट अनयाक दी.'' हांवें थंयच बसून म्हजे म्हणणें... हांवें रोहिताक केल्ली विनवण बरयली. सय मारली. तारीख घाली आनी रोहिताक दिली.

''रोहित... थँक्स. मेळटा तो टायम जीव भरून जगतां आनी व्हिटेमीन के भरपूर घेतां. जो मेरेन जीव आसा तो मेरेन म्हजे वांगडा आशिल्ल्या... म्हजे भितरल्या म्हज्या कांय इश्टां कडेन तिगून उरपाक जाय. चल तर बाय.'' ''यो केन्ना केन्नाय'' ''हय तर येतलेंच. के चीबी सँपला घेवंन. रोहित म्हाका [illegible] म्हजे खातीर हेरांक त्रास दिवंक आवडना. म्हणूनच धडपडतां रे हांव... म्हजे दुवेंस लिपोवपाक. दोगूय कोसळतले कळल्यार.'' आजाद पंछी जालें भशेन हांवें म्हजी नवी जीण सुरू केली. मेळता तो खीण उमेदीन जगपाचो... नव्यान अणभवपाचो थारावन हांव तयार जालें.

अनयान पयरच म्हणिल्लें, ''चिकन-नुडल्स कर गे आई...'' करपाक जाय. शक्य तांच्यो शक्य तितल्यो अपेक्षा... ज्यो तांकां म्हजे कडसून आसात त्यो पुराय करूंक जाय. बाजारान मेळतात तरी हांवेंच करपाक जाय हो ताचो हट्ट याद जालो. बाजारांतल्यान चिकन... नुडल्स हाडल्यो. यु-ट्यूबावयल्यान रेसिपीची मजत घेवन नुडल्साचो दोंगर केलो. तांका खावयल्यो... हांवेंय खाल्यो. त्रासदायक दुखणें सोसत तोंडांर हांशें दवरून शक्य तितले सुख वाटपाचो हावेस धरलो. वेळ खूपच कमी आसा न्ही म्हजे कडेन? हेरां मुखार चेऱ्याचेर हास्य... एकटेंच आसतनां वेदना सोसोप अशी चेरो आनी मुखवटा टायप जीण आपणायली. ''बाबा... रोहिताच्या चेकपा उपरांत आई ठणठणीत बरी जाली पळय.'' ''हय तर... रोहित येता मरें अदींमदीं आनी दिता फ्री सँपल्साची व्हिटामिनां आईक तुज्या. आंगान झडल्या तरी टवटवींत आसा ती.'' दोगांयच्या तोंडांवेली खोशी पळोवन हांव पायांची दुख... कमराचीय दुख... बरींतली कसकस चिड्डून दवरतालें.

निमणें एक्झीटाची वेळ आयिल्ल्याचें म्हाका जाणवलें. ते दिसा आडवें पडलें ते उबें जावंकच ना. दोगांयनी फोनाफोनी करून रोहिताक आपयलो. रोहित ये मेरेन यमराज सामकों म्हजे म्हऱ्यांन आयलों. हेंवूय म्हाका जाणवलें. एक धवेंफुल्लं धोतर... धवोच सदरो घालो तेजस्वी... जाणतो मनीस कपलार गंधाचो टिळो. ''हांव यमराज.'' ''अरे व्वा'' म्हजे मनांत अतर फुटलें. कारण त्या तेजस्वी मनशा वांगडा उबो आसलो म्हजो बापूय आनी आजो. ''या मुगो?'' बाबान आनी दादान विचारलें. हांवें... ''हय'म्हळें. आनी हात फुडें केलों. ''म्हजी एक्झीट वेवस्थीत कर रे देवा.'' ही म्हजी मागणी मानून घेवन म्हाका घाणीत नासतनां लोळयता व्हरपाक आयिल्ल्या म्हज्या सर्गेस्त म्हालगड्यांक हांव न्हंयकारू?

''बाबा... रोहिताक बेगीन यो म्हळां. पावतलो तो पांच मिण्टांत.'' म्हजे कानांत पडिल्लें अनयाचे हें निमणें उतर. नदर ताचे कडेन वळचे पयलींच हांवें बाबाक दिवंक फुडे केल्लों हात यमराजान घट धरलो. ताचीं पकड घट जाली आनी हांव म्हातारेच्या कापसा प्रमाण ल्हव जालें.

■

# विस्वास

## रमेशचंद्र छबीला हांचे हिंदी कथेचो अणकार : उदय देशप्रभू

९५५१९५५५२३

दनपारचीं दोन जाल्लीं. शिवानीन आयचें दिसाळें उबारलें आनी सोफाचेर बसून खबरो वाचपाक लागली. पुराय दिसाळ्यांत चड्डयो हत्या, लुटमार, चोरी, बलात्कार अशे तरेच्योच खबरो नदरे पडटाल्यो. पयल्याच पानार बलात्काराच्यो दोन खबरो आसल्यो. एका धा वर्सांचे चलयेचेर शेजारच्या एक चल्यान आगळीक केल्ली, आनी दुसरे खबरेंत पंदरा वर्सांचे एके विद्यार्थिनीचेर शाळेंतल्या एका टिचरान बलात्कार केल्लो. खबर ना कितें घडटालें? इतले जुल्म कित्याक जातात? खंयच कसलीच सेक्युरिटी ना. गुन्यांव करप्यांक पुलीस, कायदो ख्यास्तीचो मातूय भय उरूंक ना.

बलात्कारा विशीं खबरो वाचून शिवानीक मनांतल्या मनांत तिडक मारली. हो कसलो काळ आयलां, खंयचेच पिराये वयली बायल मनीस हांगा सुरक्षीत ना. सान चलयांचेरूय बलात्कार. ह्या गुन्यांवकारांक असली ख्यास्त मेळपाक जाय की, हे फुडाराक असले गुन्यांव करपाचे लायकीचेच उरचे न्हय.



शिवानीची नदर वणटीर आशिल्ले घडयाळीचेर पडली. दनपारचीं अडेज जाल्लीं. अजून मेरेन मोनिका शाळेंतल्यान परतें येवंक नासलें. शाळा देड वराचेर सुट्टा. अर्दवर घरा येवपाक लागता. आतां मेरेन तें घरा पावूंक जाय आसलें.

शिवानीचो घोव कमलाकांत एके प्रायव्हेट कंपनींत असिस्टंट मॅनेजर आसलो. ताची आठ वर्सांची एकलीच चली मोनिका शारांतले एके फामाद शाळेंत तिसऱ्या वर्गांत शिकताली. शिकपाक हुशार आशिल्ली, उलयतालीय पटापटा. लग्ना उपरांत कमलाकांतान शिवानीक सांगिल्लें, ''हें पळय शिवानी, आमकां आमच्या घराब्यांत फकत एकूच भुरगें पुरो. आमी ताकाच बरे भशेन पोसुंया, बरे भशेन शिकोवया, मागीर तें चली आसूं वा चलो. एकूच भुरगें पुरो. पयल्या उपरांत आनीक भुरग्यांची आस्त आमी करची न्हय.''

शिवानीय आपल्या घोवाच्या मता कडेन सहमत आसली. ती स्वता एम.ए. बी.एड. आसली. पूण चलयेक लागून तिणें नोकरी करप समा मानलें ना आनी घर सांबाळपी बायल जावन रावली.

घडयाळ फुडें फुडें वता तें पळोवन शिवानीचें काळीज धडधडपाक लागलें. खंय उरलें कांय मोनिका? सकाळीं साडेसातांक तें ऑटो रिक्षांत बसून गेल्लें. आनिकूय पांच भुरगीं ताच्या वांगडा वतात. मोनिका सगल्यांत पयलें बसता आनी येतना सगल्यांत निमाणें देंवता. ऑटो रिक्षावालो श्यामलाल फाटल्या वर्साच्यान ह्या भुरग्यांक हाड-व्हर करतालो. पूण केन्ना ताणें इतलो कळाव करूंक ना. पूण दोन दिसांच्यान श्यामलाल दुयेंत जाला म्हूण ताचो भाव रामपाल येतालो ऑटोरिक्षा घेवन. तेन्ना शिवानीन ताका विचारिल्लें, तुजो भाव श्यामलाल खंय गेलो काय म्हूण. तेन्ना ताणें जाप दिली, ''तो फाटले तीन दीस दुयेंत आसा, ताणेंच म्हाका धाडला.'' पयलींय कांय फावटी रामपाल आयिल्लो भुरग्यांक हाड-व्हर करपाक. तोय बी शारांत ऑटोरिक्षा चलयतालो.

आयज शिवानीक आपल्याचेरूच तिडक मारताली. ती रामपालाचो मोबायल नंबर घेवपाक विसरिल्ली. ताचो नंबर आसल्यार विचारूं येतालें. कितें जालें काय म्हूण. इतली शिकिल्ली सवरिल्ली आसूनय

तिचे कडल्यान अशी चूक कशी जाली खबर ना. शिवानीच्या मनांत भय घर करपाक लागलो. आनी ती थरथरपाक लागली. काळजाचे ठोके चुकपाक लागिल्ले भशेन जाले. तिणे धडधडट्या काळजान श्याम लालाक फोन केलो. ''हॅलो... नमस्कार मॅडम.'' तेवटेनच्यान आवाज आयलो, ''नमस्कार, तुजो भाव रामपाल अजून मेरेन मोनिकाक घेवन येवंक ना. म्हजे कडेन ताचो नंबरूय ना.''

''इतलो कळाव तर जावंकूच जायना. शाळेंतल्यान घरा मेरेन अर्द वराचोच तर रस्तो आसा. हांवेंय ताका फोन केल्यार फोन लागना. खबर ना कितें जालां.'' ''सकाळीं हांवेंच ताका सांगिल्लें की भुरग्यांक सोडून बेगीन यो म्हूण, म्हाका दोतोरा कडेन वचूंक जाय म्हूण. वखद हाडपाक जाय. तीन दीस जाले जोर देंवच ना.'' श्यामलाल उलयलो. ''म्हाका काळजी जाल्या. बाबडें मोनिका खबर ना कसल्या हालांत आसतलें.'' रडकुळी जावन शिवानी उलयली.

कांय वेळा उपरांत शिवानीन मोनिकाच्या वर्गांत शिकपी ताचे इश्टिणीचे आवयक मोबायलार फोन केलो. ''हॅलो... हांव शिवानी उलयतां.'', ''उलय शिवानी, कशी आसा तूं?'' तेवटेनच्यान एके बायलेचो म्हों‌वाळ आवाज आयलो. ''तुजी चली मूनमून शाळेंतल्यान घरा पावली हय तर?'' ''हय तर तें दोना पयलींच घरा पावले, कित्याक कितें जालें?'' ''आमचें मोनिका अजून घरा पावूंक ना. ''कितें सांगता गे? एक वर जायत आयलें. खंय उरलें तर तें? आयज काल वेळूय खूब वायट आसा. सद्दां उठून भुरग्याविशीं नाका नाका त्यो खबरो आयकूंक येतात. आमी आमच्या भुरग्यांक रिक्षावाल्यां वांगडा धाडून दितात खरीं पूण हांचो कांयच विस्वास ना. कोणाच्या मनांत कितें आसत सांगूं येता...?'' ''तूं पुलिसेत कागाळ कर, वेळ व्हगडावं नाका.''

हें आयकून शिवानीचें काळिजूच हाल्लें. तिचें मन गळसणलें आनी ती रडूंकच लागली. तिणें शाळेत फोन लायलो, ''हांव शिवानी उलयतां, म्हजें चली मोनिका तिसऱ्या वर्गांत शिकता, तें अजून घरा पावूंक ना. शाळेंत कोण चुकून उरूंक ना मूं? केन्ना सुटिल्ली शाळा?''

''हांगा तर कोणूच भुरगें उरूंक ना. सदां भशेन देडाकूच शाळा सुटिल्ली. तुजें चली कशें येता घरा?''

''एके ऑटोरिक्षेन. सद्दां ऑटोरिक्षा चलोवपी श्यामलाल दुयेंत आसा, तेन्ना ताचो भाव रामपाल ऑटोरिक्षा घेवन आयिल्लो. ''बाकी भुरगीं घरा पावलीं काय ना?'', ''हय हय, सगलीं पावलीं, फकत म्हजें चलीच पावूंक ना.''

''तुमी पुलिसे कडेन कागाळ करात. अजून मेरेन चली घरा पावूंक ना म्हणचे कितें तरी गडबड आसतली. आयज काल कोणाचेरूच विस्वास दवरपा सारको ना? कांयच समजना सामकार आशिल्लो मनीस काय सैतान म्हूण.''

हें आयकून शिवानीच्या दोळ्यांतल्यान दुकां व्हांवपाक लागलीं. ती गळसणिल्ले भशेन जाली. तिणें कमलाकांताक फोन लायलो. ''हॅलो...'' तेवटेनच्यान कमलाकांताचो आवाज आयलो. ''मोनिका अजून शाळेंतल्यान घरा येवंक ना.'' शिवानीन रडत रडत सांगलें. ''कितें सांगता गो... तीन वरां जालीं. खंय उरलें तर तें? ऑटोरिक्षावाल्याक फोन केलो?'' कमलाकांताचो भयभीत आवाज आयकूंक आयलो. ''आयजूच ताचो भाव रामपाल रिक्षा घेवन आयिल्लो. ताचो नंबर म्हजे कडेन ना. श्यामलाल सांगता की रामपालाचो नंबर लागना म्हूण. सगलीं भुरगीं घरा पावलीं. फकत आमचें मोनिका अजून पावूंक ना.'' सांगतां सांगतां शिवानी गळून पडली.

''शिवानी, हांव घरा येतां. आतांच पुलिसेंत वचून कागाळ करतां.'' कमलाकांत काळजेंत तसोच रागान उलयतालो. पंदरा मिनटांनी कम लाकांत घरा पावलो. शिवानी सोफाचेर एक पेशंटशी पडून आसली. ''शिवानी, सांबाळ स्वताक, आमचेर जें अपशरण आयलां ताका आमकांच तोंड दिवंक जाय. हांव आतां पुलिसेंत वता.'' अशें सांगून कमलाकांत भायर सरलो.

इतल्यांत घरा भायर एक ऑटोरिक्षा येवन उबी रावली. ताका पळयतकूच कमलाकांत आड्डलो. ''आरे, खंय मेल्लो रे इतलो वेळ?'' तें आयकून शिवानीय बी शिटूक जावन भायर आयली.

कमलाकांतान पळयलें की रामपालाच्या कपलाक बँडेज बांदिल्ली आसली. मुखामळार मारपीट जाल्ल्याच्यो खुणो आसल्यो. मोनिका ऑटोरिक्षांतल्यान देंवतालें. रामपालान मोनिकाचें बॅग उखल्लें.

शिवानीन मोनिकाक वेंगेंत घेतलें. खूब्ब वर्सांनी मेळिल्लेवरी. कमलाकांतान मोनिकाक विचारलें, ''तूं बरें आसा पुता?''

''हय पापा, हांव बरें आसा, अंकलाक रस्त्याचेर पुलिसान मारलो.'' मोनिका उलयलें. कमलाकांत आनी शिवानी दोगांय चाट जालीं. ती काळजेन रामपाला कडेन पळोवंक लागलीं.

''रामपाल, कितें जालें? ही बँडेज कसली? आयज इतलो कळाव कसो जालो? आमी खूब काळजेत आसलीं, अजून मोनिका घरा पावूंक ना म्हूण.'' कमलाकांतान विचारलें, ''काळजी करपाची कांयच गरज ना सायब. हरशीं सदांच चली दोन मेरेन घरा पावता. आयज साडेतीन जालीं तरी चली घरा पावूंक ना म्हण्टकूच काळजी तर जातलीच, सम जतां हांव.'' रामपाल उलयलो.

''तुका घावो कसो जालो?'' शिवानीन विचारलें, ङ्गङ्गऑटोरिक्षाच्या एका चाकाक पंक्चर आयलें. तें काडपाक अर्दे वर गेलें. मुखार चौकांत जाम जाल्लें. कांय लोक मोर्चो घेवन आसले. खंयच्या तरी मंत्र्याचो बावलो ल्हासताले. थंय कांय वेळ गेलो. हांव हेच वटेन येतालों. म्हाका खबर आसली तुमी काळजी करताले म्हूण.'' सांगतां सांगतां रामपाल थांबलो.

''फुडें कितें जालें? मोनिका सांगतालें तुका पुलिसेन मारलो म्हूण?'' कमलाकांतान विचारलें.

''मोनिका सारकें सांगता, वाटेर मोटारसायकलिचेर स्टंट करीत तीन चार भुरगें येताले. म्हाका अदमास आयलो की ते आमच्या रिक्षार येवन आदळटले म्हूण, म्हणून हांवें अचकीत म्हजें हँडल घुंवडायलें.

कुशीक एका मांडा सामकार एक मोटारसायकल उबी आसली. हांव ते मोटारसायकलीक आदळ्ळों. आनी ते मोटारसायकलीर बशिल्लो पांच वर्सांचो भुरगो सकयल पडलो. पडना फुडें तो रडूंक लागलो. त्या मांडार एक पुलीस कितें सामान विकतें घेतालो. तो ड्रेस घालून आसलो. ती गाडी आनी भुरगो त्याच पुलीसाचो आसलो. हांवें रिक्षेंतल्यान देंवून पुलिसेची हात जोडून माफी मागली. ताणें म्हाका गाळी घालीत चार पाच थापटां मारलीं, इतलेंच न्हय, म्हजी मान धरून म्हाका नेटान शेंवटून उडयलो, तेन्ना म्हजी तकली म्हजे रिक्षेचेर आदळ्ळी आनी म्हाका घावो जालो. कुशीकच एका दोतोरा कडल्यान हांवें वचून बँडेज केली. थंय सावन नीट हांगा येतां.''

रामपालाच्या तोंडांतल्यान हें सगळें आयकून शिवानी आनी कम लाकांताक शांतीकाय मेळ्ळी. शिवानीक रामपालाची दया आयली. तिणे चुरचुऱ्यांनी म्हणलें, ''आरे, वायट जालें, तुका दूख जाली.''

''मॅडम, म्हाका म्हज्या घाव्याचें व्हडलें दुख्ख ना. पूण म ानिकाबायक मात पसून दूख जाल्ली जाल्यार म्हाका खूब दुख्ख जावपाचें. तुमी तुमचीं भुरगीं आमच्या वांगडा इतल्या विस्वासान धाडटात, तेन्ना आमचेंय कितें तरी कर्तव्य आसताच न्ही की, आमी त्या विस्वासाक पात्र आसूंक जाय म्हूण. हो विस्वास केन्नाच तुटचो न्हय म्हूण.'' रामपालान सांगलें, ''राव रामपाल हांव तुजे खातीर च्या घेवन येतां''. ''आसूं मॅडम, मागीर केन्नाय, आतां म्हाका बेगीन घरा वचून श्यामलालाक दोतोरा कडेन व्हरपाक जाय. येता हांव.''

---

# म्हजें उत्तरायण

**(८४ वयल्यान)**

देखून ताच्या सेक्रेटरीन मोट्या नमळायेन म्हाका न्हयकार दिलो. पूण ताणें म्हाका दलाई लामाची दोन पुस्तकां भेट दिली. सकयल एक पुस्तकांचे केंद्र आसा. थंय हांवे दलाई लामान बरयिल्लीं आनीक कांय पुस्तकां आनी बौद्ध तत्वज्ञानावयली कांय पुस्तकां घेतली.

धरमशाला क्रिकेट स्टेडियम आसा. संवसारांतलो हो सगल्यांत उंचायेवयलो स्टेडियम. थंय वन डे आनी टेस्ट मॅची जातात. मेकलगंज आमी आय.टी.सी.च्या फॉर्च्यून हॉटेलांत रावली. हे हॉटेल एका उंच सुवातेर आसा. थंयच्यान सकयल्ल्या गांवांचें विहंगम दृशय दिसता... हॉटेलाच्या गॅलरीर माकड बशिल्ले आसतात. तांकां केळी घाले बगर ते थंयचें हालनात.

दलाई लामा आयज पन्नासेक वर्सा भारतांत रावन अहिंसक मार्गान, शांतिकायेच्या मार्गान तिबेटी लोकांचो लढो लढता. ताका शांततेचो नोबेल पुरस्कार मेळ्ळा. भारत सरकारान दलाई लामाक भारतरत्न कित्याक दिवंक ना ते म्हाका खबर ना? शेतकी मळार क्रांती करपी शास्त्रज्ञ एम.एस. स्वामीनाथन, दुधक्रांती करपी वर्गीस कुरीयन हांकाय भारतरत्न पुरस्कार फावतालो. पूण भारत सरकार कांय वेळार घाळपण करता. जशें घाळपण नोबेल कमिटीन महात्मा गांधीक १९४७ त शांतीचो नोबेल पुरस्कार दिना आसतना केलें. पंडीत जवाहरलाल नेहरूकय हो पुरस्कार फावो जातालो!

त्या रातचे दलाई लामाचे एक पुस्तक वाचून काडलें. दलाई लामा बौद्ध तत्वज्ञान सोपे, सुबोध भाशेंत सांगता. सुखी आनी समाधानी जिणेचो मार्ग तो दाखयता. समाधानी जावंक आमी आमच्यांतले 'हांव'पण उणें करूंक जाय अशें दलाई लामाचें म्हणणें. तिबेटी भाशेंत हांव आनी आमी हीं दोन उतरां वेगळे तरेन येतात. तिबेटी भाशेंत आमी ह्या उतराचो अर्थ कितलेशेच 'हांव'! हें उदाहरण दिवन दलाई लामा सांगता -''आमी आमच्यांतलो 'हांव' आमींत विलीन करूंक जाय. हांव आनी आमी हें व्दैत पयलीं सोंपोवंक जाय. मागीर 'आमी' आनी 'ते' हें व्दैत आमकां सोंपोवचें पट्टलें. ते सोंपोयतकीर सगल्या मनशामदी आमकां आपलेपणाची भावना दिसतली. सगल्या विशीं आमकां करुणा दिसूंक लागतली. सगल्या विशीं आमकां मोग दिसूंक लागतलो. आप आनी पर भेद ना जातलो. आयज मनीस दु:खी जावपाचें कारण म्हळ्यार तो स्व-केंद्री जायत गेला. मनशाचो आप भाव जेन्ना परस्परांत विलीन जातलो तेन्ना मनशाक आंतरीक समाधान मेळटलें.

धरमशालाच्यान विमानान दिल्ली आयलो. दिल्लीच्यान गोंय वचपाच्या विमानाक कळाव आशिल्लो. दिल्ली विमानतळार रोमिला थापराचें 'Early India; From origin to 1300 A.D.' हें पुस्तक विकतें घेतलें. पुस्तकांतलो मुखेल मुद्दो म्हाका पटलो. भारताचो इतिहास उत्तर भारताच्या दोळ्यांनीं बरयलां. तातूंत दक्षिणेचेर अन्याय केला.

गणेश देवीन सुरु केल्ल्या दक्षिणायन अभियानाचे म्हत्व म्हाका तेन्नां पटलें!

# विनय हें जैताचें सोपण

रजनी भेंब्रे
९८२२४८६९५५

एका न्हंयचे देगेर एक लांब रुंद पिपळाचें झाड आशिल्लें. त्या पिपळा मुळां ल्हान-ल्हान झुडपां किल्लीं. झुडपां नाजूक आनी शक्तीहीन कशीं दिसतालीं. तांच्या मुखार पिपळ धिप्पाड आनी कणखर दिसतालो.

पिपळ आशिल्लोच धिप्पाड आनी ऊंच आनी हाचोय ताका गर्व आशिल्लो. तो सदांच झोपांक हिणसायतालो आनी म्हणटालो, ''पळयात हांव कितलो मजबूत!! केदेंय व्हडलें तुफान येवं हांव ताच्या मुखार कसोच बागवना. ना जाल्यार तुमी भिवकुरां, रोखडींच बागवतात आनी इतलेंच न्हय तर बरो जोराचो वारो मारल्यार लेगीत तुमी थरथरतात. हा.. हा... हा... करून पिपळ हासूं लागलो.

हालींसरा पिपळाचो गर्व खूबच मातिल्लो. तो सदांच आपलेच गुर्मेत आसतालो आनी दीस भर बडायो मारतालो. एक दीस असोच अधिकारवाणीन उलयतना म्हणूं लागलो, ''जाणां झुडपानों, हांव इतलो घटमूट आसा की म्हज्यान वाऱ्याक लेगीत आडावपाची शक्त आसा. आनी तुमी सदांच लजेच्यो बावल्यो कश्यो!!! मातसो वाऱ्याचो झोत वाडलो जाल्यार लेगीत मानो सकयल घालतात. तुमकां मात लेगीत लज दिसना? म्हाका पळयात बागप म्हणटा तें म्हाका खबरच ना.''

पिपळाचीं गुर्मेन आनी गर्वान भरिल्लीं उतरां ल्हान ल्हान झुडपांच्या काळजाक झोंमलीं. तरी लेगीत नमळायेन तांणी म्हणलें, ''पिपळा खरें तुजें. तुजे शक्ती मुखार आमी कांयच न्ही तशींच नेटान व्हांवपी वाऱ्या सामकारय न्ही. आमची शक्त, तांक आमी जाणांत म्हणूनच तर आमी नेटान व्हांवपी वाऱ्याक मान बागोवन ताचो आदर करतात. ताच्या मुखार नतमस्तक जातात. आमी ल्हान, नाजूक, हे आमीं मान्य केलां आनी म्हणूनच आमच्या परस शक्तिवान वाऱ्याक मान-सन्मान दिवपाक आमकां कमीपण दिसना आनी दुसरी एक म्हत्वाची गजाल, म्हाका दिसता तुवेंय बी केन्ना-केन्नाय शक्तिवान वाऱ्या सामकार मान बागवप तुज्याच हिताची थारतली.''

झुडपांची उतरां आयकून उद्दट आनी बेपर्वा पिपळाचो ताठो चडच उबो जालो. मोठ्या - मोठ्यान हांसून ताणें म्हणलें ''आरे, हांव कितें तुमच्या सारखो रे, मेळत तेन्ना मेळत ताचे मुखार बाग घेवंक? हांव धडधाकट, घटमूट, आनी खंबीर मनाचो पिपळ. असो तसो कोणाय मुखार बाग घेवपी न्हय.''

वारो आतऱ्या पयऱ्यान पिपळाचीं उद्दट आनी स्वता विशीं चड घंमेड बाळगुपी उतरां खूब तेंप जालो आयकत आसलो. हालीं सरा तर ताचो नेट चडूच वाडिल्लो. आपलें मोठेंपण दाखोवपाक तो ल्हान त्या झुडपांचेर शेक गाजवपाचो एकूय खीण वगडाय नासलो. तांचे कडेन तुच्छतेन वागतालो.

म्हणून वाऱ्यान चितले पिपळाचो गर्व, घंमेड मातये भरवण करून, गर्वाचें घर खंय पावता तें ताका दाखोवपाचो वेळ पिपळानच जावन हाडला, तो ताका दाखयतांच, अशें चितून वाऱ्यान आपलें मदीं तुफानाचो नेट हाडलो आनी सुसाट व्हांवक लागलो. वाऱ्यान आपलो नेट इतलो वाडयलो - इतलो वाडयलो कीं पिपळाचें झाड मुळा सकट हुमटून जमीन भरवण जालें आनी ताची अवस्था पळोवपा भायरी जाली.

ल्हान-ल्हान झुडपां वाटावलीं कारण ताणी आपल्यो तकल्यो झुझाट वाऱ्या मुखार पयलींच बागयल्यो आनी ती नम्र जाल्लीं. कांय वेळान वाऱ्याचो नेट कमी जालो आनी वाटावल्लीं झुडपां घंमडी पिपळाची आवतीकाय पळयतच उरलीं.

# तें दीस तशे आसले

**(पान ७ वयल्यान)**

कानांत घुमूंक लागता. असल्या प्रसंगाचेर जण एकलो आपले वृत्तीप्रमाणे ह्या अटळ मर्ण-खिणाक फुडो करता. मरण हें उतर कानार पडटकीच कांय जण कांचवेन आंग काडटात आनी थुमेकाल म्हणटात! घडये तांकां दिसता जायत ते अमर. पट्याचें कवच आंगार घालुनूच हे धर्तरेर देंवल्यात आनी म्हणून तांकां कोणूच नखलामी करचोना. मर्ण हें एकूच सत्य जें कोणाकूच चुकोवंक येवचेलेंना; म्हूण प्रत्येकान ताका प्रस्न मनान येवकार दिवपाची आपल्या मनाची तयारी पयलींच करची पडटा. जेपरीं आमीं नोकरी वेवसाय करपाक शिक्षण घेवन तयारी करतात. आयचे जिणेची इतिश्री मरणान जाल्ल्यान त्या अंतीम संस्कार-सुवाळ्याची पूर्वतयारी आमकां केलेशिवाय गत्यंतर ना. बंगाली लोक मर्ण सुवाळ्याक सत्कार हें उतर वापरतात तें घडये ह्याच अर्थान जावपाक जाय. काका कालेलकरान मर्णाक 'परमसखा मृत्यू' अशें म्हळां. ह्या अंतीम खिणाची तयारी म्हणून मनशान मनांत निर्भयता बाणोवप गरजेचें. आपलें पार्थिव सरणाचेर जळटा हें दोळ्यां मुखार हाडून ताचेर चिंतन करात आनी मर्णाचो भंय काडून उडयात ही भगवान बुद्धाची शिकवण. हांव जेन्ना कोणाच्याय मर्णाक स्मशानांत वतां तेन्ना आत्म्याचें अमरतायेविशीं गीतेंतले श्लोक म्हणून बुद्धाची शिकवण अंमलांत हाडचेलों यत्न करतां.

स्मशानांत येवपी लोकांचे उद्देश आनी हेतू तरेकवार आसतात. कोण उपचार करूंक येता, कोण हजेरी लावपाक. राज्यकर्त्यांच्या घरचो कोणूय वतकीच; मसुंडेतली खेट सोसपाची नासता. म्हजो आजो म्हाका एक काणी सांगी: ''पदेराचो रेडो मेलो तेन्ना गोवेर्नादोर धरुन सगलो गांवचो लोक आयिल्लो; पूण पदेर मरतकीच कोणूच आयलोना.''

हिंदूंच्या स्मशानभुयेंत मरणावेळा लोकांच्या वेगळ्या वेगळ्या विशयांचेर चर्चा आनी कॉमेन्ट्री चलिल्ली आयकूंक येता. कांय कडे तर गेल्ल्या मनशाच्या कर्तृबांचो उद्धार जाल्लो कानार पडटा आनी मन खंती जाता, कित्याक खंयच्या प्रसंगाचेर कितें उलोवंचें आनी कशें वागचें हाचें शिक्षण तांकां नाशिल्ल्यान, ते भानार नासतात. हाचे मानान क्रिस्तावांची मरणां अदीक गंभीरतायेन आनी दबाजान जातात. पयलीं इगर्जेंत प्रार्थना, मागीर पाद्रीच्या सेर्मांवांत गेल्ल्या मनशाविशीं तुस्त तोखणायेचें उलोवप आनी अंती एका नातेवर्गियाचें आनी फामिलीन वेंचून काडिल्ल्या एका बरे मागत्यान केल्लीं उलोवपां. म्हजो इश्ट आल्बानबाब कुटो गेलो तेन्ना हळदोणेचे इगर्जेंत ताका श्रद्धांजली म्हाका ओंपूक लायिल्ली हें जातकीच पार्थिव सिमितेरींत व्हरून ती निखेपतात. 'तूं माती, मातयेंत पर्थन वता' (Dust thouart and to dust then retireneth) अशें म्हणून खोरयेंतली माती फोंडार उडोवप. हातूंतल्यान आमी खूबशें शिकूं येत.

मर्णाविशीं विचार येतकच तुकोबारायाच्या कांय उक्तिंचीं म्हाका सदांच याद जाता. मनशान आपली जीण कशी जियेवची? तुकोबाय म्हणटा: ''याजसाठी केला होता अठ्ठाहास शेवटचा दीस गोड व्हावा' आनी 'आपुलें मरण पाहिले म्यां डोळां। तो सोहळा झाला अनुपम्य॥'' - मरण हो आमचे जिणे अंती एक अनुपम सुवाळो जावंचो हाची देख ते आमकां दितात.

**आमी नियतीच्या हातांतलीं बावलीं?**

म्हज्या जिविताचे होडयेचो आनी तिणें धरिल्ल्यो वेगळ्या वेगळ्या वाटो. जेन्ना हांव नियाळटा तेन्ना येवजिल्लें, आंखिल्लें आनी थारायिल्लें आनी मनाक जाय तें. पडलेंच ना हें लक्षांत येता. हांव जिविताचे होडयेक वेगळ्या वेगळ्या दिकोची वाट सुचोवपी आनी दाखोवपी नियतीचो अदृश्य हात हांव मनातां तें हेचखातीर. नियती आमचे जिविताक आम चे अस्वडीं नवी दिका दिता. नियतीकडे आमी आमचे समजुतेप्रमाणें तरेकवार दिश्टीकोणांतल्यान पळेतात. 'नियतीक हें मान्य नासलें'; 'नियतीच्या मनांत मात वेगळेंच कितें आसलें'; 'नशीब बाबड्याचें', 'ही नियतीची करणी आनी खेळ.' हातूंतल्यान नियती म्हळ्यार जुस्त कितें हें सांगप कठीण जाता. मानवी जिणेचेर आनी वेव्हारांचेर हे नियतीचें नियंत्रण आसता काय आसल्यार तें कितले मेरेन? मनशाचे वर्तणुकेंत आनी कर्तुबांत ते ते व्यक्तीचो कितलो वांटो आसता आनी नियतीचे मर्जेचेर ते व्यक्तीक कितलें निंबून रावचें पडटा? खरेंच आमी नियतीच्या हातांतली बावलीं? ती फर्मायता तशें आमी जिणेंत नाचचेलें? तिणें थारायिल्ल्या परिघाभायर आमकां वचपाचो अधिकार ना? शेकीं आचार, विचार हांचे आमकां स्वातंत्र्य आसा काय नियतीच्या इशाऱ्यांचेर आमकां चलचे पडता हेंच खरें काय कितें? ह्या प्रस्नांचेर संवसारांतल्या सगल्या तत्त्वगिन्यान्यांनी आपलीं मतां मांडल्यात आनी ही चर्चा आजून सोंपूंक ना. म्हूण हे विशीं म्हजे म्हणणें अशें: आमी विचाराअंती एक निर्णय घेतात आनी त्या निर्णयाचेरच आधारून फुडारांत सगळें घडटलें ही खात्री जाता म्हणटासर अचकीत वेगळेंच कितें घडटा आनी आमकां आमचे सगळे बेत बदलचेच पडटात. आनी आमचो जीव भांबावता. आदले सगळे निर्णय सटासट बदलून नवी वाट धरची पडटा. अगम्य कारणांक लागून आमचे आदले निर्णय नियतीचो अदृश्य हात अचळय फिरयता आनी आमचे जिणेक नवी दिका दिसता! नियतीचो निर्णय मान्य करपा शिवाय उपाय नासता; तो खोशेन स्विकारचो पडटा आनी एकदां स्विकारतकच, अवखदलविणे, मनशान आपले यत्न नेटान आनी निश्टेन केल्यारच ताचे भलें जाता. म्हजे जिणेंत तर नियतीच्या खेळाचे साबार अंक जातले. कितल्यो म्हूण देखी दिवं?:-

१९५६ वर्सा एप्रिल म्हयन्यांत हांवें पुण्यांतल्या टिळक कॉलेज ऑफ एज्युकेशन ह्या नामनेच्या महाविद्यालयांतल्यान इंग्लीश आनी भूगोल हे विशय घेवन बॅचलर ऑफ टिचींग (बी.टी.) ही पदवी मेळयली. कॉलेजींत म्हजे वांगडा एडमंड कोरदेरो हो ब्रिटीश पूर्व आफ्रिकेंतल्या टांगानिका ह्या देशांत स्थायीक जाल्लो एक मूळ गोंयकार म्हजो वर्गमित्र आसलो. प्रशिक्षीत शिक्षकांक आफ्रिकेंत मागणी आसा आनी सरकारान तांच्या पगाराची श्रेणी वाडायल्या म्हूण धा वर्सांची नोकरी सोडून तो पुण्यांत आयिल्लो, जंय ताचें घर आसलें आनी ताचीं जाण्टीं आवय बापूय रावतालीं. आमची बरी आमिजाद जाल्ल्यान हांव अदी मदीं तागेर वतालो आनी ताच्या घरचोच जाल्लो.

पुण्यांत म्हजो मुक्काम म्हजो मामा, बाकीबाब हांगेर आसलो आनी तो शिवाजी नगरांतल्या सिमला आफिसालागीं (केंद्रीय हवामान वेधशाळा Indian Meteorological Laboratory) राव आनी घरा-शेजराच शेजराच आशिल्ल्या आकाशवाणीच्या पुणे केंद्रांत 'स्पोकन वर्ड प्रोड्युसर आसलो'. पुण्यांत म्हाका दुसरे पावटीं बी.टी. वांगडाच आनीक एक पदवी मेळ्ळी. पण ते पदवी परस म्हज्या मामाचो लाबिल्लो एक वर्साचो सहवास, ताचे बराबर केन्ना केन्ना मारिल्ल्यो लांब पासयो, ताच्या घरा येवपी ताचे सहकारी व्यंकटेश माडगूळकर, पु.ल. देशपांडे, एक व्हड गोंयकार चित्रकार आंजेलो द फोन्सेका इत्यादी मनशांकडे जाल्ल्यो वळखी आनी आयकूंक मेळिल्ल्यो चर्चा, ताचे वांगडा ताच्याच वोर्डांत रावतल्या ग. दि. माडगूळकर हांच्या घरा दिल्ल्यो भेटी आनी सगळ्यांत म्हत्वाची याद म्हळ्यार बाकीमामागेर जाल्ली महाकवी द.रा. बेंद्रे हांची भेट. बाकीमामाच्याच उतरांनी सांगचे म्हणल्यार ते म्हजे खातीर इंद्रदिनच आसले. 'इंद्रदिनांचा असर सरेना, विसरूं म्हणतां विसरेना' असो तो म्हजे जिणेंतलो नवें नवें हावेस पळेचवेलो काळ. तेन्नाच ग. दि. मा. चें 'गीत रामायणा'तलें एक गीत दर आठवड्याक आकाशवाणीच्या पुणे केंद्रावेल्यान प्रसारीत जातालें आनी केन्ना केन्ना कांय गीतांच्यो ग. दि. मांक आयिल्ल्यो वेणो हांवें म्हज्या दोळ्यांनी पळेवपाचे भाग्य मेळ्ळें. 'गीतरामायण' जेन्ना पुस्तकरुपान प्रसिद्ध जाले, बाकीमामान ताची प्रस्तावना बरयल्ली. हे सगळें म्हजें अनुपचारीक शिक्षणूच आसले. म्हजे व्यक्तीत्व घडपांत ह्या शिक्षणाचो बेस बरो वांटो आसा अशें हांवे मानिल्ल्यान, बी. टी. वांगडाच मेळिल्ली ही अनुपचारीक शिक्षण पदवी चड म्हत्वाची आसली अशें हांव मनाथावन मानतां.

पुण्यांत म्हजे कॉलेज बुधवार पेठेंत एस.पी. (सर परशुराम भाऊ) कॉलेजी फाटल्यान आसलें आनी कँपांतल्या शाळांनी मॉडेल पाठ दिवपाचे पडिल्ल्यान म्हाका पुणेकारांवरीच सायकल विकती घेवची पडली. ती घेवपाक म्हजो दुसरो मामा, दामूबाब. जो पुण्यात मेडिकल रेंप आसलो ताणें मदत केली. त्या काळांत, म्हळ्यार १९५६ वर्सा सायकल खरेदी करप म्हळ्यार आयच्या भुरग्यांची स्कूटर खरेदी. इतलीच बोवाळाची. म्हजें बजेट दिडशेंच रुपयांचें. दामूमामान म्हाका लक्ष्मी रोडावयल्या दुकानांनी व्हेलो. पयलीं आमी मराठी मनशांच्या दोन चार दुकानांनी भोवले. चवकशी केली. 'रामा, त्यांना बघ काय हवय ते?' मालकान चाकराक म्हणचें, करतां करतां आमी एक शीख मनशाच्या दुकानांत पावले. तो शीख मालकच आमच्या म्हऱ्यांत. ताणेंच आमची चवकशी आनी सरबराय केली. दोन कोक मागयले. तेन्ना कोकची किंमत चवली (४५ नये पयशे). आनी आमी सायकल घेवचे पयलींच खूश! म्हजो मामा सेल्समन. ताणें रोखडेंच म्हणलें: 'पळेलें, हे मराठी लोक कित्याक बिझनेसांत फाटीं तें.' दिडशें रुपयांची सायकल ताणें आमकां १४५ रुपयांक विकली. आनी हांव पयलेच फावट एका वाहनाचो मालक जालों. म्हजी कॉलर टाईट! आकाश ठेंगणें जालें. पंचवीस वर्सां उपरांत हांवें पयलीं मोटार जेन्ना घेतली, तेन्ना सायकल घेतिल्ल्याचो आनंद म्हाका अदीक जाल्लो हाची याद जाली. सायकल घेतिल्ल्यान म्हजीं कामां सटसट जावंक लागली; यशस्वी बिझनेस मॅन कोण जाता, वेपारी वेपार कसो करतात, सेल्समनशीप म्हणल्यार कितें हाचो प्रात्यक्षीक धडोय दामूमामा वरवीं म्हाका मेळ्ळो.

एडमंडागेर हांव केन्ना केन्ना आयतार दीसय पावतालो. तो म्हाका मुद्दम जेवणाक आपयतालो. एका हिंदू गोंयकार भावाचें ताच्या आवय बापायक अपरूप आसलें. भविश्यांतल्या आमच्या येवजण्यां विशीं आनी हावेसाविशीं आमी उलयताले. फुडल्या शिक्षणाखातीर इंग्लंडाक वचपाचें म्हज्या मनांत आसा अशें हांवें ताका केन्नाय म्हणचें. म्हजो शिक्षणाचो खर्च म्हजो बापूय करतलो काय कितें अशें ताणें विचारतकच तशी ताची ऐपत ना आनी ताकाच शाळेखातीर ताणें काडिल्लीं रिणां फेडचेलीं आसात हें ताका हांवें मेकळेपणान सांगतकीच, म्हजे घरची अर्थीक परिस्थितीची कल्पना ताका आयल्या जातली आनी ताचे उपरान्त जेन्ना जेन्ना म्हज्या फुडल्या शिक्षणाचो विशय येवचो, ताणें म्हणचें हांवें आफ्रिकेक येवन चार वर्सां काम करचें, दुडू जोडून इंग्लंडांक वचून शिकचे अशें पालुपद ताणें लावचें. मागीर हांवें ताका म्हणचें नोकरेखातीर म्हाका दिसना म्हजो बापूय म्हाका आफ्रिकेक धाडीत. आमी गोंयकार हिंदू आमच्या क्रिस्तांव भावां परस हे बाबतींत फाटीं. गोंयकार हिंदूंची पुर्विल्ल्या काळांत व्हडल्यांतली व्हडली झेंप म्हळ्यार मुंबय. दीवाक बदली जातकीच गोंयकार हिंदूच्या घरांत रडारड जाताली आनी बदली रद्द करून घेवपाक साग्वादी धाडून आनी पेझाद वशिलें लावन खटपटी करतालें. आमचे क्रिस्तांव भाव मात इसवी काळच्या एकोणिसाव्या शतमाना सावन ब्रिटीशांच्या कॅन्टोमेंट शारांनी जयपूरसावन रंगून (बर्मा-म्यानमार) मेरेन आनी लखनौ पासून कोलंबो मेरेन पावले आनी तांणी धाडिल्ल्या मनी ऑर्डरीच्या पयश्यांनी गोंयची पुर्तुगेज काळांतली अर्थी वेवस्तेक थाकाय मेळटाली.

तुजो बापूय तुका पालव दिवचोना आनी तुका तुजे जोडीच्या पयश्यांनी इंग्लंडाक वचपाचें आसा. तें कशें शक्य आसा? तुका इंग्लंडांतले परिस्थितीची कितें कल्पना आसा. ताणें म्हजी फिरकी

घेवची. "नवे नवे अणभव घेवपाक संवसार भोंवप, नव्या नव्या आव्हानांक फुडो करून ती पेलप, स्वताचे हिंमतीचेर नोकरी मेळोवन त्रास काडीत शिकून स्वताचो फुडार घडोवपाची तांक म्हजे कडे आसा अशी वीस वर्साच्या तरणाट्याक सहज स्फुरपी बढाय तोंडचे फटाशेन हांवें ताका मारून म्हणलें: एडमंड जाणा मरे, पोरुं एक वर्स हांवें म्हज्या बापायच्या इस्कोलांत शिकयलें; म्हयन्याक णव्वद रुपयांची जोड. आनी ते जोडीर म्हजे बी.टी.चें शिक्षण आनी म्हजे सायकलीची खरेदी हांवें केल्या!"

एडमंड कवतुकान हांसलो. ताणें म्हजे परस धा एक अदीक पावसाळे पळयल्ले. म्हजी उमेद खचची न्हय अशें चिंतून ताणें म्हणलें जावंये: "तुजो निश्चेव, आत्मविश्वास आनी हावेस म्हाका मनासावन आवडलो. पण इंग्लंडाक वेतलो जाल्यार एक दोन वर्सां खातीर पयश्यांची तरतूद केले बगर तुवें थंय वचप कश्टांचें जातलें. संवसारांत सगळीं संवगां हाडूं येतात, पयश्यांचे मात हाडूंक येना हें म्हाका एकवीस वर्सांचे पिरायेचेर पयले पावटीं सांगपी एडमंडच. तूं आफ्रिकेक म्हजे वांगडा कित्याक येना? थंय तुका नक्कीच नोकरी मेळटली." आनी चार वर्सांचे जोडीन तुजी येवजण आनी हावेस सुफळ जातलीं. आनी हांव मात ह्या जापेन खळखळून हांसलो कित्याक म्हज्या बापायचें ते विशींचें मत हांवें ताका आदींच सांगिल्लें.

हांवें म्हळें: "एडमंड म्हाका दिसना म्हजो बापूय नोकरेखातीर म्हाका आफ्रिकेक वचपाक सोडीत." आनी ही गजाल आमी विसरूनय गेल्ले म्हणल्यार जाता.

दोन म्हयने सरतकीच, फेब्रुवारी १९५६ च्या दुसऱ्या सप्तकांत अचकीत एक दीस एडमंड 'Times of India'त आयिल्ली एक जायरात घेवन ती म्हाका दाखोवपाक आयलो. जायरातींत म्हणिल्लें: 'Wanted trained teachers (Goans) to teach English and Geography in Mombaza (Kenya)' आनी जायरात दारान मुलाखती 'St. Qrnedla's High School' हे पुण्यांतले मिशनरी शाळेंत दवरिल्ली. एडमंडान सायन्स आनी गणीत हे विशेश विशय घेतिल्ले, तर म्हजे विशय जायरातींत दिल्ल्या विशयांकडे जुस्त जुळटले.

जायराती विशीं चर्चा करतकीच एडमंडान म्हाका म्हणलें: "सुरेश, पळे; तूं बरो शिकयता. आनी इंग्लीशीय बरीऽ उलयता. तुवें ही मुलाखत दिल्यार तुजी नक्कीच निवड जातली." "पूण एडमंड हांवें तुका म्हजी अडचण सांगल्या न्ही. म्हजो बापूय म्हाका आफ्रिकेक वचपाक दिवचोना. हांव ह्या जोबाखातीर मुलाखत दिवपाचो ना."

"सुरेश तूं अर्ज करूं नाका. तूं मुलाखतीक योच. तुका एक नवो अणभव मेळटलो. मुलाखतींत तुका निवडल्यार मागीर तूं तुजी अडचण सांग. हांव दोन अर्ज - तुजो आनी म्हजो - म्हज्या टायप रायटरचेर मारतां, तूं तुजी आसिनात मात कर हां. मागीर फुडले पळोवया." एक मिनिटभर रावन हांवें म्हळें: "बरें तर."

एकवीस वर्सांचे म्हजे पिरायेचेर, फेब्रुवारी १९५६त गोअन हायस्कूलाचे प्रिन्सीपल, इल्डाफोंसु डिसोझा, ऑर्नेलाज इस्कोलांत आमच्या मुलाखती खातीर आयलो. हांवें दिल्ले दोन पाठ - इंग्लीश कविता आनी भूगोल - ताणें पळयलें आनी मुलाखती उपरांत रोखडीच म्हजी निवड जाल्या म्हूण सांगलें. आनी इतलेंच न्हय तर काणकें (पर्रा) इस्कोलांत आदीं शिकोवपी गुंडू आमोणकाराचो हांव पूत काय कितें हें विचारून म्हाका ताणें एक अजापाचो धपकोच दिलो. इल्डाफोंस आफ्रिकेक वचचे पयलीं वीस वर्सां हडफडेचे सेंट जोसेफ हायस्कुलांत शिकयतालो. तो गांवान पर्रीकार आनी म्हज्या बापायक बेस बरो वळखतालो.

म्हजी निवड जातकीच हांवें ताका म्हज्या इंग्लंडाक वचपाच्या बेताविशीं सांगलें आनी मोंबासाक वचपाक म्हज्या बापायची संमती घेवची पडटली अशें म्हणटकीच ताणें म्हणलें: "हांव रोखडोच गोंयां वतलों. ताका मेळून हांव ताच्या मनाची तयारी करतां.' तुका हुस्को करपाची गरज ना. आमी तुजी बरी जतनाय घेवं."

हांवें म्हणलें: "फाल्यांच हांव म्हज्या बापायक ही खबर पत्रान कळयतां, पूण हांव तुका अडचणींत घालचो ना, म्हूण सांगलां. म्हजे बदला तुवें दुसऱ्याचीय निवड करून दवरल्यार बरी." अशें हांवें सांगतकीच ताकाय बरें दिसलां जावंये कित्याक ताच्या मुखामळा-चेर हांसो फुलिल्लो आनी कवतुकान तो म्हजेकडे पळेता अशी म्हजी भावना जाली.

थोड्या वेळान म्हाका एडमंड मेळ्ळो. ताणें आपली निवड जालीं ना ही खबर म्हाका दिली. आपले विशय जाय तसल्या विशयांकडे जुळनात अशें सांगतकीच, हांवें ताका मात्सो राव म्हूण सांगलें आनी हांव तडक इल्डफोंसाक मेळपाक वचचें पयलीं, "हांव ताचेकडे तुजे विशीं उलयतां." अशें हांवें एडमंडाक म्हणटकीच तो अजापान म्हजेकडे पळेत रावलो. म्हज्या बापायकडे आशिल्ल्या ताचे वळखिच्या नाड्यार हांव एडमंडाचे गुणां-कुवती विशीं इल्डफोंसाकडे उलयन इतलो आत्म विश्वास म्हाका आसा. तरीय हांव तोंडांत चड व्हडलो घांस घेना मूं अशी धुकधूक म्हाका आसली. इल्डाफोंस ओर्नेलाज हायस्कुलाच्यो प्रिन्सीपल, फादर साबीन डिसौजा, हांच्या कॅबिनांत बशिल्ले. फादर साबीन मूळ बार्देसांतले उसकय ह्या गांवचे आनी पर्रोच्या इस्कोलांत आपचे विद्यार्थी जाल्ल्यान, ते म्हाका जून म्हयन्या सावन वळखताले. ताच्या प्युना कडल्यान म्हाका प्रिन्सीपल इल्डफोंसाक मेळचें आसा अशें बरयल्ली चीट हांवें फा. साबीनाक धाडली. पांच एक मिणटांनी म्हाका ताणं आपयलो. ते दोगूय गोंयच्या फुडारा विशीं आनी भारत सरकारान गोंयची केल्ली अर्थीक कोंडये विशीं (economic blockade) उलयताले. थोड्याच वेळान म्हाका म्हज्या येवपाचें कारण ताणें विचारलें. हांवें एडमंड म्हजो जिवाभावाचो इश्ट अशें ताका सांगून, तो पुणेच्या नामनेचें सेंट विन्सेंट हायस्कूल आनी वाडिया कॉलेजिचो विद्यार्थी आसून, जरी ताचे विशय जायरातीक जुळनात अशे आसले तरी ते विशय शिकोवचेली तांक ताचेकडे आसा आनी तो बेस बरो

इंग्लीश उलयता. त्या शिवाय ताच्या ब्रिटीश पासपोर्टाक लागून ताका आफ्रिकेंत खंयूय नोकरी मेळटली आनी ताणें हे नोकरे खातीर म्हाकाच फुडें काडलां. हें तुमच्या कानाचेर घालपाक आयलां अशें म्हणून हांवें म्हणलें: "Please exeuse my if I have over stepped the limits of my role as a jobs seeker.' अशें ताका सांगून आनी फादर साबिनाक देव बरें करूं म्हणून हांव भायर सरलो. एडमंड म्हजी वाटच पळेतालो. ताका हांवें केल्ले शिश्टायेची कल्पना दितां थंयच आसां, शिपायान एडमंड कोरडेरो हें नांव मोठ्ठ्यान घेवन हालेट मारिल्ली आमी आयकली आनी एडमंड चकासूर जाल्लेवरी ताचे फाटसून गेलो. पंधरा एक मिनटांनी एड्मंड भायर आयलो आनी म्हाका वेगेंत घेवन आपले निवडिर्ची बरी खबर म्हाका दिल्ली तेन्ना हांव मळबांत उडटां अशें म्हाका दिसलें. ही नियतिची किमया न्हय तर कितें?

नियतिच्या खेळाची दुसरी देख: वर्स १९६१. म्हाका मोंबासा सावन परतून आयल्यार एक वर्स जाल्लें. म्हजें लग्न मुंबय सुधाकडेन ३० एप्रीलाक थारिल्लें आनी ते दिश्टीन सगळी तयारी चलिल्ली. कित्याक त्या काळांत माजाळी मार्गान मुंबय वचप म्हळ्यार भोवूच दगदगिचें आसलें. शाळेचें वर्सुकी वर्स सोपपाक पाविल्लें आनी २५ मार्चाक शिक्षकांनी वागातोरा (हणजुणां) पिकनिकेक वचचें थारायिल्लें. हरशीं हांव बऱ्या पयकीं पेवपी, पूण पेवपी भोंवऱ्यांत सांडपटकीच ताची कितें दैना जाता हें पयलेच पावट म्हाका कळ्ळें. हांव आनी म्हजे वांगडचो सुधाकर, दोगूय एका भोंवऱ्यांत सांपडटकीच, आमकां तातुंतल्यान भायर सरप कुस्तार जावंक लागलें. म्हाका कळ्ळें आतां हांव बुडटा. सुधाकरय म्हाका दिसना जालों. पेवन पेवन हात मारीत हांव सामको थकलों. हांवें म्हाकाच म्हणलें: हांव बुडटां न्हय, शांतपणान बुड्या म्हूण हांवें फाटीर घालून घेतलें आनी उफेतां काय म्हूण हांव पळोवंक लागलों. आनी तीच युक्ती म्हाका फायद्याची थारली. म्हजे सहकारी आनी म्हजे आवय-बापूय आमची धडपड असहाय्य जावन बेळेवयल्यान पळेताले. तेन्ना गोंयांत लाईफ-गार्ड बी कोण नासलें. इतल्यांत दर्यांतल्यान येवपी एका नेटाच्या ल्हारान म्हाका खिणां भितर वेळचेर हाडून आपटिलों. पोटांत उदक गेल्ल्यान हांव ओकूंक लागलो; पूण म्हजो जीव वाटावलों. आनी सुधाकराचो पत्तोच लागलोना. हरशीं म्हजो बापूय आदीं पट्टींचो पेवपि आशिल्लो, पूण कुरासावांचे पिडेन अशक्त जाल्ल्यान ताका कांयच करपाक आयलेंना. असलो प्रसंग कोणाचेरूच येवचो न्हय. ही म्हजी मर्णाकडली पयली झटापट पूण तिका लागून हांव मरणांकडे भयाविणें पळोवंक लागलो. नियतिच्या अदृश्य हातानूच म्हाका वाटायलो अशें हांव मानता. सुधाच्या बापायक, अण्णाक रोखडीच ही खबर कळयल्ली आनी मुंबयती वर्तमनपत्रांतल्यान तांकां कळ्ळी. सुधाच्या लग्नाची होंवळीक सांगपाक आनी आशिर्वाद घेवपाक, काका कालेलकराच्या मुंबयच्या निवासांत गेल्लेकडेन अण्णान ही खबर ताका सांगली. तेन्ना काका कालेलकारान म्हणलें खंय: ''वसंतराव, तुमच्या होणाऱ्या जावंया कडून कांही तरी फार मोठं कार्य घडायचं आहे. म्हणूनच ईश्वराने तांच्यावर कृपा केलेली आहे.'' हें म्हाका सुधान मुंबय पावतकीच सांगिल्ल्याची याद जाता. हांवें कितें कार्य केलें तें कोण थारायतलो? काळच ताची जाप दितलो!

आतां अखेरेक म्हजे जिणेंत नियतिच्या खेळाची आनीक एकूच देख दितां:

वर्स १९८० आक्टोबरचें पयलें सप्तक. गोंयचे शिक्षण मंत्री आनी गोवा शिक्षण मंडळाचे अध्यक्ष हे दोगूय जाण गूण वाडीच्या भानगडींत (चरीझी डलरपवरश्र - १९८०) घुसपल्ले. हांव त्या आदीं चारच म्हयने बार्देस तालुक्याचे वतीन वेंचणूक जिखून गोवा शिक्षण मंडळाचो वांगडी म्हूण निवडून आयिल्लों. शिक्षण मंत्र्यांचे पुतणेच्या मार्कांत गुणांचे फेरमेजणींत (तशीळषळलरींळेप ष चरीझी) वीस गुणांनी वाड जाल्ल्यान, प्रोग्रेसीव स्टुडण्टस युनियनान) गोंयभर बोवाळ घालून राणे सरकाराक सामके धारेर धरून नाका शेवट केलो. गोंयभर विद्यार्थ्यांचें मोर्चे, संप, वर्गांचेर बहिश्कार, मंत्र्यांक घेरावाचें सत्र चालू जाल्ल्यान, परिस्थिती हाता भायर वचूंक लागली. विद्यार्थी नेत्यांनी शिक्षणमंत्री आनी अध्यक्षाक बेगोबेग काडून उडोवचेली मागणी केली. गोंयभर वातावरण तंग जाल्लें आनी मुख्यमंत्री ही स्फोटक परिस्थिती कशी हाताळटा हाचेर विद्यार्थी आनी पालकांची बारीक नदर आसली.

१९७५ वर्सा गोवा शिक्षण मंडळाची रीतसर कायद्या प्रमाणे स्थापना जाल्ली आनी शिक्षण खात्यांतलो जेश्ठ उप-संचालकाची नेमणूक, गोवा शिक्षण मंडळाचो अध्यक्ष म्हूण जावपाक लागली. पांच वर्सांच्या मंडळाच्या कार्यकाळांत दुसरो अध्यक्ष मंत्र्यांच्या दडपणाखाला चिड्डल्यान ताणें मंत्र्याचे पुतणयेचे सायन्स विशयांतले गूण फेरतपासणींत कांय परिक्षकांक आपल्या अविचारी कटांत भागी करून वाडोवन दिल्ल्यान, मंडळाची विश्वासार्हता धोक्यांत आयली. शिक्षण मंडळ जरी सरकारान स्थापिल्लें परिक्षा -मंडळ आसले, तिचो कारभार मंडळाच्या अध्यक्षान सरकारी मंत्री आनी अधिकाऱ्यांची लुडबूड जावंक दिले विणे दोळ्यांत तेल घालून चलोवचो पडटा आनी मंडळाची स्वायत्तताय (antonomy) आनी विश्वासार्यताय (credibility) राखची तर पडटाच पूण लोकांकय तो तसो चलता हाची खात्री दिवची पडटा. हे घडणुकेन तर गूण वाडीच्या प्रकरणांत शिक्षणमंत्री आनी मंडळाचो अध्यक्ष हे दोगूय सामील आसात हें उक्तें जाल्ल्यान, मंडळाचें पितळ उक्तें पडलें आनी मंडळाची शी थू जावन राणे सरकार अडचणींत आयलें. सरकारी धेंड्यांनी मंडळाच्या दीसपट्ट्या वेव्हारांत लुडबूड केल्ल्यानूच हें प्रकरण उपरासलें. प्रत्येक वर्सा असल्या धेंड्यांक बोर्डा विशींची गोपनीय म्हायती जाय आसता - प्रस्नपत्रिका कोण काडटा, उत्तर-पत्रिका कोण तपासता, परिक्षेचो निकाल लागचे पयलींच कोणाक आपल्या पुता-धुवेचे निकाल जाय आसतात, तर निकाल लागतकीच थोड्यांक आपल्या पाल्यांचे गूण वाडोवन घेवचेले आसतात. सरकारी अधिकारी आनी मंत्री शिक्षण मंडळाच्या वेव्हारांत

लुडबूड करतात हाची कल्पना ह्या प्रकरणांतल्यान मुख्यमंत्री राणे हांकां आयल्या जातली. शिक्षण मंडळाचे कांय सरकारी अधिकारी तांकां बागोवपाक सांगल्यार, सरपटपाकूय तयार आसतात हें तांणी पळयलां जातलें. हें आडावपाक एकच उपाय म्हणल्यार शिक्षण मंडळाच्या अध्यक्षपदाचेर सरकारी अधिकाऱ्याबदला बिगर सरकारी क्षेत्रांतल्या कार्यकुशळ व्यक्तिची नेमणूक करप ह्या निर्णयाचेर राणे सकार पावलां जातलें आनी ती रोखडीच करून हो निर्णय बेगाबेग जाहीर करपाचें राणे सरकारान थारायलां जातलें. खुबिल्ल्या विद्यार्थ्यांक शांत करपाचो होच एकूच मार्ग आसलो.

ऑक्टोबराच्या पयल्या सप्तकांत मुख्यमंत्री राणे हांचो एक दीस सकाळी धाच्या अदमासाक म्हाका फोन आयलो. म्हाका शिक्षण मंडळाचो अध्यक्ष करपाचें सरकारान थारायला आनी तांकां फोनाचेरूच म्हजी संमती ज्यायज्या जाय आसलीं. सांजेच्या चार वरांचेर तांणी वार्ताहरांक आपयल्ले खंय. हांवें म्हळें ह्या तांच्या सरकारी नोकरेच्या प्रस्तावाचें स्वरूप म्हाका सारकें समजून घेवपाक जाय आनी ते पासत शिक्षण मंडळाचो कायदो म्हाका वाचचो पडटलो. हांव सांजेच्या पांच वरां मेरेन म्हजो निर्णय कळयतां. हांवें तडक पणजेची वाट धरली. सरकारी छापखान्यांत वचून शिक्षण मंडळाच्या कायद्याची आनी नियमांची एक एक प्रत घेतली आनी रोखडीच थंयचे थंयच वाचून काडली. मंडळाच्या अध्यक्षपदाचेर नेमणूक केल्ले व्यक्तीक एम.ए., पदवी आनी शिक्षणाच्या मळाचेर किमान वीस वर्सांचो अणभव आसपाक जाय आनी ती नेमणूक चार वर्सांच्यो दोन पावटीच (ंिशीिी) करपाक येता. म्हजी पिराय ४५ वर्सांची; चडांत चड म्हाका दोन टर्मस मेळ्ळ्यार म्हाका ५३ वर्सां मेरेन सरकारी नोकरेंत काम करप शक्य आसलें. शिक्षकाचे निवृत्तीची पिराय ६० वर्सां आशिल्ल्यान, म्हाका एक तर परत म्हज्या आदल्या पदाचेर येवचें पडटलें आसलें ना जाल्यार सरकाराक म्हाका शिक्षण खात्यांत आसपावन घेवचें पडटलो आसलें. मंडळाच्या कायद्याची आनी नियमांची एक एक प्रत घेवन हांव शिक्षण खात्यांतले अधिकारी नागेशबाब कुराडे हांकां मेळ्ळो. तांचे कडेन चर्चा केले उपरांत तांणी म्हाका पांडुबाब सांखवाळकार ह्या अधिकाऱ्यांक मेळपाक सांगलें. तांकां सरकारी कायद्यांची बरीच म्हायती आशिल्ली. म्हजी नेमणूक सरकारान एका करारनाम्या वरवीं करची पडटली. आनी सरकाराच्या कायदे खात्यांत करारनाम्याचो मसुदो (वीरषीं) तयार आसता आनी तातूंत हांवें सरकाराक म्हज्या आदल्या मुख्याध्यापक पदाचेर हक्क (श्रळशप) राखीव दवरपाची तजवीज करून घेवची पडटली. हांवें ही अट सरकाराक मान्य आसल्यार, सरकारचो प्रस्ताव स्विकारपाक मान्यताय दिवची असो तांणी म्हाका सल्लो दिलो.

विचारांती हांवें सरकाराक आनीक एक अट घालची थारायली. मंडळाच्या अध्यक्षपदाचो दरजो उप-संचालक पदाचो आसलो. तो संचालक पदाच्या दरज्याचो करचो अशी अट म्हज्या करारनाम्यांत घालची अशें हांवें सुचयलें.

शिक्षण खात्यांतच हांवें म्हज्या हयकाराचें पत्र बरयलें आनी थंयसावनच सुधाक म्हज्या निर्णयाची खबर सांगली. मागीर तें पत्र घेवन हांव राणेंच्या ऑफिसांत (आदल्या सचिवालयांत) गेलो. तांकां म्हजो हयकार म्हज्या अटींसयत कळयलो. तांणी त्यो दोनूय अटी रोखड्योच मान्य केल्यो. सरकारी वेव्हारांत सगळे लेखीच करचें पडटा हें म्हाका खबर आशिल्ल्यान, म्हज्या पत्राचेर आपलो निर्णय म्हज्या मुखारच बरोवन, करारनामो करपाक हांवें मुख्य सचीव (Chief Secretary) जे.सी. आल्मेदाक मेळचें अशें तांणी सांगलें आनी जाता तितले बेगीन हांवें पदाचो ताबो घेवचो अशें तांणी फरमायलें. म्हजे कार्यक्षम तेन आनी हांवें बरयल्ल्या पत्रान आनी घेतिल्ल्या निर्णयान मुख्यमंत्री प्रभावीत जाल्लेशे दिसलें. हाचे पयलीं आमचें दोनदां मेळप जाल्लें, पूण आमची चड वळख नासली. आमच्या देशांत खंयची नेमणूक करतना पिरायेची जेश्टताय हें सर्वमान्य तत्त्व पाळटात. शिक्षण मळाचेर म्हजे परस पिरायेन आनी अणभवान व्हड अशे जायते मुख्याध्यापक आसले. तातूंतल्यान तांणी म्हाकाच कित्याक निवडलो हाची म्हाका उमळशीक लागली आनी म्हजे मन १९७०-१९७४ च्या काळांत पावलें. तेन्ना हांव म्हापसा नगरपालिकेचो वांगडी सदस्य आनी कांय काळ अध्यक्ष आसलो आनी डेलरश्र ड्शश्रष त्रींीं. चे मंत्री ह्या नात्यान राणे म्हापशें नगरपालिकेक कांय कामां निमित्त्यान अधिकृत भेट दिवपाक आयिल्ले. बैठक सोंपतकीच तांणी म्हाका म्हणलें: ''बोडगेश्वराचे वाटेर पेत्रोल पंपाचे सामकार जायती अनधिकृत दुकानां आयल्यांत, ती कोमुनिदादीचे सुवातेर आसात ती ताईन मोडूंक उडोवपाक सांगल्यांत. पालिकेन सहकार्य करचें.'' हांवें ताका रोखडीच जाप दिली: ''सरकारचो लेखी आदेश आयल्यार हे विशीं विचार करूं येत'' तो आदेश केन्नाच आयलो ना आनी आमी तीं दुकानांय हालयलिनात. तेन्नाचे ते म्हजे जापेन तांचेर म्हजी छाप पडल्या जातली.

घरा पावतकीच फाटल्या आदेसांत घडिल्ल्या घडणुकांची खबर हांवें सुधाक सविस्तर म्हायती दिली. ताका खूब आनंद जालो आनी ताणें म्हाका काका कालेलकरांच्या उतरांची याद करून दिली. हांवें ताका म्हणलें: ''म्हाका दिसना म्हज्या जिवितांत व्हड कितें घडलां शें. खंयच्याय सरकारांत मंडळांचीं अध्यक्षपदां पायलेक पंचवीस मेळटात. हें पद म्हणल्यार सुळावरची पोळी. म्हाका आतांसावन सादूर रावचें पडटलें आनी दोळ्यांत तेल घालून काम करचें पडटलें, म्हजे मुखार ज्यो फायली येतल्यो त्यो बारकायेन वाचून आनी कायदे सांबाळून निर्णय घेवचे पडटलें. सरकारी कारभारांत घाळ रावन उपकरना. पांच वर्सां उपरांतय एक प्रकरण नव्यान उचकून तुमकां बाधिकार जावपाक शकता. हाचे शिवाय म्हाका सरकारी अधिकाऱ्यांच्या सहकार्यान मंडळ चलोवंचें पडटलें. तांकां हांव 'भायलो' अशें दिसता. म्हज्या नेमणुकिचेर, ते कोर्टांत वचूं येतात. ''हांव कुंपणा वयल्यान उडी मारून शिक्षण खात्यांत रिगलां'' अशें तांकां दिसता. पूण कोणाचेरूच

विसंबून रावपाचें ना, हो मंत्र म्हजे इश्ट आनी सुहृद, डॉ. सी. डी. देशपांडे, माजी शिक्षण संचालक, महाराष्ट्र राज्य, हांणी म्हाका दिल्लो, तो म्हाका खूब बऱ्याक पडलो.

नियतीच्या खेळा विशीं हांव खूब उलयलों. श्रीमद्भगवद् गीतेंतलो ईश्वर हो नियती थारावपी अशें डॉ. रुडोल्फ ऑटो हो गीतेचो जर्मन भाष्यकार म्हणटा. मनशान कर्म वा इत्सा करचे पयलींच एकाद्री खास घडणूक घडची हें सर्वज्ञ ईश्वरान पयलींच थारायिल्लें आसता. हाकाच नियती म्हणटात. कौरव-पांडवांचें झूज जावचे पयलीं ईश्वरान आदीच त्या झुजाची येवजण आंखिल्ली. तशीच ईश्वराची इत्सा आसली आनी ताचीच ही करणी. झुजाचो निर्णय ईश्वरानूच थारायिल्लो. हाचेर हांव इतलेंच म्हणन कीं नियती तुमकां जी वाट दाखयता, तीच वाट घेयात आनी नवीं नवीं आव्हानां पेलीत तें वाटेन आनंदान चलात. पूण तुमच्या खर प्रयत्नांनीच तुमचे मुखावेली मोख सादतली. आपणांक आपलो बेत बळयां बदलचो पडलो हाचें दुख्ख करीत बसचें न्हय. मनीस आपल्या प्रयत्नांत मात खंयच उणो पडपाक जायना. ओगीच म्हणिनात: 'प्रयत्नांतीं परमेश्वर' जिवित्तांत जेन्ना कसवटणेचे प्रसंग येतात, आमचे वाटचालिची नित्य नियाळणी केल्यारूच आमी थारायिल्ल्या मुक्कामाक पावूं शकतात. आमचीं जीण म्हणल्यार एक लांबदीक यात्रा. यात्रेक भायर सरचें पयलीं पुराय तयारी करची पडटा. म्हजे जिणे-यात्रेंत म्हाका खंय वचचें आसलें आनी आतां हांव खंय पावलां हाची नीट नियाळणी केले बगर, उरिल्ले जिणे यात्रेंत आमी सैराट भरकट्टले, वाट चुकतले आनी शेकीं शेणटले.

आमकां मेळिल्लो मनीस धर्म दुर्लभ अशें गीता सांगता तें ख[illegible] कित्याक सगळ्या जिवां भितर फकत [illegible] सद्सद् विवेक बुद्धी निर्मात्यान दि[illegible]कां बरें वायट कितें तें कळटा. आमच[illegible]कीच ज्या खिणाक आमकां 'आमी व[illegible] कित्याक आयल्यात, आमकां खंय व[illegible]सा' हे प्रस्न सतावंक लागतात, त्याच [illegible] आमकां मनीसपणाची खरी जाणविक [illegible]ाक शकता. आमची मनीस कुळी, हे पृथ्वीचेर रावता. पृथ्वी हो ल्हानसो गिरो आमचे सूर्यमालिकेंत आसा. अश्यो कोट्यांनी तारे आनी तांच्यो माळो ह्या ब्रह्माडांत आसात. पूण ह्या विशाल, अनंत आनी अवाढव्य विश्वाचे फाटल्यान एक सुसुत्रताय दिसून येता आनी आमकां प्रत्येकाक ते रचणुकेंत एक स्थान आनी कार्य दिल्ले आसता, जें आमी निश्ठेन करपाचें. ब्रह्माडांत आमची पृथ्वी हो गिरो. एक कुस्कूट म्हणल्यार जाता, तेन्ना आमच्या कर्तृबाचो आमकां अहंकार आसचेली मातूय गरज ना. म्हजे पिरायेच्या पंचावनाव्या वर्साचेर, म्हजे जिणेची म्हाका नियाळणी करची पडिल्ली. तेन्ना हांवें बरयल्ल्या 'मनांतलें' ह्या आत्मनिवेदनांत म्हज्या मनाचे गोंदळिल्ले स्थितीचें दर्शन घडटा. आमी सगलेच तसले अवस्थेंतल्यान केन्ना तरी वेतात. ते खातीर आमी आमचे कडे फुडली दिका दाखोवपी यंत्र (compass) बाळगुचेंच पडटा. तें आमचे कडे नासत जाल्यार आमी जिणेच्या रेंवटांत खंय तरी शेणूंक शकतात. वाचात तर 'मनांतलें:'

**मनांतलें...**

एकोणीसशें एक्याण्णव वर्साच्या
तीन अक्टोबराक
आयली कळ काळजांत म्हज्या
जाली धड्धड्. जाली धांवपळ. चालूच धडपड.

घेतली बुद्द दोतोराची
निर्णय ताचो : 'भरलीं तुजीं शिरंत्रां हीं
चरबेच्या घट्ट लगद्यान
रगताची जायना पुरवण तुज्या काळजाक...
रावत येतल्यो अशोच कळो
अशीच अवचीत एका खिणाक
जातली बंद काळजा धड्धड्. तुजी धांवपळ. तुजी धडपड.'

म्हळें हांवें: ''जावपाक अशें कारण कितें?''
ताणें सांगलें : ''जिणेची ही आयची तरा
जिणे मोगांत पडल्यात तुमी
तुमच्याच मोगांत पडल्यात तुमी
कीर्त तुमकां जोडची आसा
पयसो आडको करचो आसा
यशा तेमकां चडचे पासत
काडाओडी काडटात तुमी
वखवख तुमचो मोगा वांगडी
सर्त तुमची मोगा इश्टीण
तृष्णेन तुमकां धरलें जाळांत
घुस्पले तुमी, फसले तुमी
सुटप तातुंतल्यान कठीण आतां.''

आयकून हें लागलों चितूंक
''सुटचें कशें तातुंतल्यान
सायबा म्हाका सांग बेगीन.''

''आतां हाका दोनूच उपाय
पयलीं बदल जिणे तरा
घे सुशेग. काडाओडी काडूं नाका.
घे बुद्द मुंबय वचून
विचार फिशाल सिरूरजावांक
करतलो तो रगता पुरवण काडून पाट
गोठिल्ल्या काळजाक तुज्या.''

वेगीं धरलीं मुंबयचीं वाट...
मनाक म्हज्या फुटलीं पांखां
मळबांतल्यान उडटना
मरणा हुंबऱ्यार उबो रावन
जिविताचो केलो नियाळ
कित्याक इतलो जालो कळाव?
करूंक म्हजेच जिणे नियाळ?
कितें केलें जिणेंत हांवें?
कितें जोडलें? मोडलें कितें?
कितलीं केलीं पिशेपणां
पोसूंक म्हजोच अहंकार?
कोणा खातीर जगलों हांव?
भुरग्यां खातीर? बायले खातीर?
म्हजे खातीर? पोटा खातीर?
काय गरीब धाटयां लोकां खातीर?

''तुजेच खातीर, पिशा, तुजेच खातीर''
म्हळें म्हज्याच अंतर्मनान.

केली ना हांवें समाजसेवा?

केलें ना काम्र? पुलितिकां?
कितलिंशींच एलेसांवां?
जिखलिंना हांवें जैता तेमकां?
''तुजेच खातीर पिशा, तुजेच खा-
तीर''
म्हळें म्हज्याच अंतर्मनान.
***
पडलो झोत काळ्या मनार
अंतर्मना उजवाडाचो
जाली वळख तुजीच तुका?
इतलो कळाव केलो कित्याक?
करूंक तुवें तुजोच नियाळ?
**
पावलों रोखडोच मुंबय हांव
लोकांखेटींत शेणलों हांव -
कुस्कूट हांव.
सरल्यो वयर पोरण्यो यादी
कॉलेजींतल्या आचार्यांच्यो
स्फूर्तदिणीं उतरां तांचीं
घुमूंक लागलीं म्हज्या कानांत.
कालिदासा शकुंतलेक केल्ली
जिवी
संस्कृताच्या आचार्यान
चंवरून आयलें सैम सगळें
देखून 'कुमारसंभवा'चो विलास.
रावले उबे दोळ्यां मुखार
जावन जिवे तट्टटीत
शेक्सपियरच्या नाटकांतुले
हॅम्लेट, मॅक्बॅथ, लीयर, सीझर-
सगलेच वीर नायक ते
विदर्णा जावन पडिल्ले सकला
आपल्याच नसत्या कर्मांनी-
चुरचुऱ्यांची जीण तांची -
भंगूं तांचें.
पूण कित्याक पडली जिणे तांचे
विसर म्हाका इतले बेगीन?
निर्णेवन हांव लागलों चलूंक
कातरीत वाट मुखावेली.
**
जाल्यो म्हाका पोरण्यो यादी
कॉलेजींतल्यो गांठी भेटी
गिमाळ्याच्या सुटयांनी
गोंयाक दिल्ल्यो उड्ट्यो भेटी.

चौपाटेच्या नितळ वाऱ्यार
घाल्ले उले जवाहरान
गोंयचे पासत, देशा पासत
कितें दिली जाप हांवें
जवाहराच्या त्या उल्याक?
पोटा फाटल्यान धांवलोंना हांव
कुड्डो जावन? स्वार्थी हांव.
**
पावल म्हजें पडटा तशें रावलों
चलत...
घेतलो सोद जिणेचो म्हज्या
भंगिल्ल्या हावेसांचो
विरिल्ल्या सपनांचो
पोक्या जाल्ल्या उतरांचो
जित्या जागत्या सुवार्तांचो
मांडीत जिणे आदा खर्च.
**
फोर्टांतुल्या फुटपाथार
संवकळेच्या पोरण्या तिठ्यार
पुस्तकांच्यो राशीच राशी
पडल्यात थंय थारले पांय.
पुस्तकांचें पिशेंच म्हाका
तें एकूच शाणपण म्हजें
पुस्तकां पोशेत वाचीत जंय
काडली हांवें वर्सान वर्सां
विसव गावलो म्हज्या मनाक
दिली म्हाका तांणी थाकाय.
**
मर्णा हुंबऱ्यार उबो हांव
कसलें अमृत मेळचें म्हाका
गावलें म्हाका 'धम्मपद'
धम्मजोतिल्या अणकारासयत.
कितें दिलें ताणें म्हाका?
दिली म्हाका नवी जीण
दिली म्हाका नवी नदर
दिलो म्हाका नवो विचार
दिलो म्हाका नव्यान आदार
दिलो म्हाका नवो नित्शय
दिली म्हाका नवी तांक
तर्जूंक म्हजे विचार विकार
दिली म्हाका नवी दिका
खातोणांतल्या ह्या जिवाक
दिलें म्हाका खूब त्राण
चलूंक उजू बरी वाट.
जायती वाट चलची आसा
होलमल्ले नवे वाटेर
बुद्धाचे मदले वाटेन.

# ज्या साहित्यकारांनी म्हाका घडयलो...

(पान ९ वयल्यान)

चाळूंक वाचूंक मेळूंक लागलीं. आनी तांतुतल्यान म्हजें उतरां वांगडा नातें सुरू जालें.

तेन्ना कोंकणी उलोवपा पुरती आसली. म्हज्या वयाच्या तेन्नाच्या भुरग्यांची शिक्षणाची सुरवात मराठींतल्यान जाल्ली. पयल्यो चार मुळाव्यो यत्ता आमी मराठींतल्यान केल्यो. तेन्नाचें शिक्षण शिरंत्रांनी रिगतालें. देखून मराठी भाशेन गोंयांक बेस बरे मराठी लेखक दिले जांणी महाराष्ट्रांतूय नांव गाजयलें.

म्हाका हीं दिसाळीं, मासिकां वाचतना मराठी कथा वाचपाचों आनी बरोवपाचोय छंद लागलो. मुळांत मराठी आनी हिंदी येवंक लागिल्ल्यान वाचून काडूंक लागलें आनी बरोवपाची हुकी येवंक लागली. हांव हिन्दी कथांचे मराठींत अणकार करूंक लागलों.

म्हजी एक अणकारिल्ली 'बाप' ह्या माथाळ्याची रशियांतले तेन्नाचे परिस्थितीचेर आधारिल्ली कथा पुण्या सावन भायर सरतल्या 'स्वराज्य' साप्ताहिकांत उजवाडा आयली. कथा उजवाडा आयले उपरांत अचकीत एक दीस मानधन म्हणून एक धा रुपयांची मनिऑर्डर स्वराज्या कडल्यान आयली. तेन्ना हांव १६-१७ वर्सांचो आसुंये.

हे कथेंत पुताक फारान मारपाचो प्रसंग बापायचेर येता. रशियांतलें तेन्नाचे युद्धसदृश्य अंतरंग दाखोवपी ही कथा आशिल्ली. हे कथेन हांवें म्हाका मोठो मानलों. म्हाड्डोळा बाजारांतल्यान वतना लोक म्हाका पळोवन तोखेतात अश्या भ्रमांत हांव चलूंक लागलों.

म्हजें लागून कथा वाचन त्या काळा सुरू जालें आनी ताणें म्हाका पुराय कथामय करून सोडलों. वाचनाचो पसारो इतलो वाडलो की मराठी कथा कादंबऱ्यो थोड्यो पडूंक लागल्यों.

***

तो काळ ना. सि. फडके, वि. स. खांडेकर, ग. त्र्यं. माडखोलकर,

दि. बा. मोकाशी, पु. भा. भावे ह्या लेखकांनी व्यापिल्लो. फडके, खांडेकर, माडखोलकर तर कादंबऱ्यांचे राजा आशिल्लें. ह्या लेखकांच्यो कादंबऱ्यो प्रसिद्‌ध जायना बराबर खपताल्यो. वाचप्यांक चॅटशें लागतालें.

आमच्यात मुक्ती उपरांत जायते कोंकणी लेखक जाले. पूण तांच्या साहित्याचेर उड्यो पडिल्ल्याचे म्हाका जाणवूंक ना. सरस्वती सम्मान पुरस्कारींत महाबळेश्वर सैल हांकां हांव कुशीक काडीन. तशेंच मीना काकोडकाराचो भानुदास अजून दोळ्यां मुखार येता. दामोदर मावज्यार्ली 'मरण येना म्हण' कथा वाचून हांव कसो तागेर पावलों तें ताणें सांगलांच.

लेखकांनी मनीस-जिवितां बदललेलीं आसात. 'जें न देखे रवी, तें देखे कवी' हाचें भान लेखकाक आयलें जाल्यारूच तो कसाक उतरता.

ना. सि. फडके 'एम. ए.' ही शेंपडी लायतालें. मडगांवांतले तेन्नाचे विचारवंत नरशिंवबाब सुकेरकार 'बी.ए.' लायतालें. आयज एम.ए. ही डिग्री हांगा जायते भुरगें जोडटात. तितल्यान समाधान जायना म्हण ते पी एचडी जातात. पूण कोणाक ल्हान लेखनासतना म्हाका सांगूंक जाय की ना. सि. फडकेंची एम.ए आनी नरशिंव सुकेरकार हांची बी.ए. तांची विद्‌वान म्हण वळख दिताल्यो.

ना. सि. फडके हांच्या तेच भाशेन वि.स. खांडेकर आनी ग.त्र्यं. माडखोलकर हांच्या कादंबऱ्यांक विद्यार्थी वर्ग रावतालो. पूण कारणां वेगळीं वेगळीं आसतालीं. फडकेंच्यो कादंबऱ्यो प्रणयाचेर, जाल्यार वि.स. खांडेकर हांच्यो देशप्रेम, स्वार्थत्याग हांचे भोंवतणी घिट्ट्यो घालताल्यो. त्या काळचो साहित्यांतलो रोमान्स आनी आयच्या साहित्यांतलो रोमान्स तुळा करूंक जावंची ना. कॉलेजांतल्या चल्यान एके चलयेक कॉलेजा कडल्या हॉटेलांत एकांतांत बसून गजाली करपाक व्हरप, फकत गजाली करूंक, हो प्रणयाचो शिखर बिंदू आसतालो. ना. सि. फडके हांचें भाशण आसा म्हण कळना फुडें विद्यार्थी-विद्यार्थिनी तुटून पडटाल्यो. ना. सि. फडकेंची एक विद्यार्थिनी कमला तांची दुसरी बायल जाली. तेन्ना तो विद्यार्थ्यां मजगती फुतुफुतूचो विशय जालो.

वि. स. खांडेकर हांच्या कादंबऱ्यांकूय तरणाटे रावताले. पूण तांची कालेत वेगळी आशिल्ली. स्वातंत्र्य संग्रामाचेर, स्वार्थ त्यागाचेर, मूल्यांचेर आधारिल्ल्यो तांच्यो कादंबऱ्यो आशिल्ल्यो. त्यागाची ओढ मनशाक कसो पिसो करता तें तांच्या कादंबऱ्यांनी वाचूंक मेळटालें. देशाच्या स्वातंत्र्य संग्रामांत तरणाट्यांचें योगदान सुमाराचें नाशिल्लें. ताची थोराय वि. स. खांडेकरांच्या कादंबऱ्यांनी वाचूंक मेळटाली. तांचो हिरो अभ्यासू तसोच देशभक्त, संयमी, त्याग करपी, गरिबींतल्यान स्वकश्टांनी वयर सरपी. तें एक वेगळेंच रसायन जातालें. तांच्यो एकान एक कादंबऱ्यो हांवें वाचिल्ल्याची याद जाता. दोळ्यांतल्यान झरी देंवताल्यो त्यो वाचून. तांचे एके कादंबरेंतलो हिरो - 'उल्का' जावये - स्वातंत्र्य संग्रामांत पडिल्लो आसता. वांगडा तो घराशेजरा रावतले चलयेच्या मोगांतूय पडिल्लों आसता. पूण त्या हिरोक देशा फुडें कांयच दिसना. आपले मुखा वयलें सगलें जिवींत बंदखणींत वचपाचें आसा हाची ताका खात्री आसता. ताचो इश्ट ताका ताच्या प्रेमासंबंदान प्रस्न करता तेन्ना तो सांगता, ताचे कडेन हांव लग्न जावचों ना. हांव ताका फटोवंचों ना. 'मी नुसते प्रेम करणार आहे तिच्यावर!' अशी तो जाप दिता. आज पिरायेच्या ८८ व्या वर्सा म्हाका ह्या वाक्याची याद जाता, हाचेवयल्यान खांडेकर तरुणांक कशी प्रेरणा दितालें तें कळचें. आतां विचार येता 'नुसते प्रेम' म्हण कितें आसा काय?' माडखोलकरांच्यो कादंबऱ्यो वैचारीक चर्चेचेर आसताल्यो.

***

काळ सरकतालो अश्या त्या वेळार मराठींत नवकथेन प्रवेश केलो. आदल्यो कथा काणयोश्यो लागूंक लागल्यो. आतांच्या कथांनी ङ्क्लीलिहश' येवंक लागलो. मराठी लेखकांचो एक पंगडूच अवतरलो म्हणूं येता. मनाच्यो गांठी ते हळुवारपणान दाखोवपाचो प्रयत्न करूंक लागले. हातूंत अरविंद गोखले, गंगाधर गाडगीळ, पु. भा. भावे, दि. बा. मोकाशी फुडें आशिल्लें. हे चडशे मध्यमवर्गीय ब्राह्मण आशिल्लें कांय दिसता. तांच्या कथांनी मध्यमवर्गियांची सुखदुःखां ते मांडटालें. त्यो कुटुंबकथाश्यो आसताल्यो. कथा वाचूंक सुरवात केली की ती केन्ना सोंपली कळनाशिल्लें. ते आयटींत हांव बसतालो देखून हांव तांचे कडेन तदरूप जातालों जावं येता. अरविंद गोखले हांच्यो कथा तर सोज्वळ आसताल्यो. गंगाधर गाडगीळ कॉमर्सचे प्रोफेसर आशिल्लें. तांचे एके कथेंतलें वाक्य म्हजे यादींत आसा. 'ती पायाच्या कात्रीने रस्ता कापीत चालली होती.' आमचें हेमा नायक तेन्ना जे चपलतेन चलतालें तें पळोवन हें वाक्य ताका लागू जाता अशें दिसतालें.

**एक कथा याद जाता.**

कांय दिसां खातीर बायल कुळारा वता. कुळारचें सूख भोगून ती परतता. पयले राती घोवा सांगाताच्या संगा वेळार तिका खंय कितें तरी ना घडपाचें घडलां म्हणपाचें जाणवता. पयले फावट तिका घोवाचो दुबाव येता. जेन्ना प्रेम ओतप्रोत आसता तेन्ना भश्ट आपशींच लक्षांत येता.

दुसरी एक कथा हांणीच कोणे तरी बरयल्ली. पु.भा. भावे काय?

एक कमर्शियल फर्म. चीफ एक्झेक्युटीव ऑफीसर एक तरुण बायल मनीस एकटीच रावपी. ती ड्रायवराचो सुखा खातीर उपेग करता. हो ड्रायव्हर ह्या नात्याच्या आधारार कोणा एकाक नोकरेक दवर म्हण प्रेशर हाडपाचें धाडस करता. ती ऑफीसर खिणांत त्या ड्रायव्हराक तो माथ्यार बसतलों म्हण काडून उडयता.

दिवाळेक मराठींतल्यान जायते दिवाळी अंक भायर सरताले. लेखकांक मानधन मेळपाचो तो काळ आशिल्लो. गोंयकार चित्रकार दलाल आनी मुळगांवकार हांचीं चित्रां ह्या अदिकश्या दिवाळी अंकांचेर आसतालीं. हे लेखक आनी ते चित्रकार, अंक खपताले. हांव तर चार स अंक घेतालों. तेन्ना अंक ५/६ रुपयांक मेळटाले. हातूंत आमच्या

गोंयकार कथाकारांची भर पडटाली. दर एका अंकांत महादेवशास्त्री जोशी, लक्ष्मणराव सरदेसाय तशेच बाकीबाब बोरकार आसतालेच. ह्या लेखकांची चलती आसतना मामा वरेरकर संपूर्ण शरदचंद्र घेवन आयले. शरदचंद्रांची श्रीकान्त, विप्रदास, भारती, तांच्या कादंबऱ्यांचीं हांवें पारायणां केल्लीं.

***

हें मराठी वाचन चलतना पुर्तुगेज लेखकांची बरपावळ हातांत येवंक लागली. जर्मन लेखक स्टीफन त्झ्वेग पुर्तुगेजींत मेळटालो. रवीन्द्रबाबाकडल्यान तो म्हजे कडेन पावलो. पुर्तुगेज कथाकार येस्स द केयरॉज, ज्युलियु दान्तश, ज्युलियु दिनीश हांणीय म्हाका ओड लायली.

येस्स द केयरॉज हाची 'मुदी' (o anel) ही कथा म्हज्या मनांत घट रोंबली म्हळ्यार जाता.

एक गुणी पूण गरीब भुरगो शेजारचे सुंदर चलयेचो मोग करता. चलयेक बापूय नासता. तिचे आवयकूय हो भुरगो आवडटा. हो भुरगो चलयेक मागता. हांगा ताची गरिबी आड येता. आवय म्हणटा, 'ताका व्हडल्यां व्हडल्यां कडल्यान मागणें येता.ताचें रुपच तसलें. तूं गुणांक लागून म्हाका पसंत आसा, पूण तूं गिरेस्त न्हय. इतले गिरेस्त ताका मागतात तेन्ना तांकां सोडून ताचो हात तुजे सारकिल्या कडेन दिल्यार लोक कितें म्हणटलें? म्हाका हांगा रावचें आसा. हांव सांगतां, तूं अशें कर. दोन चार वर्सां खातीर खंय तरी वच आनी पयशे जोड आनी गिरेस्त जांवन यो. तो मेरेन आमी रावतात.'

भुरगो मानी आसता. तो तेमाक पेटटा आनी चार वर्सांनी येता म्हण सांगून वता. तो परदेसांत कश्ट काडटा ताका तुळा ना. उदिद्श्ट एक तें म्हळ्यार ते चलयेक आपलें करतलों. तो पयसो पयसो जमयता आनी बँक खातें गडगंज करता. आतां तो गांवघरा येता आनी चलयेच्या आवय मुखार उबों रावता. आवयूय ताची वाट पळयत आसता. खोशयेन ती ताका आपणायता.

आता साखरपुडो जावपाचो आसता. व्होकलेक घेवन तो मुदी घेवंक वता. एका मॉलांत तीं जायत्यो वस्तू घेतात. जायत्यो मुदयो पळयतात आनी एक वेंचून काडटात. आतां खरेदी जाल्या. पयशे फारीक करूंक कावण्टराचेर वतात तेन्ना मॅनेजर ताका कुशीक व्हरून व्होकलेन एक मुदी फारायल्या म्हण सांगता.

ताका हें खरें दिसना. हें कशें शक्य आसा? म्हजी व्होकल चोर? चार वर्सां भायर जिचे पासत विडविडलो ती चोर? तो पुराय अपसेट जाता. मॅनेजर तिचेसरी वता आनी ती चली मोन्यानी पर्सांतली मुदी काडून ताचे कडेन दिता. घेतिल्ल्या वस्तूंचे बील फारीक करून चलो तिचे पासत भायर सरता. तीं दोगांय सांगातान कांय पावलां मुखार वतात. अचकीत तो चलो तिका 'चलूंक लाग' म्हणटा. 'परतें तोड दाखय नाका', अशें सांगून आयिल्ले वाटेन घरा परतता.

ह्या लेखकान पानांचीं पानां ते चलयेच्या रुपाचे वर्णन करुंक खर्चिल्यांत. पानांची पानां तो परदेसांत कसो घाम गाळटा तें बरोवंक खर्चिल्यांत.

काळजाक पीळ घाल्लो हे कथेन म्हज्या!

ज्युलयु दान्तश (काय दिनीज) ह्या पुर्तुगेज लेखकाची एक आगळी वेगळी कथा हांवें मराठींत अणकारिल्ली. आमचे डॉ. र. वि. पंडित मुंबयच्या एक मासीक कांय दिवाळी अंक काडटालें. नांव भारती आशिल्लें काय येवजता. तातूंत तांणी तिका मानाचो पाट दिल्लो.

कोर्टांत एके बायल मनशेचेर खटलो चलता. तिची बाजू मांडपाक एक वकील येता. ती गुन्यावकार म्हण सिद्‌ध करूंक संवसारांतल्या सगळ्या तत्वगिन्यानी लोकांची रीग लागता. जे सगळे अवगूण म्हण आसात ते तिच्या नांवार बरयतात आनी बरयल्ली चीट न्यायालया मुखावयल्या तागडेच्या दाल्ल्यांत घालतात. तशें तशें तें दालें सकयल वचत आसता. दालें चिटयांनी भरता. आतां न्यायाधीश निकाल जाहीर करच्याक एकलो खाडाचो आनी उकत्या हड्ड्याचो प्रवेश करता आनी रावात म्हण न्यायाधीशाक उलो मारता आनी फुडें सरून 'तुमी सगळे चुकतात. ती आवय म्हणपाचें तिच्या पोटांतल्यान आयिल्ले तुमी कशें विसरले' म्हण विचारता.

आवय हें उतर दुसऱ्या दाल्यात पडटा आनी त्या एका उतरान हें दालें जड जाता ती मुक्त जाता.

***

ह्या काळांत इंग्लीशींतल्योय कांय कथा वाचपाचो म्हाका छंद लागलो. म्हज्या हातांत आयली फ्रेंच कथाकार गी द मोपांसां हांची 'डायमंड नेकलेस' ही एक जगप्रसिद्‌ध कथा. ती जायत्या जाणांनी वाचल्या आसतली.

एक गरीब घोव आनी बायल कोणागेर तरी काम करतात. एका लग्नाक तांकां वचचें आसता. कार्याक वतना आंगार कितेंय आसचें म्हण ती मालकिणी कडेन एखाद्रो हार मागता आनी मालकिणीचो तिचेर पुराय विस्वास आशिल्ल्यान आपलो डायमण्ट नेकलेस मालकीण तिका दिता.

लग्नांत बोवाळटना हो मोलादीक हिऱ्यांचो हार शेणटां. सोद सोद सोदुनूय तो मेळना. लाखांनी रुपयांचो नेकलेस शेणयल्ल्यान मालकीण आपणाक पोलिसां कडेन दितली ह्या भयान तांका थरथर सुटता. वर्सां संख्येन बंदखणींत जिवीत सारचें पडटलें ह्या चिंतनानीं ती गोंदळटात आनी ते भिरांतेन एका खिणांत शार सोडून पळून वतात. हांगा कितेंय करून पयले जोडटलीं आनी नवो हार विकतो घेवन मालकिणीक व्हरून दितलीं अशें थारायतात आनी जशें थारायतात तशें करतात. हार परतो दिवंक जाय ही तांच्या जिविताची आतां मोख जाता.

कितलीं वर्सां तीं आपणाक झरयतात ताका शीम ना. निमाणे पयशे जमतात तेन्ना बाजारांत वचून तशाक तसो हिऱ्यांचो हार घेतात आनी जिचेकडल्यान दोन दिसां खातीर हार घेतिल्लो त्या शारांत वतात. तिच्या घरा वच जाल्यार ती तर हांचे भाशेन म्हातारी जाल्ल्या. ती

तांकां वळख लेखीत ना. निमाणे हांकां आपली वळख दिवची पडटा आनी हार व्हेल्लो तो परतो दिलो ना ताचो उगडास दिवचो पडटा.

'तुजो हार शेणलो वा कोणे तरी चोरलो. आमचेर आकांत आयलो. तुवें पोलिसांक कळयल्यार ते आमकां भितर उडयतले हे भिरांतेन आमी पळून गेलीं. पूण तुजो इतल्या मोलाचो डायमण्ड नेकलेस परत करूंक जाय ह्या एकाच ध्यासान आमी वर्सांचीं वर्सां वावुरलीं. आज तुजो हार आमी दिवंक आयल्यांत!' तांणी मालकिणीक सांगलें.

मालकीण तांच्या तोंडा कडेन पळयत रावली. 'पोरांनो, कितें केलें हें तुमी? सगळें जिवीत खर्चिलें! कितें सांगूं तुमकां? तो हार नकली आशिल्लो. खऱ्या हिऱ्यांचो हार कोण एका वराक कोणाक तरी दीत?'

***

मदल्या काळांत कांय इंग्लीश पुस्तकां म्हजे आलमारींत वचून बसलीं. तातूंत टॉलस्टांयाची 'आना कारेनीना', 'वॉर ॲण्ड पीस', हेमिंग्वेचें 'ध ओल्ड मॅन ॲण्ड सी', आयर्वीन स्टोनाचें 'लस्ट फॉर लायफ', गरपश ऑीोंशपश चें 'द प्रायड ॲण्ड प्रेजुडीस' हीं पुस्तकां आसलीं. पूण खरो म्हाका कवळपी तो सॉमरसॅट मॉम. ह्या इंग्लीश लेखकान ताची 'रेझर्स एज्य' (Razor's Edge) आनी 'ऑफ ह्युमन बोण्डेज' ह्या दोन कादंबऱ्यांनी म्हाका रेवडायलों. त्या दिसांनी Razor's Edge घेवन हांव नाचतालों म्हळ्यार जाता. The sharp edge of a razor is difficult to pass over, Thus the wise say the path of salvation is हरीव हें कठोपनिषदांतल्या वाक्यान ही कादंबरी सुरू जाता.

अशें सांगतात की वाल्मिकीन रामायण पयलीं बरयलें आनी प्रत्यक्षांत रामायण घडलें. एक नवें जग, एक नवो मनीस घडोवपची शक्ती एका लेखकांत आसता हें सॉमरसॅट मॉम हांणी लॅरी नांवाची व्यक्ती निर्माण करून लाखांनी लॅरी हांणी ेराळपस हें जिविताचें साधन केलें.

'तूं कितें करता?' हाका लॅरी 'रोमींग' ही जाप दिता. आतां मोबायलच्या युगांत 'रोमींग' हो शब्द चलनांत आयला. सॉमरसेट हांचो लॅरी मराठींत जाका 'भटकंती' म्हणटात वा कोंकणींत 'हेडप' म्हणटात तें आपूण करतां म्हण सांगता आनी प्रत्यक्षांत जिविताचो अर्थ सोदपा खातीर संवसारांतल्या खंयच्या खंयच्या देशांनी हेडटा ताका शीम-मेर ना. तो भारतांत येता, हांगा रमण महर्षीचें नांव आयकता आनी तांचे सरीं जिविताचो अर्थ समजून घेवंक वता.

तो तसो लीडर नासता पूण आपणाक जाय तो लोकांचो पंगड वेंचून काडून तांच्या कश्टांच्या जिवितांत खोस आनी सूख नंदचीं म्हण प्रयत्न करता. सोरो आनी हेर व्यसनांच्या बचक्यांत सांपडलेले कवी इश्टीणी कडेन तो लग्न जावंक तयार जाता. ताच्या अवघ्याच दिसांच्या सहवासांत ती सोरो आनी हेर नशा सोडटा. पूण तिणें लॅरीच्या जिवितांतल्यान कडसरचें म्हण तिका परत व्यसनांनी घुसपावपी दुसरी बायल कारस्थान करून शेवटी तिका आत्महत्ये कडेन पावयता.

दुसऱ्या महायुद्धाच्या अखेरच्या काळांत ठ्रीं ी एवसश ही कादंबरी लाखांनी तरणाट्याची गीता जाली. तातूंत हांवूय एक आशिल्लों.

सांगताले की सॉमरसेट मॉम भारतांत आयिल्लों तेन्ना गोंयांतूय आयिल्लों आनी ताणें आपले डायरेंत पणजी शारा विशीं दोन वळी बरयल्यात त्यो चडश्यो गोड नात.

'In Panaji evey one knows who sleeps with whom'

अश्योश्यो कितें त्यो वळी आसात अशें येवजता.

लेखक निमाणें बरयता, 'लॅरी विशीं म्हाका समजलें तें हांवें बरयलें. पूण ताच्या मोच्यांत हांव पांय घालूंक शकना. हांव ल्हान मनीस. लॅरी ह्या वेळार खंय आसा हें हांव नकळ पूण खात्रीन तो खंयच्या तरी कारखान्यांत पिचतल्या कामगारांच्या जिवितांत थोडी तरी खुशालकाय नंदची म्हण एक तांचेच भाशेन कामगार जावन जियेता आसतलो.

इंग्लीशींतलीं दुसरी कादंबरी जिणे म्हजेर प्रभाव घालो ती Lust for Life चित्रकारांच्या बऱ्या वायट जिवितांचेर ही कादंबरी आसा. निजाच्या चित्रकाराक उपाशीं पोटार चित्र काडप हो एक सुंदर चित्र काडपाचो अणभव आसता. जितो आसतना चित्रां खपनात, बोल्सांत पयशे नासताना, दिसाचें दीस उपाशीं रावचें पडटा, इश्टान पयशें दिना म्हण सांगप.

आनी चित्रकार मेल्या उपरांत ताचीं चित्रां करोडों रुपयांक खपप, घडये विन्सेन वॅन घोग ताचे मुखार आशिल्लो जायत.

मागीर हांवें वाचली The old man and the sea नोबेल प्रायज वीनर अर्नेस्ट हेमिंग्वेची कादंबरी.

तश्यो आनीक कितल्योश्योच इंग्लीश कथा काणयो हांवें वाचल्यात. पूण जें सांगताक रावलें तांची याद जाता तशें बरयलां.

***

हिन्दींत कृष्णचंद्र आनी ख्वाज्या अहमद आब्बास हांणी म्हाका पिशें लायलें.

अण्णा देशपांडे हें नांव धारण करपी देशाच्या स्वातंत्र्य लढ्यांत वांटो घेतिल्लो एक विद्वान म्हज्या जिवीत प्रवासांत म्हाका मेळ्ळो. भायर लोहिया वांगडा वावुरलेलो, जेलांत कादयेंत हाल-उपाद्रे भोगिल्लो असो तो स्वताक विसरलेलो लोहिया उपरांत गोंयां आयलो. डॉ. लोहिया गोंयांत १९४६ त दोनदां आयले आनी पुर्तुगेजाचो 'पावणार' भोगून गेले. उपरांत चळवळ एक चार पांच वर्सां मंद जाली. १९५३ तिणें जाळें विणूंक आरंभ केलो.

अण्णाचें मूळ नांव हेमाद्री. तो अण्णा देशपांडे जावन गोंयां आयलों. सॉमरसेट मॉमाच्या लॅरीभशेन हेडप ताका आवडटालें. समाजांतलो खंयचोच वर्ग ताका वर्ज्य नाशिल्लो. मराठी उलोवपी आसून जायते कॅथॉलीकांक ताणें स्वातंत्र्याचो गुरूमंत्र दिवंक आरंभ केलो. तो उच्चवर्गियांगेरूय रिगतालो. स्वातंत्र्य सेनानी डॉ. पुंडलीक

गायतोंडे, पांडुरंग मुळगांवकार, गोपाळ आपा कामत, डॉ. फ्रान्सिस मार्टिन्स हांच्या वर्गणांत तो वांगडी जाल्लो. ताचे वांगडा भोंवपाची म्हाका संद गाविल्ली.

'आई', म्हण उलो मारून तो बारीक, दलीत समाजातल्या घरांत रिगतालो. जायते फावट म्हाका ताणें हांगेर जेवप कशें हें शिकयलें. ताका लागून हांव शेवटाक स्वातंत्र्य सैनिक जालों.

तो गोंय मुक्तीची चळवळ फुडें व्हरूंक आयिल्लो पूण ताची साहित्याची जाण म्हाका आकर्शीत करतालीं. ताचे मुंबय साहित्यीक इश्ट आशिल्लें. मुंबय त्या काळार 'सरगम' नांवाचें एक हिन्दी मासीक भायर सरतालें. नांवाजते लेखक कृष्णचंद्र, ख्ख्वाजा आब्बास हे देशांत नामना जोडूंक पाविल्ले लेखक ह्या सरगमांत बरयतालें. तूं म्हजे वांगडा मुंबय यो, तुका सरगमांत नोकरी दितां, तो म्हाका सांगतालों. पूण घरचे परिस्थितीक लागून भायर वचप म्हाका शक्य नाशिल्ले.

ताका लागून हे दोन लेखक म्हाका वाचूंक मेळ्ळे. ते लेफ्टीस्ट आशिल्ले. दोगांच्योय लघुकथा समाजांतली दुरावस्था मांडटाल्यो. कृष्णचंद्राचें येता येता तें पुस्तक हांव घेतालों. ताच्या 'मेरे दोस्त का बेटा' हे कथेचों कोंकणी अणकार हांवें केल्लों.

लेखकाचो स्कूल कलीग एक कारखानदार. देशभर व्यापार धंद्या खातीर भोंवपी. ताका आपलो इश्ट गरिबांचेर कथा बरयता तें मानना. मोगाचेर, सेक्साचेर कथा बरय, अशें तो ताका सांगत आसता. तुजी पुस्तकां बरी खपतलीं म्हण सांगता.

हो व्यापारी इश्ट सदांच भोंवडेर आसता. ताचो बांद्र्या बंगलो आसा. ताची सुंदर बायल आपल्या पांच वर्साच्या भुरग्याक घेवन थंय रावता. बंगलो व्हडलो. तांगेर एक माळी आसता. घोव भोंवडेर आनी ताची बायल सोशियलायट. तथाकथीत समाजकार्य करपी. म्हळ्यार दीसभर क्लबांनी जमपी आनी हेर श्रीमंत बायलां वांगडा वेळ पासार करपी.

लेखकाक आतांच मित्राचें पत्र आयलां. लेखकाक दिसता बांद्रा वचचें आनी इश्टाच्या भुरग्याक आनी आवयक मेळचें आनी खबर घेवची. तो सांजचो बांद्र्या वता. इश्टाच्या बंगल्यार पावता. माळी ताका येवकार दितना बाय घरा ना म्हण सांगता. काकाक पळयना फुडें भुरगो 'चाचा, चाचा' करीत येवन लेखकाचे मांडयेर बसतां. माळी आवयच्यो खबरो सांगता. मालक दिसांचे दीस भोंवडेर आसता. घराचेर लक्ष ना आनी घरकान्न तर भुरग्याक विसरून सामाजीक वावर करता.

लेखक भुरग्यां कडेन खबरी करता. भुरगो चित्रांचे पुस्तक चाचाक दाखयता. इतले म्हणसर चित्रांच्या पुस्तकांत ताका हांसपी बाबू दिसता. ताका पळयना फुडें भुरगो लेखकाचे मांडयेवयल्यान देंवून कीचनांत धांवता आनी सुरी हाडटा आनी 'हाका हांव मारतलों' म्हण सांगून त्या पुस्तकांतल्या भुरग्याक सुरी तोंपता.

लेखक इश्टाक बरयता: 'ह्वतुको म्हजो कथा पसंत नात. तुका मोगाच्यो, सेक्साच्यो काणयो जाय. त्यो बऱ्यो खपतल्यो आनी हांव पयशेकार जातलों अशें तूं म्हाका सांगता. पूण म्हजे मुखार हातांत सुरी घेतिल्लों तुजो पूत आसा. तो कोण जातलो हाचो हांगा म्हाका हुसको जाला आनी ताका वाटावपाक म्हजी कथा कश्टता.''

'शुक्र अल्लाह का' ही ख्वाजा अहमद आब्बासांची कथा. एक पांय नाशिल्लो तरणाटो रस्त्या कुशीक कितें तरी विकून चार पयशें जोडूंक बसता. तो मार्गावयल्यान लोक वता तांकां पळयत आसता.

ताका एक कुड्डो दिसता. तो भीक मागता. आमचो तरणाटो म्हणटा 'शुक्र अल्लाह का', म्हाका फकत पांय नात, दोळे दिल्यांत. उपरांत ताका एक कुश्टरोगी दिसता. ताका गाड्यार घालून ताची बायल तो गाडी ओडींत भीक मागता. आमचो तरणाटो 'शुक्र अल्लाह का' म्हणटा. लोक कशे कशे त्रास भोगतात. म्हाका फकत पांय ना. हांव सामको बरो आसां.

तो पळयत आसता. कोणाक हात नात; कोणाक दोळे नात; कोणाक नाका तो रोग जाला. तो तरणाटो आपल्याक पांय ना म्हण पिरंगना. दुसरे त्रासांत आसात ते पळोवन ताका कश्ट जातात.

कथेचो सार वाचप्यांक कळटा. ह्या जगांत आमचे परस दुख्खी, कांयच नाशिल्लें, परसुवादीन अशे जायते आसात. तांचें पळयल्यार आमी चड बरे आसात. आमी पिरंगूंक फावना. 'शुक्र अल्लाह का'.

***

हिन्दी लेखक प्रेमचंद हांच्योय काणयो हांवें वाचल्यात. एक तर मार्गार मस्तेन कार चलयतल्याक वाटसूर कसो धरतात आनी गाडयेंतलो देंवोवन गाडी उमथितले म्हण भेश्टायतात आनी हे मुखार गाडी शिस्तीन चलयतलों म्हण उतर घेतात.

आमचे आयचे मार्ग चळवळीक ही तेन्नाची कथा पालव दिता.

***

ज्या साहित्यकारांनी म्हाका घडयलों तांचे विशीं आयलें तशें गायलां. कोंकणी साहित्यकारां विशीं दोन चार वळीं खेरीज कांयच ना, हें खरें. हाचें कारण त्या काळार १९४०-१९५५ कोंकणी साहित्य नासलें. चंद्रकांत केणी हांचो 'भूंयचांफी' हो पांच कथांचो संग्रह १९५९ वर्सा आयिल्लो.

हांवें जें बरयलां तें ताचे आदलें. म्हजें यादींतलें. हातूंत रिसर्च ना. देखून कांय नांवां चुकल्यांत आसूं येता.

***

गोंयचे मुक्ती पयलीं मुंबय पावतालों तेन्ना च्या फ्रा. नांवाचो एक मंगळूरचो कवी एक कोंकणी सातोळें उजवाडायता अशें आयकतालों. च्या फ्रा दावे विचारसरणेचो. ताची वळख आनी आमची दाटी मुक्ती उपरांत जाली.

च्या फ्रा. हो एक कवी असो जावन गेलो जाचे कविता सादर करपाचे कार्यावळीक आमी हिंदू कोंकणी मोगी लोटताले. तिकेटी दवरल्यार लेगीत त्यो खपुये आशिल्ल्यो. ताची 'हाड चेडवा बुडकलो'

कविता आमचीं काळजां कळवळायताली. खंतीची गजाल म्हळ्यार गोंयच्या क्रिस्तांव समाजांतल्या हाताच्या बोटांनी मेजुये इतले ताच्या कार्यक्रमांक हजेरी लायताले.

च्या फ्रा जिव्यो तट्टटीत यादी दवरून अचकीत गेलों.

ताचे 'आशेची खरस' हे कवितेन म्हज्या जिवितांतली खरस ना नपश्यात केली आनी म्हाका जिवितांतल्या कश्टांकडेन हांसून कशें झुजचें तें शिकयलें.

देखीक दोनूच कडवीं:

घरा फाटी आमच्या नदी व्हांवता,
हुपूंक आशेलो;
धोंक, पाती, पोर हुबून गेलें,
हांव खरशेलों!

खरस कशी ही
अजाप म्हाका,
समजूंक आशेलों,
दुबळीं - अबळीं
समजूंक सकलीं;
हांव खरशेलों!

---

# अव्यक्तांवणें व्यक्त

**(पान ११ वयल्यान)** आनी एक दीस सगळी साटली पोटली कवळून बोटीर घाली आनी कुटुंबा सयत गोंय बंदराचेर देंवले. धर्मापूर, धुमटी करतां करतां धुमटकार आडनांव जालें. शेणवी लावपाक विसरले नात. विष्णूक तिगी चलयो. पढर (कुंकळकार) हिका सुरेंद्र आनी वैकुंठ दोन चले आनी शाली (मुंग्रे) ही चली. केंसर (केणी) हिका वासू आनी रत्नाकर हे दोन चले आनी तिका विभा हे चली. तिसरी शेंवतें (केणी) ती खंय पायणीत बसून रावताली. घोवान सोडिल्ली पूण दोन चले तिका. अनंत आनी शीपा. घराण्याक वारस जाय म्हण हुस्को. विष्णून आपले हे धुवेचो चलो पोसको घेवपाचें थारायलें. अनंताक पोसको घेतलो आनी ताचे नामांकन केलें पुरुशोत्तम. तिसरे धुवेलो घेतलो म्हण व्हडल्यो धुवो पिकार. तिगांय धुवांगेर दोग चले. तरीय धाकलेचोच पोसको कित्याक घेतलो हो तांचो शीण. म्हजो पूत घे, तुजो पूत घे म्हण झगडी खंय दोगी भयणिंचीं. वंश वाडूंक जाय, धुमटकाराचें नांव उरप गरजेचें. मागीर घेतलो एकलेचो. तिचें आडनांव केणी. वंशवेल धुमटकाराची फळूंक जाय अशें मत. पूण हांव केन्नाय चिततां, आडनांव धुमटकार आसलें तरी हांव केणी आनी प्रभुदेसाय हांच्या मिलनाचें फळ. कितेंय जायना पूण बामण. इस्टेट सगळी अळंग बापायच्या हातांत. दुसऱ्या भावान असलें काम केलें ना म्हणून ताच्या वंशाचें नांव ताचे पुरतें उरलें.

म्हजो बापूय भाटकार, वेपारी, मोटो धनीपुत्र. जाणटेल्यांनी जोडलें आनी गडगंज काळींग आसा म्हण सोयरीगत जुळयली. जाणटेले मरतकच म्हजो बापूय सर्वेसर्वा जालो. आख्खें काळींगच ताच्या हातांत पडलें. तातूंत तर तो पोसको. तोवूय बी आपलोच नातू. धुवेलो चलो.

ल्हानपणातसून बापायचो एकेक अवतार म्हाका याद आसा. केन्ना ताच्या तोंडांत हांवें म्होवाळ भास आयकली ना तर एखादया भुरग्याची केल्ली अपुरबाय याद जायना. आमी णवूय भावंडा हांसत खेळत आसतालीं. पूण बापूय येवपाचो वेळ जालो काय सगळें वातावरण चिडिचूप जातालें. थर्त भितालीं ताका. घरांत भितर सरतनाच घे धेंगशे. केदयान म्हण सांगूं येना. कोणाचेर म्हणूनय कळनासलो. थापट मारिल्ल्याचो उगडास जायना आनी तोंडांतल्यान केन्नाय गाळी आयकल्यो नात. तिडकी भरशीं वायट उतरां येतालीं. पूण पोजडीं न्हय. धेंगशांचोच धसको चड आशिल्लों.

ताचें एक खाशेलेपण. देवाऱ्यांत कितलींशींच पांयजेलां. तांकां घालपाक ताजीं टवटवींत फुलां लागतालीं. मागीलदारांत कितलींशींच फुलझाडां आसलीं. न्हाल्ल्या आंगाचेर एक ल्हानसो वालको न्हेसून बांयचे धडेर उबो रावन खांद्यांक गोळोव मारून खांदी बागोवन फुलां तोडटालो. एक फूल दवरीनासलो झाडाचेर. सांजवेळा पळयत जाल्यार एकूय फूल नासतालें. दुसऱ्या दिसा पयलीं पांयजेला वयलीं पाथीं फुलां एकठांय करून नळ्यांचेर उडयतालो नाजाल्यार झाडांच्या मुळांनी घालतालो. सकाळी आनीक टवटवीत फुलां फुलिल्लीं आसतालीं. तोंडांतल्यान नामस्मरण चालू आसतालें. कितें म्हणटालो तें मात म्हाका केन्ना कळ्ळें ना. अनवाळें भश्ट आकांताचें. देवाची पुजा करचे पयलीं कोणे आफडूंक जायनाशिल्लें. मोठ्ठ्यान किळांचतालो. पूण पूजा करताना मात आईन कितें म्हणीत जाल्यार नामस्मरणा मदीं तिका फाटल्यान वळून वायट वायट उतरां दितालो. एक उतर तिचें घेनाशिल्लो. आर्त्याक परतें.

कसलें हें देवस्पण! म्हाका दिसतालें. देवाऱ्या फाटल्यान एक कूड आसताली. ती सामकी अनवाळी. कोठये कूड म्हणटालीं तिका. भितर एक दोंण. तातूंत तांदूळ, बुयावांत सोलां आमटाण. कोणाक भितर वचपाक दिनासलो. फक्त आईन वचपाचें. एक दीस म्हजी इश्टीण आयली. तिका घर दाखयतना हांव भितर गेलें, फाटोफाट ती. आवय्स! केद्यान धेंगशेलों तो! वास्तू भश्टिली म्हणपाक लागलो. सालीग्राम आशिल्लो खंय भितर. सोरोप आशिल्लेवरी भेश्टायलें म्हाका. ते कुडींत मागीर हांवें केन्नाच पावल दवरलें ना. आनी तेन्ना सावन देव देवस्पण हाचेवेलो विश्वासूच उडलो. देवाऱ्या मुखार बसून देवाच्या पांयजेलांक फुलां चडयताना मदींच देवाचें नामस्मरण थारोवन फाटल्यान वळून बायल भुरग्यांक खेपपी ह्या मनशाक पळयलें, अणभवलें आनी कार्ल मार्क्साचे विचार वाचचे पयलींच हांव 'एथेइस्ट' नास्तिक जालें.

घरांतल्या ह्या असल्या वातावरणाक लागून हांव घरा भायर रावप चड पसंत करतालें. बापायची घरांतली दादागिरी म्हाका त्रास करताली. म्हजे खातीर न्हय तर आवयची कुचंबणा पळोवं नज जाताली. उठटा बसताना तिका खेपप म्हाका मानवना आसलें. कितलीं म्हण तिणें कामां करपाचीं! तशीं कामां करपाक घरांत दोन मनशां आशिल्लीं. कपडे उमळपाक, आयदनां घांसपाक खेरीत मनशां आसलीं पूण रांदपाचो वावर आई आनी व्हडल्यो भयणी करताल्यों. रांदप म्हण कितें थोडें तर तें! पंदराएक लोकांचे रांदप. केन्नाय वितरागून ती आपणाचेरूच घडोवन पद म्हणटाली. फुगड्यो धालो ओंवयो हे प्रकार तिका म्हणपाक येतालें. कुड्डे सारक्या रानवटी गांवांत भुरगेपण गेल्ल्यान थंयच्या वातावरणाचो प्रभाव तिचेर पडिल्लो. गुणगुणत आसतालीं रांदतना. रांदप चुलीर. एक दीस तिचीं उतरां म्हज्या कानार पडलीं.

**कुड्डेकार देसाय व्हड**
**तांगेर चलयो चड**
**तांगेर चलयो चड**
**दिल्यो त्यो गांवां गांवांत**
**रडटा त्यो ताच्या नांवांन**
**रडटा त्यो ताच्या नांवांन.**

जालें हांवें एक दीस तिका विचारलें, 'रडटा त्यो ताच्या नांवान अशें कित्याक म्हणलें?' आनी दोळ्यांक पदर लावन तिणें वितरागून म्हणलें, 'हें पळय हे खातीर. नळी घेवन दीसरात फू फू करून रान्नींतल्या उज्याक फुकपाचें. वर्स दोन वर्सांच्या अंतरान एकेक बाळंटेर. दर बाळंटेरा कणकणी बापायन काडून वचप आनी मागीर हांवें भावाक पांयां पडप, हाड रे बाबा ताका सोदून. हेवटेन म्हजो भाव आनी तेवटेन भाचे वैकुंठ आनी सुरेंद्र. धांवतात बावडें सोदपाक.' तेन्ना म्हजे तकलेंत उजवाड पडलो आनी दिसले, चलयेन लग्न जावप घोवागेर वचप म्हणल्यार घोवाली चाकरी करपाक. एखादी वावराडी जावन घोवालीं कामां करपाक. आनी तेन्ना सावन म्हजे तकलेंत एक वेगळेंच वारें घुंवपाक लागलें. बायलेचो जल्म हो असो चुलींत फूंक मारून गोबोर आंगान उसळावन घेवपा खातीर न्ही. तिका म्हणून आपलो मान रस्पेद आसा.

बायल म्हणल्यार दादल्याच्या पांयांतल्या जोत्याची व्हाण अशा हीन दर्जाचें समीकरण तेन्ना प्रचलीत जाल्लें. म्हजे आईन तेंच भोगलें. घरांत चलिल्ली दादल्यांची अरेरावीची वृत्ती आनी समाजांत बायलांचेर वाडपी घडोघडी अन्याय पळोवन मन बंड करपाक तळमळटालें. हें खंयतरी आडावपाक जाय. थांबोवपाक जाय. म्हाका असह्य जातालें. आई हें एक प्रातिनिधीक रूप धरलें जाल्यार तेन्नाच्यो भौतेक बायलो रांदनीक फूंक मारीत रुचीचीं सुरबूस खाणां आनी जेवणां रांदून घोवाक भुरग्यांक घालून आपल्या जिविताचें 'सार्थक' करून सोंपल्यो. ताच्या आंगांतले कलागूण कोणे पारखिलेच नात. बायलेचो उपेग हो दीसभर वावराडेपण करपाक आनी रातची घोवान भोगपाक, इतलोच. तिच्या मनाचें आनी भावनांचें कोणाकूच पडून गेल्लें नासतालें. एक गुरवचार आनी बाळंटेर हाका बायलेची कितलीं शारिरीक शक्त खर्च जाता आनी मानसीक अस्वस्थताय इबाडटा हें तेदेवेळार म्हाकाय खबर नाशिल्लें. भुरग्यांचो जल्म कसो जाता, बायलेच्या गर्भांत भुरग्याचें बीज कशें फळटा हाचें कुस्कुटाचेंय गिन्याय म्हज्या भुरग्या मनांक नाशिल्लें.

कितलो तीव्र आसता वसनाभोग! एका भुरग्याचो जल्म म्हणल्यार बायलेक भोगतात ते कश्ट आनी वेदना! एक दोन बरें आसा. फाटोफाट एकार एक धा गुरवचार म्हणचेच धा बाळंटेर! कशें सोंसलां आसूं येता म्हजे आवयन! जेन्ना थोडें थोडें कळपाक लागलें तेन्ना हांव हिशोब करपाक लागलें. १०×९=९० म्हयने. दरेका भुरग्याक दूद दिवप बी म्हणल्यार दरेका भुरग्या फाटल्यान बाळंटेराचे तीन म्हयने धरल्यार १०×३ = ३० म्हयने जाले. ९०+३०=१२० म्हयने. म्हणल्यारच एकूण १० वर्सां जातात. लग्ना उपरांतची तिची हीं धा वर्सां अशीं बायल धर्म निभावपाक गेलीं. मागीर तांकां वाडोवप, तांचीं लग्नां करप. धुवांल्या पयल्या भुरग्यांचो बाळंटेर काडप! ते आवयक कितलें धकचपाटे जाताले तें येवजूनच जीव कासावीस जाता.

बापायक कांय पडून वचूंक नासलें. अर्दीमर्दी नाच जावपाचें एक सूत्र बरें सापडिल्लें. त्या वेळार एक गजाल सारस्वतांमदीं आशिल्ली. घरची गजाल वाऱ्यार न घालपाची खबरदारी कांय मठग्रामस्थांनी उखलिल्ली. आमच्या घरांत जायते खेपो बापाय खातीर किजिलां जातली. केन्ना परती जाप आयकुपाची ताका संवंय नासली. पोसको म्हणटकच चडूच लाडाविल्लो. आपणाक कितेंय म्हणलें अशें कानार पडलें काय खंयच्यान चाळवत येतालो आनी आंगांत म्हारू संचारिल्ल्यावरी अवतार घेतालो. शेजारी पाजारी आयकता ताचें भानय दवरीनासलो. आनी बडबडत पांयांत जोतें चडोवन नाच जातालो. मागीर आपणाक जाय तेन्ना येतालो. केन्ना केन्ना घरांत जेवनासलो. तेन्ना आई भिताली. घरांतलो मनीस उपाशीं रावप बरें दिसना तिणें म्हणप. मागीर व्हडल्या भावांनी म्हणप, तागेलो वांटो रांद आनी ताका काडून दवर. ना जेविना जाल्यार घाल माजरांक. अशें कितलें दीस म्हण करतली? एक दीस ही गजाल चार प्रतिष्ठीतांच्या कानार पावताली. मागीर आमगेर कोर्टसभा जाताली... हें सगळें म्हज्या दोळ्यांनी हांव पळयतालें. बायलांनी एकेवटेन रावप काळखांत कशें आनी ते चार लोक भाव. बापूय एके वटेन. बापूय कागाळ करी, आपणाक अशें म्हणटा तशें म्हणटा. फालतू. पूण सगळे आयकून घेतालें. दोश कोणाक, तर आवयक. बायलेन घोवाक परती जाप दिवंक फावना. रेस्पेदान वागपाक जाय. ताका वेळार जेवण आयदनात घालून दवरचें. तो येवन घेवन जेवतलो. जाली जुस्तूश! बापूय खूश. दालें ताचेंच जड. म्हाका त्रास जातालें. बायलेचो इतलो घुस्मटमार! केन्नाय मामा येवन निवाडो दितालो. तोवूय ताचीच बाजू घेतालो. म्हजे तकलेर हातोडी मारिल्ले भशेन सणसणीत वार बसतालें. कांयच करपाक मेळनासलें.

अशा घुस्मटमारांतल्यान पूण बंडाचो एक भगभगतो कवदो काळजांत पेटिल्लो घेवन वाडत गेलें हांव. पिराय वाडटां वाडटां विचारांत बदल घडत गेलों. पूण म्हज्यांत एकल्यामदीं हो बदल घडून कितें जांव येता? हो येदो व्हडलो समाज आसा, तातूंत दर वर्सा सुतां पुनवेक गळ्यांतलें जानवें काडून नवें जानवें गळ्यांत घालपी आनी भुरग्यांची मुंज करूंक ना जाल्यार लग्न आदीं ती बळयां करून बामणपणाचो अभिमान बाळगुपी कितलिंशींच कुटुंबा म्हाका कशींच वगी रावपाचीं नासलीं. हांव ज्या इश्टिणीं वांगडा भोंवतालें तांची लेगीत वळख घरांतल्याक, चड करून बापायक खबर आसली. हांव कसलें तरी नांवाडगेपण करतलें हें तो जाणा आसलो. म्हाका सामकों पातयेनासलों. हातूंतल्यान हांव भायर सरपाक सोदीं. पूण ते खातीर पयलीं म्हाका आपल्या पांयार उबें रावपाइतले अर्थीक फाटबळ जाय आसलें.

शिक्षणाचो प्रसार ल्हवू ल्हवू वाडत वतालो. चलयांनी शिकपाक जाय हे विशीं जाणीव जाताली. ह्या वातावरणाची चड जागरूकताय आशिल्ली ती आईक. तिणें भोगिल्लीं पुरुषप्रधान संस्कृतायेतली अपमानीत जीण आनी तातुंल्यान उपरासपी तिगेल्यो मानसीक वेदना हांव नियाळटालें. आपल्या त्या अर्थशून्य जगपांतल्यान तिका सभाविकपणान दिसतालें - चलयांनी परावलंबी जीण जगनासतना स्वावलंबनान जगपाक जाय. म्हज्या बाबतींत तरी ती बरीच शिटूक आसलीं. हुंडो म्हणून आंगा खांदार भांगराच्यो गडगंज वस्ती घाल्ल्यो आसतनाय चार पयशां खातीर लेगीत घोवा मुखार हात पसरचे पडटात आनी मागीर उणेदुणे उलोवन तो भीक घाल्ले भशेन शेंवटून उडयता तशी गत म्हजी जावची न्हय ही काळजी तिका आसलीं म्हणून ती म्हाका अदीं मदीं म्हणीत आसतली, कितलेय त्रास पडूं पूण शीक आनी नोकरेक लाग. हातांत पयशें घोळपाक लागलें काय आपशींच झेत येता. म्हजो संवेदनशील सभाव आनी स्वतंत्र विचारान जगपाचीं तिणें नोंद घेतिल्ली.

कोंबांतलें दामोदर विद्यालयांतलें मुळावें मराठी शिक्षण सोंपोवन पोपुलार हायस्कुलांत फुडलें इंग्लीश शिक्षण सुरळीत गेलें. सकयल्या बाजारांत पुर्तुगेज वर्ग. प्रेमेर ग्राव आनी सेगूंद ग्राव अशे दोन वर्ग पुर्तुगेज शिकलें. मनांत एक हावेस आसलो दोतोर जावपाचे. तेन्ना तें व्हडलेशें कठीण नासलें. कित्याक तर शिक्षणांत तशी आतांचे सारकी सर्त नासली आनी हांव डिस्टींकशनांत पास जातालें. इकरावी म्हणल्यार मेट्रीक. पुणे बोर्ड. परिक्षेक बरें मार्क मेळूंक जाय म्हण गणीत आनी विज्ञान आवडीन शिकूंक लागलें. निमाणें सगळ्याच विशयांत मार्क बरे पडलें. त्या काळार एक ट्रेंड असो जाल्लो हुशार आसलें जाल्यार ताणें विज्ञान शाखेंत प्रवेश घेवप आनी एकतर दोतोर वा इंजिनीयर जावप नाजाल्यार हेरांनी कला शाखेंत वचप. हांवें कितें करप? प्रस्नूच नाशिल्लो. विज्ञान शाखा म्हजे खातीर प्राधान्य क्रमाचेर थरिल्लीं. पूण भवितव्य म्हज्या हातांत खंय आशिल्लें तर?

म्हज्या शिक्षणाची जापसालदारकी भावांचेर उरिल्लीं. मोठी उमेद जाल्लीं म्हाका हांव दोतोर जातलें म्हणपाचीं. म्हज्या शिक्षणाच्या फुडाराचो प्रस्न मातसो पेंचांत घालपी थरलों. निकाला उपरांत मार्कशीट घेवन भावां मुखार बसलें. वातावरण टेन्स, 'कितें करता तूं?' 'सायन्सीक वता.' 'सायन्सीक वचून कितें करतलें?' 'मेडिकलाक वतलें, दोतोर जातलें.' भावांचेर दडपण आयिल्ले भशेन दिसलें. कितें जालें तें म्हाकाय कळ्ळें ना. 'पूण दोगांचो खर्च आमकां परवडचो ना.' हांव अजापलें 'कोण दोगां?' 'तुजो भाव इंटर सायन्सीक आसा. आमी ताका मेडीकलाक धाडपाच्या हेतूनच सायन्सीक धाडला. आमकां धुम टकाराच्या घरांतलो दोतोर जाल्लो जाय. तूं दोतोर जावन कितें कतलें? लग्न जावन तूं दुसऱ्या घरा वचपाचें. तुजें नांव बदलतलें.' चलयांच्या शिक्षणा कडेन असो संबंध जुळयिल्ल्याचे हे वृत्तीन हांव अस्वस्थ जालें. अशें जायत हें हांवें चितूंक नासलें. हांव रडकुरें जालें. तरी हांवें नेट दाखयत म्हणलें, 'पूण ताका उणी परसेंटेज मेळटा. एडमिशन मेळपाक त्रास जातलें.' 'ट्यूशनाची वेवस्था करतात.' म्हजी ही हार जिविताच्या अखेर मेरेन काळजाक दूख दीत रावतली.

कॉलेज जिवींत हें म्हजे खातीर खोसदिणें आशिल्लें. अर्थशास्त्र आनी राज्यशास्त्र हे कठीण विशय घेतिल्लें आनी तातूंत हावें रस घेतिल्लों. काळ मजेंत वतालो पूण म्हजे खातीर तो विचारांची बुनयाद घालपी थरलों. घरांतलीं किजिलां, तंटे हातूंत चड लक्ष दिलेंना. समाज सुदारपाचो आसा जाल्यार पयलीं आपले विचार पक्के करपाक जाय हें हांवें थारायिल्लें आनी ते नदरेंतल्यान म्हजी वाटचाल चलतालीं. बापायचे झळकेक चड रावनासलें. कॉलेज जिवितांत चली म्हण जायते अणभव आयलें. चल्यांची चलयां कडेन पळोवपाची नदर कितली दुशीत आसता तेंवूय पळयलें. सुंदर दिसपी चलयांक कितले भिरांतीन दीस काडचे पडटात ताचोय अणभव घेतलों. तांकां सुरक्षा दिवचे बदलां दादल्यांची आक्रमक वृत्ती पळयलीं आनी मागीर केन्ना केन्ना तांचे विशीं हिणकस भावनाय मनात निर्माण जालीं. हातुंतल्यान तयार जाली म्हजी 'निर्बळा'. समाजांतले हे वृत्तीचेर विचार करताना आनी कॉलेजींत वावुरतना चलयांक मन सोडून भंया विरयत वावरूंक मेळचें म्हण अखिल गोंय विद्यार्थी संघटना घडली. अन्याया आड विचार आनी प्रत्यक्ष कार्य हें म्हजे कारकिर्दिचें मुळावण म्हणू येत इतलें तें खर आशिल्लें.

सप्तकांतल्यान दोन फावटीं तरी आमचें प्रत्यक्ष मेळप जातालें. पणजे समर्थ अभ्यास मंडळ तशेच मडगांवां संस्कृत प्रचारिणी सभाघरांत आमी समविचारी चले चलयो मेळून चर्चा करतालीं आनी ते भासाभाशेंतल्यान कितलेशेच विचार भायर सरतालें. हातूंत सामाजीक, साहित्यीक आनी राजकी घडणुकांचो आसपाव आसतालो. वाचन जबरदस्त तेन्ना. गोमंत विद्या निकेतन वाचनालयांतली पुस्तकां नेमान व्हरतालें. तेच बरोबर कोणालीं मेळटालीं तिंवूय हाडून वाचून जातकच परत दितालें. हातुंतल्यान विचारांत भर पडत गेली आनी विचारांचो प्रभाव मनाचेर दाटून उरलो. केन्नाय तो कृतींतल्यानय भायर सरकच बापायचे थोमणे

घेवचे पडटालें. परती जाप करिनासताना मोन्यानी आयकतालें.

एका पुस्तकान तर म्हजेर आकांताची जादू केली. तें पुस्तक म्हणल्यार मॉक्सीम गोंकीची कादंबरी 'मदर'. इंग्लीशींतल्यान वाचली आनी मराठींतल्यानय वाचली. हे कादंबरींतल्यान म्हाका क्रांतिकारी जगाची भोंवडी घडयली. म्हाका एक विशाळ नदर दिली. आमी फकत आमचें कुटुंब हेंच सर्वस्व अशें चिंतताात हो कितलो अटूक विचार अशें दिसलें आनी मागीर म्हज्या विचारांचो कॅन्वासूच बदलून गेलों. अन्यायाआड आवाज काडपाचें बळगेंशें ल्हवू ल्हवू येवपाक लागलें. बुद्‌धवादी मनशां आवडूंक लागलीं. वेगवेगळ्या विशयांचेर वाद घालप, चर्चा करप असल्यो गजाली आवडत गेल्यो आनी ह्याच वेळार कोंकणी समर्थकांच्या जाळांत घुस्पलें.

कोंकणी भाशा मंडळांत बसका जाताल्यो. तातूंत म्हजो सहभाग आसतालो. हांव एकलेंच चली जाल्ल्यान कोंकणीतले ज्येश्ठ लोक म्हाका बरें करतालें आनी ताका लागून एक ओड, माया निर्माण जाल्ली. गुरुनाथबाब केळेकार, चंद्रकांत केणी, मनोहरराय सरदेसाय, सुरेश काकोडकार, उदयबाब भेंब्रे ह्या कोंकणी लोकांच्या आदर्शा खाला आनी मार्गदर्शना खाला हांव मडगांवांत वावुरतालें. उल्हास बुयांवांच्यो बऱ्योचशो यादी गांठीक आसात. चौगुले कॉलेजींत शिकतना आमी चार-पांच जाण मेळून मदीं मदीं मनोहरबाबांगेर वतालीं. थंयच रावताली. माई आनी तांचीं भुरगीं मायेस्तपणान वागतालीं. साहित्याचेर उलोवप जातालें. मनोहरबाब आपल्यो कविता वाचून दाखयतालो. बाकीबाबागेर मदीं केन्नाय बोरये येतालीं. तांगेरय आमकां आदराची वागणूक मेळटालीं. तांच्या तोंडांतल्यान कविता आयकुपाचें जें भाग्य मेळ्ळें ताचें मोल करूं नजो इतलें अप्रूप. पणजे गेल्यार म्हजें रावपाचें एकमेव ठिकाण आशिल्लें ते मळ्यांत नागेशबाब करमलीगेर. नागेशबाबांचेर म्हज्या कुटुंबाचो सामको विस्वास. नागेशबाब आसा म्हणल्यार म्हाका खंयूय धाडपाक तीं तयार आसतालीं.

कोंकणीक साहित्य अकादमीची मान्यताय लेगीत मेळूंक नाशिल्ली. तेन्ना आनी ती मेळपा खातीर करपाच्या यत्नांची आंखणी करपाक बारीक बारीक बसकां जाताल्यो. त्या बसकांनी म्हजी हाजेरी आसताली. वेलंगां ते खातीर एका दिसाचें शिबीर घेताले. त्या शिबिराक गोंयच्या वेगवेगळ्या वाठारांतल्यान कोंकणी मोगी येताले. तांचे कडेन म्हजी वळख जावपाक पावली.

नूरद्‌दीन मवानी आनी पंढरीनाथ शेणवी लोटलीकार हे कोंकणी खातीर सामकें पोटतिडकीन उलोवपी आनी वावुरपी. कोंकणी लोकांम दीं वावुरतना एक आपुलकाय जाणवताली. तांची उमेद आनी तळमळ खऱ्यांनिशीं तोखणाय करपासारकेली. कोंकणीक गरज तें दिवपाची तांची तयारी आसताली. बसका घेवपाक सुवात वा खर्च करपाक पयसो दिवपी अशे लोक पळोवन मन भरून येतालें. वेलंगाच्या शिबिरांतल्यान कोंकणी खातीर सेवाभावी वृत्ती आंगांत बळावत गेली.

८ मार्च १९७३ हो जागतीक महिला दिन म्हजे यादींत कोरांतून दवरिल्लो उरलां. वीस वर्सांची पिराय म्हजी. अखील भारतीय महिला फेडरेशनचें कोलकोत्याक अधिवेशन. म्हजो दुसरो भाव कम्युनिस्ट विचारसरणेचो. बँकेंत नोकरी करतालो. आनी तातुंतल्या कर्मचारी युनियन संघटनेचो एक जाळवणदार आसलो. हांवें त्या अधिवेशनाक वचचें अशी ताची इत्सा. तशें भायर एकलें वचपाक हांव नवीनच. पूण हो भाव म्हाका असल्या कामांत उमेद हाडी. ताणें बळयां म्हजें मन थंय वचपा खातीर तयार केलेंच. मडगांवच्यान मुंबय वचपाचें आनी मागीर मुंबयसून महिला फेडरेशनचो एक बायलांचो पंगड वचपाचो आशिल्लो थंय हांवें सामील जावपाचें. तशें तें भिरांतिचें आशिल्लें पूण म्हज्यांतलें धाडस म्हाका हांगा उपकारा पडलें. मुंबय स्थायीक जाल्ल्यो गोंयच्यो प्रेमा गुरव ह्या पंगडाच्यो पुढारी. तांणी म्हाका आपल्या पंगडांत आसपावन घेतलें. रेल्वेची एक बोगीच बूक केल्ली. सत्तरेक बायलो आशिल्ल्यो. तांच्या मदी तरनाटें तें हांव. बाकीच्यो सगळ्यो जाणट्यो. एक ऐंशीं वर्सांची लेगीत आसली. दोन रातिचो प्रवास. पदां म्हणप, कविता म्हणप, भेंड्यांनी खेळप अशें चलतालें. केन्ना हिंदींत तर केन्ना मराठींतल्यान. तांणी म्हाका म्हणपाचो आग्रो केलो आनी हांवें मराठी पद म्हणलें. सगळी जाणां तोंड वरशें करून म्हाका पळयतात. कितें जालें म्हाका कळ्ळें ना. तर तांकां मराठींत न्हय तर म्हजे भाशेंत जाय आशिल्लें. झक मारीत म्हाका कोंकणींतली पदां सोदून येवजून म्हणचीं पडलीं. तातूंत धालो आशिल्ल्यो, फुगड्यो आशिल्ल्यो तांकां ती इतलीं आवडलीं, ताणी आमचे कोंकणी भाशेची तुस्त केली. कोलकोत्याची ही म्हजी भेट म्हजे जिणेंत एक टर्निंग पॉईंट थरली. दोन दिसांचे अधिवेशन. अधिवेशनांत जगभरांतल्या बायल प्रतिनिधींची हाजेरी आसली. मुंबयच्या गोवालीया टेंक मैदानाचेर हिंदुस्तानाचो तिरंगो घेवन हुबोवपाक धांवपी तेन्नाची तरनाटी अरुणा असफ अलीची पिराय अधिवेशनांत सुमार ६५ वर्सां. तो एक वेगळोच अणभव आशिल्लो तो. प्रेमा गुरव हांणीं सांगलें, 'गोंयांत वच आनी पंगड करून बायलां मदीं जागृताय घडोवन हाड. तुजी जबाबदारी.' एक आगळो वेगळो आव्हानात्मक संदेश घेवन गोंयां परतलें.

म्हज्या ह्या धाडसाचें कोंकणी लोकांमदीं अजिबात कवतून जालें ना. तांकां कोंकणी सोडून आनीक कांय खपनासलें. चड करून म्हज्या बरोबरच्या सांगात्यां कडसून. तांणी म्हजी टर उडयली. म्हाका दुखसारक्या उतरांनी म्हज्या वचून येवपाच्यो बकच्छायो केल्यों. खूब वायट दिसलें. म्हज्या ह्या धाडसाचीं फकाणां करपी एक पत्र हांवें बरोच तेप जपून दवरिल्लें. आजूनय सोदल्यार सापडटलें पूण आतां तें झरोवपाची इत्सा ना हांवें ती शीम वलांडिली आनी ते तर ते शीमे लागीं लेगीत पावले नात.

पूण गोमन्तकाचे तेन्नाचे संपादक माधवराव गडकरी हांणी म्हजी मुक्त कंठान तुस्त केली. आनी आयताराचे पुरवणेंत म्हजी मुलाखत उजवाडाक हाडली. कितलें बुल्लुसलें हांव! पयली मुलाखत म्हजी.

हांव कोलकोत्याच्या अधिवेशनांत वचून आयलें हें म्हजें धाडस आसलें हें बरोच तेप म्हाका खबरच नाशिल्लें. ते मुलाखतींतल्यान तें जाणवलें.

हांव कोलकोताक वचून आयलें तेन्ना म्हाकाच दिसलें म्हजो म ातसो दर्जो वाडला कसों. पेपराचेर मुलाखत छापून आयल्ली, म्हजी तोखणाय जाली.

गडकरींची आनीक एक याद गांठीक आसा. कॉलेजींत शिकतनाची खबर. तिनसांज जाल्ली गोमंत विद्या निकेतनांत पुस्तकांच्या निमतान वचपाची संवंय. त्या दिसा एक सभा चलताली भितर सरलें. मडगांवचे प्रतिश्ठींत लोक फुडें कदेलांचेर बशिल्लें. चडशे जाणटेलें. तरनाटे साप उणें. हांव खांकडत कशें फाटल्यान बसलें. परिसंवाद चलतालो. तेन्नाच्या काळाक फावसारको विशय... हुंडो घेवप बरें काय वाईट? त्या काळार बऱ्याचशा लोकांक हुंडो घेवप पसंत आसलें. चलयेक प्रोपर्टीचो वांटो कोण दिता मागीर म्हणून लग्ना वेळार बापायन आपले धुवेक हुंडो दिवपाक जाय, असो न्हवरेकारांचो आग्रो आसतालो. आनीकय एक मत प्रचलीत आसलें ते म्हणल्यार आपल्या पुताक इतलो शिकयलां, दोतोर केला वा इंजिनियर केला ताका तशें मोल आसा. तो फाल्यां बायलेक पोसतलो. आवय बापायन ताचे खातीर इतलो पयसो खर्चिलां तातुंतलो थोडो तरी मेळपाक जाय देखून हुंड्याची ही प्रथा बरोबर आसा. नाका म्हणपी थोडे आशिल्लें. हांव फाटल्यान बसून बाबडें जावन आयकतालें. म्हाका भितरल्यान तिडक मारताली. चली म्हणल्यार कितें विक्र्याची वस्त? मोल थारावपाक? अध्यक्षस्थानाचेर संपादक माधव गडकरी आशिल्लें. तांणी खंयच्यान तरी म्हाका पळयलें. तेन्ना हांव सामकें साबळें स्कर्ट ब्लावज घालपीं. केंसांच्यो दोन विणयो आनी आंगान हाडकुळें. सगळ्यांचें उलोवन जालें तशे अध्यक्षांनी उलोवपाचें आशिल्लें. पूण मायक हातांत घेवन तांणी म्हणलें, 'ती तिकडे हेमा धुमटकर बसली आहे तिला बोलू दे.' म्हज्या पोटांत पांच पांच. म्हाका हें अनपेक्षीत नासलें. गोमंत विद्या निकेतनचे जाळवणदार म्हजे शेजारी, पूण तांचे नदरेन तर हांव किरपीन आनी येदो व्हडलो संपादक म्हजे नांव घेवन म्हाका उलोवपाक आपयता ताचें म्हाका कवतूकच न्हय तर खोस जाल्ली. पूण भियेल्लें हांव आकांताचें. ताणें परतून म्हणलें, 'तुला काय वाटते ते बोल. आणि कोंकणींतून बोल. सामाजीक विषय आहे हा.' सगळे फाटल्यान वळून म्हाका पळोवपाक लागलें. आनी म्हाका एकदम चेव कसो आयलो. हांव नेटान पावलां आपटीत मायका म्हर्यांत गेलें आनी एक तोफ सोडली. म्हज्या भाशणांतले मुद्दे हुंड्या विरोधी आशिल्लें. हुंड्यांची प्रथा बंद करपाक जाय अशे तरेन हांव उलयलें आनी एक वाक्य आजूनय म्हज्या कानांत घुमता तें म्हणल्यार 'हुंडो घेतात त्या न्हवऱ्यांची धींड काडपाक जाय' अशें हांवें म्हणलें तेन्ना सभाघरांत थोडीशी कुजबूज जाली. म्हजें असलें सडेतोड उलोवप तांकां मान्य नाशिल्लें हें कळटालें. अध्यक्षीय भाशण जालें आनी तातूंत म्हज्या नांवाचो उल्लेख आशिल्लो. विचारवंतांच्या सहवासांत राविल्ल्यान सामाजीक जाणिवांचें तत्वज्ञान प्रभाव घालपाक लागलें, कोंकणी समर्थकां बरोबरच अशा बुद्धिवान लोकां बरोबर रावप म्हाका पसंत आसलें.

गुरुनाथबाब केळेकारां संबंदी खूब यादी आसात. आक्यां तांचें एक दुकान आशिल्लें. फर्निचराची एजन्सी आशिल्ली. कदेलां, सोफा बी. अदीं मदीं गिरायकां येतालीं. हांव वतालें केन्ना केन्ना. एक दीस तांच्या दुकानार बशिल्लें आसतना एक व्यक्ती भितर सरली. हांव कोण हो प्रस्न आसलो ताचो. गुरुनाथबाबान जाप दिली, 'हेमा धुमटकार.' 'म्हणजे तो बँकेंत आसा ताची भयण?' हांव हय म्हणपाक वतालें, इतल्यान तांणी म्हणलें, 'हें हेमा. हाका ताच्या नांवा वयल्यान वळखपाचें. हाचें कोण आनी ताचें कोण अशें न्ही. ताका एक वेगळी आयडेंटिडी आसा. ताका ताचे विचार आसात.' तो अजापलोच पूण म्हज्यांत एक वेगळेंच धाडस कशें आयलें. दर एक व्यक्ती आपल्या विचारां प्रमाण घडटा आनी तसो तो वाडत वता. म्हाकाय म्हजे म्हणून वेगळे विचार आसात हाची तेच घडकेक जाणीव जाली.

शिकपाचें खूब मनांत आशिल्लें. एम.ए. करपाची मागीर पी.एचडी करून दोतोर ही पदवी नावा मुखार लावपाचो एक घोस्त कसो आशिल्लो मनांत. पूण आर्थीक नदरेन स्वावलंबी जावपाचो विचार केन्नाच्यान सतायतालो. हातांत पयशे जाय आशिल्लें. कोणाचेर भार जावन जगप म्हाका पसंत नासलें. घरच्या वातावरणाची उबगण आयिल्ली. घरांतल्यान भायर सरन दिसतालें आनी ताका लागून नोकरेचे सोदीक लागलें. तिवूय मेळ्ळी. गोवा अर्बन कोऑपरेटीव्ह बँकेंत. पगार तसो कमी पूण भागतालें. आर्थीक नदरेन मातसो सुशेग जालो.

तशें हांव उमेदी आशिल्लें. चार लोक वळख दाखयतालें. वाटेर मेळ्ळ्यार कोणूय हटकितालो. एकल्यान प्रवास करपाक तसो भंय दिसनासलो. मातशें धाडस आयिल्लें. सुरवातीक म्हजी पोस्टींग सांवड्डया जाल्ली. मडगांव ते सांवड्ड्यां सकाळीं वतालें. तें रातचें घरा. केन्नाय रेल्वेन तर केन्नाय बसीन. आख्खो दीस वतालो. पूण एक समादान जाल्लें. ग्रेज्यूएट जालें, नोकरी मेळ्ळी. तेन्ना बी.ए. करप म्हणल्यार खूब कौतुक. ते खातीर नोकरेंत एक काय दोन इन्क्रिमेंट आसताले. आनी एक दीस अकस्मात एके बरे संदीची बातमी घेवन म्हजो दुसरो भाव आयलो. तो तेन्ना एके बँकेंत नोकरेक आशिल्लो. म्हणपाक लागलो, एक बरी संद आयल्या. रशियेक वचपाची, कोलकोत्याक गेल्लें तेन्ना तुजें नांव थंय पावलां. तुजो स्मार्टनेस तांणी पारखिलां आनी तूं शिकलां. तुवें तीन वर्सां थंय रावपाचें. हांगासावन व्हरपाची जबाबदारी तांची. ट्रेनिंग, जॉब आनी रावपाची वेवस्था जातली. आसा तयारी जाल्यार पळय. वचनशें दिसतालें. पूण इतले पयस म्हणल्यार भिरांत कशी. नवोच जॉब मेळ्ळा. कितें करपाचें? हावें विचारलें. 'नोकरेचे कितें?' 'परतून येतकूच तुका आसा तशी नोकरी मेळटली, नाय जाल्यार तुजी तयारी आसल्यार दवरीत तुका थंय. म्हाका हें सगळें अनपेक्षीत आशिल्लें. इतले पयस वचप आनी मागीर

थंयच रावप. भिरांत दिसली. गेल्यार बरेंय जावपाचें पूण येन दिसल्यार येवपाक मेळचें ना. मन तयार जायना जालें. तातूंत आईच्या कानार पडना फुडें तिणें आकांत केलो. नाका तें नाका म्हणपाक लागली. आपूण इतले पयस ताका धाडपाक तयार ना म्हण हट्टच धरलो. तिच्या हट्टा मुखार म्हजो सगळो प्लान फसलो. गजाल तेन्ना कोंकणींतल्या म्हज्या बरोबरच्या लोकांक सांगली तेन्ना एकतर तांणी म्हजीं फकाणां मारलीं आनी दुसरें म्हणल्यार हांवें वचचें न्हय अशी तरणे उमेदीचेर विरजण घाली. जालें. संद गेली.

कोंकणीच्या बसकांनी, सभा, संमेलनांनी खूब जाणांक मेळप जातालें आनी हांगा जायत्या जाणां कडेन वळख घडली. तातूंत चड ओडून गेलें तें पुंडलीक नायक हाचे साहित्यीक प्रतिभे कडेन. म्हज्या फुडाराचे नदरेन एक आस मनात बाळगिली. दिसलें, म्हज्यांतले साहित्यीक गूण वाडोवंक आनी शिक्षणाचे बाबतींत तशेंच इतर कार्याचे बाबतींत अतृप्त उरिल्ल्यो म्हज्यो इत्सा भागोवपाक म्हाका ताची मदत जातली. दोगांयच्या मिळून जुळून वागपांतल्यान कोंकणी आनी साहित्य हातूंत आमची बरे तरेन वाटचाल जावूं येता.

प्रकरण तशें सोपें नाशिल्लें. घरांतल्यान खर विरोध जातलो हाची सुलूस म्हाका पयलींच आसली पूण तांतले तातूंत नोकरी ही म्हजी थाकाय आसली. म्हाका समजावपाचो तरातरांनी यत्न जालो. भावांनी समजायलें, भयणिंनी समजायलें. पूण म्हजें शिक्षण तेन्ना म्हज्या मनाचेर परिणाम जावंक पावलो ना. जात, संस्कार, नोकरी सगळें ताचे परस वरचढ आशिल्लें. ताका लागून म्हजेर वेगवेगळीं दडपणां येवपाक लागलीं. 'लग्न जातना सदांच चलयेन चिंतपाक जाय, आपले परस उच्च वर्गांतल्या चल्या कडेन संबंध दवरपाक जाय. चलयेक एक नवें बऱ्यापैकी घर दार मेळटां.' म्हाका उपदेशाचे डोस मेळटाले. 'पळय, तूं तुजे संमतीन लग्न जालां. आमकां मान्य ना. तुजो फुडार तुज्या हातांत. वेळ काळ प्रसंग तुका समजून घेवन वागचें पडटलें, तुवें आमकां लज केल्या.'

हांव समजपाचें तें समजलें. म्हजें ह्या घरांत जाय तशें स्वागत जावचें ना हाचो म्हाका अदमास आयलो. हांवें जर एखादी चूक केल्या आसत जाल्यार ताचें पानवळ भोगपाची म्हजी तयारी आसली. म्हजे खातीर दुसऱ्यांक त्रासांत उडोवपाची म्हजी इत्सा नासली. म्हजो सगळो भरिभार त्या व्यक्तिचेर आशिल्लो. जे व्यक्तिच्या भरवंशाचेर हांव म्हज्या आवय बापायलें घर सोडून ताचे बरोबर वचपाक भायर सरिल्लें. परकी गांव, परकी मनशां. मनांत भिरांत आसली खरी. घोवाल्या पावलार पावल दवरून चलपाची होमाची सप्तपदी म्हाका नाका आसली. पूण म्हाका समजून घेवपी आपल्या हाताचें बळगें म्हज्या हातांत हांवें मागिल्लें. ताचो गांव, ताचीं मनशां कशींय आसूं पूण ताच्यांत हांवें म्हजें सर्वस्व अपेक्षीत धरिल्लें. घर, मनशां, समाजांतली जातीय प्रतिश्ठा हांचो त्याग करपाची तयारी हांवें केल्ली. अशा वेळार म्हाका समजून घेवपी कोण नाशिल्लो. हांव एकलें आनी एकल्यानच हो धाडसाचो निर्णय घेतिल्लो. फक्त एकूच मागणें आशिल्लें म्हजे, म्हजी पिराय तेन्ना २५ वर्सांची. नोकरेक लागून फक्त तीन वर्सां जाल्लीं. हातांत पयशांची पुंजी नाशिल्ली. तो तर हायस्कुलांत शिकयतालो आनी ताणें ट्रेनिंग करूंक नाशिल्लें. त्याच वर्सा भितर एक तर ताका ट्रेनिंग करपाचें आशिल्लें ना तर नोकरी सोडपाची. पूण ताणें कसलोच विचार केलो ना. तो बेगीनात बेगीन लग्न जावपाक सोदी. घडये ताका तशीं भिरांतय आसुंये म्हजेर दडपण येवन हांव आपणाक सोडीन म्हणून. हांव आनीक दोन वर्सां रावपाक सोदी. म्हजेकडेन पयशांची थोडीशी बचत जातली आशिल्ली. ताचे नोकरेचें जाग्यार पडटलें आशिल्लें आनी पणजे वाठारांत एखाद्रें भाड्यान रावपाक बिराडय मेळूं येतालें. पूण ताणें कांयच आयकलें ना. घरांत बापायन मोठो बोवाळ केलो. तो तेन्नाचो काळ. आपल्या भुरग्याचें यजमानपण करप ही आवय बापाय खातीर सुखद घडणूक. पूण म्हजें आंतर-जातीय लग्न. बापूय खर जातीयवादी. म्हजें वागप ताका मान्य नाशिल्लें. जायते फावटी ताच्या ताणोवण्यातल्यान ते उकतें जातालें. आवयन येजमानपण करपाचो विचार मांडलो 'हेमाच्या लग्नाचें...' जाल्यार ताणें सांगलें 'हांव येजमानपण करचों ना. म्हाका पाटार बसपाचें ना.' आई बाबडी जाली. 'मागीर कितें करपाचें तर?' आईचो काकुळटवाणो चेरो म्हज्यान पळोवं नज जालो. हांवें म्हणलें, 'हरकत ना, म्हाका धर्मीक शास्त्रां प्रमाण लग्न करपाचें ना. रजिस्टर करतां हांव.' ती आपल्या भावाक सांगूंक सोदी. पूण म्हाका तर नाका आशिल्लें. तिचो अपमान जाल्लो म्हाका सोसचें नाशिल्लें. तरी तिणें धाडस केलेंच. मामाची एक संवंय. तो आमगेर अदीं मदीं येतालोच भयणिचे खबरेक. पासयो मारता मारता भयण आपल्या मनांतल्यो गजाली काना कडेन गुणगुणटाली. त्या दिसा म्हजो विशय आसलो. तिणें म्हणलें ताका, 'आरे हेमालो बापूय म्हणटा आपूण येजमानपण करचो ना म्हण हेमालें. सदाशिवा, तूं पळयता मरें?' आनी तो केद्यान उसळ्ळो तर! 'हांव करूं? धुमटकार करचो ना आनी हांव करूं? म्हज्यान जावचें ना.' पांयांतल्या व्हाणांचो करकर आवाज आनीक नेटान जालो. आई रडकुऱ्यां पावली. हांवें म्हणलें, 'कितें केलां जालां तर तें हांवें केलां. तुका कित्याक हीं उलोवणी? हांव रजिस्ट्रेशन करतां आनी मेकळें जातां. आनी म्हाका कांय नाकाय बी तुमचें.'

असोच एक घुस्मटमाराचो प्रसंग तिचेर आयिल्लो आनी बापायक लागूक तिका यजमानपण करपाक मेळूंक नाशिल्लें. म्हज्या व्हडल्या दोगीय भयणीं मदीं देड वर्सांचो फरक. दोगीय वांगडाच वाडिल्ल्यो. चड शिकिल्ल्यो नाशिल्ल्यो. अर्थांत त्या काळार चलयांच्या शिक्षण व्हडलें म्हत्वाचें नाशिल्लें. पूण सोयरीगती जुळप भोव कठीण आशिल्लें. शिक्षण ना, नोकरी ना आनी ताका लागून चलयांचें भायर भोंवप नासलें. घरकामां करीत उरतालीं. मागीर कोणा अनवळख्या कडेन सोयरीगती जुळोवपाचे प्रसंग येताले. व्हंकलेक पळोवप आनी तिची परीक्षा घेवप हो एक मोठो आक्तूच आसतालो. न्हवरेकारांनी व्हंकलेक पळोवपाक व्हंकलेगेर येवप. ताचे पयलीं व्हंकलेचो एक फूल सायज हातांत एक

पर्स घेवन आनी मेजार हात दवरिल्ल्यान ते पोजींतलो फोंटों काडप. फोटोग्राफराक तें जुस्त जमतालें. तो फोंटों आनी जातक (टीपण) पयलीं न्हवरेकारागेर धाडप. जातक गरजेचें आसतालें. चलयांच्या जल्माचे रजिस्ट्रेशनाची सक्ती पालकांनी लावन ना घेवूं पूण जायना फुडें जातक जरूर करून घेतालें. सोयरिगती जुळोवंक ना मोडूंक हें एक गडगंज कारण थरतालें. 'वधूपरीक्षा' हो हातुंतलो एक स्टीरीयोटायप प्रकार. व्हंकलेक पळोवपाक न्हवऱ्याच्यांनी येवप. व्हंकलेक बरी न्हेसोवन तिच्या हातांत च्याचें कोप दिवन भायर धाडप. तशी ती गड्बडटाच. परीक्षा न्ही? नापास जाली जाल्यार परतून दुसरे फावट रिपीट प्रोसेस. तेच प्रस्न आनी त्योच जापो. 'नांव? शिक्षण? रांदपाक कळटा? शिंवपाक कळटा?' आनी अशें एक आनी दोन खेप न्हय तर पंचवीस खेपें लेगीत जातालें. कसली दैनां आनी दुर्दशा चलताली चलयांची! म्हजे व्हडले भयणीक अशो कितल्योंशोच परीक्षा दिवच्यो पडल्यो आनी निमाणें एकी कडेन नक्की जाली. सूं जालें सगळ्यांक. जशी कितें चलयेचें लग्न जुळनासताना वाडून उरप ही आडखळूच. अशाच एका प्रकरणांतले सगळे पांवडे हुपून देवाक प्रसाद लावपाच्या निमण्या पांवड्या कडेन पाविल्लें आनी अकस्मात दारांत एका आदल्या न्हवरेकारालीं मनशां हजर. बेळगांवचीं. साक्षात न्हवरो आनी आवय बापूय. तांकां दारांत पळोवन सगळीं काचाबूल. सोयरीगत चलता म्हणून सांगून तांकां परतीं धाडप फटिंगपणां थरूं येतालीं. एक कल्पना लडयली. दुसरी भयण वाडिल्ली आसा. तिका उभी करुया व्हंकल म्हणून. आनी तशेंच केलें. तांकां पसंत पडली. पूण व्हडले भयणिचे सोयरीगतिचे बाबतीत नकलामी जालीं. देव पाकळी दिना म्हणून ही सोयरीगत जुळचिना असो रकाद आयलो. त्या बापायची धूव खरें कारण आशिल्लें. ही सोयरीक मोडिल्ली. कसल्या उतळतापांतल्यान वतालीं आमी ?

'जातक जुळना' हातूंत कितलीं आनी कसलीं म्हण हीं फटींगपणां? नाच जाल्यार आनीक एक कारण आसलें तें म्हणल्यार 'प्रसाद जायना' वा 'पाकळी दिना'. ती पाकळी कशी पडटाली तें ल्हान भुरगो लेगीत सांगपाक शकतालो पूण देवाचे करणेक परत जाप करप ना हो धाक आमचेर आसतालो. घरांतली 'हेड' जे थारायतालो तें मान्य जातालें. कारणां कितलींय सांगूं पूण आमचे बाबतींत एक कारण खरें आशिल्लें, म्हज्या बापायक लागून आयिल्ली सोयरीगत मोडटाली. म्हज्या बापाय मदीं कसले दुर्गूण आशिल्लें हांव नकळो. पूण ताका आपली बायल आनी भुरगीं नाका आशिल्लीं. सगळ्यांची बदनामी करीत भोंवतालो. असो कसलो ताचो सभाव आनीक कित्याक लागून तें म्हाका ताच्या मरणा मेरेन कळ्ळें ना एक मात हांवें निरीक्षण केल्लें. लोक ताचे कडसून घरांतल्यो बारीक बारीक गजाली जाणून घेतालें आनी मागीर ताचेर तासंपट्टी करतालें. आमचें कितें बरें जावपाक जायना अशें लोकांकूच दिसतालें आनी भोशी घालपाक तो कारणीभूत थरतालो. दुसरे भयणिच्या लग्नाक आमी घाई केली. व्हडलेच्चें पयलीं जावपाक जाय अशें सगळ्यांक दिसतालें. 'विधिलिखीत कोणाच्यान चुकोवं नजो' आईन म्हणलें आनी लग्नाची तयारी केली. जाल्यार बापायन जो अवतार धारण केलो तो वर्णन करूं नज इतलो भिरांकूळ आनी लजकाडो आसा. तो घरभर आडवो उदारो लोळटा, कसलेंच धंगण नाशिल्ल्यावरी. आमी भंयान घरांत हेवटेन तेवटेन दडटात. लग्न कशेंच थारायलें म्हण आकांत करता. लग्न बेळगांवां. आई ताका हर तरांनी विनयता, येजमानपण करपाक बेळगांव या म्हण. पूण तो तर आयकुपाचे अवतिकायेंत नासलो. आपूण येवंचोना आनी येजमानपण करचों ना हो ताचो हट्ट. म्हजे आईचे पयलेंच कार्य आनी धडधाकट घोव आसतना आपले धुवेचें येजमानपण तिणें आपल्या भावाक करपाक लायलें. म्हज्या भुरग्या मनाचेर दसून उरिल्लीं ही भावनीक रुक्ष तळमळ. आई-बाबा भितरलो संघर्श. हेड ऑफ फॅमिली... ताणें आपले खरें करून दाखयलें. ताच्या भाच्यान ताका आपणागेर व्हरून दवरलो.

लग्न जावन वतना म्हाका आईन एक मोलादीक उपदेश केलो, 'दरेके बायलेक दोन प्रतिश्ठा सांबाळच्यो पडटात. एक आपल्या आवय-बापायची. भाव भयणांची आनी दुसरी लग्नां उपरांत आपल्या घोवाची आनी त्या घरचीं. तूं शिकलां, नोकरी करता, एका शारांत वाडलां. हें सगळें सोडून तूं ती जीण जगपाची तयारी करता ताचो तुका पश्चाताप जावंचो न्ही. जात आनी जाती बरोबर संस्कार, राहणीमान हातुंतलो फरक तुका पावला पावलाक जाणवतलो. आमी कोण पावचीं ना तुका' सगळे मोन्यांनी आयकून घेवपा बगर म्हजे कडेन पर्याय नाशिल्लो.

रजिस्ट्रेशन करून पणजे दोगांयनी एक ल्हानशे रिसेप्शन दवरलें. सोयऱ्यांक सांगलें ना.पत्रिका पोस्टांत उडयल्यो. दारांत गाडी थांबली तेन्ना एक अप्रूप घडलें. लग्नाक आपलो खर विरोध परगटावपी म्हजो बापूय सगळ्यांत पयलीं वचून गाडयेंत बसलो. कोंकणीच्या लोकांक सांगलें आनी बँकेंतलो स्टाफ. लोक येवपाचें आयले. आयिल्ले हात दिवन गेले. सगळ्यांत निमाणें बापूय आयलो म्हज्यांत. ताचे दोळे तांबडे जाल्ले. म्हज्या घोवाक हात दिलो आनी म्हणलें, 'म्हज्या हेमाक सांबाळ.' ताचीं हीं तीन उतरां म्हजे खातीर लाख मोलाचीं. काळजाच्या कुरकुटांत ती हांवें जपून दवरल्यांत. अदीं मदीं एखादो बँकेंत येवन आपल्या लॉकरांतलें अळंकार भायर काडून तपासता तशीं केन्ना केन्ना हांव हीं उतरां घोळयतां आनी सुखावतां.

म्हजे तकलेंत म्हज्यो फाटल्यो गजाली आनी घडणुको आसताना अचकीत एक दीस हांव न्हिदपाक वतालें, इतल्यान मुखार आईची प्रतिमा, आपलो जांभळ्या कोराचो जरीच्या बुट्यांचो णव वारी शालू न्हेसून. कपलाक तांबडे पिंजरींचो वाटकुळोच कुंकुम. केंसांचो चापून चोपून घाल्लो आंबाडो आनी ताचेर शेंवत्यांची झिगी घाल्ली फांती. गळ्यांत मणि, मंगळसूत्र, माळ, कानांत थिकांच्यो वेडी, नाकांत नथ, हातांत कांकणां, पाटली, तोडें, दोट्टी गोंठ, भुजाक फीत. लांब रूंद सामकी पकदस्त. गोरीधवी कात. म्हाका दोळे भरून पळोवन घेतलें आनी मातशी अतृप्त कशी दिसली. हांवें विचारलें, कितें जालें गे?

म्हणपाक लागली, 'तुवें खूब नांव कमायलें, भांगरा परसूय मोलादीक, पूण ते मेळोवपाक तुका खूब वगडावचें पडलें. भितरले भितर घुस्मटत रावलें तूं. म्हजीच देख ती. व्हाऱ्यार गेल्लें शीत मुठलेंत येना हें हांवेंच सांगिल्लें तुका. तुवें मूठ घट धरली, केन्ना पोसो केलो ना. तुज्या पदरांत युगयुगांतरी चकचकपी वज्र आसा. तुजे जिणेचें सार्थक जातलें. इतलें म्हणटासर ती प्रतिमा नाच्च जाली. म्हजे दोळे मात तिचे यादीन ओले जाले आनी एक हुंडको आयलो तो गळ्यांतल्या गळ्यांत गिळ्ळो. म्हजी अवतिकाय समजून घेवपी ह्या खिणांत म्हज्या म्हऱ्यांत कोण ना हाचें दुखख मात मळबायेदें जालें. देखून म्हजें जिणेचो हो अव्यक्त पट व्यक्त जावन म्हाका समादान लाभचें देखून केल्लों हो खटाटोप.

समाजांत बदल घडोवन हाडपाची केन्ना कोणाक वान्सा जालिना पूण बायलेच्या दुबळेपणाचो फायदो घेवपा इतले कपट कारस्थानी तेन्नाचे कांय दादले आशिल्लें अशें म्हणल्यार कोणाक दुखचें न्हय. केन्ना केन्ना न्हिन्नळून आयिल्लीं हीं उतरां म्हज्याच कानसुलार सणण करून आपटतात तेन्ना सोसूं नज इतलो आवाज म्हज्याच कानांचेर आदळटा. हो काळ साठेक वर्सां फाटलो. बायलेची खंय आनी कशी मानहानी जातली हेंवूय पुरुश जाणा आसलो. बायलेक घरांतलो वावर करपी वावराडी म्हण जगोवप हातूंत तर तांचो पुरुशार्थ आसलो.

एक प्रस्न म्हजे तकलेंत सदांच अनुत्तरीत उरलों. पळोवंक गेल्यार एके बायलेक वसोवपा खातीर दोन घरां पूण मालकीण मात ती एकाच घराची उरना. प्रस्नाची जाप सोदीत रावलें. म्हज्या काळजांक सांसपून पळयलें, म्हजें अशें खंय कितें दिसता काय म्हणून. भुरगेपणांतसून आवय बापूय चलयेच्या मनाचेर संस्कार घालीत आसता. धूव ही परकी. दुसऱ्याल्या घरा वचपाचीं. तें परक्याचें धन. वीस वर्सां मेरेन ती तशीच वाडत रावता. आनी एक दीस तिका दिसता ह्या घरांतले हुमटावन आपल्याक दुसऱ्या घरांत मूळ धरपाचें आसा. त्या घरांत हात पांय पसरावन पाळां मुळां रिगयतासर अर्दें आयुश्य सोपलें तरी ती परक्यांलीच म्हण उरता. कुळारा बापूय म्हणटा हें म्हजें घर. घोवा घरा घोव म्हणटा हें म्हजें घर. तिचें आपलें घर खंयचें तर? बापूय जावं घोव हांचे भितर एकल्याच्यो तोंडांत 'आमचें' हें उतर कित्याक येना? ही मनोवृत्ती भुरगेपणांत सावन हांव पळयत आयलों.

आनी तेन्ना सावन हांव एक एक सपन पळयत रावलें. दिसतालें केन्नातरी तें साकारतलें वा प्रत्यक्ष रूप धरतलें. स्वतंत्र विचारान जगतलें जाल्यार लग्न जावप ना. म्हज्या विस्तृत विचारांच्या मनोवृत्ती कडेन जुळोवन घेवपी सांगाती मेळसर लग्न जावप ना. एक दीस हांव आनी रमेश वेळुस्कार ह्या विशयाचेर उलयताना ताणें म्हणले, 'हेमा, तुजे विचार भयानक आसात. तुका सहमत आसपी जोडीदार मेळप कठीण जातलें.' हांवें म्हणलें 'तसो मेळ्ळे बगर हांव लग्न जावचें ना.' नोकरी करतना दिसतालें बडटी घेत फुडें वचप आनी एक दीस मॅनेजराच्या सुवातेर केबिनांत बसप नाजाल्यार बँकेचें चेअरमन जावप. हांसपा सारकेली गजाल न्हय, पूण खऱ्यांनीच दिसतालें, पंडित जवाहरलाल नेहरू सारकेली व्यक्ती म्हज्या आयुश्यांत येवची. बंगलो, गाडी, आसची असलीं सपनां सगळ्यांचींच आसतात. तशीं म्हजींय आसलीं पूण दत्ता श्री नायका कडेन जीप आसली. तसली जीप म्हजे कडेन आसचीं आनी हांवें ती चलोवचीं हें आनीक एक सपन. पूण बी.ए. पास जातकच मात खरायेन दिसतालें. एम.ए. करचीं आनी फुडे पी.एचडी करून डॉक्टर म्हण पदवी मेळोवचीं. एकूय सपन पुराय जावंक पावलें ना. घरांतलो घुस्मटमार सोंसना जावन नवें कितेंतरी करपाक भायर सरलें आनी आव्हानां फाटल्यान आव्हानांक तोंड दीत रावलें. जी सोंपून सोंपना.

---

# जीणेरंग

**(पान १३ वयल्यान)** म्हजो जल्म कर्नाटकांत जालों हाची केन्नाच म्हाका खंत जालीना. चवथी यत्तेसांवन आमकां कन्नड तिसरी भास म्हूण अभ्यासक्रमाक लायली. आनी तिवूय सक्तीची केल्ली. म्हजे वांगडा कांय चल्यो आशिल्ल्यो ती कन्नड अक्षरां काडूंक रडटालीं. कितें म्हूण कोण जाणा म्हाका ती आवडटाली. आनी जांकां कठीण वता तांकां हांव मदत करतालें. तेन्ना लेगीत म्हाका हे भाशे विशीं आदर आशिल्लों. फुडाराक हांव हे भाशेचो उपेग करतलें. अशें म्हजें मन म्हाका खुणायतालें. ते सुप्त सपन म्हज्या मनाक आंकरी फुलयत रावतालें. म्हज्या अभ्यासक्रमाची पुस्तकां तें वर्स सोंपतकीच कोणाकय गरजू विद्यार्थ्याक काडून दितालें. पूण जें कन्नड अभ्यासक्रमाचें पुस्तक आशिल्लें तें कुशीक काडून दवरतालें. म्हाका कन्नड भाशे विशीं ओड आशिल्ली. कारण मात खबर नाशिल्लें. पूण इतलें मात खबर आशिल्लें. ह्या भाशेचें रोपलें मात हांव वाडयतलें. ताका फुलां-फळां हाडटलें. भुरगेंपणांत हें विचार येतालें. हातूंत अतिताय करून दाखयलीं ना ती सामकी खरी गजाल.

म्हजी धावी यत्ता जातकीच आमी गोंयांत आयलीं. गोंय म्हजेंच, आसून म्हजे खातीर तें परकें आशिल्लें. माती वेगळी, मनशां वेगळीं, भेस वेगळो, संस्कृताय वेगळी हे अनवळखी मनशां मदीं हांव शेणिल्लेवरी जालें. म्हजें मन रडलें. तातूंतल्यान सावरपाक खूब वेळ लागलो. जशें एक ल्हान रोपटें दुसरे कडेन व्हरून लायतकीच ताका मूळ धरूंक कळाव लागता तशें जालें. हळूहळू म्हजें मन स्थिरावलें. इश्टिणींची ताटातूट जाल्ली. इश्टिणी करप तितलें सोपें काम न्हय. विचार एक आसूंक जाय. जण एकल्यांचो आपलो पंगड आशिल्लो. तीं तातूंत गुल्ल आसतालीं. म्हाका मात तांचे कडेन जमोवंन घेवंक जमलें ना. एकटेंपण खूब सतायतालें. भुरगेपणांतल्या त्या मातयेची ओड कमी जावंक नाशिल्ली. आतां लेगीत आसा म्हाका ती ओड.

सहसा भुरगेपणांतल्यो यादी पुसून उडोवप सोपें काम न्हय. म्हाका शून्यांतल्यान नवनिर्माणी करची पडली. एका वातावरणांतल्यान दुसऱ्या

वातावरणा कडेन जुळोवन घेवप सामकें कठीण. हांव आनी भयण एक विशिश्ट शैलींतली कोंकणी उलयतालीं. गोंयांन येतकीच त्या कोंकणीचो सुमारा भायर त्रास जावंक लागलो. जंय जंय कोंकणी उलयतालें. थंय थंय कोंकणी उलयतासतना कमीपण जाणोवंक लागलें. घांट्यां भाशेन कोंकणी उलयतात अशे शब्द मनपटलाचेर येवन येवन आपटतालें. भाशे विशीं हांवें खूब मनाक लावन घेतिल्लें. मराठींतल्यान साहित्याची रचणूक बरी जातली आशिल्ली. पूण भुरगेंपण गोंयांत जालेंना हाची भरपाय कोंकणी भास शिकून करूंक जाय आशिल्ली. एक बरोवपी जावंक जाय जाल्यार एक उपासना करची पडटा. बुनयाद घट करपाक खूप कठीण. साहित्य कसाक लावंक जाय जाल्यार तारये वयली कसरत करची पडटा. निसटून सकयल पडत जाल्यार परत स्थीर जातलें हाची शाश्वती ना. जल्मान कर्नाटकी हाची खंत केन्नाच जाली ना. आनी केन्नाच जावचीय ना. म्हाका एक नवी कन्नड भास शिकूंक मेळ्ळी. तिवूय सक्तीची केल्ली म्हूण शिकलें. एका अर्थान बरें जालें. गोंयांन येतना एक नवी भास वांगडा घेवन आयलें. ते भाशेचें बीज घेवन आयलें. ते वाडोपा खातीर मनाक एक ध्यास लागिल्लों. पूण कशे तरेन ताची सुरवात जातली हाचो अदमास येनाशिल्लो. ते बीज भितरले भितर खतखतत आशिल्लें. महाविद्यालयीन शिकप जातकीच म्हाका म्हजे मनातलो जावपी घुस्मटमार बरपातल्यान मांडचो अशें दिसूंक लागलें. चड करून कोंकणी भाशेंतल्यान.

हेर भाशांतल्यान म्हज्यान बरोवंक जातालें. म्हाका कोंकणी तशी सारकी बरोवंक जमनाशिल्ली. पूण एक जिद्द मनात बाळगून हांवें कोंकणी बरोवंक सुरुवात केली. एक कविता जांव कसलेंय सदर बरोवपाचें जाल्यार पेपराचे पेपर पिंजून उडोवचें पडटालें. मागीर कांय तेंपान एक साहित्यकृती तयार जाताली. घरांत कोणाक सांगनासतना हांवें ती पोस्ट करप. दिसाळ्यांत ती छापून येतालीं. तेन्ना जो आनंद म्हाका जातालो ताका उतरां कमी पडटालीं. येत्न केले बगर कार्यसिद्धीक वचना. हेंवूय तितलेंच खरें. हें म्हाका तेन्ना होलमलें. तेन्ना सांवन हांवें फाटीं वळून पळयलें ना. हाचेवयल्यान म्हाका एक संस्कृत सुभाषिताची याद जाली.

उद्दमेनहि सिध्दन्ति कार्याणिन मनोरथ दी॥
नहि सुप्तस्य सिंहस्य प्रवेशन्ति मुखे मृगः॥

कश्ट केले बगर कांयच हाताक लागना. आनी न्हिदिल्ले शिंवाच्या मुखार वचून घे आपल्याक खा म्हूण. शिकार ताचे मुखार वचून उबीं रावची ना.

हांवें साहित्याचो प्रवास अखंड दवरपाचें तत्व हातांत घेतलें. कांय जाणांनी म्हजें साहित्य उखलून धरलें. म्हजे कडेन कन्नड बालसाहित्याचो संच आशिल्लो. ताचें नांव आशिल्लें ङ्गदिसाक एक काणी' एकेक तातुंतल्यो काणयो वेंचून काडून ताचो अणकार करूंक लागलें. ज्यो काणयो गोंयच्या काणयां परस विंगड आसात अशों. अणकारींत सदरा खालां हांव तें बरोवंक लागलें. हेंच तें म्हजें मनात आशिल्लें ते बीज ताचें रोपलें जावपाचें तयारेक लागिल्लें. म्हजे अणकाराची तांक पळोवन साहित्य अकादेमीन एके म्हान प्रतिभावंत कन्नड साहित्यीक एस. एल्. भैरप्पा हांच्या 'दाटू' हे कादंबरीचो अणकार कर म्हूण म्हाका पत्र आयलें. आनी हयकार जाय अशें त्या पत्रांत बरयिल्लें. हांवें तांकां हयकार कळयलों आनी तांणी तें पुस्तक धाडलें. पुस्तक सावका सायेन वाचून काडलें. काय पानां बरोवन लेगीत काडलीं. ते कादंबरेंतलें वातावरण आनी म्हजो जल्म कर्नाटकांतलो आशिल्ल्यान थंयचे वातावरणाचो थाव म्हाका लागिल्लो. आनी वातावरण दोळ्यां मुखार दवरून हांव अणकार करत रावलें. वट्ट ५२३ पानांची अणकारींत कादंबरी कोंकणी मळार अणकाराच्या रुपान दवरलीं. म्हजी भुरगें पणांतली मनात जी सुप्त इत्सा आशिल्ली ताका योग्य न्याय मेळ्ळो. आनी तें अणकारींत कादंबरींक केंद्रीय साहित्य अकादेमीचो पुरस्कार फावो जालो. ही तर म्हजे खातीर अभिमानाची गजाल. अभिमान आसा म्हाका ते भुंयेचो जिणे म्हाका एक नवी भास शिकयली आनी खोस भोगता म्हाका आतां कोंकणी खातीर हांव खंय तरी आसा हेरा भाशेन हांवूय तितलीच बरी कोंकणी उलोवंक आनी बरोवंक शकता हाची.

■

# "हांव एड्वीन जे.एफ. डिसॉजा उलयतां"

**(पान १५ वयल्यान)** आज हांव हांगासर पावलां.

कोंकणी साहित्यांत म्हजो प्रवेस एक कथाच म्हणे येत. म्हजो आजॉ (दे। जॉन रोबर्ट पाय्स) जाचो उल्लेक हांव म्हज्या सर्व बर्पांनी, कादंबरींनी करीत आय्लां. त व ळ सर्व प्रकशीत कोंकणी आनी कन्नड नेमाळ्यांचों कायाम वाचपी आसल्लो, कोंकणी नेमाळ्यांतले कितें कितेंगी वाचून व्हड्ल्यान हास्तालो पूण म्हाका कितेंच सम्जानातलें. आनी तवळ त्या नेमाळ्यांत्लें कांय थोडें वाचून तो सांग्तालो, धोडे कॉमिक, पेद्राम आकय, कुंपाद्रीचोयो काणीयो, काश्टी... हें आ[illegible]काताना म्हाका हासोच हासो येताल्यो. कितेंयी तरी म्हज्या आज्यान म्हजे थंय कोंकणीची उर्बा उटयली आनी कन्ड लिपी कळीत आसल्ल्यान म्हाका कोंकणी वाचूक चड त्रास जाले नांत. कोंकणी भास म्हज्या वाच्पांत आपापींच मिस्ळोन आयली. हें घड्लें १९६४ व्या वर्सा आनी तवळ हांवें कांय इंग्लिशांत बरवंक सुरू केल्लें पूण म्हजी प्रथम कोंकणी मटवी कथा १९६४ इस्वेंत ''पय्णारी'' पत्रांत प्रगट जाली. आनी म्हजें नांव कशें छापून आयलें जाणांत? Master Edwin Dsouza! हें नांव अशें पळेंव्चें म्हजे नशीब म्हणतात तर पर्वा ना. ही म्हजी कथा असल्या कात्रापाक वळग केल्ली त्या संपादकान की तांतू हांव नातलोंच.

पूण हांवें कोंकणींत एक सुरूवात केल्ली. ज्या दिसा संपादका थावन म्हाका एक पॉस्ट कार्ड आय्लें आनी ताचेर फलाण्या अंक्यांत ही कथा छापून येतेली म्हळ्ळीं उत्रां हांवें वाचलीं, सग्ळी रात हांव निद्लों ना. एका थराची अव्यक्त बिरांत म्हज्या शिरांनी चर्ली. सवलां आनी सवलां - वाचपी कितें म्हण्तीत? ही कथा आम्कां लागू जाता म्हण्तीत, कांय साम सोदतीत, फुडल्या अंक्यांनी म्हाका भाजून काड्टीत?

ह्या घोटाळ्यांतलो कशें सुट्चें एकच उपाव म्हळ्यार, एक गुप्त लिखणें नांव (pen-name) घेंव्चें. हांव नव्या क्लासींत आसलों आनी क्लासींतच बसून कितेंगी लिखतालों. तवळ पाट्ल्यान म्हजें बरपाक तिळच्या म्हज्या मित्रान सांग्लें - तुका लिखणें नांव जाय? Vasu Valencia म्हण घे, कोणाकच कळीत जांव्चें ना. हें नांव म्हाका इतल्या - सोबायेचें दिस्लें की हांवें तेंच नांव घेतलें. आजुनयी ह्या नांवान म्हाका वळकातात. हें नांव सुचीत केल्लो म्हजो आमीग, प्रो/ एरिक पत्राव आनिकी म्हजो बरो आमीग पूण ताका उडासांत आस्चें ना की हे लिखणे नांव ताणें सूचीत केल्लें अशें. पूण क्रमेण संपादक जे.स. आल्वरिसान (आतां देवादीन) घुट फोड्लो आनी 'वासु वालेन्सिया' म्हळ्यार एड्विन जे.एफ. डिसोजाच्च म्हण उग्डापें केलें. सबारांनी म्हाका, विचार्लां, विचार्तात - हें कसलें लिखणें नांव? पूण म्हजे लागीं स्पशटी करण ना. पुण घड्लें अशें की एका सुवाळ्या वेळार हेंच सवाल आयिल्या वांग्ड्यांथान्न उठ्लें आनी तवळ कोंकणी मॉगी (आतां देवादीन) श्री. जे. बि. रस्किंजान म्हाका पाटिंबो दिलो आनी म्हळें, V for Valencia (his parish) आनी Su म्हळ्यार 'सुपुत्र', अर्थात ''वालेन्सियाचो सुपुत्र''

१९४८ इस्वेंत हांव ह्या फिर्गजींत जल्माल्लों आनी १९९० पर्यांत हेच्च फिर्गजींत जियेलो आनी आतां म्हजे बिडार 'फांव्टनहेड' मिलाग्रीस फिरगींत आसा. हांव धन्यवाद म्हण्तां मानेस्त जे. बि. रस्कीनाक आनी प्रो. पत्रावोक कित्याक नेणारी आसुन ते जाणारी जाले!

'मित्र' आनी 'झेलो' संपादक श्री. जे. एस. आल्वरिसाक हांव जा यत्या रितींनी रुणी आसां. म्हजी प्रथम कादंबरी ''निमाणी शेळी'' (The Last Lamb) ताणें प्रगट केल्ली. ताणें म्हजी कादंबरी 'शेतांतलीं फुलां' सांक्ळे क्रमार प्रगट केली आनी हाच्यो तीन आवृत्यो आयल्यात. पूण हांव आल्वरिसबाबाक मान्तां ताणें म्हजी 'पिलातान दिल्लें फर्माण कादंबरी प्रगट केल्ल्याक. ही कादंबरी एक गुड्चारी वर्गाची, गोंयच्या सुट्केचेर Liberation of Goa आदारीत spy thriller. ही कोंकणींतच्च प्रथम. पूण हांव ह्या म्हजे कृतियेक चड्ड महत्व दीना कित्याक तांत्रिकतेंत ही कांदबरी दुब्ळी पूण तिच्या तेजाक लागून ेशिशव ेष परीरींळेप तिचो आतांयी उल्लेक करतात.

हें सर्व घड्टाना हांवें म्हजी पि.यु.सी. संपय्ली आनी उत्तीम अंक म्हाका लाब्ले. सरवांनी म्हळें - तुका ८४.३% अंक मेळ्ळ्यात आनी तवळचे दिसांनी हे उत्तीम अंक, तुंवें एकच इन्जेर या डॉक्टर जाय्जे. सत उचारतां हांव, म्हाका दोनयी विशयांनी आसक्त नासल्ली! म्हजें जिणें पुस्तकां, कादंबरी आनी सिनेमांचेर केंद्रित आसल्लें. तरी म्हाका घर्च्यांनी बेंग्ळुराक pack-off केलोच्च. पूण कितें फाय्दो? फकत दोन वर्सांचे 'तांत्रीक' शिकप करून हांवेंयी घराची वॉट धर्ली आनी माम्मीचे साम्कार उबों जालों. दोन वर्सां इबाड्लीं, धा हजार रुपय उदाक केले आनी हें घड्लें १९६९ इस्वेंत.

मंग्ळुरांत म्हजें मौल्य (रिंश्रींश) देंव्लें. कांय थोड्यो बियातिणी आसल्ल्यो आनी तांकां तांच्या धुवांक इन्जेर नवरो जाव्न म्हाका विं-चल्लो जाय्जे. पूण आतां तीं म्हजें मुकमळ पळेना जालीं; अण्काणें आनी नंज्ज्यो (taunts) वेग्ळ्यान. म्हळें थोड्यांनी - What happened to such a brilliant boy?!

Brilliant boy? जांव्क पुरो. चूक विंचव्ण केल्ली हांवें तांत्रीक शिकापाक वचून पूण म्हाका आसल्लें 'गट्स' म्हजी चूक वळकोन पाटीं येंव्क. सां। लूवीस हैस्कूलांत म्हजो मेस्त्री जाव्नासल्लो श्री. पांडुरंग पै (आतां देवादीन) एका दिसा म्हाका भेट्लो आनी ताचे थाव्न म्हज्यान कितेंच लिपंव्क जालें ना. ताणें संगत आय्काली पुण कितेंच रागान म्हळें ना. 'पर्बी तुका!' अशें तो म्हणालो. "You are a wiser man today!" हठ धरून रावल्लोय तर एक गूंडा जाव्न भाग्र येतोय.'

हांव म्हजे आवय एकलोच पूत. म्हजो बापय हांव ल्हान आस्ताना भाग्र पडल्लो. ताका पळेल्लो पर्यांत म्हाका उडासांत ना. आसल्ली म्हाका एक्लीच भयण (गेरप चरीळश) जी अडेज वर्सांचे प्रायेर ाशप-ळपसळींळीक लागून अंतर्लेली. तवळ आम्कां आस्त्रो जालीं म्हजे माव्ळे आनी मावश्यो ज्यो मदयप्राच्यांत वावुर्तालीं. ह्या सर्वांनी आनी म्हजे आवय्न म्हजें 'ghar vaapaasi' बर्या स्पिरितान घेतली. पूण बाकी उरल्लें एक सवाल - फुडें कितें, हरीं पर्शीं?

मंग्ळुरी समाजिच्या नेम-नियमांक हांव सर्णेलों. घरा लाग्सारच आल्ल्या एका Short hand Typewriting शाळेक हांव सेर्वालों आनी ह्या शाळेक भंवतिचीं सोबीत सुंदर आनी sexy चलियो येताल्यो. म्हजो 'प्लेबॉय' जिनोस जिवाळ्ळो. आनी तवळ हांव सां। लुवीस कोलेजीच्या Evening College-क Bcom शिकोंक सेरवालों. म्हजे माम्मीची एक पात्येणी आसल्ली, एका चल्यान ग्राज्यूयेट जाय्ना तर ताका सोबीत आनी शिक्पी पतीण मेळाना, अशें!

पूण तिका कितें कळित, हांवें म्हज्या पसंदेची चली विंचून जाल्ली. १९६९ इस्वेच्या दसेंबर २६ तारिकेर म्हाका मिलाग्रीस फिर्गजीची कुमारी जॅन लोबो भेट्ली आनी आतां ४३ वर्सांथाव्न म्हजी पतीण जावन आसा. ही बाव्ली म्हाका भेटली 'राकणें' पत्रान आसा केल्ल्या एका साहित्य शिबिरांत!

ह्या रोमांटीक आव्देंत हांवें जायतें लिखलें आनी म्हाका एक मानेस्ताची - श्री जेरोम सिरील वेगसाची वळख जाली. ताणें तवळच 'साळक प्रकाशन' म्हळ्ळें कोंकणी प्रकाशन सुरू केल्लें. तो एक प्रकाशक पूण ताका ताचेंच म्हळ्ळो छापखानो नातल्लो. ताणें

म्हजीं सबार पुस्तकां प्रगट केलीं आनी तवळ म्हाका आनी म्हज्या घरच्यांक एक आलॉचन आय्ली: म्हजे माव्शेक गल्फांत बरी कमायी आसल्ली आनी (ती आंक्वार) घरच्यांनी म्हळें - आमी एक प्रेस्स (चापखानो) Printng Press घाल्यां. अशें लागीं लागीं तीस हजार रुपय बंड्वाळ घालून प्रेस उबारलें आनी म्हाका चलंव्क दिलें. तांची येवजण - एडवीन पुस्तकां बरंव्दी, आपल्याच प्रेस्सांत छापूंदी आनी घरांतच जियेंव्दी. बराबर. पूण तांकां कळीत नातल्लें की हांव वयवाटी जिनोसाचो चलो न्हय. "That I am not a businessman at all!" पूण हें सत गमताना मजे माव्शेक तीस हजारांचो दक्को जाल्लो. 'जेमिनी प्रिंटर्स' म्हळ्ळें नांव दिल्लें प्रेस्साक आनी आतां हें प्रेस्स आ-वाज करिनास्तां बुड्लें.

अशें घडोन येताना दियेसेजिचें हफ्ताळें ''राक्णो'' आनी म्हजी सळावळ साहित्यीक दिशेन दाटोन आय्ली आनी मो। अलेक्सांडर एफ. डिसोजा (आतां देवादीन) आनी आनी हांव भोव लागीं सरल्यांव. ह्या नेमाळ्यान म्हजो साबार कथा कादंबरी प्रगट केल्यो. मोन्सिंजोर अलेक्सांडरान म्हाका फकत एक शिकवण दिली - use your red pen मतलब - कितेंयी लिखताना तुजोच्च संपादक तुंजा. ताच्या उप्रांत आयिल्ल्या फा . मार्क वाल्डार फा. विन्सी, फा. स्याम सिक्वेरा, फा. एरिक क्रास्ता, फा. फ्रान्सीस रोड्रिगस ह्या सर्वांनी म्हाका बरोच पाटिंबो दिला. तांणी प्रकट केल्ल्या कादंबरी पयकी म्हजी 'विंचून काड्लेली पोर्जा' कादंबरिक तीन साहित्यीक प्रश्स्त्यो लाबल्यात. कुवेता थाव्न पाटीं आयल्या उप्रांत तीन वर्सां हांवें 'राकणो' पत्राचें साहित्यीक संपादक्पण सांबाळ्ळां.

आतां 'जेमिनी प्रिंटर्स' प्रकरणाक पाटीं येव्चें तर-

तर आता कितें, पुडें कितें म्हळ्ळो भूत उदेलो. सारकें चिंतलां तुमी - मध्यप्राच्या चळववश्रश एरीं. म्हाका कशियी एक बि.कोम डिग्री आसल्ली आनी हें हातेर जावन हांवें घेतलें तरी कसल्याच वाव्राचो अण्बव म्हाका नासल्लों. तरी पूण म्हज्या माव्ळ्यान जो कुवेतांत बर्या सिर्विसींत आसल्लो, तिनशीं डिनार फारीक करून म्हाका, वेचीक पुताक (The Prodigal Son) एक वीजा धाड्ली. हांवें ती भियान आनी कृतज्नतेन स्वीकार केली आनी मंग्ळुराक, म्हज्या साहित्यीक जिणीयेक आनी प्रेयसी जॅनाक आदेव्स मागून भाग्र सर्ल्लों. आतां आयिल्लो वेळ हांवें सेंवच्या 'विल्स फिल्टर किंग्स' सिग्रेटींक आदेव्स मागून ब्रितानी सिग्रेट 'बेन्सन एंड हेड्जस' सिग्रेटीक येव्कार कर्चो!

हांव कुवेताक पाव्लों.

हांगासर हांवें कोंकणींतली प्रथम विज्ञानीक कादंबरी ''ते आयल्यात'' They Have Come बरय्ली. त्या उप्रांत म्हजें चिंताप तत्वग्यानाचेर घुंवलें आनी म्हाका अूप ठपवच्या The Fountainhead ग्रंथाची याद जिवाळ्ळली. म्हज्या छापखान्याचें अंतीम दीस तवळ आयिल्ले. तवळ पर्यांत (आनी आतांयी) तत्वग्यानाची म्हजी आवड थांबली ना. हेर भासांनी असलें साहित्य आसा तर कोंकणींत कित्याक नजो म्हळ्ळें 'छालेंज' हांवें म्हाका मार्लें आनी दे। इंदिरा गांधीजी emergency rule पाठ्थळ जावन घेवन हांवें कोंकणींतली प्रथम अस्थितवादाची कादंबरी ''हांव जियेतां'' (objectivism and existentialism) बरव्न म्हजो छापखानो शाश्वत बंद जांव्चे फुडें छापून काड्ली. हें पुस्तक घेव्नंच हांव कुवेताक पाव्लों.

ही कादंबरी सल्वाली म्हण वेगळ्यान सांग्ची गरज दिसाना. पूण १९७२ इस्वेंत प्रगट जाल्ली ही कादंबरी एका धग्रादीक संपादकान - मानेस्त डॉल्फी लॉबोन - धा वर्सां उप्रांत सांखळ कथा जाव्न आनी उप्रांत कादंबरी (पुस्तका रुपान) जावन प्रगट्ताना इतलो हंगामॉ जालो की सर्व प्रतियो कापून गेल्यो आनी आतां प्रतियोच्च मेळनांत. हांतलें तत्वग्यान विकाळ म्हण रेलिजीयोसांनी प्रचा कर्तांना वाचप्यांची आतुराय वाड्ली जाय्जे!

म्हज्या येदोळच्या नायशश्वेक लागून म्हाका कितें सर्व आय्कोंक आनी भोगूंक पड्लें हाचो विवर हांव हांगासर दिता. चार म्हयने लाग्ले कुवेतांत म्हाका नव्करी लागूंक, तेंयी एका खास्की कंपेनींत, एक टायपिस्ट (typise) जावन. म्हजो पाग कुवेती डिनार पन्नास आनी म्हज्या चप्रासीक ४५ डिनार पाग मेळटालो म्हणताना म्हज्या नव्करेचें म्हतव तुम्कां कळीत जालां आस्तेलें. आसूं.

तरी हांवें धयर सांड्लें ना. एक दिसा म्हाका आनी म्हज्या ''बोस्सा''क कितेगी तुटाफूट जाली आनी हांवें ताका 'छालेंज' मारलें - एका दिसा हांव तुज्या केबिनांत बस्तोलों. पुण म्हाका नोव वर्सां लाग्लीं हें पंथाव्हवन ज्यारी करूंक. त्या कंपेनिचो मेनेजर हांव जालों!

१९७५ इस्वेंत पयिल्ले पाव्टीं मंग्ळुराक रजेर आयिल्लो हांव प्रेयसी जॅना लागीं लग्न जालो आनी मार्च १९७६ इस्वेंत आम्कां आम्चें धूव, रुत एस्तेर जल्मालें.

उप्रांतलीं वर्सां बरिंच. हांवें पतिणेक कुवेताक हाड्लें आनी तिकायी बरी नव्करी मेळ्ळी. सर्व सुगमायेन चल्ताना म्हजें नशीब परत उगड्लें आनी कुवेंतात नव्यान स्थापीत जाल्ल्या Kuwait National Petroleum Company Mina Abdulla Refineryत म्हाका बर्या पागाची आनी सव्लतेंची नोकरी लाब्ली. म्हजें तुरुफ वयर पड्लें.

आतां आमची जिणी सुशेंगाच जाली आनी केन्नायी भेटॉळ मेळतान हांव सराक लिखतालों. विदेशी प्रवास आमी केलें. पूण मध्यप्राच्याचा राजकीयांक लागून हें आम्चें हॉडें प्रशांत व्हाळ्यांत आसल्लें तें येकाचाणें सद्दाम हुसेय्नाच्या (Saddam Hussein) आक्रमणाक वळग जालें. ह्या आक्रमणाक लागून १९९० सप्टेंबरांत आमी कुवेंत सांड्लो आनी म्हाका झुजा उप्रांत ताबड्तॉब आपव्णें आय्लें तरी हांव (आमीं) फाटीं कुवेताक गेलीं नांव.

मायगांवाचें आपव्णें आनी सुशेग बळिश्ट आसल्लो.

ह्या आक्रमणाथाव्न आमी मरल्ली पळापळ हांव 'म्हौंव आनी रगत' (Honey & Blood) कादंबरेंत पिंत्रायल्या.

आमचोच्च गांव जाल्ल्यान आमचें जिवीत रुता करूंक आमकां चड तेंप लाग्लो ना, मध्यप्राच्याच्या देशांचो सुशेग (सांगाताच बंदड) विस्त्रोन वचूंक चड तेंप लाग्लो ना. आमी 'पक्का' मंग्लुरी जाल्यांव.

आमी आम्चो वेळ कसो पाशार कर्तांव म्हळ्ळें सवाल सबारांनी विचार्लां आनी आमी जाप दितांव म्हणोन - पाशार करूंक आम्कां वेळच्च ना! खरें हें. रुतान सां। लूवीस कोलेजींत आप्लें इ.A. Journalism शिकप केलें आनी त्या उप्रांत Manipal Institute of Communication हांगासर शात्रातकोत्तर शिकप. २००३ इस्वेंत ताचें लग्न ताच्याच पसंदेच्या चल्या लागीं - सुधाकर प्रभु - जालें, तो एक ग्राफीक इंजिनियर. तांकां एक धूव आसा, आम्ची नात, अनुष्का. तीं सुखान बेंग्ळुरांत वस्ती करून आसात.

तर आमकां हेर कितें जाय?

जॅन आपल्या स्त्री-लंबीत कौशलतेंनी (Ladies Club, Philately Association, Bonsai etc) मग्न आसा आनी म्हज्या साहित्याची शिडी चडोंक धर्ल्या उप्रांत हांवें सकय्ल पळेल्लें ना. सात वर्सां थाव्न हांव सां। लूवीस कॉलेजीच्या कोंकणी संस्थ्याचो कार्याकारी निर्देशक आसां. येदोळ ३३ कादंबरी हांवें लिखल्यात आनी १४ साहित्याक पुरस्कार म्हाका लाबल्यात. साहित्य अकादमी, न्यू दिल्लीच्या General Councilचो वांग्डी जावन हांवें पांच वर्सां सेवा दिल्या. पूण खंचायी वय्वाटांत हात घालो ना. म्हज्या छापखान्यान म्हजीं बोटां आनी घमंड हुल्पायल्या उप्रांत म्हाका वयवाटाची शाथी ना जाल्या; बरें म्हाका नाकाच्च नाका.

हांगासर म्हज्या साहित्यीक जयतांचे विवर हांव दीना. ते कोणायकी उपकाराक पड्चें नय. ह्या शशवेचीं पाव्लां शिखराक पाव्ताना २०१७ चो साहित्याक पुरस्कार म्हज्या ''काळें भांगार'' कृतियेक साहित्य अकादमी न्यू दिल्ली थाव्न म्हाका लाब्लो. हेंच म्हजें शीम नातल्लें जय्त.

ह्या सुवाळ्याक म्हजी पतीण जॅन आनी धूव रुत दिल्लीक आयिल्लींच म्हाका वर्त्या संतोसाची संगत. हें नशीब सर्वांक लाबाना म्हळ्ळी म्हजी पात्येणी.

तुंवें इतलें सर्व वाच्लांय. संसार भंवलाय आनी इतलें सर्व लिखलांय, इंग्लिशांत सय्त लिखलांय. पूण कोंकणी कित्याक?

हांव: कोंकणी म्हजी मांय भास आनी ह्ये भाशेंत म्हजी चिंतना/चिंतप अड्कळी विणें व्हाळता. कोंकणी भास एक गिरेस्त भास कित्याक ती आर्याळ भास. अशें म्हण्ताकूच ख रा not obsessed with Konkani. म्हजीं सिंतीमेंतां, सृजनशील चिंतप फकत कोंकणी भाशे मुकांत्र उस्कानांत. बरपाचें देणें (बेसांव) रच्णार समेस्तांक दीना. हांवें केदळारी म्हण्चें आसा, एक लेखक आप्ले दोनयी दॉळे उग्ते दवरुनंच निदता! भाशे मुकांत्र साहीत्य उब्जाना पूण साहित्य मुकांत्र भास ऊर्जीत जाता, फुल्ता आनी बाळ्वाता.

ह्ये दिशेन म्हाका एक समादान आसा - कोंकणी साहीत्याक हांवें जाय्ताo first time दिल्यात. देकीक 'हांव जियेतां' (अस्तीत्वाद) 'पिलातान दिल्ले फर्माण' (गुडाचारी कथावस्त, भारतान गोंयांक सुट्का दिल्ले विशीं), 'ते आयल्यांत' (भ ह्यांतरिक्ष - Flying Saucers फ्लायिंग सोसर्स), आनी हेर.

पूण म्हजेर एक अपवाद आसा की म्हज्या साहित्यांत विदेशी व्यक्तित्वां/सन्निवेशां चड आसात, एड्वीनाच्या साहीत्याक ''मात्येचो वास'' ना, म्हण्जे साहित्य विदेशी साहित्याच्या प्रभावान या प्रभावांत आसा. हांगासर एक सवाल हांव विचार्तां:

आमी खंयच्या युगांत आसांव? आमी आनिकी आमच्या कुज्नांत सिग्डी जळय्तांव या ग्यास स्टव? आम्चीं माल्घडीं आतां' तां विदेशांची पयणां सदांचे मारकेटिक गेल्लेपरी कर्तात. त्येचपरी आम्चें चिंतप आनी जीवनाची रीत बद्लुनंच आसा. आमीं चंद्रार पांय तेंक्ला, चंद्राक आशेनाका म्हळ्ळें वाकयें आमी नुल्ल केलां, आम्चो तीब आतां मंगळ गृहाचेर आनी सुर्या तेव्शीन सय्त घुंव्ला. आम्चे लागीं आसा एक अप्ततीम हातेर - भास. हें हातेर घेव्न, साहित्याच्या माद्यमा मुकांत्र आमी आमच्या वाचप्यांक शिक्षीत कर्ची जवाब्दारी आमची.

संस्कृती, संस्कृती म्हणोन संसाराच्या प्रगतेक कुशीक मार्चें न्हय. वसां आदीं १९१५ इस्वेंत दे। लुवीस मस्करेंज आनी सरदार लूवीस कण्णाप्पान म्हळ्ळीं उत्रां याद कर्यां: 'आमी आमच्या साद्या लोका खातीर कितें पुणी करिजे.' ह्या उत्रां वर्वी 'कोंकणी दिवें' पत्र तांणी सुरू केलें. व्हय, त्या उप्रांत सबार पत्रां आनी नेमाळीं उदेली आनी बुड्लीं पूण सबार आतांयी जिवाळ आसात. नेमाळ्यांची प्रगती आनी बाळ्वी सिंतीमेंतांचेर होंदोन ना. संस्कृती म्हळ्यार कितें? साहित्य जाव्नासा दिस्पटीं संस्कृतीचीं. फलाण्या काळ्चे होंदोन बरय्लें साहित वाच्तना आमी त्या काळांत रिग्तांव पूण हीं आमची संस्कृती न्हय म्हण बायर येनांव.

देकून आमी लेखकांनी संवसारांत आनी संवसारांत जांवच्या प्रगतेचेर कायाम दॉळो दवरून आसूंक जाय. We should be uptodate with the progress world is making. साहित्य असली एक सवलता जी आम्कां संस्कृतीच्या चक्रांत पाटीं-फुडें व्हरूंक सत्ता. एका भाशेचो आनी साहीत्याचो उद्देश इतलोच. अल्प संख्यातेचे भाशेक फुडारना म्हळ्ळी संगत खरी न्हय. आमीं आमकांच अल्प संख्याचे म्हण लेकतांव तर हें आमचेंच उणेपण. We are under estimating ourselves.

आट्वें वोळेरि (8th Schedule) आस्च्या भासांतल्या साहित्याक वर्सावार प्रश्स्ती दितात. ही प्रशस्ती भाशेक दितात या त्या भाशेंतल्या साहीत्याक दितात म्हळ्ळें प्रश्न. भास, एक माद्यम, कांय देव, देवी न्हय. ती वापर्ल्यार मात्र तिची सोबाय वाड्ता. आमची दिश्टी परिदी वाड्ताना आमकां दिसून येता गर्ज आमचे ह्या भाशेक एका booster doseची गरज आसा, ह्ये भाशेंत नवें नवें सब्द/उत्रां येंव्ची गरज आसा: हांगासर न्ह तर हेर भासांनी सूक्त सब्द जरूर मेळटात

कित्याक संवसारांतल्या हेर भाशेक आपलेंच म्हळ्ळें network आसा. खंचायी एके भाशेंत एक अप्रूब सब्द आय्कोंक मेळ्ळो आमी सम्जाजे की हो सब्द असल्याच networkथावन उबजाला. कसलें जाव्येत हाचें मूळ? अशें तुमी पळेतात, हर एका वर्सा इंग्लीश शब्द कॉशांत शेंबर-पन्नास अन्य भाशेंतलीं उत्रां मिस्ळातात.

आमच्या देशांत कितलेश्यो भासो प्रचारांत आसात. ह्या भाशा विविवादांक लागून जांव्ची वीदवाळ्ळी कांय उप्काराची? म्हाका कसलेंच पूरक नतीजो दिसून येना. तर कितें कर्यां? भारतांतल्यो सर्व भासो शिकोंक आमच्यान साद्य ना. तशेंच संवसारांतल्यो सर्व भासो शिकोंक आमच्यान साद्य आसा? नांत म्हळ्ळी जाप जाणां आसुनयी आमी संवसार भंवानांव? आमी चीन देशाचो प्रवास केल्यार आमी कितें चीनी भास शिकोनंव वेतांव या चीनी संस्कृती जाणां जाव्नंच वेतांव? परत हांव म्हणतां - भास एक माद्यम.

जरी तरी म्हाका रशियन भास मायभास जावन लाबल्ली आनी बरव्पाचें देणें म्हाका आसा तर हांव रशियन भाशेंतच लेखक जातों, कोंकणी भाशेची गॉश्टी पर्यांत आस्ती ना. पूण ह्या सर्वांवर्वी तरी हो संवसार चलोनंच आसा, the communication marches forward. आनी हालिंच्या तांत्रिक प्रगतेक लागून फकत एका भाशेक लागून झुज-झुजां उटंव्ची पिशेंपणाची गज़ाल. ह्या वग्ता आमी पवित्र पुस्तकांतल्या ''बाब्वेल्च्या बुरुजाक'' (Tower of Babel) हाका पाटीं वेचें न्हय.

ह्या म्हज्या मुक्त बरपांत हांव इतलेंच म्हणतां - कोंकणींत जाय्तें आसा पूण पुर्तें ना. हो ऊंण सार्को करूंक आम्चें थंय हातेरां आसात; कोणेंयी ३३ कांदबरी लिकीजे म्हण ना, साहित्य अकादमीचो पुरस्कार जोडिजे म्हण ना पूण आम्चें चिंतप आनी बरप मनशापणाक लाग्ती जाल्लें जाय्जे, तांत्रिक विशयांचेर लिकताना आम्ची जाण्वाय पूराक जावन आसाचे, काळोकांत फार मार्चे न्हय, अपूर्ण माहेत वाचप्यांक दिंव्ची न्हय. साहित्यीक पाव्लां पाटीं काड्चीं न्हंय; खंयेंयी साहीत्य जाण्वायेचे तुपें/दिरवे जाय्जे, गळ्याक बांद्चो फातर जांव्चो न्हय.

ह्या खातीर आम्कां बरें, शाणे आनी जाण्वायेचे वाचपी जाय. थश पशशव सेव readers. बरव्प्यांची खातड कोंकणींत आसा पूण हांवें सांगल्लें वाचपी आमकां लाब्ल्यात या सर्वानी म्हण्चेपरीं 'कोंकणींत कितें आसा' म्हळ्ळें तिरस्काराचें सवाल घेवन बस्तेलेच चड संख्यान आसात?

हाची जाप तुम्चेंच मुक्त उलव्प आसा तर तें फुडें येंव्चें!

■

---

# खोशयेचो उजवाड

(पान ७८ वयल्यान)

जेवणाच्या वेळार दोनूय मावश्यांचे घोव आयले. नवी साडी, भांगरां शिंगरां घालून नटून थटून तयार जाल्ल्या मावश्यांनी आपआपले घोवाक आरती ओवाळली. तांच्या घोवांनी तांकां साडी आनी कांय भेटवस्तू दिल्यो. तेन्ना तांच्या तोंडावेली खोस पळोवन म्हाकाय खूब बरें दिसलें. मागीर सांजची आमी सगली अंबाबाईच्या देवळांत गेली. थंयच्यान एका गार्डनांत, मागीर सगळ्यांनी आईस्क्रीय खालें. तसो दीस बरो गेलो. पूण घरच्या पाडकुल्यांची याद येत रावली.

भाऊबीजे दिसा म्हज्या आजयेन, म्हज्या आवडीचो बासुंदी पुरीचो बेत केल्लो. खास या सणा खातीर मुंबयच्यान एक बापोल मामाय आयिल्लो. सगल्यांच्यो ताणें खबरी चलिल्ल्यो. मदींच कितें तरी कॉमीक उलोवपी हो मामा म्हाका आवडिल्लो. दनपरां जेवणाची पानां मांडून सगल्या भावा-भयणीं भितर 'ओवाळणी'ची कार्यावळ जाली. सगल्या भयणींक भेटवस्तू मेळ्ळ्यो, आईक साडी, म्हाका फ्रॉक, एक भाव बरोबर आशिल्ल्यान म्हजीय भाऊबीज मनयिल्ली. सांजचो आजयेचोय एक भाव आयिल्लो. घर आनंदान भरून गेल्ले. आमच्या घरांतूय हो सण दबाज्यान जाता हें म्हाका कोणाक तरी सांगन दिसतालें. सकाळी पाट मांडून भवतणी रांगोळी रेखून, भावाक ताचेर बसोवन तेल लावप, मगीर ताका न्हाणवप... दनपरां आरती ओवाळप, तांकां आग्रो करून वाडप - कितल्या उमेदीन करतात आमी - हें हांगाच्या लोकांक खंय खबर? पूण हांव कोणा कडेनच उलयलें ना.

दिवाळेचीं सुटी केन्ना सोपता काय जाल्लें म्हाका. हांगाचे सगले अणभव म्हाका घरा वचून सांगपाचे अशिल्लें, आनी घरचे कितें - कितें चुकले म्हाका हेंवूय जाणून घेवपाच आशिल्लें - मनांतली निर्शेणी केन्ना एकदा पयस जाता काय जाल्लें.

मात्शे व्हड जातकीच म्हाका कळ्ळें, खंयचोय सण मनोवपी तरा प्रथा वेगळी आसल्यारूय, तो मनोवपाच्या निमतान सगल्यांनी एकठांय येवप आनी खिणा-खिणाचो आनंद घेवप म्हत्वाचे. म्हज्याच घरांतलो उत्सव आनी आनंद खरो आनी बरो मनाप समा न्हय.

समंजसपणाची / शाणेपणाची एक पण्टी ज्या दिसाक हांवें मनांत पेटयली, त्या दिसां सावन, दिवाळी जावं वा दुसरो कसलोय सण-परब आसूं, आनंदाचो उजवाड कसो वाडोवप आनी सांबाळप हें म्हाका कळ्ळें.

## कूड आनी आत्मो

–आर. रामनाथ

कामार भायर सरनासताना
जेवणाच्या डब्या वांगडा
तूं तुजे काळीज
अचळय म्हजे हातांत दवरता
आनी दारांत उबें रावन
म्हजे फाटमोऱ्या आकृतीकडे
एकटक पळयत रावता
हांव दिसना तो मेरेन...
मदी एक दोनदा हांव फाटीं वळून
पळयता तेन्ना
दारांत तश्शे उबें आशिल्लें तुजे
अस्तित्व
म्हाका खूब्ब कितें सांगून वता...

खरें म्हणल्यार
कामार हांव वतनां
हांव म्हज्या घरा सयत
म्हज्या घरांतलीं मनश्यां घेवन वता
म्हजें घर म्हळ्यार म्हजी कूड
आनी म्हजी मनश्यां म्हळ्यार म्हजो
अखंड आत्मो!
म्हज्या मनश्यां कडेन हांव फकत
जेवणाच्या वेळार संवाद सादता..

कामाच्या वेळेंत हांव फकत
कामाकूच प्राधान्य दिता
आनी गरज पडल्यार चड काम
करतां... वेळे भायर काम करता
कसल्याच मोबदल्या बगर!
म्हजी जबाबदारी हांव बेस्स बरी
जाणां
कर्तव्यांत हांव केन्नाच उणो
पडना...

सांजचो घरा वतना
म्हजे तकलेंत आसता
आवयचें वखद
देवाक फुलां,
बायलेक जायांचो पोड
भुरग्यांक खावपाक
आनी हेर एक दोन जिन्नस

- आनीकूय कांय गजाली
तकलेंत घर करून आसतात
देखीक म्हूण
कामावेल्यान घरा येता तेन्ना
दारांत आसपी तुजो हासरो
चेरो
तुज्या हातांतलो थंड
उदकाचो पेलो
तुजे काळजांतले अमृत उले
जीण सर्वांग सुंदर करपाची
तुजी जैतिवंत धडपड
तुजो आश्वासक हात...
खंबीर आधार
आनी अशें खूब्ब कितें
तुजें - म्हजे
सगळेंच रंगयाळे
चिरंतन अशें...

फकत तुजें - म्हजें सगळेंच
सर्गेस्त अशे...

## वय

वाडट्या वया बराबर
तूं चोयवशीन
अधिकाधीक
सबळ जालां.
परिपक्व जाला
संसाराचो सार
तुका बेस्स बरो होलमला...

हांवें जिकिल्लें राज्य
आतां हांव
तुज्या सुवादीन करूंक शकता
इतलेंच न्हय तर
ह्या घडकेक तो म्हजेर चाल करून
आयल्यार लेगीत
ताका हांव जिखूंक शकता...

खऱ्यानीच आता हांव
निर्धास्त जालां
प्रबळ जाला...

## तुका पिवन हांव तर्र जालां

तुका पिवन हांव तर्र जाला.
- आनी ह्या जिणेच्या होम
खणांतल्यान चलतां हांव
ताचे कडेन थेट संवाद सादत...

ह्या घडयेक:
गांवचो सूर्य पालवलां
चंद्रीम सोपलां
गांवच्या दिकांनी आपल्यो दिका
बदलल्यात
रस्ते खंडीत जाल्यात
अखखो गांवूच अंदल्ला
म्हजी मोख नदरे भायर गेल्या.

सांग सखे तूं खंय आसा?
म्हाका मात्शी तूं इमेल धाड
आनी तातूंत धाड तुजो नामो
आनी तुजी खुशालकाय...

ताका पिवन हांव तर्र जालां...

## आनी ही किण्ण भोवतण

तूं
निर्वस्त्र
हांव समाधिस्त...
- आनी ही किण्ण भोंवतण
बिण्ण काळखांत...

## हांवें म्हजो नामो बदलला

आता
हांव
कोणाच्याच घरार फातोर मारिना
कोणाच्याच वंयच्चो खुंटो
काडिना
कोणाकूच गाळी मारिना
कोणाचेच कांयच उस्तिना...

आता
हांव
फकत भेश्टायता...

हांवें म्हजो नामो बदलला.

संपर्क: ९८५०४५८७६३

## एकवीस सप्टेंबर, १९८९

(सर्गेस्त प्रा. जी.व्ही. कंटक हांच्या उगडासाक)

**-शंकर रामाणी**

मायाचे दीस
दनपारच्या वेळार
वाटेर तुमी सामकार मेळटात,
उलयतात...
जाल्ली वळख वाडत वता...

एका आयतारा
सकाळीं
हांव 'स्वाती' बिल्डिगेंचीं सपणां चडटां;
तिसऱ्या मजल्यार
तुमचो सुपुल्लो ब्लॉक...
एका कुडींत
पुस्तकांनी नीटनेटक्यो भरिल्ल्यो
तीन-चार आलमारी...

दर खेपे
पुर्तुगेज-फ्रेंच-स्पॅनीश लेखक-कवी,
तांच्या साहित्यासंबदा
वर-देडवर तुमी रंगून उलयतात...
हांव फकत
कवड्याचे कान करून आयकतां आनी
दर खेपे
एका आगळ्या तृप्तीन
भरिल्लो पोसो घेवन पर्ततां...
एक फावट
मिगेल तोर्ग ह्या पुर्तुगेज कवीची
एक सुंदर कविता-'ङ्खेळणे'
तुमी इतले तल्लीन जावन,
कवितेच्या आशयाक वेंगावन,
वाचून दाखयतात
आनी हांव एका सलील-तनेरींत
पिशेपणाचीं पांखां फुटिल्ल्यावरी
सवणे कसो उडत घरा येतां...

तुमचो-म्हजो सहवास
तसो चड वर्सांचो न्हयंच;
जाल्यारूय रोपुल्याचें दिसांकणकणीं
झाड जावपाकडे पाविल्लें आनी
हें अकल्पित धन
तुमचेपासून कितलोसोच पयस आसूनय
हांव सदांकाळ सांबाळटालों...

हांव गोंयांत.
अकस्मात
तुमच्या दुयेंसाची खबर
एका इश्टाकडल्यान कानार येता...
दुसरे दिसा-
तुमच्या समाचाराक हांव हॉस्पिटलांत...
पयले खेपे;
तुमी न्हिदून खाटेचेर... निर्शेलेले...
दुसरे खेपे:
चमत्कार जाल्ल्यावरी
तुमची भलायकी फुलिल्लें फूल कशी:
हांव खोसयेभरीत बोल्सांतली
नवी कोंकणी कविता
तुमकां वाचून दाखयतां...
कवितेचे निमाणे कडवें परतून वाचतां.
'पालवली वात:
फांतोड्डेची भूल
उजवाडाचो धुल्ल
म्हज्या दारां.'
कविता आयकल्या उपरांत
तुमी उस्फूर्त म्हण्टात:
'हो उजवाड सदांचो न्हंय;
साप्प वेगळो.'

त्या दिसाची तारीख आशिल्ली
६ सप्टेंबर, १९८९;
आनी जिस्त पंदरा दिसांनी
तुमी तो 'उजवाड'
खऱ्यानीच पळेलो म्हणपाचें
म्हाका कळटा...

## पूण

**-माधव बोरकार**

दिसता पावस पडटासो
पूण पावस पडना
घुस्मट्टा घोटेरांत सवणें
पूण सवणें उडना.

दिसता सूर लागतासो
पूण येना जुळून गाणें
दिसता फांतोड फुट्टली
चोरिल्लीं किरणां कोणें.

घालता पावल जंय
वता शेणत दिका दिका
सगलेंच वाऱ्यार तरीय
कसली ओड तुका म्हाका...

संपर्क: ९४२०२२२८७६






## पेप्सी आनी कविता

-मेल्विन रोड्रीगस

रुका मुळांत
रुकाचींच फळां
शिंपडल्यांत.

रुका मुळांत
रुकाचेच खोले
कुसल्यात.

शिंपडल्लीं, झाडां जातलीं
कुसल्लें सारें जाताना
झाडांचे रूक जातलें
रुकाचेर फळां आनी एक दीस
आंक्रेल्लीं पानां पिकतलीं, झडतलीं

हांव खंयच्या रुकाचो
कुसल्लो खोलो?
काजुचो? कुंब्याचो?
पोंगेराचो? पणसाचो?

हांव खंयच्या रुकाचें
शिंपडल्लें फळ?
आंब्याचें? रिंग्याचें?
वडाचें? माडाचें?

म्हजो रूक कित्याक
रुकां भाशेन एकाच जाग्यार
थिरूंक ना?
जाप मेळूंक ना

म्हजो पूत मात्र
ताका जाप मेळल्ले भाशेन
पेप्सिचो डब्बो वोंटाक तेंकून
म्हजे कुशीं मोव हासो फांकोवन
यूट्यूबा वयली म्हजी कविता
आयकून आसा.

## एक माल्तूल उदक

एक माल्तूल उदक पावलें
हिंदूपणांतलो म्हाका काडन चाळूंक
क्रिस्तांवपणाच्या कुंड्यांत मोळूंक

एक माल्तूल उदक पावलें
परदेशी पुर्तुगेज आल्कुंज मेळूंक
सैंभाच्या पत्कांतलो म्हाका पिळूंक

एक माल्तूल उदक पावलें
गायचें मास खांवचें शिकूंक
दुक्रा मासाच्यो रुची चाकूंक

एक माल्तूल उदक पावलें
दुर्गेक म्हजे सकयल देवोंवंक
सायबीण मरयेक पाल्केर बसोंवंक

एक माल्तूल उदक पावलें
वेंकट्रामणाचो हात सोडूंक
जेजू नाझरेनाचो खुरीस धरूंक

एक माल्तूल उदक पावलें
जिणयेंत इतलीं नवलां घडूंक
म्हाका इगर्जेचो गुलाम करूंक

## टिप्पुची तलवार

एस्टेट रैटरांच्या
गांवांतल्या घरच्या माडां मुळांनी
फुटल्लें दूध.

ब्रिटिशांचे पांय दांबचे
वि.जे.पी.च्या काणयांनी येवचें.
बाल्ताजारांचे बावळे.

श्रीरंगपट्टणाचे वाटेर चलताना
दांट्टुंच्या कुपा फात्रांचेर
पाज्राल्ल्या रगता खतांनी
आजून दिसचो
भरून वोमतुंचो
गोऱ्यांचो मोग.

मल्ल्यान आपणायल्ल्या
टिप्पुचे तलवारी भोंवती उमकळचे
क्रिस्तांवांचे पिसांसूर आत्में.

अस्मितायेची साणस एक
इतिहासाचीं पानां परतून आसा.

घरचें दूध माडा मुळाक उडोवन
गोऱ्यांच्या गांवांत सालवासांव जोडल्ल्या
मल्ल्याच्या मुक्तिच्या जैताक
तलवार कांय कारण आसा?

संपर्क: ०९९८०१३६२९७

## कविता सुखाच्यो-दुखाच्यो
-सखाराम शेणवी बोरकार

१)
जिणेंत दुख इतलें पिलों
आतां सुखाच्या पेल्याक लेगीत
दुखाचो वास मारता!
२) सुखाच्या बाज्जेर लोळपी
दुखाच्या धगांनच
हुलपून वतात!
३)
दुखांत लेगीत दवरची
सुखाची रे आस
त्या फुलाक पळय
चिड्डील्यारूय ताका येता वास!
४) सोंसल्या बगर
दुखाच्यो वेणो
हालना केन्नाच
सुखाचो पाळणो!
५)
सुखा परस
दुखच चड
जिवीत तेन्ना
लागता जड!
६) दुखांत सदांच सूख सोदपी
सुखाचें पांगेंत
केन्नाच रावना!
७) फायच्या दुखाचो
बाळगून भंय
आयच्या सुखाक तूं
कित्याक घालता वंय?
८)
दुखांन तोंड भाजतगीर
सूख लेगीत फूक मारून
पियेवंचें पडटा!
९)
दुखांतल्यान तूं
एक गजाल शिकता
आपलो कोण परकी कोण
हें रोखडेंच तुका कळटा!
१०)
सुखा फाटल्यान धांवचे खातीर
मनीस करता सगळे खेळ
जेन्ना ताका मेळटा सूख
तेन्ना भोगूंक खंय आसता
वेळ?
११)
सूख सोदतां सोदतां
हांव म्हाकाच शेणलों.
दूख सोंसतां सोंसतां
हांव म्हाकाच मेळ्ळों!
१२)
पोसोभर दूख आनी
चिमटीभर सूख
पुरो आसता चंवरपाक
जिविताचो रूख!
१३) जांचे कडल्यान आमी
सदांच सूख आंवडेंतात
ज्युस्त तींच आमकां
चड दूख दितात!
१४)
सूख आनी दूख खंय
नाण्याच्यो दोन वटो
थोड्यांच्या जिणेंच्या वांट्याक
दोनूय वटांनी दुखच!
१५)
सुखाचें रीण
पावयता म्हणसर
वाडत गेलें
दुखाचें कळंतर!

संपर्क: ९९२३३०६७५१

## वीस वर्सां आदीची एक अप्रकाशीत कविता
-काशिनाथ शांबा लोलयेकार

जीण भर मन जळटा
मेल्या उपरांत तन जळटा
निमणी उरता राख
आता म्हाका राख
अशें कशें म्हणूं
म्हणूं कोणांक
देवाक
काय देवचाराक

गिधाडां उपाशी
घिरट्यो घालतात मनांत
मनांतल्यान भायर सरतलीं तीं
हांव मेल्या उपरांत
म्हजो देह खावपाक

म्हज्या मर्णाचो सुवाळो हांवें पळयला
पूण हांव पळोवंक सोदता सुवाळो
म्हज्या मर्णाच्या मर्णाचो
तुकारामाचे भाशेंत अनुपम्य

## सुर्याचे सुक्ष्म ध्यान
-प्रकाश पाडगांवकार

करता सुर्याचें सुक्ष्म ध्यान
अचळय सुर्य-उज्यांत लुप्तता
अणभवून म्हजो भस्म जाल्लो
किर्ण रंगयाळें जावन शिंवरता.

## गांव भौशीक जाताना...

-तुकाराम रामा शेट

खूब दिसांनी गांवांत पावताना
म्हाका दिसलें
गांवचे ल्हान मोडकें देवूळ व्हडलें जाताना
आनी गांवची मातयेची घरां
मोटवीं, मोडकीं जाताना

देवळा कुशीक व्हड सभाघर
जात्रा काल्याखातीर,
लग्नाक, सभांक, नाटकांक, पाट्यांक
बादलेले खासदाराच्या खास आदारान

पूण फुडें पळयलें -
गांवचे नवे भुरगे
गांवांतसून आपली साटली पोटली कवळून
पयस गांवां भायर बिराड व्हरताना

हां, गांवांतल्या घराघरामुखार तुळस
जालंधर राजाची सवाशीण बायल तुळशीचें लग्न
परकी विष्णूकडे करताना
जाता तिची व्हड पूजा
जमलेल्यांक चिरमुल्यो वाटून
पयलीं गांवगिरें लोक मेळून
मंगलाष्टकां म्हणत लग्न लायताले आपले रितीन
आतां भटा ब्राह्मणासमक्ष लायतात

घरां खंय पावूं
तांतूत रावपी लोकांचे
किदेंय जांवू
हाली हाली दर घरामुखावयली तुळस
रंगीत रंगान रंगता, सजता
कोणाली मोडल्यार कोण वयलो

बांदून दिता घट्ट सिमिंटान

तसो आमचो गांव तरतरता
गोंयां भायल्या कामगार-मानायांनी धडधाकट
आनी मुकादमांनी तिरसट पुरुशी
तशेच तांच्या बायलां भुरग्यांनी
नी एकमेकांक खेटलेल्या, हळशीक वस्तीनी
हरशी मांड-पसऱ्यांचेर, हॉटेलांचेर
हांचेच गिरायक
आनी खुद्द गांवचे कांय जाण्टे नेण्टे खांकनवाळ

गांवचे म्हातारे, तरनाटे तशे नासत न्हंयकडे
पूण गांवां भायल्यांचीच गर्दी चड
रेंव व्हड्यांनी भरून हाडून
तडीर घालपाक, उसपपाक
आनी व्हडल्या ट्रकांनी भरपाक

रेंव काडपाक हांका तशें लायसन बीन लागना
आमदार, मंत्र्याचें हांड आसल्यार पुरो
मात दर ट्रकाखातीर अमूक विडो
आमदार, मंत्र्याक पावंकूच जाय
नाजाल्यार 'रेड'पडटात
ग्रामपंचायतीची टॅक्सपट्टी बीन कांय नासत
पूण पंच, सरपंचाक वांटो
नेमान पावताच पावता

ह्या दिसांनी तर इलेक्शन
गांवांत आनी घराघरांत पावला
आमदार-मंत्र्यान दुसऱ्या वाड्यावयलें
देवूळ बांदपाचें उतर दिलां
वाड्या वाड्यावयले नवे डांबरी रस्तें तर
तुळतुळीत जाल्यात-
ते लोकांक गांवांभायर व्हरतात
आनी गांवचीं मातयेची घरां बाबडीं
वांगडा उण्या भुरग्यांची शाळाय
ह्या काळासावन परबंपाक लागल्यात.
(२१/१/१७)

## पोलंड-इंडिया

पोलंडचें पिक्चर आफ्टर इमेज
१९५२ सालचे घडणूकेचेर
नी चित्रकाराच्या जिविताचेर
पिक्चरांत पावाखातीर रांको
गर्देंत लोकांची गचमुड्डी

आयज म्हज्या भारतांत नोटबंदी
तांदूळ-गोटो, वखद आसा
पूण पयशांची मारामार
चड करून किरकोळ पयशांची
किरकोळ मनशांक

बँकेमुखार रस्त्यार
लोकांची लांबचे लांब रांक
आपल्याच पयशां खातीर भिकाड्ड्या भाशेन

म्हजो जल्म बावन सालांतलो-
हांव लागलो चितपाक
हांव जल्मासावन आतांमेरेन
लायनीत आसां
कोणाच्या तरी चुकिच्या नियोजनान
आनी हें शेकड्यांनी-हजारांनी वर्सां
चलत आसा, चलत आयलां
कोणाचे तरी कोले बुद्धीन

कोले पोलंडाक रावतात
कोले भारतांतय रावतात
(२१/११/२०१६)

## तेन्ना म्हजीं पावलां परत...

-रमेश साजू घाडी

नाका घांटी चौगुडे
नाका गर्नेल माराणे
आयकूंक ताका येता
तुज्या काळजांतलें गाराणे.

गाभाऱ्याचे बंदखणींत
हालीं मन ताचें लागना
भक्तिची भूक ताची
कशीच थंय भागना.

कोणाक जाय हे अभिशेक
काकड आरती हीं दुदान्हाणां
तो म्हणटा खुळो न्हय हांव
एकल्या एकल्याक वळखून जाणां.

वाजेवन वाजेवन लागला चालीक
आनीक म्हणटा रावचोंना
कपलां जरीं फोडलीं तरीय
परत हांगा येंवचों ना.

चल्लों आयज सोडून तो
धुंवरिल्ली ती गर्भकूड
मध्यानीचेर परत घेवन
उजव्या हातान पेट्टी चूड.

दोंगरा रानां पळोवन ताचें
काळीज गेलां दुख्खान जळून
रुप्या कळस बांदले कशे
सगलें ताका आयलां कळून.

देवळी सोडून धरल्या ताणें
परत रानां दोंगरां वाट
म्हणटा परत आनीक नाका
तुमचो भांगरा रूप्या थाट.

भक्तिची भूक म्हजी
जेन्ना तुमकां कळटली
तेन्ना म्हजीं पावलां परत
देवळा कडेन वळटलीं.
२
कित्याक ताणें केलें अशें?

कित्याक ताणें केले अशें
मनशां मर्दी काळे गोरे
वज्राचे पोटले थोड्यांक
थोड्यां माथ्यार वजना भरे.

थोड्यांक केले राजा ताणें
थोड्यांक दिली गुलामगिरी
थोड्यांक पंचपक्वानां
थोड्यांक दळदिराची किरी.

थोड्यांक दिल्ल्यो पालख्यो मेणे
थोड्यांक जोत्या विणें पांय
कुबेराचें धन थोड्यांक
थोड्यांक गरिबीचे घाय.

बाराय म्हयने लक्ष्मी
थोड्यां घरांत रावली नाचत
थोडे हातांत कट्टी घेवन
गांवार भीक रावले मागत.

ताकाच खबर कितें ताच्या
अंतरमनांत चल्लां तें
अजाप सदां दिसता म्हाका
कित्याक ताणें केलें अशें????
३
तो वेळ येतकच...

तो वेळ येतकच हांगा
वेळ आसची ना
सोबीत दरया देगेर
अशीं ल्हारां खेळचीं ना.

वाऱ्या तालार धोलपी हांगा
माड आसचे नात
सदां सावळी दिवपी
'वडा झाड' आसचें ना

सळये खांदार घेवून बांदार
चलपी आसचे नात
विरलें माथ्यार घेवून गायत
हालपी आसची नात.

विध्वंसाच्या दुख्खान जिते
जळपी आसचे नात
जळटा तांचीं दुकां
हांगा कळपी आसचे नात.

सैमा खातीर हड्डें फोडीत
रडपी आसचे नात
पिश्यां परी कवनां असलीं
घडपी आसचे नात...
पिश्यां वरी कवनां असलीं
घडपी आसचे नात.

संपर्क : ९८५०४५३३५५

## चिड्डें

-संजीव वेरेंकार

पावस आयलो
आनी आड्ड्या आड्यांचेर
चिड्डें फुरफुरून वयर आयलें
पावसाकच किसोंज करीत
मळबा कडेन सर्त करूंक
लागलें
पावस गेलो!
आनी खिणांत
चिड्ड्यांचें राज्य नाच्च
जालें!!

## तुज्या मोगाचीं...

-जॉन आगियार

तुज्या मोगाची झोळी फाटीर गो
जगणें म्हजे हें तुज्या खातीर गो
धांवत म्हज्या वेगेंत येवचें
मोगा पावसान भिजून धेंवचें
मनांत धेंवचे सपनांत येवचें
दोळ्यांनी म्हज्या निरंतर रावचें

आमच्या मोगाची खोलाय गावना गो
काळीज ऐकसुरें आतां रावना गो
हातांत हात घालून चलचें
फुलांवरी दोगांयनी फुलचें
मनांत धेंवचें सपनांत येवचें
दोळ्यांनी म्हज्या निरंतर रावचें

उतरां तुजी ओठार आयली गो
तुजीच गितां हांवें गायली गो
हळूच तुंवें म्हज्यात येवंचें
काळीज म्हजे तुकाच घेवचे
मनांत धेंवचे सपनांत येवचें
दोळ्यांनी म्हज्या निरंतर रावचें

## वात तूं...

सकाळ तूं, दनपार तूं
साज तूं, म्हजी रात तूं
सांगात तुजो सदांच काळजांत
जिणेंत तुज्या मोगाची वलसाण
कितलोय काळोख येवंदी वाटेर
म्हज्या उजवाडाची वात तूं
सकाळ तूं, दनपार तूं
साज तूं, म्हजी रात तूं

संपर्क: ९८२२१५९७०५



## वय

-दीपक गोविंद प्रभूदेसाय

वर्सां कितलीं म्हाका
हें हांव गेलो सोदपाक
जल्म सोंपलो
पूण वर्सां सोंपली ना

एक सेकंद
म्हणजे एक खीण काय कितें?
म्हजें वय
म्हणजें कितलीं वर्सां?

म्हजे कडेन
एक गजाल आसा
सांगपाक गेलों
काम तिसरेंच किते तरी
जाता
त्या गजालिची
जाता एक काणी

तुजी पुराय
आनी म्हजी पिराय
मेळून
हे कवितेची
पिराय

हांव आनीकूय बरोवपाक सोदता
म्हाका येता बेरीज
आनी वजाबाकी
आनी कवितेचो
गुणाकार

संपर्कः ८६०५५४०७५०

## न्हंय

-किर्ती ल. गावडे

बशिल्लें हांव कविता करूंक
न्हंयेच्या देगेर
पूण सुचच नाशिल्ली एकय वळ
कल्पनेच्या जगांत आशिल्लें हांव
तेन्नाच नदर पडली
व्हांवत्या न्हंयेर

निळ्या निळ्या त्या उदकांत पळोवन
म्हजें मन खोशयेन भरून आयलें
व्हांवत्या त्या उदकाक पळोवन
म्हाकाय दिसलें तशेंच वचन शें

दिशिल्लें म्हाका सांगशें दुख्ख म्हजें
पूण कळटालें कांय तिका तें?

मनशाल्या जिणेंत दूख आसा
तें न्हंयच्या जिणेंत आसा कांय
जशें मनीस दूख्ख झेलतात
तशीं ती झेलता कांय...

तिचो तो खळखळ आवाज आयकून
दिसलें म्हाका ती खोशेन हांसता

न्हंयचें रूप पळोवन खूप प्रस्न निर्माण
जालें
न्हंय दुख्यांत व्हांवता काय
सुखांत व्हांवता कळ्ळेंच ना

बशिल्ले कडेन केन्ना काळोख जालो
कळ्ळेंच ना...

## हांव गरीब

-दुलू प्रदिप वळवईकार

आयज म्हजे कडेन खूब पयशे आसात
जसो जसो वेळ वयता
तसो हांव आनी लाखांनी गिरेस्त जाता
पूण तरी हांव गरीब

खूब बरें आसले तें आदलें दीस
हातीन रुपया नासतालो
पूण मन सदांच भरोन वोत्ताले
निराशा केन्नाच आसनासली
हासत्या मुखामळान वेळ वयतालों पूण
आता...

आयज म्हजे कडेन सगळें आसा
पूण खंय गेले ते दीस?
खंय शेणलें?
म्हजे इश्ट, सोयरीं, नातीं, खबऱ्यो
सगळे शेणलें फाटीं उरलें.

आता इश्ट म्हण कलिंग्स आसात
पूण फकत कामां पुरती
नातीं फकत पयशे पळोवन जुळपाक
लागल्यात
खबऱ्यो फकत दुसऱ्यांचे पाड करपाची
शडयंत्रां

म्हणून हांव म्हाका गरीब म्हणटां
सगळे आसून गरीब
कारण आता ते आदले मनीस
आनी मनीसपण दोनय उरूंक ना.




# Department of Rural Development
# Government of Goa




## GOA STATE RURAL LIVELIHOOD MISSION
## "STREESHAKTI" *Shaping the Future*

The Goa State Rural Livelihood Mission "STREESHAKTI" aims to reduce poverty by enabling the poor households; to access gainful self-employment and skilled wage employment opportunities, resulting in appreciable improvement in their livelihoods and improved access to financial services.

The features of Streeshakti are as follows:

- SHG should be 10-15 women members of a neighborhood who will engage in credit, saving activities.
- SHG should follow the "**Panchasutras".** (*Regular Meetings, Regular Savings, Regular inter loaning, timely repayment of loans and up to date books of Accounts*)
- 10 - 15 SHGs can form federations at Village/ Block / District level. It is a platform to the members of SHGs to voice their social and financial concerns. The federations aim to help in knowledge and technology dissemination and also act as hubs of production and commerce.
- The Benefits of formation of Group/Federation include Revolving fund, Interest Subvention, Community Investment fund, and Bank loan with multiples doses.
- Revolving Fund (RF) with a minimum of Rs. 10,000 and up to a maximum of Rs. 15,000 per SHG, provided SHG should be in "**active**" existence at least since the last 3 months(Grade I) and practicing '**Panchasutra**', Multiple doses of bank loans upto a maximum of Rs. 10 lakhs per group.
- Aajeevika skills development programme - an opportunity to young people to upgrade their skills.
- SHGs are promoted for in various activities like shell works, embroidery, candles, coir mats, sweets, agriculture, milking animals, tailoring, catering, bamboo products, etc.
- Focus is to provide the SHGs with knowledge, upgrade their skills and provide them expertise in activity of their interest and provide them a platform to market their products.
- Their involvement in major activities like Agriculture, tailoring (stiching uniforms), Coconut plucking, running of Canteens in Govt. departments, has been initiated so as to empower the SHGs and provide them gainful self-employment resulting in improvement in their livelihoods on a sustainable basis.
- Planning is also towards promotion of Women's Driving School/Women Tourist Taxi among the SHGs.
- Planning of Swacch Bharat Mission on large scale is initiated through involvement of SHGs.




GOVERNMENT OF GOA,

**Water Resources Department,**

*Sinchai Bhawan, 2nd Floor, Alto Porvorim, Bardez-Goa 403 521*
*Phone No. 0832-2412047 Visit: www.goawrd.gov.in*

# "NITAL GOEM NITAL BAIM"
# "नितळ गोंय, नितळ बांय"

Nital Goem Nital Baim Scheme is introduced for repairs and renovation of existing wells in the state by individuals / groups of Individuals or farmers. The scheme is by extending them grant-in-aid in the form of subsidy. The objective is to promote conjunctive use and maintain ground water structures. This is a beneficiary oriented programme to benefit the multi-users of a well for drinking or irrigation purposes.

The terms and conditions of Scheme.

1. Well should be registered with Water Resources Department.
2. Benefit once availed cannot be re-availed for next five years.
3. Reimbursement of the repairs which include construction of parapet, plastering with glazed tile pieces, repairs of electric equipment if necessary, cleaning of well including de-watering.
4. Upper limit of reimbursement shall be Rs. 50,000/- per well.

To apply scheme download and go through the notification attached on above web site and make an application to the Department in the prescribed format. The application should be made to the Assistant Engineer of WRD in each taluka as notified.

You can also apply for this subsidy online by visiting the online services section of the website.



**DIRECTORATE OF FISHERIES**
**GOVERNMENT OF GOA**
**PANAJI – GOA**

**We aim to facilitate sustainable development and management of fisheries and aquaculture resources for dignified rural livelihood development.**

## Departmental Activities

### Registration
Registration of motorized/non motorized Fishing Canoe, Mechanized fishing vessels, Sports fishing vessels, Nets etc.

### Infrastructure Development support
Upgradation/Construction of Landing Centres, Ramps, Net Mending Sheds, Fish Market etc.

### Subsidy/Schemes for Fishermen
- Financial Assistance for Construction of Wooden/FRP Canoe.
- Financial Assistance for Purchase of Fuel to Outboard Motor.
- Financial Assistance to Fishermen for Purchase of Fishery Requisites.
- Interest Subsidy on Loans.
- Financial Assistance for Purchase of Safety Jackets & Life Buoys for the Fishing Vessel.
- Financial Assistance for Purchase of Outboard Motor.
- Safety of Fishermen at Sea.
- The Goa Value Added Tax based Subsidy on H.S.D. Oil consumed by Fishing Vessels.
- Supply of Insulated Boxes to Fisher persons.

### Welfare Schemes for Fishermen
- Group Accident Insurance Scheme.
- General Insurance.
- Saving cum Relief.
- Development of Fishermen Village.
- Corpus Fund.

### Development of culture Fisheries
- Mussel Farming.
- Open Sea cage Culture.
- Fresh Water Fish Seed Hatchery.
- Brackish Water Fish and Shrimp Farming.

### Mobile Fish Stalls
To Provide Fish at Reasonable Rate to the General Public.

STATE FISH OF GOA "GREY MULLET (MUGIL CEPHALUS)"

**SEA IS YOUR WEALTH HELP CONSERVE YOUR WEALTH**

